रोखडीच उजवाडाक येता

उदय भेंब्रे

हांची

इंक्विझिशना वयली कादंबरी

व्हडलें घर

सोळाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांतल्या
दुखदिण्या इतिहासाचें दर्शन
देशी भाशेंतल्या साहित्यांत पयलेच
खेपे येता

उजवाडपीः संजना पब्लिकेशन्स






उदय भेंब्रे हांचें उजवाडाक आयिल्लें हेर कोंकणी साहित्य




कर्णपर्व (नाटक)
साहित्य अकादेमी
पुरस्कारान सन्मानीत




अस्मितायेचो कसाय
वर्तमानपत्रीय लिखाणांतल्या
वेंचीक अश्या
समाज प्रबोधनकारी लेखांचो संग्रह




चान्नें (काव्य संग्रह)
संजना पब्लिकेशन्सची
दर्जेदार निर्मिती.

कोंकणी कादंबरीच्या मळार आपली खाशेली सुवात
सुगूर करपी साहित्यकार

# नं. ध. बोरकार



हांच्यो गोंयचे मातयेचो रंग घेवन आयिल्ल्यो पांच कादंबऱ्यो















'समर्पण' हे नवलकथेचो अंत superb जाला,
भव्य जाला. तो वाचून म्हज्या दोळ्यांतल्यान
भळ्ळ करून दुकां गळ्ळयांत...
खुब्ब खुब्ब बरी कादंबरी बरयल्या तुमी.
*-रवीन्द्र केळेकार*

पर्यावरणां आड चलिल्ल्या बलात्काराच्या
ह्या युगांत 'पोको' ही कादंबरी
आमकां एक मोलाचो धडो शिकयता...
*- डॉ. मनोहरराय सरदेसाय.*

गोंयकारांक नवी दिका,
नवें सपन दाखोवपी नवला, 'सपन'
*-पद्मश्री सुरेश आमोणकार.*

भुरगे मनाचेर बरे हावेस रुजयले जाल्यार तो व्हड
आनी जैतिवंत जावं येता हें 'गोंदू' नवलकथा अधोरेखीत करता.
*-दामोदर मावजो.*

## नाट्यसाहित्य






## ललित साहित्य









## नं.ध.बोरकार हांचें अप्रकाशीत साहित्य

• पवित्र बंधन-(नाटक) • शिक्षणक्षेत्रात बोकाळलेला भ्रष्टाचार.(मराठी)

बिम्ब प्रकाशनाची दर्जेदार साहित्याची दर्जेदार निर्मिती.

बिम्ब प्रकाशन




मखपृष्ठ
मानसी धाऊस्कार

कोरोना वशा दुर्येसांत
मास्का पोंदा प्लास्टीकची
बावली जावन फुडारा
कडेन पळोवपी नवी
पिळगी..


संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार

अंक सजावट
गिरीश नंदा बोरकार/संकेत लवंदे



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355 | Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in



वर्गणीचे दर
वर्गणीचे दर जानेवारी २०२१ सावन
वर्सुकी ५००रु. ३ वर्सां १४००रु.
विद्यार्थी- वर्सुकी ३००रु.
वाचपघरां-वर्सुकी ८०० रु.
३ वर्सां २५०० रु.पोस्टेजा सयत
वर्गणीचो चेक 'BIMB MONTHLY' ह्या नांवान धाडचो






शंबर वर्सांची लोकहिता पासत प्रदीर्घ सेवा
हिन्दु फार्मासी
पणजी, गोंय. फोन २२२३११७३



•वखदां रसेता शिवाय विकप बेकायदेशीर. दोतोराच्या रेसेताचेरूच वखदां विकत घेयात.
•दुयेंसां आनी इलाजा विशीं योग्य ती म्हायती जाणून घेवप हो दरेक रुग्णाचो हक्क.

## संपादकीय

### आज टेकू लावपी न्हय फेकूच उरल्यात....

दिवाळेच्या परजळीत उत्सवाच्या काळार नरकासूराचें आमी कितलेंय उदात्तीकरण केलें आनी मळबा येद्दो ताच्यो प्रतिमा करून रस्त्या रस्त्यांचेर नाचयलो, धोल ताशे बडयले तरी एका कोनशाक फकत सोपस्कार म्हूण उबी केल्ले श्रीकृष्णाचे इल्लेशे प्रतिमेची पत उणी जायना. दिवाळेचो उत्सव नरकासुरोत्सव न्हय तर श्रीकृष्णान नरकासुराचो वध करून सर्वसामान्य जनतेक ताच्या त्रासांतल्यान वाचयले म्हूण मनयल्ली खोस.

दिवाळेच्या परबेचे संकल्पने फाटलो हो एक हेत आसलो तरी हे उजवाडाचे परबेचे आनीकूय आसूं येतात. हेच परबेचें नीब करून नरकासुरोत्सवाचें आयोजनूय जावं येता. नरकासूर ही एक प्रवृत्ती. दिवाळेच्या निमतान दिवाळी अंकाक जायरात रुपान आर्थीक आदार करप आनी साहित्योत्सवाक उर्बा दिवपाची मानसिकता आमचे मर्दीं ना. नरकासुराच्या नांवान जो कोण पटी व्हरपाक येता ताका आमच्या समाजांत प्राधान्य मेळटा. ताचे फाटलें कारण म्हळ्यार जे कोण हे उस्तव करूंक फुडाकार येतात तांकां तशी वैचारीक प्रगल्भताय ना आनी आपूण जें कितें करतां ताचो समाजाक कितें लाव जातलो हाचोय तसो हुसको ना. तांकां जाय खिणयाळी खोस आनी कांय खिणांची मौज मजा. असलेच मानसिकतायेचे लोक राजकारणांतूय नवनवे नरकासूर तयार करपाक आपलें हातबोट लायतात आनी तांच्या त्या हातबोटाची तांक वळखून वा खात्री करून येवन हे नरकासूर तांच्या हातार कितें ना कितें उडयतात. म्हणटकच ही असली प्रवृत्ती,मानसिकताय समाजांतल्यान पयस करपाचो यत्न करपा बदला ती चडांत चड रुजोवपाचो यत्न हो तसो चालूच आसतलो. अशे वेळार तेच घडणुकेचेर लक्ष केंद्रीत करून आपले वेळेचो अपव्यय करचे परस तोच वेळ आनी शक्त दुसरीं दारां उगती जावपाच्यो शक्यतायो सांसपूक दिलो जाल्यार कांय सकारात्मक गजाली घडून तांतल्यानूय नवें कितें घडूं येता.

ह्याच विचारांचो पोत धरून आमी हे दिवाळेक एक नवो प्रयोग आपणायला. दिवाळी अंक म्हळ्यार फकत साहित्य न्हय. दिवाळी अंकाक मराठींत फाटल्या शंबर वर्सांची परंपरा आसा आनी आमीय तीच परंपरा आपणावन कोंकणींतूय दिवाळी अंक उजवाडाक हाडून साहित्योत्सवाक प्रारंभ केला.

दिवाळी अंक म्हळ्यार फकत त्या अंकाच्या नांवान दिवाळेच्या निमतान जायराती येवप न्हय तर जे कोण समाजांत नवनवें लिखाण करतात तें ह्या दिवाळी अंकाच्या पुड्यांत घालून साहित्य रसिकां मेरेन पावोवप. हो पुडो बांदपाक खर्च आसता आनी तो करपाची संद समाजांतल्या धनिकांक दिवप होच जायराती येवपा फाटलो हेत आसता. आपल्या काळजा मनांत काळोख रुजोवपी नरकासुरोत्सव काय पुराय जीण उजवाडान परजळावन काडूंक साहित्योत्सव हो पर्याय ह्या निमतान आमी तांचे मुखार दवरताताता. पूण तेंच तांकां अजून होलमना. तरी आसतना कांय लोक ही आपली जापसालकी वळखून आमचे फाटल्यान रावतात तीय एक जमेची गजाल.

दिवाळी अंक हो फकत साहित्याचो अंक न्हय. तो जायरातींचोय अंक. जायरातींक लागूनच दिवाळी अंकाक सोबाय येता. जेन्ना पावसारुपी अवर्शण उप्रासलें तेन्ना श्रीकृष्णान गोवर्धन उबारलो. खरें म्हळ्यार ताणें फकत आपली करंगळी तेंकयली, खरो भार पेललो तो सगळ्या लोकांनी. ताका सामाजीक बांधीलकी म्हणपाची. मुष्टीफंडांतल्यान साम्राज्य उबारूं येता ह्या विचाराक घटाय ती. सोल्जर सर्व्हीस ती. हजार हात एकठांय आयले म्हणटकच गोवर्धन आपसूक उबारप जाता. बिम्बाचो गोवर्धन उबारपा फाटल्यान आमचे हेच विचार आशिल्ले. हेत होच आशिल्लो पूण आमच्या दुर्दैवान गोवर्धनाक आपलो टेकू लावपी गोप आयज काळा भायरे जाल्यात आनी उरल्यात ते श्रीकृष्णान सोळा हजार बायलो केल्यो, आमी दोन-चार केल्यार कितें जाता असलो विचार करपी फेकू. तांकां श्रीकृष्णान उबारिल्ल्या गोवर्धनाक टेकू लावंक फुडें सरचें दिसना तर ताच्यो सोळा हजार बायलो सोदपांतच तांकां रस आसा. असली मानसिकता आनी प्रवृत्ती ज्या समाजांत वसता त्या समाजा कडल्यान आमकां कसलीच अपेक्षा ना आनी तांचे नाड्यार कसलेंय गडगंज कार्य आंगार येवपाचोय काळ आज ना. तरीय तसो सामकोच काळोख आमकां दिसना. आमचो वावर पळोवनूच कोणाकूच दोळ्यांर हात काडीन दिसना तर तेच हात मजती पासत फुडें करपाचो हावेस बाळगितात.

हेच दानतीन कोरोना काळांतल्या बिकट काळांत हात फुडें केला. खूब जाणांनी जायरात करपा सारखो धंदोच जावना पूण आमचे आवडीच्या साहित्यीकांच्या पुस्तकांची जायरात आमी करूंक सोदतात म्हणपाचें कळयलें आनी तांणी अशे तरेन पुरस्कृत जायरातीनी हो अंक सजोवन खर्चाचो भार पेलला. तांकां सगळ्यांक आनी आमच्या लेखकांक,वर्गणीदारांक ,वाचप्यांक आनी बरें मागप्यांक ही दिवाळी उमेदीची आनी खोशयेची तशेंच कोरोनामुक्त वचूं अशें आमी त्या नियंत्याक पराथतात.आमेन।



ह्या अंकांत उक्तायिल्ले विचार त्या त्या बरोवप्याचे आसात. संपादक मंडळ ताचे कडेन सहमत आसतच अशें ना.

# A wonderful life. A beautiful planet.

Imagine living in a building that not only offers you a harmonious and happy life, but contributes to beautiful planet. Everything about Sapana City has been thoughtfully conceived so that you use less water, optimize energy efficiency, conserve natural resources, generate less waste, and you are surrounded by fresh healthy spaces. One where you enjoy a healthy environment and contribute towards it too.





*Local materials used for construction which promotes business and also reduces the overall carbon footprint of the building*



*100% of the rainwater run-off from building roof would be collected and harvested, not only saving precious water, but also addressing the issue of water shortage*



*High Performance Glass is used to reduce the entry of heat and at the same time allows higher penetration of daylight.*

NANU
ESTATES PVT. LTD.
Whenever Wherever Forever with You

sapana CITY

For appointment or site visit call
**+91 8888 22 7777**
**+91 832 2737922**
sales@nanuestates.com
www.nanuestates.in

Green homes. Greener planet.
**2 BHK Ready Apartments**
**Aquem - Margao**



Site address:Behind St.Anthony Chapel, Behind Vishal Mega Mart, Aquem-Margao-Goa.

MEMBER OF CREDAI goa

MEMBER




# डा
# य
# री

नलूचो फोन आयलो.

''भावोजी ब्रेकींग न्यूज आहे.''

''मुंबईत कोविड वर इनेसांव मिळालं की काय?'' हांवें विचारलें.

''ही कसली आली न्यूझ!'' नलू बेजारलें.

''मग कसली गं?''

''भावोजी अमिताभ झाला कोवीड पॉझिटीव्ह आनी रेखाचा बंगला सील.'' नलू आइडलें तसो हिर्णे फोन येतलो.

''असं कसं गं? काय भानगड?'' हिका खरस मारली.

''दिदहे समज शेंवतें झाली पॉझिटीव्ह तू निगेटिव्ह आनी भावोजी पॉझिटीव्ह झाले तर?''

''ते अस्सं होय!'' अशें म्हणून हिर्णे म्हाका विचित्र नदरेन पळयलें. हांव दीस भर शेंवत्या फाटल्यान सेनिटायजर घेवन भोंवलों. चवथी कडेन शेंवत्या खातीर गणपतीक एकवीस मोदकांची माळ सांगून येतली. कुणाच्या खांदावर कुणाचे ओझे...

०००

विघ्नहर्त्याच्या आगमना  
आदीं ताचें वाहन घरांत पावलां.  
घरा भायर कोरोनान आनी  
घरांत हुंदरानी धुमाकूळ घाला.  
गोंयांत लायनीन दुकानां  
फोडटात तशें तांणी लायनीन  
खालांतलीं कत्रेलां साफ केल्यां.  
काल ताणें धाकल्याल्या  
ऑनलायन बायॉलोजी क्लासीक  
हजेरी लायली.



- कृ. म. सुखठणकार

लॉकडावनांत येतिल्ल्या पंचवीच कील तांदळांनी किडी जाल्यात. सकाळच्यान किडी काडपाक हांव बसलों. तीन पेले तांदळांत सात्तीस किडी मेळ्ळ्यो. हालीं तांदूळ मेजतना किडी मेजपार्चे पिर्शे शें लागलां. ह्या दिसांनी कोणाक कसलें पिर्शे लागत सांगू नजऽ.

०००

रातीं आईच्या सपनांत बापूय आयलो. सकयल्यान वयर आयिल्ल्यांक सतरा दिसांचो क्वॉरन्टायन सक्तीचो केला म्हणून सांगतालो. हें आयकतकच गालीबाचो 'हमको मालूम है जन्नत की हकिकत लेकीन दिल खूश रखने को गालीब ये खयाल अच्छा है' हो शेर ओगीच याद जालो.

०००

आज गणपतीची घुमटी फोली मारपाक येतली. अंदू मुंबयकार येवचे नात म्हणटकच विघ्नां कमी. ओगीच जिवाक खोशी शी जाली. हालीं बारीक सारीक गजालींनी जीव खूश सो जावंक लागला. काल इजाबेलान दोनश्यांक तीन बांगडे दिले आनी वयल्यान एक उडयलो. जिवाक बरें दिसलें. इजाबेल फुलां फुलांचो विस्तीद घालतकच भुरगेंशें दिसता. हांवें ताका सांगलें लेगीत. ताणें पाटलो माथ्यार दवरतना 'चेडवां पोदेर' म्हणलें. आज कोणाक किर्ते बरें म्हणपाचे दीस उरुना. फोली लायतना दिसाळ्या वयल्या म्हज्या राशी भविश्याचेर नदर मारली. 'हात टाकाल त्याचं सोनं होईल'. हांवें खळींत हात घालो.

०००

धाकल्याच्यो ऑनलायन क्लासी चालू आसात. ताका फाटल्यान धवो बॅकग्रावंड जाय म्हणून फाटल्यान धवें पुडवें बांदून दिलां. काल ताणें टिचरीक 'पोरस (porous) म्हणजे किर्ते' काय विचारतकच टिचरीन ताका 'फाटल्यान दांडयेर सुकत घालां तें म्हजें बानयान पळय' म्हणून सांगलें.

०००

फास्टींग शूगर वाडल्या म्हूण दोतोर रायकारा म्हऱ्यांत गेलों.

''ह्या दिसांनी कसलें टेन्शन बी जालां?'' दोतोरान सदचे भशेन प्रस्न केलो.

''ना दोतोर पूण सुशांत सिंगाचे केसीचेर मातशें चिंतप जाता,आय काण्ट हेल्प.''

''तशें जाल्यार डोज वाडोवन दिता.'' दोतोरान म्हणलें.

सुशांताचें जाग्यार पडल्या शिवाय म्हजें गोडे मुताचें जाग्यार पडचें ना शें दिसता!

०००

''हय व्हो, स्वॉब खंयच्यान घेतात व्हो?'' हिणे म्हाका रातचो हालोवन जागो करून विचारलें.

''स्वॉब मेळटा थंयच्यान घेतात.'' हांवें न्हिदेंतूच जाप दिली.

''तुमचें हालीं म्हजेर मात्तूय लक्ष ना. हांव किर्ते अमरपट्टो घेवन आयलां? समजा फाल्यां म्हाका कोवीड जालें आनी स्वॉब दिवचो पडलो जाल्यार तयारी नाका?''

''आगो सायबिणी एण्टीजन टेस्ट करता तांचे नाकांतल्यान स्वॉब घेतात. आनी खंयच्यान घेतले? गोंयकारांचें तेंच एक बरें आसा.'' हांव न्हिदेंतूच तापलों.

''आरे कोणाचें किर्ते बरें आसा? सपनेलो?''आई सालांतल्यान आड्डली.

''अशें सारकें सांगा न्ही. नाकांतल्यान स्वॉब घेतात जाल्यार काडयेची अडचण जावंची ना? हांव नाकांतली काडी आतांच काडून दवरतां.''

ही नाकांतली काडी काडूंक गेली. हांव कूस परतून न्हिदलों.

०००

विघ्नहर्त्याच्या आगमना आदीं ताचें वाहन घरांत पावलां. घरा भायर कोरोनान आनी घरांत हुंदरानी धुमाकूळ घाला. गोंयांत लायनीन दुकानां फोडटात तशें तांणी लायनीन सालांतलीं कत्रेलां साफ केल्यां. काल ताणें धाकल्याल्या ऑनलायन बायॉलोजी क्लासीक हजेरी लायली. धाकल्यान टिचरीक 'रोडन्ट (rodent) म्हणल्यार किर्ते' अशें विचारतकच, टिचरीन 'फाटल्यान पुडव्याक धरून झोके घेता तो रोडन्ट' म्हणून सांगलें. धाकलो म्हजेर बेजार. कित्याक तें खबर ना.

०००

मुंबयकारांनी विडियो कॉल केलो. 'यंदा चतुर्थी परिस्थिती प्रमाणे एकदम साध्या पद्धतीने साजरी करावी' अशी तांणी सुचोवणी केली ती म्हाका भयंकर आवडली.

'यंदा परिस्थिती प्रमाणे आम्ही खास चतुर्थी साठी एस ओ पी (SOP) तयार करणार आहोत' अशें तांकां सांगतकच तेय

खूश जाले. म्हाकाय एस ओ पी हे उतराचो वापर करतकच जिवाक बरें दिसलें. नवीन उतरां कानार पडटकच तीं वापरपाक जाय अशें भाशातज्ञ म्हणटात तें हेच खातीर. एस ओ पी हो शॉर्ट फॉर्म काय उतर? सावळ्याक विचारचें पडलें.

०००

''भावोजी ब्रेकींग न्यूज!'' नलूचो फोन आयलो.

''जया पॉझिटीव्ह झाली की काय अमिताभाच्या मागे मागे?''

''भावोजी तुम्ही पण... जया पॉझिटीव्ह झाली ती कसली न्यूज? सुशांतची केस सीबीआय ला देणार म्हणे.''

''अगं खरंच ब्रेकींग गं! एकदम सूऽऽ झालं बघ. थँक्यू नलू.'' अशें म्हणून फोन दवरलो.

आज फास्टींग शुगर एकशें अयश्यां वयल्यान देडश्यांचेर आयली.

०००

''हय व्हो, जीडीपी म्हणल्यार कितें व्हो?'' हिणें दिसाळ्याचेर नदर भोंवडायतना विचारलें. हांवें सत्व पितना आंग काडलें.

''जीडीपी हें नेमकें प्रकरण कितें तें सांगपाक जमचें ना. जीडीपी धा प्रतिशें आशिल्लो तेन्ना आमी बटाट चाळीस रुपया किलो ह्या दरान घेतालीं. आतां जीडीपी मायनस ट्वेण्टी नायन परसेंण्ट जाला तरी आमी त्याच दरान घेतात.'' हांवें म्हणलें.

''सामान्य मनशाक फरक पडना त्या गजालींचो इतलो बोवाळ कित्याक तर? पयलीं कोरोनाक महामारी म्हणटाले. आतां आमकां ती देवाची करणी म्हूण कळ्ळें. देवाचे करणे सामकार म्हणून मनशाचें चलता? ओगीच वासिनां सोदतात हांगा!''

''खरें गो बाये.'' अशें म्हणून हांव सालांत आड पडलों.

०००

हिणें सावळ्या कडल्यान लॉज साफ करून घेतलां. म्हाका दिसलें चवथ प्रीत्यर्थ म्हणून.

''फाल्यां तुमी बी पॉझिटीव्ह आयल्यार होम क्वॉरन्टायन जावपाक बरें न्ही? तुमीय सेफ आमीय सेफ.''

''हय गो बाये सगळी तयारी जाली. आतां हांवूच पॉझिटीव्ह जावपाचों उरलां!'' अशें म्हणून हांव फेना खाला बसलों.

देशांत इतली दूर द्रिश्टी आशिल्लीं मनशां आसून लेगीत ह्या देशाची ही दशा कित्याक जावंची असो केन्नाय म्हाका चुकून प्रस्न पडटा.

०००

आज शेंवत्याक सान्न मारतना सुकी खांक आयली. म्हाका बेठेंच कल्लऽ शें जालें.

'गले में खिचखिच...' शेंवत्यान दाव्या हातान केसांच्यो बटो फाटीं काडीत म्हणलें. शेंवत्याक चोखपाक खडी साखर दिली.

०००

''हे वर्सा आई वर्जे धाडची ना, ड्यू टू कोरोना पँडेमीक'' हिणें न्हिदतना बातमी दिली.

''धाडी ना ती बरी गो! ओगीच कित्याक तें?'' हांवें म्हणलें.

''कळटा म्हाका तुमचे थोमणे! ती अनलॉक टेन जातकच येतली. सद्या कितल्यावो अनलॉक चल्ला?''

''खबर काडटां. म्हजोय लॉकडावन आनी अनलॉक भितर घुसपागोंदोळ जाता.'' अशें म्हणून हांवें लायट काडली.

०००

हिणें चवथीक एस ओ पी तयार केला.

१. चवथ फकत भोगावळ म्हणून करप.

२. माटोळेक आंब्याचे ताळे आनी एक नाल्ल बांदप.

३. गणपती हाडटना एक आनी पावयतना एक माराण मारप.

४. पयल्या दिसा शीत, वरण, मुगां गांठी, निरपणसाची कापां आनी पायस.

५. दुसऱ्या दिसा खतखतें, त्याच रोसान कालोवपाचें आनी मणगणें.

मुंबयकारांक विडियो कॉल करून तांकां ही मोलादीक म्हायती दिली. 'मस्त आहे वहिनी' असो तांणी कॉमेण्ट दिलो.

''आणकी कुठे कातर लावता येते तर बघते मी. कोरोना मुळे काहीच करावे से वाटत नाही.'' अशें म्हणून हिणें विडियो कॉलाक विराम दिलो.

०००

आज चवथ. पोरोबान सकाळ फुर्डे गणपती हाडटकच माराण मारले. मागीर आमीय गणपती हाडपाक गेले. वतना

हिणें 'झबलें घाल्लो कुकुलो गणपती हाडात आं' अशी सुचोवणी केली. दनपरां मुंबयकार गूगल मीटा वयल्यान आरतींत सामील जाले. व्हडल्यान तो फोटो स्टेटसार घालो. दनपरां जेवच्या आदीं हिणें वाडिल्ल्या पानाचो फोटो फेसबुकार घालो. 'यंदाची चतुर्थी नावा पुरती' अशें कॅप्शन दिलें. ताका खूब लाय्क्स मेळ्ळे.

०००

आज पंचम. सकाळ फुडें सावळ्याक बांगड्ल्यो घेवन दवरपाक सांगल्यो. 'करंजाळ्यां सकाळीच ऑर्डर पावल्या' अशी सावळ्यान म्हायती दिली. माटोळेक बांदिल्लो नाल्ल सुटून सकयल पडलो. आई गणपती सामकार वाती वळटाली. व्हडल्यान, 'आई बसल्या आनी कुशीक नाल्ल पडला' असो फोटो फेसबुकार घालो. कॅप्शन 'देव तारी त्याला कोण मारी' अशें दिलें. चवथ आसून लेगीत मिणटा भितर एकशें बावीस लाय्क्स मेळ्ळ्यो. हाचे वयल्यान चवथीक व्हडली उमेद ना अशें जाणवलें. शेंवत्याक लागून सांगून येतिल्ले एकवीस मोदकांची माळ गणपतीच्या पांयां कडेन दवरली. अंदू फुगडी घालपाक वाड्या वयलीं बायलां येवं नाशिल्ल्या कारणान आमी घाशीराम कोतवालांतलें 'श्रीगणराया नर्तन करी' नृत्य सादर केलें. तिनांक 'गणपती बाप्पा मोऽऽरऽऽयाऽऽ' म्हणून गणपती बांयत पावयलो. रातचें बांगड्ल्यांचें नवीं तेफळां घालून हुमण आनी तळिल्यो बांगड्ल्यो लावन फाटलें फुडलें शीत घेवन जेवलों. हुमण आईन केल्यान बरें सुवादीक जाल्लें.

०००

'जंगल में मोर नाचा किसने देखा मैंने देखा मैंने देखा' सकाळच्यान हें पद ओंठार कित्याक येता खबर ना.

०००

वता कडार भितर सरतां थंय आसां हिणें कारण नासतना वयलो ओंठ भितर घेतलो आनी सकयलो ओंठ वयर केलो. म्हाका ही रोमेण्टीक मुडांत गेल्या म्हणून कळ्ळें.

''दोळे धांपात न्ही.''

''तीच वेळ आयल्या आतां!'' अशें म्हणून हांव फेना खाला बसलों.

''धांपा न्ही! आज हांवें सरप्रायज आयटम केला.''

''आवय म्हजे!'' अशें म्हणून हांवें दोळे धांपले. हरशींय हांव वतांतल्यान येतकच दोळे धांपुनूच बसतां. हिणे म्हजे तोंडांत कुलेर शें घालें.

''सांगा पळोवया किते तें!''

''आगो सरप्रायज आयटम तो! म्हणटकच कशें कळटलें?''

''दोळे उगडात आनी पळयात.''

हांवें दोळे दोनदां उगडून धांपले आनी पळयलें. कांयच अदमास लागलो ना. म्हणटकच तीच क्रिया परत केली. तरीय तीच गत.

''कळना गो... बेंऽऽऽ.''

'' ईट ईज स्मॅश्ड मॅश मेलन विथ जॅगरी.''

''ओके ओके नायस वन. फ्रिजांत दवर तें.'' अशें म्हणून हांवें कोंब्यांतलें उदक पियेवपाक घेतलें.

०००

G'Baba's ease of business send number on Whatsapp and relax'. कोणें तरी रामाच्या देवळा कडेन वण्टीर बरयलां. हांव मंदीक लागून आतां व्हॉट्सएपाचेर आंकडो येतां हें सगल्यांक कळ्ळां हो हाचो अर्थ.

०००

''कंगना उब्यांलें काय आडव्यांलें?'' हिणें म्हाका रातचो हालोवन प्रस्न केलो.

''जे तरेन तें उलयता पळय तें उब्यांलेंच आसतलें!'' आईन सालांतल्यान जाप दिली.

हांवें उठून बेडरुमाच्या दाराचे खांचींत पुट्टो घालून दार बंद केलें.

०००

''गफूर चाचा, गफूर चाचा वॅक्सीन आया, वॅक्सीन आया.'' हिणें टेर्रासा वयल्यान गफूर चाचाक साद घालो.

''आने दो बेटी. आप पहले लगवाकर ले लो बेटी. साथ में गोलियाँ लेना भुलना मत हमारे सुकून के लिए.''

गफूर चाचाक बाबड्याक कोरोना परस हिणें गुळी घेतली ना जाल्यार कितें जातलें हो चड भंय.

०००

आज फोंडेच्यान रायबंदरा येतालों. खुरसा कडेन मास्क लावन एक चुडीदार चडलो. तिशींत आसतलो. कंडक्टर तिकेट घेवपाक येतलो तेन्ना मास्क मातसो सकयल देंवतकच दर्शन जातलें अशी आस्त बाळगून बसलों. आतां आमकां 'दर्शन

मात्रे'च जाता. ताका कोरोनाचो चड भंय. ताणें मास्क देंवयलें ना. मास्कांतल्यानूच तें जें पुटपुटलें तें कंडक्टराक ज्यूस्त कळ्ळें. 'नेत्र सुखाक लेगीत नशीब जाय पडटा' हें म्हाका उमगलें.

ooo

खाक्याक कॅस पुळी जाल्या. हात वयर करून चलचें पडटा. बरडागेर वतना दोन अनवळखी हांव हात दाखयतां म्हूण लागीं आयले.

''तुम्हारे लिए नही, ऐसे ही हात उपर करके घूम रहा हूँ'' हें हांवें तांकां सांगलें. तांकां पटलें ना. विचित्र नदरेन पळयत ते गेले. म्हांबऱ्याले फार्मासी कडेन वतना हात पळोवन 'देवता' बस उबी रावली. ड्रायवराक हांवें तांकां सांगिल्लें तेंच माय भाशेन सांगलें आनी फाटीं पळय नासतना उबो हात घेवन चलत रावलों. हे जिणेंत किर्ते किर्ते आनी कशें कशें घेवन फिरचें पडत सांगू नजऽ.

ooo

पोरूं सोलर सुंगटां खावन म्हाका डिसेन्ट्री जाल्ली ती याद दवरून हिचो बापूय तावखिळ्याच्यो बियो घेवन आयलो.

''पोरूं सोलर सुंगटां खावन मोडशी पडिल्ली न्ही तुका, याद आसा? हें हें हें हें.''

''मोडशी म्हाका पडिल्ली म्हणटकच याद उरतलीच न्ही?''

''म्हणुनूच ह्यो बियो. जिऱ्या वांगडा वाटून रोस पिवपाचो. मागीर तूं सोलर सुंगटां खा ना जाल्यार आनी किर्ते खा.''

'आनी किर्ते खा म्हणल्यार किर्ते खा' हें हांवें विचारलें ना.

ooo

रांदचे कुडींत पीठ कालयतना हिणें म्हाका हिचे आवयक फोन लावन स्पिकरार घालपाक लायलो.

''आगे आमचे सत्तरींत राज पलयम, कन्नी, कोंबाय बी सुण्याच्यो जाती आसा गे?'' हिणें विचारलें.

''कित्याक गो बाय? तुका मर्दींच शें सुण्यांचें येवजलें?''

''म्हाका गळ्यांत पटो घालून फिरोवपाक जाय.''

''त्या खातीर तुका सुणो कित्याक जाय?''

''तुझ्या मताशी मी पूर्ण सहमत आहे'' अशें म्हणून हांव रांदचे कुडींतल्यान भायर आयलों.

ooo

कितलींशींच वर्सां, न्हावन लेंगो घालतकच वालो शेंवर्ते काडटा. म्हाका एका हातान लेंगो धरून दुसऱ्या हातान वालो काडप जमना. आजूय सदचे भशेन शेंवर्ते फाटल्यान रावन वालो काडटालें. हांव लेंगो चडयतालों. 'हांगाच्यान आत्मनिर्भर जावपाची सुरवात तुमची?' हिणें रांदचेकुडींतल्या दारांत रावन प्रस्न केलो. ह्या प्रस्नान हांव आनी शेंवर्ते दोगांय घुस्पलीं. शेंवर्ते जीब परती करून वालो ओडपाक लागलें. ताका लागून हांवूय वाल्या सकट वयर हुमकळपाक लागलों.

''तुमकां कोणाक जावपाक जाय तीं जाया आत्मनिर्भर. म्हाका वालो काडपाक शेंवर्तेंच जाय.'' अशें म्हणून हांवें वालो वयर दांडयेर सुकत घालो.

ooo

धाकल्याचे क्लास कशे चल्ल्या ताचेर नदर दवरपाक हांवें कुडी भायर उबो रावन कान लायले.



We have two epidemics and one pandemic right now in the state of Goa. Malaria Dengue and COVID 19. Big Bigger Biggest. Deadly Deadlier Deadliest. But no need to fear. No. 1 and 2 is Made in India and No 3. is Made in China

टीचर भुरग्यांक ऑनलायन शिकयताली. क्लास खंयच्या विशयाचेर चल्ला कळपाक मार्ग नाशिल्लो.

हांवें कान काडले आनी सालांत आड पडपाक गेलों.

०००

कचरो व्हरपाक येता ती बायल बदल्ल्या. आतां भुरगीच चली येता. येता तेन्ना ती 'मैं आई आई आई' अशी पिल्लूक वाजयता. मागीर हांव जनेलार वचून तिका 'आ जा' म्हणटां. कचरो दिवपाक लेगीत हालीं उमेद शी येता. उमेद येवपाक व्हडल्या कारणांची गरज ना. पिल्लुकेन लेगीत काम जाता हें शिकलों.

०००

अंदू म्हाळ म्हयन्यांत कांय करपाची गरज ना अशें बापायन आईच्या सपनांत येवन सांगलां. सकयल येत जाल्यार वयर मागीर सतरा दीस क्वॉरन्टाय्न जावन कोण रावतलो अशें तो आईक विचारतालो. सपनांत लेगीत ताणें तोंडा वयलो मास्क काडलो ना म्हूण आईक कवतूक दिसलें. 'वयर वतकच सगले सुदारतात दिसता' अशें म्हणून आईन हांसून तोंडाक पदर लायलो.

०००

''निगेटिव्ह जावप म्हणजे किर्ते व्हो?'' हिणें दिसाळ्याचेर नदर भोवंडायत विचारलें.

''नेमकें म्हाका सांगपाक जमचें ना कारण म्हाका शून्य मेरेन गूण मेळ्ळ्या. निगेटिव्ह केन्ना मेळूं नात.''

''तुमी सांगचे ना जाल्यार आनी कोण सांगतलो?'' ही तापली.

''तेंय खरें. ह्या देशांत सांगूंक जाय त्यो गजाली कोण सांगी ना. तूं रातचें खाटीर लोळटा बरोबर?''

''बरोबर.''

''तूं लोळटकच थोडो वेळ हांव खाटीचे धडेर उरतां. मागीर सामको सकयल पडटां. सामको सकयल पडटां म्हणजे निगेटिव्ह जातां.''

''ओके ओके सकयल पडटकच तुमी निगेटिव्ह जातात.''

''तशेंच समज. म्हणून म्हजी ही स्थिती.'' निगेटिव्ह जिडीपीचेर उलोवप कितलें कठीण तें म्हाका आज कळ्ळें.

०००

रातचें जेवतना लायट गेली. ही फ्रिजांतली मेणवात हाडून पेटयता सर हांवें चुकून हिचे ताटांतल्यो दोन भेण्या फोडी खाल्यो. ही बेजार.

''काळोख जातकच किर्ते जाता म्हूण कळना. मात थार ना. उरल्या त्योय तुमीच खायात'' अशें म्हणून उरिल्ल्यो दोन फोडी तिणें म्हज्या ताटांत घाल्यो. भेण्याच्या फोडींचेर लेगीत आज झगडीं जावंक शकता हें चिंतून मजा शी दिसली.

०००

आईक दोळे दाखोवपाक दोतोर कॉरस्तागेर व्हेली. आईक हालीं पयसुल्लें वाचपाक त्रास जाता.

''दोतोर, लागचें वाचपाक जमता म्हाका. बारीक चौकोनान नांवां बदलतात तें लेगीत बेस बरें वाचतां हांव. ह्या म्हयन्यांत एकतीस जाण नायक जाले, दोन डायस आनी एक कामत. फाटल्या म्हयन्यांत कोवीड पॉझिटीव्ह जाले ताच्या परस जे नायक जाले तांचो आंकडो चड आशिल्लो.''आईन दोतोराक सांगलें.

उलोवपाक आईची सर कोणाक येवंची ना.

०००

लॉकडावनांत मनशाच्यो तकल्यो चड सुपीक जाल्यात. नागवेकारान म्हाका धा पुस्तकांचीं कवरां फेसबुकार घालपाक सांगल्यांत. पुस्तकां वाचुंकूच जाय अशें ना कवरां घालतकच जालीं अशेंय ताणें म्हाका सांगलें. घरांत धा पुस्तकां नाशिल्ल्यान म्हजो आवरो उडलो.कोवीड महामारीक लागून लेगीत असो आवरो उडलो ना. हिणें लग्न जावन येतना हाडिल्लीं हिचे गुरु सिताराम बापू लिखीत 'ब्रह्मचर्य हेच जिवन', 'वीर्यपतन हाच सर्वनाश' हीं दोन पुस्तकां आनी सरस्वती पुजनाक पुजेक लावपा खातीर सांबाळून दवरलेली गीता हाताक लागली. सावळ्यान सांज मेरेन आनीक सात पुस्तकां हाडून दिवपाचें उतर दिलां.

०००

ही सकाळच्यान 'कारवाँ' चेर मुकेशाचीं पदां आयकता. दनपरां परत आयलों तरी मुकेश चालू. सहज वासपूस केली.

''तुमकां मात्तूय कळना. मुकेश आयकतां म्हणजे आय एम फिलींग लो.''

''अशें? आयक बाये!'' अशें म्हणून हांव सालांत फॅना खाला बसलों.

०००

आज सावळ्या कडल्यान मास्क सुकत घालपाक वेगळी दांडी बांदून येतली. महिला मंडळान आमकां 'आदर्श कोवीड परिवार' हो पुरस्कार दिल्ल्याक आमची जबाबदारी वाडल्या अशें हिचें मत. म्हाकाय तें पटलें. व्हडल्यान नवे दांडयेर मास्कां सुकत घाल्यां तो फोटो फेसबुकार घालतकच सावंताक धा कोंडयांक गिरायक आयलें म्हूण ताणें फोन करून आमकां कळयलें. आज कोणाक लागून कोणाचें भलें जायत सांगू नजऽ.

०००

अमृतांजन घेवपाक म्हांबऱ्याले फार्मासीर गेलों. फार्मासींत भितर सरल्या बराबर म्हांबरो वेटरा वरी 'सेनिटायजर हँड वॉश, सर्जिकल ग्लोवज, मास्क सार्दी, कॉटन डिस्पोजेबल, एन ९५, डेटोल सोप , ऑक्सीमिटर, थर्मोमिटर कितें हाडूं' अशें विचारता आनी ऑर्डरी घेता. हांवें 'हातूंतलें म्हाका कांयच नाका, अमृतांजन दी' म्हणटकच ओगीच म्हजेर बेजार सो जालो.

०००

आज स्क्रॅप व्हरपाक दारांत आयिल्ले. आईन प्लास्टीकच्यो कळसुल्यो, पोरणें उषा सोईंग मशीन बी दिवपाक काडलें. वयलें लोकणाचें पाळणें काडपाक सांगतकच हांव मातसो इमोशनल जालों.

''आसूं गे, आसा तें वयर. ताची अडचण काय जायना आमका'' हांवें म्हणलें.

''परत तें सकयल काडून हालोवपाचो बी विचार आसा तुजो?''

आईन असो प्रस्न म्हाका करतकच ही तांबडी जावन, हात भर जीब भायर काडीत रांदचे कुडींत धांवली.

०००

दत्तान ह्या अनलॉकांत बार्रा सुरु जातलीं म्हूण बातमी हाडली. खूब तेंपान बरें कितें तरी सुरू जाता हें कानार पडलें. ना जाल्यार सगले कडेन कोवीड हॉस्पितालांच सुरू जातात हें आयकूंक मेळटालें. हांवें दत्ताक,'तुज्या तोंडांत साखर पडूं' म्हणलें. दत्तान, 'तुज्या ताळ्यार घोंट पडूं' म्हणलें. दत्तान म्हाका साखर आसा हें मतींत दवरून परबी दिली. इश्ट आसचे तर अशे!

०००

नलूचो घरकार कोवीड पॉझिटीव्ह जालो म्हूण नलून फोन केलो.

''अगं नले तुझ्या काढ्याचा एफेद काहीच नाही का झाला?'' हांवें विचारलें.

''अरे भावोजी परत परत मुतून खडा होता तो पडला. काहीच सिम्पटम्स दाखवत नाही.''

''पुरवी पण तो काही सिम्पटम्स न दाखवताच सगळी कामे करायचा. आम्हाला ते पुश्कळ उशीरा कळायचे.''

''अरे भावोजी आता कोमेडी कसली करतो? आता त्याला शेजारच्या कुडीत आयजोलेशन मध्ये ठेवला आहे.''

''मध्ये मध्ये दार उगडून खबर घे. आम्हाला इथे उगाच हुस्को नको.'' अशें म्हणून हांवें फोन दवरलो.

०००

''कॉम्युनिटी ट्रान्समिशन म्हणल्यार कितें व्हो?'' हिणें दिसाळें कुशीक दवरीत विचारलें.

''कॉम्युनिटी ट्रान्समिशन म्हणल्यार कितें... बरो प्रस्न. देख दिल्यार बरें कळटलें. खंयचीय गजाल हाका ताका सांगून वाऱ्यार घाली की ती नेमकी खंयच्यान कोणा कडेन पावली ती कळना. ताचो श्रोतूय गावना अशी स्थिती जाता.''

''म्हणजे फाटीं हांव महिला मंडळाची अध्यक्षा जाल्या म्हूण म्हाका 'ग' ची बाधा जाल्या ही गजाल नेमकी कोणें वाऱ्यार घाली ताचो सोद अजून लागूं ना पूण ती म्हजे मेरेन पावली. आतां कळ्ळें कॉम्युनिटी ट्रान्समिशन म्हणल्यार कितें तें.''

कोरोना परवडलो पूण हे प्रस्न न्ही अशी घरा कडेन म्हजी स्थिती जाल्या.

०००

आज बरडागेर बील फारीक करपाक गेलों. फाटल्या म्हयन्याचें बील साडे तीन हजारां मेरेन पावलें. खड्डयाचेर नदर मारतकच काढो बरोच म्हारग पडलो हें उमगलें.

''मॅरेटोरियम जाय रे?'' बरडान विचारलें.

''नाका देव बरें करुं! '' अशें म्हणून गुलाबी एक आनी पांचव्यो तीन नोटी दिवन आयलों.

०००

प्रतिकार शक्ती वाडोवपा खातीर आज मटण घेवन आयलों. मटण साडे आठशीं रुपया कील जालां म्हूण कळटकच थंयच अर्दी प्रतिकार शक्ती कमी जाली.

''सिर्फ दो सिटी निकालना गो. अशें मटनवाल्यान सांगलां.'' हांवें रांदचेकुडी वटेन इन्स्ट्रक्शन दिलें. दनपरां सामको मिळमिळीत मटण मसाला नांवाचो प्रकार ताटांत पडलो. बोण आनी केळ्याच्यो फोडी उडयलेल्यो जाल्यार खतखतें कशें लागपाचें. साडे आठशीं रुपया उदकांत.

०००

स्कुटीची बॅटरी डावन जाल्या म्हूण स्कुटीक किक मारली. किक मारतना बागवलेलें कमर आनी किक परती वयर आयली ना. 'आवय गेऽऽ' म्हणटकच शेंवटें धांवत भायर आयलें. ताणें कमराक धरून त्याच पॉजिसांवान उखलून भितर व्हेलो. दोतोर रायकारान कमराक 'बाग येता तसलीं कामा करूं नाका सगले कडेन शेंवटें आसतलें अशें ना' अशें शिटकायलां.

०००

चवथ जाली तरी भायर आशाढान पावस कोसळटा तसो कोसळत आसा.

''आयज आत्याक वचून तीन वरसां जालीं. सैम लेगीत तिची याद काडून दुकां गळयता.'' हिणें जनेला भायर कोसळपी पावसाचेर नदर मारीत म्हणलें. हिचें खंयचें तरी आतें ह्याच दिसांनी भायर पडिल्लें दिसता कोणाक याद उरता.

''बरी याद उरता मुगो तुका आनी पावसाक. हांगां गांधीजीची याद लेगीत तांकां देडशें वर्सां जातकच जाली अशें म्हणून हांवें गळटा त्या नळ्याक बडयेन धोंगशिलो.

०००

हिणें म्हजे केंस मारपा खातीर स्पेशल कातर हाडल्या.

''बॉडार चारूच केंस आसात ते आनी बेणपाक सलूनांत वचपाची गरज ना.'' हिणें म्हाका मार्च २०२० तूच सांगून दवरलेलें. फाटल्या चार म्हयन्यांत चार केंस भंयान जाल्यार खबर ना चार इंच लेगीत वाडले नात. हिणें म्हाका दिसाळ्याचेर मदीं बसोवन कच कच करून बेणलो. बेणटकच हांव मनमोजी वरीं दिसता काय केश्तो वरी दिसतां हाचेर पांच मिण्टां वाद जालो. धाकटयान म्हाका केश्तो वरी 'हेंक हेंक' करपाक लायलें. हांवें म्हाका जमता तशें केलें. शेवटीं सगलीं हांव केश्तो वरीच दिसता हाचेर सहमत जालीं. म्हाकाय सूऽऽ जालें. हांव तुवालो घेवन न्हावपाक गेलों.

०००

हालीं रातचो मुतपाक दोन तीन खेपे उठचो पडटा. हाका लागून हिका आनी घरांतल्या हुंदरांक त्रास जाता.

''तुमची मुताची पिशवी पिराये प्रमाण आंकुडल्या.''– ही.

''म्हणजे? सादे भाशेंत सांगशी?''

''पयलीं तुमची मुताची पिशवी बाजारांत व्हरता ते पिशवे येदी आशिल्ली आतां ती हांव हळदीकुकमाक व्हरतां ते पिशवे येदी जाल्या. म्हणून तुमकां रातचें उठचें पडटा.

सद्या हांव हळदीकुकमाची पिशवी घेवन भोंवतां.

०००

बरडान हांवें मास्क घालूं ना म्हूण पाव कील गॉड दिलें ना.

''तुवें वाणिज्य शाखेन तिनदां आपटी खाली म्हूण कितें जालें? सुशिक्षीत मरे तूं? तुवें अशें केल्यार बाकिच्यानी कितें करपाचें? कोवीड वाडचो ना जाल्यार आनी कितें जातलें.'' बरड तापलो.

''हांवें आपटी खाली हें बरडाक सगल्यां सामकार वयर कित्याक काडपाक जाय आशिल्लें तें म्हाका कळ्ळें ना. आपटी खावन लेगीत हांव मुंबय विद्यापीठाचो पद्वीधर जालों हें लोकांक आतां कोण सांगतलो? हांवें आपटी खावपाचो आनी कोवीडाचो कितें संबंद? आजकाल सगलेच कोवीडाक तेंकोवपाची आमकां संवंय जाल्या. शेंवत्याक, 'आयदनांक शाबू कसो उरता' काय विचारल्यार, 'तुका शाब्बाचें पडलां म्हाका कोविडाचें पडलां' अशी जाप मेळ्ळी.

०००

आज हिणें तीन खेपे लेपाचो हात सवळ्या आयदनांक लावन तीं भश्टायलीं. आईन तीन खेपे तीं रांदनीन घालून शुद्ध केलीं. भ्रश्ट मनशाक असो शुद्ध करपाची वेवस्था आमचे कडेन जाय आशिल्ली अशें ओगीच दिसलें.

लेख बरयला. तो वाचून आईचें कहलें.

''कोन्सुल्तोर बंद करून घरा बसला आनी दिसाळ्यांनी बरोवन आमकां शाणेपणा सांगता. हाचे परस बरड पसरकार परवडलो. पसरो उगडून गल्ल्यार तरी बसता.''

पयले खेपे कोणे तरी पसरकाराक बरो म्हणलो तें आयकून जिवाक बरें दिसलें.

०००

''आमच्या टायमार प्री वेडींग शूट बी कांय नाशिल्लें न्ही?'' हिर्णे मोबायलार पळयत म्हणलें.

''ना गो. आमच्या वेळार असलें कांय नाशिल्लें.''

''आशिल्लें जाल्यार आमी खंयच्या लोकेशनार शूट करपाचीं?''

''मिरामार वेळेर नुरस्त्याकडेन, पणजे मेन पोस्ट ऑफीस, कोर्तीत....''

''पुरो पुरो, प्री वेडींग शूट नाशिल्लें तेंच बरें.''अशें म्हणून ही नाक तांबडे करून रांदचे कुडींत गेली.

०००

नागवेकाराल्या 'म्हणटा नरहरी शेट' ह्या कविता झेल्याचें ऑनलायन प्रकाशन जालें. हांव कविता झेल्याचेर उलयलों. नरहरी शेट ते नागवेकार हांणी आपलो धंदो सांबाळून आपले जिर्णेत काव्य कशें सांबाळ्ळें हाचेर हांवें उजवाड घालो तो खूब जाणांक आवडलो. जें किर्तें घडटा तातूंत देवाचो हात आसा अशें कवीन मानलें जाल्यार ताचो नरहरी शेट जावपाक कळाव लागचो ना अशें हांवें म्हणलें तेंय सगल्यांक मानवलें. हालीं खंय किर्तें ज्यूरस्त उलोवप हें म्हाका जमपाक लागलां. घरा कडेन येवन रोखडीच हांवें कादंबरीचेर आनी कथा झेल्याचेर दोन तीन उलोवपां बरोवन काडलीं. बरोवप्याचें नांव घालतकच खंयूय ऑनलायन वापरपाक मेळटलीं.

०००

पिकेनान म्हाका वयल्यान म्हणजे हर्वेतल्यान ड्रोनान काडिल्लो फोटो धाडला.

''सांगात पळोवया खंयचो तो?'' हिर्णे मोबायल म्हज्या तोंडा मुखार धरत म्हणलें.



०००

नलूचो फोन आयिल्लो. कोवीड पॉझिटीव्ह जाल्ल्याक घोवाक उठ सूट भूक लागता म्हूण सांगतालें.

''भावोजी मी मेजावर आडवी पडली ना तर मला लेगीत ते खाईल.''

''तू चुकून लेगीत त्याच्या समोर आडवी पडू नकोस आं तो टपून बसलेला असेल!''- हांव.

''भावोजी तुमची कॉमेडी नको तेव्हा नको आं!'' अशें म्हणून तार्णे फोन दवरलो.

नलू रागार लेगीत बरें जाता.

०००

बापायचे नांवान शाळेंत पुरस्कार दवरचो अशें आईचें मत. पुरस्कार खंयच्या विशया खातीर दवरचो हाचेर आमचें एकमत जालें ना. कारण बापायक ज्या विशयांत रस आशिल्लो तो विशय शाळेंत शिकयनात. हिर्णे 'पिटींत पुरस्कार दवरल्यार कशें' असो प्रस्न म्हाका विचारलो तसो तुवालो घेवन हांव न्हावपाक गेलों.

०००

आज दोतोर रायकारान 'कोवीड बाबतींत निश्काळजीपणा होऊ शकतो जीव घेणा' ह्या माथाळ्या खाला दिसाळ्यांत

''आवयस! रिशीची पर्णकुटी कशी मुगो!'' हांवें म्हणलें.

''हय? आनी पर्णकुटीच्या आंगणांत आई ओलीं सुकत घालता तीय दिसली ना? म्हजें घर न्ही मनशां लेगीत दिश्टी पडना तुमकां!''

''आगो सालांत बसल्यार तूं पायणींत ओलीं सुकत घालता तें दिसना म्हाका. हो फोटो हर्वेतल्यान काडला न्ही!''

''त्या दिसा हांगाच्यान तुमी मिसेस पोरोबाक साडयेच्या पदराचीं सुतां आयल्यां म्हूण सांगलीं तीं बरीं दिसलीं.''

''आगो दिसता तें पळोवप आनी जमल्यार सांगप असो म्हजो सभाव.'' अशें म्हणून हांव सालांत आड पडलों.

०००

''पोरूं बरेऽऽ नरकासूर आशिल्ले गार्डना कडेन.''

'' तो नरकासूर याद आसा तुमकां तोंडांतल्यान सोरोप कशी जीब काडटालो तो? अंदूं सोशल डिस्टनसींग मेण्टेन करून आसतले नरकासूर गार्डना कडेन?'' हिणें म्हाका न्हिदतना विचारलें.

''आमच्यो जिबो भायर आयल्या हांगा! आनीक सेपाराद सोरोप कश्यो जिबो कित्याक जाय तुका? ''हांवें बेजार जावन विचारलें.

''तुमकां म्हूण कसलीच उमेद ना. फकत मातयेच्यो पणट्यो पेटयतकच जाली तुमची दिवाळी!''

हांवें लायट काडली.

०००

ही इंटरनेट बँकींगाची पासवर्ड विसरली. कशी विसरली खबर ना. हिका म्हज्या मोबायलाचो पासवर्ड लेगीत पाठ आसा.

''कशें विसरलें श्शी लज शी! कशें विसरलें श्शी लज शी बेंकवाल्याक सांगपाक.''

''आगो कॉल सेंटराक कळना तूं कोण तें. कर कॉल आनी कर रीसेट.''

''म्हाका शाप बी दिल्लो दिसता कोणें तूं पासवर्ड विसरतलें म्हूण! श्शी लज शी.''

सकाळीं देवता बस दारांत उबी रावली आनी हिणें आड्डत अख्खो वाडो माथ्यार घेतलो.

''याद जालो पासवर्ड, याद जालो पासवर्ड. Devata 7.45. देवताचो पयलो वरार ७.४५ न्हय म्हणून तसो दवरलेलो.''

''अच्छा हुआ बेटी अच्छा हुआ!'' हिचो बोवाळ आयकून खबर घेवपाक आयिल्लो गफूर चाचा घाम पुशीत गॅरेजींत गेलो.

०००

नलू आपले खबरीक मुंबय यो म्हणून फाटीक लागलां.

''भावोजी तुमी खबर घ्यायला कधी येणार? कंगना मुंबयला येऊन परत हिमाचल ला गेली सुद्धा.''

''अगं तिचं काय गं, सकाळी हिमाचलला पेज जेऊन दुपारी हुमणानी शीत कालवायला मुंबयला येऊ शकते.''

''भावोजी ती पेज आनी हुमणानी जेवत नाहीं.''

''काही असेल! सध्या हे ईयर ऑफ सर्वायवल असं कुणी तरी म्हटलं आहे. आम्हाला सध्या विमानानी उडणं परवडत नाही बरं. भारतीय रेल आनी कदंब परिवहन मंडल सुरु होऊ दे. नंतर बघू.'' अशें म्हणून फोन दवरलो.

०००

आमच्या लग्नाच्या आल्बमांतलो व्हंकल पावणेचो फोटो हुंदरानी खालो.

''जा मुली जा दिल्या घरी तू सुखी रहा...'' बसप्पान बँडार वाजयलें पळय तेन्ना हांव रडटालें. ज्यूस्त तोच फोटो पाडपडिल्ल्यानी खालो.'' रागान ही तांबडी जाली.

''आगो ह्या फोटवाक गोम चड लागिल्लें ताका लागून तोच खालो दिसता! म्हजो अदमास आं!''

''इतल्या वर्सां आदीं लायिल्ल्या गोमाचो वास अजुनूय उरता?''

''तेंय खरें. तें आतां खालां ताकाच विचारचें पडटलें. रातचो कोण जा मुली जा म्हणत फिरता तो पळयतां आनी विचारतां'' हांवें म्हणलें तशी ही नाक फुलोवन भितर गेली.

०००

''आरे वायरल लोड म्हणल्यार कितें रे?'' आईन देवा कुडींतल्यान विचारलें.

''आमचेर लोड येता तसोच वायरसाचेर लोड येता जावंये! खबर काडून सांगतां'' हांवें म्हणलें.

आई जप सोडून नाका जाल्ल्या गजालींनी लक्ष घालपाक लागल्या.

०००

आज हिचे महिला मंडळाची ऑनलायन भासाभास आशिल्ली. 'कोवीड काळांतलें हळदी कुकूम बायलां सामकार आव्हान' ह्या विशयाचेर बरीच भासाभास जाली. फुडल्या वर्सा अशीच परिस्थिती उरली जाल्यार सोशल डिस्टन्सींग दवरून हळदीकुकूम कशें करचें हाचेर भासाभास जाली. दर एके सवायशीणीक घरा येवपाक वेळ दिवन आफोवची आनी हळदीकुकूम दिवंचें अशी हिर्णे केल्ली सुचोवणी सगल्यानी मानून घेतली.

०००

पणजे परत टुरिस्ट दिसपाक लागल्यात. 'जिवाचो गोवा' करपाक आयल्यात तें पळोवन बरें दिसलें. 'इधर गोवा का ऑथेन्टीक खाना किधर मिलेगा?' म्हाका एकल्यान विचारलें.

''गोवा में ऑथेन्टीक क्या बचा है वो मैं भी ढूंढ रहा हूँ'' अशें म्हणून काजू म्होवले येवपाक हांव 'काजूवाला'आंत भितर सरलों.

०००

कोठये कुडींत चवथी कडलो पंचखाद्येचो दोणो पाटां मर्दी तसोच उरलो. कोठये कुडींत सगले कडेन मुंयो जाल्यो. आईन डीडीटी हाडून मार सांगल्या. पंचखाद्य तोंडान येवन वतात त्यो मुयो पळोवपाक बऱ्योऽऽ दिसताल्यो. हांवें तांकां 'मुंगी बाय मुंगी बाय टिक टिक टिक. जाता कुठे, असता कुठे आणी खरे तर नसता कुठे. इकडून तिकडे नेता काय, खाता काय, पिता काय' अशें म्हणलें तें आईन आयकलें.

''आतां तांच्यो तोखणायो कर. फकत येंगांनी वाडला. तीन भुरग्यांचो बापूय जालो तरी मुंगी बाय मुंगी बाय.''

आई म्हाका सदांच भुरग्यांच्या आंकड्याची पट्टी लावन जोखता. कित्याक काय, सावळ्याक विचारचें पडलें.

०००

सकाळीं कोणाक सांगी नासतना हांड्याक उजो घालून बाबल्यागेर वचून मिक्स भाजी आनी पोकशे घेवन आयलों. पोकशे पळोवन घरांत खोशयेचें ल्हार पातळ्ळें. हिर्णे सोमतो नलूक फोन केलो.

''अगं नले सकाळी सकाळी तुज्या भावोजीनी आम्हाला ट्रीट दिली गं. बाबल्याली मिक्स भाजी आनी पोकशे.''

''ग्रेट! आमच्या कडे इथे फक्त पोहे. मिक्स भाजी वखदाला पण दिसत नाही.''

ओपिनियन पोलाचो आनीक एक फायदो आज कळ्ळो. फोव खावन खावन आमी फुगार जावपाचे!

०००

बाबुली भटाचो फोन आयलो. तार्णे यू ट्यूबाचेर हेलनाचो 'हजुर ए वाला' डान्स पन्नास खेपे पळयलो खंय.'ओ दिलवाले दाव लगाले कर दिया दिल को तेरे हवाले' अशें म्हणून सगलोच नाचतालो. हेलनाचो डाय हार्ड फॅन खरो.

०००

दत्ता म्हज्या 'आड्या कडली नदर' हे कादंबरीचें मराठी भाशांतर करता. खंयर्चेय साहित्याचें दुसरे भाशेंत भाशांतर जातकच तें राश्ट्रीय पांवड्याचेर पावता. मागीर ताचो दर्जो खंयूय पांव अशें तार्चे मत. म्हजे कादंबरींतले कांय भाग मराठींत भाशांतर करपाक कुस्तार जातात अशें तो म्हणी. काल तार्णे फोन केलो.

'तिणे तें हय न्ही श्या उजवाडांत पळयलें आनी आयकलें. तो जिबेन इतलो फाल्स म्हूण तिका खबर नाशिल्लें. ती फाटल्या पावलांनी मागिलदारच्यान पायणींत आयली आनी थंयच बसकण मारली. चुलीर दवरलेली भेण्या भाजी तोपाक लागली. त्या वासान ती साबुद्दीर आयली. तिर्णे तेच भिरकेन सदचे वरीं एक पेलो पेजेक उडयलें. आज मानाय बेनुल्ल काडपाक आनी नेमां मारून सावळ घालपाक येवपाचे आसात हें ती विसरली. तिचो आवरो उडिल्लो तो परत जाग्यार आयलो ना.'

''हें सगलें आतां मराठींत कशें करपाचें रे?''

''मागीर सांगतां.'' अशें म्हणून हांवें फोन दवरलो.

०००

पावस पडत आसा. कपडे सुकना आनी त्रास जाता. म्हज्या धव्या, हळदुव्या आनी भगव्या शर्टांक चिटयो पडल्या. काल बाजारांत गेल्ले कडेन नागवेकारान फाटल्यांतल्यान 'ओ सिंयोर चिटयेकार' म्हूण उलो मारलो. लोकांचो मद अजून कमी जायना.

०००

गॅस सोंपलो. आज हिचो हात लागना. घरांत हिचे शिवाय गॅस लावपाक कोणाक कळना. आई पयलीं लायताली. आतां

तिर्ची बोटां घट जाल्यां.

''आरे आयुश्यांत गॅस सोड चनरज्योत तरी लावपाक जमल्या रे तुका? माकड आयल्यार एक फोगेट लावपाक लेगीत जीव वता तुजो. भुरगीं जाल्यां तींय तसलींच. आवयचे जाय ते गूण घेतले ना तांणी.''

आईन घर माथ्यार घेतलें. फोन करून सावळ्याक आफयलो. सावळ्यान गॅस लावन दिलो. आज शीत, तेफळ कडी, भेण्या फोडी आनी जिरवणेक फुटी कडी.

०००

आज फोंड्यां गेल्लों. लेडीज सीटाचेर बेठीच नदर मारली. ती एक संवय जावन पडल्या. सगलीं तोंडां मास्कां खाला धांपिल्लीं.

जब वो जमाल -ए- दिलफरोज, सूरते मेहें नीमरोज
आप ही हो नजारा-सोज पर्दे में मुँह छिपाये क्यों
ओगीच आज गालीब याद जालो.

०००

म्हज्या गोडे मुताच्यो ग्लिमस्टार गुळयो सोंपल्यो म्हूण म्हांबऱ्याले फार्मासीर गेलों. पळयल्यार ताचेय कडेन सोंपल्या.

''निमाणी गुळी सोपऽसर कित्याक रावता? सद्या सेनिटायजर, ग्लोव्ज, मास्क, विटामीन बी, विटामीन सी, ऑक्सीमिटराचो सिजन. म्हाल फूल.'' ताणें आल्मारी कडेन बोट दाखयत म्हणलें.

''म्हणजे सद्या गोंयांत गोडे मुतार्चे बंद जालां?''

''आरे चवथी कडेन घरावे फोव आनी चिरमुल्यांचो स्टॉक खंयचो पसरकार दवरता? तशें तें''- म्हांबरो.

म्हाकाय तें पटलें म्हणटकच मान हालोवन घरा आयलों.

०००

फोंडेच्यान नुस्तें उजरावपाक तिख्याची आदोळी घेवन आयलों. आदोळी बरी उबार आशिल्ल्यान ही खूश जाली. आदोळी जितली उबार तितलो नुस्तें उजरावपाक झेत येता अशें हिर्चे मत. आदोळी हिंचे कडेन दितकच हिणें ती आडवी उदारी करून तपासली. तिख्याची आदोळी लेगीत मेड ईन चायना आसत म्हणून हिका दुबाव.

०००

आज बापायली दिसपटी उगडली.

'आज कवळे जात्रेला जाऊन आलो. स्वाम्याने नारळ फोडल्यावर रथावर नारळ फोडला व वार्शीक कर्तव्य पार पाडले. येताना एक किलो खार्जे, हिच्या साठी पिंजर, कामण्या साठी गंधाची बाटली आनी बाबा साठी पेपारें घेतले. सगळी मंडळी खूश. देवतेच्या कृपेने सगळ्याना खूश ठेवण्याची कला बरी सादलेली दिसते.'

०००

'मन में बसी है मूरत लेकीन मिटी न मिटाये कहने को हैं वो पराये'.

आज पसऱ्यार गेल्ले कडेन संध्या दिसलें.

०००

संपादकाचो दिवाळी आंकां खातीर लेख दी म्हूण फोन आयलो. सहज हांवें 'खंयच्या विशयाचेर लेख जाय' अशें विचारून व्हड चूक केली. 'कित्याचेरूय बरय पूण कोरोनाचो चुकून लेगीत उल्लेख नाका' ताणें म्हणलें.

हांवें एक कथा बरयल्या तातूंत नावाक कोरोनाचो उल्लेख आसा. कथेंतल्या नायक आनी नायिकेची वळख नोटबंदी वेळार हजार आनी पांचश्यांच्यो नोटी बदलूंक गेल्लीं थंय रांकेंत राविल्ले कडेन जाता. परत तीं कोरोना टेस्ट करपाक लागिल्ले रांकेंत मेळटात. एकट्याक सुकी खोंकली येता तर दुसऱ्याक जोर येता. एकट्याचो एन्टीजन टेस्ट रिपोर्ट पोझिटीव्ह येता आनी दुसऱ्याचो निगेटिव्ह. पोझिटीव्ह निगेटीव्ह एट्रेक्ट म्हणटकच तीं मोगान पडटात. फुडें तुमकां आनी कांय सांगना.

Sounds very interesting. बेगीन धाडून दी वाचपाची उमळशीक लागली. संपादकान म्हणलें आनी फोन दवरलो.

०००

आज आमी वितोरीगेर एकठांय जाले. सगल्यांनी श्रमदान करून मेजां कदेलां लीप करून जाग्यार घालीं.

''आगो आतां बारां सुरू जालीं म्हणटकच घरा वतकच तोंडाचो वास येवपाक सुरू.'' हांवें वितोरीक म्हणलें.

''देखो न लोगो ने बोतलों की बोतलें खत्म कर दी तो कूछ न हुआ
मगर मगर
मैने होठों से लगाई तो.... '' वितोरीन म्हणू नाका आमी 'हंगामा हो गया' आड्डले.

फाटल्या सऽ म्हयन्यांत घडिल्ली ही एकूच बरी गजाल.

०००



रायबंदर-गोंय, मो. : ९८५०५३०७५६

# हरदत्त खांडेपारकार हांची साहित्य संपदा




Price: ₹ 100/- Pages 94
Size: 14.2cms x 22cms
Publication No.: 1457
ISBN: 978-93-88429 23 8




Price: ₹ 100/- Pages 102
Size: 14.2cms x 22cms
Publication No.: 1303
ISBN: 978-93-7810-900-3



Price: ₹ 100/- Pages 98
Size: 14.2cms x 22cms
Publication No.: 1302
ISBN: 978-93-88429 23 8




Price: ₹ 100/- Pages 103
Size: 14.2cms x 22cms
Publication No.: 1392
ISBN: 978-93-7810-989-8




Price: ₹ 100/- Pages 198
Size: 14.2cms x 22cms
Publication No.: 1231
ISBN: 978-93-7810-828-0




**RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD**
1- Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph.: (0832) 2220320 / 2232177 Fax : (0832) 2425205
Web : www.rajhauns.com | www.facebook.com/rajhauns | E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com






# अनालो तुकलो

एक दीस मॉलांत गेल्लो. सात माळयांच्या-
बरो पयशेकार दिसता तुकलो!
सुमार. थंय एक चली मेळ्ळें.
शेणिल्लें?
ना. मॉलांत मेळ्ळें.
मॉलांत चलयोय मेळटात?
विकत्यो न्हय-
फुकट?



- दामोदर मावजो

पयर अना मेळ्ळो.

- आरे, अना गेलो, खबर ना तुका?

जायीत. पूण म्हाका मेळ्ळो म्हणटां न्हय?

- खंय?

आनीक खंय? मुंबय.

- तूं मुंबय कित्याक पावलो?

ताकाच मेळपाक - तागेल्या फ्लॅटार.

- मेळ्ळो तर?

तूं भेड्डो जाला? जाल्यार फुडलें सांगना.

- बरें बरें. अना मेळ्ळो. फ्लॅटारच आसलो?

लिफ्टी कडेन मेळ्ळो.

- भायरच मेळ्ळो?

हांव वयर पावलों तेन्ना-

- तरीच !

हांव लिफ्टींतल्यान भायर सर जाल्यार-

- नाच्च जालो?

मुखारच मेळ्ळो.

- तूं वयर पावलो म्हूण येवकारपाक राविल्लो?

तो भायर सरतालो.

- गांथन हाड्डूक वतालो?

म्हाका दिशिल्लें चौपाटीचेर बी वता आसतलो.

- सकाळच्या वेळार थंय सो?

ताका वेळे वयल्यो पुलो पुंजावपाक आवडटा म्हूण खबर ना तुका?

- मागीर वतालो खंय?

तें विचारचे पयलींच हांवें म्हळें, भितर बसुंया. गजालींक.

- मागीर मारल्यो गजाली?

तागेली चावी सांडिल्ली.

- कशी?

विठून खंय तागेल्या गवेताक लागता जाल्यार पळोवपाक व्हेल्ली.

- परती दिलीच ना?

विठू कडेन सांडली खंय.

- गवेत उक्तें जालें काय ना?

तें विचारलें ना हांवें.

- मागीर भायरच केल्यो गजाली?

ना. दोगूय आमी लिफ्टीन देंवले.

- तरी बरें...

कितें बरें?

- लिफ्ट बंद पडली ना, तें.

तीच खबर सांगली ताणें.

- बंद पडिल्ले लिफ्टीची?

हय.

- दिशिल्लेंच म्हाका.

खूब इंटरेस्टींग खबर ती.

- हांव सुटलों बाबा.

कित्याक म्हण्टा?

- अना मेलो. ना जाल्यार-

आनी आशिल्लो जाल्यार?

- 'लिफ्ट चालू जायना' ही कथा वाचची पडटासली.

भंगूं तुजें. सामको अ-रसीक.

- आरेच्चा । म्हाका यादच उरली ना.

कसली?

- भावोजी मेला ताचे खबरेक भायर सरिल्लों हांव-

झूर हांगा सरलो. हांव वतां अना वांगडा...

तूं कित्याक आयिल्लो भाई?

बेठो गजालींक.

येता? वाटेच्च मारुंया?

या, अना. पूण खंय तें सांगलें ना तुवें.

तुकल्याक जाप करपाक-

कोण खंवसलो तर तागेर?

तसली जाप न्हय रे- गजालींक.

या. पूण तूं येदोळ लिफ्टीची खबर सांगी.

तुकल्याचीच खबर ती.

तुकलो हांगाच रावता तर?

हय.

तोच तुकलो मूं? तुकल्याची तकली तुकल्याक ना...

एका नांवाचे दोग आसूं येतात, पूण-

हो दुसरो?

तूं त्या विनायक सावरकारालो बापूय तर?

न्हय रे बाबा. हांव-

भाई. हय मरे?

हय.

पूण खलप न्हय.

खरें तुगेलें.

मुंबयचो लुंगीवाला फक्कू तर न्हयच न्हय.

आनी तुकलो?

हो तुकलो तोच.

हालीं तो गोंयां पावलो ना दिसता-

पणजी म्हातारी जाल्या ती ताच्यान पळोवं नज खंय.

करता कितें तो?

तिरसुवाद गोंयकारांलें सुवादीक मणगणे.

ताका आवडटा?

ताचे बायलेक आवडटा.

तो रांदता?

तो संशोधन करता.

केन्ना आयकूंक ना.

बत्तावन पानां बरोवन जाल्यांत खंय.

पूण रांदून-चाखून पळयता मूं?

नॉस्तालज्याच्या फेर्नांदाक वळखना तूं?

वळखतां. न्हय, वळखतालों. तो ना आतां.

नासूं. तुकल्यान तो आसतनां ताका पंद्रस भर आपणांगेर हाडून

बसयिल्लो.

वाः !

वाः किर्तें? अच्छेव जालो. पंदरा दीस मणगण्याचो फार.

वाः!

पर्थून वाः? आरे, वाः म्हळें दोतोर सुखटणकारान.

ताकाय आपयिल्लो खावपाक?

येत आशिल्लो. पूण तेन्नाच आशिल्ली मान्नी पुनव.

पुनव जाली म्हूण किर्तें जालें?

बायलेन धाडलो ना ताका.

वाः कित्याक म्हळें तर ताणें?

तुकल्याक दाळ माल पडली.

बातेल्ली?

ना. भुरकावप चड जालें.

आं. वाय भरली?

हय. येद्दें पोट घेवन दोतोरागेर धांवलो.

सुखटणकार?

तुकलो आनीक कोणाक वळखता?

जावं. वखद पारलें मूं?

वाय सुटली. पूण शेजारी -

तांणीय खाल्लें मणगणें?

ना. पूण येवन येवन विचारूंक लागले तुकल्याक-

निवळ्ळो काय म्हूण?

गॅस बी लीक जाता जाल्यार पळय म्हूण.

भंगूं. तितल्यान संशोधन सोंपलें मूं?

इतले बेगीन? फाटलो म्हयनो भर तुकलो येता-वता.

तुमगेर?

एसियाटीक सोसायटीचे लायब्ररींत.

संशोधन करपाक?

हय. शणै गोंयबाबाले बरपावळींत सतरा खेपेक मणगणे मेळटा.

तें थंय दवरलां?

तेच लायब्ररींत ताका तें सांपडलें आसतलें असो भरवंसो आसा तुकल्याक.

पूण ह्या संशोधनाचो फायदो किर्तें?

फायदो न्हय, फायदे. दोन.

पयलो कसलो?

गोंयची अस्मिताय म्हळ्यार मणगणे हें सिद्ध जातलें.

मागीर शीत-कडयेचें किर्तें करपाचें?

तें संशोधन सुनापरांतान करपाचें.

बरें. दुसरो फायदो?

तुकल्याली तकली तुकल्याक आसा हें प्रॉव्हार जातलें.

तशें जालें जाल्यार तूं -

हांव बें म्हणटलों.

म्हाका दिसता मरे अना- तुगेलो तो तुकलो बुर्.

आनी हांव म्हा-बुर्.

तुका कांय म्हळें ना रे हांवें!

पूण म्हगेलें संशोधन सांगता.

किर्तें?

म्हा-बुर् उतराचेंच आयज म्हांबरो जालां.

तूं मरे, अना, तरसो आसा. ते पणजेवरी म्हातारो.

कित्याक म्हणटा अशें?

फातर्प्यां वचपाक भायर सरिल्ले आमी, तुवें व्हडलें गोंयां पावयलो.

ना, ना. हांवें सारकोच हाडला तुका.

लिफ्टीची खबर थंयच उरली.

तेच वाटेर आसां -

सांग तर, मरे.

तुकलो लग्नच जावचो ना म्हूण राविल्लो.

चलयो आवडनासल्यो ताका?

लायन मारपाक पयलो. ताचे फुर्डे वचनासलो.

सोयरीक येवपाची वाट पळयतालो?

सोयरीकेव्वेर कोंत्र आसलो तो.

आंकवारूच उरपाचो तर.

उरपाचो. पूण उरलो ना.

कोण मेळ्ळें?

एके चलयेन ताका आडेकुशीक आपयलो.

आनी तो गेलो?

ते चलयेन ताका वेंगेंत घेवन कीस दिलो.

वाः! व्हंकल चलून आयली तर!

व्हंकल पावणी म्हण्टा?

एकूच तें! हुडून शेंवटो होटयेंत पडचो तशें जालें ना?

तशेंच शें. पूण तशें न्हय.

न्हय कशें?

ताका कीस आवडलो पूण चली आवडली ना.

मागीर दुसरी सोदली?

ना. इतलो बरो कीस दुसरी कोणच दिवंची ना म्हणूंक लागलो.

पिसो मरे!

एक दीस मॉलांत गेल्लो. सात माळयांच्या-

बरो पयशेकार दिसता तुकलो!

सुमार. थंय एक चली मेळ्ळें.

शेणिल्लें?

ना. मॉलांत मेळ्ळें.

मॉलांत चलयोय मेळटात?

विकत्यो न्हय-

फुकट?

तूं मरे भाई, शितापुर्ते मीठ...

सॉरी. सांग, सांग.

रासभर सामान हातांत आशिल्ली ती चली-

तुकल्याक आदळ्ळी?

सातवे माळयेर तुकल्या फाटोफाट लिफ्टींत आयली.

आनी तुकलो भायर सरलो?

ना. लिफ्ट सुरू जाली.

भितर दोगांच? चान्स मरे!

लिफ्ट मदींच बंद पडली.

तुकलो भियेलो?

भियेतलो कित्याक?

ती चली भियेली आसतली.

ती तुकल्याक पळयत रावली.

तुकलो नर्व्हस जालो आसतलो-

तिणें विचारलें, 'तूं कीस करशी म्हाका?'

चान्स पडलो तुकल्याक-

तूं मरे भाई, नसतीं आडमेळीं हाडटा.

आडमेळीं हाडपाक हांव कितें लिफ्टींत आसां तांचे वांगडा?

तूं मातसो वगी राव-

आनी तूं उलयता तें आयक? गोंयकार खंयचे कडलो!

तुकलो आनी तुकली हांचे मदलो संवाद सांगतां. मागीर उलय.

सांग तर-



तूं कीस करशी म्हाका?
हांव तुका कित्याक करूं?
आरे, पापया, तिणें तुकल्याक विचारलें तें सांगतां.
आं, समजलें. संवाद सांग.
तर- तूं कीस करशी म्हाका?
हांव कित्याक करूं?
म्हाका कीस करशी जाल्यार तूं गिरेस्त जातलो.
म्हजे लागीं आसा ती गिरेस्तकाय पुरो म्हाका.
कीस करशी जाल्यार सुंदर बायल मेळटली.
आसा तूं सुंदर. पूण म्हाका आवड्ूक जाय न्हय!
म्हाका कीस करशी जाल्यार तुजी खूब जतनाय घेतलें.
हांव म्हजी जतनाय घेवपाक समर्थ आसां.
म्हाका कीस करशी तर तुका व्हड आयुश्य मेळपा खातीर वावुरतलें.
तें म्हाका फावो जालां तितलेंच मेळपाचें.
म्हाका कीस करशी तर लग्नाचें अप्रूप सूख तुका फावो करतलें.
पूण तुजो कीस त्या किसा सारको गोड नासल्यार कशें जातलें?

अना, थांबलो कित्याक? फुडें किर्तें जालें?
पावले आमी.
खंय?
तुकल्यागेर.
पूण दार बंद आसा.
भायर सरला आसतलो.
आतां करप किर्तें?
या परते.
पूण तुकल्याचें फुडें जालें किर्तें?
जावपाचें तेंच जालें.
म्हळ्यार?
तुकलो, तुकली आनी तुकलें सुखान संवसार करतात.

(अनाची माफी मागून अनाकच ओंपतां)



माजोड्डें-गोंय. मो.: ९४२२०५९५०९

Now
CONQUER THE WORLD THROUGH YOUR ROOTS
RAJHAUNS LET US KNOW OUR KONKANI FOUNDATION THE GENDER
RAJHAUNS LET US KNOW OUR KONKANI FOUNDATION THE PHONICS BOOK THREE
RAJHAUNS LET US KNOW OUR KONKANI FOUNDATION THE PHONICS BOOK ONE PART 2
RAJHAUNS LET US KNOW OUR KONKANI FOUNDATION THE PLURAL
RAJHAUNS LET US KNOW OUR KONKANI FOUNDATION THE PHONICS BOOK FOUR
राजहंस
RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji - Goa 403 001
Ph.: +91 832 222 0320 / 223 2177 Fax: +91 832 242 5205
Email : rajhaunsgoa@gmail.com I Website : www.rajhauns.com
A TIME TESTED COMPANION OF STUDENTS AND TEACHERS





# नवी नदर

भुरग्यांक आमी जल्म दितात. कित्याक? आमकां आवय बापूय जावपाचें आसता म्हूण. लग्न जातकच दर एका जोडप्याक दिसताच आपल्याक आवय-बापूय म्हूण उलो मारपी आपल्या रगताचें भुरगें आसचें म्हण. सैमीक ओड ती. भुरगें जातकच ताका बरे तरेन वाडोवप, शिक्षण दिवप, बरी देख दिवप, ह्या संवसारांत जगपाक लायक करप हो भुरग्यांचो हक्क आनी आवय बापायची जापसालदारकी वा कर्तव्य म्हण तूं. आमी उपकार करिना तांचेर.



- रुपा केणी

हरी शेळवणकार भायर वारांदार बसून सकाळचो पेपर वाचतालो. ताका सकाळचो पेपर वाचतना हातांत हुनहुनीत च्यार्चे कोप जाय आसता. स-साडेसची वेळ. सगळी कडेन थंडाय पातळील्ली आसता. आशिकुशिनचो लोक निकतोच जागो जायत आसता. तांचे येरादारीक सुरवात जांवक नासता, तेन्ना हरी आपलो मॉर्निंग वॉक सोपोवन घरा येता. गेटीक लायल्लो पेपर काडून घेता. बूट काडून सुसेग घेवपाक वारांदार बसता. पेपर उगडटा म्हणसर ताचे मुखार हुनहुनीत च्यार्चे कप येता. रुचीन घोट घोट च्या पीत तितलेच रुचीन तो पेपर वाचता. पेपर वाचून जातकच तो बगलेक च्या पीत बशिल्ले बायलेच्या, संध्याच्या हातांत दिवन तो न्हांवपाक वता. हें तांचें दोगांचेंय डॅली रुटीन. साडे-स म्हणजे साड-स, केन्नाच कळाव जायना. हरी आनी संध्या दोगांय जाणां आपली सगळीं कामां दिरस्ता दिरस्त वेळचे वेळार करतात. दोगांय मुळचींच वेवस्थीत आशिल्ल्यान दोगांचीय जोडी बरी जमल्या.

आयज पावणे सात जाली तरीय च्या भायर आयली ना. भायर आयल्लो दूद वयर येवन, रकून करपल्ल्याचो वास घर भंर पातळून भायर वारांदार येवन हरील्या नाकांत

भल्लो. आरे, संध्या खंय गेलें दूद गॅसार दवरून? पेपर थंयच उडोवन तो बेगोबेग भितर गेलो. दोन, तीन दांगांत तार्णे हॉल पार केलो, डायनींग रूम काडून तो रांदचे कुडींत पावलो. तेन्ना संध्या गॅसा कडेन उबें रावन सामकारच्या जनेलांतल्यान भायर पळयत आशिल्लें. गॅसार उदक खतखततालें आनी आट्टालें. दुसरे वटेन दूद वयर येवन गॅसा वयल्यान रकून ताचो व्हाळ कसो वोट्या वयल्यान कुशीच्या सिंका कडेन पाविल्लो. रांदची कूड भर करपल्ल्याचो वास पातळिल्लो. संध्या थीर नदरेन जनेला भायर पळयत आशिल्लें. हरीन हात फुडें करून दोशींय वटेनचे गॅसाचे बटन फिरोवन बंद केले.

''संध्या!''

तार्णे मोठ्यान उलो मारलो. संध्यान कच्च करून आंग काडलें.

''आगे बाये दूद वयर येवन रकले कळळेच ना.'' तार्णे म्हळें.

''आयज तुजें चित्त थाऱ्यार ना.'' हरीन म्हळें.

संध्या दूद पुसपाक आंगसो हाडपाक वतालें, ताका हातान तार्णे थांबायलें.

''आसूं तें सगळें. मागीर पूस, पयलीं भायर सरून तयार राव. तितल्या म्हणसर हांव न्हांवन येतां.'' हरीन म्हळें.

''इल्लीशी च्या तरी घे. रोखडीच करतां हांव.'' संध्यान म्हळें.

''गॅसाक हात लेगीत लांव नाका. हांव सांगतां तशें कर. कपडे बदलून तयार जा.''

अशें म्हणून हरी कुडींत गेलो. आलमारींतलो तुवालो काडून खांदार मारलो. पद गुणगुणत तो न्हांवपाक बाथरुमांत गेलो. संध्या भायर सरपाचे तयारेक लागलें. तार्णे एक चुडिदार आंगार चडयलो. केंस वळोवपाक तें हारशा मुखार रावलें. केंसांत फणी फिरताली. मनांत विचार घुंवताले. हालीं सराक अशेंच जातालें. दूद रकतालें, जेवण एकतर खार जातालें मीठ दोनदां पडिल्ल्यान, ना तर अळणी. एक दीस तें शितूच करपाक साप्प विसरिल्लें. अशें केन्नाच्यान जावपाक लागलें? तर श्रीनिलाचो कॉल येत पासून. ते यादीन संध्याच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. बेगीबेगीन तार्णे तीं पुसून उडयलीं. केंसांक क्लीप लायले. खांदार ओडणी उडोवन तें तयार रावलें. इतलें म्हणसर हरीन आपली तयारी केली.

''आयज अचकीत शें भायर वचपाचें थारायलें तुवें नाशत्याक ?'' संध्यान विचारलें.

''हे पळय, तुजें चित्त मगो थाऱ्यार ना. कळळें म्हाका तें. तुकाय म्हणून चेंज नाका? चल आयज तुका जाय थंय वचूं या.'' तार्णे दार लॉक करीत म्हळें.

''तुका जाय थंय व्हर.'' संध्या.

पांचच मिण्टां भितर तीं बाजारांत पावलीं. दोगांनीय थंय नाश्ता केलो. मागीर बेठोच वेळ काडपा खातीर हरी ताका येवन बाजारांत हांगां थंय भोंवलो. दुकानां बी आतांच उगडटालीं. भोंवता सर साडे आठ जालीं. आज हरीन संध्याक आपले फॅक्टरींत व्हरपाचें थारायल्लें. अर्द वरा भितर तीं फॅक्टरींत पावलीं.. सगळ्या कामगारांक कामां विशी शिटकावणी दिवन हरीन दिरत्त पावणे धांक कलामंदीरा कडेन गाडी व्हेली आनी सकाळच्या धा वरांच्या शोच्यो दोन तिकेटी काडल्यो. तो विनोदी फामाद सिनेमा दोगांनीय पळयलो. संध्या आनी हरीच्या पोटांत हांसून हांसून दुखलें. परतूय दोगांनी भायरूच जेवण घेतलें. घरा येतना संध्याचो बदलिल्लो मूड पळोवन हरीकूय बरें दिसलें.

हरीचें आनी संध्याचें ल्हानपणा सावनचें तें आतां मेरेनचें जिवीत कसलींच मोडणां, चडटी, देंवती नाशिल्ल्या सरळ वचपी रस्त्या वरी गेल्लें म्हळ्यार जाता. हरीन शिकून जातकच जॅम, नुस्तें, मांस बी कॅनींग करपाक जाय पडटा तसलीं धाकलीं फोलिणां करपाची फॅक्टरी घाल्ली. ती बरे तरेन चलताली. संध्याचें शिकून जातकच ताच्या घरच्यांक कोणें तरी हरी शेळवणकाराचें थळ दाखयलें. म्हायतीय बरी मेळ्ळी. बापायन सोयरीक व्हेली. संध्या धा जाणांत उठून दिसपी आशिल्लें. नापसंत करपाचो प्रस्नूच नासलो. पत्रिका, प्रसाद, उलोवणी बी जालीं आनी व्हडा दबाजान लग्नूय बी जालें. हरीची व्हडली भयण लग्न करून दिल्ली. घरांत आतां मांव-मांय, हरी आनी संध्या. संध्याचो स्वभाव सदांच नमते घेवपी आशिल्ल्यान घरांत किजील जालें ना. वर्सा भितर श्रिनिल जल्मलो. सगळ्यानीच ताची खूब अर्थ अपुरबाय केली. तोय बऱ्या गुणाचो आनी शिकपाक हुशार आशिल्लो. शिकून दोतोर जालो. फुडलें शिकप घेवपाक अमेरिकेंत गेलो. थंय एका नामनेच्या हॉस्पिटलांत ताका शिर्विस मेळ्ळी. थंयच रावलो.

आतां सद्याक ताच्या लग्नाचे वेध लागिल्लो. तिर्था श्रिनिला परस दोन वर्सांनी ल्हान. मनोहर बिटकेकार आनी तेजालीची अपुरबायेची एकलीच धूव. शिकपाक हुशार. ताणेंय आतां एम.डी केल्या. दोगांय एकेच शाळेंत, कॉलेजींत शिकल्यांत. तें दिसूव भर श्रिनिलागेर यो वच करतालें. दोगांकूय एकामेकां बगर रावपाक जाय नासलें. दोगांचेय आवय-बापूय एक दीस हीं दोगांय जाणां एकामेकांच्या गळ्यांत माळ घालतलीं अशें धरून चलताली. दोनूय घराब्यांक तें मान्य आसलें.

शिकून जातकच तिर्था एका प्रायवेट हॉस्पिटलांत भरती जालें. आतां केन्ना काय हें पराया धन श्रिनिलाचे सुवादीन करतां अशें ताच्या आवय-बापायक जाल्लें. ते खातीर लग्नाची उलोवणी करपाक हरीच्या आवय बापायगेर आयिल्लीं. दोगांय घराब्यांनी एकठांय एक प्रसाद घेवपाचो आनी श्रिनिलाक फावता तसो धरपाचो अशें ते बसकेंत थारलें.

त्याच दिसा रातचो संध्यान श्रिनिलाक व्हिडियो कॉल केलो. सदचे वरी हांगच्यो थंयच्यो खबरी जातकच संध्यानूच ताका विचारलें. हरी कुशीक बसून आशिल्लो.

''श्रिनील तुका बरी शिर्वीस मेळ्ळी. तुवें घरूय घेतलें. आतां कितलो तेप एकटो रावतलो? एकट्याचो दुकटो जाता मरे आतां? आयजूय मनू अंकल आनी तेजा आंटी आयिल्लीं.''

''अशें? किदें म्हणटालीं?'' श्रिनिल.

'' तुमच्या दोगांयच्या लग्ना बद्दल उलोवणी करपाक आयिल्लीं .''

'' एक मिनीट मम्मा, तुमच्या दोगांय बद्दल म्हणजे?'' श्रिनिल.

'' आरे पिशा, तूं आनी तिर्था.''संध्या.

''म्हज्या लगना कडेन तिर्थाचो किदें संबंद? तुमकां कोणें सांगलें हांव आनी तिर्था लग्न जातलीं म्हण?.''

संध्याक शॉक बशिल्ले वरी जालो. हरीय मातसो हालिल्ल्या वरी जालो. पूण ताणें रोखडेंच आपल्याक सावरून घेतलें.

''श्रिननिल, त्या पोराचें चीत मरे पापया, तुजेर जीव लावन बसलां तें! ताचो घात मारूं नाका असो. इतलो कसो बदल्लो रे तूं थंय वचून?''

संध्या काकुळटेक येवन उलयतालें.

''मम्मा, तुमचें सगळ्यांचेंच मोटें मिसअंडरस्टॅंडींग जालां, म्हज्या आनी तिर्था बद्दल, कळ्ळें? आमच्या दोगांय भितर आसली घट्ट इश्टागत. मोग न्हय. कळ्ळें? तुका जर फट दिसता जाल्यार तिर्थाकूच आपोवन विचार. कळटलें सगळें.''

हरी आनी संध्या आतां गोंदळ्ळीं. आतां तिर्थाकूच आपोवन तांणी विचारपाचें थारायलें. पूण आतां हें सगळें जाता तितले बेगीन मनू आनी तेजाच्या कानार तांकां घालपाचें आसलें. हरीन सोमतोच मनोहराक फोन केलो आनी दुसऱ्या दिसा म्हणजे आयतारा सकाळींच त्या तिगांकूय आपयलें. तीं येतकच ताणें तिर्थाक श्रिनिला बद्दल विचारलें. एका खिणाचो लेगीत कळाव करी नासतना फटाक करून तिर्थान म्हळें, ''अंकल वी आर जस्ट फ्रँड्स. तुमी समजतात तशें आमचे भितर कांयच ना.'' हें आयकून मनोहर आनी तेजाचो चेरो पडलो. ताणें फुडलो प्रस्न विचारलो, ''तशें जाल्यार कोणूय आसा बी तुज्या मनांत ?'' तिर्थान म्हळें, ''हय दोतोर सोहम दिवरेकर. ताच्या बापायच्या हॉस्पिटलांत हांव काम करतां.''

हें आयकना फुडें मनोहरान ताका विचारलें, ''किर्ते करता भुरगो? कितली शिकला ? फक्त एम.बी.बी.एस जाल्यार आमकां नाका.''

'' तो सर्जन. ताणेंय एम.डी. केल्या म्हज्याच वांगडा. तोवूय ताच्या बापायच्या हॉस्पिटलांत आसता.''

''तशें जाल्यार रोखडीच सोयरीक घेवन या आमी दोतोर दिवरेकरागेर.'' तेजान म्हळें.

हेवटेन संध्या ह्या प्रकरणान बरेंच निर्शेलें. पूण दोगांयच्याय मनांत ना जाल्यार किर्ते करपाचें! अशें येवजून ताणें आपणाची समजूत घाली आनी एक दीस ताची नणंद पिरोज तांगेर आयिल्ले कडेन उलयतां उलयतां हरीन भयणीक सांगलें. त्याच खिणाक पिरोजान आपल्या देरालें चलीय बरें श्रिनिलाक सोब सारकें आसा म्हण तांकां सांगलें. तेंवूय अमेरिकेक आसता म्हण कळटकच संध्या सामकें फुल्लें.

''सगळें घालून करून व्हडा दबाजान लग्न करून दितलीं तीं, जाणां मरे हरी!'' उमेदीन पिरोजान म्हळें.

ही सोयरीक जायत जाल्यार पिरोजाल्या घरांत 'वजन' आनीकूय वाडटलें आसलें. तें आयकना फुडें संध्याक किर्ते करूं किर्ते नाका अशें जालें. आतां केन्ना एकदां फोन



करून श्रिनिलाक लग्नाचें विचारता अशें ताका जाल्लें. हरी ताका समजायतालो. लग्न ही सादी गजाल न्हय. हाचेर खोलायेन चितपाक जाय. श्रिनिलाच्या कलान घेवपाक भुरकुटून वचून कित्याय कितें करपाक जायना.

हरीचें आयकनासतना संध्यानूच ताका एक दीस कॉल केलो. ड्युटेर नाशिल्ल्यान ताणें तो घेतलो. ताणें पिरोजाल्या देराले चलयेची खबर ताका सांगली. श्रिनिलान पयलीं सगळें आयकून घेतलें आनी म्हळें, ''हांव ताका कॉलेजींत आसतना सावन वळखतां. हांव ताचे कडेन कसोच लग्न जावंचो ना.'' इतलें म्हणून ताणें फोन बंद केलो. पयलेच फावटी तो असो वागिल्लो. संध्याक कोणें तरी आपल्या मुस्कटार मारिल्ले भशेन दिसलें. 'बाय मम्मा' ना. 'टेक केर' ना. सरळ फोन बंद. इतलो बदल्लो हो थंय वचूनय़ तिर्थाचें एक सोडून दी. हिवूय चली नाका.? काय बरें दिसता. इंजिनियर, बरे कंपनींत कामाक आसा. जोडटा बरें, कितें जालां हाचें ? खंयूय घुस्पला कांय हो ? काय लिव्ह इन रिलेशनशीप ! संध्याचें मन दुबावीत जालें . ताची न्हीद खळ्ळी. तळमळे वाडले. हरी कडेन तें ह्या विशयाचेर गंभिरतायेन उलयलें. हरीन तें रोखडेंच फाफडून उडयलें आनी वयल्यान ताकाच तापयलें. ''तुज्या भुरग्याचेर तुजो विश्वास ना? इतल्या उखलाप्या विचारांचो भुरगो न्हय आमचो! जें कितें करतलो तें विचार करून करतलो. इतलो तरी विश्वास आसा म्हजो ताचेर.''

तेन्नाच्यान श्रिनिलाचो कॉल आयलो रे आयलो, संध्या ताका लग्नाचें विचारून पिडापीड करतालें. तो ताचीं फकाणां करतालो ना जाल्यार हांशार व्हरतालो. 'राव गे मातशी, पाशिर्येस काड गे' म्हणटालो. हरी मात ताका लग्नाचें कांयच म्हणजे कांयच विचारी नासलो. ताच्या कामा विशीं विचारतालो. भलायकेची बी जतनाय घे म्हण सांगतालो. संध्याक कितें करचें कांयच समजनासलें. ताका श्रिनिलाच्या मनाचो थाव लाग नासलो. हरीन पिरोजा कडेन देराले चलयेची पत्रिका आनी फोटो काडून दिलो आनी सगळी खबर सांगली. ताणें तोंड काळेंच केलें आनी तें कांय उलय नासतना घरा गेलें.

संध्यान आपल्या पुताच्या लग्नाची खूब सपनां रगयल्लीं. हें लग्न म्हणजे ताच्या घरांतलें पयलें आनी निमणें कार्य. ताका व्हडा दबाजान तें मनोवपाचें आसलें. लागिच्या, पयसुल्ल्या सगळ्या सोयऱ्यांक, शेजाऱ्यांक, हरीले इश्ट, ताच्यो इस्टिणी, फॅक्टरींतले कामगार, हेर संबदीत, श्रिनिलाचे इश्ट ,तिर्था आनी ताचे घरचीं, सगळ्या सगळ्यांक आपोवपाचें आसलें ताका. संगीत, मेंदी, देवकार्ये, पयल्या दिसा तेल मागीर लग्न, रिशेप्शनाचो सुवाळो. अशें लग्न करप की लोकांक सामकी याद उरपाक जाय. व्हंकलेच्या आंगार खांदार चार गडगंज वस्ती घालपाच्यो आशिल्ल्यो ताका. हरशीय

संध्या म्हणटात तें उमेदी प्राणी. पूण श्रिनिलाच्या मनाचो थावच लागनाशिल्लो.हरी मात लेगीत गंभीरताय ह्या विशयान दाखयना हार्चेच ताका अजाप दिसतार्ले.

हाचे वयल्यान सुमार स म्हयने गेले. एक दीस श्रिनिलान तांकां व्हिडीयो कॉल केलो आनी ***एके चलयेचें पूण...***.. ताचे दोळे, ते पळयना फुडें संध्याच्या तोंडांतल्यान उतरां आयलीं. 'चायनिज..' ताच्या दोळ्यां मुखार कॉविडाच्या वेळार टिव्हीर दाखयल्ल्या चीनाच्या व्हॅट मार्किटांतल्यो साबार किडी, कीट आनी वागोळीं बी दोळ्यां मुखार आयलीं. 'आवय हें सगळें तें खाता? तीं किर्तेंय खातात खंय।'

मम्मा तें चायनीज न्हय, ते कंबोडीयन. ताचें नांव नॅन्सी. पुराय नांव 'नॅन्सी मेंग ख्वॉय'. श्रिनिलान थंडसाणेन जाप दिली.

''आमचे जातींतल्यो सुंदर सुंदर चलयो सोडून हीच चेपट्या दोळ्यांची चली मेळ्ळी रे तुका?''

संध्या रागान तांबडेद गुंज जावन उलयतालें तें हरीन पळयलें. आतां तें श्रिनिला मुखार आनीक किर्तेंय वीज फोग करत म्हूण ताणें पुताक म्हळें, ''बरें रे मागीर फोन करतां आं।'' अशें म्हणून तो प्रसंग टाळ्ळो.

पूण संध्या वोगी रावपाक आयलां? तें वागुल्लें कशें नाचपाक लागलें.

''इतले दीस पाशिर्येस काड, पाशिर्येस काड म्हण सांगतालो तो ह्या चेपटे दोळ्यांच्या चायनिसा बराबर लग्न जावपाक? हीच चली बरी मेळ्ळी हाका ! वयल्यान म्हणटा कसो, 'कंबोडीयन' खंय तें! एकूण मेळून चेपटे दोळे! नांव किर्तें तरी नॅन्सी मेंग किर्तें तरी. एकूय धड ना.

काय बरें पिरू ताईल्या देरालें चली आशिल्लें. दिसूंक बरें, शिकूंक हुशार. हाचे वरीच अमेरीकेक आसता. काय बरें सगळें जुळून आयिल्लें. सगळें यालून करून दबाजान कार्य करपाक तयार आशिल्लीं. हाचीच बुद्द फिरल्या आनी किर्तें म्हणपार्चे! आमचे देवीक असलें कांयच चलना खबर आसा मूं तुका? '' संध्यान संतापून म्हळें.

''संध्या, संध्या मातशें थंड राव गो! कित्याक स्वताक त्रास करून घेता?'' हरीक ताची काकुळट आयली.

''थंड रावलें म्हूण ही वेळ आयली आमचेर, मारुनी सगळ्यांक ताळयो आतां!'' अशें म्हणून ताणें रागान हरी कडेन पळयलें. ''तेन्नाच तुवें ताका यट धरपाचो, तिर्थाक ना म्हणिल्लें तेन्नाच.''

हरीन ताका हाताक धरून सोफार बसयलें. फ्रिजांतलें थंड उदक पिवपाक दिलें. तितल्यांत तें शांत जालें आनी तेन्नाच्यान ताचे कडल्यान अबगर्तपणां जावपाक लागलीं. केन्ना दूद रकप, जेवणांत मीठ दोनदां पडप, अळणी जावप बी. ताचे तकर्लेत किर्तें तरी चलतार्ले. ताका न्हीद पड नासली. केन्ना केन्ना रातचें देवा कुडींत बसून रडटालें. विचारल्यार हरीक कांयच सांगिनासलें. ताची खासाविसी हरीक कळटाली. ताका ताचो हुस्को जातालो. तो आपले परीन ताका खोशी दवरपाचो यत्न करतालो.

श्रिनिल आनी नॅन्सी एकाच हॉस्पिटलांत काम करतालीं. तो नियोनेटल कार्डिओलोजिस्ट आनी तें पिडियारट्रीक सर्जन आशिल्लें. ताका लागून दोगांचीय वळख जाल्ली. ती वाडली. फाटलीं तीन वर्सा दोगांचेंय डेटींग सुरू आसलें. जेन्ना तांकां एकांमेकां विशीं पुराय वळख जाल्या म्हणपार्चे होलमलें तेन्ना दोगांनीय आपल्या आवय- बापायक सांगपार्चे थारायलें. नॅन्सीचे आवय- बापूय अमेरीकेक रावताले. तांणी रोखडीच आपली खोस परगटायली आनी मान्यताय दिली. मागीर नॅन्सीन श्रिनिलाक आपल्या आवय-बापायक मेळपाक व्हेलो. ताचे आवय-बापूय आनी दोगांय भावां कडेन ताची वळख करून दिली. ते सगळेच खोशी जाल्ले. आतां श्रिनिलाक नॅन्सीची आपल्या आवय - बापाय कडेन वळख करून दिवपाची गरज आशिल्ली. पूण ताचे पयली नॅन्सी आनी ताच्या मोगाची खबर तांकां कळोवपाची आशिल्ली. बापाय बद्दल ताका सामकी खात्री आशिल्ली. पूण आवय कशें किर्तें घेयत होच मोठो प्रस्न आशिल्लो. ताणें ते खातीर तांकां सोमतोच फोटो दाखयलो आनी बातमी सांगली.मातशी मनाची तयारी जातकच व्हिडीयो कॉल करून नॅन्सीची तांचे कडेन वळख करून दिवपार्चे थारायलें.

फोटो दाखयल्या उपरांत सुमार विशेक दिसांनी श्रिनिलान व्हिडीयो कॉल केलो. ताचे बराबर फोटोंतलें चलीय बी आशिल्लें. ताणें ते चलेयेची हरी कडेन वळख करून दिली. ताणें तोंड भर हांसून संध्याक हात हालयलो आनी उमेदीन भरिल्ल्या

आवाजान म्हळें, ''नाय्स टू मीट यू मम्मी'' आनी उमळशिकेन संध्या किर्ते म्हणटा तें पळोवपाक लागलें. पूण संध्या एक पाशाणी पुतळो कशें थीर नदरेन ताचे कडेन पळयत रावलें. मागीर नॅन्सीन हरी कडेन पळोवन हात हालयलो, ''हॅलो डॅडी नाय्स टू मीट यू.''

'' आय एम ऑल्सो!'' अशें म्हणून हरी खूब दिसांची वळख आशिल्ले वरी ताचे कडेन उलोवपाक लागलो. संध्याक श्रिनिलाचो आकांताचो राग आयिल्लो. नॅन्सीक पळोवनूच ताचें कोल्ल फिरिल्ले वरी जालें. तीं तिगांय जाणां उलोवपांत गुल्ल जाल्लीं. तें फट्ट करून थंयच्यान उठलें आनी सालांत येवन अस्वस्थतायेन भोंवपाक लागलें. बसतालें, उठ्ठालें. ताच्या आंगाक नॅन्सीच्या आनी श्रिनिलाच्या रागान उजो पेटिल्लो. सुमार पन्नास मिण्टां तरी हरी तांचे कडेन उलयलो आनी सालांत आयलो. ताका पळोवन संध्याच्या रागाचो स्फोट जालो.

'' सामको सुबेर्त जाला श्रिनिल आतां. ताका कांयच पडून वचूंक ना आमचें. सामको बदल्ला तो आतां. आवय-बापूय म्हूण आमच्या इत्सांचो इल्लोय मान दवरलो ना ताणें. विचारप ना, पाचारप ना. आपली व्हंकल आपुणूच सोदून मेकळो. हाका ल्हानाचो व्हड केलो, शिकयलो, हाचे खातीर त्रास काडले, कांयच हक्क ना आमचो ह्या भुरग्याचेर? आमच्या आमचे वेळार असलें कांयच नासलें. तुका कांयच दिसना कशें?''

तें हात वावडीत हरीक सांगतालें आनी तो मोन्यांनी सगळें आयकून घेतालो. अशें घडटलें हाचो ताका अदमास आसलो.

''बरें शिकप मेळचें म्हूण हाका अमेरिकेक धाडलो. थंयच रावलो. तरीय आमी ताका कांयच म्हळें ना. ताचें हें फळ मेळ्ळें म्हाका. जल्म दिवपी आवय-बापायचो कुस्कुटां येदो लेगीत मान दवरलो ना. आमचो इल्लोय हक्क ना ताचेर ...इल्लोय ना? उलयात मूं? तूं अशें तोंड धापून कित्याक रावला? झडझडावन काडपाचो ताका!''

''पळय, थंडसाणेन आयक.'' हरीन म्हळें.

''आयकतां, तुजेंच कित्याक आतां सगळ्यां कडल्यान आयकून घेवचें पडटलें म्हाका. म्हाका वालोर उरला तरी खंय?'' ताणें रागान म्हळें.

'' आतांच तुवें दोन तिनदां हक्क ना - हक्क ना म्हणून विचारलें. बरोबर? ''

''हय. आवय बापायचो हक्क आसता भुरग्यांचेर. हांवें किर्तें फट सांगलां?'' संध्या.

''तूं चुकता संध्या, आवय बापूय आनी भुरग्याकचें जें नातें आसता थंय हक्क बी अशें कांय आसना.''

''भुरग्यांक आमी जल्म दितात. कित्याक? आमकां आवय बापूय जावपाचें आसता म्हूण. लग्न जातकच दर एका जोडप्याक दिसताच आपल्याक आवय-बापूय म्हूण उलो मारपी आपल्या रगताचें भुरगें आसचें म्हण. सैमीक ओड ती. भुरगें जातकच ताका बरे तरेन वाडोवप, शिक्षण दिवप, बरी देख दिवप, ह्या संवसारांत जगपाक लायक करप हो भुरग्यांचो हक्क आनी आवय बापायची जापसालदारकी वा कर्तव्य म्हण तूं. आमी उपकार करिना तांचेर. ताचे बदला तीं आमकां दितात उपाट खोस. आवय जाल्ल्याची, बापूय जाल्ल्याची. हें आमी खिणभर लेगीत विसरूंक फावना. तूं पळय जी हक्काची भास उलयता न्ही, दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचें म्हणजे आयज मेरेन हांवें तुजे खातीर हें इतलें सगळें केलां, इतले त्रास काडल्यात ताचे बदला हांव सांगतां तें तूं आयक न्ही. तुवें आयकुपाकूच जाय. तुका कसलीच मेकळीक ना. तुज्यो इत्सा उक्तावपाची, अशें मगो, हय काय ना? आमी लग्ना खातीर याल्ल्यो शिमो वलांडून वचपाचो अधिकार तुका ना. हेंच सांगूंक सोदता मगो तूं?'' हरीन म्हळें.

''आमच्या घराण्यांत अशें केन्नाच जावंक ना. केदो मान आसा आमच्या घराण्यांक समाजांत.'' संध्यान आपलो हुस्को उक्तायलो.

''केन्नाच जावंक ना म्हण कोणेंच करपा ना असो कांयच कायदो ना. कोणें तरी सुरवात करची पडटा. ती आमच्या पुतान केली. जाणा मगो, तिनशीं चारशीं वर्सा पयलीं घराण्यांत कोण तरी कापस्तादीचो पुरुश जल्माक येता आनी दोळे दिपकावपी येस मेळोवन नामनां जोडटा. ताचे फाटल्यान कोणूच असो जल्मना. कोणूच दोळे दिपकावपी अशें कांयच करिना. पूण त्या जाणटेल्याच्या म्हालवजार कितल्योश्योच पिळग्यो मिरयत रावतात. हाका किर्तें अर्थ आसा? सगळें पिर्शेपणाचें. तुका बी कोणेंय किर्तेंय विचारलें जाल्यार त्या मनशाक तूं विचार, तुज्या पावंड्याचेर तुवें किर्तें केलां, तुज्या

घराण्याचें नांव वा किर्त आनीक वयर व्हरपाक काय म्हण !'' हरीन ताका समजायलें.

''आमच्यो परंपरा कोणें सांबाळपाच्यो? देव-देवस्पण कोणें करपाचें?'' संध्यान विचारलें.

''तें आतां आमी आस सर करपाचें. आमच्या फाटल्यान तें बंद. भिवूं नाका. कांयच वायट जावचें ना.'' ताका धीर दीत हरीन हांसत म्हळें.

''कितलेशेच तरणाटे भुरगे आनी तांचे घराबे भायल्या देसांत आसात. तांणी आपलो देव धर्म सोडूंक ना. हालीं सराक देवस्पणांक जाय त्यो सगळ्यो वस्तू मेळटात त्या त्या देसांत. आमचो धर्म आमकां व्हड. पळय कोण सोडटा जाल्यार आपलो धर्म! हांगा आमच्या पुतान सगळें गुटलावन दवरलां!'' संध्यान म्हळें.

''हाची जाप हांव तुका दितां. ताचे पयलीं हांव किर्ते सांगूंक सोदतां तुका. कान दिवन आयक. आमची तरणाटी पिळगी दोन तरांची आसा. पयले तरेचे जे तरणाटे आसात ते आपखोशयेन ह्यो सगळ्यो परंपरा, रिती, देव- देवस्पणां आपणायतात. ह्याच देसांत न्हय तर संवसाराचे फाटीर खंयूय गेल्यार लेगीत जायते कश्ट काडटात. पूण हें सगळें कशेंच सोडीनात. तांकां तातुंतल्यान खोस आनी मनशांती मेळटा. मेळुनी. म्हजें कांयच म्हणणें ना. आमचो पूत दुसरे तरेचे जे तरणाटे आसात तातुंतलो. हे स्वतंत्र विचारांचे आसतात. दरेके गजाली कडेन वेगळे नदरेन पळयतात. ताचेर खोलायेन विचार करतात. पटलें जाल्यार येतात. ना जाल्यार कोणाचीच पर्वा करिनासतना सोडून दितात. आतां धर्माचें पळोवया. जो धर्म तुजे सारकिले मनीस मानतात ताका आमी कर्मकांड करप म्हणटात. त्या धर्माचीं मूळ तत्वां जीं आसात तीं आमी केन्ना विसरून गेल्यात.'' हरीन म्हळें. आपले भाशेन तो संध्याक समजावपाचो यत्न करीत आसलो.

''श्रिनिल आनी नॅन्सी विंगड विंगड धर्माचीं, विंगड वंशाचीं, विंगड संस्कृतायेंत वाडिल्लीं, कशें जातलें दोगांचें लग्न उपरांत?'' संध्यान हुस्केवन म्हळें. ताचेर एके तरेचें टेन्शन आयिल्लें.

''जात, धर्म, वंश, संस्कृताय ह्यो वणटी वलांडून आमचो भुरगो फुडें गेला. ताका हाचें कांयच पडून वचूंक ना. एक सारके विचार आशिल्लीं दोन मनशां एकठांय आयल्यांत. सुमार तीन वर्सां साबार मुद्यांचेर तांचे मदीं भासाभास जाल्या. खूब खोलायेन, कळ्ळें? जेन्ना एकामेकाची सारकी वळख जाल्या, जिविताचे वांगडी जावपा खातीर खात्री जाल्या तेन्नाच उगत्या दोळ्यांनी एकामेकांच्या मोगांत पडल्यांत तीं दोगांय. उकलापो मोग न्हय तो!'' हरीन सांगलें.

तिर्था आनी तो ल्हानपणा सावनची इश्ट. तांचे मदीं कित्याक निर्माण जालो ना मोग? संध्याक हाचेंच अजाप दिसतालें.

''त्या दोगांकूय तांच्या तांच्या फुडाराचे जिणेचो सांगाती जावपाक जे गूण जाय आसले ते एकामेकां भितर मेळ्ळे नात.'' हरीन जाप दिली. ''कित्याक जाणा त्या दोगांयची जिणे कडेन पळोवपाची नदर वेगळी आसा.''

''आमी आमच्या वेळार इतले बारीकसाणेन कांयच चिंतलें ना. आमचो संवसार किर्ते वायट जालो?'' संध्यान विचारलें.

''ना. आमचो संवसार बेस बरो जालो. कित्याक तर आमची जिणें कडेन पळोवपाची नदर तांचे परस वेगळी आसा. आमच्यो इत्सा, अपेक्षा मर्यादीत आसात. आमी विंगड वातावरणांत वाडलीं.'' हरीन सांगलें.

''म्हाका एक सांग, लोकांक आमी कशें तोंड दिवप? सगळ्याक रोखडोच बोवाळ जातलो!''

संध्याक खरी भिरांत लोकांची दिसताली.

''लोक आनी ओंक सारकीं अशें म्हणटात. ते दोन दीस आमचें तासतले. दुसरें किर्तेंय सनसनाटी मेळटकच आमचें विसरायेर पडटलें!''

अशें म्हणून हरी खो खो करून हांसलो. हरीन समजायतकच संध्याच्या मनांतले कांय दुबाव पयस जाले. ताका हरीचें म्हणणें खोल खंय तरी पट्टालें. पूण आयजवेरचे संस्कार पाळां मुळां रिगोवन आशिल्ल्यान ताका एके तरेचो भंय कसो दिसतालो. अजुनय ताका दिसतालें श्रिनिल हांगा येतकच नॅन्सीचो धर्म बदलून त्या दोगांच्या गळ्यांत घरच्या घरा माळ घालप आनी देवतेचे भेटेक वचून अभिशेक घालून मागीर रिशॅप्शन उडोवप.

दुसऱ्याच दिसा श्रिनिलान तांकां कॉल केलो आनी आपणें रॅजिस्टर लग्न केलें म्हूण सांगलें. तो आनी नॅन्सी पंदरा दीस तांच्या म्हन्यांत येतली म्हण खोस दिणी बातमीय दिली. रॅजिस्टर लग्नाची खबर आयकून संध्या मनान मातशें निर्शेलें.

पूण हरीन ताका परत समजायत म्हळें, ''एकेवटेन बरेंच जालें. दोगांयचड धर्म विंगड. त्या दोगांकय तार्चे व्हडलेंशें पडून वचूंक ना. पूण दोगांयच्या आवय-बापाय भितर वांकडेपण येवपाक शकतालें. कोणाचे पद्धतीन लग्न करप? ना जाल्यार दोनदां दोगांयचे पद्धतीन लग्न करप!''

ते बराबर संध्याक हांसपाक आयलें. तेंवूय चिंतपाक लागलें. काळ बदलता. आमीय काळार्ची पावलां वळखून वागपाक जाय. नाजाल्यार भुरगीं आनी आवय-बापायच्या नात्या भितर कोडवासाण येता. भुरग्यांच्या मनांत नासतना मानसीक चेंपण हाडून जर आमी तांकां लग्नाक तयार केलीं, आपल्याक जाय त्या मनशा बराबर तर फुडें तीं दुखी जातात, निर्शेतात आनी डिवॉर्स जातात. श्रिनिलाच्या लग्नाची खबर आयकून हांव इतलें सतरवितर कित्याक जालें? तें दुसऱ्या धर्माचें, वंशाचें आसलें. लोक कितें म्हणटलो, सोयरीं कितें म्हणटलीं हे प्रस्न पयलीं आयले. तकलेंत म्हजो अहंकारूय आड आयलो. आमच्या मनांत भुरग्यां खातीर इतलो मोग आसता पूण अहंकार इतलो व्हड जाता की तो काळजांतल्या मोगाक चिड्डून कोनशाक धुकलतात. दर एका भुरग्याक आपले जिणेचो सांगाती सोदपाचो हक्क आसता. जीण तर तांकांच सारपाची आसता एकामेकां बराबर. म्हाका इतलेंय कशें समजलें ना. वगीच म्हज्या जिवाक त्रास जाले आनी घरच्यांच्याय. तरी बरें वेळार म्हजे दोळे उगते जाले. आतां श्रिनिल आमच्या म्हन्यांत बायलेक घेवन येतलो तेन्ना घरच्या घरा ताची आत्या, मामा, मावश्यांच्या घराब्यांक आपोवन ल्हानसोच सुवाळो करप आनी नॅन्सीची सगळ्यां कडेन वळख करून दिवप. तेंवूय दोगांकूय पसंत आसा जाल्यारूच. बेठेंच म्हजी उमेद भागोवपाक तांच्यो उमेदी चिड्डून उडोवप न्ही. जशें जशें संध्या चिंततालें तशें तशें ताच्या मनाक एक नवी उमेद येताली. ताची निर्शेणी नाच्च जाली. जिणें कडेन पळोवपाची नवी नदर ताका मेळ्ळी.



मडगांव- गोंय. मो: ९८२२१८३९५४


RAJHAUNS

# Goa Saunskrutik 2020

A Directory of
Writers & Publishers

COVERS

- Writers • Publishers • Translators • Periodicals
- Book Publication Act • Konkani - the Official Language
- Honours, felicitations, awards and rewards
- Sahitya Mahotsav • ISBN applications • Shraddhanjali
- Opinion Poll of Goa • Uniform Civil Code
- Cultural organisation ..... and so on







RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji - Goa 403 001
Ph.: +91 832 222 0320 / 223 2177 Fax: +91 832 242 5205
Email : rajhaunsgoa@gmail.com | Website : www.rajhauns.com

280 Pages
Size : 15.5cm x 23.5cm
Price : ₹ 100/- (self-subsidised)
Publication no :1533
ISBN : 978-81-938965-0-1

# दहिसरचें सत्यनिवास

रातचो केन्नाय भायर मार्गार कुल्फीवालोय येतालो. असलें मार्गा 'वयलें खाण तेते आमकां खावपाक दिनासलें. बाबाक सांगपाचो भंय घालतालें. पूण बाबा आठाचे ट्रेनीन येतालो तेन्ना आमी बाबाक हाडपाक स्टेशनार वताले. बाबा स्टेशना भायर खाउ करपाक बसतालो आनी आमकां एक एक कटींग ग्लास उसाचो रोस मेळटालो.



- उदय नरसिंह म्हांबरो

रमेश वर्सान एकदां मुंबयच्यान बेतके आपल्या घरा येतालो. आठ पंदरा दीस रावून परत वतालो. बेतके येतकूच तो आमगेर आयले बगर रावऽ नासलो. आमगेर येतकूच बाबाच्यो आनी ताच्यो गजालीर गजाली जातात्यो. मुंबयच्यो तरेकवार गजाली आयकुपाक म्हाका सदांच उमेद येताली. तो येतकूच हांव ताचे फाटल्यान फुडल्यान भोंवतालों. तो चार दिसांनी मुंबय परत वचपाचो आसलो. म्हाकां वर्सुकी परिक्षा जावन निकतीच सुटी पडिल्ली. हांवें ताचे बराबर सुटयेंत मुंबय रावूंक वचपाचो बेत केलो. बाबाक विचारले. बाबान हय ना करतां करतां हय म्हणले

रमेश शेटयो म्हज्या चुलत आत्याचो चलो. म्हजे परस विसेक वर्सांनी व्हड. भुरगेपणांतूच मुंबय गेल्लो. नानाकाकाचेच वळखीन नारायण गोविंद डांगी हांचे बेकरेंत कामाक आसतालो. तांकां सगळे बाबा डांगी म्हणूनच वळखताले. बाबाची ही 'राष्ट्रिय हिंदू बेकरी'

सोनापूर स्ट्रिटाचेर आसली. मरिन लायन स्टेशना वयल्यान दावे वटेन भायर सरतकूच जी बारीक शी गल्ली लागताली, ते गल्लेंतल्यान वचत जाल्यार हे बेकरेंत पावताले.

मुंबय त्या काळार कपड्याच्यो गिरणी खूब. त्यो गिरणी रात दीस चलताल्यो. त्या गिरणींच्या कॅन्टीनांक 'राष्ट्रिय हिंदू बेकरी' ब्रेड सप्लाय करताली. बेकरेंत रात भर पीठ मळपाचें, पाव खोर्नांत भाजपाचें काम चलतालें. फांतोड जावंचे आदींच पाव भरून गाडयो सुट्टाल्यो. ही बेकरी गिरणी कामगारांचे पोट भरपाचें काम तर करतालीच. पूण तेच बराबर गोंयांतसून कोणूय अडलो नडलो मुंबय पावलो जाल्यार ताच्या चरितार्थाची आनी राबित्याचीय नड पयस करताली. त्या काळार नारायण गोविंद डांगी हांच्या कुटुंबान जायत्या जाणांक आपलें जीवन घडोवपाक मोलादीक आदार केला.

बाबा डांगींची घरकान्न तेते डांगी. म्हज्या बाबाची आते भयण. नानाकाकाचो गोरेगांवचो फ्लॅट अजून तयार जावंक नासलो. तांतूत ताचें निकतेंच लग्न जाल्लें. तेत्यान ताका दहिसराकूच आपले इमारतींत तात्पुरतो रावपाक जागो दिलो. दहिसर पच्छिमेक म्हात्रे वाडींत तेत्याचें दोन मजली घर. सकयले दोन माळे भाड्याक दिल्ले. आनी वयर आख्खो मजलो तींच वापरतालीं. इश्कादीन वयर सरतकूच दावे अर्दान देवघर मेळटालें आनी उजवे अर्दान घरांत भितर सरपाचें.

आतां अमेरिका आसूं, मुंबय आसूं, पणजे आसूं वा वळवय! जण एकलो न्हिंदता बसता थंयच संडास बांदतात. पूण त्या तेंपार मुंबय आसून लेगीत आनी पुराय मजलो स्वत: कडेन दवरून लेगीत तांचे बाथरूम आनी संडास सामके नदरे आड, एका कोणश्याक आसले. भायर पायणींत एक लॅन्ड लायन फोन आनी म्हऱ्यांत एक कदेल. बिल्डींगेच्या एका पोंतार साकून दुसऱ्या पोंतार पावऽ मेरेन लांबचे लांब उगती गॅलरी.

घरांतल्यो कुडी, रांदची कूड, वारांद हे जशे लांब रुंद तशेंच घराचें सोयऱ्यांक बसोवपाचें सालूय व्हडलें आसलें. हें साल म्हणजे सादारण सो पन्नास लोकांक बसपा सारको मिनी हॉलूच. हांगा बटणा बटणाचे मळबा कोराचे चार सोफा आसले. दोनूय अर्दांनी दोन शो केसी. ह्यो शो केसी चांदोबा ह्या भुरग्यांच्या मासिकांनी उपाट भरिल्ल्यो. मदीं दोन आरशाचीं टिपॉय.

म्हाकां चांदोबा वाचूंक खूब्ब आवडटालो. पूण हांव विक्रम आनी वेताळाची काणी केन्नाच वाची नासलों. हांगा कितल्याश्याच वर्सांचे चांदोबा हारीन मांडून दवरिल्ले. एका फाटल्यान एक. म्हाकां उपाट खोशी जाली. हांवें ल्हेंवटो कसो एकान एक चांदोबा वाचून काडलो. विक्रम वेताळ हांवें पयलो हांगाच वाचलो. आनी मागीर चटक लागली. वेताळ एका चांदोबांतल्यान विक्रमाचे फाटी वयल्यान नाच्च जाता आनी परत दुसऱ्या चांदोबांत विक्रम ताका सोदीत वडा कडेन पावता तें वाचपाची उमळशीक लागली. खुबदां वाचता वाचतां जेवपाचा वेळ, न्हावपाचो वेळ चुकतालो आनी मागीर तापोवणीय खावंचीं पडटालीं. पूण विक्रम जसो वेताळाक सोदीत वतालो तसो जेवन जायना बराबर हांव परत चांदोबा उरतूंक पावतालों. हो हॉल चडसो बंद आसतालो. पूण म्हजी वाचनाची आवड पळोवन बाबान म्हजे खातीर हॉल उगतोच दवरिल्लो.

ह्याच हॉलांत चवथीक गणपती पुजताले. नानाकाका चवथीक केन्नाच वळवय ये नासलो. नानाकाकाची चवथ हांगाच जाताली. चवथीचे पुर्व तयारे पासून विसर्जना पर्यंत सगळ्या कामांक नानाकाका उमेदीन माथें मारतालो. नानाकाकाक मुंबयत पयली चाकरी, आनी पयलो वेवसाय बाबा डांगीक लागून मेळ्ळो. ताणें हें रीण जल्म भर तकलेर सांबाळ्ळें. बाबाक ताणें सदांच शेठ म्हणूनच मानलो. आपलो आते भयणीचो घोव वा भावोजी हें नातें सदांच कडेक दवरलें. बाबा मुखार सदांच नम्र उबो रावलो. पूण तेत्यान मात नानाकाकाक सदांच भावाचे मायेन वागयलो.

चवथीक फक्त डांगी कुटुंबाचे सोयरेच न्हय तर जे जे गोंयकार ह्या कुटुंबाच्या संपर्कांत आयिल्ले अशे सगळेच पावताले. चवथ हो ह्या घराचो गोंयकारांक एकठांय हाडपाचो उत्सव आसतालो म्हणल्यार अतिताय जावंची ना. मुंबय शिकूंक आशिल्ले, नोकरेक आशिल्ले, वेवसाय करपी जायते गोंयकार हे गजालीक साक्षी आसात.

ह्या लांब रूंद घरांत तेते आनी बाबा रावतालीं. तेत्याची आई, तिका व्हनी म्हणटाले. तीय रावताली दहिसराक. म्हाकां याद जाता ते प्रमाण ती कमरान मातशी बावगल्ली, हातान दांडो, णव वारी न्हेसप पूण धर्वेच, तकले वयल्यान पदर. तेतेंय णव वारीच न्हेंसतालें. चडशें जांबळ्या रंगाचें, रंगान सावळें, सभावान मायेस्त. कपलार घसघशीत कुकूम आनी आंगलोट्य घसघशीत. येतल्या वतल्याची बरीऽ सरबराय करतालें. गोंयच्यान कोणूय आयलो जाल्यार साडी, कपडो दिवन भोवमान करतालें. भायर सरतना हातांत मिठायेची कास दितालें. त्या तेंपार आयचे सारकी गोंयांत पावला कणकणी मिठाय मेळऽ नासली. बदामी हालवो, मैसुरपाक, माहिमचो हालवो,



पावतकूच मात म्हाकां दिसलें हातार नंबर बरयल्लो आसल्यार सुद्दां हांगां बस सोदून काडप कठीण. आमच्यो बशी आपल्यो बऱ्यो, राणी भाग्यवती, राणी रुपमती, पार्वती, रुक्मिणी.

सुतरफेणी असली मिठाय मुंबयच्यान येताली तीच व्हडवीकाय आसताली.

तेत्यान घरांतल्यो दोन कुडी नानाकाकाचें घर तयार जाय मेरेन ताका रावपाक दिल्ल्यो. हांव रमेशा बराबर मुंबय आयलों तो बद्द ह्या दहिसरच्या घरांत. रमेश सदांच एस. टी. न प्रवास करतालो. हांव पयलेच फावट एस. टी. त बसलों. हाचे पयलीं हांव बाबा बराबर मुंबय गेल्लों तो एक तर कोंकण सेवक बोटीन वा प्रायव्हेट बशीन. ही एस.टी. बस प्रत्येक डेपोंत रावत रावत वताली. डेपोंत पावतकूच थोडो वेळ ड्रायव्हर आनी कंडक्टर नाच जातालो.

रमेशान म्हज्या हातार बशीचो नंबर बरयल्लो. मुतूंक बी टेंवलो जाल्यार परत बशींत बसतना चुकून दुसरेच बशींत हांव बसत म्हणून ताणें म्हाकां धा फावटी शिटकायल्लो. बस डेपोंत पावतकूच एक एकदां पॅसेंजराक देंवोवन बस डिजल बी भरपाक वता अशें ताणें म्हाकां सांगिल्लें. डेपोंत पावतकूच सगळ्योच बशी सारक्योच दिसतात. पूण हांव सांडलों ना. दुसरे दिसा बॉम्बे सेंट्रल पावतकूच मात म्हजो आवरोच उडलो. शेंकड्यांनी बशी एक सारक्योच. हांगा

मुंबय सेंट्रलच्यान रमेशान म्हाकां लोकल ट्रेनीन दहिसराक हाडलो आनी नानाकाकाचे सुवादीन केलो. मुंबयचे गर्देच्या मानान दहिसर तशें शांत आसलें. चडशी येरादारी नासली. रस्ते बारीक बारीक. एकूच गाडी वचपाचे. भितरले रस्ते सगळे शिमिटाचे. तेत्यागेरच्यान स्टेशन पांच मिनटांचेर. स्टेशना भायर ल्हान ल्हान दुकानां आसलीं. थंय म्हाल्यार्चे शॉप, उसाच्या रोसाचें खळखळ करून चलपी मशीन असलीं बारीक सारीक दुकानां आसलीं. त्या दुकानां फाटल्यान हालींच एक सबंद वाटकुळीच अशी चार मजली इमारत बांदिल्ली. ते बिल्डिंगेंत नानाकाकान पीठ दळपाची चक्की घाल्ली आनी एका भैय्याक ती चलोवपाक दिल्ली.

स्टेशनार वचपाक येवपाक कोण कांयच विचारी नासलो. हे वटेनतले लोक ते वटेन आनी ते वटेनतले लोक हे वटेन स्टेशना वयल्यानूच यो वच करताले. पुर्वेक स्टेशना भायर सरतना वाटेर काण्णां चुन्नां विकूंक बायलां बसतालीं. पयस थोड्यो वसाहती आसल्यो. मातशें भायर येतकूच एक गणपतीचें देऊळ आसलें. ह्या देवळांतली गणपतीची मुर्त बाबान हाडिल्ली. आनी लागीं तशें

कांय नासले. फुडें एक भुतबंगलो आसा अशें आयकल्लें, पूण आमी केन्ना वचपाचें धाडस केलें ना. ह्या भुतबंगल्यांत सिनेमांचें शुटींग बी जातालें. पूण कोण रावऽ नासले.

हे सुटयेंत आमी दहिसर अक्षरशः माड्डून काडलें. तेन्ना तेत्याल्या घरा कडेन पावतकूच दावे वटेन उगतें मळ आसलें आनी थंयच्यान चलत वतकूच एक दोंगर लागतालो. दोंगरार काण्णां बी आसलीं. वयर भावना देवीचें देऊळ आसलें. देवळांत वतना सोपणां लागतालीं. तेत्याच्या घरा मुखार एक ल्हानशें दत्त मंदीर आसलें. आनी ताकाच तेंकून एक इस्त्रीवालो भैय्या रावतालो. ताच्या शेजाराक खैरी म्हण कुटूंब रावतालें. तो आकाशवाणीचेर काम करतालो. तितल्या सगळ्या वाठारांत तांगेर एकट्यागेरूच ब्लॅक एन्ड व्हायट टि.व्ही. आसलो. ताचेर दर शुक्रारा सांजेच्या सातांक छायागीत हो हिंदी सिनेमांतल्या पदांचो कार्यक्रम लागतालो. सगळ्यांनी जमनीर बसून पळोवपाचो. शेजारचे खूब लोक जमताले. कारण तेंच व्हडलें मनोरंजन तेन्ना. एक सिनेमा सुद्दां पळयतलो जाल्यार तेन्ना दहिसरच्यान लोक बोरिवली वताले. हांवें पयलो टि. व्ही. हांगा पळयलो. पूण थंय आमी गेल्ले तेत्याक आवड नासलें. तें आमकां धपकायतालें. बाबाक सांगपाचो भंय घालतालें. बाबाक सगळेच भिताले. भिताले म्हणचे परस मान दिताले. बाबाक हांवें केन्ना कोणाचेर तापलेलो पळयलोच ना.

तेत्याक एक पूत आनी दोन धुवो. सगळ्यांचीं लग्नां जाल्लीं. पूत गिरगांव रावतालो तर एक धूव अंधेरी आनी दुसरी वरळीक रावताली. सुटी पडटकूच सगळीं नातरां आज्या म्हऱ्यांत येतालीं. हांव मुंबय पावलो तेन्ना बिपिन, अजय, मिलिंद आनी मनोज सुटयेंत आजोळा आयिल्ले. आमी पांचूय जाण फाटले फुडले. लागी लागीं एकेच पिरायेचे. अजयाची भयण पुष्पा. पूण तें येवंक नासलें. म्हजी सामकी मजाच जाली. हरवें सोदतल्याक पिकिल्लें मेळ्ळें.

तेत्याचीं नातरां तेत्याक मोठी आई म्हणटालीं. पावाक मस्को लावन खावप हें हांव हांगां शिकलों. तो मेरेन हांव मस्को मारप म्हणजे कोणाची तोखणाय करप अशेंच समजतालों. केन्नाय बेकरे वयले पाव येतकूच सांजचे च्या क तेतें बटाटवडे आनी चटणी करतालें. हांव दोनूय कडेन! तेत्याचे रांदचे कुडींतल्यान घमघमीत वास सुटलो म्हणटकूच काकीक सांगून हांव दुसऱ्या अर्दान पावतालों. न्हिदपाकूय तेत्याच्याच नातरां बराबर.

म्हजी सख्खी आते हिराताई गोरेगांव रावताली. तिका एकूच पूत विनय. तोय म्हजेच पिरायेचो. हिराताईचें आनी तेत्याचें बरें जमतालें. दनपरां जेवतकूच वरांचीं वरां फोनार खबरी मारतालीं. हिराताई आत्र्या पयऱ्यान दहिसराकूय येतालें. भयणूय मेळटाली, भावागेरूय पावतालें. येतना विनय येतालो. आमी केन्ना ताकाय दवरून घेताले. आमची टीम कशी वाडटा ती पळयताले. पूण हिराताई विनयाक चड दीस दवरी नासलें. विनय ताचो सामको अपुरबायेचो एकलो एकसुरो पूत. हाता वयल्या फोडा सारके सांबाळटालें तें ताका.

बिपिन, मिलिंद, मनोज, अजय केन्ना म्हाकां पयसुल्ले कशे दिसलेच नात. आयजूय आमी साठी कडेन पावले तरी तितलेच लागीं आसात. केन्ना केन्ना भुरगेपणांतल्यो यादी काडून जीव धादोस करतात. दहिसरच्या ह्या घराचें नांव आसलें 'सत्य निवास'. तेत्याचें नांव सत्यभामा. घडये सत्यभामा वयल्यान बाबा डांगीन घराक 'सत्य निवास' नांव दवरलें आसतलें किंवा स्वतः सत्यवादी म्हणून 'सत्य निवास' आसत. पूण सत्याचो वास हे वास्तूंत आसलो हें सत्य खरें.

पयल्या माळ्यार शिसाणी कुटूंब रावतालें. तांच्या शेजराक आमच्या गांवचो इंजिनियर रमेश वेर्णेकार हांचो मामा वासुदेव रावतालो. शिसाणीलो संभव म्हजे परस दोन वर्सांनी व्हड. तोय आमच्या ह्या गँगांत सामिल जातालो. तीनसांजचो वेळ जालो म्हणटकूच आमी संभवागेर जमताले.

संभवागेर आमचो सिनेमा चलतालो. एक मोठे बॉक्स घेवन ताची एक कड कापून आमी ताका प्लास्टिकची पिशवी बसयल्ली. वर्तमानपत्रा वयलीं राजेश खन्ना, मुमताज, राज कपूर हांचीं चित्रां कापून तीं लांबचे लांब फितांचेर दसोवन आमी ताची फिल्म तयार केल्ली. ही फिल्म दोन बडयांक गुठलायल्ली. बॉक्साक दोनूय वटांनी दोन वयर आनी दोन सकयल बुराक करून त्यो बडयो त्या बुराकांनी धुकळील्ल्यो. एकटो बॅटरी घेवन चित्रांचेर पेटयतालो. एकटो ल्हवू ल्हवू बडी घुंवडावन चित्रां वयर काडटालो. चोपडेचीं पानां पिंजून तिकेटी आनी पयशे करताले. भायर एकटो तिकेटी विकतालो. एकटो दारार रावून तिकेटी चेक करतालो. मागीर सामको गुपाट

काळोख करून आमचो सिनेमा सुरू जातालो. संभवाची आई विमलताई केन्ना आमकां किटकीट करी नासली. ताचो बाबाय थंड. तो देवभक्त आसलो. थोडें थोडें भविष्य सांगतालो. आमचो सिनेमा मात चडसो सदांच आसतालो.

केन्ना केन्ना हांव काकी बरेबर बाजारांत वतालों. तेन्ना थंय ताडगोळे मेळटाले. मार्गा देगेक ताडगोळ्यांची रास पातळावन थंयूच ते सोलून दिताले. दिसपाक बारीक नाल्लांचे पेंडी सारके पोंस. ताका काळसर पांचव्या रंगाचे ताडगोळे. ते सोलतकूच भितर आडसराचे कातले भशेन लुसलुशीत गर. तोंडांत याल जाल्यार थंडगार. बुळूक बुळूक करून खावपाक सामकी मजा येताली. हांव काकी कडेन हट्ट करतालों. येतना सगळ्यांक ताडगोळे हाडटालों.

रातचो केन्नाय भायर मार्गार कुल्फीवालोय येतालो. असलें मार्गा वयलें खाण तेते आमकां खावपाक दिनासलें. बाबाक सांगपाचो भंय घालताले. पूण बाबा आठाचे ट्रेनीन येतालो तेन्ना आमी बाबाक हाडपाक स्टेशनार वताले. बाबा स्टेशना भायर खाड करपाक बसतालो आनी आमकां एक एक कटींग ग्लास उसाचो रोस मेळटालो. बाबा भितरलें भितर हांसत आमकां सांगतालो, ''मोठे आईक सांगू नाका आं!'' आमी तरी कित्याक सांगतले?

गर्देत वचपाक त्रास नाका म्हणून बाबा सदांच पयल्या वर्गान प्रवास करतालो. पूण तरी जावपाचें आसता तें चुकना. बाबा धवेंफुल्ल पुडवें न्हेसतालो. काळो कोट आनी माथ्याक काळी तोपी हें बाबाचें न्हेसप. हेंच न्हेसप बाबाक म्हारग पडलें. भाईंदरच्या लोकांक उदक मेळऽ नासलें. तांकां दहिसर, बोरिवलीचें उदक हाडपा खातीर पयल्या वर्गांत फुकट प्रवास करपाची सवलत आसली. अश्याच कांय लोकांचे धडपडी भितर बाबाक कोणें तरी धोंगसो मारलो आनी बाबाचो पांय पुडव्याक घुसपून बाबा पडलो. तरी नशीब बरें, फक्त खरचटपाचेर निभावलें. पूण बाबाक आठ दीस घरा न्हिंदचो पडलो. ना जाल्यार इतलें जाणटेपण जावन लेगीत बाबा केन्ना घरा रावऽ नासलो.

नानाकाका फक्त शुक्रारा घरा आसतालो. हरशीं तो जो सकाळीं वतालो तो बद्द आमी न्हिदपाच्या वेळार येतालो. सकाळीं आमी उठटाले तेन्ना तो दुकानार गेल्लो आसतालो. हे सुटयेंत हांव रमेशा बराबर एकटोच आयिल्लों. म्हणटकूच परत गोंयां वतलों जाल्यार म्हाकां वांगड जाय आसलो. आयला तो आसूं सुशेगाद अशें चिंतून पडये नानाकाकाय वांगड सोदी ना आसलो जावंये!

मुंबय येवन म्हयनो जावन गेल्लो. मदीं हांव गोरेगांव विनयागेर आठ दीस रावून आयलों. विनयाच्या आनान म्हाकां आरे कॉलनी, बोरिवलीचें नॅशनल पार्क, स्टेडियम दाखयलें. दादरचो बटाटवडा खावयलो, मलईदार लस्सी आनी पियुष पिवयली. मिलिंद मनोजाचे आई बाबान खूब माया केली. मिलिंदाची आई बेबीताई. बेबीताई आमकां अंधेरी आपल्यागेर येवन गेली. जुहू बीच, हरे कृष्णा हरे रामा मंदीर दाखयलें. बिपिनागेर गिरगांव गेले तेन्ना राणीची बाग, मत्स्यालय, चौपाटी पळयली. पूण मुंबयची खरी मजा दहिसरच्या सत्य निवासांत आसली. म्हाकां हांगाच्यान हालनूच दिसनासलें. आनी खरेंच म्हज्या मना सारकेंच जालें.

अकस्मात भारत भर रेल्वेचो संप जाहीर जालो. ८ मे १९७४ हो भारतीय रेल्वेच्या इतिहासांतलो विसरूंक न येवपा सारको दीस. भारतांत सगळे कडेन रेल्वे रुळार येवपाची थांबली. ह्या संपाचो लिडर जॉर्ज फर्नांडीस, उपरांत जनता पक्षाचें सरकार आयलें तेन्ना केंद्रिय रेल्वे मंत्री जालो. संप जाल्लो तेन्ना हांव बारा वर्सांचो. पूण म्हाकां घट्ट याद आसा. मुंबयची लोकल ट्रेन थांबली. आमी दुसऱ्या मजल्यार गॅलरींत बसून दिसभर रेल्वे मेजपाचो खेळ करताले तो बंद पडलो. मुंबयकारांचे हाल हाल जाले. लोक मेळटा तें वाहन घेवन प्रवास करपाक लागले. टॅक्सी, रिक्षा, बशी, एस. टी. बशी पावना जाल्यो. लोक पिकपी, ट्रकांचेर बसून प्रवास करूंक लागले. बाबा घराच उरलो. बेकरेंत वचप शक्यूच ना.

नानाकाका गिरगांव अडकलो. आठ दिसांनी गिरगांवच्यान दादर, दादरच्यान अंधेरी, अंधेरीच्यान बोरिवली असो वेगवेगळ्या गाडयांनी प्रवास करून निमाणो बोरिवलीच्यान रेल्वे लायनी वयल्यान चलत चलत दहिसर आयलो. कपडे पळोवपाचे नासले. परत दोन दिसांनी असोच फातर्पेच्यान गोंय लार्गी करीत दुकानार गेलो. काकीन तर ताका सांगलें, एक तर हांगाच राव, ना तर दुकानारूच राव. नानाकाकाचें दुकान ठाकूरद्वार नाक्यार सरस्वती निवास इमारतींत आसलें. तेच इमारतींत वयल्या माळयार नानाकाकाचो मित्र दोतोर मन्या कुलकर्णी रावतालो. नानाकाका तांगेर न्हिदूंक वचूंक लागलो. हो संप जवळ जवळ वीस दीस चलतालो. लोक त्रासांत आसले. पूण म्हजी हांगां मजा चलताली.

जितले दीस संप वाडत तितले दीस हांव मुंबयूच उरतलों हाची आतां म्हाकां खात्री जाल्ली. एके वटेन दिसतालें हो संप चालूच उरचो.

मदीं एकदां नानाकाका ट्रकार बसून आयिल्लो तेन्ना ताणे शुक्रारा आमकां सगळ्या भुरग्यांक रेल्वे लायनी वयल्यान चलत बोरीवली व्हेले. थंय आमी मुमताज आनी राजेश खन्नाचो नवो करकरीत *आपकी कसम* सिनेमा पळयलो. त्या सिनेमांतलें 'जय जय शिव शंकर कांटा लगे ना कंकर' हें पद लेगीत म्हाकां याद आसा. संपाच्याच काळांत काकीच्या भावाची कळव्याक मुंज थारली. मुंज घरचे घरा. पूण काकीच्या भावाची. काकी कशी चुकयतली? काकी म्हाकां घेवन भायर सरली. कितलो वेळ वाट पळोवन पळोवन कशी बशी रिक्षा मेळ्ळी. रिक्षान बोरिवली आयलीं. थंय स्टेशना भायल्यान एस.टी.क व्हडली लायन. दोन तीन एस. टी. भरून वतकूच एकदांची हाय हूय करीत एस. टी. त बसलीं आनी ठाण्याक पावलीं. ठाण्याच्यान परत रिक्षा करून कळवा गेलीं.

तेन्ना कळवा हो एक ल्हान गांव. स्टेशना वयल्यान भायर सरतकूच वाटेच्या दोनूय अर्दांनी शेतां लागतालीं. काकीचें कुळार स्टेशनाचे वाटेरूच आसलें. घरा सकयल काकीच्या भावाची लॉन्ड्री आसली. कळव्याक एक व्यायाम शाळा, शाळा आनी किरकोळ दुकानां सोडल्यार कांयच नासलें. बारीक सारीक गजालीं खातीर कळव्याचो पूल हुंपून ठाण्याकूच वच्चें पडटालें. काकीचो मदलो भाव भाऊ म्हाकां सद्दां सांजचो ठाण्याक पासयेक व्हरतालो आनी भेलपुरी, शेवपुरी, रगडा पॅटीस खावपाक दितालो. ताकाय भरपूर खावपाक आवडटालें. गांवांतले व्यायाम शाळेंत तोच सगळ्यांत व्हडलो पैलवान आसलो.

मुंज करून आठ दीस जाता म्हणसर संप सोंपलो एकदांचो.

संप सोंपतकूच काकी आनी हांव परत रेल्वेंत बसून दहिसर आयलीं. दहिसर यो जाल्यार म्हजी बांदेची आते भयण मंगल मुंबय आयिल्ली तिका काकान दवरून घेतिल्ली म्हाकां घरा वचपाक वांगड म्हणून. मंगला वांगडा म्हजी पोटली प्रायव्हेट बशीर आसा तशी गोंयां पावली. मंगल बांधा देंवलें. हांव पणजे पावतकूच एकटोच वळवयचे बशीर बसून घरा आयलों.



सावयवेरें-फोंडें. मो: ९४२०७६६७६९

ATTENTION
PUBLISHERS....

JOIN
THE CAMPAIGN
OF
PROMOTION
OF
GOAN BOOKS
THROUGH
INSTITUTIONS

www.granthabhiman.com



# म्हजी दुबयंतली शबय शबय



दिलीप बोरकार

*म्हाका सौंदर्य आवडटा.*
*बरें कितें दिसता काय पळोवप आनी*
*दिसलें जाल्यार तोखेवप हो म्हजो सभाव..!*
*पूण त्या पळोवपाक आपले सोयी प्रमाण*
*अर्थ लावन म्हज्या सौंदर्यासक्त सभावाक*
*लगाम घालप म्हळ्यार दुश्टपणाच जालो..!*
*असलीं दुश्टपणा करपी, दादल्यांच्या स्वातंत्र्याचेर*
*अतिक्रमण करपी बायलांक दुबयच्या राज्यांत*
*फटके बी मारपाची पद्दत ना हें हांव जाणा,*
*पूण खंयचे तरी राज्यांत असल्यांक*
*कान धरून उठाबश्यो*
*काडपाची ख्यास्त आसूंक*
*जाय आशिल्ली*

हांव दाबोळे आंतरराष्ट्रीय विमानतळा वयल्या एअर इंडियाचे फ्लायटींत बसलां. विदेशांत वचपी प्रवाशी केन्नाच विमानांत बसनात. ते 'फ्लायटीं'त बसतात. हालीं म्हाका एअर इंडियाचे फ्लायटीक फ्लायट म्हणपाक जिवार येता. तें विमानूच. एका काळार एअर इंडियाचो आब आशिल्लो.. तो येवकाराक राविल्लो मिशांचो महाराजा आनी मागीर त्या विमानांतल्यो त्यो हवाई सुंदरी! तेन्ना त्या काळार हवाई सुंदरी म्हळ्यार एअर होस्टेस जावपाक आकांताची सर्त लागताली. खरेंच सुंदरी आसताल्यो त्यो! तांचें तें साडयेंतलें व्यक्तीमत्व..! खरेंच आमच्या भारतीय पेहरावाचो अभिमान दिसपा सारको..! हांवें एअर इंडियांतल्यान पयलो प्रवास केल्लो १९७८ त गोंय ते मुंबय,फक्त पन्नास रुपयांत. तेन्ना विद्यार्थ्यांक सवलत आसताली. तेन्ना ह्यो हवाई सुंदरी पॅसेजींतल्यान वतना तांचे साडयेचो पदर लेगीत स्पर्शून गेल्यार आंगार मोरपिसां भोंवतालीं. आतांच्या हवाई सुंदरींचो देह पळयत जाल्यार सीटांचो 'सी' रो नाका सो दिसूंक लागता. तांचें योळपूच अशें आसता, तांकां त्या रो त बशिल्ल्या

प्रवाशांच्या भुजांची पर्वा नासता आनी आपल्या नितंबांचीय. ताका लागून आपणेंच आंग चोरून बसचें पडटा.

हांव म्हजें सीट भोवतेक वेळार जनेला कडेनूच घेतां. पूण म्हजी ही फ्लायट दुसऱ्यान बूक केल्ली. तातूंत बिरेस्ताराची सांजची सातांची गोवा दुबय डायरेक्ट फ्लायट म्हळ्यार चॉयस् नाशिल्लोच मेळटा ती घेवन मेकळों जाल्लों. दुबयच्या म्हज्या मित्रान पंकज नाडकर्णीन तीच फ्लायट बरी पडटा म्हणिल्लें. तो म्हाका विमानतळार व्हरपाक येवपाचो आशिल्लो.

आंतरराष्ट्रीय फ्लायट म्हणटकच तीन वरां आदीं पावपाक जायच अशें म्हणिल्लें. जेन्ना ते ङ्कजायचङ्क म्हणटात तेन्ना वचप बरें. म्हणटकच साडेतीन वरांचेरूच भायर सरलों. वाटेर आगशी पुलाचें काम चलता. ताका लागून एकेकदां थंयच दोन दोन वरां आडखळून उरतात. तें आनी टेन्शन नाका. आनी विमानतळार पावलों काय थंय हांगा थंय पासयो मारून आपशींच वेळ सरता. दोळ्यांक नवें नवें वेगळें वेगळें कितें ना कितें दिसता.

देशांत वा विदेशांत एकट्यानूच वचपाचो हो म्हजो पयलोच प्रसंग आशिल्लो. फाटलीं पंदरा वर्सां म्हजे वांगडा सखी आसताली. म्हजें बॅग भरपा पासून म्हज्यो सगळ्यो वस्तू घेवपाचें काम तीच करताली म्हणटकच हांव हुसक्या मेकळो आसतालों. तातूंत अभिमान दिसपा सारकें कांयच ना,एक प्रकारचें दुसऱ्याचेर निंबून रावपाचें ,आपलें स्वातंत्र्य दुसऱ्याचे किरवंटीक बांदपाचे भिके दुवाळे ते..! पूण ती गुलामी आवडपीय म्हजे सारके कांय लोक आसतात. ती गुलामीच मागीर आमी ग्लोरीफाय करतात. भगवान ओशो आशिल्लो जाल्यार म्हजेर कुटी घालतलो आशिल्लो..!

साडेचारांक विमानतळार पावलों तेन्ना सरळ चेकइन करपाक लायनींत रावलों.म्हजो बोर्डींग पास बी करपाक राविल्लों तेन्ना एक व्हडली ट्रॉली आनी तिचेर दोन तीन व्हडल्यो बॅगो घालून एक तरणीशी बायल म्हज्या लागीं आयली. ती किरिस्तांव म्हणपाचें तिच्या एकंदर भेसा वयल्यान कळटालें. हांव रांकेंत रावंक येतां आसतना ती म्हजे फाटल्यान आशिल्ली. म्हजेर नदर मारून ती दोनदां हांशिल्लीय बी. हांवें तिका तितले पुरतो रिस्पॉन्स


Happy Diwali



**V. P. Pai Bhale & Bros.**

Wholesale Paper and Stationary Merchants and Drawing Materials

M. G. Road, Panaji-Goa
Ph: 2223143





पंकज नाडकर्णी वांगडा लेखक

दिवन टाळिल्ली. हांव खरें म्हळ्यार एकटो आशिल्लों. सखीचोय भंय नाशिल्लो. सखी वांगडा आसतना म्हाका दोळ्यांक झापडां बांदचीं पडटालीं. बायलो ह्यो संशयी कित्याक आसतात काय..? काय तांकां दादल्यांच्या अंतर्मनांतल्यो गजाली कळटात काय..?

म्हाका सौंदर्य आवडटा. बरें किते दिसता काय पळोवप आनी दिसलें जाल्यार तोखेवप हो म्हजो सभाव..! पूण त्या पळोवपाक आपले सोयी प्रमाण अर्थ लावन म्हज्या सौंदर्यासक्त सभावाक लगाम यालप म्हळ्यार दुश्टपणाच जालो..! असलीं दुश्टपणा करपी, दादल्यांच्या स्वातंत्र्याचेर अतिक्रमण करपी बायलांक दुबयच्या राज्यांत फटके बी मारपाची पद्दत ना हें हांव जाणा, पूण खंयचे तरी राज्यांत असल्यांक कान धरून उठाबश्यो काडपाची ख्यास्त आसूंक जाय आशिल्ली म्हणटकच तांकां त्या राज्यांत भोंवडेक व्हरपांत मजा येवपाची असो एक खट्याळ विचार मर्दींच येवन गेल्या बगर रावलोना.

पूण आतां भंय तो नाशिल्लो. ते बायलेक पळोवन म्हाका हर्षा शेटयेची याद आयली. ताणेंय दुबयची भोंवडी केल्ली आनी ताणें दुबयचें प्रवास वर्णनूय बरयलां. तें विमानतळार अशेंच चेकइन करता आसतना ताच्या म्हऱ्यांत एक बायल मनीस येवन आपलें इल्लें सामान तुजे लगेजींत घालता काय विचारता. ताका थंयचे अधिकारी शिटकायतात,वळख देख नाशिल्ल्यांचें सामान आपले लगेजींत येवप धोक्याचें आसता म्हूण. तरी हर्षा तें येता. कित्याक ती गोंयकार बायल मनीस आनी तिचे एकलेचे तिकेटीचेर इतलें सामान वचूंक शकनाशिल्लें. पयशे भरचे पडपाचे गरजे भायर वो तें उडोवन वच्चें पडपाचें. अशे वेळार आपल्या नांवार एक बॅग व्हरपाक कांयच हरकत नासता. पूण हें जगूच आपले पुरतेंच पळोवपी जाल्ल्यान कोण कोणाक मजत करूंक तयार नासता. आनी जो कोण करूंक वता ताचे जर ग्रह सारके नासत जाल्यार ही ताचे पासत विकती पिडा थारूं येता...!

म्हाकाय केन्ना कोणाक ना म्हणूंक पुटवना. आनी ज्या कोणाक कसली गरज आसता तो अचूक म्हाकाच सोदीत येता. मागीर तें पयशे मागपा खातीर आसूं वो आनीक कसलेय मजती खातीर..! हय म्हजे कडेन पयशे मागतात वळखीचे तशेंच अनवळखीय आनी हांव तांकां दितांय बी..! तेन्ना म्हाकाय प्रस्न पडटा, आपूण जाका सोदतां तो होच म्हणपाचें हांकां कशें कळटा काय!

हांवें ते बायले कडेन परत एक खेप नदर मारली. तीय म्हाका पळयताली. हांवें दोळ्यांनीच तिका परत एकदां हयन्हयशी हडकिली आनी तिच्या बॅगांचेर नदर मारली. आमचे कितलेच आगशीकार दुबय शिर्वीशेक वताले. वतना ते घाल्ल्या कपड्यांनीच वताले. फकत थंय जेवण रांदपाक पुरुमेंताचें सामान तितलें व्हरताले. दोन वर्सांनी येतना मात कितल्योऽऽ बॅगो येवन येताले. मागीर मुंबय



इमिग्रेशना वेळार कस्टम तांकां कितले सतायताले,तांचे कडल्यान त्रिपल फाय शिगरेट पाकिटांचो कार्टन कसो एकल्यान फारायलो, मागीर दुसऱ्यान घडयाळी कश्यो काडून घेतल्यो आनी तिसऱ्यान बरीं बरीं टीशर्टां कशीं आपल्याक दवरलीं बी सामके रंगोवन सांगताले. इतलेंय आसून ते म्हाका एक रॉथमेन शिगरेट पाकीट, एक लक्स साबण आनी एक टीशर्ट दिताले तें पळोवन म्हजे वयलो तांचो मोग पळोवन म्हजें हळवें मन आनीकूय हळवें जातालें. मागीर हांव म्हजे स्कुटरी वयल्यान तांकां खंय खंय व्हरून तांच्या सांगात्यांनी आपल्या घरा दिवपा पासत दिल्लीं पार्सलां पावंक कोणा कोणागेर वतालों. ते पेत्रोलाच्या देशांतल्यान जोडून आयिल्ले कारणान म्हजी सेवा फुकट येना आशिल्ले. ते स्कुटरींतय पेट्रोल घालताले आनी वाटेर खंय तरी स्कुटर थारावंक लावन म्हाकाय पेत्रोल घालताले. ते तर दोन वर्सां त्या पेत्रोलाच्या देशांत काम करून ह्या पेत्रोलाक आशेल्लेच. म्हणटकच तांकां हांव व्हड मनान कंपनी दितालों.



पूण ही बायल दुबय वतना हीं येदीं व्हडलीं बॅगां कित्याक व्हरता तें कळनाशिल्लें. तातूंत आनी ती एकटीच आशिल्ली. एके बायल मनशेकडे इतलीं बॅगां..? नक्कीच तिजें वजन चड जाल्लें जावंक जाय आनी ती बोकडो सोदताली. शेवटाक ती म्हाका दोडलीच. हांव ज्या कावंटराचेर आशिल्लों ताच्या शेजारच्या कावंटरवाल्यान तिका आपयल्ली. म्हणटकच थंयचे थंय हांव तिका आतां सेवा दिवंक शकतालों.

“लगेज मायज जालें..?” हांवें हांसत विचारलें.



" च्ये ना. ज्युस्त आहा..आतां दुबोय थंडी पोडपाहा न्हू ? म्हूण पाराकोडें स्वेटर आनी कांबळी आहल्यो त्यो घेतल्याय..!" तिणें हांसत सांगलें.

इतले म्हणसर म्हजी बॅग कावंटरवाल्यान घेतली आनी हांव कुशीक रावलों. म्हज्यान वचूं येतालें जाय जाल्यार. पूण हांवूय एकटोच आशिल्लों,तीय एकटीच आशिल्ली आनी मुखेल म्हळयार तिचो हांसो आनी नदर लागोळी आशिल्ली. तिची कंपनी जर मेळ्ळी जाल्यार म्हजो प्रवास बरो वचपाचो. म्हाकाय कंपनी मेळपाची, आनी दाखय लिपय कित्याक करप..! म्हाका दादल्यां परस बायल मनशेचो सांगात प्रिय लागता. सगळ्याच दादल्यांक तो आसता पूण तातूंतले बरेच जाण ताकाक येवन गाडगो लिपयतात आनी सभ्यतायेचो मास्क चडयतात. हांव हे बाबतींत सामको मेकळो. दादलो जसो तुजो मित्र आसता तशी बायल मनीसूय आसूंक जाय. दोगांय कडेन तुजें वागप तितलेंच मेकळें आसूंक जाय. पूण पळयतल्यांची नदर..! ते नदरेक लागूनच मनीस कारण नासतना अती सभ्य जाता आनी दुभावाचो धनी जाता..! कारण नासतना चडांत चड दुभाव निर्माण करता!

ती आपलें काम जातकच म्हज्या म्हऱ्यांत आयली.

"सर,तूं बोरकार सर न्हू..? तूं कालांगूट डॉन बॉस्कोंत शिकयतालो न्हू फादर सालिसा इस्कलांतु..? तूं गुलाबांत आर्टीकल बा बरयता न्हू..?"

तिणें तेंच लागोळेपण मुखामळार हाडून एकाच बाराबर कितलेच प्रस्न विचारले.

तें कांदोळेचें. ताची भयण त्या पाद्रील्या स्कुलांत शिकताली. तेन्ना ती म्हाका मेळूंक आयिल्ली अशें ती म्हणटा. म्हाका तें स्टुडंटय याद जाय नाशिल्लें आनी हिचीय याद नाशिल्ली. तरीय वळख वाडोवन दुबय मेरेन ती तिगोवन दवरूंक हांव ' हां हय हय, याद जाली' अशें म्हणत आशिल्लों. ब्लडी हिपोक्रॅटस..! ना,म्हाका याद ना म्हणूं येतालें.. म्हाका सखीच वस्ताद..




चलता भोंवता आसतना
जिवितांत जे कितें प्रसंग
अणभवाक येतात तांचे कडेन
मिश्कील नदरेन पळोवन
तातूंतलो सुवर्णमध्य सोदप
ही रुपा कोसंबेची
खाशेलकाय.

खंयचोय विशय रुपा कोसंबे केन्नाच रुक्षपणान मांडिना ही ताची खासीयत म्हणुनूच 'पल्लू'तले ताचे सगळे लेख 'हटकें' आसतात...
जिणेंतलो चुरको लावपी अणभव व्यक्त करपी अप्रतिम सुंदर कवितांचें मोस्र म्हणल्यार 'उमळ' काव्यसंग्रह.
आपले संग्रहांत नासत जाल्याच चिटमिटे पडूं येतात..








तें लग्न जावन हणजुणा पाविल्लें. ताचो घोव आनी तें दोगांय दुबय काम करतालीं. पूण घोव बरो ना जाल्ल्यान ताची नोकरी गेल्ली आनी तो गोंयां आयिल्लो. तो गोंयांत रावन तांच्या भुरग्यांक पळयतालो आनी हें दुबय आपली नोकरी करतालें. वर्साक एकदां घरा येवन वतालें. आतां म्हयनो भर रावून तें परत वतालें. ताका दुबय 'गुलाब' वाचूंक मेळटालो आनी म्हजो फोटो पळोवन तें म्हाका वळखल्लें. हांव तोच काय आनीक कोण हाची तें सुलूस घेतालें आनी हांव तें लगेज दिवंक सोदता आसतलें अशें चिंतून ताका कूस मारतालों..हांवें म्हजोच धिक्कार केलो. ताका आनीक लागी वचूंक, 'गुलाबा वयलें म्हजें बरप आवडटा काय' म्हूण विचारूंक वतालों. हांव तोंड उगडपाक एक ताचेच पिरायेची वा ताचे परस मातशी ल्हान पिरायेची जीन पेन्ट आनी टी शर्ट घाल्ली बायल मनीस आयली. 'आगो तूं हिंगा आहा..? हांव तुका भायर सोदतां..! चोल या' अशें म्हणत म्हजेर एक नदर मारून तें म्हज्या वाचकाक म्हज्या म्हन्यांतल्यान ओडीत कशें घेवन गेलें. अशेंच जाता म्हजे बाबतींत देव दिता आनी देंवचार नाडटा..! जड पावलांनी हांवूय बोर्डींगे वाटेन चलूंक लागलों.

मागीर मात तें म्हाका पर्थून खंयच दिसलें ना. दुबय म्हजे पासत अनवळखी..अनवळखी सुवातेर वळखी आसप गरजेचें..पूण तें आनी ताची दुश्ट मैत्रिणूय विमानांत लेगीत दिसली ना.म्हजी नदर विमानांत चडपी दरेकाचेर भिरभिरताली. ह्या भिरभिरपा फाटलें आनीक एक कारण म्हळ्यार म्हज्या सीटा वयलीं दोन सीटां अजून मेकळीं आशिल्लीं. हांव म्हज्या डी सीटाचेर बसपा सोडून जनेला कडल्या ए सीटार बशिल्लों. कोणूय येता ताका पॅसेजीक तेंकून बसूंक आवडटा जाल्यार बसूं दी म्हूण..च्चे! नितंबांनी मसाज करून येवंक न्हय..! खूबशा प्रवाशांक मदींच आपल्या माथ्या वयल्या सामानांतलें कितें तरी जाय आसता,कोणाक विमान मळबांत आसतना बशींत उबे रावतात तशें रावपाचें आसता तर कोणाक परत परत वॉशरुमांत वचून येवपाचें आसता. हांव मात एक खेप सीट धरून बसलों काय सामकेंच अडलां जाल्यारूच उठटां. म्हाका हेर सहप्रवाशांक त्रास दिवपाक आवडना.





बाबडो कोण दोळे धांपून पडिल्लो आसता.ताका न्हिदूय लागल्या काय कितें तेंय कळना. दुसरो आपलो लॅपटॉप उगडून बसला..तिसरो त्याच विमानांतल्या फुडल्या सीटाच्या पाकिटांतलें मॅगझीन काडून आरतें परते चाळपाक दंग आसता...तेन्ना असल्या लोकांक त्रास दिवप म्हळयार पापूच..!म्हणटकच आतांय कोण येता तांकां तीं सीटां घेवन तांचेर उपकार करप आनी फ्लायट रातची जाल्ल्यान गोंयांत दिवे पेट्टात ते पळोवप आनी मागीर दुबय देंवतना दुबयचेंय पळोवप. मागीर कोणें कितले आनी कसले कसले दिवे लायल्यात हाची मनांतल्या मनांत तुळा करप..!अशेंय जावं येतालें ते सीट बूक जावंकूच नासूं ये वा जांणी केल्यांत ते कांय कारणाक येवंक पावले नात..जाताय केन्ना केन्ना..हांव कोरियाक वतना जेट एअर वेजांत म्हज्या लागच्या दुसऱ्या दोन सीटांचेर निमणे मेरेन कोणूच येवंक नाशिल्लो. एकदां मात पायलट बडबडलो तेन्ना व्होंवळी कशी पॅसेजींतल्यान पासय मारपी एके हवाई सुंदरीन त्या सीटाचेर बसकण मारिल्ली. बसताना तिणें म्हजेर हांसत्या मुखामळान नदर मारिल्ली. म्हाका तिच्या त्या हांसऱ्या ओंठा परस ओंठांक लायिल्लो लिपस्टीकाचो रंग आवडील्लो..कपड्यांक आनी आंगाक सामको सोबता तसलो खंयचो रंग हे तयार करतात काय..

ते हवाई सुंदरीच्या लिपस्टीकेच्या रंगाची आनी दक्षीण कोरियेची याद

मनांत घोळयत हांव जनेलांतल्यान भायर पळयतालों. साडे स जायत आयिल्लीं. सव्वा सातांची फ्लायट..म्हणटकच आतां रोखडींच दारां बंद जातलीं..मागीर हांव मळबांत...गोंयचेर नदर भोंवडायत..

“हॅलो हॅलो..”ठप ठप ठप!!

हांवें नदर घुंवडायली...म्हाका पळयत एकली खाप्रीण म्हाका ‘हॅलो हॅलो’ करताली. दरेका हॅलोचेर आपल्या हातांतल्या मॅगझिनाची सुरळी सीटाच्या हेड रेस्टाचेर मारताली.. खाप्रीण म्हळ्यार खऱ्यानीच खाप्रीण! वाटकुळोच तकलो, त्या तकल्यार काळ्या कुरळ्या केंसांक हय न्हय सो भांगरा रंग दिवन ताच्यो बारीक बारीक विणयो घाल्ल्यो. ताच्या तकल्याचे गोलायेवरींच ताचे दोळेय गोल गोल आशिल्ले,पोलेय फुगरे आनी गोल आनी भायर आयिल्ले जाडसर ओंठूय गोल गोल आनी ताणें

आपल्या कानांतूय बरींच व्हडलीं गोल गोल कानांतलीं घाल्लीं. तांचेर एक ल्हानशें किरा जोडपें बसूंक शकतालें. ताची छाती हिसपा भायर व्हड आशिल्ली आनी तांणें घाल्ल्या मळकट अशा काळसर रंग विटील्ल्या लूज टी शर्टांतल्यान ताच्या स्तनाची गोलाय नदरेक भरताली. स्तनभारान तें वाकलां अशें दिसतालें. ताच्या फाटल्यान आनीक एक चली उबें आशिल्लें. हाचे परस सामकेंच उरफाटें. गोरें पीठ्ठ म्हळ्यार ऑस्ट्रेलियन रंग, हांसतें मुखामळ. दोळेय हांसते आनी काळे, पिंगशा केंसांचो शेंडो, जटो जाल्लो. सामकें शिडशीडीत..चवळेचीं सांग कशी...तेंय म्हजे कडेन पळयतालें...

"सीट इज मायन, सीट इज मायन..विंडो सीट"

पाड पडूं..ही म्हस खंयच्यान आयली काय म्हाका पिडूंक..? स्त्रीदाक्षीण पाळत हांवें तिका हांसो दिलो..गरजे भायर नमळ जावन 'सॉरी सॉरी' करत 'वेल कम ,वेल कम' केलें..गरज नाशिल्ली खरें म्हळयार..मोन्यानी म्हज्या सीटाचेर सरकूं येतालें...पूण ..आसूं..सखी वांगडा आसल्यार अशें घडपाचें नाशिल्लें...भेंड वांकडें करी नासतना जाता तितलो स्टायलीश रावन हांव म्हज्या सीटार आयलों. खरें म्हळ्यार हांव सामको भायर येवन मागीरूच तांकां दोगांकूय भितर आमडूंक पळयतालों. तीच खरी रीत आसता. ना तर दोन सीटां मदल्यान तें अश्टवांकूड जावन भितर घुसप,पांयाचेर जोत्यांचो भार,तुज्या पांयांक शूज नासत आनी तांणी उंच टाचांचे सँडल घाल्ले आसत जाल्यार मागीर मेलोंच.! अशें करतना आनीक एक भंय आसता तो कंबराचो! प्रवासाक वचपाच्या हुसक्यान न्हीद सारकी जाल्ली नासता, टॉयलेटांत मना प्रमाणें जाल्लें नासता,अन्नूय सारकें पोटांत गेल्लें नासता आनी हाका लागून आमवात निर्मीती जाता. तोच वात जर वांकडें केल्ल्या भेंडाच्या खंयच्याय मणक्यांत घुसलो जाल्यार मागीर प्रवासाच्यो बोबो.



आवर्जून वाचावी अशी

# डॉ.श्री.गुरुदास भालचंद्र नाटेकर

यांची प्रकाशित पुस्तकें



















१) एक वादळ घोंगावताना (कादंबरिका, मराठी)
2) एक तुफान गरजता हुआ (कादंबरी,हिन्दी)
3) मॉड येता तेन्ना (कादंबरी,कोंकणी)
४) WHEN A STORM COMES ROARING (कादंबरी,इंग्रजी)
५) अंत:प्रेरणा (वैचारिक लेखसंग्रह)
६) गणेशपुरीतून....(वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
७) मनी आले ते....(वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
८) रणसांवट (नाटक,मराठी)
९) शब्द-संचित (वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
१०) दैव किती अविचारी (कादंबरी, मराठी)
११) कवितेच्या गावात (कादंबरी, मराठी)
१२) विचार-नामा (वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
१३) विचार-वैभव (लेखसंग्रह,मराठी)
१४) विचार-दूत (वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
१५) शब्द-वीणा (वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
१६) शब्द-शिल्प (वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)

आगामी पुस्तकें
१) व्हिजिटिंग कार्ड (नाटक,मराठी)
२) कथा त्या दोघांची (नाटक,मराठी)

फुडल्या सीटांक धरून कुले यश्टीत कसो हांव ए वयल्यान सी चेर आयलों. त्या खापुल्ल्याक मात्तूय पाशिर्येस नाशिल्लें. 'कुशीक राव, हांव भायर येतां' अशें ताका सांगपाची संद लेगीत तार्णे म्हाका दिली ना. हांव म्हज्या सीटाचेर पावले बराबर आपलें सीट आनीक कोणूय बळकायत ह्या भंयान कशें तार्णे आपूण वांकडें वांकडें जायत भितर घुसूंक आरंभ केलो. हांव भायर आयिल्लों जाल्यार कांय खिणांत तीं भितर सरून आरामांत बसूंक शकतालीं. पूण त्या खापुल्ल्याक कळप कशें..? हांव म्हजी तकली जाता तितली फाटीं हाडपाचो प्रयत्न करतालों. पूण एकॉनॉमिक क्लासांतल्या त्या प्रवासांत म्हजे कुडीचो खंयचोच भाग म्हजो उरप शक्यूच नाशिल्लो. तो रासवळ आनी एकॉनॉमिकल जाल्लो. ताका लागून हांव निशेध करूंकच शकनाशिल्लों. ताका जे तरेन भितर घुसूंक जाय ते तरेन परवानगी दिवन ओग्गी बसल्या बगर म्हाका दुसरो पर्याय नाशिल्लो. तें वांकडें जावन भितर सरतालें. पूण ताच्या वांकडें जावपांत मर्यादा आशिल्ली. ताचो तो वयर पासून सकयल मेरेनचो पुराय देह इतलो वांटकुळो वांटकुळो आनी भरीव आशिल्लो, तो वाकप शक्यूच नाशिल्लो. ताका म्हज्या पांयांची पर्वाच नाशिल्ली. काजू मळटना कळमेर कामगार माथ्या वयल्या एका दांड्याक वो दोरयेक पट्ट धरून त्या काजू मुट्ट्यांक जशे नाचिल्ल्या वरीं करीत आपल्या पांयांनी मस्तीतात तशें तें म्हजे पांय मस्तीतालें. म्हज्या पांयांत नायकेचे बारा हजारांचे शूज नाशिल्ले





जाल्यार नक्कीच तार्णे तांचो चोथो केला. हांवें थॅन्क्स टू नायके अशें मनांतल्या मनांत म्हणत ताका आपली करणी करपाक मेकळें सोडलें.

तें खापुल्लें यश्टत यश्टत शें मुखार गेलें. म्हाका म्हजी तकली फाटीं पेवंक सुवातच नाशिल्ली. ताचे ते तंबोऱ्या वरीं वांटकुळेच आकांताळे कुले तें म्हज्या नाकाक यश्टीत वतालें आनी हांव जिवाच्या आकांतान म्हजो श्वास रोखपा पासत धडपडटालों. तार्णे आपले कुले युटलावपा पासत म्हणा वो ताचें तें कुल्यांचें कितलेच किलो मांस चोंदपा पासत विलुदावरीं जें वस्त्र वापरिल्लें तें तार्णे खंयच्या शतमानांत धुल्लें काय असो प्रश्न निर्माण करपा इतले अवस्थेचेर आशिल्लें आनी तेंच म्हज्या मुखाक तें कुले मुखार धुकलतना घासतालें. तेय परिस्थितींत तार्णे म्हाका गोंयच्या दोन म्हान लोककवींची याद करून दिली. तें आपले कुले म्हज्या नाकाक यश्टीत मुखार वतना त्या घर्शणांतल्यान टींव टींव असो आवाज जाता असो म्हाका बेश्टोच भास जावंक

लागलो आनी 'तंबोऱ्याचेर टींव टींव करता वांस्वेलाचो पोर' ही मनोहर सरदेसाय हांच्या बालगितांतली एक ओळ तकलेंत टींव टींव करूंक लागली. तें खापुल्लें आपले कुले ताच्या त्या विन्डो सीटाचेर व्हरून आपटीता म्हणसर कोंकणींतलो दुसरो लोककवी रमेश वेळुस्कार काव्यगायन करूंक लागिल्लो....

खापुल्ल्यांचीं वोरशीं भोकां,तेन्ना जाल्लीं नाका नाका

आनी शीर शीर शीर नाम्रुबे आयज कित्या ओडटा म्हाका...

रमेश वेळुस्कारान खंयचे काळार आनी खंयचे अवस्थेंत ती कविता रचिल्ली कल्पना ना. तेन्ना ताका खापुल्ल्यांचीं वोरशीं भोकां नाका जाल्लीं आनी आयज म्हाका. तांणें म्हळयार ह्या खापुल्ल्यान तीं भोंकां ओडीत व्हरS म्हणसर बरोच वेळ म्हाका शिरशिरी हाडिल्ली.

तें खापुल्लें सुसेगाद आसन्स्थ जाल्या उपरांत ताचे वांगडचे ते चंवळी कशे सुंदरीचो सीटप्रवेश आरंभ जालो. खापुल्लें भितर सरतना हांव जितलो फाटीं सरूंक धडपडटालों तितलोच आतां मुखार सरूंक धडपडूंक लागलों. तसो खाशेलो प्रयत्न केलो ना आसलो तरी फाटीं सरचें अशें दिसलेंना. कोणाकूय दिसत हो म्हजो काळो धवो असो भेदभाव म्हणून हांव हो दोगांय मदीं फरक करून कृष्णवर्णीयाचो तिटकारो आनी श्वेतवर्णीयाक लागीं करतां. पूण म्हजो तो निखालूस उद्देश नाशिल्लो. तांणें म्हजेर अत्याचार केल्यात ते सोंसपाचे नाशिल्ले. इतलेंय करून तोंडार मात्तूय हांसो ना. तें जर ट्रेनींत आशिल्लें जाल्यार हांव ताका गांधीजीक उडयला तसो ट्रेनी भायर उडयतूय आशिल्लों, त्या उरफाटें ताची मैत्रीण आशिल्ली. तें नदर पडल्या बराबर हांसून गालाक खळी घालतालें.तांणें म्हाका गालार खळी घालीत परत एकदां स्मायल दिलें आनी म्हाका मात्तूय तेंकनासतना सहजपणान भितर सरून म्हजे

आकाशवाणी वयल्यान प्रसारीत जावपी **शिरीष लवंदे** हांच्या गितांनी मन भरना जाल्यार 'ओंठावयलीं गितां' ही तांच्या गितांची सीडी तुमच्या घरा आनी गाडयेंत आसप म्हणल्यार एक पर्वणी..



'ओंठावयलीं गितां'
आयकतना त्या गितांचें पुस्तक हातांत धरप हीय एक वेगळी खोस.. 'ओंठावयलीं गितां'
कलात्मकतायेचो एक आगळो वेगळो अविश्कार..











कुशीच्या सीटार अचळय बसलें. बसतना ताचो नाजूक गोरो गोरो हात हॅन्डरेस्टा वयल्या म्हज्या हातार पडलो. तांणें गालाक खळी घालीत, हांसत म्हाका सॉरी म्हळें. यू आर वेलकम अशें म्हणचें अशें म्हाका दिशिल्लें पूण कित्याचेरूय पडत म्हूण हांव हांसून ओगीच रावलों आनी म्हजें आंग हांव कुशीक काडून ताका चड स्पेस दितां अशें भासयत हांव चडांत चड ताका कसो लागीं वतलों हें पळयत सरकून बसलों.

तें वेवस्थीत बसपा खातीर फाटीं फुडें जालें आनी तशें करतना, मानेवयलें कसलें तरी वस्त्र काडटना तांणें म्हज्या भुजार आनी छातयेर लेगीत दोनदां आपलो कोपर मारलो आनी म्हाकाय ताचो कोपर आनी खळीय आवडली. म्हणटकच आतां म्हाका फुडलो प्रवास आंग चोरून करपाची गरज नाशिल्ली.

सव्वा सातांक टेक ऑफ जावपी ही एअर इंडियाची एआय ९९३ फ्लायट सव्वा आठांक यचके खायत हाल्ली. स्पीकरा वयल्यान मदीं मदीं वेगवेगळ्यो सुचना आनी मागीर दोन हवाई सुंदऱ्यांचो दारां खंय आसात, मास्क खंय आसा, सुरक्षा जॅकेट खंय आसा, बेल्ट कसो बांदप हाचीं प्रात्यक्षिकां आरंभ जालीं. तांची ती कसरत खरें म्हळ्यार मनभुलायणी आसूंक जाय आशिल्ली. खासा हवाई सुंदऱ्यो आपल्याक पळयात म्हूण प्रवाशांक सांगून, पदर सावरीत वा कंबराचे बावळे आनी साडी हांचे मदीं तो खोवन कथक केल्ले वरीं हातवारें करतात तें पळोवपाक म्हाका रस नाशिल्लो. म्हजो रस म्हज्या शेजराक बशिल्लो. जनेलांतल्यान भायर पळोवपाच्या निमतान हांव एक दोळो तिरसो करून ताका पळोवपाचो यत्न करतालों आनी म्हाका तें दिसतालेंय बी. पूण चड दिसतालें तें खापुल्लें. तें खापुल्लें जनेलाकडेन बसलां तरी जनेलांतल्यान भायर पळय नाशिल्लें. तें आपले इश्टीणीकूच पळयतालें. मदीं मदीं ताका आपले लागीं ओडटालें आनी थापटीतालें. ताच्या खांदार माजोड्डेचें काळींग कसो आपलो तकलो दवरतालें आनी ही चवळे सांग आपलो हातो कसो हात ताच्या बोडा वयल्यान भोंवडायतालें. तांचें एकंदर वागणें प्रेमिकांचें आशिल्लें. म्हाका तें मातशें असैमीक दिसलें आनी खापुल्लें ते चवळे सांगेक परतें परते आपले वटेन ओडटा तें पळोवन ताची तिडकय आयली.

वचूं काय नाका,रावूं काय उडूं..अशें कितलेच खेप करीत शेवटाक रन वे धरलो आनी धडधड करीत एकदाचें त्या विमानान मळबांत घालून येतलें. हांव तांच्या जनेलांतल्यान म्हळ्यार दावे वटेनच्या आनी मदीं मदीं उजवे वटेनच्या जनेलांचेर नदर मारून आमच्या गोंयच्या दिव्यांच्यो माळो आनी रोशणाय दिश्टी पडटा काय पळोवंक लागलों. पूण भोंवतेकांनी आपलें नाक जनेलाच्या हारशाक तेंकोवन सकयल पळोपाचो यत्न सुरू केल्लो. म्हणटकच हांवें दोळे बंद करून तकली हेडरेस्टाक तेंकयली.





कितलो वेळ असोच गेलो खबर ना. म्हाका मातशीं लकणय आयिल्ली जावंक जाय. म्हजे शेजाऱ्नीन, ते चवळे सांगेन म्हज्या हातार आपलो हात दवरून म्हाका अधिकारान सो उठयलो. म्हज्या शेजराक एक ट्रॉली घेवन हवाई सुंदरी उबी आशिल्ली आनी दुसरी एक हातांत कागदाचे ग्लास घेवन म्हाका पळयताली. हांवें नदरेनूच तिका किर्ते काय म्हूण विचारलें. तर म्हणूंक लागलें व्हिस्की. व्हिस्की म्हणटकच हांव मात्सो सारको बसलों. तिणें म्हज्या हातार कागदी कप दवरलें. असल्या कपांनी आनी व्हिस्की पिवपाची..तरी सांजवेळ..दुसरें आनीक कांय काम ना म्हणटकच घेवपाक हरकत नाशिल्ली. एअर इंडियाचे आंतरराष्ट्रीय फ्लायटींत व्हिस्की बरी आसता. फाटले खेप सिंगापूरच्यान येतना ब्लॅक लेबल आशिल्ली. अर्थात तेन्ना हांव एक्जीक्युटीव क्लासांत आशिल्लों. वांगडा सखी आशिल्ली.कुकी आशिल्लो. बरींऽऽ सोफाचेर आवांतार बसून आमचें हजारांनी फुटां वयल्यान मदिरापान चलतालें. सांगाताक काजू बियो बी आशिल्ल्यो. हांवें तेच अपेक्षेन कसली व्हिस्की काय विचारलें. तिणें अभिमानान टिचर्स म्हूण सांगलें. हांव नाका म्हणूंक वतालों,तितल्यांत म्हजे शेजाऱ्नीन आपल्याक व्हिस्की घेतली. खापुल्लेन कसलो तरी ज्यूस घेतलो. आतां मदिराक्षी मदिरा घेता आनी हांवें नाका म्हणप..जावं ती टिचर्स..बरो लार्ज सो पेग तिणें घालो. लार्ज काय त्या कपांत तो लार्ज दिसता काय..उदक घालून हांवें घोंट मारलो. शी..सामकें ॲसीड..घसोच न्हय आंतकडी लेगीत जळ्ळी. हांवें आनीक एक कप घेवन तातूंत ती व्हिस्की अर्द अर्द करून तातूंत उदक भरून एकेक घोंट घेवंक लागलों.म्हजे शेजाऱ्नीकूय ती कडक लगली आसूं येता. स्ट्रॉन्ग म्हणत तिणें ते व्हिस्कीचो नाद सोडलो. आपलें कप फुडल्या बोर्डाच्या कप होल्डराचेर दवरलें आनी म्हज्या कपा कडेन पळयत बोट दाखयत किर्ते तरी म्हणलें. म्हाका दिसलें तिका म्हजे हिस्कीचो घोंट बी घेवपाक जाय.हांवें कप उखल्ल्यार किर्ते, तो कागदाचो ग्लास गळटालो. हांवें हवाई सुंदरीक आपयली. ही सुंदरी तांचे मर्दी सगळ्यांत जाणटी आशिल्ली. म्हज्या पिकिल्ल्या केंसांक आनी खाडाक पळोवन हांवूय तिका आपले पिरायेचो दिसला आसूं येता.तिका ती सोबीत साडी न्हेसयल्या तिचे बदलाक जर णव वारी न्हेसयल्ली आनी माथ्यार भाज्जो पाटलो दिल्लो जाल्यार ती सहज बाजारांतल्या भाज्जेकाऱ्नीं वांगडा खपून वचपाची. तीं आई कलावती म्हजे मेरेन पावता म्हणसर कपांतली भोवतेक व्हिस्की गळून म्हजे पेन्टीचेर पडिल्ली.म्हजी शेजाऱ्न म्हाका आपले टिश्यू पेपर सप्लाय कराली.आई कलावतीन येवन परिस्थितीचें सर्वेक्षण केलें. म्हज्या हातांतलो गळको कप घेतलो दुसऱ्या पॅसेंजराचो उदका कप घेतलो आनी तातूंत म्हजो कप घालून संथ गतीन गेली. म्हजे लागीं दुसरो कप व्हिस्की आशिल्ल्यान हांवें ताचेरूच समाधान मानलें. पूण गळको कप घेवन गेल्ली आई कलावती आनी तिच्या सांगाताक आनीक एकली हातांत व्हिस्कीची बाटली घेवन आयली. आतां तिणें कपांत आनीक एर कप घालून कपाची हमी वाडयल्ली. म्हजे गळून गेल्ले व्हिस्कीची भरपाय करपाक तांची ही माण्णी आशिल्ली जावंक जाय.

( पान क्र.१०८ चेर पळयात )





# वण्टीक कान चिक्राक दोळे

फाटीं शेवण्यांचीं नांवां सोदतना म्हाका 'कुट्टुरें' नांवाचें एक शेवणें आसता म्हणून कळ्ळें. हें कुट्टुरें रानकोंबये परस मातशें ल्हान. कुकड कुळांतलें. मोरुय त्याच कुळांतलो. त्या कुट्टुऱ्याक खंय सदांच मोराची नक्षाय जाताली.



- हर्षा शेटये

भुरगेपणांत म्हाका कोणायलें उलोवप बारीकसाणेन आयकुपाची संवय आशिल्ली. हांव पांच-स वर्सांचें आशिल्लें तेन्नाची गजाल. हांव तेन्ना म्हज्या आजोळा सांखळे रावतालें. खंयूय आयकल्ली खबर तश्शा तश्शी येवन आजयेक सांगतालें. केन्नाय कोणाच्याय मुखार, कोण दुसरो मनीस आयकता बी हें येवजी नासतना सांगतालें. मागीर आजयेन म्हाका सांगचें, खंयचीय खबर अशी व्हडल्यान बी सांगिनात, वण्टी फाटल्यान उबो रावन कोणूय आयकूंक शकता. वण्टीक मगो कान आसतात. मागीर म्हाका शिटकावपाक तिणें म्हणचें, 'वण्टीक कान, चिक्राक दोळे.'

म्हज्या भुरगे मनाक दिसलें 'वण्टीक कान, चिखलाक दोळे'. मागीर केन्नाय आजयेन शिटकावपा खातीर वण्टीक म्हणचें, मागीर हांवें ओग्गी जावचें. तातुंतल्यान हांव सामकेंच शिटकावलें. तेन्नाच्यान आजून मेरेन म्हजे कडल्यान ह्या कानान आयकल्ली खबर त्या काना मेरेन केन्ना गेली ना. पूण आमचीं

कोंबातलीं घरां एके वण्टीचीं. दोशीं वटेन शेजाऱ्यांलीं घरां. तांगेर उलयल्लें आमगेर आयकूंक येवप. आमचीं घरचीं दारां सकाळीं स ते रातचीं अकरा मेरेन उगडीं. कोणूय खंयच्याय वेळार कोणागेरूय भितर सरप. रस्त्यार खेळपी भुरगें लेगीत तान लागतकीच भितर सरून चवकेर आंगणांत आशिल्ल्या नळाचें उदक पिवन वताले. असल्या वातावरणांत कोणेंय उलयल्ली खबर कोणायच्याय कानार पडूंक शकताली.

एकदां आमगेर वावर करपी बायल वाड्या वयल्या कोणाची तरी खबर व्हडल्या व्हडल्यान सांगपाक लागली. तीन्ना म्हजे माँ न म्हळें, ''आगे ल्हवू उलय. हांगा वण्टीक कान आनी चिक्राक दोळे आसतात.'' चाळीसेक वर्सां जालीं हे गजाली. तेन्ना म्हाका कळ्ळें, 'चिखलाक दोळे' न्ही तर, तें 'चिक्राक दोळे' म्हणून. मागीरूय केन्नाय माँ च्या तोंडांतल्यान आयकल्या ही म्हण. मागीर लग्न जावन ही म्हण आयकुपाचो प्रस्नूच आयलो ना. आतां माँ बी फ्लॅटांत रावतात आनी दोन दिसां खातीर आमगेर आयलीय जाल्यार आमी उलयल्लें आयकूंक थंय तिसरो मनीस नासता.

आतां इतल्या वर्सांनी ही म्हण येवजूवपाचें कारण म्हळ्यार कोरोना. ह्या लॉकडावनाच्या काळांत प्रा.अंजू साखरदांडे फेसबुकार दर दिसा ओपारी संबंदीत कांय चित्रां घालता. त्या चित्रां वयल्यान ओपार वळखप. सामको बरो उपक्रम. एक दीस ताणें वण्टीक तेंकून दोन कान आनी दोळो आशिल्लो एक चिक्र घालें. तें चित्र पळोवन झर्र करून म्हाका वण्टीक कान म्हणून शिटकावपी आजी याद जाली आनी बेगबेगीन हांवें कमेंट घालो. वण्टीक कान, चिक्राक दोळे. कमेंट वाचून अपर्णान विचारलें, 'चिक्राक दोळो' हाचो अर्थ कितें? म्हाकाच सारको खबर नाशिल्लो.

हांवें माँ क फोन केलो. तिका विचारलें अर्थ कितें काय म्हणून. तिवूय खोशी जाली. घडये तिका तिचें भुरगेंपण येवजलें जातलें. तिणें सांगलें वण्टी फाटल्यान उबे रावन, वण्टीक कान लावन कोणूय आमचें उलोवप आयकूंक शकता. तशेंच च्या पितना चिक्र दोळ्यां मुखार आसता आनी नदर सकयल आसता. पूण च्या पिताशी करून कोणूय तुजेर नदर दवरून आसपाक शकता. ते खातीर तूं खंयूय कोणाय कडेन उलयतना वा कसलेंय काम करतना थंय कोण ना अशें समजूंक जायना. सदांच सादूर आसपाक जाय.

वण्टीक कान ही म्हण खूब जाणांनी आयकल्या अशें सांगलें. पूण चिक्राक दोळे? सखारामबाब बोरकार आनी दोग तीग जाणां सोडल्यार कोणेंच आयकूंक नाशिल्ली. म्हजी आजी (माँ ची आवय) उतरा पावलाक म्हणीं, गितां, उमाणी तिच्या तोंडार आसतालीं. आनी दुसरी म्हजी बापोल आजी मावशीबाय. (बाबाची चुलती) ती म्हजे आजयेची सख्खी भयण. हिचे कडेन तर ओपारींचो सांठो. आतां हांव भुरगेपणांत हांचे कडल्यान आयकल्ल्यो एक एक म्हणी याद करपाक लागलें.

हांव लग्ना पयलीं रांदचे कुडींत चड कामां करपी न्ही. पूण पापड करप, लोणच्याच्यो आंबल्यो भरप, आंब्या हालवो करप, नेवऱ्यो करप, लाडू वळोवप हीं कामां हांव आवडीन करतालें. चवथीच्या दिसांनी दर दिसा लाडू, नेवऱ्यो बी करप जातालें. बेसन लाडू, पिठ्याचे लाडू बी वळून वळून मागीर पुरो जातालें. वाज येतालो. मागीर हांवें 'एका बराबर कितलें करतात गे तुमी. वाज येता.' म्हणचें. मागीर म्हाका मावशीबायन म्हणचें, ''तुजे आवयचो मगो, 'म्हारू आवयचो बांयटेर'. तिका थोड्यां भितर करपाक जमचोना.''

मागीर हांवें तिका विचारलें, ''म्हारू आवयचो बांयटेर म्हळ्यार कितें?'' तिणें सांगलें, ''म्हारू म्हणटच व्हड. मागीर ताचे आवयचो बांयटेर कितल्या व्हड प्रमाणांत आसतलो तें पळय.''

कितेंय खूब प्रमाणांत करतना ताची म्हारू आवयच्या बांयटेरा कडेन तुळा करप हाची म्हाका अप्रूप दिसलें.

अशाच अर्थाची आनीक एक म्हण मावशीबायच्या तोंडांत आसताली. नेवऱ्यो करतना पयलीं पातीं लाटतात मागीर तातूंत सांठो भरतात. कुशींतल्यो कडो चिन्नकांतल्यान कापतात. ह्यो कापिल्ल्यो कडो एकठांय करून त्यो पिठाचो आनीक एक गुळो जाता. तो धांपून दवरतात. कालयल्लें पीठ सोंपतकीच ह्या पिठाचीं पातीं लाट्टात. खूब वेळ नेवऱ्यो लाटतकीच हांवें परतें परतें 'सोंपलें गे पीठ? सोपलें गे पीठ?' म्हणून विचारचें.

तेन्ना माँ न म्हणचें, ''ना गो, मारुतीचें पुच्छ तें. तें वाढत आसता.''

मावशीबायन म्हणचें, ''आजयेलीं नातरां, बांयटीलीं बोतरां आनी म्हाळाच्या पिरांक अंत ना.'' कितल्यो समर्पक म्हणी ह्यो.

अशीच आनीक एक म्हण म्हजे आवयच्या तोंडांत आसता.



आजयेन म्हळें, "हय गो, आसतात थोडीं तशीं. वाणी बिलूची आनी करणी कोल्याची."

मडगांवचे आजयेल्या तोंडांत आनीक एक म्हण सदांच घोळटाली. 'मोर नाचता म्हणून कुट्टुरें नाचता.' तेन्ना हांवें कुट्टुरें म्हणून कितें हें तिका केन्नाच विचारलें ना. फाटीं शेवण्यांचीं नांवां सोदतना म्हाका 'कुट्टुरें' नांवाचें एक शेवणें आसता म्हणून कळ्ळें. हें कुट्टुरें रानकोंबये परस मातशें ल्हान. कुकड कुळांतलें. मोरूय त्याच कुळांतलो. त्या कुट्टुऱ्याक खंय सदांच मोराची नसाय जाताली. मोर बरोऽ नाचता आनी रानांतलीं सगळीं जनावरां मोराचो नाच पळोवपाक एकठांय जातात म्हणून. एक दीस मोर नाचता तें पळोवन कुट्टुरेंय नाचूंक लागलें. कुट्टुऱ्याचीं पिशेपणां पळोवन सगळ्यांनी थंय सावन कूस मारली खंय! इतल्या वर्सांनी म्हाका कुट्टुऱ्याचो अर्थ कळ्ळो आनी भुरगेपणांतली शेणिल्ली वस्त बी मेळटकीच पळय जी खोस जाता, तशें जालें. सुटयेंत आमी मावस भयणीं बी सगळीं आजोळा वतालीं. मागीर आमी आजयेक विचारप, 'तुका सगळ्यां भितर कोण आवडटा गे?' तिणें आमकां एक म्हण म्हणून दाखोवची, 'जशें म्हाका सोशें घारशें, तशें म्हाका फुलू देवरशें.' म्हळ्यार आपल्याक सगळींच नातरां सारकी. हाचे फाटली काणीय तिणें सांगची–

एके बायलेली एक धूव खंय गिरस्तांगेर दिल्ली. सोशें आनी घारशें ह्यो ते गिरेस्त धुवेल्यो चलयो. दुसरी धूव आमचे भशेन सर्व सादारण घराब्यांतली. फुलू आनी देवरशें ह्यो दुसरे

वायलांतल्यान कायलांत काडप. "तो मगो, वायलांतल्यान कायलांत काडपी. खूब हुशार, तें काम करतलोच." अशें हांवें खूब आयकलां. आतां हांवें मुद्दम तिका अर्थ विचारलो. तिणें सांगलें, "वायल म्हळ्यार रांदनीक वयले वटेन एक ल्हान बुराक आसतालो. ताचेर ल्हान आयदनांक बारीक उज्यार शिजपाक दवरताले आनी कायल म्हणटा ती मुखेल रांदनीर आसताली. हे रांदनींतल्यान वायला मेरेन धग वचपाक बीळ आसतालें. ते खातीर इल्ल्याश्या वायलांतल्यान ती वस्त कायलेंत पावोवपाचें काम तकलेन फीन आशिल्लो मनीस करूंक शकता असो ताचो अर्थ.

आमगेर जनें म्हणून एक बोरयेची बायल येताली. घडये ती फुलां विकपाक मडगांवां येताली जावये! ती एक दीस आपले जावेची खबर सांगताली. "म्हजी जाव गरजेक कामाक म्हाका आपयता. तुजें काम बरें म्हणून फुलयता. घश्टो हांवें करप आनी धुवेचे सोयरिकेक उलोवणी करपाक वतना मात भयणीक घेवन गेली. भयण गिरेस्त. 'चडूंक घोडो, देवूंक रेडो' म्हणटात तें फट न्हय!" जनें म्हणूंक लागलें.

धुवेल्यो चलयो. कोणेंय तिका खंयच्च्यो नाती आवडटात काय म्हणून विचारतकीच तिणें सांगचें खंय, 'जशें म्हाका सोशें घारशें, तशें म्हाका फुलू देवरशें.' आनीक एक म्हण तिच्या तोंडांत आसताली. तिणें कितेंय करपाक सांगलें आनी आमी हात काळे जातले, खाज येतली अशें कितेंय सांगतकीच तिणें म्हणचें, 'कांटे लागल्या बगर गोटे मेळनात.'

कुंवळ हो जिन्नस खूबश्या रांदचे कुडींनी तयार जाता. हरव्या कांद्याचो कुंवळ, कारात्याचो कुंवळ, बटाटाचो कुंवळ... सगळ्यांत सोपो आनी कमीत कमी जिन्नस वापरून केल्लो पदार्थ. हाचे वयल्यानूय आजी एक म्हण म्हणटाली. 'पळोवन कुंवळ, जमता भुतावळ.' कुंवळ हो शिवराक जेवणाक रूच हाडपी. तोंडाक लावपाक केल्लो एक नग. म्हाका खूब आवडटा. हे म्हणींत कुंवळाक 'पोटलो' ह्या अर्थान वापरला. कुंवळाक दिल्लो हो मान पळोवन म्हाका आमच्या जाण्टेल्यांची तोखणाय दिसली.

चिड्डो ही एक पावशी वनस्पत. श्रावण सोंपता म्हणसर चिड्डो फुलूंक लागता. गुलाबी, जांबळी, तांबडीं फुलां फुलतात. पावस सोंपता म्हणसर हीं झाडां सुकतात. हाचे वयल्यान 'चिड्ड्याचो कोर तीन दीस' ही म्हण आयल्या. कोणायचोय झेत अडेचो, थोड्याच तेपा पुरतो हें सांगपाक ती ही म्हण वापरताली. पूण चिड्ड्या वयली आनीक एक म्हण तिच्या तोंडांतल्यान हांवें आयकल्ली. केन्नाय तिची बापोल जाव माणिकबाय बी तिगेर येताली. येता म्हणसर वतां वतां करून उठताली. आजी तिका म्हणटाली, 'कितें गे, चिड्ड्याक घोडो बांदून आयल्या काय कितें?' चिड्डो म्हणटात तो वयल्या वयर किल्लून आयिल्लो रोपो. घोड्यान मातसो नेट लायल्यार हुमटून पडटलो असलो. त्या भंयान चिड्ड्याक घोडो बांदून आयिल्लो मनीस येता म्हणसर वचपाक उठतालो असो ताचो अर्थ.

'व्हडल्या घराचे पोकोळ वांशे', ही म्हण चडशी सगळ्यांनीच आयकल्या. केन्ना केन्नाय घर भायल्यान बरें व्हड दिसलें तरी भितरल्यान खांकनवाळ जाल्लें आसता. घडये घराक वाळटी लागून वांशे पोकोळ जाल्ले आसतात. घरधनी रिणांच्या वज्या खाला बुडिल्लो आसता. तेन्ना ही म्हण वापरतात. पूण आजी हाचो फुडलो भागूय म्हणटाली तो असो, 'व्हडल्या घराचे पोकोळ वांशे, वण्टी वयल्यान धांवतात सोंशे.' वयलें पांखें वचून वण्टी उगड्यो पडल्यात. वण्टी वयल्यान हुंदीर धांवपाक लागल्यात. अशा अर्थान हो फुडलो भाग वापरताली जावये.

'खावन पिवन गुळगुळीत, तेल लावन सुळसुळीत.' हिवूय म्हण हांवें तिचेच कडल्यान आयकल्या. रासवळ घराब्यांत असो एक मनीस आसतालो जो घरांतली कसलीच जापसालदारकी घेनाशिल्लो. पूण आयतो पानार येवन जेवपाक बसतालो. ताका कसलीच चिंता, हुस्को नाशिल्ल्यान तो सदांच तुकतुकीत दिसतालो. घरांतलें वायट, बरें कांयच आंगाक लावन घेनाशिल्ल्या मनशाक उद्देशून ती ही म्हण म्हणटाली.

खूब वर्सां पयलींची गजाल. आमच्या सोयऱ्यांल्या चल्याची सोयरीक जावन मोडिल्ली. आमकां लग्न थारलां तितलेंच खबर आशिल्लें. फुडली खबर नाशिल्ली. एक दीस सांखळे गेल्ले कडेन खबर आयली. 'लग्न केन्ना गे तांचें?'

'आगो तांचे वाशील बाकी पुज्य जाले'. सोयरीक मोडली ती. हें वाशील बाकी पुज्य म्हज्या आवयच्या तोंडांतल्यान खूब वेळां येता. खंयचोय वेव्हार सदां खातीर सोपयतात तेन्ना ही ओपार मारतात.

भुरगेंपणांत हांव दूद पिना आशिल्लें. पूण दूदफेणे म्हाका खूब आवडटाले. म्हजें आजोळा तेन्ना गायो आशिल्ल्यो. दूद चड उरलें जाल्यार आजी म्हाका रोखडीच दूदफेणे करून दिताली. आजयेन दूद आटोवपाक दवरलें रे दवरलें, हांव तिका 'जाले गे दूदफेण?' म्हूण विचारीत रावतालें. ती कितें गो, 'भागेबायेची आबोलीं? रोयता सर फुलूंक?' अशें तिणें म्हणचें. मागीर हालींच म्हळ्यार चार-पांच वर्सां पयलीं हांव म्हजे मावस भयणीगेर गेल्लें. ताचे मांयन ताका शिरो कर म्हणलें. 'करतां आं.' म्हणत तें भितर गेलें आनी पांच मिनटां भितर शिरो घेवन आयलें.

ताचे मांयन ताका विचारलें, 'कितें गो भागेबायची आबोली फुलता सर उलगलीं?' हांवें खंयचोय सुवाळो सोंपतकीच कोणूय पावता तेन्ना सगळे उलगतकीच आतां आयलां तूं? अशें म्हणटात तें आयकल्लें. जात्रा उलगली बी आयकल्लें. फुलां उलगलीं अशें आयकूंक नाशिल्लें. म्हाका अजाप दिसलें. मावस भयणीन मांयक सांगलें, 'रवो बी भाजून उदक तापयत दवरलेलें म्हणून शिरो रोखडोच जालो.' हांवें ताचे मांयक म्हणीचो अर्थ विचारलो.

तिणें सांगलें, 'भागेबाय म्हणून एक बायल आशिल्ली. सामकीच हुतहुती. एक दीस तिणें आबोल्याची ताळी

रोयली.ताळयेक पयलींच आबोलीं फुलिल्लीं आशिल्लीं. हिणें ते ताळयेक बी उदक घातलें. आबोलीं मातशीं टवटवीत शीं जालीं. ही सामकी भुल्लुसली, 'आबोलीं फुल्लीं, आबोलीं फुल्लीं' म्हणून बोवाळ मारीत घरच्यांक आपोवपाक धांवली. घरच्यांनी भायर येवन पळयलें जाल्यार आबोलीं बाविल्लीं. शिरो करता म्हणटां थंयच आसां. शिरो करून भायर घेवन सुद्दां आयलें म्हणून ही म्हण म्हणली.'

आतां अंजूबायन एके बायलेचें चित्र, फुलिल्लीं आबोलीं, निकतींच फुलिल्लीं आबोलीं, बाविल्लीं आबोलीं असलीं चित्रां घाल्लीं. मागीर जाप कळ्ळी. ह्यो दोनूय म्हणी एकेच म्हणीचे दोन भाग म्हणून. 'भागेबायलीं आबोलीं रोयता म्हणसर फुल्लीं आनी फुलता म्हणसर उलगलीं.'

भुरगेपणांत हांव आजोळा आसतना खूब वेळां म्हजो रांदपा वाडपाचो खेळ पातलावन रांदचे कुडींत वावुरपाक त्या खेळाची अडचण जाताली. 'आगो, मदींच शें पातलावन बसलां सगळें?' तिणें म्हाका म्हणचें.

'आगे म्हजें घर तें.'

'घर मगो तुजें मागीर पयस घेवन बस मदल्या सालांत.'

'आनशें बिराड, कोनशें घर' तिणें एक म्हण म्हणची.

आतां इतल्या वर्सांनी अंजूबायच्या ह्या ओपारींच्या उपक्रमा वयल्यान भुरगेंपणांत आयकल्ल्या ह्या ओपारींची याद जाली. पूण हें आनशें.. कोनशेचें प्रकरण कितें तें कशेंच कळना जालें. निमाणें सखारामबाब बोरकाराक विचारलें. ताणें सांगलें, 'बिराड सदांच कामाच्या लागीं आसता आनी घर पयस आसता' असो ताचो अर्थ. सूऽऽ जालें.

आतां ह्यो म्हणी म्हळ्यार आमच्या जाण्टेल्यांचे अणभवाचे बोल. आमची परंपरा. आमची संस्कृताय. आमचे फुडले पिळगे मेरेन पावंक जाय. आमचो मावस-मामे भावांचो एक वॉट्स ॲप ग्रूप आसा. सगळ्यांत ल्हान मामे भयण म्हजे परस वीस वर्सांनी ल्हान. ताणें आजी पळयल्या ती सामकी जाण्टी. घडये ह्यो म्हणीं तांणी तिचे कडल्यान केन्नाच आयकुना जावंये. तांचे खातीर मुद्दम त्यो ग्रुपार घाल्यो. तातूंतल्या एक दोग जाणांक तरी त्यो याद उरूंक म्हणून आनी आजयेले म्हणींचें दायज तिच्या पण्टुरां मेरेन पावूं म्हणून!



मडगांव-गोंय. मो: ९८५०५३०१५२





A Powerful Weapon for Knowledge

Paperback | Pages:756 | Price: ₹ 325/-
Pub No.:1527 | Size:15.5 x 23.5cms.
ISBN: 978-93-88429-94-8




RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji - Goa 403 001
Ph.: +91 832 222 0320 / 223 2177 Fax: +91 832 242 5205
Email : rajhaunsgoa@gmail.com I Website : www.rajhauns.com

2015, 2016, 2017, 2018 & 2019 editions are available on demand

# माँत द गिरी

सर्वांक एक फावट आमच्या स्कुलाचो स्कूल डे आसतालो. तातूंतच इनामां वांटप सुवाळोय आसतालो. हें गॅदरिंग चड करून जानेवारींत आसतालें. ह्या गॅदरिंगांत नाच, गाणीं आनी ऑपेरा आसताले. तें चड करून इंग्लिशींत जातालें. म्हत्वाचें म्हळ्यार ह्या नाटकां खातीर नेपथ्य बऱ्याच उंचेल्या पांवड्याचें आसतालें. ह्या ऑपेरांत विद्यार्थ्यां वांगडा टिचरीय वांटो घेतालीं. ह्या नाटकांची प्रॅक्टीस तीन म्हयने आदीं चलताली.



- प्रा. डॉ. वामन रा. नायक

**ल्हा**नपणा पासून घरांत घडपी संस्कार आमकां घडयत आसतात. बऱ्याच प्रमाणांत मागीर शाळेंत वतकूच शिक्षकांचो वांटो म्हत्वाचो आसता. देखून बरे शाळेंत प्रवेश घेवप म्हत्वाचें आसता. तेन्नाय आशिल्ल्यो आनी आतांय बरे शाळेंत प्रवेश मेळोवपाक खूब अडचणी आसतात. प्रवेश मेळटलोच म्हूण ठामपणान सांगूंक जायना. म्हजें मुळावें शिक्षण अर्दें मराठी आनी अर्दें पुर्तुगेज अशें जालां.

पुर्तुगेजांच्या शेकातळांतल्यान गोंय तेन्नाच मुक्त जाल्लें. पुर्तुगेजांच्या वेळार शाळांनी पुर्तुगेज शिकयताले. गोंय मुक्त जातकच कांय प्रोफेसर पयलीं पुर्तुगेजींत शिकयताले तांकां मराठी शिकोवंची पडली. देखुनूच मुळावें शिकप जाय ते तरेन जालें ना. मागीर मराठींतल्यान शिकपी भुरग्यांक इंग्लीश शाळेंत ॲडजस्ट जावपाक त्रास जावंक लागले.

मराठी चवथी पास जातकच एक वर्स हांव हडफडेच्या सेंट जोसेफ स्कुलांत शिकलों आनी सर्वेत माँत द गिरी स्कुलांत प्रवेश मेळचो म्हूण यत्न सुरू केले, १९६६ वर्सा. वयर दोंगरार वशिल्लें हें स्कूल गिरवड्या गांवांतलें म्हणूनच ताका माँत द गिरी म्हणटात.

शेजारचे दोन-तीन भुरगे माँत द गिरी स्कुलांत शिकताले. तांचे कडल्यान खबर येतली, स्कूल कशें कात आसा तें. इंग्लिशीचो दर्जो थंय बरोच वयर आसा म्हूण कळ्ळें.

स्कुलांत प्रवेश मेळपाक परिक्षा दिवची पडटाली, गणीत आनी इंग्लिशींतली. म्हजी हेडमास्तरा कडेन वळख जातकच ताणें आपल्या वांगडचे एके टिचरीक म्हजी प्रवेश परिक्षा येवंक सांगली. ते प्रमाण ते टिचरीन म्हाका गणिताचे कांय प्रस्न सोडोवपाक सांगले. तातूंत डेसिमलाचेर कांय प्रस्न आसले, सादे गुणाकाराचे. नव्या वातावरणांत हांव पुरपलों. म्हजें कशें जातलें हो भंय आसलो. तरीय आस्त सोडली ना. हांवें गडबडीन गुणाकार केलो. बेगीबेगीन आनी फाटींफुडें पळय नासतना उत्तराचो पेपर टिचरी कडेन दिलो. पूण जाय थंय पॉयंट घालपाक हांव विसरिल्लों. टिचर मुमुरख्यांनी हांसली. म्हजो गुणाकार बरोबर आसा पूण हांव पॉयंट घालपाक विसरलां हें तिणें म्हाका दाखोवन दिलें. हांवें नव्यान पॉयंट घालपाचो यत्न केलो पूण टिचरीन 'आतां आसूं' अशें म्हळें आनी हेडमास्तराक रिपोर्ट दिलो. कांय वेळान म्हाका ॲडमिशन मेळटलें अशें कळ्ळें आनी हांवें मनांत नव्या आव्हानांक फुडो करपाची तयारी केली. म्हज्या वांगडा म्हजो बापूय आसलो. म्हाकाय ॲडमिशन मेळटा हें कळटकच ताकाय बरें दिसलें.

त्या वेळार माँत द गिरी चल्यां खातीर स्कूल आसलें आनी चडशे गोंयचे आनी गोंयां भायले विद्यार्थी थंयच्या बोर्डिगांत रावताले. स्कूल सकाळीं ९ ते सांजचें ४.३० वरां मेरेन आसतालें. मदल्या वेळार जेवणाचो ब्रेक आसतालो. बरींच वर्सां हें स्कूल सकाळ-सांजवेळ चल्लें. मागीर सगळींच स्कुलां एकवेळचीं जालीं, तशें हेंवूय स्कूल एकवेळचें जालें.

सुरवेक स्कुलाक वतना जेवणाचो डबो येवन वच्चें पडटालें. आवय फांतोडेर उठून डबो करून दिताली. स्कूल बरे शिस्ती खातीर फामाद आसलें. शिस्त मागीर ती शिक्षणाची आसूं वा व्यायाम वा खेळा विशीं. थंयची शिस्त सगलेच बाबतींत कडक आसली. इंग्लीश माध्यमांत सगले विशय शिकयताले आनी लेखन आनी वक्तृत्व सर्तींत भाग घेवपाक बरेंच मार्गदर्शन करताले. त्या वेळार सर्वेत आमचे क्लास टिचर आसले पी. एस. जोसेफ . म्हजी इंग्लीश सुरवेक बरी नासली. ते समजून घेताले. इंग्लिशींत आमी फाटीं आसात म्हूण सहानुभुती दाखयताले. स्कुलांत उपस्थिती अत्यावश्यक आसली. एकाद्रो दीस घरा रावलो जाल्यार पालकांनी कॅलेंडराचेर बरोवन नोट दिवचो पडटालो. दरेका विशयाचे वेगळे शिक्षक आसले. भोवतेक अणभवी विद्यार्थ्यांक विशय समजला काय ना हाचेर तांचें विशेश लक्ष आसतालें. ते खातीर शिकोवन जातकच शिक्षक प्रस्न विचारताले. ते भायर वर्गपाठ आनी गृहपाठ हांच्यो वेगवेगळ्यो चोपड्यो आसताल्यो. थारावीक दिसांनी शिक्षक त्यो चोपड्यो तपासताले. चोपडी अपूर्ण आसल्यार ख्यास्त दिताले. ख्यास्तीच्या भंयान जायना, विद्यार्थी मन लावन अभ्यास करताले. इंग्लीश, गणीत, इतिहास, भुगोल, हिंदी असले विशय आसताले. ते भायर हस्तकला आनी पी. टी. खातीर वेगळे शिक्षक आसताले. तेन्ना तिमाही, स म्हयनाळी, णव म्हयनाळी आनी वर्सुकी अश्यो चार परिक्षा आसताल्यो.

स्कुलाचें वेवस्थापन फ्रांसिस्कन कॅपुचिन मायर पळयताले. ते पाद्री ब्रावन रोप घालताले. ते खऱ्या अर्थान डिवोटेड आनी कमिटेड टिचर आशिल्ले. कांय फादरांचीं नांवां आतां याद जायनांत. जे आमकां शिकयताले ते फादर आर्नोल्ड रिबेलो, टेरेन्स डिसोझा, पॅसिफीक मिनेझिस, जॉयल पिंटो आनी गॉडविन लोबो. ताणी आनी हेर शिक्षकांनी घेतिल्ल्या परिश्रमाक लागून तें गोंयचें एक बरें स्कूल म्हूण नामनेक पाविल्लें.

माँत द गिरी स्कुलाच्या शिक्षकां मदीं एक भूशण आशिल्लें तें म्हळ्यार स.थॉमस मेण्डोन्सा. ते सुकूर रावताले आनी सुरवेक सायकलीन स्कुलांत येताले. तांचो विशय आशिल्लो फ्रेंच. णववी, धावी आनी इकरावींत ते फ्रेंच शिकयताले. तशें पळोवंक गेल्यार फ्रेंच हो बोरींग विशय. कारण तातूंत अणकार करपाचो आसतालो आनी व्याकरणूय आसतालें. थॉमस सर इतले बरे शिकयताले की त्या विशयांत सगळे पास जाताले. तांची शिकोवपाची पद्दतूच बरी आसली. सप्तकांत दोनदां ते गृहपाठ दिताले - सोमारा आनी बिरेस्तारा.

आमच्या वेळार वर्गांत ४५ ते ४९ भुरगे आसताले आनी तांचो गृहपाठ वेगान तपासप हें सोपें काम नासलें. ते भायर ते ०.५० वा ०.२५ अशेय मार्क दिताले, प्रस्नाक. पूण तांचे बेरजींत केन्ना चूक जाल्ली आमी आयकूंक ना. ते भायर ज्या दिसा ते गृहपाठ दितात त्या दिसा मॉनिटरान स्टाफ रुमांत वचून भुरग्यांच्यो चोपड्यो हाडपाच्यो. गृहपाठाची दुरुस्ती सर दिताले आनी फुडलो गृहपाठ दिताले. गृहपाठ तपासतना केन्नाच चूक जाय नासली आनी थारायिल्ल्या दिसा ते गृहपाठ

दिताले. इतले शिस्तबद्ध टिचर हांवें पळोवंक ना. गृहपाठ दितना ते पयलींच्या बोर्डाचे पेपर सोल्व करपाक दिताले. वीस-पंचवीस वर्सांच्या पेपरांतले व्याकरणा वयले प्रस्न सोडयिल्ल्यान वर्सुकी बोर्डाचे परिक्षेंत विद्यार्थ्यांक एकदम बरे मार्क मेळटाले. धड्याचे अणकार करतना ते निव्वळ उतरांचो अणकार करिनासले जाल्यार तो संदर्भ येवन इतिहासांतल्यो, चालू घडणुको/संदर्भ दिताले. असोच संदर्भ दिवन भुरग्यांचे प्रार्थने विशीं सांगतना तांणी गुड्डी फिल्मा बद्दल सांगिल्लें आनी 'हम को मन की शक्ती देना' हें पद तांकां आवडटालें. तें कित्याक तें तांणी सविस्तर सांगिल्लें. ते भायर ते विद्यार्थी पार्लमेंट आनी व्हॉयस ऑफ मौंत हें न्यूजलेटर काडपाक मजत करताले.

मौंत द गिरी स्कुलाचें खाशेलपण म्हळ्यार थंय विद्यार्थ्यांचो सगल्या आंगांनी विकास जावपाचेर भर दिताले. थंय बरें इन्फ्रास्ट्रक्चर आसा. एकाच वेळार एक हजार विद्यार्थी बसूंक शकतात इतलो व्हडलो हॉल आसा. बोर्डिंग आशिल्ल्यान ताचे परस व्हड हॉल बोर्डिंग म्हण वापरताले. क्लासरूम बरो प्रशस्त आसलो. फॅनाची चडशी गरज नासली. कारण तें स्कूल दोंगराचेर आसा आनी चारूय वटांनी थंय थंड वारें येतालें.

स्कुलांत फुटबॉल, हॉकी, बॅडमिंटन कोर्ट अशीं वेगवेगळीं मैदानां आसात. स्विमींग पूलय आसा.

सर्गेस्त विल्सन पायस हेर भुरग्यां वांगडा टेबल टॅनिस खेळटाले. ते टेबल टॅनिस कोच आसले आनी बरे शिक्षकूय आसले. ते खेळप्याक शॉट मारपाक बॉल उंच करून दिताले आनी आपूण ते सहजपणान परत करताले. हें पळोवपाक भुरग्यांची गर्दी जाताली, मदल्या वेळा वयल्या ब्रेकांत. स. पायस हे फकत खेळांतूच बरे आशिल्ले अशें न्हय जाल्यार ते एक बरे शिक्षकूय आसले. ते भुरग्यां कडल्यान अभ्यासूय करून घेताले. मागीर ते विशय फ्रेंच, भुगोल वा विज्ञान आसूं. तांच्या विशयांत सगले भुरगे पास जाताले.

सातवेचो आमचो क्लास टिचर आशिल्लो मार्शल रोद्रीगीश. तो आमकां दोन विशय शिकयतालो, गणीत आनी विज्ञान. देखून ताचो तास परत परत आसतालो. ताका भुरगे भियेताले. तिडक आयल्यार तो आपले पॅण्टीचो बॅल्ट काडटा अशी ताची नामना आशिल्ली. त्या वेळार शिक्षकान मारल्यार समाज समजून घेतालो. स्कुलांतले फादरूय मस्ती करपी भुरग्यांक बेतकाठयेन मारताले वा दिमयेर रावपाक सांगताले. स्कुलांत तेन्ना खाशेल्यो बेतकाठयो आसताल्यो. वर्गांत टिचर शिकयतना वा वर्गा भायर कोणेय मस्ती केली जाल्यार सर मॉनिटराक ऑफिसांत वचून बेतकाठी हाड म्हणून सांगताले आनी मस्ती करपी भुरग्याच्या हातार वा कुल्यार ती मारताले.



सप्तकांतलो एक पिरियड सीए (कल्चरल एक्टीव्हीटी) म्हळ्यार सांस्कृतीक कार्यावळीं खातीर राखून दवरिल्लो आसतालो. सुरवेक ह्या पिरियडाक कसलेंय पद म्हणून सांगल्यार विद्यार्थी फार्टीफुडें जाताले पूण एकदां कोणे सुरवात केली जाल्यार मात आमकां तो पिरियड पावनासलो.

णववेंत आसतनाची गजाल. आमच्या वर्गांत एक विद्यार्थी आसलो. तो गिरवड्यां रावतालो. ताका ह्या पिरियडांत कोणेंय पद म्हण म्हणून सांगल्यार तो एका पांयार तयार आसतालो. तो चड करून आल्फ्रेड रोझाचीं पदा म्हणटालो. ताका ताळोय बरो आसलो. म्हणटालोय बरो. देखून ताका आमी नांवूच दवरिल्लें : आल्फ्रेड रोझ. शाळेंतलें शिक्षण सोंपतकच तो तियात्रांनी काम करूंक लागलो आनी एक बरो गायक म्हणून फामाद जालो. ताच्यो रिकोर्डी रेडिओचेर वाजताल्यो. आमी त्यो तान-भूक विसरून आपलेपणान आयकताले. हालींच म्हळ्यार २ जानेवारी २०१९ ह्या दिसा ताका लमरण आयलें. ताच्या मरणाची खबर पेपरार वाचली आनी त्याच खिणाक ताच्या गोड यादींनी दोळ्यांत दुकां दाटून आयलीं. तो आसलो मॅन विथ गोल्डन व्हॉयस फ्रांसिस्को ब्रिंजेल म्हळ्यारूच सगल्यांच्या मोगाचो यंग चिको.

पाचवी ते सातवी मेरेन सप्तकांतले दोन दीस आमकां चित्रकला आसताली. ब्रदर बिटालीस हे हो वर्ग घेताले. ते एक बरे चित्रकार आसले आनी तांणी काडिल्ले कांय फोटे स्कुलांतल्या कांय वर्गांनी लायिल्ले. आमी तांच्या तासाची वाट पळयताले. तांचें उलोवप मातशें नाकयां आसतालें. ते हळडुव्या रंगाक येल्ल्यो कलर म्हणटाले. ते बरे शिकयताले. चित्रकलेच्या वेगवेगळ्या तरां विशीं आमकां सांगताले. म्हाका मात हो विशय सामको आवडनासलो. हांवें चित्रकलेची आवड निर्माण केलीच ना आनी म्हणूनच चित्रकलेच्या विशयांत हांव सदांच फेल जातालों. फकत फायनल एक्झामींत मात म्हाका ह्या विशयांत पासिंग मार्क पडटाले. शिक्षकाचो उपकारूच म्हणचो पडटलो.

मयेंकार सर हे आमचे पी. टी. टिचर आसले. तांणी आमकां लेझिमाचे वेगवेगळे प्रकार शिकयले. 'भारत माता की जय' ह्या नांवान सादर जावपी लेझिमाचो एक प्रकार त्या वेळार खूब गाजतालो. ते आमकां देशभक्तीचीं गितां म्हणपाक शिकयताले. एका वयर एक उबे रावन आमकां पिरेमिड करपाक शिकयताले. ते एक बरे पी. टी. टिचर आसले. हालींच तांची खेळां खात्यांत एका उंचेल्या पदार नेमणूक जाल्या अशें कानार पडलें. खूब बरें दिसलें. असले टिचर आमकां मेळप हें आमचें भाग्य.

आमकां हिंदी विशय शिकोवपी एक टिचर आशिल्लो. ताका हिंदी विशय शिकोवप खूब कठीण वतालो. रोचा सर आनी बारा सर आमकां हिंदी शिकयताले. ते दोगूय म्हाका खूब बरे करताले. शाळेचें शिक्षण सोंपतकच मात ते केन्नाच मेळ्ळे नात. हिंदींत ग काडपाक भुरगे चुकतात म्हणून एम. ॲन्थनी सरान आपली सत्री बोर्डार व्हेली आनी ग काडून दाखयलें. तेन्ना आमी सगळे सुमारा भायर हांसल्यात.

१५ ऑगस्ट, २६ जानेवारी, १९ डिसेंबर हे राष्ट्रीय दीस आमी स्कुलांत वेगवेगळ्या कार्यावळींनी मनयताले. गोंयचे मंत्री ह्या कार्यावळींक येताले आनी आपल्या भाशणांतल्यान ह्या दिसांचें म्हत्व सांगताले. आमच्यो कवायती पळोवन आमची तोखणायय करताले.

वर्साक एक फावट आमच्या स्कुलाचो स्कूल डे आसतालो. तातूंतच इनामां वांटप सुवाळोय आसतालो. हें गॅदरिंग चड करून जानेवारींत आसतालें. ह्या गॅदरिंगांत नाच, गाणीं आनी ऑपेरा आसताले. तें चड करून इंग्लिशींत जातालें. म्हत्वाचें म्हळ्यार ह्या नाटकां खातीर नेपथ्य बऱ्याच उंचेल्या पांवड्याचें आसतालें. ह्या ऑपेरांत विद्यार्थ्यां वांगडा टिचरीय वांटो घेतालीं. ह्या नाटकांची प्रॅक्टीस तीन म्हयने आदीं चलताली. त्या वेळार माँत द गिरी खेळामळारूय खूब मुखार आसलें. दिल्लींत जावपी सुब्रोतो कप फुटबॉल वस्तादपण सर्ती खातीर माँत द गिरी स्कुलान कितल्याश्याच फावटी गोंयचें प्रतिनिधीत्व केलां. हेर खेळांनीय हें स्कूल वस्ताद थारतालें.

ह्या स्कुलाच्या बोर्डिंगांत पांचश्यां वयर भुरगे आसताले. तांकां सांबाळप ही फकांडांची गजाल न्हय पूण थंयचे फादर हें काम एक मिशन म्हणून करताले. स्कुलांत भुरग्यांक शिकयताले आनी बोर्डिंगांत रावपी भुरग्यांची जतनायूय घेताले. आमकां फादर क्रिझोसत पुरंगनवाल विज्ञान शिकयताले. तांणी विज्ञान विशयाचेर कितलिशींच पुस्तकांय बरयल्यांत. ते बोर्डार बरीं बरीं चित्रांय काडटाले. त्या वेळार आल्फ्रेड वेलोझ सर भुगोल शिकयताले. ते आपले बीएसए मोटार सायकली वयल्यान स्कुलांत येताले. ती मोटार सायकल वेगळ्याच आकाराची आसली. आतां ह्यो मोटार सायकली चुकूनच दिश्टी पडटात.

वेलोझ सर ते मोटार सायकलीचेर वेगळेच पोझीन बसताले आनी तांची ती पोझ पळयतना आमकां मजा येताली. त्या वेळार कुरासिन्ह पिन्ह सर आमकां शिकयताले.

हांव १९७२ वर्सा एसएससी पास जालों. आयज हे गजालीक लागीं लागीं ५० वर्सां जाल्यांत. पूण त्यो यादी अजून ताज्यो आसात. कालूच जाल्ले भाशेन दिसतात. कांय नांवां विस्मृतींत शेणल्यांत. शाळेंत वांगडा शिकपी कांय वर्ग इश्ट आयज वेगवेगळ्या मळांनी वावुरतात. तातूंतल्यान कांय जाणांनी आपलें नांवूय जोडलां. त्या वेळा वयली जीण सामकी सादी आसली. कम्प्युटर ना, लॅपटॉप ना, मोबायल ना. घरांत आजो-आजी आनी शाळेंत इश्ट मेळ्ळे की जालें. आजयेच्या काणयांनी आनी इश्टां वांगडा खेळिल्ल्या खेळांनी आमचे दीस मर्जेंत वताले. शाळेंत टिचरींचो आनी घरांत जाण्टेल्यांचो धाक आसतालो. तांचे धेंगशेच आमकां पुरो जाताले. त्या धेंगश्यांच्या भंयान आमच्या मनाचेर बरे संस्कार घडले आनी काळजांत शिस्तीचे धडे रिगले. कप्युचीन फादर शिस्ती खातीर फामाद आसले आनी तांणी थारावन दिल्ले नेम हेर शिक्षक पाळटाले.

भुरग्यांच्या आंगांत नेतृत्वाचे गूण रुजचे म्हणून स्टुडण्ट पार्लमेंट आसताली. स्कुलांत दर पंदरा दिसांनी डिबेट जाताली. तांकां एक मॉडरेटर आसतालो तो भायल्यान येतालो.

पयसुल्ल्यान येवपी भुरगे बोर्डींगांत रावताले. लागीं म्हळ्यार गिरी, सुकूर, साळगांवां रावपी विद्यार्थी मात सदांच यो-वच करताले. आमी चौग जाण वांगडाच स्कुलांत वताले. एक म्हजो भाव, दुसरो सेबास्तियान वा बुदूस, तिसरो लुईस आनी चवथो हांव. चडशे आमी तिगूच आसताले. ते दोगूय णववेंत आनी हांव सवेंत. घरा कडल्यान मेन रोडार (साळगांव) पावपाक आमकां सुमार पंदरा मिण्टां लागतालीं. थंय आमकां साळगांवच्या हेर वाठारांतले विद्यार्थी मेळटाले. आमी सगळे मागीर शेतांतले वाटेन स्कुलांत वताले. मदीं एक सांकव लागतालो. त्या सांकवार थोडो वेळ आमी सुसेग घेताले. एक पांच-धा मिण्टां बसून मागीर स्कुलाचे वाटेन वताले. मदीं पावस पडल्यार मात आमची सामकी धांदळ जाताली. त्या सांकवा आयल्यान एक ल्हानसो व्हाळ आसलो. पावसांत हो व्हाळ भरतालो. त्या व्हाळांतल्यान आमकां पलतडीं वच्चें पडटालें. आमी एकामेकांचो हात धरून पलतडीं वताले. आमी पावसांत भिजचे न्हय म्हणून जतनाय घेताले. एक- दोग जाण केन्नाय मुद्दम भिजताले आनी मस्तेपणान सुटयेचो आनंद घेताले.

व्हाळांतल्यान मुखार वतकच शेत लागतालें. त्या शेतांतल्यान वतकच आमी दोंगरा कडेन पावताले आनी दोंगर चडून स्कुलांत पावताले. सकाळीं ज्युस्त णव वरांचेर असेम्ब्ली आसताली. केन्ना केन्नाय गुरूदेव रवींद्रनाथ टागोर हांची कविता आमी वर्गांत म्हणटाले.

जंय मन आसा भंयमुक्त
आनी तकली आसची उंच
जंय ज्ञान आसा मुक्त
जंय जग विभागूंक ना विभिन्न वांट्यांनी
संकुचीत वृत्तीच्या वण्टींनी

जंय उतरां प्रगट जातलीं सत्याचे सखोल घडणुकेंतल्यान, जंय अथक परिश्रम आपली वेंग पसरावन मुखार सरतली पुरायेकडेन. जंय विवेकाची पवित्र धार नकारात्मक विचारांच्या वाळवंटांत शेणून गेल्ली नासतली.

जंय मन स्वयंप्रेरीत जावन सदांकाळ प्रगतीशील विचार आनी आनी करणेचे दिकेन वाट काडीत आसतले. अश्या स्वतंत्रतायेच्या नंदनवनांत हे परमेश्वरा म्हजो देश जागृत जावं दी.

इतलीं वर्सां जालीं म्हजें शिकप जालें. हांव वेगवेगळ्या सुवातांनी गेलों, वेगवेगळ्या लोकांक मेळ्ळों. शिक्षणीक मळार बरोच अणभव घेतलो, घेत आसां, पूण मौंत द गिरीची सदांच याद येता. याद येतकच मन खंती जाता. भुरगेपणांतल्यो यादी उचांबळून वयर येतात. म्हजे वांगडा जांणी ह्या स्कुलांत शिक्षण घेतलें तांकांय घडये त्यो गोड यादी येतात आसतल्यो. आयज जिणेचे सांजवेळा शाळेंतल्यो त्यो म्होंव्यो यादी तकली वयर काडटात आनी म्हाका भुतकाळांत व्हरून सोडटात. आमच्या नशिबान आमकां सगळे शिक्षक बरे मेळ्ळे. तांचे विशीं कृतज्ञताय व्यक्त करतां.



पुणे. मो: ९५२७७४४९९०

# एका कवींचो सोद....

आमच्यांतल्या कांय कोंकणी भाशेच्या प्राध्यापकांक हें मान्य ना. 'कविता संग्रह आयलो जाल्यारूच तो कवी!' हो तांचो निकश. देखून परूळकारांची नोंद घेवपाची तांची तयारी दिसना. ही गोटवी नदर तांचेंच लुकसाण करता हें तांच्या लक्षांत येवंक ना. असल्या कामांक माथें मारून कश्ट उसपूंचे पडटात आनी तांची ही तयारी ना.



- सखाराम शेणवी बोरकार

शंकर दत्ताराम परुळकार ह्या कवीक हांवें केन्नाच पळोवंक ना. तांची कविता म्हजे मेरेन पावली तेन्ना ते ह्या संवसार सोडून गेल्ले. ताचे पयलींय कांय वर्सां तांणी कवितेंतल्यान निवृत्ती घेतिल्ली आनी लोकां कडचो संपर्कय तोडिल्लो. तांचो एकूय कविता संग्रह येवंक ना. पूण आयज मेरेन उजवाडाक आयिल्ल्या कोंकणींतल्या तीन प्रातिनिधीक काव्य संग्रहांत तांच्यो कविता आसपावल्यात. हाचे वयल्यान ते कोंकणी काव्य मळार कितले म्हत्वाचे कवी आसले तें समजून येता.

शंकर परुळकार हे कवी म्हाकां अकस्मात भेटले. तार्चे अशें जालें. 'राजहंस' प्रकाशन, पणजी, हांणी एस. डी. तेंडुलकार हांचें 'वालोर' (समिक्षा, वर्तमानपत्री नियाळ, आस्वाद बीन) नांवाचें एक पुस्तक उजवाडायिल्लें. वर्स आशिल्लें १९९८. तांतूत हांवें शंकर परुळकाराची 'धुमकेतू' ही कविता वाचली आनी तार्चे तेंडुलकारान केल्लें रसग्रहण वाचून हांव ह्या कवीच्या मोगांतच पडलों म्हळ्यार जाता.

ह्याच पुस्तकांत तेंडुलकाराचो 'शंकर परुळकारा विशीं दोन उतरां' हो लेख आसा आनी तांतूत 'हांव' ह्या शंकर परुळकाराचे कवितेचो आसपाव आसा. ह्या लेखा वरवीं परुळकाराचें व्यक्तिमत्व आनी सभाव गुणां विशीं खुबशें वाचूंक मेळ्ळें. परुळकार हांकां समिक्षेचीय बरी जाण आसली. शंकर परुळकारां विशीं त्या लेखांत तेंडुलकारबाब म्हणटात, शंकराक पळेलो कीं म्हाकां काफ्काचो उगडास येता. फोटू आनी शंकर हाका आमने सामने दवरून पळयत जाल्यार चेहरेपट्टींत तुमकां बरेंच साम्य दिसूं येता. पूण हें साम्य जालें ताच्या बाह्य रंगाचें. पूण अंतरंगांतूय शंकर बरोच काफ्काच्या लागीं येता अशें म्हजें मत. म्हजी ताचे वांगडा जितली तेंप आमिजाद उल्ली, त्या अणभवांतल्यान म्हजें हें मत जालां. काफ्का जसो बॅचलर आशिल्लो, तसोच आमचो शंकरूय पन्नाशी वलांडली तरीय बॅचलरच आसा. एकमुळेपणाचे पोकळेंत जसो काफ्का वावुरलो, तसो शंकरूय वावुरता. काफ्काक जसो आपलें साहित्य प्रसिध्द करपाचो उत्साह नासलो, तसो आमच्या शंकराकूय तो ना.

मोटकी आनी आंगानूय बारीक अशी ही म्हुर्त आनी आवाजूय बरोच किरकिरो. कोणाचेर छाप पडपा सारकें ताचें व्यक्तीमत्व नाशिल्लेंच. पूण हांव ह्या मनशा कडेन ओडलों तो ताच्या मुखावेलें एक 'काफ्काएस्क फ्रस्ट्रेशन' पळोवन.

तेंडुलकारबाब फुडें बरयतात, शंकराक आपल्यो कविता सिगरेटीच्या पाकिटांचेर, हॉटेलांच्या बिलांचेर बरोवपाची खूब संवय. शिवाय त्यो व्यवस्थीत ना दवरिल्ल्यान ते कवितेचे कागद जळीं मळीं पडटाले. ताच्या फ्लॅटार भितर सरलो कीं हेवटेन तेवटेन पडिल्ल्यो कविता सदांच दिसताल्यो. शंकर कविता बरयच नासलो तो साक्षात ती जगतालो. शंकराचे कवितेंत भावविवशता तुमकां दिसची ना. उलट एक प्रकारचो कोल्डनेस आनी अलिप्तताय जाणवतली.

शंकराचें शिक्षण-बिक्षण मुंबय जाल्ले कारणान मराठी साहित्यांतले दिलीप चित्रे, भालचंद्र नेमाडे , मनोहर ओक, गुरुनाथ धुरी हे सारके लेखक हांचेर तो जिव्हाळ्यान उलयतालो.

ह्या लेखांत तेंडुलकार हांणी उल्लेख केल्लें परुळकार हांचें 'कोंकणी' ह्या दिवाळी अंकांत (वर्स १९७८) 'कासऱ्या कानयेक बदना' ह्या नांवाच्या माथाळ्या खाला आयिल्लें मराठींतले नामनेचे लेखक वसंत सावंत हांची 'बैल' आनी कोंकणींतले नामनेचे साहित्यीक पुंडलीक नायक हांच्य 'बांगरबैल' ह्या कवितांचें तुलनात्मक समिक्षण केलां. तें हांवे आदीं वाचिल्लें आनी तें म्हाकां खूब आवडिल्लेंय बी. कोंकण दिवाळी अंकांत शंकर परुळकार हांच्यो कविता येताल्यो. पूण तांची कविता तेन्ना म्हाकां कशी आडनदर जाली हें म्हाकाच एक कुवाडें पडलें.

आयज मेरेन उजवाडाक आयिल्ले कोंकणीचे सगळे प्रातिनिधीक काव्य संग्रह म्हजे कडेन आसात. तातूंतल्यो परुळकारांच्यो सगळ्यो कविता हांवें बरोवन काडल्यो. आनी खंय खंय तांच्यो कविता मेळटात काय म्हण सोद येवंक लागलों. कवी र. वि. पंडीत हांणी आपल्या 'भगवती' प्रकाशनां वरवीं 'रत्नांहार'- भाग १ आनी 'रत्नांहार'- भाग २ (कोंकणी कवींच्या कवितांचे इंग्लिश अणकार) अशे दोन सुपुल्लेच कोंकणीचे प्रातिनिधीक काव्य संग्रह काडिल्ल्याची खबर म्हाक नामनेचे कोंकणी कवी माधव बोरकारान सांगली. तातूंत शंकर परुळकारांच्यो कविता आसात. हे संग्रह म्हाकां माधवबाबा कडल्यान पळोवंक मेळ्ळे. तातूंतल्यो परुळकाराच्यो कविता मात म्हजे कडेन आशिल्ल्यो.

परुळकारांच्यो कांय कविता 'रुतू' ह्या कविते खातीर ओंपिल्ल्या नेमाळ्यांत आयिल्ल्यो म्हणपाचीय खबर म्हाक माधवबाबांन सांगली. तांचे कडेन 'रुतु'चे बांयड केल्ले अंक आसले ते कोणें तरी व्हेले आनी हाडूनच दिले नांत. 'रुतू'चे आदले अंक कोणा कडेन आसात जाल्यार आतां पळोवंचे पडलें.

माधवबाबां कडेन उलयतना शंकर परुळकारांचे विशीं खूब गजाली कळ्ळ्यो. तांचो जल्म ९ जून १९३८ वसा जालो. पणजे- चिंबला तांचें मूळ घर. गोंय सुटके पयलीं १९६० अदमासाक ते मुंबय किर्ती कॉलेजींत बि.एससी. करताले. गोंय सुटके उप्रांत रोखडेच ते डिग्री घेवंचे पयलींच गोंयांत आयले आनी तांणी प्राथमिक शिक्षकाची नोकरी पत्करली. माधवबाबांव तांणी मेरशे हांगा एक वर्स शिकयलां. उप्रांत तांकां कस्टमांत नोकरी लागली. कस्टमांत ज्या सेक्शनांत ते काम करताले ताचे मुखेली नामनेचे कोंकणी कवी पांडुरंगबाब भांगी आसले हो एक योगायोग म्हळ्यार जाता.

जेन्ना ते मुंबय शिकपाक आसले तेन्ना तांचे

मराठींतल्या कांय नामनेच्या कवीं कडेन पयसुल्ल्यान कांय जायना संबद आयलो. मुंबय चलपी 'लिटल मॅगझीन' चळवळ तांणी लागींच्यान पळयिल्ली आनी तांचे कडेन 'लिटल मॅगझीन'चे कांय छापिल्ले आनी कांय चक्रमुद्रीत अंक आशिल्ले. ते अंक माधवबाबांकय बी पळोवंक मेळिल्ले. 'सत्यकथे'चो ते एक चिकित्सक वाचपी. नवो अंक येतगीर तातूंत आयिल्ल्या कवितांचेर ते चर्चा करताले. त्या काळांत दिलीप चित्रे हो तांचो आवडटो कवी.

१९६६ वर्सा सावन पणजेचें कोंकणी भाशा मंडळ २६ जानेराक एक काव्य सर्त यडोवन हाडटालें. हे सर्तींत पयलें इनाम जिखप्याक 'कविराज' हो पुरस्कार मेळटालो. हे सर्तीचे पयले मानकरी जावन आसले नामनेचे कोंकणी कवी मनोहरराय सरदेसाय. २६ जानेर १९६९ वर्सा जाल्ले काव्य सर्तींत नामनेचे कोंकणी कवी रमेश वेळुस्कार हांकां तो 'कविराज' पुरस्कार मेळिल्लो. ते सर्तींत शंकरान कविता वाचिल्ल्याची माधवबाबांक याद जाता. आदीं ते पणजे- चिंबला रावताले. मागीर ते परवरे करस्टमाच्या स्टाफ क्वार्टसांत रावपाक लागले. माधवबाब सांगतात ते प्रमाण तांकां तांणी पयलेच फावट पळयिल्ले आनी निमणे पावट पळयिल्ले तातूंत कांयच फरक नासलो. तांकां १९९८ वर्सा मार्च म्हयन्यांत दुखेस्त मरण आयलें.

माधवबाब फुडें सांगतात, १९७० च्या दसकांत पणजेचे कांय कोंकणी मोगी एकठांय येवन टि.बी. कुन्या हॉलांत दर बिरेस्तारा एक साहित्यीक कार्यावळ यडोवन हाडटाले. ताका शंकर परुळकार हाजेरी लायताले. थंय ते आपल्यो कविता वाचताले. मागीर ते परवरे रावपाक गेले आनी ते हे कार्यावळीक येवंक शकले नात.

प्रा. डॉ. बाळकृष्ण कानोळकार हे 'अपरांतक' म्हण एक कोंकणी - मराठी म्हयनाळें काडटाले. तातूंत तांणी शंकर परुळकारांचो कविता संग्रह काडपाची आस्त उक्तायलेली आनी परुळकारांची 'झाड' ही कविता उजवाडायिल्ली. कोणाय कडेन शंकर परुळकाराच्यो कविता आसल्यार आपल्याक धाडून दिवंच्यो म्हण तांणी वाचकांक उलो मारिल्लो. मागीर 'झाड' हे कवितेचें दिपक प्रभुदेसायान केल्लें आस्वादन उजवाडायिल्लें. हें आस्वादन मूळ मराठींत आसा आनीं तें म्हाकां तेंडुलकारान धाडून दिलें. उप्रांत 'अपरांतक' बंद पडलो आनी मागीर शंकर परुळकाराचे कविता संग्रह उजवाडावपाचें काम खंय पावलें ताचो मात पत्तो लागलो ना.

शंकर परुळकाराच्यो ज्यो कविता म्हजेकडेन आतां आसात त्यो एकठांय करपाक म्हाकां साबार वर्सां लागलीं. कितलींशींच नेमाळीं उस्ततगीर परुळकारांची एक कविता मेळप असो म्हजो प्रवास आसलो. तांणी साप्प थोडें बरयलां. कांय वर्सां आदीं 'सुनापरान्त' च्या 'पारजत' सदरांत गजानन जोग हांणी बरयिल्लो 'शंकर परुळकार -एक याद' हो लेख आयिल्लो तातूंत 'पांखा' हे परुळकारांचे कवितेचो इंग्लिशींतलो



अणकार आसा. अणकार तितलोसो प्रभावी जावंक ना ( हो अणकार थॉमस गे ह्या इंग्लिश कवीन केल्लो आनी तो र.वि.पंडीत हांणी संपादीत केल्ल्या रत्नांहार-भाग २ ह्या प्रातिनिधीक काव्यसंग्रहांत आसा अशें माधव बोरकारान म्हाकां मागीर सांगलें).

ह्या लेखांत नामनेचे लेखक़ गजानन जोग म्हणटात सादारण पांच फुटां वयर दोन इंच उंचाय. मध्यम आंगलोट, खाडके कडेन त्रिकोणी जावपी मुखामळ आनी शांतशी नदर. लांब हातांचो शर्ट हात दोडी नासतना घालपाची संवय. पॅन्टींत शर्ट खोवपाची संवय नासली. कपड्यांचो रंग असो कीं कोणायचीय नदर ओढून घेवपाचो ह्या मनश्याचो हेतू ना हें स्पश्ट जावंचें. कोणाचेय नदरेंत भरप, ते खातीर ल्हानशीच जावं कृती करप हें शंकराच्या तत्वांत बसऽनासलें. सर्वसादारण मनशा भशेन दिसतालोय बी तो! पूण ताचो आवाज! खास आपणालो असो-शंकरी कांप आशिल्लो तो आवाज विशिष्ट आसलो.

जोगबाब फुर्डे म्हणटात कृत्रीमपणांची ताका व्हड तिडक येताली. सहजता, सादेपण आनी नम्रताय ही ताच्या जगपाची नाट. ते भायर तो एकटुकेपणांत चड रमतालो. जिणेची अर्थशुन्यताय, विश्वाच्या वटट् व्यापांत मनीस आनी प्राणीमात्रांचें स्थान किर्ते? हें चल्लां तें कित्या खातीर? अंतीम सत्य खंयचें? हातूंतलो एक तरी प्रस्न ताका पडटालो जांवये.'

ह्या लेखा वरवीं परुळकारां विशींचे म्हजे म्हायतींत आनीकय थोडी भर पडली.

हांवें परुळकाराच्यो सुमार पस्तिशेक कविता एकठांय केल्यो. हालींच म्हाकां ताच्यो दोन कविता 'परमळ' ह्या सुहास दलाल हांच्या दिवाळी अंकांत मेळ्ळ्यो. (सुहासबाब कांय वर्सांच्या खंडा उप्रांत २०१८ सावन 'परमळ' दिवाळी अंक परत उजवाडायतात. हांवें तांचे कडेन परुळकाराच्यो आनीक कविता मेळत हे आशेन चवकशी केली. तांणी सांगलें, 'परमळ'चे बांयड केल्ले अंक एकटो घेवन गेला आनी ते परत करूंक नांत. )

अशींच कांय वर्सां गेलीं. पूण हो विशय हांव विसरूंक नासलों. उप्रांत कांय वर्सांनी आयतार १६ ऑक्टोबर २०१६ ह्या दिसा 'भांगरभूंय'त रमेश वेळुस्कार हांणी 'शंकर.... शंकर... परुळकार' हो शंकर परुळकारांचेर बरयिल्लो लेख वाचूंक मेळ्ळो. लेख सामको आशयपूर्ण आसलो आनी तातूंत परुळकारांच्यो 'पांखा' आनी 'झाड' ह्यो दोन कविता आसल्यो. ह्यो दोनय कविता म्हजे कडेन आसल्यो. ह्या वगतार म्हाकां तेंडुलकारान 'वालोर' ह्या तांच्या पुस्तकांत शंकरा वयल्या बरयिल्ल्या लेखाची याद जाली. आपणे शंकराक पयले पावट रमेश वेळुस्कारा बराबर पळयिल्ल्याचें तांणी त्या लेखांत म्हणिल्लें.

रमेशबाब म्हाकां आत्र्या पयऱ्यान फ़ोन करताले. जेन्ना हो लेख उजवाडाक आयलो तेन्ना रमेशबाब रायबरेली आसले. रायबरेली आसल्यार ते म्हाकां दर आयतारा फ़ोन करताले. तांकां थंय 'भांगरभूंय' मेळऽनासलो. 'भांगरभूंय'त आयिल्ल्या आपल्या साहित्या विशीं आनी हेर गजालींची वासपूस करताले. त्या आयतारा तांचो फ़ोन आयलो तेन्ना हांवें तांकां शंकर परुळकारांच्या कवितां विशीं विचारलें. शंकराच्यो कविता तांचे कडेन आसात आनी ते तांचो कविता संग्रह काडपाचो आशिल्ले म्हणपाची गजाल म्हाकां कळिल्ली. हांवें ते गजाली विशीं तांकां विचारलें. पूण रमेशबाबान तो विशय फाफडून उडयलो. परुळकारांचेर इतलो सुंदर लेख बरोवपी शंकराचे कविते विशीं विचारतगीर ओगी कित्याक रावलो तार्चे म्हाकां अजाप जालें. घडये आयज तो मुडांत नासलो जायत अशें म्हाकां दिसलें. फुर्डे केन्नाय फोन करून विचारतलों अशें हांवें चिंतलें. ताचे उप्रांत रमेशबाबाचे खुबदां फोन आयले पूण किर्ते म्हण कोण जाणां शंकराचे कवितां विशीं उलोवपाचेंच उरलें. आतां रमेशबाब आमच्यांत ना आनी ताचे कडल्यान शंकराच्यो कविता मेळपाची आस्तय विरगळ्ळी.

पोरूं 'भांगरभूंय'त 'शंकर, शंकर, शंकर' हो अशोक भोसल्याचो लेख वाचलो. तातूंत शंकरा विशीं उल्लेख आसलो. हांवें फोन करून अशोकबाबा कडेन शंकरा विशीं आनी ताचे कविते विशीं विचारलें. तांणीय म्हाकां शंकराच्यो कविता रमेशबाबा कडेन आसल्यो आनी तो ताचो संग्रह काडपाचो आशिल्लो म्हणपाचें सांगलें.

परतून हो विशय म्हजे तकलेंत घोळपाक लागलो. हांवें बद्द एस. डी. तेंडुलकारांक (काशिनाथ शांबा लोलयेंकार)



फोन केलो. २०१२ वर्सा तांच्या 'काव्यसुत्र' ह्या कविता संग्रहाक केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळटगीर परबीं दिवपाक हांवें तांकां फ़ोन केल्लो. ताचे उप्रांत बद्द आठ वर्सांनी तांकां केल्लो हो दुसरो फोन. शंकर एका काळावेले तांचे इश्ट. हांव शंकराच्यो कविता, शंकराचेर आयिल्ले लेख आनी तांच्यो कविता एकठांय करतां आनी तांचें पुस्तक काडपाचो म्हजो विचार आसा हें आयकून तांकां खूब खोस जाली. ह्या कामांत आदार म्हाकां करपाचें तांणी उतर दिलें. आपलो इश्ट दीपक प्रभुदेसाय जो शंकराचोय आमिग आसलो ताकाय फोन करून शंकरा विशीं चडावत म्हायती घेतां अशें म्हाकां ताणें सांगलें.

हांवें माधवबाबांकय फोन केलो आनी तांणीय ह्या कामांत म्हाकां उर्बा दिली. शंकराचो कविता संग्रह बेगिना बेगीन येवपाक जाय अशें म्हळें आनी शंकराच्यो कविता सोदपाच्या वावरांत आपूणय म्हाकां आदार करतां आनी तांच्या कांय कवितांचें समिक्षण करपाचें उतरय दिलें.

म्हाकां धाडिल्ल्या एका टिपणांत माधवबाब बोरकार म्हण्टात एकाद्रा कवीचो कविता संग्रह उजवाडाक येवंक ना म्हण ताका समिक्षेचे शिमे भायर दवरप हो तांचेर अन्याय न्हय? शंकर परुळकार हो कोंकणींतलो एक वेगळी वाट चलपी कवी. पूण ताच्यो कविता संग्रह रुपान येवंक नांत ही त्या कवीची आपल्या बरपावळी विशीं आशिल्ली अनास्था. तांच्यो कविता सोदून काडून तांचो संग्रह करपाचें कोणाचेय नदरेंत येना ही आमच्या प्रकाशकांची आनी कोंकणी संस्थांची चूक म्हणपाक जाय.

कविवर्य भा. रा तांबे हे मराठींतले म्हत्वाचे कवी हें समिक्षक मानूंक लागले तेन्ना तांच्या नांवार एकूय संग्रह नाशिल्लो. प्रो. मायदेव हांणी फुडाकार घेवन तांच्यो कविता एकठांय करून तांचो पयलो कविता संग्रह उजवाडाक हाडलो. भा. ल. पाटणकार हांचे रुपान बालकवींक एक बरो संपादक मेळ्ळो. पूण बालकवी संग्रहाच्या रुपान येवंचे पयलींच मराठी कवितेच्या मळार तांची कविता थीर जाल्ली हें लक्षांत घेवंक जाय.

पूण आमच्यांतल्या कांय कोंकणी भाशेच्या प्राध्यापकांक हें मान्य ना. 'कविता संग्रह आयलो जाल्यारूच तो कवी!' हो तांचो निकश. देखून परुळकारांची नोंद घेवपाची तांची तयारी दिसना. ही मोटवी नदर तांचेंच लुकसाण करता हें तांच्या लक्षांत येवंक ना. असल्या कामांक माथें मारून कश्ट उसपूंचे पडटात आनी तांची ही तयारी ना.

आयज मेरेन म्हजे कडेन शंकराच्यो पस्तिसां वयर कविता, तांच्यो दोन मराठी कविता, रमेश वेळुस्कार, गजानन जोग आनी अशोक भोंसलो हांचे शंकरा वयले लेख, एस. डी. तेंडुलकार हांचो शंकराचेर 'वालोर' पुस्तकांत आसपाविल्लो लेख आनी 'धुमकेतू' ह्या तांचे कवितेचें आस्वादन, दीपक प्रभुदेसाय हांचें शंकराच्या 'झाड' हे कवितेचें अपरांतांत आयिल्लें समिक्षण आनी शंकरान पुंडलीक नायकांच्या 'बांगरबैल' हे कवितेचेर बरयिल्लो आस्वाद अशें साहित्य एकठांय जालां. आनीक मातसो सोद घेतल्यार शंकराचें आनीकय साहित्य आनी कविता मेळूं येतात. म्हजो सोद चालूच आसा. कारण शंकर परुळकारांचे पद्दतीची कविता कोंकणींत साप्प उणी आसा. ह्या कामांत म्हाकां खूब जाणांचो आदार मेळटा. पूण हाका खंय तरी वेळाचें बंधन घालचें पडटलें. हांवें म्हाकां ह्या कामा खातीर आनीक स म्हयने दिल्यात. त्या वेळा भितर आनीक शंकरा वयलें साहित्य एकठांय जाल्यार जालें! ना जाल्यार आसा तें साहित्य घेवन पुस्तक काडचेंच पडटलें. आनी

हो सोद थांबोवचो पडटलो.

कोंकणींत कवितेंत आधुनिकताय हाडपी शंकर परुळकार आनी काशिनाथ शांबा लोलयेंकार हे दोन म्हत्वाचे कवी. शंकराच्यो कविता आमकां सत्तर, अयशीं आनी णव्वदाच्या दसकांत कोंकणी नेमाळ्यांनी वाचूंक मेळटाल्यो. आयचे पिळगेक तर शंकर परुळकारांचें नांव लेगीत खबर नासतलें. हो कवी सामको आड नदर जांवचे पयलीं तांचो कविता संग्रह येवपाकच जाय. त्या खातीर म्हाकां तांचो आनीकय सोद येवंचोच पडटलो...

हो लेख सोंपयतां शंकर परुळकार हांच्यो दोन कविता कोंकणी भाशेच्या आमच्या तरणाट्यां अभ्यासकां खातीर आनी वाचप्यां खातीर दवरतां.

## धुमकेतू

मनशान तारो जांवचो
गिरो जांवचो
नाजाल्यार धुमकेतू तरी जांवचो
अर्थ
तारोः सांगपाची गरज ना
गिरोः Reflection (समजलें आसतलें)
धुमकेतूः पांच मजली बिल्डिंगेवेल्यान उडी मारप
मांडवी पुलावेल्यान उडी मारप
चैतन्यान गंगेच्या उदकाक
निळो कृष्ण समजप,
तेका मेळपाक फुर्डे वचप
आनी नष्ट जावप

## 'हांव'

हांव, शंकर दत्ताराम परुळकार
म्हणजे हांव अजित वाडेकार न्हय.
म्हणजे हांव गौतम दिवाण न्हय.
वा डॉम मोराइस न्हय.
ह्युबर्ट रिबैरो न्हय, दिलीप चित्रे न्हय.
जयंत नारळीकार न्हय, सिल्वेस्टर डिसोजा लेगीत न्हय.
हांव एक सरकारी ऑफिसांत युडीसी.
म्हणजेच हांव भारतीय क्रिकेटचो कॅप्टन न्हय.
राष्ट्रिय टेबल टेनीस चॅम्पियन न्हय, कवी न्हय.
लेखक न्हय, चित्रकार न्हय.
पूण एक स्थापत्यशात्रज्ञ लेगीत न्हय.
आतां एक गजाल खरी
वाडेकार आनी हांव वांगडाच बी.एस.सीक बसले.
हॉलांत ताचो नंबर म्हजे कुशीक आसलो.
दिवाण आनी हांव एकाच वर्सा कॉलेजीक गेले.
डॉम मोराइस आनी रिबैरो हांचें मूळ गोंय.
चित्रे आनी हांव एकाच वर्सा जल्मल्ले.
नारळीकराचो आनी म्हजो विशय गणीत.
सिल्वेस्टर आनी हांवें दोन वर्सां एकाच बांकार काडलेलीं.
त्या दिसा रवीन म्हाका म्हळें:
ताचे आवयचो आनी इंग्लंडचे राणयेचो जल्म
एकाच दिसा जाल्लो.



पाजीफोंड-मडगांव. मोः ९९२३३०६७५



Guru's
BEAUTY SALON
for men 'n' women
TUESDAYS CLOSED
Mandovi Elite Bldg., Green Rosary Chapel,
Caranzalem, Goa Tel. 2461722 Mob. 9890421212

# नरकासूर





तीस वर्सा पयलींची गजाल. दसऱ्या पुनवेची देवाची वरंगां येवन गेल्या उपरांत आमी वाड्या वयले मित्र देवळांत जमा जालंव. आमकां सगल्यांकच नरकासुराचे वेध लागलले. दिवाळेक आतां फक्त पंधरा दीस उरलले. हे फावट सारकी तयारी, येवजण करून मोठ्ठो नरकासूर करपाचो आनी त्याका म्हापशाच्या नरकासूर स्पर्धेत भाग घेवपाचो आमचो बेत आसलो. त्या काळांत नरकासूर स्पर्धाय आमकां नवीनच आसली. फाटलीं कांय वर्सा आमी सगले मित्र मंडळी नरकासूर करून गांव भर नाचवपाचा काम करूं. गेल्या वर्सा म्हापशां नरकासुरांची स्पर्धा आसा, आनी त्याका मोठ्ठी बक्षिसां आसत असां पेपरार वाचलालां. आमचे पयकी कुणी तरी सांगलां म्हूण गेल्या वर्सा आमी आमचो नरकासूर मातादोर टेम्पोत घालून म्हापशां येवंन गेलंव. पूण थंयसर वचान आमचो हर्सोच जालो. केद्दे व्हडले ते नरकासूर, एक एक नरकासूर पंधरा वीस फुटांचो, म्हयां घालून आनी ते आवाज काडटत तां बघून आमकां दिपकावल्या सारक्या जालां. आमचो नरकासूर जेमतेम स फुटांचो, कोणाची तरी

तिगांय जाणत्यांनी मेळांन वेवस्थीत येवजण केली. सकाळीं खबर करतकच सगले वाडेकार हजर जाले. नरसूक वाड्या भायर काडलो खरो, पूण त्याचां मरण चुकवपाची कोणाचीच तयारी नसली, आमच्या वाडेकारांचा एक मात बरां आसा, कोणय मरंव, सगले झाडून येतत, आनी त्याका मरण जायत मेरेन कोणाच्याच घरा काय शिजाना ना.



- मिलींद म्हामल

पिजकीं पॅन्ट आनी शर्ट घालून, तेतून गवत भरून त्याका आमी तयार केल्लो. त्याका लागान तो सामकोच पोरकट जालो आनी आमचे आमकांच लज दिसपाक लागली. म्हुणान फुडल्या वर्सा बरोच मोठ्ठो नरकासूर करून म्हापर्शेचे स्पर्धेक व्हरपाचो आमचो बेत आसलो.

त्या दिसा जाल्ले आमचे बैठकींत रातचीं आठ वरां जाल्या उपरांत दिसा दीस देवळा कडेन जमपाचां आमचां ठरलां. संजू, राजू, नारायण, वसंत, रमेश, पेमलो, भास्कर, समीर, वासू, आनी मी मेळांन आमच्या धा जणांचो एक ग्रुपच तयार जालो. आमचे पयकीं कांय जण निकतेच कामांक लागल्या कारणान रातची वेळ सोयीची आसली. ल्हान भुरग्यांनी सगल्यांक फिरान नरकासुरा खातीर धा हजारांचो गल्लो मेळोवन दिलो. आमी नरकासुराक जायतां सामायन आनी फोग हाडलो. खास नरकासुरा खातीर वेल्डरा कडल्यान लोखणाचो सांगाडोय तयार केलो. त्याका गवत रेवंडावन त्याचा पॉट आनी हात पाय नीट केले. तेचेर कागद लावन ते गुळगुळीत केले. हळू हळू नरकासुरांत प्राण येवपाक लागलो. कागद फुगत घालून तेतून प्लास्टर ऑफ पॅरीस घालून म्हयां तयार केलां. फकत त्याका आतां रंग दिवपाचो आसलो. ह्यां सगलां करतां करतां दीस कशे गेले ते कळांकच ना. आतां एकच दीस शिल्लक उरललो. राती कडेन म्हयां रंगोवचां आनी उरलांला काम फाल्यां करून दोनपार ताकायत त्याका तयार करपाचां आमचां निश्चीत जाल्लां. रातचीं अकरा जाल्लीं. एका वरा पयलीं आजी उलो मारता म्हूण आपल्या घरा गेल्लो संजू परत इलो आनी म्हणपाक लागलो,

''घात जालो!''

''अरे कांय जालां?'' - आमच्या सगल्यांचो एकदम प्रस्न.

''काय जावचां तां जालां, नरसू मेलो.''

''कोण नरसू?, त्याका मेल्याक आयजच मरांक जायां आसलां?'' - राजूक सामकी तिडक इली.

''अरे मराचो आसलो तो मेलो, त्याका आतां काय करया?''. - वसंतान वातावरण थंड करपाचो यत्न केलो.

''तुका कसां कळलां तर?'' - जयवंताचो प्रस्न.

''आजी कित्याक तरी भायर इल्ली, तेणींच बघल्यान.''

''मगेर...''

''मगे काय,मी आनी आपान पाणी मारून बघलां,पूण कांयच उपेग ना, पडला थंयच मेला आसतलो!''

''खरोच मेलो मरे?, काय दोतराक हाडया.''- राजूचो आशावाद.

''मेलो तां कळटा, त्याका आनी दोतर कित्याक?''

''मगेर आतां काय करया?'' - पेमलो.

''काय तरी करूंक जायां आतां, तो थंयच पडान आसा, आपान तुमकां सगल्यांक आफोवन हाडपाक सांगल्यात.''

''आमी कित्याक?''

''आनी कोण व्हरतलो तर, एकटोच मरे तो, त्याच्या घरा आनी आसा कोण?''

''तेचो आनी आमचो काय संबंद? तो काय आमच्या वाड्यार आसलो?''- राजूक परतून तिडक इली.

''वाड्या भायर दवरललो म्हूण काय जालां?, शेजारी मरे आमचो तो, मड्याक आतां घरा भायर दवरया मरे?''

''तूं सांगतय तांय बरोबर आसा रे, भूत जालो जाल्यार आमच्याच माथ्यार बसतलो.''

''आतां काय करया?''

''पयलीं वचान थंय बघया, मगेर काय करूचां तां बघया.''

रातचीं बारां जाल्लीं, आमी नरकासुराक थंयच सांडलो आनी नरसुच्या खळ्यांत पावलंव. नरसुचां मडां तुळशी कडेन पडांन आसलां. नरसुगेर लायटय नसली, सगल्याक काळोख. संजूच्या आजयेन दोन पेत्र्यालाचे दिये पेटोवन दवरलले. लोका मेरेन आजून खबर पावांक नसली. फकत संजूचो आपा, आजी आनी आमी नरकासूर करपी हजर आसलंव. नरसुचां घर वाडेकारांनी वाड्या भायर दवरललां, म्हणजे समाजीक बहिश्कार घातललो. वाडेकारांनी तेचे बरोबरचे सगले संबंद तोडलले. तेचेगेर वचप म्हळ्यारय गुन्यांव करपा सारको. अशे परिस्थितींत काय निर्णय घेवपाचो कांयच कळां नासलां, तेतून आमी नरकासूर करपी सगले भुरगेच. शेवटाक संजूची आजीच म्हणपाक लागली, ''आतां आबाकच आफयात, वाड्याचो मुखेली न्हू तो, त्याकाच काय तो निर्णय घेवनी!''

मध्यान रातीचेर वचांन आबाक आफोवन हाडप म्हणजे आमचेर काळ इल्लो. गाळी मारून परतून धाडपाचो. पूण धीर करून आमी चार जण आबागेर गेलंव. आबाक उठयलो. आबान

सुरवातीक फाल्यां बयया म्हुणान आढेवेढे घेतले, पूण संजूच्या आजयेचां नांव सांगकत निमाणो इलो. इलो पूण देवळा कडेच येवंन उबो रावलो. नरसुच्या घरा कडेन कसोच येवपाक तयार नसलो. शेवटाक संजूची आजीच देवळा कडे इली आनी म्हणपाक लागली,

''आबा, आतां करतय काय, तसोच पडान रवानी मरे त्याका, मेलो तो आतां, तेची कर्मां तेचे बरोबर गेली, लोक हसतले आतां आमकां, जास्ती येवन बसां नका, त्याका घरांत व्हरान शेणार काडूंक जायो...!''

आबा वाड्या वयलो मुखेली कसो. वाड्यार लोक जमा जाल्यार मोठ्ठ्यान बोलपी, आनी आपलां तांच खरां करपी. आतां म्हातारो जालो तरी आजूनय त्याच्या शब्दाक मान आसा. कोणायचो न्याय निवाडो करपाचो आसा जाल्यार तोच निर्णय घेता. आनी सगले तां मान्य करतत. पंचवीस वर्सां पयलीं आबाचां आनी नरसुचां कसलां तरी झगडां जालां, कोणांक आजूनय सत्य काय तां खबर ना, पूण आबान सगल्या वाडेकारांक जमा करून तेचेर समाजीक बहिश्कार घातलो, म्हणजे त्याका वाड्या भायर दवरलो. त्या वेळे पसून आबा बरोबरचे सगल्यानी संबंद तोडले. नरसूक देवळानय प्रवेश नसलो. नरसू आसलोय तसोच. बलदंड!. तेणीय क्यांवाच कोणांक भीक घालूंक ना. सगल्यांच्या फुड्यांतल्यान देवळा कडल्यान वचा. देवाक पांयां पडा, पूण कोण तरी जाणटे दिसले तर तेंचे कडे बघून सदींच थुका. मरताना पंच्याहत्तर वर्साचो तरी आसतलो.

आबा वरामलो. हेरशीं तो राजा. पूण संजूचे आजयेक तो मान दिता. तिचां काय सांगलालां आयकता. ''आबा आतां काय करतय रे?'' असां परतून तिणें विचारल्या बरोबर तो म्हुणपाक लागलो,

''आतां काय तरी करूंकच जायां, तुकारामांक आनी पांडुरंगाक आफोवन हाडात. आपा त्याका आतां घरान व्हर आनी शेणार काड, कोणांक निरोप धाडूंक जायो जाल्यार धाड, घरा फाटल्यान तेचो आमो आसा, तेचीच काठयां करात, मी फाल्यां येवंन बयतंय काय करूचां तां.''

आबा सगली जबाबदारी संजूच्या आपाचेर दिवन आपल्या घरा गेलो. आमी तुकाराम आनी पांडुरंग काकाक वचांन उठयले. सगळे जण इल्या उपरांत संजूचे आजयेन गोठ्यांतलां शेण हाडून दिलां. आपान तां मधल्या सालांन सारयलां आनी तेचेर शेनरी घातली आनी एकदाचो नरसूक त्याच्या घरान व्हरान घातलो. तुकाराम काकान त्याच्या नाका तोंडान कापूस घातलो आनी आंगार एक चादर उडयली. पांडुरग काकान समय पेटयली, आनी आमी सगले नरसुचे पडयेन येवंन बसलंव. बायलां आपल्या घरा गेलीं. 'कोणीय चार जण रवात हैंसर, बाकीचे घरा वचा.' असां पांडुरंग काकान फर्मायलां. पूण आमी सगल्यांनीच थंय रवपाचो निर्णय घेतलो.

रातचीं दोन जाल्लीं. कडाक्याची थंडी. नरसुच्या घरा लायटय नसली. पेत्रालाच्या दियाचो तितक्या पुरतोच उजवाड दिसा. कुत्रीं भोकांक लागलीं. मदींच भालूय रडपाचो आवाज येवपाक लागलो. घराचे फाटले वाटेन आंब्यार बसान घुबाडय रडपाक लागलां. भयाण वातावरण. त्या काळोखांत सगल्यांनी जागे रवापाची गरज आसली. त्या काळार मडां राखूंचा म्हणजे खांवचां काम नसलां. संजुचो आपा, नारायण काका आनी पांडुरंग काकाचे खबरी आयकान तर घामच फुटपाक लागलो.

''हे गजीलीक जालीं आतां पन्नास वर्सां! तर्डे कारवारा गेल्लंय रे मी चिरपाक, आमच्या बिऱ्हाडाच्या शेजाऱ्याक कोण तरी मेलो. रातीं कडेन कोणी मड्या वयली चादरच हेली मरे पळोवन!''

''त्या वगतार भुतां कितकीं, असलां काय जालां काय नाचत मरे तीं, काय पळोवन व्हरतीत सांगपाक येयना!''

''समयचे वाती ताकायत दवरीनत ना, घरान मडां आसल्यार दारां बंद करपाक जायना, काळोखांत राखतलय तरी कसां मड्याक?''

दुसरे वाटेन आमचेय खबरी चालूच. नारायण मदींच खंय नाच्च जालो आनी परतून इलो तो मेलो येवनच इलो आनी म्हुणपाक लागलो,

''मेल्याक आयजच मरांक जाया आसलां, सगली उमेदच गेली मरे, फाल्या नरकासूर...!''

''मेल्या आयजच तो! उजवाडलां आतां. मातसो रवान कोमो रडतलो.''- राजू.

''मरंव रे तो, पूण पंधरा दीस नरकासूर करून फुकट व्हू आमी, म्हवां बींया रंगवचां उरलां मरे!''

''चल तर वचांन रंगय.''

''ह्या नरकासुराक सांडून?''



''मी तरी खंय बघला?, एक काम करात, त्या नायक वाड्या वयल्या शिवाक येवन वचात, त्याच्याच मावाड्या देगेक घर आसा खंय चेडवाचां!''

''आनीक कोणांक सांगतलय?''

''आनीक कोणांक सांगाचां, भयणी आसले ते मेले, कोणांक सांगपाचां आसात जाल्यार मगे जांवयाकच सांगानी, त्याका काय तां बघून येवनी, हंयसले गावांतले कोण आमीक आसात तर कळटकत येतले, ना म्हुटल्यार जातली ती आतां खबर सगल्याक, आनी वयतात ते धा जावच्या पयलीं परत येयात, फुडली तयारी करूंक जायी.''

''अरे, तुमचां काय तां मगेर बघात, पयली ह्याच्या मरणाचां बघात, तो आयजच मरपाचो आसलो त्याका आतां काय करतय, मरण तां, तां काय कोणांक सांगान येता? उजवाडलां आतां, कोणा कोणांक निरोप धाडूंक जाये, तुमकांच वचाचां पडतालां, कोणा कडेन मोटर सायकली आसत ते येवन वचात.''

पांडुरग काकान खडसायल्यान त्यांवा सगले वगीच बसले. आतां निरोप येवन कुणी कसां वचपाचां तेचेर विचार जावपाक लागलो. त्या काळांत कोणा कडेन फोनय नसले. सकाळीं उठान मोटर सायकल करून वचाचां पडा. थंय पावता आनी परतून येता म्हुणासर चार पांच वरां वचत.

''चेडवाक सांगान धाडया मरे आपा?''- तुकाराम काकान इचारलां.

''काल सकाळींच येवन गेल्लां तां, क्यांवा ना तां आमचे घरचो हुमरो चढान इलां, वांयरसां लक्ष दियात म्हूण सांगान गेल्लां.''

''खंय दिलां रे त्याका?''

''तडेन साखळे बिचोले खंय तरी आसा.''

''खंय तरी म्हूण गांव खंयचो रे?''

मोटर सायकलीन वचपाक आमीं राजूक तयार केलो, पेट्रोलाक लागतत ते पयशे तेणीं माजे कडल्यान हेले, आनी पयलीं नायकवाड्या वयल्या शिवाक सोदपाक गेलो. तिगांय जाणत्यांनी मेळांन वेवस्थीत येवजण केली. सकाळीं खबर करतकच सगले वाडेकार हजर जाले. नरसूक वाड्या भायर काडलो खरो, पूण त्याचां मरण चुकवपाची कोणाचीच तयारी नसली, आमच्या वाडेकारांचा एक मात बरां आसा, कोणय मरंव, सगले झाडून येतत, आनी त्याका मरण जायत मेरेन कोणाच्याच घरा काय शिजाना ना. तिरडे पसून बुडकुल्या मेरेन सगली तयारी जाली. लाकडां फोडून तयार आसलीं. सोयरीं दायरीं येवपाची वाट बगीत वाडेकार पातळान देवळा कडेन पावले. थंय आमच्या नरकासुराचां धूड म्हयां याली

नासताना उब्यां आसलां. धाडलले माणूस अकरांक परत इले तरी दोन जाय सर नरसुच्या चेडवाचो पत्तो नसलो, लोक मात बडबडीत आसले,

''आतां येवपाचां आसल्यार बेगीन ये मगो, वगीच आमकां कित्याक तिश्टत दवरतय?''

''कालच येवंन गेल्लां मरें तां?''

''काल येवन काय फायदो? आतां तुका खबर आसा, मरतलो आसलो जाल्यार हंयच रांव मगो, निमाणां बापायचा करूंक नाका आसलां?.''

शेवटाक देवळा कडेन कोणाची तरी मारूती इली. तेतूनसून चेडूं उतारलां आनी थंयसरच रडांक सुरवात केली. बरोबर इल्ल्या बायलानी त्याका धरून घरा कडेन व्हालां. थंय सर तेणीं एकदम ताणूनच दिल्यान, सोडा मारतकत परतून बापायचे पांय धरून होवये गांवक लागलां.

''कालच बयूंक यल्लय रे मी तुका, वाडेकारांनी तुका भायर दवरलो रे... मसणान कसो रवलंय रे तूं, कोणच नसलो रे तुका, पडलय बिडलय जाल्यार पाणी ताकायत कोण दिवचो नसलो रे तुका...., तुका त्रास करताल्यांचा ना रे बरां जावचां..''

नरसुच्या चेडवाचीं सगलीं वाक्यां वाडेकारांक झोंबाक लागलीं. सगले मुकाट्यांनी आयकताले. त्या वेळार त्याका थांबवपाकय कठीण आसलां. तां आयकान विष्णूच्या तळपायाची आग मस्तकाक भिडली, तो म्हणपाक लागलो,

''काय रडांचा आसा तां आपल्या घरा वचांन रडानी, आदींच उशीर जाल्लो आसा, चलात उखलात त्याका आतां.''

''तूं सांगतय तां बरां आसा रे, पूण मराण कोण करतलो?'' - संजूच्या आपाचो प्रश्न.

''त्याका काय झील आसा?, आतां जांवय इला मरे, त्याका सांगा करूंक।''

वाडेकारांनी जांवयाक विचारलां, पूण बायल परतून गुरवार आसा म्हूण तेणीं मरणाचे विधी करपाक न्हयकार दिलो. आनी कोणच नातलग राजी जांवक नसलो. जो तो हात झडकूंक लागलो. काय करपाचां तो यक्ष प्रश्न. मरणाचां कोण करतलो हो विचार करपाकच एक वार गेलां. हेरशीं सगळ्याक फुर्दे फुर्दे करून मोठ्ठयान बोलपी आबा वगीच आसलो. शेवटाक म्हातारो विठून आबाक उद्देशून म्हुटलां,

''अरे आबा, काय चिंततय आतां, निमाणां तुकाच करपाक इलां ह्या, त्याच्या बायलेचा निरस्तारायलंय मरे, तसांच आतां त्याचांय कर.''

आबां कडेन उत्तरच नसलां, कुणीतरी पाणयाची गाडगी भरून दवरलली. आबान ती माथ्या वयल्यान वतली, आंगार तुवालो उडयलो आनी एकदाचो नरसूक घरा भायर हेलो. तुळशी कडेन बाकीचे विधी जाले. थंय आबान त्याका आपल्या पांयां कडेन धरलो, जांवयान आनी चेडवान नरसुच्या तोंडान पाणी यातलां, आनी शेवटाक एकदाचो तिरडेर चढयलो. चार जणांनी नरसूक खांद मारलो तसो मसुंडेन वचपाक आबा बुडकुलो येवन तेंचे फाटल्यान चलपाक लागलो. जेचो आवस बापूस आसा त्यांका खरां तर मसुणडेन वचान काठयां घालपाचो हक्क नसता, एकदा उखललो काय ते आपापल्या घरा वयतत, पूण आमी सगले नरकासूरकार जातीन थंय हजर आसलंव.

मसुंडेन नरसुच्या मरणाची जागा निश्चीत जाल्ली. थंय लाकडां मांडून दवरलीं. नरसुची तिरडी तेचेर चढयली, बाकीच्यांनी काठयां घातलीं, आनी शेवटाक आबान बुडकुलो फोडून बोबो मारले आनी नरसूक अग्नी दिलो. आमकां तां सगलां नवीनच आसलां. सरण पेटल्या उपरांत जांवय आनी हेर लोक थंयच्यान गेले. पूण आमी मात तो सगलो पेटासर थंयच रावपाचां ठरयलां. सरणाचो हुलोप लागता म्हूण गटा गटानी लोक पांगले आनी नरसुचेच खबरी करपाक लागले.

''निमाणी मरताना आबाची जिरयल्यान नरसून.''- म्हातारो विठू.

''तर रे, वाड्याचो मुखेली न्हू तो, आपणांक जाय तशे निर्णय येवपी, क्याँवा कोणांक तेचे आड बोलपाची सोय आसली? हेंचीं कसलीं झगडीं कोण जाणा, निमाणो वाड्या भायर दवरून काय जालां?''

''नरसुच्या बायलेच्या मरणा वगतार आबाचां असांच नाक कातरललां, खरां तर थंयसरच आबाचां सगळां सोपलां.''

''आठ वर्सां जालीं न्हू रे त्याका आतां? बायल मेली त्यांवाय अशीच परिस्थिती मरे, रातची क्याँवां मेली दिसता ती, तो वाड्या भायलो, आमी कशे वचपाचे?, उखलूंक चार जण तरी जाये आसले काय ना, दोनपार ताकायत नरसून वाट बय बय बयली, निमाणो आपले बायलेच्या मड्याक थंयच सांडून सरपंचागेर गेलो.

आनी सांगपाचां तरी कसां रे, 'माजी बायल मेल्या,

माका वाड्या भायर काडला, आमगेर कोणच येवपाक तयार ना, मी त्यांच्या पायां पडपाक वयचंय ना, तू गांवचो सरपंच, चार लोकांक येवन मरणाचां करतय जाल्यार कर, मी दोन वाट बघून काय करूचां तां करतलय, तेवसर घेवनी वाडेकारांक किड्यांचो वास.

ह्यां आयकान हादरलो मरे सरपंच, इलो तसोच आबागेर गेलो आनी त्याका सांगल्यान, तुमचां काय वैर आसा तां फाल्यां बघया, पूण मड्याची अशी वाट लांव नका, मी माजी चार माणसां जालीं तर दितय पूण तिका उखलूं या एकदां.''

''आबाची सारकीच जिरल्यान मरे तर!''

''तर रे, आबाक आनीक तोंड आसा, ना जाल्यार आयजय तुका तो तसो राजी जावचो नसलो.''

नरसू एकदाचो पेटलो, दोन वरां भितर सगलीं काठयां जळांन खाक जालीं, आनी सगले थंयसून उठले. मसूंडेनसून घरा पावता म्हूणसर सांजचीं स वरां जाल्लीं. माका घरा कडेन न्हावपाक जाय तां पाणी आईन आदींच भायर काडून दवरललां. मी न्हालय आनी बाकाचेर ताणून दिलय. पॉटान भुकेचे लोट. आयज सकाळ पसून कांयच खांवक नसलां, आनी रातभर न्हीजय नसली. आईन माका बाका वयल्यान उठयलो, फुड्यान पेजेचां गुळाम दवरलां, मी ती भका भका जेयलय आनी वांयसो आड पडलय.

रातचीं आठ वरां जाल्लीं. कोण तरी माका घरा कडेन सोदूंक इले, मी तसोच देवळा कडेन गेलंय. थंय सर आजूनय धड नसललो नरकासूर उबो आसलो. देगेर रंगवक नसलांलां म्हयां आसलां.

''आतां नरकासुराचां काय करया रे, आयज दीस मरे तेचो''.- राजू.

''खरांच तुजां, आयज एका नरकासुराक जाळलो न्हू आमी.''- वसंत.

''तसां न्हू रे, आतां ह्या नरकासुराचां काय करतात?
सुतक मरे आमकां?''- संजू.

''सुतकाचां काय घेवन बसल्यात, तो काय आमच्या वाड्यार आसलो?''- राजू.

''निमणो आमीच व्हरांन जाळलो न्हू, आतां आनी नरकासूर नाचवपाची ताकद उरांक ना माज्यान.''- मी.

''म्हापशां येवंन वचाया मरे स्पर्धेक?''- राजू.

''आतां कसली स्पर्धा? लोक शेण घालतले तोंडाण, त्या वाजवप्यांक आनी टेम्पोवाल्याक येंव नाका म्हूण सांगात.''

''आमची मेहनत फुकट न्हू, नरसुचां इतक्या कित्याक लावन येवंक जाया?''

''तुका नाचवपाचो आसल्यार नाचय, पूण म्हापश काय आमी येवचंव ना.''- नारायण.

''म्हयां आजून रंगवुक ताकायत ना मरे?''- भास्कर.

''आनीक कसलां रंगयतय, आसा तसांच चढयात, आनी एकदाचो जाळा त्याका.'' - पेमलो

''मराचो मेलो, निमणो आमचे उमेदीर पाणी फिरयल्यान.''- राजू.

''खंय फिरवया आतां नरकासूर, गांवांत तरी फिरवया मरे?''- वसंत.

''आतां काय फिरयताल्यात, नरसुच्याच मढ्यार घालया आतां, आजूनय धगधगता आसतलो.''- पेमलो.

''जळांक नसलो काय रे तो सारको?''- नारायण.

''चलात बघून येयात आतां कोणी तरी, ना जाल्यार भूत जांवन येतलो.''- संजू.

''आतां आनी मसुण्डेन नाका रे बाबा, रातभर न्हीद ना, चला आतांच जाळया त्याका.''- पेमलो.

''रातच्या तिनांक चारांक जाळटत मरे नरकासूर.''- राजू.

''वेळ काळ बघपाचो ना, दिवाळे कडेन नरसून वाडेकारांक फोव दिल्यात, मध्यान राती कडेन भूत जांवन इलो म्हणजे?''- मी.

देवळा कडेन पॉरां तोरांची गर्दी जाल्ली, पूण नरकासूर नाचवपाची उमेद कोणाकच नसली. रातभर जागरण आनी उपास. कोणी तरी नरकासुराचेर रंगय नसताना म्हयां चडयलां, त्याका कडेक व्हरान उबो केलो. राजून चूड पेटयली तसां वसंतान म्हुटलां,

''आतां वाट कोणाची बयतय? लाय त्याका आग.''

निमाणो नरकासूर पेटलो, त्याच्या पॉटान घातलले मराणे आनी गंडेल ढाम ढाम करून फुटांक लागले तसो ल्हान भुरग्यांक नेट इलो, तीं सगलीं नाचपाक लागलीं आनी नरकासूर एकदाचो जळांन खाक जालो.



फादर आग्नेल म्हाविद्यालय, पिलार गोंय.मो: ९८२२५८०७८९

# काव्यचंवर
काव्यचवर
काव्यचंवर

- माधव बोरकार
9420222876



## फडफड पारव्यांच्या पाखांची

फडफड पारव्यांच्या पाखांची
कोरता मनार कुरवो तांच्यो
घेता अदृश्यांत झोंपय वाटो
रेखता शिमो अज्ञात शारांच्यो.

पाखांची फडफड मना आड
फुटपी देगेर ल्हारांपरी
सोडटलीं पडबिंबां वाटभर
भासांचो संवसार हारशावरी.

जोगलावता यादींचे सतारीची गत
अंतरांत तशी पाखांची फडफड...

ताळगांव-२२.०५.२०१६

## येता दाटून दोळ्यांत

वाकडी तिकडी रेशा
वयर सकल दोंगरांची
भिलभिलता हवा;मर्दी
आवर्तना भिन्यांचीं.

उजळटा कडो निक्त्यो
निळ्या जांबळ्या कुपांच्यो
बुडटा पाणयांत पारज
नारी चांदन्या रुपाच्यो.

घालतां दिठयेक
निळें रुजवण
येता दाटून दोळ्यांत
पानांचें पांचवेंपण

आंबोली-०८.०५.१६

## पाचवें पानेल्लें झाड

सोडिल्ले सदळ केंस
बांदता परत घट्ट
आळसावल्ले नदरेंत
तुज्या; नक्षत्रांचो हट्ट.

न्हावन सांज किरणांनी
तप्त तूं भांगर कशी
शिडशिडता आंगभर
फांतोडेचो पार्दीकशी

फांकता तुज्यांतल्यान
तना मनाचो उजवाड
झेलता अळंग म्हाका
पाचवें पानेल्लें झाड...

ताळगांव-२०.०५.२०१६

## जोडयो

सळसळ स्वासांची।मींड वाऱ्याची
पावलां पानां पानांत। भिरीं रानांत
येता लागीं तार।आमोरेची नार
भिजता गळ्यांत सूर।चांदन्याचो पूर
फुलपाखऱ्या वरी जीण।दुकांचें रीण
जमता दोळ्यांत पाणी।मोनी विराणी

२७.०९.१५



- आर. रामनाथ
9850458763

## शील अश्लील

शील अश्लील
अशें कांयच नासता
हाचो साक्षात्कार
म्हाका निकतोच जाला...
आनी देखुनूच
हांव आतां चक्क नागडो भोंवतां...वावुरतां सर्वत्र
मनमेकळो...

उपकार करून
तुमी म्हजेर फातोर मारून
म्हाका आनीक नागडो करूं नाकात
इतलेंच...

देव बरें करूं...

## हांव, भूक आनी तो

भुकेचें चित्र काडूंक येना
भुकेचो फोटूय काडूंक येना
भूक कशीच दाखोवंक येना
भुकेचेर बरोवंक येता
भुकेचेर उलोवंक येता
भुकेक हांव बेस बरो वळखतां
भुकेक हांवें पोसल्या
सोसल्या
घट्ट वेंगायल्या
भूक म्हज्या घरची कशी
रगताच्या नात्यावरी...

हांव खूब फावट उलयलां ताचेकडें... भुकेविशीं
पूण प्रत्येक फावट तो वग्गी रावला...

आयज हांवें म्हज्या पोटाचें चित्र काडून
तें ताच्या घराच्या हुंबऱ्यार व्हरून दवरलां.
पळोवया तो आतां किदें करता तें...

हालींसराक तो दिव्यार म्हगेर येवन
म्हाका म्हजी भूक दाखय म्हण्टा...

## हांव जिवंत समाधी घेवचोंना

हांव जिवंत समाधी घेवचोंना
म्हाका तशी कापाझदाद ना
म्हजी तशी लायकीय ना
तुमी एक व्हड फोंड मारात
आनी तातूंत पुरात म्हाका अख्ख्याचो अख्खो जितो
उपकार करून म्हज्या फोंडार मात
तुमी म्हजें थडें बांदू नाकात
म्हजें थडें बांदून ताचें थंय देवूळ करूं नाकात
तुमी फकत म्हज्या बाराव्याक
म्हज्या फोंडार एक फळझाड लायात
नक्कीच तें घसघशीत वाडटलें
फुलतलें, फळटलें
आनी म्हजें जितेंपण दाखयतलें...

## अग्नीउत्सव

तूं
शिरंगारून
जळटा
ह्या अग्नी उत्सवांत
म्हज्या सयत...

- आनी हांव
निर्वस्त्र जावन
जाळटां
ताका
म्हज्या
काळा सयत...

## तूं म्हाका सोदतालें खंय!

तूं म्हाका सोदतालें खंय
पूण हांव तुका खंयच मेळ्ळोंना
उपरांत तूं म्हाका सोदीत रावलें
फकत सोदीत रावलें
सर्वत्र
नखशिखान्त
पिशांतर जावन...

जाका पत्तो ना
ताचो पत्तोच नासता
हें तुका
हांगा म्हजेकडे येतगीर होलमलें
निदान इतल्यान तरी सगळें
लख्ख बरें स्पश्ट जालें
खऱ्यानीच खूब बरें जालें
म्हाका सूऽऽ जालें...

## तो थेट आमगेर येता

तो थेट आमगेर येता
म्हाका उखलता
आनी गर्भकुडींत व्हरून
आपल्या जाग्यार बसयता...
उपरांत म्हजी रितसर पुजा करता
आनी मागीर आपूण स्वता नाच्च जाता...
हालींसराक फांतोडेर
हो देखाव म्हज्या सपनांत नेमान येता...

हें सपन
आयज मेरेन हांवें कोणाकूच सांगूंक ना
म्हज्या घरच्यांक लेगीत...

खऱ्यांनीच सांगतां
म्हाका हे सपन खूब आवडटा
निदान ह्या सपनांत तरी
म्हाका ताच्या जाग्यार बसपाक मेळटा...

- आनी घडये हें फांतोडेवेलें सपन खरें जालें जाल्यार !

सद्या -
म्हज्या आंगणांत
म्हाका म्हज्या मूळ गांवांत व्हरपाक पालखी तयार आसा
आनी हें सपन म्हाका दिसा उजवाडे पडलां...



- नागेश करमली
9420597501

## कवी

तुमच्या गांवांत एक कवी आयला
सगळो गांवच कविता जालन रावला

तो-
झाडां पेडां कडेन उलोवंक लागला
तो व्हाळां वझऱ्यां वरीं वझरेवंक लागला
तो फुलांपानां सांगाताक पालेवंक लागला
तो गंधापर्मळा वरीं विर्गळूंक लागला

तुमच्या गांवांत एक कवी आयला
तो न्हंये पाणट्यार वंझळूंक लागला
तो पांख्यां पिसोळ्यांक पिशेवंक लागला
तो मळब चंद्रीम मोखूंक लागला
तो गिरे नक्षत्रांक ओखेवंक लागला



तुमच्या गांवांत एक कवी आयला
तो राना मात्यार खुदूंक लागला
तो शेता कुळणांनी कोमेवंक लागला
तो सपन पावसांत तिंबूंक लागला

तुमच्या गांवांत एक कवी आयला
तो जनलोकांतय भरसूंक लागला
तो यायाळ जिवांक पोशेवंक लागला
तो जिलाळ यायांक न्हिवोवंक लागला
तो मनशांतले मनीस नेरावंक लागला

तुमच्या गांवांत एक कवी आयला
तो दुखां हुलोप झेलयत रावला
तो सुखां वोग वेंगयत रावला
तो करुणेचे धागे विणीत  रावला
तो काळाची गत मोखीत रावला

तुमच्या गांवांत एक कवी आयला
तो आपलेंय चित्र रंगयत रावला
तो तुमच्या अंतरंगांत येवन बसला
तापत्रया धगांत धगेत रावला
थंड किरांव वावांत वथरेवंक लागला

तुमच्या गांवांत एक कवी आयला
तो जाण्टीं उतरां वेंचीत रावला
त्या उतरांक तरणेपण दीत रावला
उतरां काळजांत पुंजायत रावला
काळीज कंवळें केळयत रावला

तुमच्या गांवांत एक कवीत आयलां
सगळो गांव कविता गावंक लागला

## घोंटेर

धाकलें शमी विचारताः
बाबा,सवणीं घोंटेर
झाडावेरूच कित्याक बांदतात?
बाबा,सवणीं भायर
वाऱ्यारच कित्याक उडटात ?
बाबा,सवण्यांचो घोंटेर
वाऱ्यान हुबून वचना



शमी प्रश्नार प्रश्न विचारता-
एक विचारता म्हळ्यार दुसरो
दुसरो म्हणसर तिसरो...
हांव जापो दिवपाचो
यत्न करतां...
जाणां मुगो शमी,
घरांत तूं बोवाळ करता
देखून सवणें
झाडार घोंटेर बांदता
सवण्यांक पाखां आसता
म्हूण तें वाऱ्यार हुडटा...
आनी जाणां मुगो शमी
एक घोंटेर हुबून गेल्यार
सवणें रोखडोच
दुसरो घोंटेर बांदता...

शमीक म्हज्यो जापो
कश्योच पटनात...
आनीकय ताचे प्रश्न-
म्हजे कडेन जापो नासतात
अशा वेळार
एकाद्रें एक सवणें
घराच्या जनेला मेरेन
किरकिरायत येवन
भुर करून उडून वेता
हांव म्हण्टां:
हें पळय शमी
तें सवणें तुज्या
प्रश्नांक भियेवन उडून गेलें.
शमी जनेलांतल्यान
सवण्या कडेन नदर लायता
आनी हांव
म्हज्या निर्जाप उतरांचो
माग काडीत रावता...

## काळा म्हाका जाप दी

काळा म्हाका जाप दी
तूं म्हजो देणेकारी
नि हांव तुजो रिणकारी
म्हज्या उतरांत तूं शिरकला
तुज्या कात्र्यांत हांव फाफसलां
रीण जावं,जावं देणें
गणीत हिशेब मांडून सोंपना
तरी
काळा म्हाका जाप दी ...
काळा,
मोन्यानीच रावूं नाका
उज्या विर्णे जळूं नाका
वार्चे विर्णे गळूं नाका
काळीज उक्तावन थांबू नाका
म्हाका सांडून धांवूं नाका
काळा म्हाका जाप दी
जाप दी
दी



- प्रकाश पाडगांवकार
9423060384

*'सम्राट अशोक' ह्या सम्राट अशोकाचे जिणेवेल्या कविता संग्रहांतल्यो सुरवेच्यो तीन कविता..*



## १. स्तवन भारतवर्षाचें

पूर्व पुरातन
नव भारतवर्ष
काळ पारखिता
काळ निर्मिता
वळखून गरज
काळाची नित्य
नररत्नांक
जल्माक घालता

हिमालया थावन
प्रवाह गंगेचे
सगल्या न्हंयांचें
तीर्थ घडयता
दोंगर पर्वतांची
ताठ हड्डीं
शिटूक जिणेची
तरा शिकयता

गीता उपनिषद
वेद पुराणां
जगा वैभवां
चित्त दिपकायता
'वसुधैव कुटुम्ब'
तत्व जिर्वे
विश्व स्वरुपी
काळीज दवरता

कले विद्येचे
उत्कट अविश्कार
जिवाळ उत्फर्के
सवूय ऋतूंचे
सस्यश्यामल
धर्तर शिरिंगारून
जिणेक पंचतत्वां
समीधा दिता

बौध्द धर्माचो
उद्गातो श्रीबुध्द
जैन धर्माचो
प्रणेतो श्रीमहाविर
भारतवर्षाचीच
व्हड देण हांची
सगल्यांक एकाच
सुतान गुथता

चिरंजिवी तूं
सम्राट अशोका
भारतरत्न
सूर्य लखलखतो
भारतवर्षाचो
जागृत दीपस्तंभ
काळजांत सदोदीत
राज्य करता

## २. अशोकाचो जल्म आनी शिशू अवस्था

पाटलीपुत्र राजपाटणांत
आसा जावचेलें आयज
विस्मित आगळें

वतलो दुमदुमून
भव्य राजम्हाल
चक्रवर्ती सम्राट बिंदूसाराचो

कुसव्यांत महाराणी सुभ्रदांगीच्या
जल्माक घालून
अप्रूप बालक

नियती लागली
बरोवंक इतिहास
उरतली सदाकाळ ताची
किर्त जिवी सासणाची

राजा बिंदूसार
राणी सुभ्रदांगी
होटर्येत हांचे
लागलें खेळूंक बाळक

पुणून राजा बिंदूसाराच्या
तोंडार शोक
पळोवन बाळकाचो
कुरूपसो चेरो

खंती रूप अशें
पळोवन घोवाचें
लागली येवजूंक
राणी सुभ्रदांगी

आनी तिणें सांगलें
राजा बिंदूसाराकः

किर्ते तुमची ही
अशी मानसिकताय
कसलो कित्याक
तुमकां शोक?

नासत बाळक
गोरें गोमटें
आसूं निष्पाप तें
काळ सावळें

कोण सांगतलो?
आयलां आसत तें येवन
पुनर्जल्म वाडवडलांच्या रुपान

सांग म्हाका
बाळकाचे कुडींत
व्हांवता तें
न्हय रगत तांचें?

आसल्यारय बाळक
कुरूप दिसपाक
जल्मलां सामर्थ्यवान
राज घराब्यांत

नशीब आपलें तें
येवन अवतरलां
दिसपाक नासूं तें
बावलें सोबेचें

धर्म राजाचो
नासता बसचेलो
सोबे आरमारींत

'राजकुंवर ' तो
कुडको म्हज्या काळजाचो
तुमची वंशवेल
किर्त वाडयतलो

दिसतात म्हाका सुचक
पांय ताचे पाळण्यांत
कळटलो कोणाक कसो
तांचो गुढार्थ?
तांची सुचकताय?

नाथा म्हज्या
चक्रवर्ती राया
सोडून दियात
तुमचो शोक

करया ताचो
दबाज्यान बारसो
दवरया राजकुंवराचें
नांव 'अशोक'

भरतलें हांव म्हजें
स्वत्व ह्या बाळकांत
घडटलो तो
राजबिंडो आगळो

आसलो जरी
आयज तो
गुळो कसो
नाजूक मातयेचो

थारतलो 'राजकुंवर'हो
एक दीस राखणकर्तो
दीन दुर्बळ रयतेचो

समजून येवन तांची
सुखां दुखां
तांच्या काळजांत
निरंतर वसतलो
तांचे भितर
धिरा,कश्टांचे,शौर्याचें
सामर्थ्य भरतलो

## ३.मस्तो आडांगी कुमार अशोक

खांदार खेळपी
बाळक अशोक
लागलो वाडूंक
दिशीं माशीं
आनी जालो
कुमार वयाचो

रोपो जसो
वाडूंक लागून
फुट्टात खांदयो
तसो अशोक
वाडूंक लागून
लागली ताकाय
पाळां फुटूंक

लागलो तोखेवंक
आपल्या आंगाक
नदर ताची
लागली तेळूंक
घोडे हती
सावजां वांगडा
लागलो खेळूंक

इश्टांक आपल्या
लागलो धाडावंक
निबां काडून लागलो उजरावंक
काडून कळी
साळसूद साव
लागलो जावंक

आडंगां बिडिंगां
सवंगड्यां वांगडा
लागलीं वाडूंक
सकाळ सांज
तशो कागाळी
आवय कानार
लागल्यो येवंक

पळोवन पुताच्यो
करामती अशो
एका फाटल्यान एक
बसोवन लागीं
आवयन ताका
शाणेपणाचो
लागली मायेन
उपदेश करूंकः

पुता अशोका
सांगतां तुका
दोन गजाली
शाणेपणाच्यो

अणभवाच्या
करंडांत तुज्या
साठोवन दवर
त्यो सासणाच्यो

मातये लाकडां
खेळणीं तांचीं
तुजीं मोलादीक
धातू माणकांचीं

तुज्या खेळण्यांची
तुका मरे चाड?
तांका तितलीच
तांची जिवापाड

शेकीं खेळणीं
खेळणींच आसतात
मोडून फोडून
मातयेक मेळटात

कोणूय कितलोय
गिरेस्त जावं
सारकोच आसता
सगल्यांचो वांव

मातयेंत जितलें
पिकता तितलेंच
भक्षण करता
जिवावळ सगळी

शेकीं एकदीस
हेच मातयेंत
सगळ्या जिवांची
राख रांगोळी

मोल मनशांचें
करचें नासता
भायल्या तांच्या
भेसा वेल्यान

खंयचोय पावंडो
आसूं मनशांचो
सत्व तशें स्वत्व
जण एकल्याचें
आसता वेगळें
हें तूं जाण

क्रोध जसो
पेट्टें लाकूड
स्वता जळून
राख जावप

पेट्ट्या इंगळ्याक
पालोवन उडोवंक
बरें उदका वरीं
गुणी आसप

अशोका तुका
सांगतां आयक
पयलें काम
तुवें शिकप

विद्या ग्रहण
ध्यान करून
गुढ विश्वाचें
सोदून काडप

मनीस आसचो
जसो सुर्या
एकलोच उदेता
एकलोच अस्तंमता

महोत्सव ऋतूंचें
हाडीत फळाक
सगळ्यां खातीर
विश्व उजळायता

दवर तुजी
तकली जाग्यार
पोके झेत
नाका मारूं
ज्ञानी विद्वानांच्या
सांगातान तुजें
कळचेंना केन्ना
बुडत तारूं

नाका तुज्या
नाकार राग
राग भितर
भगभगपी आग

राग आयल्यार
जाय योळोवंक
निरभ्र सतेज
मळबाची जाग

मनांत सदां
जाय आसूंक
शुब्द विचारांचें
प्रसन्न नंदनवन

मनांत तें मुक्त
कलाकुसरल्यार
उपजता शांत
विधात्याचें धन

संवसारार आसतात
धूर्त,दुश्ट,दुस्वासी
पयस राव
तांचे पासून

सज्जन लोक
जोडीत वच
तिगला संवसार
तांकांच लागून

कर दानधर्म
मुक्त हातान
दिल्लें दुपेटीन
सुगूर वाडटलें

कुसून वतलें
संचय केल्लें
दिल्लें तेंच
सदां उरतलें

शेंवटलो जर तूं
काळखांत केन्ना
जागो दवर
तुजो निश्चय

पळय तकलेर
सहस्र नक्षत्रां
हो वेळ वचून
जातलो सुर्योदय

दवर मनांत
ध्येय उंचेलें
कुरतार दोंगर
चडून वच्चेलें

विस्तारतली वाट
पावलां उबारतना
जैत निश्चित
धांवत येतलें

पडूं कितलेंय
मनार वर्जें
जीव हलको
फुलको दवर

जीव आसल्यार
जिणेंत महोत्सव
सर्ग सुखाचें
झिळमीळ आगर

ध्येय उज्ज्वल
गांठून येवपाक
चैत्य महामेरू
दोळ्यार दवर

जैत केन्नाच
सोंपें आसना
यामा कश्टांचें
भांगर कर



- निलबा खांडेकार
9637092524



## खजुराहो

-१-

सखी
हे काळखाचे दिवे कित्याक पेट्टात?
पेटय न्हय पणटी
भावार्थाचीसर्दीची
काळखाच्यो सावळ्यो लांब करपाक
देव्हाऱ्यांत तरी
देवाक काळखांत दवरप
बरें दिसना
सगळो संवसारूच ताणें
काळखांत दवरल्यार किर्दे जातलें
खबर आसा तुका?
सगळें मळबूच सांडोवन वयतलें

सखी
आमी काळखाचो वसो चलयतात
कळत आनी नकळतूय
काळोख तर जाच्या ताच्या
जल्मा वांगडाच बांदलेलो आसता,
ब्रह्मगाठीन
म्हण म्हणटा
आमी सगळी काळखाचीच संतती
तुज्या आनी म्हज्या मदल्या
यौवनाच्या झाडाचे खांदये आड आशिल्ल्या
अमृताच्या
चंद्रिमा इतली
म्हण जितलो पेट्टा देवारो
तितलो पेटूं दी
तुज्या मनांतल्या भावार्था इतलो

आतां तरी देवाक यढये दिसतलो
हो अनादी काळोख
आनी बुडत वचपी संवसाराची लय

सखी
तुंवें तुजो भार फातराचेर दवरून
ल्हव केलो
तुंवें प्रशांत पाशाणांत देवत्व सोदलें
आनी हांवें
म्हजी तान जाली स्वताच्या अस्तित्वाच्या
बांयंच्याकूय खोल
म्हूण हांव केन्नाच भागोवंक शकचोंना
म्हजी तान
स्वतार्चेच प्रतिबिंब पियोन

तरीय सखी
तुंवें येवंचो न्हय
तुजे सावळेचो संशय
तुज्या भावर कायम उबी आसा
तुजी सृश्ट
म्हण तुजी विरक्तीय आतां
तुज्या मुखामळा इतली
सुंदर दिसपाक लागल्या
रंद्रां रंद्रांत उबीं करून खजुराहोचीं
यडये देवळां



-२-

सखी,पळय न्हय
हो फातरांचो संवसार
फातरांनी येतलेलो फातरांचो भार
फातरांचो भोग,संभोग
आनी हें ताठर लिंग.शिवलींग
फातराच्या मनांतल्यान काळीज येवन पळय न्हय
थोडोसो पावडर थापून
फातरान घेतिल्लो फातराचो उमो,श्रृंगार चुमो
जी फातरांचे मर्यादेंत बंदिस्त जावन रावल्या
ही गतकाळाची सावळी
फातरांत लिपिल्ल्या वाजपी मनभुलोवणीं वाद्यां
आनी हावेसाच्या उजवाडार्चे संगीत
जी कवितेच्या मनमांडार गुणगुणत आसता
सैमसुखाचे आवाज
जशीं काळाचीं स्पंदनां
काळ इतिहास सोडून चलत येता
आनी घमघमून येतात कामातूर सपनां
तेन्ना फातरांचे हे बागेंत
एक भुकेची सावळी भोंवत आसता
याळ पृथ्वीची परवड येवन

सखी,एक आशिल्लें म्हर्जे मन
आनी एक तुर्जे मन
आनी मदले हे रंग स्वैराचाराचे कोणाचे?
सखी,तुज्या लपनांच्या पानांनी
लिपिल्लीं असंख्य मोरपिसां
ह्या प्रदुशीत वाऱ्याच्या भवसारांत
फडफडट्या सुकण्या भशेन शिंपडोवं दी न्हय
फक्त ह्या फातरांच्या मळबभर
आमच्याच

दिसपाक जायना कोणाकूच आतां
कल्पनेंतलो आनंद सोंपिल्ल्याचो
फातराक करीत रावूं दी पवित्र फातर,
चंवर नव्या युगाचो

सखी,तूं खंयच्या फातरार बसून फुलां काडटा?
आनीक म्हजी कविता मात
दुख्खान सुकलेल्या दोळ्यांचेर
उदकाचे पोचे मारतात
याद आसतली तुका,
जेन्ना जेन्ना म्हजे कवितेन जल्म घेतला
तुका म्हजे कवितेन
सखी-सखी म्हणोनूच उले मारल्यात
आनी लिंब्याच्या झाडार बसून
गायत रावला चंद्र
तंबोऱ्या भशेन..



- ग्वादालूप डायस
8605942157

# हांव 'म्हादय' खीणभर

१.

पाशाणीं फातरां भितर
धडधडपी स्वास हांव
पाचव्या चार तणांचेर
अमृताची रास हांव
निसर्गाच्या वोंठांचेर
गोड रसाळ भास हांव
तानेल्ल्या दर्याच्या
काळजाची आस हांव
मन मोकळी व्हांवपी
म्हादय न्हंय खास हांव

२.

उमाशेचे जोरगती
एक रात उदार दिशी?
दोळ्यांत माखून काजळ
आज म्हाका नटूंक जाय.

पुनवेच्या चंद्रा तुजें
चान्ने म्हजेर ओतशी ?
भांगर आंगार चडोवन
आज ताका भेटूंक जाय.

कणके तुजीं पानां
मात्शीं सांवरून धरशी?
परमळ इल्लो सारोवंक
हातो एक कुटूंक जाय.

कोगळा तुजी मधुराय
म्हज्या गळ्यांत भरशी?
'हांव तुजो मोग करतां'
उतरां म्होंवाळ फुटूंक जाय
मोगा! तुजीं ल्हारां
म्हज्या नांवार करशी?
वेंगेत तुजे रिगतना
दोळे म्हजे मेटूंक जाय.

हिमालया, तेंगशी तुजी
म्हजे खातीर बागयशी ?
मशाल आमच्या मोगाची
आज थंय पेटोवंक जाय.

३.

पांयांक बांदून पांयजणां
दोंगरा वयल्यान देंवतां
नागमोडी चाल म्हजी
मोडत मोडत व्हांवतां
वोंठार म्हज्या फुलां तुरे
कितलेशेच वेंगोवन झरे
केंसांत खोवून उमास
निरागस हांव पेंवतां
आडखळींचें तोडून रान
सैमा उल्याक दिवन कान
सजोवन काजळी सपनां
दर्या भेटेक धांवतां
पांयांक बांदून पांयजणां
दोंगरा वयल्यान देंवतां
नागमोडी चाल म्हजी
मोडत मोडत व्हांवतां

४.

तुमचे-म्हजे भेटेचे
दीस आतां सोंपले
म्हज्या येण्यांक
गझल गावपी
कोगळां गळे थकले
तरी पूण हांव निर्शेना
कित्याक जाणां
केन्ना तरी ह्या जल्मांत
हांव तुमचीच आसलीं
हाचे परस सूख ना

आमचे भेटेक साक्ष दिवपी
रुखूय आतां कापले
म्हजें अस्तीत्व यडोवपी
झरे-वझरे सुकले
वायट म्हाका दिसूंक ना
कित्याक जाणां
केन्ना तरी तुमचे मदीं
सर्ग हांवें भोगिल्लो
हाचे परस सूख ना

काळजार यातिल्ले याव
जरी म्हाका दुखले
तुमकां माफ करतकच
खिणां भितर पेखले
म्हाका कसलेंच दूख ना
कित्याक जाणां
केन्ना तरी तुमच्या हड्ड्यांत
काळीज जावन हांव धड-धडलें
हाचे परस सूख ना



५.

एक आसली म्हादय...
आपलेच धुंदींत व्हांवपी
केंस मानेर सोडून
सुर्या वोतांत न्हावपी

शेतांची भागोवन तान
भांगरा कणसां लुंवपी
अद्रुश्टाक वळसो घालून
मुक्कामार पावपी

केन्नाय शांत शितळ
आपलींच दुकां पिवपी
व्होटर्येतली गिरेस्तकाय
काडून हेरांक दिवपी

धर्म आपलो पाळूंक
वोंठ आपले शिंवपी
फाटीं वळूंक कळना
फक्त फुडें धांवपी

एक आसली म्हादय...
आपलेच धुंदींत व्हांवपी
दुस्मान जावं इश्टां पासत
जीण डावाक लावपी

६

जें कितें आपलें नासता
तें अशें कित्याक चोरचें?
जें खरेंच आपलें आसता
तें ओडून कित्याक व्हरचें?
तुजो हात केंसांक म्हज्या
म्हजो हुस्को वाटेर तुज्या
पुता तुजें पावल चुकत
सांबाळून! फातराक मोखत
हड्ड्यांत अजून धडधडटा
आवयचें काळीज म्हजें
तुजेर दूख आयल्यार
मातूय म्हाका समजना
ताका ओगी कशें करचें?
जें कितें आपलें नासता
तें अशें कित्याक चोरचें?
जें खरेंच आपलें आसता
तें ओडून कित्याक व्हरचें?

७.

काल पासून हांव
शिमे भितर रावली
अस्तीत्व म्हजें वळखून
कांटां मदींच व्हांवलीं
जाय जाल्यार म्हज्यान
बुडोवं येतालो गांव
तरी म्हणलें, 'आसूं नाका
वाटेक तांचे वचूं नाका
करूं ते कितेंय
तूं शिमे भितर राव
काल जशी व्हांवली
आयजूय तशीच व्हांव'

जाणीं उदक मागलें
तांची विचारूंक ना जात
कोण जळयता पण्टी
वो कोण पेटयता वात
तुमचे सारकी शकताली
हांव करूंक भेद-भाव
तरी म्हणलें, 'आसूं नाका
वाटेक तांचे वचूं नाका
करूं ते कितेंय
तूं शिमे भितर राव
काल जशी व्हांवली
आयजूय तशीच व्हांव'

कोणांक कशी सांगूं
म्हजी मोनी काणी
आयज म्हज्या दोळ्यांत
भरलां खारट पाणी
सजा दिवं येताली सांगून
'पेखयात म्हजो याव'
तरी म्हणलें, 'आसूं नाका
वाटेक तांचे वचूं नाका
करूं ते कितेंय
तूं शिमे भितर राव
काल जशी व्हांवली
आयजूय तशीच व्हांव'



८.

खूब जाली समजावणी
खूब केलो शीण
आतां तरी जगूं दी
शांतीन म्हजी जीण
म्हजे भेटेक अजूनय
अथेकला तो दर्या
गवाय दिवंक तयार
अस्तम्तेचो सुर्या
रस्तो म्हजो बदल्ला
तातूंत किर्ते व्हडलें?
मुक्कामार पावसर
म्हाका व्हांवर्चेच पडलें

९.

बाळा म्हज्या मनांत तुज्या
उजो कोर्णे पेटयलो
मनीसपणांचो धर्म तुजो
कसो तुवें बाटयलो
हांवें पोसलीं तुजीं जोतां
हांवेंच पिकयलीं शेतां
सांग कोर्णे काळजांत तुज्या
सुवार्थ इतलो दाटयलो?
मनीसपणाचो धर्म तुजो
कसो तुवें बाटयलो?

हांवें फुलयले तुजे मळे
ओले हांवेंच केले ताळे
बोंबलेचो पास तुवें
इतलो सहज तुटयलो
दशा अशी करूंक म्हजी
कोर्णे तुका केलो राजी
सांग कितले नार्णे दिवन
तुका असो फटयलो
मनीसपणांचो धर्म तुजो
कसो तुवें बाटयलो?

१०.

येयात! पळयात...
अणभवात हे खीण
घडये समजूंक पुरो
म्हजी पुराय जीण
दया नाका माया नाका
जगतां सुवार्था विण
जुरा सयत माफ केलां
तुमी घेतिल्लें रीण

११.

कितलो काळ मेरेन
व्हांवली सोडून भान
भेद-भाव नासतना
दिलें सगळ्यांक दान
कमर जरी बागवलें
बागयली ना मान
इतलें उदक आसुनय
म्हादयेक लागल्या तान

सदांच तुमच्या उल्याक
दिलो हांवें कान
तुमच्या सुखा खातीर
श्रृंगारीत केलें रान
सावळी घालूंक म्हाका
कशें दिसना एकूय पान
इतलें उदक आसुनय
म्हादयेक लागल्या तान

गळ्यांत म्हज्या सुकलां
कोगळांचें तें गान
दूख कांइंक मुसळ आसा
पूण खंय सोदूं वान
ताळो कोणूय भिजयात
इतलें उदक आसुनय
म्हादयेक लागल्या तान

१२.

व्हांवतां-व्हांवतां जिर्णेत
खूब किर्ते घडलें
वायट-बरें वेंगयतना
पाशाण लेगीत फोडलें
वायटाची खंत ना
बरेपणांक अंत ना
हिशोब-पट्टी दवरपाचें
हांवें केन्ना सोडलें
म्हादयेन इतिहासाक
नवें पान जोडलें

सेवा तुमची करतना
नातें आमचें वाडलें
दोंगरांचें रीण हांवें
पावस जावन फेडलें
मोन्यांनीच आपणायलें
जें पानार वाडलें
म्हादयेन इतिहासाक
नवें पान जोडलें

काणी म्हजी आयकून
काळीज तुमचें रडलें?
हारली हांव अशें तुमकां
कोर्णे सांगून धाडलें?
दाटून आयला तुमचो गळो
म्हजे वाटेर तांचो दोळो
चल...येतां हांव...
समजा...
म्हादयेन इतिहासाक
नवें पान जोडलें



- राधा भावे
9923811006



## भाग्यरेषा

ती सांगत रावता
अर्दकुट्या फुलिल्ल्या
कळयांच्यो गजाली
दिता,अदृश्य सपनांच्यो खबरी
ती सूय जाता,दोरो जाता
गुथत वता...
गूढ गडद अप्रुपां
तोडून फोडून उडयता
मनांतले घट फातर
म्होवाळ जाता
भरून दिता,हांड्याचे हांडे
करुणेचे...
ती घोळटा म्हजे निद्रेंत
म्हज्या दुकांनी

आनी करता परमळीत
म्हजे न पेखिल्ले याय.
तिणें म्हाका कितलेंर्शेच सुखी केलां
ती म्हजी कविता
म्हजी परिपूर्ण
भाग्यरेषा!

## आमचे मर्दी

तान
आनी तृप्ती
हाचे मर्दी
आसर्चे पडटा
घोटभर तरी
उदक...

फूल
आनी वासाचो
संबंद
उक्तावन
दाखयता
श्वास...
तुजे म्हजे भितर आशिल्ले
वा नाशिल्लेंय अंतर
मेजूं शकता कोण?
तुज्या म्हज्या
काळजांत
वाडत वचपी धडधड...!

## देंगण

सपनांक
अचकीत पांखां फुट्टात
हुबतात तीं मळबांत
पयस पयस वतात
धोलत,आशेच्या वाऱ्यार

धरूंक वचर्चे जाल्यार
मर्दी देंगण
खोल
रुंद
हुपूंक येना अशें
हांव आलतडीं
सपनां पलतडीं
तूं स्वैर
हांव पळयत आसतां तुकां
मोवसूत काळखांत
उचंबळपी उजवाडांत
जनेला भायर
निरंतर झडत रावपी
उटंगाराच्या पावसांत
तेळत रावता
कोणाल्याशा दोळ्यांत
कुडीच्या पासांत
आवळिल्ल्या काळजांत...

इतलेंच कळ्ळें
तूं आसाच
अक्षरांचे आशिकुशीक
फाफसल्ल्या
पूण उतरांच्या दोरांत
गुथूंक न आयिल्ल्या
कवितें भशेन...विरकळीत
स्वैर!



- दिलीप बोरकार
9822136885

## उतर

लॉकडावनाच्या निमाण्या पेण्यार
आनी अनलॉकाचे पुर्वसंध्येर
साहित्य अकादेमीचो काय
तसल्याच राष्ट्रीय पुरस्कारान
सन्मानीत एक कवी
प्रस्तावने खातीर मेळूंक आयलो
तोंडावेल्या मास्कांतल्यान म्हणूंक लागलो
लॉकडावनाचे स म्हयने
आनी भंयाचे चार म्हयने
भायर सरूंक पावलों ना
घरांत बसून करमना
देखून कविता रचल्यो एकार एक
कश्यो जाल्यात खबर ना
फेसबुकार बी घातल्यो
आनी बरेच आंगठे आयले
पूण ते जाल्यारूय आनी मेल्यारूय येतात
तेन्ना म्हळें एक संग्रह काडुया
तुमच्या सारख्यांचे प्रस्तावने सयत
मुखार कवितेचें वाढ आपटीत
राष्ट्रीय पुरस्कार जैतिवंत कवीन म्हळें
हांवें म्हळें,आतां प्रस्तावनेची गरज किते?
मेळपाचो तो राष्ट्रीय पुरस्कार
केन्नाच पदरांत पडला
आतां जें किते पेनांतल्यान गळटा
तेंच माथ्यार घेवपाक
तुजे त्या पुरस्काराचो वेंकूच पुरो
हांवें ताका फुलयलो
पुरस्कार ते तर आसाच आल्मारींत
तरी कोणें तरी अर्दी मर्दी तांची
वाद करूंक जाय चलता भोंवतना
म्हणटकच लोकांचे तकलेंतलो
विसरायेचो धुल्ल फाफडून वता
बाविल्लो बोमाडो कसो ताची जाप
तार्चे बाढ ताचे मुखार धुखलीत
हांवें म्हळें प्रस्तावना जमत शी दिसना
तरी तुमचे समग्र कवितेचेर
परखड भाश्य आतां जायच
पुरस्कारार्चे मुल्य तोलपाक
तें मात करीन हांव
पूण आतां न्हय
तर तुमच्या प्रस्थाना उपरांत
आतां केल्यार
तुमचो मदलो एकलोय म्हाका
जियेवंक दिवचो ना सुखान
आनी म्हाका इतले बेगीन
कर्शेच मरपार्चे ना
कित्याक,
हांवें वेवपी पिळगेक
दिलां एक उतर
साहित्याचो खरो गूट
तांचे सामकार दवरपाचो
कवितेच्या रसा सयत
तर्शेच किडेल्ल्याय काव्यार्चे
फळ फोडून
तक्षकाचीय धुस्मटमार सोडोवंक जाय
कवितेचेर भरवंसून जियेवंक
पावली मारपी पिळगे पासत...

## भिरांत

सगल्यांनी आपलें सादोवन घेतलां
तो कोण सोक्रेटीस वीख पिवून मेलो
ताच्याय पयलीं पडलां आसतलें जायतें
पूण म्हाका तें खणपाची ताकद ना
आनी इत्साय ना
उपरांत कोण तरी बुध्द म्हूण जालो
तोखेतां ताची मुर्त हांव
आनी विचारांत पडटां
कित्याक केलो काय हार्णे
मुर्तीपुजेक विरोध
आसूं...
ताच्या माथ्यावेले कोंगे आनी हाताची मुद्रा
पळोवंक बरें दिसता
मागीर कोण तो येसू
दोनेक हजार वर्सां जालीं
सगळ्यांच्या खांदार खुरीस दिवन मेकळो
वेदना नाशिल्लो,मौज मजेचो
गांधी म्हूण एकल्यान
छातयेर गुळी घेतली राम म्हणत
आयज हे सगळे बेस बरे आसात
हुसक्यां विरयत, पुतळे जावन
ना तांकां हुसको
कोणूय येवन बसत म्हूण
आपले रांकेंत
आनी जायत धनी पुतळ्यांचे वा मंदिरांचे
हांव मात हांगा
सॉक्रेटीस जावंक धडपडटां
दर दिसा वीख पितां
बुध्द जावंक वथरेतां
गांधी जावंक गुळयो येतां
पूण कोणूच जावंक पावना
म्हजे हे वळवळे सोंपून सोंपनात
आनी आपले पंगतीक
तेय म्हाका घेत शे दिसनात
आपापल्या अनुयायांक ते भियेतात
आनी
पुतळे जावन ओगीच रावतात





# ते काळखे रात

इं. नरेशाक दिवाकर आनी सुधाच्यो कुडी जे स्थितींत बाज्जेर पडिल्ल्यो त्यो पळोवन हें खुनाचेंच प्रकरण हे विशीं खात्री जाली. कुडींतली सेफ उक्ती आशिल्ली. चावी दाराकूच लांबताली. कुडीक गॅलरींत वचपाचें दार आशिल्लें. ताका खिळी आशिल्ली. दारा भितरल्यान दोन तीन आंब्यांचीं पिकिल्लीं पानां पडिल्लीं. इं. नरेशान गॅलरीचें दार उक्तें केलें.



- मीना काकोडकार

दिवाकराचो बंगलो मात्सो एकट्या वाठारांत आशिल्लो तसो मुखेल रस्त्या पसून चड पयस नाशिल्लो. त्या रस्त्य कडल्यान एक आडवो फांटो बद्द बंगल्या मेरेन गेल्लो. त्य आडव्या रस्त्याच्या दोनय वटांनी झाडां रोयिल्लीं. ताका लागू तो बंगलो सट्ट करून कोणाक दिसनासलो. इतलेंच.

बंगलो व्हड पूण तातूंत लोक मात थोडेच रावताले. दिवाक आनी ताची बायल सुधा. सत्तरी कडेन पाविल्लीं. तांचो पू हरीश. दिवाकराक एक धुवय आसा. पूण ती लग्न करू मुंबय दिल्या.

घरांत रांदूक एक बायल आशिल्ली. तिचें नांव विमल फाटले वटेंतल्या सर्व्हंट क्वार्टसांत दिवाकराचो ड्रायव्हर बाबल आनी ताची बायल भिमी रावतालीं. बाजारांतलें सामान ह हाडपाचें काम बाबली करतालो आनी घरांतली साल्न मारप, पुसप असलीं कामां भिमी करतालें. ते भायर राणा म्हणून एक सेक्युरिटी गार्ड आशिल्लो जो फकत तिळसांजचो येतालो आनी रातभर आसतालो.

बंगल्याक सकयल हॉल, दिवाकराची स्टडी, रांदची कूड, कोठये कूड, सर्व्हीस व्हरांडा आनी कोठये कुडीक तेंकून

एक ल्हानशीच कूड आशिल्ली थंय विमल रावतालें. सकयल वयर सगळ्याक वॉशरूम आशिल्लो.

वयले माळयेर तीन बेडरूम. दिवाकर आनी सुधाची मास्टर बेडरूम, ताका तेंकून हरीशालो रूम आनी तिसरो गॅस्ट रूम.

त्या दिसा आयतार आशिल्लो. सुटी म्हणटकीर हरीश वेळान उठपाचो. पूण दिवाकराक सकाळीं सातां पयलीं च्या जाय आसताली देखून विमल सद्दां पावणे सातांक च्या येवन वयर वतालें. सदां भशेन च्याचीं कोपां येवन तें वयर गेलें.

ताणें दारार मारलें. ''वैनिबाय'' म्हणून सुधाक उलेय मारले. हरशीं एका उल्याक सुधाक जाग येताली आनी तें दार उक्तें करतालें. पूण विमलान परते, परते उले मारले तरीकूय ताणें दार उक्तें केलें ना. विमलाक हुसको सो जालो. ताणें हरीशाच्या दारार मारलें आनी वैनीबाय दार उक्तें करना ही गजाल ताच्या कानार घाली.

हरीश उठून भायर आयलो आनी ताणेंय दारार मारलें. 'पप्पा, मम्मी' म्हणून उलेय मारले पूण दार बंदूच. ताकाय हुस्को जालो. ताणें विमलाक म्हळें, ''चल बाबलीक आपोवन हाड.''

विमल ताकतिकेन सकयल गेलें आनी बाबलीक येवन आयलें.

हरीशान म्हळें,''बाबली, पप्पा बी दारूच उघडनात. किर्ते करूया? फोडल्यार बरें?''

बाबलीनूय दारार मारून पळयलें पूण कांय फायदो जालो ना. सगळ्यांक सामको हुस्को जालो.

दार फोडले बगर गत्यंतर नाशिल्लें.

बाबलीन दारार खोंटी घाल्यो. पूण दार घट्ट आशिल्लें.

''वयलीय खिळी घायल्या आसतली.'' बाबलीन म्हळें.

''पळय, तुज्यान जाता जाल्यार, ना जाल्यार आनीक कोणाकूय आपोवया.'' हरीशान म्हळें.

बाबली दारार नेटान खोंटी घालीत रावलो. पंदरा मिन्टांनी दार मात्शें खिळखिळ्ळें आनी थोड्या वेळान धडायच्च करून उक्तें जालें.

हरीश ताकतिकेन भितर सरलो. फाटोफाट बाबली आनी विमल गेलीं.

बाज्जेर दिवाकर आनी सुधा पडिल्लीं. हांतूण सगळें अस्ताव्यस्त जाल्लें. तांचेर नदर पडटनाच तांचो प्राण गेला हें समजतालें. पूण हरीशान तांकां हालयलें. उले मारले. पूण कांय फायदो जालो ना. ताणें तांची नाडीय पळयली. कुडींतली सेफ उक्ती आशिल्ली.

''दोतोराक फोन करतां'' अशें म्हणून हरीश ताकतिकेन आपले कुडींत गेलो आनी मोबायला वेल्यान दोतोराक फोन लायत तो सकयल गेलो.

''बाबली किर्ते जालां रे?'' विमलान थरथरत विचारलें.

''कर्म म्हार्जे! कळना तुका? मेलीं तीं!'' इतलें म्हणून तो हरिशा फाटोफाट सकयल गेलो.

''देवा म्हज्या!'' विमलान आकांतान कपलां बडोवन घेतलीं.

***

दोतोरान तपासून तीं दोगांय गेल्यांत म्हणचेलें हरीशाक सांगलें. ''पोलिसांक फोन कर. हें खुनाचें प्रकरण काय दिसता.'' दोतोरान म्हळें. हरीशान पोलिसांक फोन केलो. रीनाक कळयलें. कांय इश्टांक आनी लागींच्या सोयऱ्यांकूय फोन केलो. पोलिसांची जीप थंय आयली तेन्ना बंगल्यांत लोक जमिल्ले. पूण हरीशान कोणाक वयर व्हरूनं नाशिल्ले.

इन्स्पेक्टर नरेश आपल्या वांगड्यांक येवन हरीशा वांगडा वयर गेलो. दोतोरूय तांचे बराबर आशिल्लो.

इं. नरेशाक दिवाकर आनी सुधाच्यो कुडी जे स्थितींत बाज्जेर पडिल्ल्यो त्यो पळोवन हें खुनाचेंच प्रकरण हे विशीं खात्री जाली. कुडींतली सेफ उक्ती आशिल्ली. चावी दाराकूच लांबताली. कुडीक गॅलरींत वचपाचें दार आशिल्लें. ताका खिळी आशिल्ली. दारा भितरल्यान दोन तीन आंब्यांचीं पिकिल्लीं पानां पडिल्लीं. इं. नरेशान गॅलरीचें दार उक्तें केलें. भायल्यान आंब्याचो एक रूख आशिल्लो आनी ताचो एक ताळो सामको गॅलरीक तेंकून आयिल्लो. नरेशान भितर येवन दार परत बंद केलें. फोटो काडपाचें, ठशे घेवपाचें काम चालू जाल्लें. सगळ्यो फॉर्मालदादी जातकीर पोलीस दिवाकर आनी सुधाच्यो कुडी पोस्टमोर्टमा खातीर येवन गेले.

इतले म्हणसर ॲडव्हकेट शांताराम ताकतिकेन बंगल्यांत भितर सरलो. तो दिवाकराचो लिगल ॲडव्हायजर न्हय, तर लागींचो इश्ट आशिल्लो. हरीशाक पळोवन ताणें विचारलें, ''हरीश, हें केन्ना घडलें?''

हरीशान ताका थोडे भितर सगळें सांगलें आनी इं. नरेशा कडेन वळखूय करून दिली.

''सगळयांचे स्टेटमेंट घेवंक जाय. तुमीय मात्शे रावशात?'' इं. नरेशान शांतारामाक विचारलें.

शांतारामन मान हालयली. तार्णे हरीशाक विचारलें, ''रीनाक कळयलां मरे? पोराचेर आकांत येतलो.''

हरीशान 'हय' म्हळें आनी तो इं. नरेशाक आनी ताच्या असिस्टंटाक घेवन स्टडींत गेलो. त्या घरांत रावपी लोकांची यादी असिस्टंटान तयार केल्ली, ती तार्णे इं. नरेशा कडेन दिली.

''हरीशबाब, पयलीं तुजोच स्टेटमेंट घेवया. काल शेनवार. त्या दिसा सावन कितें, कितें जालें तें सविस्तर सांग.''

''हांव स्टेट बँकेंत काम करतां. दिवचल ब्रॅन्चींत. सद्दां यो वच करतां.''

''कसो वता?''

''म्हजी गाडी घेवन.''

''काल कितल्यांक परतो आयलो?''

''तिळसांजचो साडेसातांक. पप्पा स्टडींत आशिल्लो. हांव थोडो वेळ ताचे कडेन उलयलों आनी वयर गेलों. रातीं आमी म्हळ्यार मम्मी, पप्पा आनी हांव वांगडाच जेवलीं.''

''कितें उलोवणें जालें तुमचें?''

''साद्योच गजाली. व्हडलें म्हत्वाचें कांय न्हय. मागीर तीं न्हिदूंक गेलीं आनी हांवूय थोडो वेळ टिव्ही पळोवन वयर गेलों.''

''मागीर? रातीचो कसलो आवाज बी आयकल्लो?''

''ना. काल मात्सो गडगड बी मारतालो. त्या बोवाळांत कांय आयकूंक येवंक ना.''

''सकाळीं कितें जालें?''

''विमलान दारार मारून उठयलें. मम्मी पप्पा दार उक्तें कर नासलीं. हांवेंय तांकां उठोवपाचो यत्न केलो. मागीर बाबलीक आपोवंक धाडलो. तार्णे येवन दार फोडलें.''

''भितर कोण, कोण गेलीं?''

''हांव, बाबली आनी विमल.मम्मी आनी पप्पा बाज्जेर पडिल्लीं तीं पळोवन म्हाका कांय सुचना जालें.''

''कुडींत सेफ आसा न्हय? तिची चावी खंय आसता?''

''हय, ती उक्ती आशिल्ली आनी रितीय आशिल्ली. थोडींशीं कागदां आशिल्लीं. घडये पप्पाचे कसले तरी डॉक्युमेंट्स आसतले. हांव पळोवंक पावूंक ना. पप्पा सेफीची चावी उश पोंदाच दवरतालो.''

''तातूंत पयशे वा वस्ती आसताल्यो?''

''मम्मीच्यो चडश्यो वस्ती लॉकरांत आसतात. थोड्योश्य ती सेफींत दवरताली. पप्पा कमीत कमी लाखभर रुपया सेफींत दवरतालो.''

''काल कितले पयशे आशिल्ले सांगूंक शकता?''

''ना. कांय आयडिया ना.''

''कुडींतल्यान भायर गॅलरींत वचपाचें दार आसा. ताक खिळी आशिल्ली?''

हरीश चितूंक पडलो. कालच्या बोवाळाक लागून त्य दारा कडेन ताचें लक्षूच वचूंक नाशिल्लें. मागीर तार्णे म्हळें, ''बंद आसूंक जाय. बाबली सुद्दां तिळसांजचो बंगल्याच सगळीं दारां, जनेलां बंद करता तो सारकें सांगूंक शकतलो.''

''तुमचो सेक्युरिटी गार्ड काल आशिल्लो?''

''ना. हांव काल पप्पा वांगडा स्टडींत आसतना बाबली सेक्युरिटी गार्डाक अपघात जाला आनी तो हॉस्पिटलांत आस म्हणून सांगूंक आयिल्लो.पप्पान बाबलीक ताचे वासपुशेक धाडलो.''

''बरें आसा. आनीक कितेंय लागल्यार मागीर पळयतां आतां मात्सो ॲडव्होकेट शांताराम बाबाक धाडून दी.''

हरीश भायर गेलो.

***

ॲडवॉकेट शांताराम स्टडींत भितर सरलो.

इं. नरेशाचो असिस्टंट सगळ्यांचे स्टेटमेंट रिकॉर्ड करून घेतालो.

''तुमी दिवाकर बाबाले लिगल ॲडव्हायजर?''

''हय.''

''तांचें फायनान्शियल पोझीशन कशें आसा?''

''बरें आसा.''

''हे घडणुके विशीं तुमकां कशें कळ्ळें?''

''दोन दिसां फाटीं दिवाकरान म्हाका फोन केल्लो.'' शांताराम उलयतां उलयतां गप्प जाल्लो.

''कित्या खातीर?''

''क्लायंटाचें उलोवणें कॉन्फिडेंन्शीयल आसता.''

''हय. पूण जेन्ना ताचो खून जाता तेन्ना गुन्यांवकाराचो सोद घेवंक आमकां शक्य जाता तितली म्हायती दिवप ही जण एकल्याची जापसालदारकी अशें दिसना तुमकां?''

शांतारामान थोडें चिंतलें आनी म्हळें, ''विला विशीं उलोवंक जाय म्हणटालो तो. तशें ताणें वील केल्लें आसा. परत कितें उलोवंक सोदी खबर ना. तेच खातीर केन्ना येता काय म्हणून विचारूंक फोन केल्लो. जाल्यार ही बातमी कळ्ळी.''

''ताचें भुरग्यां वांगडा रिलेशन कशे आशिल्लें?''

''तशें बरें आसा.'' शांताराम परत आडखळ्ळो. ''पूण हालीं मात्सो प्रोब्लेम जाल्लो.''

''कसलो?''

''हरीश ताचे बँकेंतल्या मारिया वांगडा लग्न जावंक सोदी आनी हांकां मान्य नाशिल्लें. हरीशाक जायतो समजायलो तांणी पूण हरीश आयकून घेवंक तयार नाशिल्लो. हें म्हाका दिवाकरानूच सांगिल्लें. दोगांय सामकीं अस्वस्थ आशिल्लीं आनी बारायकाळ हे गजालीक लागून तांचे मर्दीं वाद जाताले.''

''ते खातीर वील बदलूंक सोदी तो?''

''ना. तशें ताणें कांय सांगलें ना. फकत विला विशीं उलोवंक जाय इतलेंच सांगिल्लें.''

''बरें आसा. गरज पडल्यार परत रकाद धाडटां.'' इं. नरेशान म्हळें अॅडव्होकेट शांताराम गेलो.

***

इं. नरेशान बाबलीक आपोवंक धाडलो.

''तूं हांगाच रावता?''

''बंगल्या फाटल्या क्वार्टसांत रावतां सायब.''

''कसलें काम करता?''

''हांव गाडी चलयतां, वैनीबाय सांगताली तो बाजार करतां. भायलीं भितरलीं सगळीं कामां करतां सर.''

''कितलो तेंप जालो तुमी हांगा रावतात?''

''पांच वर्सां जालीं सायब. आमचें बाय हांगाच जालां.''

''शेनवारा कितें जालें तें सांग.''

''शेनवारा भाऊ म्हाका घेवन भायर सरलो. तेका बॅन्केंत सोडून हांव वैनीबायचें सामान हाडूंक बाजारांत गेलों. मागीर भायलीं कामां जातकीर आमी घरा येयले.''

''तिळसांजचीं घराचीं दारां जनेलां धांपपाचें काम तूं करता?''

''हय सायब.''

''दिवाकरबाबले कुडीचे गॅलरीचें दार तुवें बंद केल्लें?''

''हय सायब.''



''हांगा कोण अनवळखी बी आयिल्लो पळयला तुवें?''

''ना सायब. मात पोरसांत माडांक आळीं काडपाचो वावर चालू आसलेलो. दोन मानाय कामाक येयलेले. पूण ते म्हाजे वळखीचे.''

''आयतार दिसा सकाळीं किर्ते जालें?''

''भाऊ दार काडिना म्हणोन हरीशभाईलो रकाद घेवन विमल येयलें.''

''मागीर?''

''हांव रोखडोंच वयर धांवलों सायब. भाऊ दार काडीना देखून दार फोडल्यार बरें अशें हरीश भाऊन म्हणलें. हांयेनूय बी दारार मारलें. पूण भाऊन दार उक्तें केलें ना देखून दार फोडचेली तयारी केली.''

''दार रोखडेंच उक्तें जालें.''

''ना सायब. बरेंच धाडावचें पडलें. वयलीय खिळी घातलेली देखून दार फोडूंक त्रास जालो.''

''तूं हरीशा वांगडा भितर गेलो?''

''हय सायब. हांव आनी विमल दोगांय भितर गेल्लीं.''

''किर्ते दिसलें तुमकां?''

बाबलीन आयंडो घोटलो...

''भाऊ आनी वैनीबाय बाज्जेर पडलेलीं. हरीशभाऊन तांकां हालयलें उलो बी मारलो. मागीर तो दोतोराक फोन करूंक गेलो.''

''आनी किर्ते पळयलें तुवें?''

''आनीक...? हय.. तिजोरी उक्ती आसली. पूण तितूंत कांय नासलें.''

''गॅलरींत वचपाच्या दाराक  खिळी आशिल्ली?''

''हय सायब.''

''तुवें पळयिल्ली?''

''ना, म्हाजें लक्ष गेलें ना थंय. पूण तिळसांजेचो हांव सगलीं दारां जनेलां बंद करतां. सगल्याक भोंवन पळयतां.''

''तें खबर आसा. पूण अदमासान तूं दाराक खिळी आशिल्ली म्हणटा काय तुवें पळयल्या खिळी आशिल्ली ती?''

''ना सायब म्हाजें लक्ष गेलें ना खिळयेचेर. पूण दार बंद आसलें.''

''काल सेक्युरिटी आयिल्लो?''

''ना सायब ताचेर कोणें मोटारसायकल हाडून मारली आनी तो हॉस्पिटलांत पावलो. ताणें म्हाका थंय सावन फोन केलो. हांवें भाऊक सांगलें. भाऊन म्हाका ताचे वासपुशेक धाडलो. पूण काल रातीं सेक्युरिटी येवंक पावलो ना.''

''बरें. आतां तूं वच आनी तुजे बायलेक धाड.''

''भिमीक? सायब ती सामकी भियेल्या. ती कांयच सांगोंक शकची ना.''

''तें हांव पळयतां. तूं धाड तिका.'' इं. नरेशान म्हळें.

***

भिमी भितर आयली. ती सामकी काचाबूल जाल्ली.

''सायब, म्हाका कांयच खबर ना.'' तिणें आडखळत म्हळें.

''तुका जितलें खबर आसा तितलेंच सांग आं.'' भिमीन पदरान घाम पुसलो.

''कितलीं वर्सां जालीं तुमी हांगा रावतात?''

''पांच वर्सां सायब.''

''तूं बंगल्यांत कसलें काम करता?''

''हांव घरांत सान्न मारतां, पुसतां.''

''सद्दां सगळें घर पुसता?''

''हय.''

''आनीक कोण कामाक येता?''

''हय सायब. कांतून, शिनून दिवंक एकलें येता. पूण तें हांगा रावना. तें सकाळीं येवन वयता.''

''तूं रांदता?''

''ना सायब. इमल रांदता.''

''काल तुवें तुमच्या भाऊची कूड पुशिल्ली?''

''हय.''

''गॅलरीचें दार उक्तें आशिल्लें?''

''ना. तें सदींच बंद आसता. सान्न मारूंक हांव दार उक्तें करतां आनी मागीर बंद करून खिळी घालतां. वैनीबायक तें दार उक्तें आसल्यार आवडना. वाऱ्यान आंब्या पानां भितर येतात म्हणोन.''

''काल दार बंद केल्लें तुवें?''

''हय सायब. वैनिबायन पळयलां.''

''आतां वैनीबाय ना.''

भिमीन दोळ्यांक पदर लायलो.

इं. नरेशान ताका धाडलें आनी विमलाक आपोवंक सांगलें.

***

विमलाक रडप आडावप कठीण जातालें.

''तूं हांगाच रावता?'' इं. नरेशान ताका प्रश्न केलो.

''हय सायब.''

''कितलीं वर्सां जालीं?''

''दोन वर्सां जालीं.''

''तूं हांगा कसलें काम करता?''

''रांदपाचें सायब.''

''शेनवारा कितें जालें?''

''सगळें सदचे भशेनूच आसलें.इकरांक भाऊ बाबलीक येवन बँकेंत गेलो.''

''हें तुका कशें कळ्ळें?''

''भाऊन वैनीबायक उलो मारून आपूण बँकेंत वसोन येतां म्हणलें.''

''मागीर?''

''दनपरां जेवन भाऊ आनी वैनीबाय वयर वसोन आड पडलीं. हायेन म्हाजें काम केलें.''

''मागीर?''

''सांजचो भाऊ आपल्या हापिसांत बसलो. हायेन ताका थंयच च्या व्हरोन दिली. हरीशभाऊ येयलो तेन्ना तेकाय हायें थंयच च्या दिली.''

''रातचें जेवण कितल्यांक जालें?''

''साडे आठांक. मागीर भाऊ आनी वैनीबाय वयर गेलीं. साडेणवांक सुमार हांव दुदाचे गिलास येवन वयर गेलें. न्हिदचे आदीं तीं दोगांय दूद पियेतालीं.''

''तेन्ना तीं कितें करतालीं?''

''भाऊ पुस्तक वाचतालो. कदेलीर चादरां आसलीं. व्हनीबायन म्हळें तीं चादरां सकयल व्हर आनी फाल्यां उमळोंक घाल.''

''गॅलरीचें दार बंद आशिल्लें?''आं..? हय सायब." विमल मात्शें आडखळ्ळें.

"दुसऱ्या दिसा सकाळीं कितें जालें?"

"सायबाक सकाळफुडें बेगीन च्या जायी म्हणोन हांव पावणे सातांक च्या येवन वयर गेलें. दारार माल्ल्यार कोण दार उगडियना. हरशीं वैनिबाय रोखडीच दार उक्तें करता. म्हाका हुस्को दिसलो म्हणोन हायें हरीशबाबाक उठयलो. हरीशबाबानूय दारार मारलें, उलेय मारले मागीर तेणें म्हाका बाबलीक आपोवंक धाडलें."

"मागीर?"

"हांव बाबलीक येवन वयर येयलें. बाबलीनूय दारार मारलें. पूण दार उघडलें ना. मागीर हरीशभाऊन बाबलीक दार फोडोंक सांगलें... तेणें दार फोडलें... हरीशभाऊ आनी आमी भितर गेलीं जाल्यार..." विमल व्हडल्यान रडूंक लागलें. मागीर आपले आपूण सावरलें.

"कितें पळयलें तुवें?"

"भाऊ आनी वैनीबाय बाज्जेर वांकडीं तिकडीं पडलेलीं. हरीशभाऊन तेंकां हालयलीं, उले मारले पूण तीं जीव गेल्लेवरी पडलेलीं."

"मागीर?"

"मागीर हरीशभाऊ दोतोराक फोन करोंक गेलो."

"गॅलरीच्या दाराक खिळी आशिल्ली?"

"हय सायब." विमलान फट्ट करून सांगलें.

"सामकें खात्रीन सांगता?"

"म्हाजी नदर गेल्ली सायब खिळयेर."

"मागीर?"

"मागीर हरीशभाऊ सकयल वैतालो. तेचे फाटोफाट आमी गेलीं."

"तुका घरा कोण कोण आसा?"

"घोव, भुरगींबाळां कोण ना सायब. एक भयण आनी भाव आसा. पूण तीं म्हाज्या तोंडार नदर घालिनात. म्हाका कोण ना म्हणोन वैनीबायन म्हाका आदार दिल्लो." विमलान परत दोळ्यांक पदर लायलो.

नरेशाक कांय गजाली खटकताल्यो. कांय गजालींची चवकशी करपाची गरज आशिल्ली. पूण त्या दिसा पुरतें तरी ताणें आपलें काम आटापतें घेतलें आनी तो भायर सरलो.

***

सोयऱ्या धायऱ्यांची हरीशागेर गर्दी जमिल्ली. कशें जालें? केन्ना जालें? कोणें केलें? कितलेशेच प्रश्न. पूण कोणाचकडेन जाप नाशिल्ली.

राती कडेन रीना आनी घोव पावलीं. तीं दोगांय गाडीच येवन आयिल्लीं. रीना हांबेर फोडून भावाचे वेंगेंत गेलें. काल



आशिल्ले आवय बापूय आज नासप ही भयानकूच गजाल आशिल्ली. आनी मरण तेंय बी अशे तरेन हें चिंतल्यारूच रीनाक खूब्ब कश्ट जाताले.

दुसऱ्या दिसा पोस्टमॉर्टम जातकीर दोगांयच्यो कुडी घरा हाडल्यो आनी तांचेर निमणे संस्कारूय जाले.

इं. नरेशालो तपास चालू आशिल्लो. पूण आजून हाताक ठोस अशें कांय लागूंक नाशिल्लें.

बाबली, भिमी आनी विमल हांचेविशीं बारीकसाणेन खबर काडपाचें पोलिसांचें काम चालू जाल्लें.

बॅन्केंत चवकशी केली तेन्ना दिवाकरान पांच लाख रुपया काडिल्ले ही गजाल मुखार आयिल्ली. म्हणटकीर सेफींत कमीत कमी पांच लाख आनी थोड्यो वस्ती आशिल्ल्यो ही गजालय नक्की जाल्ली. पांच लाख कित्याक काडले होय एक प्रस्न आशिल्लो.

इं. नरेशान आपल्या सहकाऱ्याक म्हळें, ङहांव जेन्ना कुडींत भितर सरलों तेन्ना गॅलरीच्या दाराकडेन आंब्याचीं दोन तीन सुडिल्लीं पानां पडल्लीं. हाचेवयल्यान तें दार परतें उक्तें केल्लें हें कळटालें.

सगळो तपास एकेच गजाली कडेन येवन आडखळटालो. कुडीचीं दोनूय दारां बंद आसतना कोणूय भितर सरलोच कसो? कोणतरी खात्रीन फट उलयतालो. भायल्या कोणाक भितरलो कोणतरी भेदी आशिल्लो.

पोलीस स्टेशनांत सदची गजबज चालू आशिल्ली. इतल्यांत एक पोलीस कोणाकतरी येवन आयलो.

''सर, हो रामगो फाटल्या म्हयन्यांतूच कादर्येतल्यान सुटला. आयज परत सांपडला.'' ताणें इं.नरेशाक सांगलें.

''खंय चोरी केली?''

''चोरी खंय केली ती खबर ना. पूण चोरयेच्यो वस्ती विकूंक शेटीगेर गेल्लो. ताची नदर चुकोवन शेटीन आमकां फोन केलो.''

''कोणाल्यो वस्ती?'' इं. नरेशान विचारलें.

''आपले बायलेच्यो म्हणटा. तोंड उगडूंक तयार ना.''

''चवदावें रत्न दाखय ताका. रोखडेंच तोंड उक्तें जातलें.''

चार दांडे पडटा खिणाक रामगो हाता पांयां पडूंक लागलो. पूण कोणागेर चोरी केल्ली हें ताचे कडल्यान वदोवन घेवंक आनीक चार दांडे पडचे पडले.

चोरी दिवाकरबाबागेर केल्ली हें कळटा खिणांक हें फक्त चोरयेचें प्रकरण उरलें ना, तर खुना सारकें भयंकर प्रकरण जालें. तोंड उक्तें करून आपूण फसलों हें रामग्याच्या लक्षांत आयलें पूण आतां पश्चताप करून फायदो नाशिल्लो. मागीर ताणें कशे तरेन गॅलरींतल्यान आपूण कुडींत भितर सरलों, सेफीची चावी काडटना जाण्टेलो कसो जागो जालो आनी

झटापट करूंक लागलो, ते खातीर ताका आड घालून ताचो गळो कसो दामचो पडलो, तितले म्हणसर ताची बायल जागी जावन किंळच्यो मारूंक लागली म्हणून तिचोय जीव घेवचो पडलो हें ताणें आडखळत सांगून उडयलें.

''गॅलरीचें दार उक्तें आशिल्लें काय बंद?''

''उक्तें आशिल्लें सायब. म्हाजे भयणीन तें उक्तें दवरिल्लें सायब.''

''कोण भयण?''

''विमल सायब. तेणेंच म्हाका फोन केल्लो.''

''शाब्बास! फोनार सगळें प्लॅनींग केलें? आतां तर तूं जिवय घेवंक शिकलो. आतां चडोवया तुका फांसार.''

''सायब तें चुकोन जालें भिरांतेन...''

''चुकून जालें मरे? आतां चुकूनच तुका फांसार चडोवया.'' इं.नरेशान तिडकीन म्हळें.

***

हरीश आनी रीना दिवाकराली आलमार जाग्यार घालताली. हरीशाक थंय ताची डायरी मेळ्ळी. निमण्या दिसांचीं पानां चाळटना हरीशाक तातूंत एक नोंद मेळ्ळी.

'दामोदराले चलयेचें लग्न थारलां. ताका पांच लाखांची गरज आसा. ताचे गरजेक पावंक जाय. फाल्यां बॅन्केंतल्यान पयशे काडचे पडले-'

आपल्या बापायन पांच लाख रुपया बॅन्केंतल्यान कित्याक काडिल्ले ताचो हरीशाक उलगडो जाल्लो. इन्स्पेक्टराक हे विशीं सांगचें पडलें अशें हरीशाचे तकलेंत आयलें. जुस्त तेन्नाच इं. नरेशाचो आपूण येतां म्हणून फोन आयलो.

पोलिसांची जीप आयली तेन्ना हरीश बी सगळीं सालांत बशिल्लीं. इं.नरेश भितर सरलो. बाबली भाजेच्यो पिशव्यो घेवन रांदचे कुडींत वतालो. पोलिसांचेर नदर पडटकीर तो थंयच घट्ट जालो.

''विमल, पोलीस येयल्यात गो.'' ताणें ल्हवूच म्हळें.

विमलान कच्च करून आंग काडलें. "कित्याक येयल्यजात काय देवा?" ताच्या मनांत येवन गेलें. बाबली भायर गेल्लो. पूण विमलाक भायर वचपाचो धीर जायना जालो. तें भितर रावन भायलें उलोवणें आयकुपाचो यत्न करूंक लागलें. पूण स्पश्ट कांयच आयकूंक येनासलें.

रामग्याक धरत सावन किर्ते किर्ते घडलेत्र तें इं. नरेशान तांकां सांगलें. वस्ती आनी पयशेय मेळिल्ले. थोडेशे पयशे रामग्यान मोडिल्ले. पूण चडशे आशिल्ले. हरीशानूय इं. नरेशाक बापायन पांच लाख कित्याक काडिल्ले तें सांगलें.

आतां एकूच काम उरिल्लें विमलाक धरून व्हरपाचें. विमल आनी अशें करीत हें कोणेंच चिंतूंक नाशिल्लें.

"विमलाक आपयात आं." इं. नरेशान म्हळें.

आपल्या भांगरा सारक्या धनी आनी धनिणीच्या मरणाक विमल जापसालदार आशिल्लें हें आयकून बाबलीकय विमलाविशीं किंवांटो आयिल्लो. ताणें रांदचे कुडीच्या भायल्यानूच रावन म्हळें, "विमल तुका भायर आपयता."

विमलाच्या हातापांयांक कडकडो भरलो. त्या दिसा हरीशभाऊ आनी बाबली सकयल वतकीर आपणें गॅलरीच्या दाराक खिळी घाली हें कळ्ळें काय कोणाक अशें ताच्या मनांत येवन गेलें. घाम पुशीत तें भायर गेलें. सगळीं जाणां आपल्याक विचित्र नदरेन पळयतात अशें ताका दिसलें. हरीश आनी रीनाची नदर तर सामकी रागान खतखतताली.

"विमल, तुवें जें किर्ते केलें तें सगळें आमकां कळ्ळां. तुका व्हरूंक आयल्यात आमी." इं. नरेशान म्हळें.

"हायें कांयच करों ना सायब." विमलाक भयानूच रडूंक आयलें.

"आतां फटींगपणां चलचीं नात तुजीं. रामग्यान सगळें सांगलें आमकां."

हें आयकतकीर विमलाचेर आकांत आयलो. "ना सायब, हायें भाऊक आनी वैनीबायक मारोंक सांगों नासलें. शिराप पोडों त्या रामग्याचेर."

जिपींतली बायल पोलीस दारांत उबी आशिल्ली. इं. नरेशान तिका कुरू केली आनी ती फुडें सरली.

"चल या विमल."

विमालान रीनाच्या पांयार घालून घेतलें. पूण ताच्या काळजांत विमलाविशीं मातूय काकूट नाशिल्ली. आकांत करपी विमलाक पोलीस घेवन गेले.

मळबांत गडगड सुरू जाल्लो आनी ते काळखी रातीच्यो यादी घरच्यांच्या काळजांत जागयत घसघशांनी पावस पडूंक लागलो.



मडगांव-गोंय. मो. : ८०८७७०८०५०



# म्ह
# य
# नी



एकामेकाचे वेंगेंत घुस्पून येतासतनाच अचकीत चार-पांच जाणांनी तांचेर घुरी घाली. दोगांयच्याय तोंडांत कपडे चोंबून निखीलाक झाडाक बांदून घातलो आनी ताचे सामकार रोमाचेर... दोळे बंद करून रडपा शिवाय निखील कांयच करपाक शकलो ना आनी रोमाक तर अत्याचार सहन करपा शिवाय गत्यंतरूच ना जालें. आपलो हेतू पुराय करून ते तवनास आयिल्ले तशेच ना जाले.



- आशा शानभाग

निखील... दादाचो, व्हडल्या भावाचो फ्रेन्ड... आतां चडूच घरांत यो वच करता हें फकत रोमा खातीर हें घरांतल्या सगळ्यांकूच कळिल्लें. रोमा ल्हानपणां सावन निखीलाक पळयतालें. पूण फाटीं... तें व्हड जायत सावन रोमाक निखीला विशीं कितें तरी वेगळेंच दिसतालें... ताची नदर जाय-जायशी दिसताली. वेगळीच हुरहूर कशी लागताली ताका. निखील नदरेक एक दीस जरी पडलो ना तर काळजांत कुसकुसतालें आनी नदरे सामकार आयलो की काळजांत घपऽऽ घपऽऽ जातालें... लज लज दिसताली सामकी. शिकप चलतालेंच. ताचे वांगडाच... आँखो आँखो में इशारे... हय न्हय सो.. आंगार शिरशिरो हाडपी जाल्लो स्पर्श.. ओठांच्यो कुरवो चुकून दाखयत मुद्दाम केल्ल्यो टक्करी. लजून-लजून तांबडेंच जावचें रोमान.

निमणो रोमाच्या दादा वांगडाच निखीलूय शिर्वीशेक लागलो. ताणें डायरेक्ट दादा कडेन आपलें मन आनी मत उक्तायलें. "रोहीत, म्हाका तुका कितेंतरी सांगपाचें आसा. तुका पटलें किंवा न पटलें तरी आमचे मदली आमिजाद कायम उरपाक जाय हां... हें उतर दी. प्रोमीस!"

"भाव खावं नाका... रोमा विशींच विचारचें आसा मरे?"

तट्ट वारें भरिल्लो बोमाडो हातांतल्यान सुटलो काय जशें त्या बोमाड्याचें जाता तेंच निखीलाचें जालें. फुऽऽस्स...

“आरे, माजरां चोरून दूद पितात पूण भयणीच्या भावाचे आनी याराच्या याराचे दोळे मात उक्तेच आसतात.” दोळे मिचाकायत रोहीत हांसपाक लागलो.

“पळय.. फटाफट रोमाक प्रपोज कर.. ताचें हय आसल्यार... आय मीन.. हय आसतलें मरे निखील?”

“हय मरे.. चितलेंच नां ताचे विशीं. पळय मरे लाडक्या साल्या फुडलें मातशें.”

“तूं भाव खाय नाका. बेठोच हांव भावोजी, जिजू बी म्हणटालों म्हणून. पयलीं रोमाचें मन आनी मत जाणून घे. मागीर पळोवया.”

“चल तर या मरे?”

“चल रोहीत वन बाय टू एक शिगार फुसकावन सेलेब्रेट करुया.”

“हलकटा, भयणीचो घोव जातलो तूं म्हजे. तुजी भलायकी घट्ट दवरप म्हजी ड्युटी. आयच्यान फुसकावणीक फुलस्टॉप.”

“चल तर हॉटेलांत तरी वचुया.”

“ओके, डन! भावी भावोजीक बोडकावया मात्सो, चल.”

रोमेंटीक अशी सांज. सुर्यो दर्यांत सूर मारपाक तयार. निखीलान व्हॉट्सअॅपार रोमाक एक तांबडो गुलाब आनी ‘आय लव यू’ धाडलें. ‘डिलीवर्ड’... पांच मिटांनी सी.. पंदरा.. वीस मिन्टां जालीं. नो रिप्लाय. ऑनलायन आसा रोमा. पूण? देवा, नो रिप्लाय काय नो रिस्पोन्स? दैंवती... सोबीत सांज ताचे खातीर भयाण जावंक लागली. हय काय ना? ह्या शब्दांचेर मन उडक्यो मारतनाच मोबायल वाजलो. रोमा कॉलींग. ‘थॅंक गॉड.. हय.. ना तरी जातलें आतां...’ चिंतीत निखिलान फोन घेतलो.

“हॅलो... रोमा...”

“आर यू सिरियस अबाऊट युवर मॅसेज? काय फकांडां?”

“एऽऽ नां गो. फकांडां न्हय. तुजो कांयच रिप्लाय ना म्हणून हांव मरतां हांगा.. सांग तुजें हय म्हणून.”

“दादा?”

“हय काय सांग पयलीं.”

“आरे, म्हजें हयच. पूण दादा?”

“थॅंक्स! तुज्या दादाक पटयलो हांवें. साला म्हणून मानवलो तो म्हाका. ताणेंच तुजें ‘हय’ तर सगळेंच ‘हय’ सांगलें.”

टुक्क... फोन कट. परतून लायल्यार स्वीच्ड ऑफ.

“येऽऽऽ...”

दर्या देगेर एकलोच नाचून निखीलान खोस परगटायली.

निखील, रोहीत आनी दोनूय घरचीं मनशां हांचे मदीं भासाभास जावन रोमाची फायनल परिक्षा जाली काय रिजल्टाची वाट पळयनासतना पेंऽऽ ढुम्म करपाचें थारून गांव भर पांच-पांच दुदफेण्यांची पोती दर घरा कणकणी पावयली.

मे म्हयन्याच्या सुरवेच्या म्हुर्ताचेर रोमा आनी निखील हांचें व्हडा दबाज्यान लग्न जालें. दोनूय घरच्यो चाली-रिती आटोपून म्हयन्या भरांत सुशेगादशीं दोगांय हनिमून टुराक वचपाक गेलीं. सावथ इंडिया. केरळ, तमिळनाडू आनी आंध्रप्रदेश भोंवपाचें थारलें. यात्रा डॉट कॉमाचेर हॉटेल आनी टुर्साचो प्लॅन फिक्स केलो. तांचो हो टूर फक्त हनिमून टुरूच नासलो तर मेनली सायटसिईंग टूर थारायिल्लो. हांगा सावन केरळ पावले की सगळें यात्रान फिक्स केल्लें. नेत्रावलीचेर केरळ गाठलें. आनी प्रीप्लॅन्ड आनी प्रिपेड टूर सुरू जालो. पांचवेचार माड, ताचे परस गडद पांचव्या कोराच्यो केळी... आनी नदर वता थंय बॅक वॉटर्स. दोन चार दीस केरळ फिरून, मन धादोस जायत सर फोटोग्राफी करून दोगांयनी लोकल ट्रेनीन तमिळनाड वचपाचें थारायलें. देशाचें निमणें दक्षिण टोंक... कन्याकुमारी.

विवेकानंद रॉक, देवूळ, पळोवन रातचो तांचो राबितो तमिळनाडुंतल्या एका ल्हान, सुपुल्ल्या गांवांतल्या गेस्ट हावजांत बूक जाल्लो. तेंवूय गेस्ट हावस एका ल्हानशा, नाजुकशा सुपुल्ल्या व्हाळाचे धडेर बांदिल्लें. सकाळीं पांचांक सुकण्यांच्या किलकिलाटांत तांकां जाग आयली. जनेलांतल्यान भायर पळयतना दोगांयच्याय तोंडांतल्यान एकूच उतर, ‘व्वा’! फाटले वटेन खळखळत, नाचत गोंदोळ घालपी व्हाळाक पळोवन रोमाच्यो किंळच्यो... ‘निखील, मॉर्नींग वॉक घेवया व्हाळाचे कडे कडेन. मस्त हरवें तण आसा पळय.’ भायल्या थंड वातावरणाक तोंड दिवपाक एकेक शाल आंगा भोंवतणी गुठलावन दोगांय भायर सरलीं.

दवान भिजिल्लें तण माडयत वतना दोगांय व्हाळाचे धडे वयल्यान बरींच पयस पावलीं.

“परतुवया मरे?”

“एऽऽ.... रुमार वचून कितें करतलीं? मातशीं भोंवया... मस्त सैम पळोवया.” निखीलान रोमा भोंवतणी हात रेवडावन ताका म्हज्यांत घेतलें. आनीकूय फुडें पावल्यार ल्हानसो धबधबो. व्हाळूच तो. पूण सात-आठ फूट वयल्यान कोसळटालो.

''व्हा, निखील तुवें फुडें वचुया म्हणिल्ल्यान हो नजारो पळोवपाक मेळ्ळो.''

सेल्फी जाल्यो. सैमाचे फोटोय जाले.

''चल गो या आतां.''

''मात्सो राव रे. पळय ही व्हाळा देगे वयली हिरवाय आनी फातर पळय आनी पांयांक खातकुतल्यो करपी चिमटीभर नुस्तीं.'' रोमा उदकांत भिजिल्लें. आंगाक कपडे गच्च चिकटल्ले पळोवन निखीलाच्या आंगांत लाव्हा खदखदपाक लागिल्लो.

''आगो या.'' म्हणून ताणें दोळो मारलो रोमाक. कुरू कळ्ळून रोमा परतलें.

एकामेकाचे वेंगेंत घुस्पून येतासतनाच अचकीत चार-पांच जाणांनी तांचेर धुरी घाली. दोगांयच्याय तोंडांत कपडे चोंबून निखीलाक झाडाक बांदून घातलो आनी ताचे सामकार रोमाचेर... दोळे बंद करून रडपा शिवाय निखील कांयच करपाक शकलो ना आनी रोमाक तर अत्याचार सहन करपा शिवाय गत्यंतरूच ना जालें. आपलो हेतू पुराय करून ते तवनास आयिल्ले तशेच ना जाले. जबरदस्तीन भोगिल्ली, बुड्डिल्ली कूड आनी जखमी अपमानीत मन घेवन रडपी रोमान निखीलाक पयलीं झाडा पसून सोडयलो. निखीलान रोमाक घट्ट वेंगेंत घेतलें.

''रोमा, जें घडलां तें फकत म्हाका आनी तुकांच खबर आसा. आमची दोगांयचीय कांयच चूक ना. चल वचुया आमी.''

कॉटेजींत येवन रोमा शाबू लावन सगलें आंग धुयत रावलें. रडत रडत सामकें पिशांवरी.

ही घडणूक दोगांयनी समजिकायेन घेतिल्ले वरी करून, आपली भोंवडी अर्दकुटी न सोडटां थारिल्ल्याच दिसा परतून वचपाचें थारायलें. कॉटेज सोडून शारांतल्या हॉटेलांत राबितो करून रावलीं. घरच्यांक दुबाव येवंक जायना म्हणून सगळ्यां खातीर भेटवस्ती घेतल्यो. पूण... दुबाव घरच्यांक येवचे पयलींच निखीलाच्या विस्वासाक वेर गेली. ताची रोमा कडेन वागणुकूच बदल्ली. रोमाक दिसभर चिकटून रावपी पयरचो निखील 'ते' घडणुके उपरांत रोमा पसून पयस पयस रावपाक लागलो. आपली कांयच चूक नासुनूय आनी निखीलाक सगळें समजुनूय तो आपल्याक हात-बोट लायना हें रोमाक कळटालें. हून उदकाचो घोट कसो ताणें हनिमुनाचे दीस सारले.

घरा पावतगीर दोगांय न्यू मॅरीड कपल कशीं वागतालीं. दिसभरच.. रुमाचें दार बंद केलें की छत्तीस (३६) आंकडो जावन न्हिदतालीं.

''फुडल्या सोमाराक कुलदेवाच्या देवळांत वचुया रे निखी सगळीं.'' शेनवारा आईन निखीलाक सांगलें.

''येत्या.. फाल्यां गे?''

''नारे.. हो सून फुडल्या. पयलो श्रावण सोमार.''

''आईली म्हणून पयलींच ताकतीक'' रोमान हें मा आयकलें. मनोमन धावो केलो. 'देवा, पयलो सोमार म्हाव चुकय आनी मुक्त कर म्हाका.' हळुहळू आठवडो सोंपल आनी सोमार उदेलो. सांजचो मावळत्या सोमाराक सगळीं वचपाच तयारी करपाक लागलीं.

''रोमा, विसरलें? देवळांत वचुया न्ही?'' निखीलान ताक प्रस्न केलो.

''ना रे, हांव येवंक शकनां. म्हजो दुसरो दीस आयज.''

चाळवतलो काय? कितें जाप दितलो काय? हें चित्तल्य रोमान आपली भिवकुरी नदर निखीलाचेर रोखली. अजाप. खोशेन भरिल्लो निखीलाचो चेरो. दोओंठ हांसताले ताचे. रोमाच अजापलें. लग्ना उपरांत चार-पांच दिसांनी 'म्हयनो' आयिल्ल्या बेजारिल्लो निखील हे फावट सामको खूश.

''रोमा, आई-पप्पा आनी निरज वचुंदी देवळांत. आमं नेक्स्ट सोमाराक या. चल भायर सर, अशींच बायकीन पासय मारून येवया. बिचार बी वचुया. अँजॉय करुया तुजो म्हयनो.''

''तुजो म्हयनो.'' हातूंतच जाप मेळ्ळी रोमाक.

''आई, रोमाचो प्रॉब्लेम खंय! तुमी तिगांय वचात देवळांत. आमी फुडल्या सोमारा वचून येतात. आनी कांय करू नाका आमकां. भायरूच जेवतात आमी. आनी हां पुराय शिवराकूच जेवतात.''

हनिमुना वेळार जाल्ल्या अत्याचाराची कांयच 'फळ धारणा' जाली ना ह्या विचारान निखील खोशी जाला हें रोमाक कळ्ळें. 'ती' घडणूक घडचे पयलींचो आपलो निखील 'ती' घडणूक घडले उपरांत सामकोच शेणिल्लो. तो आयज पर्थून सर्वार्थान रोमाचो जालो. हें ताच्या म्हयन्यान ताका जाणवयलें. दुसरोय विचार मनांत आयलो. म्हयन्याची वाट पळोवन पांडवांतलो न्हवरो बदलपी पंचाली. मेली तरी विचार जितोच आसा. तिचीय चूक नाशिल्ली आनी रोमाचीय चूक ना. तरी....



सादोळशें-काणकोण. मो.: 9404145337













'जाय काय जूय'

ह्या ललित साहित्या पासत २००६ वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारान सन्मानीत जाल्ले

**श्री.दत्ता दामोदर नायक**

हांचीं लक्षवेधी पुस्तकां.

## कालीघाट ते करुणाघाट

प्रवासपर्णन

प्रकाशक-राजहंस वितरण

## एका नास्तिकाचो देवारो

वैचारीक

संजना पब्लिकेशन

## स्मशानांतलीं भाशणां

विनोदी साहित्य

बिम्ब प्रकाशन

## अरेबियन डेज

प्रवासवर्णन

लोकायत प्रकाशन

## सावित्री

कादंबरी

याज्ञसेनी द्रौपदी भशेन एके तेजस्वी अस्तुरेची काणी

संजना पब्लिकेशन

बिम्ब प्रकाशन

हांवें नाका नाका म्हणटा आसतनाय ताणें बरीच व्हिस्की यातली. हांवें ती टेबलार दवरून तातूंतली थोडी थोडी व्हिस्की आदलींच्या कपांत यालून तिचो आश्वाद येवपाक आरंभ केलो.

म्हजी शेजान्ना म्हजी ही कसरत बरीकसाणीन नियाळटाली. हो इतलो जाण्टेलो ही व्हिस्की कशी सोंपयतलो काय असो तिका प्रस्न पडला जावंक जाय! तिणेंय आतां आपल्या कपांतली व्हिस्की पिवपाक आरंभ केल्लो. मदींच तिणें म्हाका तूं आर्टीस्ट काय म्हूण विचारलें. अर्थांत तिणें हें तिचे इंग्लीशींत विचारलें आनी हांवें, 'ना, हांव लेखक' म्हूण तिका सांगलें तेंय इंग्लीशींतच. तेन्ना तिका खोस जाल्ल्याचें दिसलें आनी तिणें आपले गाला वयले खळयेंत म्हाका झंजळावन काडलो. तें म्हजे कडेन हांसून उलयता तें भोवतेक तिचे इश्टीणीक आवडूंक ना जावंक जाय. तिणें तिका माजराक ओढून लागीं येवंचें तशें आपलो हात ताचे मानेक यालून आपले वाटेन ओढून घेतलें आनी तांचे भाशेन किते तरी उलयली आनी ताचे हातार पेट्ट करून हय न्हय शें थापट मारलें .तें रागान काय मोगान हें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. हांवेंय ताचे कडेन आडनदर करून म्हाका पुरायेन व्हिस्कींत बुडोवन घेतलो. हांव एका काळार एक टिचर आशिल्लों. पूण टिचर्स फक्त पगारा खातीर चिटर्स जावन काम करतात हें जेन्ना म्हाका होलमलें





तेन्ना हांव ती नोकरीच सोडून गेल्लों. हे व्हिस्कीचो टेस्ट आनी तिची खरसाण पळयत जाल्यार तिका टिचर्स नांव कित्याक दवरलां आनी तें कितलें समर्पक आसा असो एक तिरसुवादीक विचार तकलेंत येवन बशिल्लो.

एअर एंडियाची ही आयची आवतिकाय पळोवन म्हाका एक विनोदाची याद आयली. अर्थांत तो पीजे...तसो अर्थ ना. पूण येता तकलेंत.

म्हजे सारखो एकलो एअर इंडियाच्या विमानांतल्यान आयचे वरींच दुबय काय खंय तरी वतालो. तो पुराय व्हेज जाल्ल्यान ताणें आपले वांगडा घरच्यान आपलो टिफीन हाडिल्लो. हवाई सुंदरीन जेवण वाटलें तेन्ना ताणें नाका म्हणलें आनी आपलो दबो उगतो केलो. ताचे शेजराक एक विदेशी बशिल्लो. ताका वेगवेगळ्यो संस्कृतायो समजून येवपाची आवड आशिल्ली. तो आपलें जेवण जेवतालो आनी हो भारतीय आपलें. ताणें आपली चपाती खाली. विदेशीन तें कितें काय विचारतकच ताणें आपल्याक समजता ते इंग्लेज भाशेंत म्हळें,'ब्रेड इंडिया.' मागीर ताणें एक बेसन लाडू खालो. विदेशी प्रवाशान कितें काय म्हूण विचारलें,हाणें म्हळें हें 'स्वीट इंडिया.' कांय वेळा उपरांत इंडियनान वाफारार जाल्ल्या आपल्या पोटांतलो वारो भायर सोडलो. आपल्या नाकाक

धरीत विदेशीन हें कितें काय विचारलें. भारतीयान गंभीर मुखामळ करीत जाप दिली, 'एअर इंडिया...!'

एरर इंडियाच्यो हवाई सुंदरी आतां जेवणाचे पॅक वाटूंक लागिल्ल्यो. हांवें हांव व्हेज म्हूण कळयल्लें म्हणटकच थोडें खावं येतालें कितें येता तें! आदीं एअर इंडिया आपलें जेवण ताज सारख्या नामांकीत हॉटेलांतल्यान हाडटाले. मन सोडून जेवण जातालें. कित्याक काय खर्च करतात इतलो असो म्हाका प्रस्न पडिल्लो तेन्ना हांवें अदमास पंचे दावोदाशें केल्लें. ताज हॉटेलांचो ग्रुप हो टाटा चो. टाटान देशांत १९३२ वर्सा आपली विमानसेवा आरंभ केली. स्वता टाटान एक इंजीन आशिल्ल्या हॅवीललँड पस मॉथ ह्या विमानाचें उड्डाण केल्लें. कराचीच्या ड्रीग रोड हवाई अड्ड्या वयल्यान मुंबयच्या जुहू  हवाई अड्ड्यार ताणें हवाई टपाल सेवेचें विमान देंवयल्लें. मागीर ताणें मद्रासाकूय ती सेवा चालू केली. तेन्ना भोवतेक त्या विमानांत ताज हॉटेलाचेंच जेवण येतालें जावंये. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत तिचें रुपांतर रासवळ मर्यादीत कंपनींत जालें. तेन्ना ताचें-एअर इंडिया अशें नामांतर जालें. फुडाराक विमानसेवा टाटाच्या हातांत उरली ना आसली तरी ताजांतल्या  जेवणाचो आस्वाद मात बरोच काळ मेरेन ÷एअर इंडियेंतल्यान प्रवास करप्यांनी घेतला. आतां राजकारण्यांनी लुटमार करून एअर इंडियेच्या महाराजाक नागडो करून सोडला आनी ही आयची आवतिकाय तिच्या पदरांत घाल्या. तेन्ना हें आतांचें जेवण खंयच्यान हाडटात आसतले ह्या विचारांनीच जेवणा वयली वान्सा वता.

व्हिंस्कीच्या नाड्यार जें कितें पोटांत घालपाक जाय तितलें घालें. विटेतूच कशें खालें. आदीं सखी हांवें कितें खावंचें  कितें ना तें आपूण थारायतालें आनी हांव मन सोडून खावन तृप्त जातालों. आतां म्हाकाच सगळें सोदचें पडटा. आदीं म्हज्या शेजराच्या सीटाचेर सखी आसतालें. आतां कोणा तरी विदेशी अस्तुरेच्या मासाची पोती ते सीटार पडून आसा. त्या मासाक म्हज्या अन्नाची कितें म्हूण कल्पना

HAPPY Diwali
S. N. Associates
& Builders Pvt. Ltd.
SN Classic
Near Holy Spirit School, Margao-Curtorim Road,
Margao-Goa 403 6001
Tel: 2714057 / 2730149



आसतली..! जें कितें खावपाक जाय ताची निवड ह्यान फुडें हांवेंच करूंक जाय. थंय कोणूच सखी नासतली.

सखी मंद झाल्या तारका अशें पुटपुटत हांवें डीनर बॉक्स कुशीक दवरून दोळे मिटून घेतले.

गोंय दुबय हो हवाई प्रवास तसो चड व्हडलो न्हय. तीन साडेतीन वरांचो प्रवास. एअर इंडिया दुबय आंतरराष्ट्रीय विमानतळार लॅन्ड जालें तेन्ना रातचीं पावणे धा जाल्लीं. विमान शेड्युल्ड वेळापत्रका प्रमाण णव-साडेणवांक पावूंक जाय आशिल्लें. पूण आतां एक वर उसरां पाविल्लें. म्हाका बेगीन भायर सरूंक जाय आशिल्लें. म्हजो इश्ट पंकज नाडकर्णी येवन वाट पळयत रावला आसतलो. विमानतळार कोणाकूय ड्रॉप करप बरें. सोडलो आनी परतलो. विमान सुटऽ म्हणसर सिनेमांत दाखयतात तशें ‌ब्बाय बायङ्क करपाक रावपाक मेळच ना. पूण कोणाकूय रिसिव्ह करूंक गेल्यार जीव गोळाक लागता. पंकजाचो नक्कीच लागला आसतलो. हांव ताचो गेस्ट. बरे भशेन ताच्या हाताक लागपाची गरज आशिल्ली. तातूंत ताचो सभाव जीव यालपी.दोळे लावन रावला आसतलो!

विमान लॅन्ड जालें म्हूण रोखडेंच देवूंक मेळटा..? विमानाचो जमनीक स्पर्श जाले बराबर तें रन वे चेर आसतनाच प्रवासी फटाफट बॅल्ट सोडयतात. मागीर देंवपाक घाई. विमानांत भितर येतना एका फाटल्यान एक अशें रांकेंत येतात तशें जर देंवपी पॅसेंजरांक सीटार बसोवन दवरून पयले एकेक रो करीत जर देंवूक दिलें जाल्यार सगळे वेवस्थीत बेगीन भायर सरूंक पावतात. पूण विमान पावले बराबर विमानांतलो क्रूच पटापट उडयो मारीत पळटा तेन्ना पॅसेंजरांक कोण सांबाळटलो..? पॅसेंजरांक तर सदांच घाई. विमान थांबचे आदींच सगळे सीटा वयल्यान उठून पॅसेजींत उबे रावतात. कोण आपलीं बॅगां काडून तांचीय गर्दी करतात, सगळेच उठून उबे राविल्ल्यान कोणाकूच सारको धड उबो रावंक मेळना. मागीर प्रत्येकाची स्थिती अष्टवांकुडाची.

आतांय तोच प्रकार. हांव उठलों तरी म्हाका हालूंकच मेळपा नाशिल्लें. हांव तसोच बसून रावलों. म्हजें शेजारी कोपर खळीय बसून आशिल्लें आनी म्हाका पळयतालें. म्हजी नदर पडले बराबर ताणें म्हाका आपले खळयेंत बुचकळायलो. ताची खाप्रीण मात सगळेंच आंग पिळून आळस दितालें. ताच्या देहाची जावपी हालचाल पळोवन खीणभर म्हाका तें सर्कशींत बी खू बशे बॉल हातांनी खेळोवपी जॅगलरावरीं भासलें. तेंय आतां उठून सीटाचे ते ल्हानशे सुवातेर आपले कुडीचो इंग्लेज एस आकार करून राविल्लें. तें आतां भायर सरतलें काय..? म्हजेर कलकल आयलो.

शेवटाक एक एकलो देंवलो.थोडी सुवात





# JEWELS IN OUR CROWN




**RETAIL TRANSFORMATION OF THE YEAR**
Retail Jeweller India Awards 2013

**SOCIAL MEDIA MARKETING CAMPAIGN OF THE YEAR**
Retail Jeweller India Awards 2018

**INDIA'S MOST PREFERRED JEWELLERS 2019-2020**

**TOP 100 ICONIC JEWELLERS OF INDIA**

**BEST SINGLE STORE OF THE YEAR - WEST**
National Jewellers Award 2013

**GOAN BRAND OF THE YEAR**
Corporate Excellence 2015
Business Goa Awards

**BEST SINGLE JEWELLERY STORE WESTERN REGION INDIA**
GJA

**GJTCI EXCELLENCE AWARD 2014**
Gems & Jewellery Trade Council of India












# ULHAS

Expressions in Jewellery

ESTD 1927

## ULHAS JEWELLERS PVT. LTD.

- ULHAS: [Gold]
  Near Municipality, New Market, Margao, Goa- 403601
  (M) +91 9657078668
- ULHAS: [Gold & Diamond]
  Verlekar Towers, Near Municipality, New Market, Margao, Goa- 403601
  (M) +91 9657178668
- PRIDORA: ESPER: [Silver]
  Verlekar Heights, New Market, Margao Goa 403601
  (M) +91 8378998668
- ADMIN OFFICE: (M) +91 9881104532, 8007237070,
  (T) 0832 2704532
  (E) ulhas@ulhasjewellers.com











Follow us on


www.ulhasjewellers.com

जाली तेन्ना हांवूय उठून उबो रावलों. म्हज्यो सखी शेजारीणी भायर सरल्यो. आपलीं बॅगां काडून मार्गे हळू हळू चाला करीत मुखार सरकत गेलीं. वांटकूळ खापुल्लें वतना लेगीत हांसलें ना.पूण कोपर खळी मात झ्ओके बाबायझ्र म्हणत गालाची खळी हय न्हयशी उगडून ताच्या फाटल्यान गेली. गोंयांत आयिल्लीं जावंक जाय भोंवपाक! खंयचीं काय?

हांवें तांकां तकलेंतल्यान काडून उडयलीं आनी पंकजाक तांची सुवात दिली. कसो आसतलो काय हो पंकज नाडकर्णी? हांव केन्नाच ताका मेळूंक नाशिल्लों. तो म्हाका एक दोनदां मेळपाक आयिल्लो. पूण चुकामूक जाल्ली. ताचो फोटो पळयल्लो वॉट्सेपाचेर. पूण फोटो



आनी प्रत्यक्षांत मनीस दिसपाक वेगळोच आसता. आमचें चॅटींग जातालें ताचे वयल्यान तो अत्यंत हळवो, खूब वाचन केल्लो आनी उगत्या काळजाचो, प्रेमळ आनी मायेस्त तशेंच दाखय लिपय करपी न्हय अशेंशें हांवें ताचें चित्र रंगयल्लें. तो खरें म्हळ्यार मुकेश थळयाचो फ्रेंड. आतां मुकेशाचो मित्र म्हणटकच तो मात्सो



मुकेशाचे गूण आशिल्लोच आसतलो! पंडित नेहरू म्हणटा तसो, 'टेल मी युवर्स फ्रेंडस. देन आय विल टेल व्हॉट यू आर!' ..एकाच तरेच्या पाखांची सवणी वांगडाच उडटात ह्याय अर्थाची एक म्हण इग्लेजींत आसा. हांव उडट्या सवण्यांचें सगळें मेजपाक फिशाल आसलों तरी म्हज्याय पाखांक थोडो रंग मुकेशाच्या पाखांचो आसा. म्हणटकच तितलो वो थोडो भोव पंकजाच्या पाखांचो आसतलो हें नक्की. पंकजाक कोंकणी आनी गोंयकर हाचो भारी मोग. आमचे सारखे कोंकणी खातीर झुजप्यां बाबतींत तर चडूच! पंकजाक म्हजो सगळो इतिहास खबर आसा. विद्यार्थी चळवळींत फर्मागुडयेर हांव उजो ओंकपी भाशण करतना तार्णे आयकल्लें. कोंकणी चळवळींत

उपासाक बशिल्लों ताचो सगळो हिशेब ताचे लागीं आशिल्लो. तातूंत सुत्रसंचालन आपले खाशेले कळाशेन करपी मुकेश थळयान आपले पध्दतीन म्हजी वळख ताका नक्कीच घडयल्या आसूंक जाय. तेच पासत ताची दर दिवाळेक बिम्बा खातीर खाशेली भेट आसता. तो फाटलीं तिशेक वर्सां दुबय नोकरी करता ,एकटोच रावता आनी मुकेशाक दुबय भोंवपाक एकदां तरी यो म्हूण पराथता. मुकेश मागीर हें म्हाका सांगता. मुकेशाक आपली आकाशवाणी सोडून दुसऱ्या कोणाचीच वाणी आयकून घेवपाक वेळ नासता. एक दीस वॉट्सेप चॅटींगांत तो विशय आयलो तेन्ना हांवें फकाणांनी ताका म्हळें, किर्ते पंकजबाब,तूं फक्त मुकेशाकूच आफयता दुबय? म्हाकाय आफय केन्नाय! तशें तें फकाणांनी म्हणिल्लें आसलें तरी मनांतल्यान म्हणिल्लें. खंयच्याय देसांत रावपाची वेवस्था जायत जाल्यार तो देस चड दीस रावून सगळ्या तासांनी पळोवं येता. ना तर एक रात हॉटेलांत रावप म्हळ्यार सगळी अर्थवेवस्थाच आकुळपिकूळ जाता. भोंवडेक वचप्यांचीं चडात चड चार पांच वरां हॉटेलांत सरतात.पूण तितल्या वेळा पासत बरोच पयसो वता आनी मागीर बजेटांत बसोवपाक दीस उणे करचे पडटात.

हांवें म्हणिल्लें पंकजान घट्ट दाडेक धरिल्लें आनी जेन्ना म्हजें चॅटींग चलतालें तेन्ना तो केन्ना येता काय विचारतालो. ताका सुक्रार शेनवार सुटयेचे दीस म्हणटकच बिरेस्तारा रातचो पावता तसो यो अशें तार्णे म्हणिल्लें आनी मागीर वचून येवया तो थंय आसतनाच म्हणत हांवें बिरेस्तार १६जानेवारीची (२०१९) तिकेट बूक केली आनी ताका कळयली. गोंय,गोंयचो मनीस,गोंयचो ओपिनीयन पोल बी हाचेर जीव घालपी पंकजाक ओपिनीयन पोलाच्या जैता दिसाच वचून मेळूं या आनी हें जैत ताचे वांगडा मनोवया म्हूण हांव दुबय आयिल्लों आनी तोच पंकज म्हजी भायर वाट पळयतालो.

हांव भायर आयलों विमानतळार. म्हाका बेल्ट न. धा चेर म्हजें सामान येवपाचें आशिल्लें. ते आदीं मुतमाक जाय आशिल्लें. गोंयचें उदक जें गोंयांत पिल्लों आनी किडणीन फिल्टर करून बरोच वेळ तशेंच साठोवन दवरिल्लें तें दुबयच्या रेंवटांत म्हाका सोडपाचें आशिल्लें. रेवेंत मुतल्यार तें उरना अशी कोंकणींत म्हण आसा. म्हणटकच तेंच काम करूंया

( पान क्र.१३९ चेर पळयात )








# आनंदी जिणेचो मुलमंत्र दिवपी दलाई लामा हांचें द आर्ट ऑफ हॅपीनेस

आमी जेन्ना कोणाचोय दुस्वास वो तिरस्कार करतात तेन्ना आमी आमच्या चिंतनांनी ताची पोसवण करीत रावन त्या विकाराक आनीक प्रखर आनी बलिश्ट करतात. गौण गजालीक आमी चड म्हत्व दितात. गरजे भायर अतिसंवेदनशीलताय वो कसलीय गजाल मनाक चड लावन घेवप हें आमच्या मनाक यातनांचो अणभव दिता.



- मंजुषा सिनाय तळावलिकार

**जै**वीक मुलतत्वा प्रमाण दर एकलो जीव जिणेंत चडांत चड आनंद कसो मेळयतलो आनी दुख्ख उण्यांत उणें कशें करतलो हेच उपजत प्रेरणेन जगतात. मनीसजात हाका अपवाद ना. सुखी मनशाच्या सदऱ्याचो सोद मनीस केन्ना सावन घेत आसा. पूण सुखाची वो आनंदाची व्याख्या दर एकल्या खातीर वेगळी आसता. दरेक धर्मांत आनंदी जीण घालोवपाक आपापले तरेन मार्गूय सांगल्यात. गौतम बुद्धान स्थापन केल्ल्या बुद्ध धर्मांत तर आनंदी, शांतीमय जीण जगपाचेरच चड भर दिल्या. त्याच विशयाचेर आदारीत हें पुस्तक द *आर्ट ऑफ हॅपीनेस*. तिबेटी बौद्धधर्मीयांचे १४वे धर्मगुरु हिज होलीनेस दलाई लामा हांचे वांगडा जायते दीस चर्चा, भासाभास करून, मानसोपचारतज्ञ हॉवर्ड कटलर हांणी हें पुस्तक शब्दबद्द केलां. पुस्तकाची भाशा शैली खूब सोपी आनी सुंदर आसा. जिणेंत आनंद दुणावपाक पालव दिवपी अशें हें पुस्तक ५० भाशांनी अणकारीत जालां. वाचतल्यांचे जिणेंत तें पुस्तक नक्कीच

परिवर्तन घडोवन हाडटलें हें हांव म्हज्या वैयक्तीक अणभवा वयल्यान खात्रेन सांगूंक शकतां.

१४ वे दलाई लामा हांचें मूळ नांव तेनजिन ग्यात्सो. बौद्धधर्माचे सर्वश्रेश्ठ अध्यात्मीक धर्मगुरू जांकां तिबेटी मान्यताये प्रमाण 'जिवीत बुद्ध' मानतात. नोबेल शांती पुरस्कृत दलाई लामा, जे फाटले ६१ वर्सा चीनी आक्रमणाक आनी अत्याचारांक लागून आपलो तिबेट देश सोडून भारतांतल्या हिमाचल प्रदेशांत धर्मशाला हांगा राबितो करून आसात आनी मानवअधिकारां खातीर अहिंसा मार्गान झगडटात. आपली धारणा, ज्ञान सोपे-सहज पद्धतीन लोकां मेरेन पावोवपाचें काम ते अविरेतपणान करीत आयल्यात. खंयच्याय जाती-धर्माच्या, पंथाच्या वो रिती रिवाजांच्या लोकांक ते विचार आपले जिणेंत सोपेपणान आस्पावपाक शक्य जावंक जाय हेंच तांचे जिणेचें एकमेव ध्येय.

१९९३ ह्या वर्सा दलाई लामा अमेरिकेंत अरायझोना हांगा व्याख्यान दिवपाक राबितो करून आशिल्ले तेन्ना थंयच रावपी सह-लेखक मानसोपचारतज्ज्ञ हॉवर्ड कटलर हांणी तांच्यो जायत्यो मुलाखती घेतल्यो, भासाभास केली, तांचीं व्याख्यानाय आयकलीं आनी ह्या पुस्तकाचेर काम सुरू केलें. पूण हो विशय खूब खोल आशिल्ल्यान ताका दिशिल्लें तितले बेगीन तें पुस्तक बरोवन जालें ना. पांच वर्साचे अथक मेनतीन १९९८ त हें पुस्तक पुराय जालें. सह-लेखक हॉवर्ड हांणी दलाई लामांचे अध्यात्मीक विचार आनी मतां अस्तंती मानसशास्त्रा कडेन तर्जून पळोवन तांच्या मतांक आदार करपी मानसशास्त्रीय पुरावे सोदल्यात. तशेंच मानसीक स्वास्थ्य आनी भलायकी हांचे विशीं आतांचे परिस्थीतींतले वैज्ञानीक दिश्टीकोण हाची तुळा बौद्ध धर्माच्या दिश्टीकोणा कडेन करून दोनांतलीय समानताय सोदल्या.

हें पुस्तक जेन्ना तार्णे बरोवपाक हातांत घेतलें तेन्ना सकारात्मक मानसशास्त्राचेर (Positive psychology) चड अभ्यास जावंक नाशिल्लो. फकत मानसोपचारतज्ज्ञ मानसीक दुर्येसाचेर वखद करपा पुरतो (Clinical psychology) मानसशास्त्राचो उपेग करताले.

२००० व्या वर्सा डॉ. मार्टिन सेलिग्मन हांणी मनशाच्यो सकारात्मक भावना वाडोवन मोलादीक जीण कशी जगूं येता हाचेर संशोधन करून सकारात्मक मानसशास्त्राची स्वतंत्र शाखा निर्माण केली. ते उपरांत ह्या पुस्तकाक चड मागणी आयली आनी सकारात्मक, आनंदी जीण जगपा बद्दलचे दलाई लामांचे विचार संवसार भर नामनेक पावले.

दलाई लामांच्या म्हणण्या प्रमाण बौद्ध धर्म हो फकत श्रध्देचेरच आदारीत धर्म न्ही, तर ताचे अनुयायी धर्मांत मांडिल्ल्या सिध्दांताची वैधता वैज्ञानीक निकशांचेर तपासून पळयतात. २५०० वर्सां पयलीं गौतम बुध्दान हो धर्म स्थापन केलो तेदेवेळा सावन मनाक प्रशिक्षित करपाक आनी अंतरमनांतलीं संसाधना विकशीत करपाक ते आनी तांचे उपरांत तांचे अनुयायी अविरत झटतात. जीं तंत्रां कुचकामी आसात आनी ज्यो पध्दती निरुपेगी आसात त्यो सोडून ते सुवातेर नव्यो पध्दती आपणायतात. अणभवांचेर आदारीत सोद, तडजोड, सत्याची लागणूक आनी वास्तवतेचो सोद घेवपाक पुरायपणान समर्पण हें विज्ञान आनी बौद्धधर्म दोनाय कडेन समान आसा.

लेखक बरयता, आनंद मेळोवपाची संकल्पनाच अस्तमते कडले संस्कृतायेंत आदले काळा सावन तितलीशी रुजिल्ली ना. मनाक प्रशिक्षित करून आनंद अणभवपाक शिकप शक्य आसता हेंच तांकां मान्य नाशिल्लें. पूण उदेंते कडली संस्कृताय आदल्या काळा सावन मानता की आनंद हो आमच्या दिश्टीकोणांत बदल करून, यत्न आनी सरावान आमचे जिणेंत रुजोवपाक जाता.

दलाई लामा 'आनंदी जिणेची' मोख दवरपाची शिकवण दितना सांगतात की आनंदाचो सोद घेवपाचो अधिकार संवसारांत दर एकल्याक आसता आनी तो घेवप हेंच दरेक मनशाचे जिणेचें मुखेल ध्येय आसूंक जाय. मागीर ते खातीर तार्णे खंयचोय धर्म आपणायल्यार जाता. आनंदीत रावपाचे मनशांक कितें फायदे आसतात, कसले तरेच्यो भावना आमी जोपासच्यो पडटात आनी कसल्या विकारांचेर मात करची पडटा हाचेरूय ते उजवाड घालतात. तें सगळें थोडे भितर सांगपाचो हो यत्न -

## आनंदीत रावपाचे फायदे

जिणेंतलो आनंद आमची सर्जनशीलताय वाडयता आनी मानसीक कार्यशीलताय सुदरायता. आनंदी लोक चड निरोगी तशेंच चड रोगप्रतीकारशक्त आशिल्ले आसतात. तांकां कमी प्रमाणांत काळजाचें दुर्येस जाता. ते बरे तरेन प्रतिकूल परिस्थिती आनी आघातांक फुडो करपाक शकतात. आनंदीत रावपी व्यक्तीचो वांगड सगल्यांक जाय-जाय दिशिल्ल्यान,

सामाजीक जिर्णेत आनंदीत रावपी मनशांचो लोकसंग्रहूय चड आसता.

## आनंदाचें स्रोत

दरेक व्यक्तीचो मेंदू जल्मजात प्राकृतीक वागर्णे घेवन जल्मल्लो आसता. आमच्या मेंदवांत आशिल्ल्या असंख्य नसांनी मुलभूत सुचनांची वळेरी आसता जी त्या सुचने प्रमाण आमचे कुडींतल्यो पेशी सक्रीय करता. पूण संशोधना प्रमाण आमचो मेंदू इतलो लवचीक आसता की आमी दिल्ले नवे सुचने प्रमाण तो नवो आकृतीबंद तयार करूंक शकता.

आनंद हो भायले परिस्थितीचेर न्ही, तर दर एकल्याचे भितरले मनस्थितीचेर निंबून आसता. दुसऱ्यां खातीर आपुलकी, दया, करुणा, अनुकंपा आशिल्ले लोक चड आनंदीत आसतात. आमी जेन्ना दुसऱ्यांक मजत करतात, तेन्ना आमच्या मनाचें लक्ष विस्तारीत जाता आनी आमचे समस्येची तिव्रताय कमी जाता.

## आनंद - मनशाचो उपजत सभाव

मनशांचो मूळ सभाव शांत वो मायेस्त आसता. ते खातीरच तो जल्मता तेन्ना आवय आनी ताचे मदलें भावनीक नातें जल्माक येता आनी ताचे बद्दलच्या उमाळ्यान आवय ताचे मायेन संगोपन करता. राग, हिंसा तशेंच झगडाळ वृत्ती ही मनशाक जल्मजात मेळिल्ली आसना, तर मनीस बुध्दीर येता तशे ते विकार आपणायता जे उखलापे आशिल्ल्यान थारायल्यार ते आमी बदलूंक शकतात. दरेक दीस नवीन आशा घेवन उदेता. तेच फकत वर्तमानांतले खीण आमचे आसतात. फुडे भविश्यांत किर्ते जातलें ताची आमकां कांयच कल्पना आसना. ते खातीर जिर्णेत जें खरेंच मोलादीक आसा आनी जें आमचे जिणेक अर्थ दिता तेच गजालींचेर लक्ष केंद्रीत करून तांकांच जर प्राधान्य आमी दिलें जाल्यार आमची जीण आनंदी जावंक शकता.

## नैतीक शिस्त

आपशिस्त खूब गरजेची. आमी आमच्या मनाक प्रशिक्षिणांतल्यान हितकारक आनी अहितकारक वागण्यांतल्या फरकाची जाणीव करून दिवप गरजेचें. कित्यांतल्यान आनंद उद्भवता आनी कित्यांतल्यान क्लेश उप्रासतात हें जितलें प्रभावी रितीन मनाक शिकोवन तयार करतलीं तितलीं आनंद मेळोवपाक आमी चड कार्यक्षम जावपाक शकतलीं. आमी जोडिल्लें ज्ञान जो मेरेन आमचे अंतर्गत बदल करना तो मेरेन तें निरूपेगी.

## मानवी कळकळ आनी अनुकंपा

समाजांत आमी सगलीं जाणां एकमेकांचेर अवलंबून आसतात. नामनेचे मानसशास्त्रज्ञ एरिक फ्रॅमाच्या म्हणण्या प्रमाण हेर मनशां पासून विभक्त जावपाक पडत होच मनशाचो मूळ भंय. मनीस हो सामाजीक प्राणी आशिल्ल्यान आपूण एकटो पडत वो आपल्याक एकटो उडयत हो भंय ताका सदांच सतायता. डॉ. डॅन मॅक एडम हांच्या मता प्रमाण आपल्या मना भितरल्यो भावना वो विचार दुसऱ्या मनशां वांगडा वांटपा खातीरच ताचे लागीं रावपाची वो इश्टागत करपाची इत्सा दर एकल्याक आसता.


# श्रीज्ञानेश्वर
## अलोकीक व्यक्तीमत्व

ज्ञानेश्वरी हातांत घेतली की ती बद्द काळजांतूच देंवता. ओवये फाटल्यान ओवी अर्थ-सौंदर्यान भरिल्ली जावन खेळत खेळत येता. दर्याचे भरतेच्या ल्हारां भशेन एकमेकींक खो दीत मोगान खेळत, फाटींफुडें जायत, स्वताच्या जाग्यार अखंड कल्लोळाचो खेळ खेळटा. श्रीज्ञानेश्वरांचे प्रतिभेची ही सागरक्रिडा अणभवत रावचें. ते सागरक्रिडेचो आनी त्या सागर संगिताचो केन्ना कंटाळो येना. प्रत्येक ल्हार वेगळें तरी पयलेंतलेंच दुसरें आनी दुसरेंतलेंच तिसरें आनी सगलें मेळून परत एकूच अथांग-अपार-सागरलीला रूप! म्हणून ल्हारां अनंत आसलीं तरी तांचें सागर संगीत, एकसंघ, गंभीर, अवकाश भरून उडोवपी, सगलें व्यापून खंयच नासपी: केवळ अपूर्व! ज्ञानेश्वरीचें स्वरूप हें अशें एक भव्य नाट्यचित्र.




- हरदत्त खांडेपारकार

Price: ₹ 100/- Publication No: 1457
Pages: 94 Size: 14.2cms x 22 cms
ISBN 978-93-88429-23-8




RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1- Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph.: (0832) 2220320 / 2232177 Fax : (0832) 2425205
E-mail rajhaunsgoa@gmail.com I www.rajhauns.com I www.facebook.com/rajhauns

डॉ थॉमस मॅलोन हांणी बरयिल्ल्या 'द आर्ट ऑफ इन्टिमसी' ह्या पुस्तकांत लागसारपणाची व्याख्या ते नात्याचो वो लागेबांधे हांचो अणभव अशी करतात. पूण हे लागेबांधे फकत मनशा कडेनूच न्ही तर तो सैम, झाडांपेडां, मळब,नखेत्रां लेगीत आसूं येता. दलाई लामांचीय व्याख्या हाचे कडेन खूब लागीं आसा. ते म्हणटात आमी शक्य जाता तितल्या जाणां लागीं नातें जोडूंक जाय. आमच्या घराब्यांतले वांगडी, इश्ट, सहकारी इतलेंच न्ही तर संपर्कांत येवपी समाजांतल्या खंयच्याय वाठारांतल्या आनी थरावेल्या अनवळखी मनशां लागी लेगीत आपलेपणान आनी आस्थेन वागूंक जाय. हें जें किर्ते ते सांगतात तशे सगळें ते तंतोतंत वागतातूय. म्हूण खंयचेय व्यक्तीक ताचे लागीं व्यक्त जावपाक सवस्तकाय दिसता.

कोणा कडेन कितली सलगी करपाची हें चडशे जाण त्या मनशाची लायकी, ऐपत पळोवन वो तो स्वताच्या बरोबरीचो आसा काय ना हें पळोवन थारायतात जें सारकें न्ही. जो कोण आमच्या लागीच्यान संपर्कांत येता तो अर्थिक वो कुवतीन खंयच्याय थरावेलो आसूं, ताचे लागीं घट नातें जोडूंक जाय. फकत सुवार्था खातीरूच दुसऱ्यांचो वापर करूंक जायना. दुसऱ्यांच्यो भावना, उमाळे समजले जाल्यारूच आमचे भोवतणचे आमचे लागीं आपुलकायेन वागतले. दुसऱ्यान आपले कडेन आपलेपणान वो मायेन वागल्यार आमकां जशें दिसता तशेंच आमीय तांचे कडेन वागल्यार तांकांय दिसतलें हाचेर दर एकल्यान चिंतन करूंक जाय. समाजांतल्या लोकांक जर ह्या नितीमुल्यांची शिकवण दिली आनी एकमेकां कडेन, आपलेपणान, करुणा, दया, आस्थेन वागपाचे फायदे जाणून घेवपाक प्रशिक्षीत केलें जाल्यारूच मोगमोयपासान रावपी एक बरो समाज हे धर्तरेचेर तयार जावंक शकता. बौध्द धर्मांत ह्या सद्‌दगुणांची रुजवण भुरगेपणा सावन केल्ल्यान ते शांतीप्रिय आनी आनंदी जीण जगतात.

अनुकंपा (Compassion) ही मनाची एक अशी स्थिती जी अंहीसात्मक, अ-हानीकारक आनी अ-आक्रमक आसता. तो एक असो मानसीक दिश्टीकोण जातूंत आमी दुसऱ्यांक तांच्या दुख्खांतल्यान, यातनेंतल्यान आनी त्रासांतल्यान मुक्ती मेळची म्हूण आंवडेतात. अनुकंपा ह्या शब्दा खातीर तिबेटी भार्शेत *त्से वा* शब्द वापरतात जाचो अर्थ स्वता खातीर कल्याणदायी मागणें करप आनी दुसऱ्यांकूय तातूंत आस्पावन येवप. थोडे भितर आपलें तशेंच बाकी सगळ्यांचेंय भलें जावचें अशी आस्त बाळगुवप. अनुकंपा आनी आसक्ती (attachment) हातुंतलो फरक म्हळ्यार आसक्तेंत दुसरे व्यक्तीक आपले नियंत्रणांत दवरपाची भावना आसता तशेंच ते व्यक्तीन आपल्याकूय मोगाचो प्रतिसाद दिवचो ही अपेक्षा आसता. हे तरेचो मोग हो उथळ आनी पक्षपाती आसता तशेंच ताचेर आदारीत नातें हेंवूय अस्थीर आसता. ती व्यक्ती मातशी लेगीत आमच्या मना विरुध्द वागली जाल्यार आमकां राग येवं येता वो आमचें तिचे बद्दलचें मत बदलूंक शकता. मागीर आमी तें नातेंय तोडूंक फाटीं फुर्डे पळयनात. दुसऱ्यांच्या दुख्खाची तशेंच वेदनेची जाणीव आमच्या भितरल्या अनुकंपेची भावना वाढयता. एकमेकां खातीर अनुकंपा वो माया आशिल्ल्यानच मनीसजात आज मेरेन तगल्या. ज्या मनशाक अनुकंपा, आपलेपणाची भावना आनी संवेदनशीलता ना तो मनीस निर्दय आनी संशयी आसता आनी ते खातीर सदांच दुख्खी आनी नाखूश आसता.

अनुकंपा आनी आपलेपणान आमच्या शारिरीक तशेंच मानसीक आनी भावनीक पातळेचेर जायते सकारात्मक परिणाम जातात. हार्वर्ड युनिवर्सिटींत डॉ. डॅविड मॅक क्लॅलंड हांणी केल्ल्या एका प्रयोगांत तें सिध्दय जालां. त्या प्रयोगांत तांणें कांय विद्यार्थ्यांक मदर तेरेसाचें एक फिल्म दाखयलें जातूंत ती कलकत्ताच्या गरीब आनी दुर्येत लोकांची सेवा करताली. तें फिल्म पळोवन साहजीकच त्या विद्यार्थ्यां मदींय अनुकंपेची भावना जागृत जाली. तें फिल्म पळयले उपरांत त्या विद्यार्थ्यांच्या लाळेचें परिक्षण केलें तेन्ना तातूंत श्वसनसंस्थेंत जावपी संसर्गाचेर मात करपी 'इम्युनोग्लोबीन-ए' हें एन्टीबॉडी रसायन सापडलें.

## विकार- मनशाच्या दुख्खाचे मींळ

**दुख्ख आनी भोग** - ह्या संवसारात जल्मांक येवपी दर एकल्याक दुख्ख आनी भोग कशेच चुकनात हे सांगपी ही एक काणी प्रचलीत आसा. गौतम बुद्धांच्या काळांत एका गांवांत किसागोटामी नांवाची एक बायल रावताली. तिचो एकुलतो एक पूत दुर्येत पडलो आनी मेलो. तिचे सोयरे-शेजारी अंत्यसंस्कार करपाचे तयारेक लागले. पूण आपलो पूत मेलो हें ती कशेंच मानून घेना जाली आनी ताका जितो करपाक हांगा थंय वचून वखदाचो सोद घेवपाक लागली. जायते जाणां

कडेन ती गेली. पूण सगल्यानींच मनशाक जितो करपाचें वखद आपले कडेन ना म्हूण सांगलें. कोणे तरी तिका गौतम बुद्धांचें नांव सुचयलें. ती धांवत धावत बुद्धा म्हन्यांत गेली आनी तिणें आपल्या पुताक परत जितो करपाक वखद दी म्हूण सांकडें घालें. बुद्धान सांगलें, ''तुज्या पुताक जितो करपाचें वखद हांव तयार करपाक शकतां. पूण ते खातीर म्हाका कांय जिन्नस लागतले. ते तूं म्हाका हाडून दी..'' किसागोटिमी रोकडीच तयार जाली. बुद्धान तिका एक मुठभर सांसवां हाडपाक सांगलीं. ती थंय सावन सांसवां हाडपाक भायर सरपाक लागली, तेन्ना वतां वतां बुद्धान तिका शिटकायलें की ज्या कोणागेर केन्नाच आवय, बापूय, भुरगो, घोव, बायल, नोकर वो आनी कोणाचोच मृत्यू जावंक ना त्याच घरांतल्यान तीं हाडचीं पडटलीं. तिणें बरें म्हूण सांगलें आनी सांसवां हाडपाक धांवली. पूण गेल्ल्याय घरा तिका कोण ना कोण तरी भायर पडला अशीच जाप मेळ्ळी. अशे तरेन तिका घरांत केन्नाय तरी मृत्यू जावं नाशिल्लो एकूय घराबो सापडलो ना. सगल्यांकूच केन्ना ना केन्नातरी दुख्खाचो फुडो करचो पडटाच हें तिका समजून आयलें. तिणें जमिल्ल्या आसेश्टांक आपल्या पुताचे अंत्यसंस्कार करपाक दिले. उपरांत ती बुद्धा म्हन्यांत परतली आनी ताचे पांय धरले. बुद्धान म्हळ्ळें, ''तुका दिशिल्लें तुजो एकल्याचोच पूत भायर पडला. पूण ह्या संवसारांत जल्म घेवप्याचो मृत्यू केन्ना ना केन्ना तरी निश्चित आसताच.

दुख्ख हो जिणेचो सभावीक भाग हें जेन्ना स्वीकारपाक आमी तयार नासतात तेन्ना स्वताक एक सारके पिडीत समजून, आमी दुसऱ्यांक दोश दिवपाक लागतात आनी स्वताची जीण दयनीय करून घेतात. आमी स्वताचें दुख्ख परत परत झरोवन तें जिर्तें दवरतात आनी ते प्रक्रियेंत तें आनीक वाडयतात. परिस्थिती बदलतली हे नकळत इत्सेन आमी आमच्यो दुखदेण्यो यादी मनांत परत परत घोळयतात. पूण वास्तवांत परिस्थितींत कांय फरक पडना. तातूंतल्यान आमकां कांय वेळा पुरतें उत्साहीत दिसता वो आमी दुसऱ्याचें लक्ष स्वता कडेन ओडून सहानुभूती मेळयतात. पूण ह्या सगळ्या प्रकारांत जिर्णेतलें दुख्ख मात आनीक वाडटा.

दुख्ख पचोवपा खातीर जायते जाण सिगरेट, सोरो, धुंवळी वखदां अशे जायत्या तरेच्या नशेचे भकीक पडटात. नशेंत रावन मनीस मानसीक यातना विसरपाक वो मारून वडोवपाक सोदता. मनाच्या अंतर्गत थराचेर आमची मानसीक संरक्षण यंत्रणाय आमकां अती मानसीक शोका सावन वाचोवपाक जायतीं धोरणां राबयता. तातुंलींच कांय म्हळयार जें कितें घडलां तें नाकारप वो फट मानप, अस्वीकार करप, त्या गजालींची जापसालदारकी दुसऱ्यांचेर धुकलप, दुसऱ्याक दोश दिवप, मन दुसरे कडेन वळोवप. पूण ह्या गजालींचो खरें म्हळ्यार तितलो पुरतोच उपेग जाता. आमचे जिर्णेत दर खिणांक कसल्यो ना कसल्यो तरी समस्या उप्रासतल्योच. जाणटेपण, दुर्येस, मृत्यू ह्या सारख्या व्हडल्या समश्यांकूय आमकां फुडो करचो पडटा.

दुख्खाचेर कायम स्वरूपी वखद म्हळ्यार ताका फुडो करप आनी त्यो यातना अणभवप. आमचे जिणेचो तो अविभाज्य घटक म्हूण स्वीकारलें तर आमी मानसीक थराचेर आदींच तयार रावन दुख्खाचो भंय उणो करून सोपे-सहजपणान मानसीक तडजोड करपाक शकतात. सकारात्मक आनी स्वीकारात्मक दिश्टीकोण आमकां सहनशक्ती वो सोंशीकसाण वाडोवपाक मदत करता.


# The Goa Inquisition

The Terrible Tribunal for the East




This book presents a dispassionate and objective account of the Inquisition against the background of the religious policy of the Portuguese. It is based on authentic archival documents and correspondence of the Jesuits. Dr. Dellon's experiences as a prisoner are also reprinted at the end.

RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1 - Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001 Ph : 2220320 / 2232177 E-mail. rajhaunsgoa@gmail.com
www.rajhauns.com | www.facebook.com/rajhauns

**दुस्वास आनी तिरस्कार-** आमी जेन्ना कोणाचोय दुस्वास वो तिरस्कार करतात तेन्ना आमी आमच्या चिंतनांनी ताची पोसवण करीत रावन त्या विकाराक आनीक प्रखर आनी बळिश्ट करतात. गौण गजालीक आमी चड म्हत्व दितात. गरजे भायर अतिसंवेदनशीलताय वो कसलीय गजाल मनाक चड लावन घेवप हें आमच्या मनाक यातनांचो अणभव दिता. स्वताच्या मना भितर जेन्ना हो विकार पोसतात तेन्ना आमी स्वता भितरच वीख पेरून ताचो हानीकारक परिणाम आमचे भलायकेचेर करून घेतात.

गुन्यांवकारी भावना- आमी सगळ्यांनीच जिर्णेत केन्ना ना केन्ना तरी चूक केल्याच आसतली. पूण ते चुकी खातीर आमी स्वताक दोश दिलो जाल्यार आमचे मर्दी गुन्यांवकारी भावना बळावता आनी आमी स्वताचो तिरस्कार करून स्वताक ख्यास्त दिवपाक लागतात जे वरवी आमी दुख्ख ओडून घेतात.

## बदल - सैमाचो अटळ नेम

खंयचीय समस्या ही कायमस्वरूपी आसना. खंयचोय खीण मागीर तो खोशेचो आसूं वो दुख्खाचो तो दीर्घकाळ उरना. बदल हो सैमाचो अटळ नेम. आमी जर समस्येचेर चड लक्ष केंद्रीत केलें जाल्यार ताची तिव्रताय वाडटा, ती आमकां व्हड-व्हड भासता आनी नियंत्रणा भायली दिसपाक लागता. हाचे उरफाटें जर आमी तेच समस्ये कडेन पयसुल्ल्यान पळयलें आनी व्हडल्या गजालीं वांगडा ताची तुलना केली जाल्यार तीच समस्या आमकां कांय न्हीं शी दिसतली. योग्य गिन्यान, प्रशिक्षण आनी नव्या दिश्टीकोणान आमी संकश्टाक सोपेपणान आनी सहजपणान सामकार वचपाक शकतात.

## दुस्मानाकडेन पळोवपाची नवी नदर

चिकाटी आनी सहनशक्तीचें आचरण करपाक दुस्माना सारकी दुसरी व्यक्ती ना. दुस्माना कडेन पळोवपाचो दिश्टीकोण कसो आसा हाचेर बौद्ध धर्मांत खूब विचार जाता. आनंद मेळोवपाच्या मार्गांत तिरस्कार ही सगळ्यांत व्हडली आडखळ. जाणून बुजून आमकां हानी करपाचो दुस्मानाचो हेतूच ताका हेरां सावन वेगळो काडटा आनी सहनशक्ती आचरणात हाडपाक आमकां संद दिता.

आमचें मन जितलें चड लवचीक तितलें चड सहजपणान आमी दिश्टीकोणांत बदल करपाक शकतात. तशेंच भायले परिस्थिती कडेन जुळोवन घेवपाक आनी भितरले संघर्श, व्दिध मनस्थिती, विसंगती जाग्यार घालपाक मनाची लवचिकता मदत करता.

ह्या पुस्तकाचो सारांश सांगतना आनंदी जीण घालोवपाचे कांय मार्ग-

० भायले परिस्थिती परस आपल्या मना भितर योग्य अवस्था आसप चड म्हत्वाचें..

० अनुकंपा,मोग, माया, आपलेपण, निस्वार्थीपणा, आध्यात्मिकताय हे गूण आमचो आनंद दुबावविरेत व्दिगुणित करतात.

० विश्वव्यापी आस्था मनांत रुजोवप, हो आनंद आनी भलायकी मेळोवपाचो खात्रेचो मार्ग.

० धर्माचें योग्य आचरण करप हे आनंदीत रावपाक फायद्याचेंच, पूण तें जमना जाल्यार निदान आध्यात्मीक नदरेंतल्यान संवसारा कडेन पळयलें जाल्यार आमच्यांनी दुख्ख टाळून आनंदाची वाटचाल करपाक जाता.

० दुख्ख, सोंसणूक हो मनशाचे जिणेचो प्राकृतीक भाग. दुख्ख पोशेत बसून वाडोवचे परस तें स्विकारून ताका फुडो केल्यार आमी ताचेर मात करूंक शकतात.

० सकारात्मक दिश्टीकोण, भावना, आनी संवयी आमी मनाक प्रशिक्षीत करून थोडे भोव मेहनतीन विकसीत करूं येता.

० परिस्थिती कडेन पळोवपाची नदर वो दिश्टीकोण बदलून सगले हालतींत आमी थोडे तरी बरेंपण सोदूंक शकतात

० मनांत उत्पन्न जावपी राग आनी तिरस्कार ह्या भावनांक टाळचे परस सामकार वचात, तांचें विश्लेशण करात आनी ते सुवातीर सोंशीकसाण आनी सहनशक्ती विकसीत करात.

० चिंता, अस्वस्थताय आनी उणो आत्मविस्वासाक फुडो करतना स्वताचे विचार, प्रेरणा आनी समर्थताय पारखून स्वता भितरल्या सकारात्मक गुणांची आनी बरेपणाची बेरीज करात.

अशे तरेन आमी जिर्णेत आनंदी रावपाची कला शिकून घेवन, आनंदीत जीण घालोवपाचो यत्न करून पळोवपाक किर्ते हरकत आसा?



फातोर्डा-गोंय. मो: ९८२२९८१५०८



# नाटक एका नाटकांतलें

हा इतल्यांतूच आख्खें नाटक
लिपलां जाणा तूं? खरें म्हळ्यार
तूंच हा नाटकाचो हिरो...! हिरो
कित्याक? देव तूं देव नाटकाचो!
तुजी ती निमणी एन्ट्री बरी जायत
तर नाटकाचो शेवट बरो जातलो.
आनी जर तूं त्या वेळार मातसो
तरी येवंक उशीर करीत तर ती
नटी कोणाक तोंड दाखवपाचे
लायकीची उरची ना हें जाणा जा...

- अविनाश कुंकळकार

**अंक पयलो.**

**(पड्दो वयर सरता. माचयेर एके वटेन एक मोट्टें पेड आशिल्लें झाड दिसता. दुसरे वटेन गांवच्या देवळाचें प्रवेश दार दिसता आनी मदली सुवात रिकामी आसता. एक धा बारा वर्सांचो भुरगो बाल हनुमानाचो गेटप करून झाडा वयल्यान पेडार उडकी येवन प्रवेश करता.)**

बाबू : जय श्री राम! जय जय श्री राम!! हांव हनुमान... च्चे! ते चिरे तासता तो गवंडी हनुमान न्हय!! विर भजरंग बली, बाल हनुमान हांव. पळयल्या म्हजी गदा? दिसता न्हय हांव बाल हनुमान? चे-चे कार्टून नेटवर्कांतलो बाल हनुमान न्हय, आयच्या नाटकांत हांव हनुमान जालां.

डायरेक्टर : ( गडबडीत ) चे! आजून हे कोणूच ना, रंगीत तालीम येवया म्हणिल्ली! साडे धाक आपयल्ले सगळ्यांक. पूण एकटो सुद्दां ना पळयात. हांचें अशेंच हें. नाटकां करूंक जाय म्हूण करतात! कोणा एकल्याक पडलेलें ना.

बाबू : (उडी मारून डायरेक्टरा म्हन्यांत उबो ) पप्पा, हांव

तयार आसां हा!

डायरेक्टर: आरे हो माकड आनी खंयसून हांगा आयलो? हां ह्या झाडा वयल्यान पडला आसतलो! हे माकडा, वच रे तूं त्या झाडार.

बाबू : आरे पप्पा हांव माकड न्हय! बाबू हांव बाबू.

डायरेक्टर : बाबू! माकडा तूं? आरे हें कितें केलां? हो चेहरो कित्याक रंगयला रे तुवें?

बाबू : हो मेकप केला! हनुमानाचो भेस.

डायरेक्टर : कोणे केला हो तुजो भेस?

बाबू : मेकप मेनान!

डायरेक्टर : मेकप मेन आयलो तर कोप मारून? हांगा येवक जाय ते आजून येवक नांत.

बाबू : हांव आयलों न्हय!!

डारेक्टर : तूं कित्याक आयला?

बाबू : हांव तुमच्या नाटकांत हनुमानाचो पार्ट करतां.

डायरेक्टर : आरे बाबा तूं आमच्या नाटकांत आसा हें तुका कोणें सागलें?

बाबू : मेकप मेनान!

डायरेक्टर : मेकप मेन तुका हें सांगपाक कोण?... हां-हां समजलों,तुवें ताका आण्टीच्या बारांतल्यान कॉर्टर हाडून दिला न्हय?

बाबू : हय! पूण तें तुका कशें कळ्ळें?

डायरेक्टर : तरीच म्हणटां इतल्या बेगीन रंग कसो चडलो तो! चल,चल तोंड धू तें.

बाबू : पूण पप्पा हनुमान.....

डायरेक्टर : आरे बाबा तुका तार्णे पिशांत काडलो, ह्या नाटकांत हनमंत म्हूण कोण पात्र ना.

बाबू : पप्पा तो हनमंत न्हय, चिरे ता॰ता तो! हांव नाटकुत बाल हनुमान जातां.

डायरेक्टर : (तापता) खावचीं कामां रे तीं बाल हनुमान जावप? चल घरा वच.

बाबू : पप्पा कर न्हय म्हाका बाल हनुमान, ही पळय गदा सुद्दां आसा म्हजे कडेन.

डायरेक्टर : एक फावट सांगल्यार सजमना तुका? ह्या नाटकांत हनुमानाचो रोल ना.

बाबू : पूण याल न्हय तूं तो रोल. म्हाका हनूमान जावंक जायच.( रागान गाल फुगयता)

डायरेक्टर : आरे म्हज्या शाण्या तें तशें जावंक शकना.

बाबू : तें तशें कित्याक जावंक शकना?

डायरेक्टर : आरे हें महाभारताचेर आदारीत नाटक आसा आनी हनुमान तर रामायणांत आसलो

बाबू : आसूं आमी महाभारतांतूय घालया हनुमानाक!

डायरेक्टर : चे-चे आमी तशें करूंक जायना हां,लोक हांसतले मरे आमकां.

बाबू : कित्याक लोक हांसतलो आमकां? तांकां मात हांसना न्हय लोक! जे कॉंग्रेशींतले धा-धा आमदार बिजेपींत वतात,बिजेपीतले फॉरवर्ड जातात. आपल्याक जाय तेन्ना पदाचो राजीनामो दितात. एकमेकाचेर आरोप करतात. तांकां कोण हांसना.

डायरेक्टर : ते राजकारणी लोक!तांचें आमकां नाका. तांणी केलें म्हण आमीय करप? तांकां लज ना म्हण आमकांय लज ना? मनशान आपल्याक सोबता तशेंच करप.

बाबू : पूण पप्पा, म्हाका नाटकांत पार्ट करूंक जाय म्हणचे जाय.

डायरेक्टर : हां बरें बरें, पळयतां कितें करूंक मेळटा जाल्यार. हांव रोकडोच वचून येतां, कोणूय आयल्यार राव म्हूण सांग.

**(तो वता.बाबू पेडार बसता.बरोच वेळ कोण येना देखून तो बेजारलेलो दिसता. इतल्यांत कितेंतरी सोदीत नटी येता. तिच्या दोळ्यांक काळें वक्ल आसा.)**

बाबू : (पेडार सावन उडी मारता) हे कोण तूं? आनी कोणांक सोदता?

नटी : आरे कार्टून नेटवर्कांतलो बाल हनुमान, हांगा कसो पावलो.वाटिका वनांत!

बाबू : हां सीता दिसता!! ( तिका प्रणाम करता ) प्रणाम माते...

नटी : हे कार्टून!! हांव माता सीता न्हय!

बाबू : माता सीता न्हय? कोण तर तूं अस्तुरी?

नटी : हांव अस्तुरी न्हय!

बाबू : हां !!

नटी : अस्तुरी न्हय म्हणचे, अस्तुरीच हांव... पूण तूं बेस्टो

दुसरेंच किर्ते समजू नाका. नटी हांव नटी।।

बाबू : तूं नोटी।। कसल्यो नोटी? पायश्यांच्यो, काय दोन हजरांच्यो?

नटी : चे । तसल्यो नोटी न्हय, नटी ... नाटकांतली नटी.

बाबू : हां...नटी। ( हांसता.)

नटी : हांसता सो कित्याक? तुका फकाणां दिसता?

बाबू : ( हांसता ) चे... तो पप्पा म्हूण सामकोच, कोणांकूय नटी करता.

नटी : किर्ते जार्ले हांसपाक?

बाबू : आगो... नटी आसूंक जाय मातसी मोटी. तूं तर सामकीच फटफटी!

नटी : ( रागान ) हे कार्टून नेटवर्क! बेस्टी करनाका कटकटी... बाल हनुमान खंयचो!

बाबू : ( मातसो मोटया आवाजान) बाल हनुमान!! तुर्जे तें बाल तुज्या दोळ्यांचेर आयलां दिसता! तुका दिसना गो...? वीर हनुमान मगो हांव. पवन पुत्र, अंजनी सूत, महाबली, बजरंगबली,वीर हनुमान... म्हळ्यार मारूती.

नटी : हा हा, मारूती! आनी शेपडी रे तुजी?

बाबू : आरे च्या!! शेपडी लावंक विसरलोंच! बरी याद केली हा तुवें (वचूंक लागता.)

नटी : (ताका थारवन) आरे-आरे! खंय वता तूं?

बाबू : शेपडी लावंक वता!

नटी : शेपडी मागीर लाय रे... म्हाका एक सांग, हांगा कोण ना?

बाबू : हांव सोडून आनीक कोण ना! तुका कोण जाय आसलो? तशे खूब्ब जाण येवपाचे आसात.

नटी : तांच्यातलो म्हाका कोणूच नाका! येसायेक कोण येवंक ना काय म्हणटालें हांव.

बाबू : हा येसायेक? येतले! पप्पा गेला सोदूंक, पळोवंया कोण मेळटा तो.

नटी : पप्पा?

बाबू : हय, म्हजो पप्पा! डायरेक्टर।।

नटी : हा! तर तूं डायरेक्टराचो माकड तर...!

बाबू : ( ताचेर तापता ) हे नटी...! हांव माकड न्हय हां...!! पळयगो म्हाका, दोळे उकते करून पळय गो... त्या दोळ्यां वयलें काळे वक्ल काडून पळय गो... गदेक तरी पळोवन तुका दिसना हांव मारूती म्हूण?

नटी : दिसता हां... दिसता, सामको हनुमान, मारूती दिसता. पूण आनीक कोण दिसनात शे!

बाबू : सांगलें न्हय गो तुका, पप्पा सोदूंक गेला म्हूण... हांगा सगल्यांक सोदून हाडचे पडटात... हां तो पळय कोण तरी येता!

शकुनी : (हालत घोलत येता. तो सोरो पियेल्लो आसता. नटयेक लार्गी वचून) आरे व्वा! नटी आयली दिसता!

बाबू : हाका नटी बरी दिसली रोकडीच! हांव इतलो व्हडलो हनुमान दिसूंक ना!

नटी : ( ताच्या तोंडाचो वास येता आनी कुशीक रावता) शी, वास! कोण रे हो बेवडा?

शकुनी : हे चेवडा...! हांव न्हय बेवडा! शकुनी हांव शकुनी.

बाबू : (नटयेच्या हाताक धरून तिका फार्टी काडटा) तूं अर्शे यो, ताका थंयच सुखूनी.

नटी : हे शकुनी...! सकाळीं-सकाळींच शेकून आयलो किर्ते रे?

शकुनी : ना गो, येसायेक आयलां मगो हांव...चल-चल, आमी मारूया!

नटी : मारूनच आयला न्हय रे तूं?

शकुनी : येसाय मारूया म्हणटां आतां... (नटयेक घेवन कुशीक वता)

बाबू : (शकुनीच्या फाटल्यान धरून ओडटा) हे शकुनी, असो यो रे.

शकुनी : (ताका पळोवन) आरे हनुमान!! प्रणाम हनुमान जी (प्रणाम करता.)

बाबू : आं आतां दिसलों हनुमान! आनी एकटोच आयलो रे तूं? कोण मेळूंक ना वाटेक?

शकुनी : ते सगले आंटीच्या बारांत पेग मारतात... ते पळय येतात, हांव वतां.

बाबू : आतां परतून खंय वता? राव आमीय येतां, थंय येसाय मारूं या... (तीं वतात. भीम आनी दुर्योधन येतात.)

दुर्योधन : हांव दुर्योधन! (हांसता) हा हा हा ह्या नाटकांतलो हिरो हांव व्हडलो!

भीम : पयर नाटकाची येसाय मारतना हो टायट जावन नटयेचेर पडलो.

दुर्योधन : हे म्हाका लज करता रे तूं? ना हां तुमी तार्चे आयकूं नाका हां! खरें म्हणल्यार, हाणेच म्हाका धुकलून उडयल्लो त्या दिसा. आनी वयल्यान म्हणटा मार रे होच चान्स. सांगपार्चे म्हणल्यार नटयेन त्या दिसा हाच्या कानसुलार एक मारलें (आपुणूच हांसता.)

भीम : हे... हांसता किर्ते खेतें कर्शे! नाटकाचे एन्ट्रीत कानसुलार मारपाचें आशिल्लें तें हाचेर. तें चुकून म्हजेर मारलें. ती नटी म्हूण सामकीच! पूण मागीर तिर्णे सॉरी म्हणलें हां. (दुःशासन हातांत साडी घेवन येता.)

दुर्योधन : हां आयलो तूं, हें किर्ते हाडलां तुवें?

दुःशासन : ही साडी!

भीम : साडी! एकूच साडी हाडल्या तुवें? डायरेक्टरान तुका दोन-तीन साडयो हाडूक सागिल्लें न्हय रे!

दुःशासन: खंयच्यो हाडूं दोन तीन साडयो? म्हजे आवयच्यो सगल्यो साडयो पिंजल्यात... मर्दी-मर्दी बुराकूय पडल्यात! बुरकांच्यो साडयो उपकरता?

दुर्योधन चे ना हां बुरकांच्यो साडयो उपकरनात... सांगूक जात त्या बुरकांतल्यान किर्ते-किर्ते दिसत तें!।

दुःशासन : मागीर ही एकूच बरी आशिल्ली. तीच हाडली तिवूय बी आवयक सांगनास्तना.

भीम : आवयक सांगनास्तना कित्याक हाडली साडी तुवें? ती सोदिना मरे...?

दुःशासन: ना रे ती सोदची ना!

दुर्योधन : नातर द्रोपदी साडी न्हेसल्या ती पळोवन माचयेर येत ती साडी आपली म्हूण व्हरपाक.

दुःशासन : ना रे ती माचयेर येवपाक ना!

भीम : हें तूं कशें सांगूक शकता, येवपाक ना म्हूण ती...? गेल्या वर्सा पळोवं ना, हाची बायल आपलें गंगावन व्हरूंक येवंक नाशिल्ली माचयेर?

दुःशासन : पूण म्हजी आवय येवपाची ना! सांगलें न्हय तुमका!

दुर्योधन : च्चे! कांय विस्वास ना हां तुजे आवयचेर, साडयेक पळोवन येवंक शकता ती माचयेर। आनी म्हजी साडी दी म्हूण साडी वोडूंक शकता द्रोपदीची...!

भीम : हय मागीर जालें वास्त्रहरण!

दुःशासन : आरे येवची ना म्हणल्यार! हांव उतर दितां न्हय, म्हजेर विस्वास ना?



भीम : अशें खर विश्वाशी उतर तूं कशें दिवंक शकता?

दुःशासन : आरे सकाळीं बाबान टायट जावन आवयचो पांय मोडला मारून! तिचे कडेन मात लेगीत चलूंक जायना...!

दुर्योधन : हां तशें जाल्यार येवची ना तर ती. पूण एक साडयेंत किर्तें करतलो रे तूं, ती वोडटां-वोडटां रोखडीच सोंपतली मरें...!

दुःशासन : आनीक ना तर हांव किर्तें करूं?

भीम : एक काम कर, त्या पुष्पा कडेन विचार. आसा जाल्यार पळय ताचे कडेन.

दुःशासन : खंयच्या पुष्पा कडेन विचार म्हणटा?

भीम : आमची नटी रे... ताचें नांव पुष्पा...

दुःशासन : ताचे कडेन? आरे ताचे कडेन साडयो खंयच्यो आसतल्यो! तें पळय रे जिन्स पॅन्टी घालता त्यो!

दुर्योधन : आरे तुका खबर ना! नटयां कडेन खूब साडयो आसतात! तांकां जाय आसतात नाटकांत घालूंक. हांव सांगतां, तुका साडयो मेळ्ळ्यार ताचे कडेनूच मेळटल्यो.

दुःशासन : बरें तर पळयतां विचारून! (तो वता.)

डायरेक्टर : (येवन) आजून येवंक ना रे सगळीं? रंगीत तालीम केन्ना मारूंक रे ती?

भीम : डायरेक्टर, आतां आनी रंगीत तालीम मारपाक वेळ आसा? आतां सोमर्ते नाटक रंगमंचार...

डायरेक्टर: मागीर रंग तरी काडात मरे तोंडाक तुमच्या पापयानो!

दुर्योधन : रंग? कसलो रंग काडा म्हणटा, चवथीक आनी दिवाळेक वणटींक काडटात तो?

डायरेक्टर : आरे बाबा! मेकप म्हणटां हांव... आनी वस्त्रां बी घालून तयार रावात मरे, आनीक तिनूच वरां उरल्यां नाटक सूरू जावंक.

भीम : हय आमी तयार जातां हां! तूं बाकिच्यांक पळय, तो किष्णा आजूनय येवंक ना...

डायरेक्टर : किर्ते सांगता रे? किष्णा आजून येवंक ना? (स्लोमोशनान किष्णा धावत वेता) आरे हें, असो धांवल्यार तूं केन्ना पावतलो द्रोपदीक वाचोवंक?

दुर्योधन : हे किष्णा, हो वेळ रे तुजो येवपाचो? द्रोपदीचें वस्त्र हरण जाता तेन्ना तरी पावतलो मरे वेळार?

किष्णा : हय रे त्या वेळार... हांव वेळार पावतलों, तुमी कांयच काळजी कर नाकां.

भीम : आमकां कांय काळजी ना रे. पूण तूं त्या वेळा... वेळार पावना तर द्रोपदीक मात काळजी जातली. चल रे या आमी (ते दोगूय वतात.)

डायरेक्टर : खंय आसलो रे इतलो वेळ? तुका साडे धांक आपयल्लो मरे...! आतां बारा वाजत आयलीं मरे! किर्ते हें हां?

किष्णा : आतां आयलों न्हय हांव! सांग किर्ते करूं? भाशण तर दिवंक ना तुवें म्हाका पाठ करतलों म्हणल्यार! फकत उबो रावपाचो आनी असो हात दाखवपाचो इतलेंच.(हात दाखयता.)

डायरेक्टर : इतलेंच...? ह्या इतल्यांतूच आख्खें नाटक लिपलां जाणा तूं? खरें म्हळ्यार तूंच ह्या नाटकाचो हिरो...! हिरो कित्याक? देव तूं देव नाटकाचो! तुजी ती निमणी एन्ट्री बरी जायत तर नाटकाचो शेवट बरो जातलो. आनी जर तूं त्या वेळार मातसो तरी येवंक उशीर करीत तर ती नटी कोणाक तोंड दाखवपाचे लायकीची उरची ना हें जाणा जा...

किष्णा : हय वय जाणा हांव तें! तशें कांय जावचें ना. म्हजेर विश्वास दवर.

डायरेक्टर : विश्वासूच तर ना तुजेर!

किष्णा : किर्ते म्हणलें?

डायरेक्टर : विश्वास दवरच्या खेरीज दुसरो उपाय ना म्हणटां तुजेर!

किष्णा : म्हळ्यार आसा न्हय विश्वास...?

डायरेक्टर : आसा रे बाबा, आसा! आतां चल, तयारी कर... (तो वता.)

बाबू : (येवन) पप्पा म्हजी सगली तयारी जाल्ली आसा हां... तूं कांयच हुस्को कर नाका.

डायरेक्टर : आरे म्हज्या आपुरबायेच्या माकडा! तुका कोणी सांगलां तयारी कर म्हूण?

बाबू : म्हळ्यार! हांव ह्या तुमच्या नाटकांत ना?

डायरेक्टर : आरे म्हज्या शाण्या, तूं कित्याक समजना! नाटक करप भुरग्यांचो खेळ न्हय रे!

बाबू : कित्याक, तुमी व्हडल्यांनीच करूं येता नाटकां? आण्टीच्या बार्रांत हेका ( आंगठो दाखोवन ) वचूंक जाय जाल्यार इश्टांक मातसो मेळून येतां अशें सांगून घरांतल्यान भायर सरपार्ची करता नाटकां, दुसऱ्याचे बायलेक घेवन पिच्चराक वतना सांपडल्यार ती म्हजी सेक्रेटरी म्हणपाचें बायलेक पटोवपाचीं नाटकां, आपले आदले व्हंकले कडेन फोनार उलयतना बायलेक कळ्ळ्यार रोखडींच सुरू जातात तुमचीं नाटकां. राँग नंबर आशिल्लो, हो नंबर संपर्क क्षेत्राच्या भायर आसा, उपकार करून कोड तपासा... हीं सगलीं नाटकां.

डायरेक्टर : आरे बाबा, हें खंय शिकला तूं उलोवंक सगलें?

बाबू : हीं तुमचीं नाटकां?

डायरेक्टर : आरे तीं नाटकां वेगळीं, हें नाटक वेगळें! तूं करूंक शकना ह्या नाटकांत पार्ट.

बाबू : पप्पा! (मातसो तापोवन) तूं एक बाल कलाकाराचो अपमान करता! वीर हनुमानाचो अपमान करता!

डायरेक्टर : आरे तशें कांय ना, समजून घे म्हाका.

बाबू : समजून घेवपाची गरज तुमकां आसा पप्पा! म्हज्या आंगांतली कला समजून घेवपाची! अहंकाराचो पड्डो देवोवन पळयात पप्पा. म्हज्या सारक्या साबार भुरग्यांची अवतीकाय समजून घेवपाचो यत्न करात, भुरग्यांच्या आंगातले कलागूण वळखुपाचो यत्न करात. तांकां आपली कला सिध्द करपाची एक संद दियात, माची दियात.

डायरेक्टर : हय म्हज्या राजा... चुकलें म्हजें. म्हज्या पदरांत सुर्याचें तेज आसा आनी हांव काळखांत सोदतां किरणां ताचीं... बीं तशें भात हें विसरलोंच हांव. तुकाय बी ह्या नाटकांत रोल दितां, पूण हनुमानाचो न्हय हां...

बाबू : हनुमान न्हय म्हणचे? कसलो रोल दिता म्हाका? (खोशयेंत )

डायरेक्टर : ह्या नाटकांत तुका एक खास रोल आसा. जबाबदारीचो, ह्या नाटकाची जबाबदारी तुवें घेवप... खंय किर्ते कशें तें सगलें तुवें पळोवप.

बाबू : हय पप्पा, समजलों हांव, म्हजी तयारी आसा!

डायरेक्टर : शाब्बास! चल लाग तयारेक, पयलीं जबाबदा[री] सगल्यांक माचये कडेन आपयल्या सांग. हां[व] थंयच वतां.

बाबू : बरें पप्पा.

**(उमेदीन वता, काळोख जावन देखाव पयलो सोंपता )**

## देखाव दुसरो

**(माचयेर माची दिसता, तांबडो पड्डो बादिल्लो आसता डायरेक्टर येता )**

डायरेक्टर : खंय गेले सगळे? कोण आसा रे थंय?

बाबू : ( खाकी वस्त्रां घालून उडणां मारीत येता) हांव आसां, हांव आसां.

डायरेक्टर : तूं आसा ते जाणां हांव. आनीक कोण आसात?

बाबू : आनीक ... सगले आसात... नाटकांत जितले आसात ते सगळे आसात.सोडून एकलो...

डायरेक्टर :कोण तो एकलो?

बाबू : किष्णा!

डायरेक्टर : किष्णा येवक ना आजून?

बाबू : तो पळय कोण तरी येता! किष्णा जायत!!

शकुनी : ( हालत धोलत येता, शकुनीचो सगळो सेटप केला पूण तोंडार खाड ना.) डायरेक्टर, म्हजें खाड खंय?

डायरेक्टर : तुजें खाड हांव काडटां? तें म्हाल्याक विचार मरे!

शकुनी : म्हजें खाड! शकुनीचे, शकुनीचें खाड!!

डायरेक्टर : हां हां नकली खाड? तें म्हाका कित्याक विचारता, मेकपमॅनाक विचार मरे.

शकुनी : ताचे कडेन आनीक खाड ना खंय. सगल्यांक लावन काबार केलें ताणें.

डायरेक्टर : ताणें सगल्यांक खाड लायलें तर...? हां बरें-बरें आयक सांगतां (ताच्या कानांत सांगता, बाबू आयकुपाचो यत्न करता.) नटयेचें गंगवन आसतलें पळय...

शकुनी : नटयेचें हां बरें-बरें ( खूश जाता आनी वता... डायरेक्टर बाबूक पळयता.)

बाबू : ना हांवें आयकूंक ना!

डायरेक्टर : तुका कांयच काम ना?

बाबू : आसा! घंटा वाजवपाचें काम आसा.

ायरेक्टर : कोणाची घंटा वाजयता?

ाबू : नाटकाची पयली घंटा!! वाजोवं?

ायरेक्टर : नाका। आजून वेळ आसा, घंटा वाजोवंक।

ुर्योधन : (येवन) डायरेक्टर, हांव तयार आसां, पळय कसो दिसता हांव? हे (बाबूक) हांगा यो रे. (बाबू ताच्या म्हऱ्यांत वता) म्हजो मातसो फोटो काढ.(मोबायल दिता.)

डायरेक्टर : (तापयता) नाका रे फोटो काडूंक, तूं हांगा फोटो शेसन करूंक आयला?

दुर्योधन : पूण डायरेक्टर म्हजे बायलेक म्हाका वॉट्सेपार धाडूंक जाय तो फोटो!(बाबू थंय आपूण सेल्फी काडपाचो यत्न करता.)

डायरेक्टर : तूं थंय लाग कित्याक मारता रे मोबायल येवन...?

बाबू : ना, सेल्फी काडटालों... ताणेंच दिल्लो तो मोबायल म्हजे कडेन.

डायरेक्टर : बायलेक धाडूंक जाय फोटो? बायल येवची ना नाटक पळोवंक?

दुर्योधन : बायल येतलीच... आनी मेवणीय बी येतली.

डायरेक्टर : जाल्यार मेवणेकूच सांगपाचें न्हय फोटो काडूंक तुजो... मेवणे परस बरो फोटू आनीक कोण काडटलो तुजो...? फोटो काडटा तो, भाशण पाठ जालें तुजें?

दुर्योधन : ना तें हांवें त्या खांब्यार बरोवन दवरलां.

डायरेक्टर : भाशण खांब्यार बरोवन दवरलां तुवें? दिसतलें मरे तें बरयलां तें? चल वच आनी भाशण पाठ कर पयली...(ताका तापयता.)

दुर्योधन : दी रे म्हजो मोबायल! (मोबायल येवन वता, डायरेक्टर बाबूक पळयता.)

बाबू : हांवें कितें केलां? हावं घंटा वाजोवं, नाटकाची पयली घंटा!

डायरेक्टर : नाका आजून वेळ आसा...

भीम : (येवन) डायरेक्टर, म्हजी गधा खंय आसा...?

डायरेक्टर : तुजी गधा म्हजे कडेन कितें विचारता रे, आनी कितें रे तूं गधार बसोन आयिल्लो?

भीम : ती गधा न्हय। ही गधा हातांत धरता ती. हांव गाडवाची गजाल सांगना.

डायरेक्टर : सारकें... गाडव गाडवाची गजाल कशी सांगतलो? त्या सामणांत पळयलां तुवें सारकें?

भीम : हय पळयलें हांवें, गधा ना तातूंत!!

डायरेक्टर : जाल्यार तूं एक काम कर, तो नागेश गवणो आसा न्हय ताचे कडेन वच आनी घण हाड.

भीम : घण। घण सो कित्याक? फातर फोडूंक!

डायरेक्टर : गधेच्या जाग्यार घण घे तूं.

बाबू : नाका! घण बी कांय नाका.म्हजे कडेन आसा गधा... चल हांव दितां तुका.

डायरेक्टर : हां चल ताच्या वांगडा. जालें काम तुजें (दोगूय वतात..) आनी आयक। भाशणाचेर एक नदर मार... भाशण चुकूंक फावना.

नटी : (फाटल्यान येवन, राक्षिणी सारको मेकप करून कैंस सोडून येता) डायरेक्टर... म्हजी साडी खंय?

डायरेक्टर : ( भिवून ) हां कोण तूं राक्षीण, आमच्या नाटकांत राक्षिणीचो रोल कोणाक आसा?

नटी : डायरेक्टर हांव राक्षीण न्हय। द्रोपदी हांव.

डायरेक्टर : द्रोपदी!! तूं... पूण तुजो असो मेकप कोणे केलो राक्षिणी भशेन?

नटी : आनीक कोण करतलो? त्या बेवड्या मेकमॅनान.

डायरेक्टर : त्या बेवड्याचें उतरूंक ना आजून? आसूं तूं वचून तुजें सारकें कर.

नटी : म्हजें कितें सारकें करूं...? म्हजी साडी खंय आसा?

डायरेक्टर : तुजी साडी म्हजे कडेन खंय आसा?

नटी : तेंच हांव विचारतां, म्हजी साडी खंय आसा? नाटकांत साडी घालपाची ना?अशेंच येवं, जिन्स घालून.

डायरेक्टर : चे अशें कशें येतलें तूं? अशें आयल्यार दुःशासन तुजी साडी कशी सोडयतलो?

नटी : तेंच म्हणटां हांव। साडी खंय...?

डायरेक्टर : हां याद आयली... दुःशासना कडेन आसतली चल पळय! (तें वचूंक) आनी आयक... पयलीं तो तुजो चेहरो सारको कर नातर तुका राक्षीण समजून ताका हार्टअॅटेक येत (तें वता) चे। हीं एक एकट्याची नाटकां चल्ल्यांत तीं...

बाबू : (येवन) आतां तरी वाजोवया न्हय घांट!

डायरेक्टर : आरे बाबा तुका घांट वाजोवं सर इतली तरतरी



कित्याक मारल्या? मातसो धीर धर रे पापया, तुकाच वाजोवंक सांगतलों रे हांव घांट!

बाबू : आजून जावंक ना घांट वाजोवपाचो वेळ?

डायरेक्टर : आजून खंय जाला घांट वाजोवपाचो वेळ, हांगा पळयना एक-एकल्याचे नखरे कशे चल्ल्यात ते...?

किष्णा : (येवन) डायरेक्टर, डायरेक्टर घात जालो!

डायरेक्टर : पळयला! आनी एक नखरेकार आयलो. हा... तुजें कितें जालें?

किष्णा : म्हजें कांयच जावंक ना! म्हजे बायलेचें जालें!

डायरेक्टर : कितें जालें बायलेचें?

किष्णा : बाळंतपण...

डायरेक्टर : कितें... सुटल्या कितें ती...?

किष्णा : हय वय सुटल्या... बांबोळे हॉस्पिटलांत आसा. देखून हांव नाटकांत पार्ट करूंक शकना...

डायरेक्टर : कितें उलयता रे तूं! बायल सुटल्या काय तूं सुटला?

किष्णा : बायल सुटल्या... देखून म्हाका नाटकांत काम करूंक मेळना. दुसऱ्याक कोणाकूय पळय!

डायरेक्टर : तुजी बायल सारकी ना रे तकलेन? तिका खबर ना आयज आमचें नाटक म्हूण? आनीक एक दीस रावूंक कितें जातालें तिका!

किष्णा : डायरेक्टर हे कितें उलयता तूं! तें तिच्या वा आमच हातांत आसा?

डायरेक्टर : मागीर...! तुज्या हातांत कितें आसा तर?... कृष्णा रोल आतां कोण करतलो रे...? ( डायरेक्टर बाबू पळयता)

बाबू : हां हय हांव करूंक शकतां कृष्णाचो रोल! (कृष्णा पोजीन रावता)

डायरेक्टर : कृष्णाचो रोल तुवें करचो अशें सांगूंक ना हां तुका, कृष्णाचो रोल करपा सारको आतां को मेळटलो अशें विचारला...

बाबू : पूण भाऊ..! कोण जाला तें सांगूंक ना तुमी. कृष्ण काय द्रोपदी?

किष्णा : हां विसरलोंच पळय... कृष्णा जाला! म्हणजे बाबू, बा जाला. (बाबू खूश जाता)

डायरेक्टर : ( तापता )बाबू...! (किष्णा वता)

बाबू : हय ... बाबूच जाला खंय!

डायरेक्टर : तुका सांगतां हांव! कितें चल्लां हें... हा! आत खंय सोदुया कृष्णाक?

बाबू : (डायरेक्टराचे कुशीक येवन) पप्पा, एक आयडिय दिवं?

डायरेक्टर : आयडिया? वडाफोन ना!

बाबू : (मोबायल दिता) घे वडाफोन!!

डायरेक्टर : आतां हो कित्याक?

बाबू : फोन कर आनी विचार... आमच्या शेजाऱ्याक, तं सुलेमान रावता न्हय, ताका... आमच्या नाटकांत कृष्णाचो रोल करता काय म्हूण...

डायरेक्टर : सुलेमान? तो मुसलमान?आनी श्री कृष्णा! चे....तकलेन आसा मरे तूं सारको?

बाबू : मुसलमान आसलो म्हूण कितें जालें ? कलाकारांची जात पळोवची नासता. कलाकार हो कलाकार आसता... कला हीच तांची वळख. म्हाका एक सांग पप्पा...तार्चे नांव सुलेमान देखून तो मुस्लीम? काय तो मुस्लीम देखून तार्चे नांव सुलेमान?

डायरेक्टर : हय बाबा, सारकें तुजें! कलाकारांची जात आसना. पूण जातीचो कलाकार अशें तुका आमी म्हणचे पडटलें... दी, हांव करतां ताका फोन. नंबर लावन

दी.

बाबू : (नंबर लायता आनी डायरेक्टरा कडेन दिता) पप्पा ये रींग वाजता!

डायरेक्टर : (फोन येवन) हॅलोऽऽ सुलेमान रे?

बाबू : पप्पा फोन स्पिकरार कर.

डायरेक्टर : (स्पिकरार करता) सुलेमान, हांव डायरेक्टर उलयतां...

सुलेमान : (भितरल्यान) कौन?

डायरेक्टर : आरे.... हाका कोंकणी येना दिसता...! आरे मै रे, वस्त्रहरण नाटक का डायरेक्टर.

सुलेमान : हां हां डायरेक्टर सायब, मै नाटक को आयेगा! अभी टायम है ना नाटक सुरू होनेमे... तो मै टायम पे आ जावुंगा. शुक्रिया फोन करने के लिये...

डायरेक्टर : नाही-नाही सुलेमान... हांवें तुमको नाटक पोयनेको वो म्हूण फोन नही किया!

बाबू : (फोन येवक) पप्पा म्हजेकडेन दी, तुका हिन्दी उलोवंक जमना!

डायरेक्टर : हेट... म्हाका सांगता हिन्दी उलोवंक जमना म्हूण...! म्हज्या परस बरी हिन्दी तूं उलयतलो? ना ना तुमको ना रे.

सुलेमान : अच्छा! तो फोन रखता हूं!

डायरेक्टर : आरे बाबा आयक रे, फोन दवर मत. तुजे कडेन उलयना है... (बाबू कपलार हांत मारता)

सुलेमान : उलयना है... हां अच्छा बोलना नही ना तो रख देता हूँ!

डायरेक्टर : आरे, बोलना है रे... बोलना है! आयक... किर्ते जालें मालूम? आयज हमारा नाटक आसलें न्हय वो...

सुलेमान : वो क्या? केन्सील हो गया?

डायरेक्टर : केन्सील जालां नही रे, पूण तोडा... क्या बोलता है...?

बाबू : प्रबलेम हुवा!

डायरेक्टर : हां हां तोडा प्रोबलेम जालां रे.

सुलेमान : तो...?

डायरेक्टर : तो तुमारा तोडा मदत जाय है...

सुलेमान : डायरेक्टर सायब! तुम क्या बोलता है वो कुछ समजमे नही आता!

डायरेक्टर : रेन्ज सारकी मेळटा नाही, देखून!!

बाबू : पप्पा म्हजे कडेन दी, हांव ताका सारकें समजावन सांगतां.

डायरेक्टर : तूं सांगता ताका...? राव ताका सांगतां तूं सांगता म्हूण! सुनो... आमचो बाबू तुका समजायेगा हा! उसको फोन देता... आं ये तूं समजाय ताका. थंय वच हांगा रेन्ज ना.

बाबू : (बाबू मोबायल येवन) हॅलो! सुलेमान भाय (उलयत वता)

डायरेक्टर : चे! ह्या किष्णान सामकी वाट लायली...

**(डायरेक्टर हे वटेन-ते वटेन भोंवता )**

दुर्योधन : (येवन) डायरेक्टर म्हजे कडेन मिशयो करूंक केंस ना!

डायरेक्टर : तकलेर तरी आसा मरे केंस?

दुर्योधन : हय आसा... किर्ते ! तकले वयले केंस काडून मिशयो कर म्हणटा?

डायरेक्टर : मागीर खंयचे काडटात तर...! ( सकयल पळयता)

दुर्योधन : हे डायरेक्टर...!!

डायरेक्टर : तुमकां प्रतेकाक सांगिल्लें मरे! एक एक गंगावन हाडचें म्हूण? तुवें कित्याक हाडूंक ना?

दुर्योधन : हांवें म्हजे मेवणेर्चे गंगावन हाडिल्लें. पूण तें त्या बेवड्यान आपल्या खाडा खातीर वापरलें... आतां हांव किर्ते करूं?

डायरेक्टर : तूं ताचे मेवणेर्चे ये!

दुर्योधन : किर्ते येवं ताचे मेवणेर्चे?

डायरेक्टर : गंगावन...! ताची मेवणी तुका आनीक किर्ते दितली?

दुर्योधन : पूण एक अडचण आसा!

डायरेक्टर : कसली अडचण?

दुर्योधन : ताका मेवणीच ना!

डायरेक्टर : हा...! बायल तरी आसा न्हय ताका?

दुर्योधन : हय बायल आसा एक...

डायरेक्टर : एकूच पुरो बायल... हांव तुका ताची बायल ये म्हणना... ताचें गंगावन ये म्हणटां... चल आतां

म्हजो वेळ होगडाय नाका.

दुर्योधन : बरें-बरें वतां... पूण दितली न्हय ती म्हाका?

डायरेक्टर : दिना जाल्यार जबरदस्ती करून घे... (दुर्योधन तोंडार हात दवरता) गंगावन म्हणटां हांव. चल आतां (दुर्योधन तकली हालोवन हय म्हणटा आनी वता.)

बाबू : (येवन) पप्पा-पप्पा खोशयेची गजाल, सुलेमान नाटकांत कृष्णा जावपाक तयार जालो!

डायरेक्टर : जालो मरे? बरें जालें, तकले वयलो पेज येलो...

बाबू : आतां वाजोवंया न्हय?

डायरेक्टर : कितें वाजयता?

बाबू : घांट!

डायरेक्टरः हां हय वय वाजय! वांजय घांट!

बाबू : खंय आसा, खंय आसा घांट? (ताच्या पुडव्या कडेन पळयता)

डायरेक्टर : म्हज्या पुडव्यांत आसा?

बाबू : तूं काडून दिता काय हांव काडूं?

डायरेक्टर : तुजे आवयचो घो.......! म्हज्या पुडव्यांत आसा? अशें विचारतालों हांव! (तापोवन)

बाबू : तापता कित्याक पप्पा? खंय आसा ती सांग न्हय... (रडक्या सुरात)

डायरेक्टर : थंय तें सगळें सामाण आसा, तातूंत आसतली!

बाबू : बरे, हांव असो वता आनी असो येतां पळय घांट घेवन...(धांवत हे वटेन वता आनी ते वटेन येता.मागीर डायरेक्टराच्या फाटल्यान येवन) पप्पा-पप्पा घांट थंय ना... सगळ्याक सोदली हांवें घांट. थंय ना!

डायरेक्टर : घांट ना? आतां कितें?

बाबू : आतां कितें? आता कितें? (विचार करता) हां... आयडिया!!

डायरेक्टर : परतून आयडिया!?

बाबू : आमी डबो वाजयलो तर?

डायरेक्टर : डबो वाजयता? कितली भयानक आयडिया रे ही तुजी?

बाबू : मागीर! पूत कोणाचो?

डायरेक्टर : हां बरें-बरें, चल हाड डबो.

बाबू : आतांच घेवन येतां (वता आनी रोखडोच परत येता)

डायरेक्टर : खंय रे... डबो?

बाबू : डबो हाडटां पूण, एक बडीय हाडची पडली!

डायरेक्टर : बडी कित्याक? ते जांबळीचीं जांबळां काडूंक नाका हां आतां जांबळां बी!

बाबू : पप्पा, जांबळां काडूंक बडी न्हय.

डायरेक्टर : मागीर कित्याक तर ती बडी?

बाबू : डबो वाजोवंक नाका?

डायरेक्टर : हा हय मरे, चल-चल डबो आनी बडीय हाड.( त वचूंक) आनी आयक... सोमतो वाजयत यो.

बाबू : हा... ही बरी आसा आयडिया! (वता)

डायरेक्टर : कितें? आयडिया?

शकुनी : (येवन) डायरेक्टर म्हजी येन्ट्री केन्ना आसा? व वेळ आसा जाल्यार...

डायरेक्टर : जाल्यार चार्ज जावन येता? आजून तुजी बॅट डावण जावंक ना... आनी तूं परतून चार्ज जावंव वता म्हणटा? चल थंय... आतां खंय वचपाच गरज ना! (बाबू डबो वाजयत येता)

शकुनी : डायरेक्टर... किष्णाचे बायलेक बाबू जाला देखून ह डबो वाजोवन पेरगांव घालता?

डायरेक्टर : ना तो पेरगांव घालना, तो घांट वाजयता... नाटकाच पयली घांट!

शकुनी : चे डायरेक्टरानूय इल्लें घेतलां कितें? डबो वाजत आनी ताका घांट दिसता नाटकाची! जाग्यार न हो...

बाबू : शकुनी मामा, डायरेक्टर जाग्यार आसा... घांट न जाग्यार देखून हो डबो वाजयतां. चल तूं थंय... ना तर तुज्या मुस्कटार वाजयत तो.

डायरेक्टर : आरे ताका घेवन वच तूं, तो तसो आयकपाचो ना...!

बाबू : हे दारू मामा... चल-चल तूं म्हज्या वांगडा (ताका घेवन वता आनी रोखडेच येता.)

डायरेक्टर : हां पावोवन आयलो ताका?

बाबू : हय! आतां दुसरी घांट वाजोवंया??

डायरेक्टर : घांट आसा तुजे कडेन?

बू : ना... डबो वाजोवंया काय म्हणटां हांव?

ायरेक्टर : नाका इतल्यांत! पयलीं आरती करपाची, सगल्यांक हांगा आपय.

बू : सगल्यांक आपोवं? शकुनीकूय?

ायरेक्टर : हय, सगल्यांक आपय!

बू : शकुनीक कित्याक वचूंक सांगलें तर?

ायरेक्टर : कितें बडबडटा रे?

ाबू : कांय न्हय. आपयतां सगल्यांक! आपयतां! (तो वचूंक वता...)

ायरेक्टर : राव राव... पयलीं सगळी तयारी करूं या. मागीर तांकां आपोवया, नातर बेस्टोच बोबाळ जातलो! तूं नाल्ल घेवन यो! (बाबू वचूंक लागता) आनी आयक, एक मोट्टो फातरूय हाड...

ाबू : फातर कोणाचे तकलेर यालूंक?

डायरेक्टर : नाल्ल तुजे तकलेर फोडूं?

ाबू : नातर नाल्ल फोडूनच हाडटां!

डायरेक्टर : हय! आनी सोय कातून बी हाड!

ाबू : बरें ( वचूंक वता )

डायरेक्टर : बरें कितें? नाल्लाची सोय कितें गोडश्यांत यालूंक हाड सांगतां हांव तुका? हांगा नाल्ल फोडून नाटकाची सुरवात करूंक जाय! (बाबू वता, नाल्ल आनी फातर घेवन येता)

बाबू : ये... नाल्ल आनी फातर...

डायरेक्टर : दवर थंय! (बाबू फातर दवरता)



बाबू : आतां फोडूं नाल्ल?

डायरेक्टर : आरे नाल्ला! बाकिर्चे सामाण खंय आसा? फुलां, उजवाती बी... पांच पानां मांड मरे! पानां हाडलीं?

बाबू : पानां आसात म्हजे कडेन.( इस्पिकांतलीं पानां काडून वाटता) हां वाटलीं, कसल्यांनी खेळप? तीन पानां?

डायरेक्टर : (ताचेर एक कूट मारता, तो आवयस करता) हीं पानां वाट सांगलां हांवें?

बाबू : हां समजलों... दुसरीं पानां! (वचूक लागता) कसलीं हाडूं, आंब्याचीं काय पणसाचीं?

डायरेक्टर : आरे गदळ्या! खावपाचीं पानां हाड म्हणटां हांव!

बाबू : हां खावपाचीं पानां... बरें-बरें (वचूक वता,पूण रावता) चुरो आनी चुनो आसा न्हय तुजे कडेन?

डायरेक्टर : आरे हांगा विडो दवरूंक नाका? विड्याचीं पानां हाड म्हणटां हांव.

बाबू : आरे हां... विड्याचीं ! पांच पानां... आनी एक बेडोय हाडचो पडलो...

डायरेक्टर : हय एक बेडोय बी जाय. घेवन यो बेगीन आनी आयक...वताच तूं न्हय, तांकां सगळ्यांक आफय सोमतेच.

बाबू : बरें, विडो हाडटां आनी तांकां सगळ्यांक आफयतां... (वता आनी सगळ्यांक घेवन येता) अशें सगळे लायणीक रावात. (सगळे लायणीक रावतात.)

शकुनी : हे बाबू! आमकां कितें वाटटा रे?

बाबू : तुमकां तिर्थ वाटटां!

शकुनी : (बोल्सांतल्यान क्वॉर्टर काडून) म्हाका नाका हां, म्हजे कडेन एक कोटर आसा... तोंडांत उडोवपाक कितेंय चोर्णे बिर्णे आसल्या दिल्यार जाता...

डायरेक्टर : हे बेवड्या! तुका दुसरें कांयच सुचना? आरती सुरू करपाचो वेळ जालो तरी तुका हाचेंच पडलां!(आंगटो दाखोवन) तूं तो विडो दवर रे थंय!(तो विडो दवरता) आनी मोडचे पयशे रे?

बाबू : म्हजे कडेन खंयचे मोडचे पयशे? पूण मोडचे कित्याक पप्पा कुरू बावलो उडोवंक? बेटींग पयलीं कोणें करची हें थारोवंक. हू... हा, ही पळय नळकुटी आसा (नळकुटी काडून तिका थुकी लावता)

आमी ओली सुकी उडोवंया.

डायरेक्टर : आरे ओली सुकी किर्ते करता? विड्यार दवरूंक जाय रे एक रुपया मोडचो.

बाबू : हां अर्शे। ये तुजे कडेन आसा रे एक रुपया (लायणीक पयलो आसा ताचे कडेन विचारता)

दुर्योधन : छुट्टा नही आगे जावो... (सगळ्यांक विचारून शेवटाक शकुनी म्हऱ्यांत पावता) देदो बाबा! ना ना मामा...!(शकुनी वचूंक लागता)

डायरेक्टर : आरे तो खंय वता? आडय ताका...

बाबू : मामा-मामा, तूं खंय वता?

शकुनी : ते कपडे काडून दवरल्या तातूंत बोल्सांत एक रुपया आसा! तो हाडूंक वता.

बाबू : नाका नाका...तुजो रुपया नाका, तूं राव लायणीक... ये पेटिवाल्या! तुजे कडेन आसल्यार दी रे एक रुपया, मागीर तुज्या बिलांत घाल तो. (तो एक रुपया उडयता, बाबू तो विड्यार दवरता) हां जालें आतां... आतां किर्ते?

डायरेक्टर : आतां नांदी म्हणप... सगळ्यांनी म्हणपाची हां नांदी! तर म्हणुया न्हय?

बाबू : नाकानाका! आमी नांदी म्हणची न्हू!

डायरेक्टर : हे आवट्या, किर्ते उलयता तूं? नांदे शिवाय नाटक सुरू करतले?

बाबू : पप्पा नांदी तर सगळेच म्हणटात, कॉमन जाल्या ती नांदी.

डायरेक्टर : हय ... संगळेच म्हणटात नांदी, देखून आमीय म्हणूंक जाय. चल सुरू करुंया...

बाबू : ना! पूण हांव किर्ते म्हणटां पप्पा... नांदीचे सुवातेर आमी राष्ट्रगीत म्हणलें तर?

डायरेक्टर : राष्ट्रगीत? (सगळे, 'हय राष्ट्रगीत बरें आसा, सॉलीड आयडिया, व्वा! वा! बाबू' अर्शे बडबडटात) उगी रावात, सगळे उगी रावात, शांत... ( सगळे ओगी रावतात)

बाबू : पप्पा... नाटक सोंपताच आमी वन्दे मातरम म्हणटात कीं ना!

डायरेक्टर : हय! आमीच कित्याक? सगळेच म्हणटात.

बाबू : जाल्यार! सुरवात करचे पयलीं राष्ट्रगीत कित्याक म्हणचें न्हय? जशें कसल्याय कामाक सुरवात करचे पयलीं आमी गणेशजीची पुजा करता तशेंच, नाटकाक सुरवात करचे पयलीं राष्ट्रगीत म्हणल्यार बरें अर्शे म्हाका दिसता.

डायरेक्टर : हय रे, पूण आमकां आमच्या भारत देशाचो झेंडो नाका? तो खंय सावन हाडचो?

बाबू : हो सामकार तांबडो पड्डो दिसता न्हय, तोच आमच्या खातीर आमच्या भारताचो झेंडो... ताकाच मान दिवन आमी राष्ट्रगीत सुरू करूंया.

डायरेक्टर : बरें बरें, पटलें म्हाका तुर्जे आनी मानलो हां तुका.

बाबू : मानलो न्हय पप्पा! हांव हुशार आसा म्हूण, फुडल्या वर्सा म्हाका कसलो पार्ट दिता?

डायरेक्टर : ह्या वर्सा दिला तो पयलीं बरें तरेन कर पार्ट...

बाबू : म्हणल्यार?

डायरेक्टर : नांदी पयलीं नाल्ल फोडून नाटकाचें उदगाटन करचें आसता! नाल्ल फोडलो तुवें?

बाबू : हां हां फोडटां नाल्ल... पूण तुवय बी एक विसरता

डायरेक्टर : हांव विसरतां? किर्ते तें?

बाबू : नांदीच्या जाग्यार राष्ट्रगीत म्हणपाचें थारलां.

डायरेक्टर : हां हां खबर आसा म्हाका! तूं नाल्ल फोड.

(बाबू नाल्ल फोडटा)

बाबू : म्हणा... श्री बजरंग बली वीर हनुमानाचो.. (सगळे 'जय' म्हणटात आनी मागीर सगळे कातली मेळोवच्या खातीर खटपट करतात.)

डायरेक्टर : कोणूच लायण मोडचो ना, सगळ्यांक कातली मेळटली.(बाबू सगळ्यांक कातली वाटटा) तर सगळ्यांक मेळ्ळी न्हय! आतां नांदी... ना नं राष्ट्रगीत म्हणपाचें... तर सगळ्यांनी एकसाथ राष्ट्रगीत सुरू करेंगे सुरू कर...

**(सगळे राष्ट्रगीत म्हणटात काळोख जावन अंक पयलो सोंपता)**

**(पानांचे मर्यादे पासत हांगा एकूच अंक उजवाडा येता दुसरो अंक पुस्तक रूपांत वाचूंक मेळटलो-सं. )**



कालापूर-गोंय. मो: ७८७५२३७८३०

# ब्रह्मपुत्रेच्या कांठा वयल्यान

ह्या मंदिरा बद्दल खूब आख्यायिका आसात. मुख्य देवी कामाख्या. हिका ब्लिडींग गॉडेस अशेंय म्हणटात. देवळांत भितर सरल्या बराबर मुर्तीचें अडंबर दिसना. तर एक योनीच्या आकाराची शिला थंय पळोवंक मेळटा. हाकाच ते सतीचें एक आंग अशें म्हणटात. पौराणीक काळा नुसार राजा दक्षाच्या यज्ञा वेळार आपल्या घोवाचो,महादेवाचो अपमान सोंसूंक जायना जावन सतीन यज्ञांत उडी घेतली.

- सुचेता कामत पै

खूब दीस जाल्ले आनी खंयच वचपाचो योग आयलो ना. २०१८ सालांत म्हाका नॉर्थ इस्ट आसाम वचपाची संद चलून आयली. म्हज्या प्रत्येक प्रवासाक एक कारण आसता. तशेंच हांगा जालें. आमी दोगांयनी म्हणजे हांवें आनी प्रितकान (प्रितका मांद्रेकार) म्हजे इश्टीणीन आसाम सीसीआरटी वचपाचो निर्णय घेतलो. थंय अकरा दीस रावन येवपाचें. 'संस्कृतीक स्त्रोत एवं प्रशिक्षण केंद्र पंजाबारी-गुवाहाटी आसाम' हांगा शिक्षक म्हणून वचपाचें आनी खूब कितें शिकून येवपाचें.

सीसीआरटी भारतभर आशिल्ल्या शिक्षकांक ही एक संद दिता. प्रशिक्षण घेवपाचीं तांचीं केंद्रां. उदयपूर, हैद्राबाद, दिल्ली, आसाम आनी कलकत्ता हांगा आसात. ते त्या शिक्षकांक रावपाचो, जेवपाचो, वचपाचो, येवपाचो खर्च दितात. म्हणून चडशे लोक (गोंयां भायले) ही संद होगडायनात. पूण आमी गोंयकार कमनशिबी. धा-बारा दीस भायर रावप, शिवराक जेवप हें तांच्या पचनी पडना. म्हणून आमची हाजेरी सदांच थंय कमी आसता. आतां आसामाक आमच्या बराबर पिर्णचो सर दत्ता परब समविचारी कसो आशिल्लो. तो थंय आयिल्लो.

आसामाक वचपाक भायर सरलीं. रेल्वेंतल्यान तीन दीस लागतात म्हणून विमानाच्यो तिकेटी काडल्यो. कडक थंडीचे

नोव्हेंबरांतले ते दीस आशिल्ले. धाकटी दिवाळी सोंपिल्ली. सुंदर वातावरण आशिल्लें. थंय पावलीं आनी आमच्या रावपाच्या जाग्यार कलाक्षेत्रांचो आंवाठ पळोवन मन प्रसन्न जालें.

आसामची राजधानी 'दिसपूर'. आसाम मेळून ह्यो सगळ्यो सात भयणी. नागालँड, अरूणाचल प्रदेश, मेघालय, मिझोराम, मणिपूर, त्रिपुरा आनी ब्रम्हपूत्र हो भाव (नद) अशें ते मानतात.

आसाम हो शब्द (आसमा) ह्या संस्कृत शब्दावयल्यान घडला. आसमा-सारकें नाशिल्लें (Not equal). तशेंच आमी गुवाहाटी रावतालीं ताचो अर्थ थंय कळ्ळो. गोवा+हाटी, गुवा म्हणजे सुपारी, हाटी-बाजार. आठवड्याचो बाजार. जंय सुपारी विकतात तो बाजार.

आसामांत खूब पळोवपा सारक्यो गजाली आसात. पूण सगळ्यांत व्हडलें एक शक्तीपीठ म्हळ्यार 'कामारव्या' देवूळ आनी व्हडली ब्रम्हपूत्रा न्हंय वा नद हो शब्द बरो दिसता. तांकां आसामी लोकांनी पुरूष म्हणून मानला. आसामाचें क्षेत्रफळ व्हडलें आसा. हांगा तीन तरेचे जागे दिसतात. १. ब्रह्मपुत्रेची व्हॅली (यळ) उत्तरे कडेन, २. बराक यळ-दक्षिणेकडेन, ३. दोंगराळ प्रदेश. ह्या दोन प्रदेशांक वेगळे करपी आसाम. हांगा आसामी ही भास उलयतात. कोणाकूच बरी हिंदी वा इंग्लीश येना.

गुवाहाटी हें आसामांतलें व्हडलें शार. हांगाच ब्रह्मपुत्रेक लागून 'उमानंद' हें देवूळ आसा. दोंगराचेर कामाख्या देवूळ तशेंच 'हाजो' हेंय देवूळ प्रसिध्द आसा.

त्या दिसा आमी आमच्या कलाक्षेत्रांत रातचीं पावलीं. दुसरे दिसा आमकां सुटी आशिल्ली आनी तिसऱ्या दिसा आमचें ट्रेनींग सुरू जावपाचें आशिल्लें. आमचे कलाक्षेत्र हो जागो शाकाहारी लोकां पुरतो मर्यादीत आशिल्लो. हांगा मांसाहर, सोरो पिवप वा सिगरेट ओडपाचेर बंदी आशिल्ली. मागीर आमी भायर गेटी भायर बसून, अभक्ष्य भक्षण करून, हात धुवन भितर येतालीं.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं आमी शिलाँग वचपाक भायर सरलीं. मेघालयाची राजधानी शिलाँग. मेघालय म्हणजे 'The abode of clouds'.

शिलाँग म्हळ्यार एक हिलस्टेशन. हांगा हजारांनी पर्यटक भेट दितात. हांगा गार्डनां आसात. वझरे व्हांवतात. तळीं आसात आनी दोंगरूय आसा. मनाक थाकाय दिवपी सुंदर, मन भुलोवणो, पांचव्याचार तणान भरिल्लो असो ह सुंदर परिसर आसा.

शिलोंगाक 'स्कॉटलँड ऑफ ईस्ट' अशेंय म्हणटात हांगा पावस खूब पडटा. 'चेरापुंजी' हांगा लागींच आसा. आम थंय पठारांचेर खॉसी लोकांचीं घरां पळयलीं. तो दीस १ नोव्हेंबराचो आशिल्लो. दोंगरा वयले सगळे लोक गांवां सकयल आयिल्ले. अशें मानतात की ६७ आर्मी रवॉस लोकांनी पयल्या म्हाझुजांत वांटो येतिल्लो. तांच्या उगडास खातीर ते हो दीस मनयतात. दोंगरा वयलीं घरां त्या दिसा बं आसतात. हे सगळे लोक क्रिस्तांव धर्म मानतात. हांगा थोड़ नेपाळी, बंगाली आनी आसामी पळोवंक मेळ्ळे.

हांगच्यान चेरापुंजीक वचपाक मेळटा. १५ कि.मी. अंतराचेर हें ठिकाण आसा. ल्हानपणांत भुगोलाच्या पुस्तकांत वाचिल्लें. हें ठिकाण मात इतल्या वर्सांनी पळोवपाचो योग आयिल्लो. हांगा सगळ्यांत चड पावस पडटा.

थंय सगळे आसामी लोक पळयले. मोटवे, पिचीपिची दोळे, सगळ्यां कडेन ल्हान ल्हान भुरगीं (हांगा लोक बेगीनूच लग्न करतात आनी लोकसंख्या वाडयतात.) ही मेघालयाची राजधानी. चेरापुंजी आनी मौसराम हीं जगांतलीं सगळ्यांत चड पावस पडपी अशीं ठिकाणां. ताका लागून हांगा सदांच ल्हान व्हड वझरे व्हांवतात. हें शार चुन्याच्या होंवऱ्यां खातीर तशेंच भगव्या रंगाच्या म्होंवा खातीर फामाद आसा.

हांगचे लोक तीन तरेच्यो भासो उलयतात. खॉसी, पनार आनी गारो. चडशे लोक हे खॉसी ह्या आदिवासी जातींतले आसात. हांगा पळोवपा सारके जागे म्हळ्यार एलिफंट फॉल, लेडी हैदरी पार्क.परत येतना खूब कितें मनांत सांठोवन आमी गुवाहाटीक परत आयलीं. आमच्या कलाक्षेत्रांत रावपाक खूब जागे आसात आनी थंय कितलेशेच लोक दर दिसा भेटी दिताले. तें संगीत, नाट्य, सगळ्या कलांचें क्षेत्र आशिल्लें. आमची रावपाची वेवस्था कलाक्षेत्रांत केल्ली. श्रीमंत शंकरादेव कलाक्षेत्र-पंजाबारी/गुवाहाटी-आसाम हें क्षेत्र प्रसिद्ध अश्या कवी वयल्यान पडलां. हांगच्या प्रांगणांत नाट्य, संगीत, नृत्य आनी हेर कला हांचो कसो विकास जाता तें पळोवंक मेळटा. हांगा ओपन थिएटर्स तशेंच व्हडलीं नाट्यगृहां आसात. हें सगळें आसाम सरकार चलयता. म्युझियम, लायब्ररी,

ाट्यसंकूल, हस्तकलांचें दालन पळोवपाक मेळटा.

थंय पर्यटकांक भोंवपाक एक सूंदर बाग तयार केल्ली ासा. व्हडलीं व्हडलीं शिबिरां हांगा जातात. ओपन ॲर ्एटराची क्षमता दोन हजार आसा. म्हणजे त्या कलाक्षेत्राच्या ांवाठाची तुमकां कल्पना येतली. हांगा पोरण्या आसामी ामीण जिणेचेर एक म्युझियम लेगीत पळोवंक मेळटा.

सकाळीं उठून योगा करून आमचो कार्यक्रम सुरू ातालो. आमी व्याख्यानांक साडेआठ वरांचेर दुसऱ्या कॅम्पसांत ीसीआरटीच्या हॉलांत चलत वतालीं. ९ वरांचेर प्रार्थना जावन ार्यावळ सुरू जातालो ती बद्द ५ वरांचेर सोंपताली. आमचो ्डक शिस्तीचो डॉ. संदिप शर्मा सर तर ९ वरां पयलींच येवन ावतालो. मागीर लेट येता तांकां तापोवणी खावची पडटाली. ५ वरांचेर जेन्ना व्याख्यांनां सोंपून आमी भायर येता तेन्ना केट्ट काळोख जातालो. पुर्व कडलीं राज्यां आशिल्ल्या ारणान सूर्य सकाळीं ४ वरांचेर उदेतालो आनी ५ वरांचेर ाळखाचें साम्राज्य सुरू जातालें. आमी युयमां कशीं मार्केट भोंवपाक भायर सरतालीं. ८ जाता म्हळ्यार परत येतालीं. पूण भंय नाशिल्लो. बायलां, चलयांक थंय मान आसा. बायल परदार, दुकांनां चलयतात म्हूण भियेवपाचें कारण नाशिल्लें.

आमचो सदांच असोच दिनक्रम आसतालो. तातूंत जायतीं व्याख्यांनां, कलाकारांच्यो कार्यावळी, गायनांच्यो, नाचाचे कार्यक्रम जातालें. प्रत्येक दिसा नवें कितें शिकपाक मेळटालें. हस्तकला, मातीकाम, बांबूकाम, चित्रकला... आमी गीतां म्हणपाक शिकलीं. प्रत्येक दिसा तीन राज्यांनी आपल्यो कार्यावळी करच्यो असो नेम आसता. आमची जेन्ना गोंयची पाळी आयली तेन्ना आमी हांव कुणबी न्हेसलें, प्रितका नववारी न्हेसलें आनी सर आमच्या बराबर रावन 'गोंयचें लोकनृत्य' हे विशीं उलयतालो. त्या दिसा गोंय म्हळ्यार कितें अशी पीपीटी केल्ली. तशेंच हांगच्यान व्हेल्लीं गोंयचीं खाणां आमी लोकांक वाटलीं. तो दीस खूब मर्जेत गेलो.

प्रत्येक टिचरीन एकदां तरी असल्या सीसीआरटी वर्कशॉपाक हजेरी लावंक जाय. तुमच्यांत कितलो बदल जाता हें कळटा. ह्या वेळार ११२ शिक्षक १३ राज्यांतल्यान आयिल्ले. खूब कितें शिकपाक मेळ्ळें. आचार, विचार, खान/ पान, मनां-काळजां जुळ्ळीं, वळखी जाल्यो. प्रत्येकाची रावपाची, खावपाची पद्धत वेगळी. पूण आमी सगळे भारतीय एक हे कल्पनेन मन आनंदून आयलें.

सोमार ते शेनवार आमकां क्लासी आसताल्यो तेन्ना आमी आयतारा सुटयेच्या दिसा 'काझीरंगा' वचपाचें थारायलें. परमिशन येवन आमी हें उद्यान पळोवपाक भायर सरलीं.

कांझीरंगा उद्यान एकशिंगी गेंड्या खातीर प्रसिद्ध आसा. ब्रह्मपुत्रेच्या कांठा वयल्या दंगणांत हें उद्यान पसरलां.

अशें मानतात की पयलीं एका ब्रिटीश वायसरॉयचे बायलेक गेंडे पळोवपाची एकदां खंय उमेद आयली. म्हणून ती भारतांत आयल्या बराबर आपलो लवाजमो येवन ती आसामांत पावली. पूण तिका खंय एकूय गेंडो दिसलो ना. तातूंत मागीर तिणें आपल्या घोवाक सांगून ही जमीन 'रिजर्व फॉरेस्ट' म्हणून घोशीत केली आनी तेन्नाच्यान हें 'राष्ट्रीय अभयारण्य' जालें. हांगा दलदल, उदक, चिखल गेंड्यां खातीर योग्य आसा. आतां थंय २४४० गेंडे ४३० कि.मिटरच्या क्षेत्रफळांत रावतात. हांगा ॲलेफंट ग्रास लेगीत पळोवपाक मेळटा.

आमी आयतारा सकाळीं साडे तीन वरांचेर उठून सॅक्युरीटी गार्डाक उठोवन गेट काडपाक लायली. आमचो स जाणांचो ग्रूप आनी आदल्या दिसा भाड्यान तयार करून दवरिल्ली एक व्हडली गाडी येवन आमी भायर सरलीं. आमी तिगां आनी आमचे तीग कर्नाटकी इश्ट राम, लक्ष्मी आनी



इकबाल मजल दर मजल प्रवास करीत ९ वरांचेर काझीरंगा पावलीं. अंतर खूब आशिल्लें. सादारण १९३ कि. मी. वयर आशिल्लें. गाडी हळुहळू वताली म्हणून इतलो वेळ लागलो. गांवांत पावलीं आनी नाश्तो केलो. उद्यानांत भितर सरलीं. थंय जिपी, व्हडल्यो गाडयो आसतात. आमकां १२ मेरेन वेळ आशिल्लो. भितर वचून भोंवपाक एका मनशाक देड हजार रुपया दिवन आमी जीप बूक केली. वाट पळयत बसलीं. सांजची स वरांचेर परत गेट उक्ती जाता. पूण आमकां रावपाक मेळनाशिल्लें. काझीरंगा नॅशनल पार्क ब्रह्मपुत्रेच्या कांठार आसा. दलदल, उदक, तण, चिखल हांकां लागून गेंड्यांक ती सुरक्षीत जागा आसा. हांगा वेगवेगळीं जनावरां, वाग, हत्ती पळोवपाक मेळटा. तशेच पॅलीकन डॉल्फीन सारकीं उडपी सवणीय पळोवपाक मेळटात. हें पार्क युनेस्को वारसा थळा पयकी एक आसा.

आमकां खूब गेंडे पळोवंक मेळ्ळे. तांचें आयुश्य ३५-४५ वर्सां आसता. थोडीं आपल्या पिलां बराबर आशिल्लीं. हांवें पयलीं रायनो थायलंडाक पळयल्लो. पूण अशें आमच्या मुखार अजस्त्र देह घेवन रस्तो क्रॉस करता तें दृश्य पयलेच फावटीं पळयलें. तेन्ना म्हाका खूब भंय दिसलो. कांय ना करून तो जीप उडोवंक शकतालो. सादारण दोनेक हजार किलो वजनाचो तो प्राणी पळोवन आंगार कांटो आयलो. तांकां जीप मुखार काडपाक लायली. जाय तितले फोटो घेतले. जीप गेल्या बराबर तो फुर्दे वचून पळयत उबो रावलो. तांकां तें सदचेंच जालां. कितले तरी पर्यटक दर दिसा थंय भेटी दितात आनी तांकां पळोवन वतात. ह्या पार्कांत गेंडो धरून हत्ती, वाग, कोले, लांडगे, रानम्हशी, हरणां, चित्ते, घोरपड पळोवंक मेळटात.

त्या आयतारा रम्य अश्यो काझीरंगाच्यो यादी घेवन आमी परतलीं.

आसाम आनी भारताचो इतिहास सांगतना आमच्या संदीप सरान आमकां एक दीस कामाख्या देवळाचेर असायनमेंट करपाक दिलो. ताचे पयलीं सर आमकां देवूळ पळोवंक घेवन गेले. दुसऱ्या दिसा आमी देवूळ पळोवंक भायर सरलीं. ११२ शिक्षक आनी तांचे बराबर गायड, संदीप सर, कनक दास आनी हेर बशींत बसून थंय पावलीं.

कामाख्या देवूळ हें निलांचल पर्वताचेर आसा. आमच्या कलाक्षेत्रांतल्यान तें १५ कि. मी.चें अंतर आशिल्लें. आदि ५१ शक्तीपिठांतलें एक हें देवूळ. तांकां कामरूप-कामाख्य देवी अशें संबोधतात.

ह्या मंदिरा बद्दल खूब आख्यायिका आसात. मुख्य देव कामाख्या. हिका ब्लिडींग गॉडेस अशेंय म्हणटात. देवळां भितर सरल्या बराबर मुर्तीचें अडंबर दिसना. तर एक योनीच्य आकाराची शिला थंय पळोवंक मेळटा. हाकाच ते सतीचें एक आंग अशें म्हणटात. पौराणीक काळा नुसार राजा दक्षाच्य यज्ञा वेळार आपल्या घोवाचो,महादेवाचो अपमान सोंसूं जायना जावन सतीन यज्ञांत उडी घेतली. तें कळना फु महादेवान म्हळयार शंकरान तांडव नृत्य केलें आन कितलींशींच वर्सां तें यज्ञातले सतीचें कलेवर (देह) घेवन त पृथ्वी लोकांत भोंवपाक लागलो. वतां वतां तिच्या शरीरा भाग खंय खंय जमनीर पडले. तांचीं शक्तीपिठां जावन नामने पावलीं. नैनीतालाक खंय दोळे (नेत्र-नैन) पडले आनी हांग सकयल आंग पडलें. म्हणून ही कामाख्या देवी एक शक्तीपि पयकीं आसा. सतीची याद म्हणून हें देवूळ नांवा रुपाक आयलें जून म्हयन्यांत जावपी तीन दिसांच्या तिच्या उत्सवा वेळा देवूळ बंद दवरतात अशें कळ्ळें. त्या वेळार ब्रह्मपुत्रेचें उदव लेगीत तांबडें जाता अशें मानतात.

नारीजनाची शक्त म्हणून हांगा सतीक मान दिता आनी व्हड संख्येन पुजतात. हांगा सगळे कडेन तांबड्य रंगाची उधळण केल्ली आसा. देवी कामाख्याक तांबडो रं आवडटा. तांबडी साडी, फुलां आवडटात. देवळाच स्थापत्यशास्त्र हें निलाचल आसा. म्हणजे एक वेगळोच पॉलीगॉनल डोम कसो वयर बांदला. घुमट कशें तें दिसता. ह्य देवळाचो उद्धार नर नारायण आनी अहोम राजांनी ख्रिस्त उपरांत ८-१७ व्या शतमानात केलो अशें म्हणटात. हांग तंत्र, तारण, मरण असल्यो विधी चलतात. व्हडली जात्र म्हळयार मेला. तो अंबुबाची मेला म्हणून मनयतात. हो मेल चडसो आषाढ म्हयन्यांत पावसाच्या दिसांनी येता. तशेंच मनस पुजा सुद्धां मनयतात.

हें सगळें पळोवन मन सुन्न जालें. ह्या देवळांत नारी शक्तीचो विजय जाला अशें दिसलें. खूब वर्सांची म्हजी हं इत्सा पूर्ण जाली म्हणून मनाक समाधानूय दिसलें. दोंगर वयल्यान सकयल देंवून बशींत बसलीं आनी गुवाहाटीक

ायलीं. सांजेच्या वेळार असायन्मेंट दिल्लो. ताचेर काम रपाक लागलीं.

एक दीस नृत्याचें प्रशिक्षण आनी मुकाभिनय जालो. काभिनयाक प्रशिक्षक म्हणून नामनेचे कलाकार रितूपर्णा ालिता हाजीर आशिल्ले. मागीर रणजित गोगोई हांच्या ापाचो बिहु नाच आमच्या मुखार जालो.

बिहु नाच हो आसामांतलो एक लोकनाच. बिहु हो ह्या ाणा पुरतो मर्यादीत आसता आनी युवक, युवती हो नाच रतात. तांचो स्वताचो असो नाचाचो पोशाख आनी आभुशणां ासतात. हो सण एप्रील म्हयन्यांत जाता आनी त्या वेळार हडा उमेदीन चले चलयो ल्हान पावलां मारतात आनी कमर, ात आनी मनगटाचो नृत्यांत वापर करतात. चले धोती आनी गमचा' घालतात. ते धोलक वाजयतात. ते केन्ना केन्ना जपी'ही आसामी टोपी घालतात. चलयो मेघला वा चादर ्हेसतात. तांबडे ब्लाव्ज घालतात. आनी वेगवेगळीं आभुशणां ालतात. सुंदर अशें तांचें नृत्य पळोवन आमी अचंबीत जालीं. ो दीस खूब खुशालकायेन गेलो.

आसामांत भोंवतना तांचे भाशेक एक वेगळोच नाद ोतालो.

थंय स - ह जाता,जशें सागर-होगोर,संत्रीया -होत्रीया क्षेत्र -खेत्र (कलाखेत्र),अ-ह- उच्चार जाता चाय-साय जाता.

फरक बेगीन लक्षांत आयलो. आमचो 'कनक' आमकां 'साय रेडी हैं' अशें म्हटल्या बराबर आमी 'चा' पिवपाक उठ्टालीं.

गुवाहाटींतले आमचे दीस आतां सोंपत आयिल्ले. वर्कशॉप दुसऱ्या दिसा सोंपपाचो आशिल्लो. तेन्ना आमी थारायलें की वर्कशॉप सोंपल्या उपरांत खंय तरी भोंवून येवया म्हणून. हांवें, दत्तान आनी प्रितकान एक गाडी केली आनी सांजचीं ४ वरांचेर आमी 'हाजो' ह्या पवित्र अश्या ठिकाणाक भेट दिवपाचें थारायलें. हें ठिकाण ब्रह्मपुत्रेच्या एका कांठाचेर आसा. कामरूप ह्या जिल्ह्यांत तें पडटा. हांगा 'ह्यग्रिवा माधव' देवूळ आसा. एका दोंगराचेर कशें हें देवूळ आसा. राजा रघुदेव नारायण हांणी १५८३ सालांत तें बांदलें. ताचे मेरेन पावपाक खूबश्यो पायऱ्यो आसात. ह्या देवळांत विष्णूची मुर्ती आसा. ह्या देवळाचें वैशिश्ट्य अशें दिसलें की पायऱ्यो चडून वयर गेल्यार सगळे कडेन काळ्या पाशाणांत हत्ती कोरांथिल्ले आसात. दुसरे वटेन विष्णूच्या सगळ्या अवतारांचीं चित्रां पितारल्यांत. लागींच एक 'माधव फुकारी' म्हणून तळें आसा. हांगा दोल, बिहु, अश्टमी हे उत्सव मनयतात. योगायोगान आमी थंय पावलीं. तेन्ना सांज जाल्ली आनी देवळाचो प्राकार लक्ष-लक्ष दिव्यांनी उजळून आयिल्लो. मागीर याद आयली की तो दीस कार्तिक पुनवेचो आशिल्लो. हांगा अखंड दीप साधना चालू आसता.



व्हडल्या तांब्याचे मडकेंुत तेल सांठोवन दवरिल्लें आसा आनी तो दीप सतत पडपी तेलान प्रज्वलीत जायत आसता.

शांत, गंभीर अशें वातावरण. लोक कोणूच ना. फक्त माकडांचो गोंधळ. तो परिसर पळोवन मनाक थाकाय आयली. आमकां देवान आपोवणें दिलें.. तशीं आमी त्या दिसा थंय पावलीं अशेंच दिसलें. दैवी साक्षात्कार म्हणटात तो होच! गाराणें घालून भटान प्रसाद दिलो. मुठभर फुटाणे आनी एक वस्त प्रसाद म्हणून हातार दवरली आनी सांगलें, 'हें व्हरून कपड्यांच्या भितर कपाटांत व्हरून दवर. घरांत सूख-समृध्दी येतली' म्हणून. हांवें मूठ उगडून पळयली तर ती 'भात-गोट्यां'ची एक माळ आशिल्ली. घरा येवचे पयलीं आमकां शुभशकून जाला अशें आमकां दिसलें.

आसाम;ी आदीम संस्कृतायेचें 'भात' हें एक समृध्दीचें प्रतीक जावन आसा. सुंदर कल्पना ही. तुमकां भात-गोटो केन्नाच उणो पडचो ना. हो आशिर्वाद घेवन आमी थंयच्यान परतलीं.

गुवाहाटींत आसतना परत परत ब्रह्मपुत्रेचे देगेर वचून बसपाची आमकां रूच लागली. तिचें विस्तिर्ण पात्र, सागरा भशेन उफाळपी ल्हारां. वेगवेगळीं बेटां,पावसाच्या दिसांनी तर ब्रह्मपुत्रां आपली धोक्याची पातळी हुपता आनी सदांच हुंवार हाडटा हें आयकल्लें. पूण आतां नोव्हेंबरांत लेगीत ती गर्जत व्हांवत आशिल्ली. पळोवपाचो एक आनंद आशिल्लो.

ब्रह्मपुत्रेक तिबेटांत यार्लूंग त्सान्गापो अशें म्हणटात. अरूणाचल प्रदेशांत तिका दीहांग न्हंय अशें म्हणटात. तर आसामांत तिका दिलावो ह्या नांवान वळखतात. ती तीन देशांचे म्हळ्यार भारत, चीन आनी बांगलादेश हांच्या सीमा रेशे वयल्यान धांवता. ही जगांतली णववी अशी व्हडली न्हंय जावन आसा. तर लांबायेन ती १५वी लांब न्हंय जावन आसा. ही आसामांतली सगळ्यांत व्हडली न्हंय आनी तिका जिवन दायिनी मानतात.पूण पावसांत मात ती जिवघेणी जाता. हजारांनी लोकांचीं घरां उध्वस्थ करता. आसामांत तिका 'नद' म्हणटात. ब्रह्मपुत्रा म्हळ्यार ब्रह्माचो पूत्र.देखून ती नदी न्हय तर नद. हुंवारांच्या दिसांनी तिचे कांठ ८ कि. मी. मेरेन भरिल्ले आसतात. अशें म्हणटात की जेन्ना हिमालयांत झेल वितळटा तेन्ना हांगा ब्रह्मपुत्रेक सकयल हुंवार येता. एकदां तर सांजचीं आमी एका आल्तडच्यान-पल्तडीं बेटार वचून मजा अणभवली. दुसरे वटेन 'उमानंद' अशें बेट आसा. ताका ब्रिटीशांनी 'पिकॉक आयलँड' अशें नांव दिलां. विटांनीं बांदिल्लें उमानंदाचें उमा+नंद (शंकर) देवूळ आसा. तें राजा गदा सिंग हांणी बांदलां. पयलींचें देवूळ १८९७ त भूंयकाप जावन पडलें अशें म्हणटात. अशें मानतात की हो जुंवो जगांतलो सगळ्यांत ल्हान जुंवो जावन आसा आनी हांगा भगवान शंकराचें प्रणयाचें स्थान आसा. म्हणून ताका उमानंद म्हणून नांव पडलें. फेरीबोटींतल्यान थंय वचूंक मेळटा. पूण आमी तो योग सकाळीं फुडें वचपाचो जुळून आयलो ना. सांजचे ५ वरांचेर फेरीबोटी बंद जातात. तें देवूळ पळोवपाचें आमचे नशिबांत नाशिल्लें.

एक दीस सांजेच्या सात वरांचेर आमी ब्रह्मपुत्रेक भोंवाडो मारपाची थारायली. आमचे मांडवींत जश्यो क्रुझ लायनी आसतात तश्योच थंय आसात. ७ वरांचेर त्यो भायर सरतात. एका धक्या वयल्यान भायर सरून ब्रह्मपुत्रेक भोंवताडो मारून त्यो परत येतात. १५०० रुपया ते घेतात. रातचें जेवण पिवपाक दितात तशेंच जोडयेक तांचीं नृत्यां दाखयतात. तो सुंदर कार्यक्रम आशिल्लो. बोट फुडें फुडें वता. संगीत, नृत्य हांचो मिलाफ, ल्हान-ल्हान ल्हारांचें उदक. तुषार उडटा लायटींचे दिवे पयस पयस वतात तें सगळें पळोवन मन प्रसन्न जालें. ती रात आमची आसाम भोंवडेंतली अंतीम रात आशिल्ली. एक रमणीय, सुंदर असो आनंद घेवन आमी हॉस्टेलांत परतलीं.

दुसऱ्या दिसा आमी सगळ्यांचो निरोप घेतलो. सगळे भारतीय इश्ट ११ दीस बराबर राविल्ले. शिखा, स्नेहा कानपुरच्यान आयिल्लीं. वर्षा जैन, अंकुष नौटीयाल, दुर्गा लखेरा, आशिष शुक्ला, उत्तम चंद उत्तराखंडांतल्यान आयिल्लीं. पंजाबचीं जसविंदर कौर तर गुजरातचीं संगिता बेन आनी किन्नरी पटेल. महाराष्ट्रांतले आमचे इश्ट सुनील, राजेंद्र सर, सुजाता गायकर आनी हेर सगळ्यांक लागून आमचो वर्कशॉप बरो गेलो.

दुसऱ्या दिसा आमची गुवाहाटी ते बँगलोर आनी बँगलोर ते गोवा अशी फ्लायट आशिल्ली. आसामाचो निरोप घेवन ब्रह्मपुत्रेक अलविदा करीत आमी भायर सरलीं. परत गुवाहाटीक वचूंक मेळटलें काय ना अशें येवजीत आमी गोंयां परतलीं.



म्हापशें-गोंय.मो: ९४२११२४२८५

म्हूण हांव पयलीं वॉशरुमांत गेलों.तोंड बी धुवन भायर आयलों.हांव भायर सरतां तेन्नाच कोपर खळीय लेडीजांतल्या भायर सरली. म्हजेर नदर पडटांच खळी उगडली. हांवें तातूंत अचळय उडी मारली. अरे व्वा! आमचो योग बरो आसा तर! परत परत मेळटात आमी...हांवें ताका हॅलो म्हळें.ताणें म्हाका वेंगेत येतिल्ल्या वरी अलिंगन दिलें. दोगांय बेल्टा कडेन आयलीं. येता असतना हांवें ताका सहज नांव विचारलें.

'ॲग्नी' ताणें सांगलें. हांवें म्हजें नांव सांगलें. बरोच वेळ तें जीब वाकडी तिकडी करीत ड्डदिलीप्प दिलीपेड्ड अशें म्हणत घोळयत रावलें. हांवें मतींत म्हळें सोड खबर,तुका जमपाचें न्हय तें. आयुश्यांत ब्याच लोकांक तें उच्चारूंकय जमलें ना आनी समजुपाकय..

ताणें ॲग्नी म्हणलां तें म्हाका कळ्ळें. अग्नी कशें दिसलें खरें. कित्याक म्हज्या दोळ्या मुखार अनंत अग्नी येवन गेलो. भाशेचो हो एक सुंदर आभास! उतराचो अर्थ जरी वेगळो आसलो आनी तो जर आपले भाशेक लागीं आसलो जाल्यार तो शब्द रोखडोच प्रतिमेंत बदलता आनी एक चित्र उबें करता. ॲग्नीन नांव सांगताच अनंत अग्नी जरी मनांत परगट जाल्लो तरी ह्या दोगांय मदीं अनंत अंतर आशिल्लें.तरीय ॲग्नी हें नांव म्हाका खूब लागीं शें दिसतालें. ॲनी नांवाची चार पांच जाणां म्हजे वळखीचीं आसात. पूण ॲग्नी कोण काय? घुंवत्या बेल्टा कडेन नदर लावन हांव विचार करतालों. ह्या बॅल्टाचेर कितलींच बॅगां येतात आनी वतात. सगळींच आपलीं अशीं दिसतात. हें आपलें काय तें आपलें..असो प्रस्न आयले बराबर हात घालूंक वतात. पूण तें आपलें न्हय हें कळटकच फाटीं सरतात. थोडे जाण एखादलें बॅग उखलतात लेगीत आनी तें आपलें न्हय हें कळतकच भिवून शे सट्ट करून सोडून दितात. हातार पडिल्ली पाल फाफुडची तशी!

धर्तरे वयलो सर्ग

कोरोनाच्या काळांत प्रवासाक खीळ बसल्या आसूं येता
पूण प्रवासाची खोशालकाय अणभवूंक लॉकडावना
इतली दुसरी संद ना.

बिम्ब प्रकाशनाचें एक वाचनीय प्रवासवर्णन

सुशांता दत्ता नायक
हाचें
धर्तरे वयलो सर्ग



पळयल्ल्या सैमीक थळांचें सहज सोंपी भास वापरून वर्णन करतानाच वाचकांकूय भोंवडेची खोस दिवपी एक संग्राह्य सुरबूस भोंवडे वर्णन...



हें अशें कशें काय? बॅग कोणाची मागून काय हाडिल्ली नासता. ती आपलीच आसता. पूण ह्या बेल्टाचेर मात आपली जावनूय ती आपली काय किर्ते असो दुभाव मारता. केन्ना केन्ना दुसऱ्याची लेगीत आपली दिसता आनी हात घालूंक वता मनीस. हो विमानतळा वयलो बेल्ट जावं वो संवसाराचो आकांताळो..आपलो प्रवास सतत चलता आनी आपली बॅग ही काय ती हें वळखूंक आमी गणमणटात.

म्हजी बॅग आयली. हांवें हॅन्डलाक एक निळो रिबीन बांदिल्लो. हांवें बॅग उखल्लें. ट्रॉलीर घालपाची गरज नाशिल्ली. आतांचीं बॅगां बरीं. तांकां व्हिलां आसतात. ताचीच ट्रॉली जाता. नातर आदलींचीं बॅगां एक तर आपले माथ्यार घेवंचीं पडटालीं वा कुली सोदचो पडटालो! हांवें ॲग्नीक ओके म्हळें, ताका हात दिवपाची संद सोडली ना. ताचे खळयेंत निमणी अशी बूड मारली आनी पंकजाक सोदूंक भायर आयलो. चलतां चलतां म्हाका सट्ट करून ॲग्नी कोण तें याद जाली.ॲग्नी तर आयन रॅंडच्या ॲटलस श्रग्ड ची नायिका...पूण तिचे गालार खळी नाशिल्ली..,

( पान क्र.२३६ चेर पळयात )

कवितेच्या मळार जांकां वेगळी कविता वाचपाची आशा
तांचे पासत आर. रामनाथ
हांचे बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडिल्ले




निसण




विस्तव

हे कविता संग्रह मस्ट



आर.रामनाथ
हांचीं हेर प्रकाशीत पुस्तकां..














नामनेचे हाडांचे दोतोर म्हूण नामना जोडिल्ले,

**डॉ.उल्हास गोपाळ प्रभु नास्नोळकार**

हांचीं बिम्ब प्रकाशनान

उजवाडाक हाडिल्लीं कांय वाचनीय पुस्तकां.



## गोंयचे सण आनी उत्सव

गोंयचे सण आनी परबो,तांचे फाटलो पुराणीक आनी आतांच्या काळाचो सामाजीक संदर्भ आनी त्या निमतान शिजपी गोडशीं हाचेर दिल्ली अभ्यासपूर्ण आनी मनोरंजक म्हायती.

## चिन्नू

एक सुरबूस विनोदी शैलींतलें व्यक्तीचित्र.

## आणकु माणकुल्यो काणयों दोतोराल्यो

भुरग्यां खातीर काणयो.

## पंचतंत्रांतल्यो काणयों

भुरगीं आनी जाणटीं हांचे पासत नव्या संदर्भात पंचतंत्र

दोतोर नास्नोळकार हांचीं हेर पुस्तकां

**भावतरंग** (ललित)-रुद्रा प्रकाशन

**पडबिंब** (कविता)-रुद्रा प्रकाशन

बिम्ब प्रकाशन

ज्येष्ठ पत्रकार **राजू दा.नायक** यांची गोव्याच्या सांस्कृतिक, सामाजिक,राजकीय भाष्यावरील अभूतपूर्व पुस्तकं म्हणजे नश्वर संचिताच्या सजग संवर्धनासाठी एका जागल्याची काळीज हाक जाग प्रकाशनाची दर्जेदार,वाचनिय आणि वाचकांच्या मनात वैचारीक खळबळ माजवणारी लक्षवेधी निर्मिती...

• हिरव्या बोलीचे शब्द • जहाल आणि जळजळीत • ओस्सय

शिवाय अक्षर प्रकाशनतर्फे प्रकाशित सुशेगाद सामाजिक क्षेत्रात वावरणाऱ्यासाठी संदर्भग्रंथ म्हणून नेहमीच हाताशी असावीत अशी संग्राह्य पुस्तकं..












*Come, Discover India with...*



# YATRIK TRAVELS

Pioneers of Package Tours in Goa.

# यात्रिकां खातीर
# खोसये खबर

कोविडा संबंदीत पुराय जतनाय घेवन
आमी तुमचे सेवे खातीर
नव्या दमान तयार

म्हायती पासत संपर्क करात

मडगांव:लबाबय कॉमर्स सेंटर
फोन-२७३४९६८/२७१३४५५

पणजी:सारथी ट्रॅवल्स.एस.व्ही रोड,
फोन-२४३६९४३/६६४२५६१



Email: yatrik-travels@redifmail.com

केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार (१९९५) तशेंच बालसाहित्य पुरस्कार (२०१६)
अश्या राष्ट्रीय पुरस्कारांनी तशें साबार राज्य पुरस्कारांनी सन्मानीत




कांटा रुते....
(मराठी ललित लेख संग्रह)
पाना-१९४,
मोल-दोनशीं रुपया.






प्रिय दर्शन
(कोंकणी ललित पत्र लेख संग्रह)
पानां-१४०,
मोल-दोनशीं रुपया.

# दिलीप बोरकार

हांची दोन नवीताल्ल पुस्तकां

## कांटा रुते... आनी प्रिय दर्शन

तांच्या कांटा रुते ह्या ललित लेख संग्रहाक राधा भावे हांची तर प्रिय दर्शन ह्या ललित पत्र संग्रहाक हर्षा सद्गुरु शेटये हांची प्रस्तावना लाभल्या.

## दिलीप बोरकार हांचें उजवाडाक आयिल्लें हेर साहित्य

### नाटकां
वर्णशत्रू
भरते-भार
आयज आमचें राज्य आयलें
आण्टीची गादी
आनंदी आनंद महानंद

### बालसाहित्य
दर्यासुंदरी
अशांत सुशांत
चड आस्त धरता तो बुडटा (राजहंस प्रकाशन)
मस्त्या गुंडूची नस्ती भोंवडी
रावंस पावलो दुबय
पिन्टूची काळभोंवडी (साहित्य अकादेमी पुरस्कार)
पिसो लाडको शाणो पाडको

### अणकार
नवो करार (लिप्यांतर)
सतीचे वाण
(मूळ मराठी, लेखक मोहन रानडे - कोंकणी सेवा केंद्र, कुडचडें अणकार पुरस्कार)
शेणिल्लो स्पर्श (कविता, मूळ मराठी-डॉ.सुलभा कोरे)
वोल्गा ते गंगा.(मूळ हिन्दी-राहुल सांस्कृतायन)
ड्रायव्हर सिटाचेर आसनस्थ जायात (मूळ इंग्लीश.ले. दादा वास्वानी)

### एकांकी संग्रह
कॅन्सर
एक शुन्य प्रवास

### कादंबरी
सखी वसुंधरा
एक आंकवार डायरी

### कविता संग्रह
मेथये पावलां.

### ललित
रुक्षप्रस्न
श्रेयार्थी
बाकी विशेश
बोरकारी-खंड १,२,३,
तीर सुवादीक
अंतरमनांतले अंतरंग
वसंताचो बॉल
कांटा रुते..(मराठी)
स्तनयात्रा.

### भोंवडे वर्णन
गोमांचल ते हिमाचल
(साहित्य अकादेमी पुरस्कार-१९९५)
क्रिशम
शान्तम, शिवम, अद्वैतम भूतान
कालसर्पयोग

बिम्ब प्रकाशन
प्रती घरपोंच पावोवपा पासत संपर्क करात
प्रमणध्वनी-९८२२१३६८८५
लॅन्डलायन-०८३२-२४३८३५५








# एक कारण... जगपा खातीर..!

आयज माज हांव खूब थकिल्लें. इल्लीशी न्हीद मेळ्ळयार बरें दिसतलें जिवाक. ह्या विचारान हांवें दोळे धांपिल्ले. 'आयज ना मुगो तो?' आवाज कानार पडलो. सट्ट करून दोळे उगडून हांवें भायर पळयलें. तें बल्कांव रितें आसलें. इतले दीस ताका पळोवपाचें हांव टाळटालें पूण आयज ताचेर नदर घालीन शी जाल्ली. 'आयज दिसलो ना जाल्यार किते जालें? फाल्यां तरी तो आसतलोच!



- ग्वादालूप डायस

आयज तो दिसलो ना. मन ओगीच अस्वस्थ जालें. खंय गेलो काय तो? कोणांक विचारचें हेंवूय कळना जालें. काम पडलें आसतलें! हांवें म्हजीच समजूत घातली. आयज दिसलो ना जाल्यार किते जालें? फाल्यां तरी तो आसतलोच! अशें म्हणत ताका मनांतल्यान कांय खीण भायर दवरीत हांवें दोळे धांपले. खरें म्हणल्यार आयज कचेरींत खुबच थकिल्लें हांव. शारिरीक रुपान न्हय पूण मानसीक नदरेंतल्यान. दुर्दैव म्हणल्यार आयज तोवूय दिसलो ना. मन परत एक पावट ताचें येवजूंक लागलें.

ताची म्हजी वळख घडल्यार सुमार सात-आठ म्हयने जाल्ले. वळख म्हणली हांवें? ना ना. तशी म्हूण वळख आसता? ताणें तर म्हजें तोंड लेगीत पळोवंक ना. पळयतलो कसो? हांव तर सदांच म्हज्या तोंडाक ओडणी बांदतां. ताचे वयल्यान मास्क घालतां. फक्त दोळेच उगते दिसतात म्हजे. ताचो रुपकार मात हांवें पळयल्लो. रुपकार म्हणचे परस त्या दिसाक ताणें आंगार घातिल्लें टी-शर्ट म्हाकां आकर्शीत करून गेल्लें. 'आय एम अव्सम!' अशें मोट्या अक्षरांनी बरयल्लें आसलें ताच्या टी-शर्टार!

हय! तो दीस कसो विसरूं? सदचे वरीं ऑफीस सुटल्या उपरांत हांव बशींत बशिल्लें. आयचे वरीं ते सांजेरूय हांव मानसीक रुपान खूब थकिल्लें. घरा वचून आयज परत तेंच नाटक जावपाचें आसा. हें येवजून हांवें खीण भर दोळे धांपिल्ले. अचकीत गर्र-गर्र करत वचपी बस मदींच थांबली. हांवें दोळे उगते केले जाल्यार आमची बस फुडल्यान येवपी एका व्हडल्या ट्रकाक सायड दिवपाचो यत्न करताली. आमचे बशीचो ड्रायवर इल्लो बेजारला म्हणपाचेंय कळपाक म्हाकां वेळ लागलो ना. ताचोय गुन्यांव नासलो. चूक ट्रक ड्रायवराचीच आसली. आपले बाजून कोणें तरी एक कार पार्क केल्या आनी रस्तो सामको अशीर आसा हें जाणां जावनूय तो ट्रक घेवन फुडें आयिल्लो. 'मातसो रावल्यार किते जातालें रे?' आमच्या ड्रायवरान ताचेर धेंगसो घातलो. इतले मजगती दोनूय बाजुनी गाडयांची रांक लागली. रस्तो आदींच अशीर! तांतूत भर म्हूण रस्त्याक तेंकून आशिल्लीं घरांचीं दुरगां आनीक आडखळ करतालीं. दोनूय गाडयो सुटल्या बगर हेर गाडयांक वचपाकूय मार्ग नासलो. 'पाड पोडों. बेगीन पावोत काय दिसलोलें आज!' आमचे बशींतले एकटें शिरापूंक लागलें. त्या बाराबर हेरांचींय तोंडां उगतीं जालीं. तरी बरें, तोंडार मारकां आशिल्लीं म्हूण! तीं किते उलयतात तें आयकूंक येतालें. पूण सगळेंच किते समजनासलें. 'यो यो. राव. दुरीग आसा.' आमचे मदलेच ड्रायवराक सिनाल दिताले. इंच भर कुशीक सरली जाल्यार आमची बस दुरगाक लागपाचो भंय आसलो. इतले मजगतीं म्हजी नदर त्या घराच्या बल्कांवार गेली. तेन्नाच तो दिसलो. बल्कांवाक आशिल्ले ग्रादीचेर बाग घालून तो भायर पळयतालो. दोळ्यांत इल्ली निर्शेवणी भरिल्ली कशी दिसली. यडये हांव निर्शेल्लें आशिल्ल्यान म्हाकां तशें दिसूंक ना मूं? ओगीच काडयेचो दोंगर करपाचें नासलें म्हाकां!

'यो यो! फूल यो. राव. फाटल्यान गाडी आसा.' ड्रायवराक दिवपी सिनालां चालूच आसलीं. हांवें परत ताचे दिकेन पळयलें. 'आय एम अव्सम' ताच्या टी-शर्टार आशिल्लीं तीं उतरां हांवें परत एक पावट वाचलीं. किते तरी खास दिसलें त्या उतरानीं. ना कळटांच थम्स अप रुपान म्हजो हात जनेलांतल्यान भायर सरलो. हांवें अचकीत केल्ल्या ह्या हाव-भावाचेर ताचे तोंडार येदो व्हडलो हांसो फुल्लो! सामको हजार वट्सांचो बल्ब पेटिल्ले वरीं! खोशी जावन तार्णेय आपलो हात हालयलो! ह्या दोन- चार खिणां मजगतीं आमची बस फुडें पावली. तो आनी ताचें घर फाटीं पडलें. हांवें प
दोळे धांपले!

'कित्याक वतां हांव घरा? कोण आसा थंय म्हजो?' म्हजे
मन म्हाकां थार दिना जालें. आयज म्हूण किते जातलें तर? ह
दाराची बेल वाजयली तरी म्हजे खातीर कोणूच दार उगडचो नासल
विचारलें जाल्यारूय कालचे वरींच धेंगसो आयकूंक पडपाचो. 'तु
कडेन चावी आसा न्ही?' घरांत भितर सरतकच म्हूण किते तर
कालचे वरींच टीवी -चो बोवाळ आनी तांतूंत भरसल्लो सोन्या
वास!

यादी सरशींच म्हजी तकली घुंवपाक लागली. दोळे उग
करून हांवें म्हज्या वांट्याचो जनेलाचो हारसो आनीक मातर
उगतो केलो. शितळ वारो आनीक इल्लो नेटान भितर सरल
खीण भर जिवाक थाकाय मेळ्ळी! 'आय अम अव्सम!' ताच्
टी-शर्टा वयलीं उतरां पर एक पावट मनांत घोळपाक लागलीं. त्य
सरशीं काल घरा कडेन म्हज्या नांवार घातिल्ल्यो गाळी हां
विसरलें.

घरांत भितर सरना बाराबर कालचोच देखावो सामकार आशिल्ल
खरें म्हणल्यार हो देखावो म्हाकां संवयेर पडूंक जाय आसलो. फाटल
कितलीशींच वर्सां हें चलत आयलां. हांवें जोडप आनी...! आसूं
अशें म्हणत हांवें तोंडार उदक मारून घेतलें. हात-पांय धुवून हां
रांदचे कुडींत प्रवेस केलो. रातचीं साडे-णव जाल्या बगर म्हाक
हांगाची सुटका नासली. रातचें जेवण जातकच सगळीं उश्टीं ता
आनी आयदनां धुवून हांवें उशाक तकली तेंकयली. जे तरे
थकिल्लें, ते पळयल्यार म्हाकां रोखडीच न्हीद येवंक जाय आसली
पूण आयली ना. पांय एक सारके फोडटाले. फाट दुखताली. मानू
वळून येताली. एक वेळ दिसलें, सांगून पळोवचें. पूण फरक पडच
नासलो. बरेंच जाल्यार 'म्हाकां किते कर म्हणटा?' इतलेंच म्हणपाचो

कशेय भशेन रात सरली. परत म्हजी आदलीच धांवपळ चाल
जाली. हावा-शिवा करीत हांव क्वेरीक पावलें. स्वास घेवंक मेळच
ना इतलें काम आशिल्लें. So2 = 16X0.04X0.9X2=1.1521 डी.जी
सेटा-चो व्हॅल्यू हांवें कॅलकुलेट केलो. जाप म्हूण आयिल्लो आंकड
म्हाकाच हांसता अशें दिसपाक लागलें. म्हज्या घरच्यां खातीर
इतलें लेगीत म्हजें मोल आसा काय? मागीर हांव कित्याक करत
ही धांवपळ? कित्याक करून घेतां हे जिवाचे हाल? कित्याक हे

हजे त्याग? हांव आसून फायदो तरी कितें? हांव नासलें म्हूण
कोणाचें कितें वतलें? कित्याक जगतां हांव? अशा विचारानीच
दीस सरलो. हांवें परत घरची वाट धरली.

तो आपल्या बल्कांवार काल्चे वरींच उबो आशिल्लो. ताणेंच
जावन म्हाकां हात हालयलो. म्हजोय हात ना कळटांच वयर
सरलो. अशें कितलेशेच दीस सरले. दर सांजेर आपल्या बल्कांवार
रावून म्हाकां हात हालोवंक तो केन्नाच चुकलो ना. 'सांबाळून. तो
मोगान पडला सो दिसता!' सगळीं जाणां म्हाकां चाळोवंक लागलीं.
हांवें व्हडलेंशें मनार येतलें ना. दीस भर काम करून जाल्लो
मानसीक तणाव पयस करपाक हांकां फक्त हांसपा खातीर एक
कारण जाय म्हणपाची खबर म्हाकांय आसली. म्हणलें, हांसूं दी
हांकां. मेकळें करूं दी आपलें मन! कारण मानसीक तणाव म्हणल्यार
कितें हे विशीं म्हजे परस आनीक कोण बरो जाणां जावंक शकतालो?

म्हयने धांवले. एके सांजेर ताणें नाका आशिल्लेंच केलें. सदचे
वरीं तो आपल्या बल्कांवार उबो आशिल्लो. म्हाकां पळयना बराबर
ताणें म्हजे दिकेन 'फ्लायींग कीस ' वाऱ्यांत सोडलो. सगळ्यांनी
तें पळयलें. 'ओ..हो! हांगा मेरेन पावली तर तुमची लव-स्टोरी!'
अशें म्हणत सगळीं जाणां मोट्यान हांसपाक लागलीं. म्हाकां
तिडक मारली. ताची आनी हांचीय बी. त्या दिसाच्यान हांवें त्या घरा
दिकेन पळोवपाचें सोडलें.

'तो आयजूय फ्लायींग कीस दितालो मुगो तुका!' अशें
कितलेशेच दीस म्हाकां हीं सांगपाक लागलीं. हांवें कान हालयलो
ना. 'मरूं तो . बऱ्याक गेल्यार फाटीर आयलो.' अशें म्हणत हांवें
हांचेर थेंगसो घातलो. त्या दिसाच्यान तो बल्कंवर रावून म्हजी वाट
पळयता काय ना हे विशीं म्हाकां केन्नाच जाणून घेवंचें दिसलें ना.
बाकीच्यानींय ते विशीं म्हाकां केन्नाच कांयच सांगलें ना.

ताणें म्हाकां हात हालयलो वो ना हे विशीं म्हजे जिणेंत कसलोच
फरक पडलो ना. ताचें तें हात हालोवप वो फ्लायींग कीस दिवप
म्हज्या जगण्यांचें कारण जावंक शकलें ना!

आयज मात हांव खूब थकिल्लें. इल्लीशी न्हीद मेळ्ळयार बरें
दिसतलें जिवाक. ह्या विचारान हांवें दोळे धांपिल्ले. 'आयज ना
मुगो तो?' आवाज कानार पडलो. सट्ट करून दोळे उगडून हांवें
भायर पळयलें. तें बल्कांव रितें आसलें. इतले दीस ताका पळोवपाचें
हांव टाळटालें पूण आयज ताचेर नदर घालीन शी जाल्ली. 'आयज
दिसलो ना जाल्यार कितें जालें? फाल्यां तरी तो आसतलोच!
अशें म्हणत कांय खीण ताका मनांतल्यान भायर दवरीत हांवें दोळे
धांपले. पूण ना. म्हजो सुमार चुकिल्लो. त्या दिसाच्यान तो फुडले
आठ दीस पासून दिसलो ना. 'खंय गेलो काय तो?' विचारांचीं
ल्हारां मनांच्या खडपार आपटून म्हाकां लाचार करूंक लागलीं.
ताचे विशीं म्हाकां ओगीच हुरको जाल्लो.

एके सांजेर ताच्या बल्कांवार कांय लोक जमिल्ले पळयल्लें.
'आयज कितें आसा तर?' सगळ्यांकूय उत्सुकता जाली. म्हाकांय
उमळशीक लागली. जाल्यार कितें? ताच्या घराच्या मुखेल दाराचे
वणटीक तेंकयल्लें काशांवाचें धांपणें दिशटी पडलें. काळजांत घरस
जालें. दोळ्यांतल्यान दोन दुकांय गळ्ळीं. 'तोच मेलो आसतलो.
ताचे भायर ह्या घरांत आमी केन्नाच कोण्णाक पळोवंक ना.' हीं
सुमार काडटालीं. हो सुमार चुकेचो नासलो. कारण त्या फुडें त्या
बल्कांवार चुकून लेगीत एक मूस पासून झळखलो ना!

म्हजें काळीज फुटलें. कितें जाल्लें अशें ताणें फ्लायींग कीस
दिल्लो तर? असो कसलो गुन्यांव केल्लो ताणें? 'ओ..हो! हांगा
मेरेन पावली तर तुमची लव-स्टोरी! अशें तांणी म्हणलें आनीं तुंवें
ताचे दिकेन पळोवपाचें लेगीत सोडून दिलें? ताणें तुजें रूप तरी
पळयल्लें तर? ताची पिराय तुज्या बापाय इतली आशिल्ली हें तरी
तुंवें कशें आडनदर केलें? अशे साबार गुन्यांव म्हाकां रेवाडो घालपाक
लागले. 'कोण तरी, आपल्या चेऱ्यार ओडणी बांदून, वयल्यान
मारक घालून म्हाकां हात हालयता.' ह्याच भरवंशार हो उतार
पिरायेचो दादलो आपल्या घराच्या बल्कांवार उबो राव नाशिल्लो
मूं? 'म्हजो हुरको करपी कोण तरी आसा!' हेंच ताचे खातीर
जगण्याचें कारण जावंक नाशिल्लें मूं?

आयजूय ह्या प्रश्नाच्यो जापो सोदूंक हांव दर सांजेर ताच्या
बल्कांवार पळयतां. 'आय एक अल्सम!' अशें बरयल्लें टी-शर्ट
घालून तो म्हाकां अमुरकोच हांसता. हात हालयता. फ्लायींग कीस
म्हजे दिकेन वाऱ्यांत सोडटा. मात हें म्हाकां सोडून बशींतल्या हेर
कोणांक दिसना. म्हजोय हात सवकास वयर सरता...।

'तो म्हजी वाट पळयतलो.' ह्याच भरवंशार हांव म्हजी तकली
उशाक तेंकयतां!! म्हज्या जगण्यांचें कारण वेंगयत सूरत न्हिदेक
वेंगेंत येतां!



नुवें-गोंय. मोः ८६०५९४२१५७



# शुर्पणखा आनी हिडिम्बा कळना काळाची गती...

शूर्पणखा आनी हिडिम्बा
दोगीय अस्तुऱ्यो
दोगीय आर्य विरांचेर भाळल्यो
दोगींकूय ते वीर घोव म्हूण जाय आसले
शूर्पणखा हारली..तिची जाली विटंबणा
आनी
वांट्याक आयलें दुख्ख
हिडिम्बा जिखली... ती खोशी जाली
तिका आर्य घोवाचें सूख मेळ्ळें



- उदय भेंब्रे

रामायणांतल्यो घडणुको ज्या काळांत घडल्यो तो काळ.

राम वनवासाक वचूंक भायर सरलो तेन्ना सीता आनी लक्ष्मण हांणीय ताका सांगात दिलो. तीं तिगांय जाणां गंगेचे दक्षिणेक आयलीं आनी भारद्वाज रुशीच्या आश्रमा कडल्यान चड पयस नाशिल्ल्या चित्रकूट दोंगरार खोंप बांदून रावलीं. थंय भरत, कौसल्या आनी दोनूय सवती आवयो तांकां मेळूंक आनी परत व्हरूंक आयल्यो. तीं परत गेलीं नात. पूण अयोध्येक आमीं रावलीं जाल्यार अशेंच परत घडूं येता हें चिंतून तीं दक्षिणे वटेन फुडें सरलीं. वेगवेगळ्या स्थळांचेर राबितो करीत तीं दंडकारण्याचो वांटो आशिल्ल्या जनस्थानांत पावलीं. थंयची न्हंय आनी सैमाची सुंदरकाय पळोवन सीतेक थंयच राबितो करचो अशें दिसलें. राम-लक्ष्मणान खोंप बांदली. खोंपी मुखार आंगण केलें. बसपाक दोन सोपे केले. सांजवेळचीं थंय बसून तीं खबरी करतालीं.

वनवासाचें तेरावें वर्स सोंपत आयिल्लें.

***

दंडकारण्याचेर राक्षस जमातीचो शेक चलतालो. रावण हो त्या शेकांचो राजा. लंका ही ताची राजधानी. त्या काळांतल्या आदिवासी जमार्ती मदी राक्षस जमात ही सगळ्यांत मोटी आनी बळीश्ट. आर्य संस्कृती परस हे आदिवासी जमातीची संस्कृती वेगळी. आर्यांचे यज्ञ-याग होम-हवन हें तांकां माननाशिल्लें. आपणाल्या शेकातळा आशिल्ल्या वाठाराचेर आक्रमण करूंक आर्य आयल्यात अशें तांकां दिसतालें. आदीं रुशी येतात आनी मागीर राजा येतात हें तांणी वळखिल्लें. देखून ते विरोध करताले आनी तातूंतल्यान आर्य लोक आनी राक्षस जमात हांचे मदीं संघर्श चलतालो.

रावण धरून सगलीं चार भावंडां, व्हडलो रावण. ताचे फाटलो कुंभकर्ण, मागीर शुर्पणखा आनी सगळ्यांत धाकलो विभीशण. धाकली आनी एकलीच भयण जाल्ल्यान शूर्पणखा रावणाचे अपुर्बायेची. गैरसमजांतल्यान रावणान तिच्या घोवाक जिवेशीं मारिल्लो. मागीर पच्छताप जावन तार्णे शूर्पणखेक जनस्थानाची मुखेली नेमिल्ली. थंयची राणीच कशी वावुरपाची मेकळीक तिका दिल्ली. खर, दुशण हे तिका दिल्ल्या सैन्याचे मुखेली.

शूर्पणखेचे गुप्तहेर जनस्थानांत भोंवन कितेंय नवें वा वेगळें घडटा जाल्यार रोखडेंच तिका कळयताले. एक दीस तिका खबर मेळ्ळी, दोन सुंदर आनी बळिश्ट अशे दादले आनी एक सोबीत बायल अशीं तीग जाणां एके खोंपींत रावतात, तीं ह्या वाठारांतलीं न्हय, तीं कित्याक थंय रावतात आनी कितें करतात तें कळना. एक दीस थंय वचून तांकां पळोवचीं अशें शूर्पणखेन थारायलें.

***

त्या दिसा शूर्पणखा बरी सजली. उंची वस्त्रां न्हेसली. आंगार भांगर-शिंगर घालें. माथ्यांत फुलां माळ्ळीं आनी दासीक वांगडा घेवन ती परकी मनशां कोण तें पळोवपाक गेली.

राम, सीता आनी लक्ष्मण आंगणांत बशिल्लीं. राम धनुश्याक नवी दोरी बांदतालो, सीता फुलां गुत्याली आनी लक्ष्मण बाण तयार करतालो. शूर्पणखेन तांकां पयशिल्ल्यानूच पळयलीं. हीं कोणूय तरी परकीं मनशां, पूण कोण तीं? तिर्णे रामाक बारीकसाणेन नियाळ्ळो. तिका तो आवडलो. ती ताचेर सामकी भाळ्ळी अशेंय म्हळ्यार जाता. असल्या वेळार त्या दादल्यासरीं वचून भोग मागप वा घोव जा म्हणप ही राक्षस जमातींतली चाल. ते चाली प्रमाण ती फुडें सरली. आंगणांत गेली. रामा मुखार उबी रावन तिर्णे म्हळें,

"म्हाका तूं आवडलो. म्हजो घोव जावशी?"

रामाक हें विचित्र दिसलें. ही अस्तुरी मात्शी अणवी काय अशेंय खिणभर दिसलें. घडये ताका फकांडां करपाचोय मोह जालो आसुंये. तार्णे म्हळें,

"म्हजें लग्न जालां. ही पळय सीता, म्हजी बायल" आनी लक्ष्मणा वटेन पळोवन तार्णे सांगलें, "हो तो म्हजो भाव. तो एकलोच आसा. तो जाता जाल्यार पळय."

शूर्पणखा लक्ष्मणा सरीं गेली आनी म्हळें,

"तूं वीर दिसता. म्हजो घोव जाता?"

लक्ष्मण हांसलो. ताणे जाप दिली,

"आगे, हांव हांगा आसां रामाची आनी सीतेची सेवा करूंक. तूं म्हजी बायल जाली जाल्यार सीतेची दासी म्हूण वावुरचें पडटलें. ते परस तूं रामाकूच आग्रो कर."

शूर्पणखा परत रामा सरीं आयली. रामान परत तिका लक्ष्मणा सरीं धाडली. हे खेपे शूर्पणखेन लक्ष्मणा कडेन मात्शी लगट केली. तो तिडकलो. तार्णे थंयच सोप्यार आशिल्लें खड्ग काडलें आनी शूर्पणखेचें नाक आनी कान कातरले. रगत फळफळीत व्हावूंक लागलें. शूर्पणखा आनी तिची दासी किंळच्यो मारीत धांवलीं. महालांत येवन तिर्णे खर, दुशण हांकां आपली विटंबणा कशी केली ती खबर सांगली आनी त्या तिगांकूय मारून उडोवपाचो आदेश दिलो.

खर आनी दुशण सैनिकांक घेवन गेले. राम-लक्ष्मणा कडेन झुजले. धनुश्य-बाणां मुखार तांचो तग लागलोना. ते सगळे मेले.

शूर्पणखा चवताळ्ळी. तडक लंकेक वचून तिर्णे रावणा मुखार थयथयाट केलो. रावण संतापलो. ताका तो आपलोच अपमान कसो दिसलो. शूर्पणखा ताची अपुर्बायेची भयण आनी जनस्थानांतली ताची प्रतिनिधी. एके नदरेन ताकाच हें आव्हान दिल्लें. आर्य विरांक बुद्द शिकोवपाचो निश्चेव तार्णे केलो.

गुप्तहेरांक धाडून रावणान बारीक खबर काडली. दादले केन्ना भायर सरतात, केन्ना परततात आनी सीता केन्ना एकली आसता तें समजून घेतलें. मागीर एक दीस तो साधूचो भेस करून खोंपी सरीं गेलो आनी सीता भायर आयिल्ल्या वेळार तिका उखलून लंकेक घेवन गेलो.

.... आनी मागीर फुडलें रामायण घडलें.

***

कौरव-पांडवां मदलें आकांतांचें झूज सोंपले उपरांत कृष्ण द्वैपायन व्यास ह्या रुशीन 'जय नांवाचो इतिहास' हें महाकाव्य रचलें. व्यासाचो शिश्य वैशंपायन हार्णे अर्जुनाचो पण्टू जनमेजय हाका तें सांगलें तेन्ना तें 'भारत' जालें आनी कितलेश्याच वर्सांनी सौतीन

तें शौनक राजाक सांगलें तेन्ना ते 'महाभारत' जालें. व्यासान 'जय नांवाचो इतिहास' रचलो ताचे आदींचो हो काळ.

दुर्योधनान शकुनीच्या पालवान कुंतीक आनी तिच्या पांचूय पुतांक लासून मारपाचें कारस्थान रचलें. वारणावत ह्या सोबीत वाठारांत लाखेचें एक सुंदर घर बांदलें. बदल म्हूण कुंतीन आनी पांचूय पांडवांनी थंय वचून कांय दीस रावचें अशें तांकां सांगचें अशें दुर्योधनान धृतराष्ट्राक म्हळें. धृतराष्ट्रान तशें सुचयलें तेन्ना कुंतीन आनी पांडवांनी ना म्हळें ना. तीं वारणावताक गेलीं. मात विदुराक दुर्योधनाच्या कारस्थानाचो वास लागलो. तार्णे रोखडोच युधिष्ठीराक संदेश धाडून सादूर केलो.

लाखेच्या घरांत रावंक येतकूच पांचूय भावांनी भुंयार खणपाक आरंभ केलो. घरा फाटले सुवारेंत तें उक्तें जातालें. भुंयार पूर्ण जातकूच रातचीं सगळीं जाणां त्या भुंयारांतल्यान भायर सरलीं आनी कांय अंतराचेर आशिल्ल्या रानांत भितर सरलीं, दुसऱ्या दिसा तीं आनीकूय पयस गेलीं आनी थंय खोंप बांदून रावलीं. रातच्या वेळार कुंती आनी चार पांडव खोंपींत न्हिदतालीं आनी भीम खोंपीच्या दारा भायर बसून तांची राखण करतालो.

***

ह्या रानांत राक्षस जमातीचीं कांय कुटुंबां रावतालीं. त्या कुटुंबांतल्या लोकां मदीं कांय जाणां आशिल्लीं जीं मोनजातीच्या मासा भाशेन मनशाचेंय मास खातालीं. तांचे मदलो एक हिडींम्ब. तो आनी ताची भयण हिडिम्बा एकठांय रावतालीं.

एके राती हिडींम्बान भयणीक सांगलें, 'हांगा लागींच कांय मनशां रावूंक आयल्यांत अशें म्हाका कळ्ळां. म्हाका रूच सुटल्या. उपाट आनी मोव-मोव मास खावंक मेळटलें. वच आनी तीं ख
आसात, कितलीं जाणां आसात तें पळोवन यो.'

हिडिम्बा सोदीत भोंवली. तिका खोंप दिसली. झोंपां फाटल्या
रावन तिणें पळयलें. तिका दिश्टी पडलो तो भायर आशिल्लो भीम
ताचें रूप आनी बळीश्ट देह पळोवन ती ताचेर भाळ्ळी. तिक
दिसलें, घोव म्हूण तो आपणाक मेळचो. ती खोंपी सरीं आयल
आनी भीमाक विचारूंक लागली,

'आगा कोण तूं? खोंपींत आनीक कोण आसात? म्हजो भा
हिडींम्ब ह्या रानाचो मुखेली. तो तुमकां मारून उडयतलो. पूण हां
तुमकां वाटावंक सोदतां. म्हाका तूं आवडला. तूं म्हजो घोव जा.'

आपूण आवयची आनी भावांची राखण करतां अशें सांगून भीमा
हिडिम्बेक धांवडावपाचो यत्न केलो. पूण ती ताचेर सामकी पिश
जाल्ली. परत-परत 'तूं म्हाका जाय' अशेंच म्हणीत रावली.

ते वटेन हिडींम्ब भयणीची वाट पळोवन उबगलो आनी रागा
भायर सरलो. थोड्या वेळान तो खोंपी सरीं पावलो. थंय हिडिम्बे
पळोवन तो चाळवलो आनी गाळी घालीत तिचो जीव घेवपाक फु
सरलो. भीमान ताका आडायलो. दोगांय मदीं झूज सुरू जालें. ह
बोवाळ आयकून खोंपींत न्हिदिल्ल्यांक जाग आयली. कुंती आनी
हेर पांडव भायर आयले. बरोच वेळ भीम आनी हिडींम्ब हांचे मदी
झूज चल्लें. अखेरेक भीमान हिडींम्बाचो जीव काडलो.



हिडिम्बा बेगबेगीन भीमासरीं आयली आनी 'तूं म्हाका जाय' शें परत-परत म्हणूंक लागली. भीमान सांगलें,

''म्हजी आवय आसा, व्हडलो भाव आसा. तांकां सांग.''

हिडिम्बेन कुंती म्हऱ्यांत वचून भीम आपणाक घोव म्हूण जाय शी विनवणी केली. कुंती, युधिष्ठीर आनी हेर आपले मर्दी उलयले. डिम्बेची वागणूक तांकां मानवली. मागीर तांणी हिडिम्बेक सांगलें, दिसाचो भीमाक तूं जाय थंय घेवन वच. पूण रात जावचे आदीं का हांगा पावोवंक जाय. तो आमची राखण करता.''

हिडिम्बेन तें खोशयेन मान्य केलें.

ती सदद्‍ां सकाळीं येवन भीमाक घेवन वताली आनी रात ावचे आदीं खोंपी सरीं हाडून सोडटाली. कांय तेंपान तिका दीस ले आनी णव म्हयने भर जातकूच तिगेर पूत जालो. ताचें नांव वरलें 'घटोत्कच'.

त्या भुरग्याच्या जल्मा उपरांत कुंती आनी पांडव हांणी तें रान ोडलें आनी तीं एकचक्र नांवाच्या नगरांत वचून रावलीं. फुडें ांडव-कौरवांचें झूज जालें तेन्ना घटोत्कच पांडवांचो झुजारी जावन ळढलो. त्या झुजांत तो मेलो.

***

शूर्पणखा आनी हिडिम्बा
दोगीय अरतुऱ्यो
दोगीय आर्य विरांचेर भाळळ्यो
दोगींकूय ते वीर घोव म्हूण जाय आसले
शूर्पणखा हारली... तिची जाली विटंबणा आनी
वांट्याक आयलें दुख्ख
हिडिम्बा जिखली... ती खोशी जाली
तिका आर्य घोवाचें सूख मेळ्ळें

.......................................................

अशें कित्याक घडलें?

असल्या प्रस्नांची जाप जाण्टेल्यांनी एक म्हण रचून दिल्या :

**कळना काळाची गती**
**बेब्यान गिळ्ळो हती**

***

शूर्पणखेक दुख्खदिणो अणभव आयलो आनी हिडिम्बेचो हावेस पूर्ण जालो. हो काळाचो म्हवमा।

सप्तसिंधू प्रदेशांत राबितो करून राविल्ले आर्य ल्हवु ल्हवू पूर्वेक येत रावले. रामायण-काळा आदीं तांणी गंगेचे उत्तरेक राज्यां स्थापन केलीं. राम वनवासाक वतना गंगेचे दक्षिणेक पावलो तेन्ना थंय आर्यांचें एकूय राज्य नाशिल्लें. आशिल्लें फकत रुशींचे कांय आश्रम. आर्य पूर्वेक आयले त्या काळांत गंगेचे उत्तरेक आनी दक्षिणेक आदिवासी जमाती रावताल्यो. त्या जमातींमदीं राक्षस जमात मोटी आनी संघर्श करपी. तिचे फाटोफाट नाग जमात. आर्यांनी असल्या आदिवासी जमातींचो संघर्श मोडून काडून वा तांकां धांवडावन घालून राज्यां स्थापन केलीं. गंगेचे दक्षिणेक रानां-वनां चड. थंय राक्षस, वानर हे जमातींची वस्ती आशिल्ली. राक्षस जमातीचो मुखेली रावण. ताची राजधानी लंका. ती विंध्य पर्वता लागीं आयच्या मध्य प्रदेशाचे ओडिशाक तेंकता ते शिमेलागीं आशिल्ली. वानरांचेंय राज्य आशिल्लें. तांचो मुखेली वाली. ताची राजधानी किश्किंधा. ती लेगीत विंध्य पर्वताचे उत्तरेक आशिल्ली.

गंगेचे दक्षिण देगेर आर्य रुशींचे आश्रम आशिल्ले. ताचे यज्ञ, होम-हवनां चालूच आसतालीं. राक्षस जमातीक ते घुसखोर दिसताले. यज्ञ, होम-हवन करपाची संस्कृती तांकां परकी आशिल्ली. आपणाक वायट पडपा सारकें ते कितेंय करतात अशें राक्षस जमातीच्या लोकांक दिसतालें. ते रुशींक विरोध करताले, पिडापीड करताले, यज्ञ बी पाड घालताले. हेच खातीर विश्वामित्र रुशीन अयोध्येक वचून दशरथ राजाक विनवणी करून तरणाट्या रामाक आनी लक्ष्मणाक आश्रमांत हाडले-राक्षस लोकां पसून राखण करपाक आनी विघ्नां नासतना यज्ञ करपाक.

अयोध्येच्यान आश्रमांत येतना आनी मागीर कांय काळ राम-लक्ष्मण आश्रमांत रावले तेन्ना विश्वामित्र रुशीन त्या तरणाट्या राजपुत्रांक आर्यांच्या राज्यांच्या विस्ताराची गरज, राक्षस जमात ही दुश्ट, ती आर्यांची शत्रू, तिका ना-नपश्यात करूंक जाय हे विशीं खूब सांगलें. यज्ञ सुरू जातकीच राक्षस लोकां मदल्या कांय जाणांनी पिडापीड केली. राम-लक्ष्मणान तांकां मारून उडयलीं. विश्वामित्र रुशीन जें सांगिल्लें ताचें फाटभुंयेर हें घडिल्लें. ताका लागून राक्षस लोक हे दुश्ट, ते आर्यांचे शत्रू आनी तांकां ना-नपश्यात करूंकूच जाय हें राम-लक्ष्मणाचे बुद्दींत खोल-खोल रिगलें.

वनवास चालू आसतना जनस्थानांत राविल्ल्या वेळार राम-लक्ष्मणाची मानसिकता तीच आशिल्ली. शूर्पणखा ही राक्षस जमातींतली अस्तुरी इतलेंच तांणी पळयलें. तिची भावना, तिचे जमातींतली चाल, तिचो हेतू हांचे विशीं कसलोच विचार केलोना. समजून घेवपाचोय यत्न केलोना. कुंती कडेन तुळा केली जाल्यार सीताच उणी पडली. तिणेंय शूर्पणखेक समजून घेवपाचो वा समजावपाचो यत्न निखालस केलोना. ज्या पूर्वग्रहान राम-लक्ष्मण वागले त्याच पूर्वग्रहान सीता तिचे नदरे मुखार घडटा ती दुसरे एके अस्तुरेची विटंबणा पळयत रावली. परिणामीं शूर्पणखा आर्य लोक आनी राक्षस जमात हांचे मदल्या संघर्शाचो बळी थारली.

***

रामायण-काळा उप्रांत शेंकड्यांनी वर्सां गेलीं.. आर्यांचे पंगड पूर्वेक येत रावले. गंगेचे दक्षिणेकूय विंध्य पर्वता मेरेन तांणी राज्यां स्थापन केलीं. ह्या विस्तारांत राक्षस, नाग हांचे सारक्या आदिवासी जमातींचेर हावळ आयली. जांणी संघर्श केलो ते आर्यां मुखार तिगले नात. आर्यां कडेन आशिल्ले घोडे आनी शस्त्रां ह्या आदिवासी जमातीं कडेन नाशिल्लीं. जे पयस पळले ते वाटावले. कुरू राज्याचो एक वांटो पांडवांक दिलो तेन्ना त्या वांट्यांत खांडव वनाचो अस्पाव आशिल्लो. त्या वनांत नाग जमातींचीं मनशां रावतालीं. पांडवांक रानाचो उपेग नाशिल्लो. कृष्णाच्या पालवान अर्जुनान खांडव वनाक उजो घालो. वन लासून गेलें. नाग जमातींच्या ज्या मनशांक वनांतल्यान भायर सरपाची संदूच मेळ्ळीना तीं सगळीं उज्याचे भकीक पडलीं. जीं रान सोडून वचूंक पावलीं तितलींच वाटावलीं.

ह्या महाभारत काळांत आर्यांच्या शेकातळा आशिल्ल्या वाठारांत आदिवासी जमातींचे थोडेच लोक उरले. नरकासुरा सारक्या दुश्टाक कृष्णान मारून उडयलो. पूण राक्षस जमातींतलीं सगळींच मनशां दुश्ट नासतात ही जाणविकाय ह्या काळांत आयिल्ली. विंध्य पर्वताचे उत्तरेक ते जमातींतलीं मनशांय थोडींच उरिल्लीं. हिडिम्बेच्या अणभवाक ह्या बदलाची फाटभूंय आसा. तिणें भीमाक घोव जावशी काय म्हूण विचारलें तेन्ना भीमान 'ना' म्हळें ना. तिका पिडापीड केलीना आनी धांवडावनूय घाली ना. कुंतीक, युधिष्ठिराक विचारूंक जाय इतलेंच ताणें म्हळें. हिडिम्बेन धिटायेन तांकां आपली इत्सा सांगली तेन्ना कुंती तिचें मन वळखलें. युधिष्ठिरान वा हेर खंयच्याच पांडवान आडखळ केली ना. त्या सगल्यांनी भीम-हिडिम्बा संबंदाक मान्यत[illegible] दिली. फकत एकूच अट घाली ती रात जावचे आदीं भीमाक [illegible] सर्रीं हाडून सोडपाची.

***

दादल्याक एखाद्री अस्तुरी आवडली जाल्यार भोग मागप[illegible] वा आपली बायल जा म्हूण सांगपाची, तेच भाशेन एखाद्रे अस्तु[illegible] दादलो आवडलो जाल्यार भोग मागपाची वा ताका आपलो घोव [illegible] म्हणपाची चाल राक्षस जमातींत आशिल्ली. शूर्पणखा आनी हिडि[illegible] ह्या दोगींचीय वागणूक ते चालीक धरून आशिल्ली. चली मन[illegible] भरली जाल्यार तिका उखलून व्हरून लग्न जावपाचीय चा[illegible] राक्षस जमातींत आशिल्ली. देखून ते तरेच्या लग्नाक 'राक्ष[illegible] विवाह' हें नांव पडलें. ह्यो चाली रामायण-काळांत आर्यां म[illegible] आशिल्ल्यो काय ना हें स्पश्टपणान कळना. त्यो नाशिल्ल्यो अ[illegible] धरलें जाल्यार शेंकड्यांनी वर्सांच्या काळांत राक्षस जमाती कडे[illegible] आयिल्ल्या संबंदांक लागून आर्यांनी ल्हवु ल्हवू त्यो आपणायल[illegible] अशें दिसता. महाभारत-काळांत सत्यवती तारीन पराशर रुशी[illegible] पलतडीं पावयतना तो तिचेर भाळ्ळो. ताणें सत्यवती कडेन भो[illegible] मागलो आनी त्या संबंदांतल्यान कृष्ण द्वैपायन व्यासाचो ज[illegible] जालो. हेच सत्यवतीचेर उप्रांत शंतनू राजा भाळ्ळो. तिका रा[illegible] करूंक तयार जालो. फुडलो राजा तिजो पूत जावंक जाय [illegible] सत्यवतीच्या बापायन घाल्ली अट शंतनु राजान मान्य केल[illegible] आनी सत्यवती राणी जाली. रुक्मिणीक उखलून व्हरून कृ[illegible] तिचे कडेन लग्न जालो. तो राक्षस विवाह आशिल्लो. अर्जु[illegible] आनी सुभद्रा मोगांत पडलीं आनी लग्न जावपाक आशेल[illegible] बलरामाचो ह्या लग्नाक विरोध आशिल्लो. तेन्ना कृष्णान अर्जुना[illegible] राक्षस विवाह सुचयलो. ते प्रमाण अर्जुनान सुभद्रेक उखलून रथां[illegible] बसयली आनी लागलो इंद्रप्रस्थाचे वाटेक. पूण कृष्णान बलरामा[illegible] थातारलो; सुभद्रेच्या मना सारकें जाता हें ताका पटयलें आ[illegible] प्रस्न बरे तरेन मेटून द्वारकेंतूच लग्न जालें.

काळ बदलता, परिस्थिती बदलता आनी मनीस वेगळे तरे[illegible] चिंतूंक लागता. तेच खातीर म्हणटात-

कळना काळाची गती.



मडगांव-गोंय. मो: ९८२२१६३२२[illegible]

# कोंकणीवली स्वाप पंचायत

चत्रंगी मेळाव्यांतल्यान रुपकारा आयिल्लीं कांय ठळक वैशिश्ट्यां: बायलेक तिच्या आपल्या नांवा वयल्यान वळखुचें. तिची स्वत:ची वळख प्रस्थापीत जावंची. अमक्याची भयण, बायल ह्या नात्या परस ती कोण ही वळख घडची. तिच्या नांवा फाटलीं कुमारी, सौ., श्रीमती हीं उतरां काडचीं. तिका माचयेर मानाची सुवात आसची. परिसंवाद, चर्चा हांतूंत तिका वांटेकार करची.



- हेमा नायक

तूं कोंकणींतल्यान कित्याक बरोवंक लागलें वा तूं कोंकणी वटेन कित्याक ओडून गेलें असो प्रस्न जेन्ना एखादो म्हाका विचारता तेन्ना हांवूय हाची जाप सोदपाक लागतां. खूब शिकचें आनी दोतोर जावंचें ही म्हजी भुरगेपणातसून इत्सा. मेट्रीक मेरेन त्याच हावेसान शिकत गेलें. बरे मार्क मेळूनय तें शक्य जालेंना. मागीर पर्याय नासून बी.ए. केली आनी इतले मेरेन पावलें. जिवितांत किर्तेंय आगळें वेगळें घडटलें जाल्यार कसलें तरी निमीत्त जायच पडटा. आपल्या थारावीक वर्तुळा भितरच भरसत  रावलीं जाल्यार तातूंतल्यान चड कांय शिकपाक मेळना. ते खातीर वेगळे गांव, वेगळे देश आनी वेगळ्या मनशां मदीं वावरप आसपाकूच जाय.

८ मार्च १९७३ हो आंतरराष्ट्रीय महिला दिन म्हजे फुडले कारकिर्दी खातीर यादींत उरपा सारको. तेन्ना म्हजी पिराय वीस वर्सांची. बी. ए. ची परीक्षा निकतीच दिल्ली आनी नोकरेचो

सोद चालू आसलो. एक बरी संद चलून आयली. अखिल भारतीय महिला फेडरेशनचें कोलकोत्याक भव्य अधिवेशन. मडगांवच्यान कोलकोत्याक वचपाचें. पन्नास वर्सां आदलो काळ. दोन दिसांचें अधिवेशन. जगभरांतल्या बायलो प्रतिनिधींची हाजेरी. भारत स्वातंत्र्या वेळार महात्मा गांधी वांगडा प्रामुख्यान मुखार आशिल्ली मुंबयच्या गोवालिया टँक मैदानाचेर हिन्दुस्तानाचो तिरंगी बावटो घेवन हुबोवपाक धांवपी निर्भीड तरनाटी अस्तुरी अरूणा असफ अली थंय हाजीर आसल्यो. पिरायेन चोवसश्ट वर्सांची. स्वातंत्र्य सेनानी प्रेमा पुरव मुंबय पंगडाच्यो मुखेली. तांचे वांगडा वचपाचें म्हजें थरिल्लें. गोंयांत बायलांचे असले पंगड नात म्हण कळटकच तिणें फर्मायलें, आतां गोंयांत वच आनी तांकां संघटीत करून बायलां मदीं जागृताय कर. सामाजीक, राजकी, आर्थीक मळाचेर बायलांचो सहभाग जाय. तांची कुशळटाय सगळ्या थराचेर नदरेंत भरपाक जाय. रेल्वेची एक बोगीच बुक केल्ली. सगळ्यो मुंबयच्यो बायलो. दोन दीस आनी दोन रातींचो प्रवास. पदां म्हणप, भेंडयांनी खेळप अशें चलतालें. म्हजोय सहभाग आशिल्लो. म्हजी पाळी येताली तेन्ना हिंदी ना तर मराठी पदां म्हणटालें. मागीर तांचो आग्रोच जालो, तुजे भाशेंत म्हण. त्या वेळार सट करून कोंकणी भाशेंतली ही उणीव जाणवली. कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय लेगीत मेळूंक नाशिल्ली तेन्नाची खबर ही. याद करून एकेक पद म्हणलें आनी धालो, फुगड्यो सारकेलीं लोकगीतां गावन दाखयलीं. सगळ्यो बायलो खूश कित्याक तर तांणी नवीनच आयकल्लीं हीं गीतां. म्हजी तुस्त आनी तोखणाय जाली.

कोलकोत्याक सावन परततना स्त्री जागृतायेची प्रेरणा आनी कोंकणी म्हजी भास, तीच आमची अस्मिताय हो धडो घेवन परतलें. कोंकणी भाशे वयली निष्ठा चडांतचड खर जायत वताली. कोंकणी खातीर खूब वावर करपाची गरज आसा आनी कोंकणीची उदरगत हेंच मागीर ध्येय जावन पडलें.

कृती आनी धोरणां थारावपाक तेन्ना वेंलगां देवळाच्या परिसरांत शिबिरां जातालीं. कोंकणीचे निश्ठावान आनी समर्थक अशो ज्येष्ठ व्यक्ती त्या शिबिरांनी मार्गदर्शन करताल्यो आनी कशें किर्तें करपाचें हाचेर चर्चा जाताली, वाद जाताले, भासाभास जाताली. जो तो आपल्या खर्चान येतालो. आपलें वाहन खूब थोड्यां कडेन आशिल्लें. आशल्ले ते आपली गाडी पॅक करून हाडटाले. बाकिचे बशीन येताले. चडशे कोण जोडपाक लागूं नाशिल्ल्यान कोणा कडेन पयशे नासताले. वर्गणी फक्त पां रुपया पूण तेवूय नासताले हें सांगल्यार अजाप दिसतलें कोंकणीचें मूळ अशा निसुवार्तीपणा आनी ध्येयवादी तत्वांचे रुजलां.

सादारण ७० च्या अदमासाक चालू जाल्लीं हीं शिबिर कोंकणी प्रजेचो आवाजची थापणूक जायी मेरेन थंयच चलतालीं कोंकणी चळवळीच्या इतिहासांत ह्या इतल्या वर्सांच्या भरी कार्याची नोंद जावपाक जाय. चंद्रकांत केणी, महाबळेश्व बोरकार, अनिल पै सारकेले ह्या आयोजनांतले खांबे. १९७ त कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळ्ळी. ही खोर मनोवपाक पणजे एक भव्य मेळावो जालो तो यादींत उर सारको. तेन्ना सावन कोंकणीच्या कार्याक गती येवपाव लागली. पूण आंखणी, बांधणी आनी निर्णय प्रक्रिया थारावीव लोकांच्या हातांत आशिल्ली आनी तांकां तें आपणांक फावत अशें दिसतालें. तें दुसऱ्यांकडे पावपाक जायना हाची जात तितली जतनाय ते घेत रावले आनी पावलेंच जाल्यार तें कश पाड घालपाचें आनी तांची असमर्थताय उकताड्यार हाडपाव कसलीं फितिरकां करपाचीं ही नाडबुद्द हे लोक तेन्ना सावन ते आज मेरेन वापरत आयल्यात. उलो मारिना फुडें हर ह करून उडयो मारपी लोक तयार जाल्ले आनी ही प्रथा अशीच फुडें चलत उरली. संख्याबळ जाय पडलें तेन्ना तेंवूय तयार करपी लोक वेगळे आशिल्ले जे आजूनय पड्ड्या फटल्यानच उरल्यात.

१९७४ त बँकेंत नोकरेक लागतकच अर्थिक नदरेन हांव स्वावलंबी जाल्लें. कोंकणीच्या कार्यावळींनी जाव परिशदेक वा संमेलनाक वचपाक पयशांची चिंता नासताली. सगळे कडेन हाजीर रावप आनी भाशणां आयकप, तशेंच पडटा तें कोंकणीचें काम करप हें म्हजें कर्तव्य मानलें. कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळ्ळी खरी पूण कोंकणीचीं सगळीं दालनां रिकामी आशिल्लीं. बरोवप्यांचे लेखणेक निकतीच गती येताली. १९३९ सावन दर वर्सा अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचीं अधिवेशनां जातालीं आनी तातूंत कोंकणीच्या प्रमाणीकरणा सारकेले प्रस्न उपरासताले. सुरवातीच्या इकरा अधिवेशनांच्या अध्यक्षांक कोंकणीच्या फुडाराचो पडिल्लो हुस्को आनी ताचेर सुचयिल्ले उपाय आजून

ार उरल्यात. कोंकणी कशी बरोवची हो मुखेल प्रस्न आसलो. ाणीकरणा पसून सुरवात. इकराव्या अधिवेशनाचे अध्यक्ष कांत केणी आपल्या भाशणांत स्पश्ट करतात ते प्रमाण ंकणी *अकादमी कित्याक?* ह्या माथाळ्या खाला म्हणटात कणीचे वाडीचे नदरेन कांय मुळावे वावर आजून जावंक त. ते रोखड्या रोखडे आमी हातांत येवंक जाय. कोंकणी ळ्या थळाव्या आनी जातीय रुपांचो अभ्यास. कोंकणीची डाळी, बारदेशी, अंत्रुजी, भतग्रामी, साश्टी, कारवारी, ळुरी, केरळी अशीं कांय मुखेल थळावीं रुपां आसात. त्या यर किरिस्तांवांचीं आनी हिन्दुंचीं अशीं दोन सांप्रदायीक पां आसात. हिंदूंत परत बामणांचीं, शेटींचीं, वाणयांचीं, वड्यांचीं, नायकांचीं अशीं कांय जातीय रुपां आसात. हांचो रको, भाशे-शास्त्राक धरून अभ्यास जाले बगर कोंकीणचें ज आमच्या लक्षांत येवपाचें ना. ह्याच संदर्भांत ते फुडें म्हणटात ंकणीचीं जितलींय रुपां आसात तितलींय रुपां प्रमाण. हें र अशें आसा जाल्यार आमी अमको एखादे शैलीन उलयलो ाल्यार ताचीं कुतां कित्याक काडटात? वा ताच्या वाक्प्रचाराच्यो कच्छायो कित्याक करतात? आनी प्रमाणीकरण वा व्याकरण ारायतना वेगवेगळ्या जातीच्या लोकांची उलोवपाची भास कत्याक मानून घेतली ना? म्हणजे आमच्याच लोकांनी फित्रीक रून एके ठरावीक जातीची भास प्रमाण म्हण निश्चीत करून दयली.

रवीन्द्र केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, बाकीबाब बोरकार, ंद्रकांत केणी अशे कांय लेखक सोडले जाल्यार नेमान बरोवपी लेखकांची कोंकणींत उणीव आसली आनी दर वर्सा पुरस्कारा खातीर साहित्य अकादेमीक निदान सात पुस्तकां तरी दाखोवपाक जाय आसलीं, म्हणजे तातूंतलें एक वेंचून काडपाक मेळूं येतालें. फित्रिकां करपाक फिशाल आशिल्ल्यांनी ही तजवीज रोकडीच केली आनी हांगां थंय फापसून धा बारा लेख बरयतल्यां कडल्यान आनीक बरोवन घेवन पुस्तकां तयार केलीं आनी तांचीं नावां पुरस्काराचे वळेरेंत सुरवेच्या क्रमांकांत वचून बसलीं. ते घडकेक सावन ते आयज मेरेन ही डिप्लोमसी चलत आयल्या. तातूंत आनीक दोन भोवजन समाजांतलें प्रतिनिधित्व करप्यांक आस्पावन घेतले. मागीर सगळ्यांची बुद्द समसमा जाली आनी तें वर्तुळ कांय राजकारण्यांचें फाटबळ मेळून अदीक सशक्त जायत गेलें. परीणामी कोंकणीचे उदरगतीक हें दिसानदीस मारक थरत गेलें.

२ नोवेंबर १९७७ दिसा नोंदणी पद्दतीन म्हजें लग्न जालें. नांव बदलपाचें? एक क्रांतिकारी प्रस्न. म्हजे स्वतंत्र विचारसरणेचे वृत्तीक हो बदल मान्य नासलो. पूण असलो निर्णय घेवपा इतली मॅच्युरीटी त्या खिणांक म्हाका येवूं नासली. हांव पावल दवरतलें तो अनवळखी गांव, संबंद दवरतलें तीं अनवळखी मनशां, काळीज खपखपतालें. म्हज्या फुडल्या जिविताचो मार्ग हांवें एकल्यान सोदून काडिल्लो आनी म्हाका एकल्याकूच त्या मार्गा वयल्यान वचपाचें आशिल्लें. म्हजो स्वाभिमान म्हज्या काळजांत खतखततालो. मडगांवच्या सिव्हील रजिस्ट्रेशन ऑफिसांत सय करपाची वेळ. ऑफिसरान विचारलें किर्ते करपाचें. सेलाद फोलीचेर हांव सय मारतालें. वाचलें. नाव बदलप ना अशें मना सावन दिसतालें पूण त्या वेळार कितल्याशाच लोकांचे चेरे दोळ्यां मुखार उबे जाले. दरेकल्याच्या तोंडार वेगळे वेगळे भाव. म्हजे वटेनचे म्हणपाक फाटीं रावचे नासले वा घोवाले वटेनचे म्हण कित्याक फाटीं रावतले? हो दोन मनशां मदलो न्ही तर दोन जातीं मदलो प्रस्न आसलो. बामण आनी भांडारी समाज. दोनांच्योय भावना तितल्योच तीव्र आनी खर. नांव बदल नासताना किर्ते बामणपण मिरोवपाचें आसा? चांटे पावलांक हीं उतरां आयतकतना दोन कान उणे आशिल्ले म्हाका. चल, म्हज्या मनाचो निर्णय पक्को जालो, म्हणलें म्हज्या नांवाक हात लावं नाका. हेमाच आसूं. म्हजी वळख त्याच नांवा वयल्यान घडटली. मागीर आसूं तीं आडनांवां कसलींय. काडूं सोदून जाती आनी गोत्रां. नांवा खातीर कोर्णे म्हणपाक नाका, जातीचें मोठेपण दाखोवपाक आडनांव तेंच वापरता म्हणून. गळ्यांतलो मणी पळोवन कोणीय विचारतलो, 'कोणागेर दिलां गो तुका?' हांव सांगतलें, 'दिवपाक हांव किर्ते वस्त तर?' मागीर फुडलो प्रस्न, 'कुळदेव कोण घोवालो?' हांव सांगतलें, 'खबर ना.' मागीर पोटप्रस्न, 'नायक काय नाईक?' हांवें जर सांगलें 'नायक' जाल्यार ती म्हणटली, 'आतां बाये सगळ्यांनी ताळतंत्र सोडलां. उठटा सुटटा तो नायक लायता. सगळेच बामण जावपाक सोदतात'. म्हजे कडेन सय करपाक पेन दिलें तेन्ना भरमेल्लें हांव जागें जालें. लग्ना उपरांत कांय तेप समाजांतलीं हीं कोनिसांवां म्हाका सोसचीं पडटलीं. समाजांतलें हें नवें आव्हान म्हजे मुखार उबें आसलें. कर्येत आडकथा न्ही पूण पावला पावलाक जे

अणभव मेळटाले तातूंतल्यान 'चित्रंगी' चीं तत्वां आनी ध्येयां मूळ धरत वतालीं. कोंकणी भास, साहित्य आनी समाज तिनूय पोड एका दुसऱ्यांत घुस्पून एक घट्ट विणी तयार जातालीं. शाळेंत वतना म्हजी पुष्पा नांवाची तिसरी भयण जिका आमी बाय म्हणटालीं, ती म्हज्या लांब केंसांच्यो दोन विणयो घालतालीं. इतल्यो घट्ट म्हणल्यार सूम कशो. सूम जळत पूण पीळ सुटचो ना अशी एक ओपार कोंकणींत आसा जी आमगेल्या कोंकणींतल्या बऱ्याचशा जाणांक लेखून आमीच वापरतात.

आतां हांगा सावन म्हज्या आयुश्याच्या नव्या पर्वाक सुरवात जाता. हातूंत अपुरबाय प्रकाशन, चित्रंगी, कोंकणी राजभास आंदोलन, युगांकाचो जल्म, अपुरबाय चित्र ह्या सगळ्यांचो आस्पाव जाता. नव्या संवसारांतलीं आव्हानां आनी तडजोडी. मडगांव ते वळवय, भरपूर लोकवस्ती आशिल्लें फुडारिल्लें संस्कृतीक वेपारी केंद्र अशें मडगांव शार आनी तातूंत भर रस्त्याचेर आमचें लांबचे लांब, दोन आंगणां, दोन बांयो आनी केल्यार चार रूम जावूं येतात अशी व्हडली माळी आशिल्लें घर, थंयच्यान पावलें थेट मातयेच्यो वण्टी आनी दारा मुखार मातयेचें आंगण, आंगणांत तुळशीचें पेड आनी शेणाचे जमनीच्या गांवटी नळ्यांच्या टीपीकल गांवांतल्या घरांत. भोंवतणी अटंगें रान. मागीलदार म्हण जाय वा घराक पोरसूं जाय हिंवूय गरज केन्ना भासली ना कित्याक तर हें घरच अशें सैमाच्या पाचव्याचार झाडां रुखां मदीं उबें. मुखार धवो चाफो, धवी फुल्ल चमेली आनी कुशीक तांबडो चाफो. लग्न जावन हांगा येत सावन हीं तीन झाडां म्हजे संवकळीचीं आनी ओडीचीं. आनी सामकी नदर ओडून घेताली ती पाचवीचार चित्रंगीची वेल आनी तिचेर जांबळ्या रंगाचीं सोबीत नाजूक फुलां. दीस रात चित्रंगीच घोळत रावली कानां मनांत आनी तीच सासाय जावन आमच्या अपुरबाय प्रकाशनाचे वाडीक उर्बा दीत रावली.

लग्नाचो मुखेल उद्देश आसलो साहित्यीक लिखाण आनी कोंकणीचे उदरगतीक जाता ते तरेन हातभार लावपाचो. दोगांय लेखक आनी कोंकणी मोगी आशिल्ल्यान ते नदरेन वावुरपाक बरें पडटलें अशें दिसत आयिल्लें. अपुरबाय प्रकाशनाचो आटाप पयलीं हातांत घेतलो. कोंकणींत उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां साप थोडीं आशिल्लीं आनी प्रकाशन संस्थाय उण्यो आशिल्ल्यो. कोंकणीचो वावर म्हणलो काय तो आपलोच समजून वेंग मारपाची आमकां संवय जाल्ली. गुरूदासबाब दुकळो *पुनव* म्हयना काडटालो. तातूंत बारीक मोठें छापून येतालें. आपलें नांव आय हातूंत समादान आसतालें. सुरेशबाब काकोडकाराक हातूंत चड खबर आसा. वर्गणी पुंजावपाक दारा दारांनी भोंवचें पडटा पूण केन्ना वाजवणेपणा केलीं ना. मागीर चंद्रकांत के *कुळागार* काडपाक लागले. थंय तीच परिस्थिती. पूण म्हजें तु असलो फरक कोंकणींत नासलो. कोंकणीचें कार्य कोणूय कर पूण तें आपलें अशें मानीत आयलीं. आनी मागीर तीच उ येवन थारायलें अपुरबाय प्रकाशनान हाका हातभार लावपाच आमचीं तशेंच बाकिच्या लेखकांचीं पुस्तकां उजवाडावपाचो काळांत नेटान यत्न जालो. तातूंतल्यान बायलांचें साहि जाय ही पोटतीडक निर्माण जाली. पूण बायलो संकुची वातावरणांत वावरत अशिल्ल्यान तांकां फुडें येवपाची संद कश दिवप हो पयलो प्रस्न आसलो. आनी म्हणूनच नव्या तरनाट चलयांक आपले विचार उक्तावपाक एक साधन मेळचें म्ह 'चित्रंगी' दिवाळी अंक उजवाडावपाचो निर्णय घेतलो. नवोदी कवयित्रीं खातीर कविता सर्ती घेवन तांकां इनामांय भेटयल

पाचवोचार सैम आनी मेकळें आंगण पळयतकच ए गजाल मनांत रुजली ती म्हणल्यार ह्यान फुडें आमच्य कोंकणीच्यो कार्यावळी ह्या आंगणांत घडोवन हाडप. कोंड्या माटोव घालून वयर चुडटां आनी भोंवतणी चुडटांनी बांदू घेतल्यार तो अदीक सोबीत दिसतालो. बायलां भितर साहित्या आवड कोणाक आसा हाची सुलूसच लागनासली कित्या तर प्रसिद्धीचें माध्यम कांय नाशिल्ल्यान कोणेंय चोपड्यांच पानार कितेंय बरोवन दवरलें आसलें जाल्यार! दर आयतारा मराठी दिसाळें राष्ट्रमतांतल्यान *सोमार* हें एक पान कोंकणीं येतालें आनी तातूंत कांय जाणांचें लिखाण येतालें. बायलांव फुडें सरपाक जाय. तांकां फुडें येवपाची संद दिवपाक जाय अ मनांतल्यान दिसतालें. पूण कोंकणी आनी साहित्य हो मुखेल विशय धरून. विचार करीत रावल्यार बरें बरें सुचत रावता तशेंच जालें. अपुरबाय प्रकाशनचे वतीन बायलांचो साहित मेळ घडोवन हाडया, एक प्रात्यक्षीक म्हणून अशें थारलें आव पयलो मेळ घराच्या आंगणांतूच घेतलो. एक रात रावून दुसऱ्य दिसा सांजवेळा परतुपाचें. हो मेळावो म्हणल्यार बायलांच्य अंतस्करणाचें प्रगटीकरण आसलें. हातुंतल्यान कोंकणी भार आनी साहित्य चंवरूंक लागलें. साहित्य, संगीत, नाटक

ोमा, संशोधन अशा विवीध विशयांचेर कांय सक्षम बायलो भकां दिसतात तांचो चित्रंगी आनी अपुरबाय प्रकाशना कडेन गींचो संबंध आसा. तांचे कडल्यान लिखाण बरोवन येवन वीं स्वतंत्र पुस्तकां उजवाडाक हाडपाचेंय काम जालां. आज तुंतल्या जायत्या जाणांक राज्य आनी केंद्र थराचेर प्रतिश्ठेचे स्कारय मेळळ्यात. पळोवंक गेल्यार कोंकणीच्या मळा वयली अजापाचीच गजाल. अशे मेळावे मागीर वेगवेगळ्या गांवांनी ले आनी थंयच्या बायलांक हातूंत आस्पावन येतलीं. रीजवणेची कार्यावळ थळाव्या बायलां खातीर खास आकर्शण सतालें. रातची रावपाची वेवस्थाय घरांनीच जाताली. थंयच्या कांक तो एक उत्सव कसो जातालो. मेळावे बरे चलताले. वडड्यां, केप्यां, सत्तरी, काणकोण, सांगें अशा गांवांनी ळाव्यो बायलो आपूण जावन फुडाकार घेताल्यो.

चित्रंगी मेळाव्यांतल्यान रुपकारा आयिल्लीं कांय ठळक शिश्ट्यां: बायलेक तिच्या आपल्या नांवा वयल्यान वळखुचें. ची स्वतःची वळख प्रस्थापीत जावंची. अमक्याची भयण, वल ह्या नात्या परस ती कोण ही वळख घडची. तिच्या नांवा टलीं कुमारी, सौ., श्रीमती हीं उतरां काडचीं. तिका माचयेर नाची सुवात आसची. परिसंवाद, चर्चा हातूंत तिका वांटेकार रची. तिचें काम मानेस्तांक फकत हारतुरे दिवपाक आनी ोयऱ्यांक पंचारतीनी ओंवाळपाक आसचें न्हीं. गांवांतल्या यलांक मायकार उलोवपाक फुडें हाडचें. कालांतरान हें सगळें स्तवांत येत गेलें.

सगळें एकदम बरें चलतालें. उमेदीचो भार आयिल्लो आनी केत्रिकां करपाची संवय आशिल्ल्यांनी तीं केलींच. मानसीक प्रायात जातकच मनीस खचता. आनी हें कोंकणींतल्या कांय नशांक बेस बरें खबर आसा. आपणें कांय करपाचें ना आनी जाहीर भाशणांनी दुसऱ्यांच्यो चुको काडपाच्यो हें तांकां आज तेन बरें साधत गेलां.

मदल्या काळांत अशेंच एक फित्रीक जालें आनी मेळावे बंद पडले. कित्याक तर कांय म्हालगड्यांक दिसलें आतां बायलां खातीर वेगळे मेळावे गरज ना. आमी अंतर निर्माण करतात. हें आतां बंद जावपाक जाय. एक व्यासपीठ पुरो. लेखक संमेलनांत, परिशदेंत एकाच व्यसपिठाचेर दादले आनी बायलो बरोवपी आसप बरें ह्या तांच्या विचारांक लागून एक नर्वसपणा आयलो आनी मेळावे बंद जाले. आमचीं जाणटेलीं म्हणटालीं, चडटी वाल मोडची न्हय. पूण चित्रंगीची वाल मोडपाचें पातक मात हांणी केलें तें विसरपाक जावचें ना. इतलें आसूनय हांवें हे गजाली कडेन आडनदर केली कित्याक तर, ह्या मनशांक हांवें मना पसून मानिल्लें. तांची डिप्लोमसी म्हाका खूब उसरां कळळी आनी ते खातीर म्हाका पिरायेची साठी वलांडची पडली.

चित्रंगीचे गांवां गांवांनी घडोवन हाडिल्ले बायलांचे मेळावे हातुंतल्यान कोंकणी विशींची वातावरण निर्मिती जाली आनी ह्या संघटीतपणाचो प्रत्यय १९८५-८७ च्या कोंकणी राजभास आंदोलना वेळार दिसून आयलो. कोंकणी राजभास आंदोलनांत दादल्यां इतल्योच बायलोय सक्रीय आशिल्ल्यो आनी मेळाव्यांत येवपी तर चडशो तरनाट्यो चलयो आशिल्ल्यो. गरज तेन्ना बायलांचीं शिश्टमंडळां सरकारी प्रतिनिधींक मेळटालीं, निवेदनां भेटयतालीं, आझाद मैदानाचेर सांखळ उपासाकय बसतालीं. कोंकणी खातीर किर्तेय करपाची तांची तयारी आशिल्ली, इतलें धाडस तांच्यांत आयिल्लें. कोंकणी प्रजेचो आवाजा खाला जाल्ल्या आंदोलनांत चित्रंगी मेळाव्यांतल्यान घडिल्ल्या



वेलंगा कोंकणीच्या एका शिबिराच्या प्रसंगार हेमा नायक निकूबाब कारापुरकार, चंद्रकांत केणी आनी हेरां वांगडा

बायलांचो भोव मोलादीक वांटो आसा. पूण हें सगळें घडटा आसूनय हातूंत सक्रीय आशिल्ल्या बायलांक कोंकणीचे निर्णय प्रक्रीयेंत केन्नाच आस्पावन घेवंक ना. *गोवा कोंकणी आंदोलनात बायलांचो वांटो* ह्या माथाळ्या खाला ज्युडीथ सिक्वेरा हांणी एक दीर्घ लेख बरयला तो इकॉनॉमीक एन्ड पॉलीटीकल वीकली वॉल्यूम २२, नं. ५० (डिसेंबर १२, १९८७) हातूंत उजवाडाक आयला. तातूंत त्यो म्हणटात, कोंकणी चळवळींत बायलांचो सहभाग मोलाचो आसूनय कमिटीचेर फक्त दोन बायलो प्रतिनीधी आशिल्ल्यो. दादलो आनी बायल समानता मानता आसतना बायलांक निर्णय प्रक्रीयेंत आस्पावन घेवपाक ही चळवळ उणी पडली. कितल्योशोच बायलो आपले आवयभाशे खातीर झुजपाक रस्त्यार देंवल्यो, मोर्चांत पुलीसांच्या लाठयांचो मार खाल्लो, सांखळ उपासाक बसल्यो. फाटल्या २५ वर्सांच्या मानान हो बदल खूब व्हड आनी अजापांचो आशिल्लो. बायलांक संद दिली जाल्यार त्यो किर्ते करपाक शकतात हें तांणी दाखोवन दिलें. पूण फुडारपण मेळपाक तांणी संदीची वाट पळयत बसपाक जायना अशें लेखिका फुडें म्हणटात. ज्युडीथ सिक्वेराची ही खंत म्हणल्यार आमच्या कोंकणींतल्या सो कॉल्ड लोकांचें एक फित्रीक. तांकां भिरांत आसली बायल एखादें अध्यक्षपद बी मागत जाल्यार! तें तिका ना मेळचें हीच तांची तजवीज आसली. एक दीस रवीन्द्रबाब केळेकारांनी चित्रंगीच्या मेळाव्यांत ठामपणान सांगिल्लें, हे दादले तुमकां आपूण जावन कांयच दिवचेनात. तुमी झगडून मेळोवपाक जाय. तेदे वेळार निर्मला सावंत आनी सुलोचना काटकार तांचे वांगडा माचयेर आशिल्ल्यो.

कोंकणींत जें किर्ते ना तें दालन भरून काडपाचो ध्यास आमी घेतिल्लो. कोंकणी नाटकांची निर्मिती करून, तांचे प्रयोग गांवां गांवांनी घडोवन कोंकणीचो प्रसार करप ह्या हेतून जें पावल उबारिल्लें त्या पावलांतल्यान वाट तयार जाली आनी आज गोंयांत कितल्योशोच नाट्यसंस्था नाटकाच्या मळार वेगवेगळे प्रयोग करतना आमकां दिसतात. आनी उपरांत सगळ्यांत म्हत्वाच्या एका आव्हानाक हांव भिडलें तें म्हणल्यार कोंकणी सिनेमा. कोंकणींत एक बरें चलचित्र निर्माण करपाच्या हावेसान ***देखणी दुराय*** फिल्म काडपाचो यत्न केलो आनी तो फळादीकय जालो. गोंयांत राज्य थराचेर कायम स्वरुपाचो चित्रपट महोत्सव जावचो म्हण आमी सरकार दरबारांत केल्ल यत्नांक फळ आयलें आनी महोत्सवांत पुरस्कार प्राप्त फिल्म राष्ट्रीय प्रसारणांत वचपाची संद मेळ्ळी. ही येवजण मागीर केन तरी बंद पडली. पूण म्हजें व्यक्तीगत नुकसान खूब जा फिल्म निर्मितींत येवजिल्ले परस आनी अदमासा परस खर्च जाल्ल्यान पयशांचो हिशोब हाता भायर गेलो. तेदे वेळ एकूच पर्याय आशिल्लो. तो म्हणल्यार पंचवीस वर्सांची नोव सोडपाची आनी जो प्रोव्हिडंट फंड आनी निवृत्ती पुंजी ज जाल्ली ती काडून फिल्मांत घालपाची. हांवें तेंच केलें आ मागीरचे दीस खूब त्रासांत काडले. आतां येवजूंक गेल्यार दीस कशे सारले ताचें अजाप जाता. पूण हें फित्रीक म म्हजेंच आसलें. सगळ्यांनी शिटकावनय हो निर्णय म्हज आसलो.

कोंकणीचीं मनशां एकठांय आयलीं काय तें एक कु कशें दिसतालें. म्हजे बाबतींत तरी तें तशेंच घडत वता कोंकणींत वावुरतल्यांक आमगेर येतकच एक विसव घेवप ठिकाण कशें दिसतालें. असल्या भरगच्च राटावळींतल्या लग्ना उपरांत बारा वर्सांनी १९९० त जालो युगांकाचो जल तें तर भोव मोठें अजाप. पर्वरीच्या दोतोर चोडणकारान म्हणल तुजे सकारात्मक विचार, खर इत्साशक्त आनी ज आत्मविश्वास हातूंतल्यान तुका बळगें मेळत गेलें. चवथ जाव पर्वरि बँकेतल्या कोलगांवकार ह्या आमच्या स्टाफागेर म्ह वास्तव्य आसलें. तांच्या घरच्यांनी म्हजी जी अर्थ अपुरब केली ताची याद आजून काळजांत घर करून उरल्या. तांच वागपांतल्यान मनीसकायेची एक सुंदर शिकवण म्हाका मेळ्ळ चवथ जावन ज्युस्त विनायकेच्या दिसा दनपारां जल्मल भुरग्याचें ऑफिसतलांत जालें कवतूक आनी तोखणाय. म्हज आयुश्यांतलो एक अत्यंत सुखदिणो खीण.

त्या वेळार कोंकणींतल्या लोकांनी आमकां एक शीर घालून दिल्ली ती हांगा नमूद करीन दिसता. कोंकणींत किर्ते घडटा तें आमचे भितर उरूंक जाय, वाऱ्यार पावूंक जायन ते खातीर परिशदेचीं व्यासपिठां आसात. कोंकणी भाशा मंड आसा. ती आमची पालक बॉडी. पूण आतां मात चुलीर आद दवरून खतखतो येवचे आदींच करपल्लो वास सगळ्या पातळटा. देवळांत भितर सरतना आमी आमचीं जोतीं भाय

रून निर्मळ मनान देवाक पांयां पडटात तशें कोंकणीच्या टवांत भितर सरतना जात धर्माचीं लेबलां भायर दवरूंक ाय. राग काडूंक जाय, शीण काडूंक जाय, झगडूंक जाय ानी भायर सरतना खांदार हात घालून हांसत्या मुखान वचपाक ाय अशी जेश्ठांची आमकां शिकवण आशिल्ली. ती शिकवण ातां खंयच्या इतिहासांत विरगळल्या तें कळना. कोणाचो ळतंत्र कोणाक उरिल्लो ना आनी इतलो तेप सांबाळून धरिल्ले शिस्तीक वॅर आयल्या.

हो लेख म्हजी फाट थापटुपा खातीर वा तोखणाय करपा ातीर निखालस न्हय, तर अशीं काय विध्वंसक मनशां खेलपणान वावुरतना आनी उदरगतीचे तेंगशेर वतां वतां कलामी करपी परगटतात आनी हे उदरगतीक मदींच बादा ता आनी दुसऱ्यो शक्ती ताचो फायदो घेतात. कोंकणींतले के जेष्ठ व्यक्तीन, जी म्हाका सुरवेकसान कोंकणीच्या माटवांत ळयत आयल्या तिणें हालींच म्हाका विचारलें, "हेमा, तूं कन्नाच कोंकणींतल्या कसल्याच अध्यक्षपदाचेर ना?" 'ना' ी जाप आयकतकच ताचें तोंड कितें जालें हाचो अदमास हाका लागलो ना. फोनाचेर तोंडा वयलो भाव पारखूंक येना. ावें मागीर फाटल्या ५५ अधिवेशनांची आंकडेवारी तपासली, जाल्यार १९३९-२०१९ काळांत ३१ परिशदांचीं अधिवेशनां आनी २४ लेखक संमेलनां जालीं. हातूंत अध्यक्ष निवडीचे बाबतींत जात धर्माचें राजकारण वेगळेंच पूण परिशदेच्या अधिवेशनाचे कदेलीर एकेय बायलेक बसपाक दिलें ना. जाल्यार संमेलनाचे कदेलीर फकत दोन बायलांचीं नांवां मेळटात. हें कसलें राजकारण? हें तर फित्रीक. फाटलीं कितलीशींच वर्सां परिशदेचे अध्यक्ष निवडीक जी बसका जाता तातूंत म्हज्या नांवाचो उल्लेख जाता आनी कोण जावचो हें थारावपाक जे तरेचें लॉबींग जाता तें वेगळेंच आसता. २००२ वर्सा जाल्ले परिशदेचे अध्यक्ष आशिल्ले तानाजी हळर्णकार. तातूंत तांणी हो मुद्दो मांडिल्लो. पूण प्रत्यक्षांत एके बायलेचें नांव अध्यक्षपदा खातीर सगळ्यांनी मानून घेतलें तेन्ना ताका विरोध करपी हीच व्यक्ती. कारण तांणीच म्हाका मेळून मुजरत सांगलें, "हेमा तुवें म्हाका कितेंय म्हणल्यार जाता पूण तुज्या नांवाक हांवें विरोध केलो, कित्याक तर परिशदेचो व्याप वाडला आनी तो फुडें व्हरपाक तसो मनीस आसचो. तुका फुडल्या वर्सा..."

तांकां फुडें उलोवंक दिना आसतना हांवें दोळ्यांतलीं दुकां जिरयलीं आनी काळजांतलो हुंडको गिळून उडयलो. ताचे उपरांत वर्सां गेलीं पूण 'हेमा आमचेंच, ताका केन्नाय दिल्यार जाता, तें आजून भुरगें आसा, पयलीं पिरायेन जाणटे आसतल्यांचो विचार करया' हें पालूपद मात तशेंच उरलें.

गोवा कोंकणी अकादेमीचेर हेमा आसचें अशें कोणाक दिसलें ना. साहित्य अकादेमीचेर हेमा पावचें हिवूय वान्सा जाली ना. तरी अजाप फाटल्या एका टर्माक वांगडी म्हण म्हजें नाव पावलें. थंय कितें कितें करूं येतालें आनी कोंकणीच्या दालनांत केदी भर घालूं येताली तेंवूय कळून आयलें जें आदल्या कन्वेनरांनी केलें ना. आमचो टर्म तर फाटलीं अपुर्ण आशिल्लीं कामां तडीक व्हरपाकूच गेलीं. नवीं कामां शून्य.

लेख सोंपोवचे पयलीं एकूच अजापाची गजाल म्हजे बाबतींत घडली ती सांगन दिसता. ती म्हणल्यार पिरायेच्या ४५ वर्सांच्या अदमासाक म्हाका एक मोठ्ठो पुरस्कार मेळ्ळो तो कोंकणी भास संशोधन आनी विकासा खातीर वावुरतल्या तोमस स्टीवन्स कोंकणी केंद्राचो, फादर ए पेरेरा भाशा सेवा पुरस्कार. हें अजाप घडपा फाटलें एकमेव कारण म्हणल्यार थंय आमचे डिप्लोमेटीक लोक नाशिल्ले.

आनी लेख सोंपयतना निमाणे कडेन, म्हजेर एक अपसरण घालून म्हजो मानसीक छळ करून म्हाका कोंकणी वातावरणांतल्यान पयस काडपाचो एक डाव ह्याच लोकांनी मांडलो तो सांगले बगर रावं नज. तो भयानक आशिल्लो. तीन वर्सां फाटीं गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पुरस्कार निवड समितीचेर आशिल्ल्या एका सदस्यान बसका सोपना फुडें भायर येवन निकाल फोडलो आनी बातमी पेपराक दिली. विष्णू सुर्या वाघ हाच्या ***सूदीरसुक्त*** पुस्तकाक पुरस्कार फाव जाला आनी तें पुस्तक अश्लील आसा तशेंच तें जातीयवादी आसा अशें म्हणून तो सदस्य चवताळ्ळो. लेखक तेन्ना दुयेंत आनी हाथरुणार. कितें समजुपाचे अवतिकार्येत तो ना अशा वेळार पुस्तक हांवें उजवाडाक हाडलां म्हणून अपुरबाय प्रकाशन जापसालदार धरून निमाणे म्हजेर एफ आय आर घालची म्हण शिफारस जाली आनी ती घालीय बी. इतल्यान सोंपू ना, हांव कितलें वायट म्हण म्हजी बदनामी करपी सात लेख कोंकणी

दिसाळ्यांत छापून हाडले हें म्हाभयंकर. हें तर फित्रिकांतल्यान म्हाका घडिल्लें अजाप.

कोंकणी म्हालगड्यांचें वर्तुळ हें सतत गांवांनी धा जाणांचें गांवपण आशिल्ले भशेन वावुरलां. जंय महिलांक जागो ना, युवकांक संधी ना, लोकशाय तर नाच्च. ते किर्ते थारयतात तें सगल्यांनी मान्य करपाक जाय. खाप पंचायतींक कायद्यान बंदी आसा. पूण कोंकणी चळवळींतली ही खाप पंचायत आबादीत आनी अखंडीत चालू आसा. जे चळवळीन कोंकणी खातीर जैतां मेळोवन हाडलीं, तार्चे प्रतिनीधीत्व आमीच धा जाणांनी करपाचें आनी आमच्या फाटल्यान सोपपाचें हो ह्या जाण्टेल्यांचो सिध्दांत. तांणीच थारवपाचे संमेलनाचे अध्यक्ष, सरकारी संस्थाच्यो नेमणुको आनी पुरस्कार समित्यो. जर वेगळ्या विचारांनी चल्ले जाल्यार हेच जाण्टेले लेख बरोवन आनी राजकारण्यांच्यो भेटी घेवन ताका कसो सकयल देंवोवपाची हाची भीड मुर्वत दवरी ना. जर विकल्पीय विचार कोण मांडटा जाल्यार गांव एकठांय करपाचो आनी ताका मांडार हाडून जड करपाचो. इतलेंच न्हय तर ताका ते चौकटींतल्यान भायरावन गांवा भायर दवरपाचें. हांची ही ख्यास्त जो मेरेन म्हज्या वांट्याक आयलीना तो मेरेन कोंकणी चळवळीचें भयानक वास्तव समजलेंना.

ह्या कठीण वेळार म्हज्या फाटल्यान रावपी साबार सामाजीक आनी राजकीय घटक आशिल्ले. कोंकणी चळवळी व्यतिरीक्त हांव स्वता सामाजीक चळवळींतल्यान येतां. तांचें पुराय फाटबळ म्हजे आनी अपुरबाय प्रकाशनाच्या फाटल्यान उबें आशिल्लें. देखून अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याची कायदेशीर आनी वैचारीक झूज हांव जिकपाक पावलें. जर फक्त कोंकणी चळवळीच्या भरवंशाचेर राविल्लें जाल्यार ही जाण्टेल्यांची खाप पंचायत पुराय अस्तित्वूच ना करून उडयतली आशिल्ली.

कांय प्रस्न सतत तकलेंत घोळत उरतात ते म्हणल्यार,बायलांक कोंकणीचे निर्णय प्रक्रियेंत आसपावन येवपाक कोणाचें किर्ते सरतालें! अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या अध्यक्षपदाचेर बायलेची नेमणूक करपाक आनी संमेलनाच्या अध्यक्षपदार फकत दोगूच बायलांक नेमल्यार दादल्यांची मक्तेदारी उणी जावपाची काय! गोवा कोंकणी अकादेमीचें अध्यक्षपद एखादे बायलेक दिवपाक कसली भिरांत दिसली ना मू! अध्यक्षपदाचे सुवातीर बायल कित्याक ना साहित्य अकादमीच्या कोंकणी सल्लागार मंडळाची कन्वेन जावपा इतली बायल आजून तयार जावपाची आसा जायत!

तार्चें मुखेल कारण म्हळ्यार कामाची वांटणी करतना चळवळींतल्या धा जाणांक जेंडर वा पिराय लागना. पूण संस्थां नियुक्ती वेळार जात, धर्म, जेंडर असल्यो क्रायटेरीया लागतात.

कोंकणीची कोर्द जांच्या हातांत आशिल्ली तांणी आयुशयभर फित्रिकां केलीं. जाता नजो पळयनासतना, आपल लायकी पारखी नासतना मेळिल्ली संद कशीच सोडली न आनी आतां तांणी मोनेपणाचें संवंग घेतलां.

आयज 'आझादी' हो नारो जरीय देशांत राष्ट्रद्रोहाच मुद्दो जालो, तरीय पुरूशप्रधान सत्ते आड आझादी हो ना पयले फावट हर्वेत बुलंद करपी पाकीस्तानाच्यो अस्तुर्‍य आशिल्यो. उपरांत तो स्वतंत्र जाहीर करपाचें प्रतीक जाले कोंकणी चळवळीचे खाप पंचायतीन जे आपले रंग दाखयल ताका हांव बदना आनी फुर्डे वचून म्हणन भिकूय घालीन कारण जे सत्तेर विराजमान जावन तुमी असलीं तड्डकां केल्य तीं मेळोवपाक रगत व्हांवोवपी आनी घाम आटोवप पिळगेंतल्यान हांव येतां. विद्यार्थी दशेंतल्यान विचारांचें झूज सतत मांडीत आयलां. तातूंत केन्ना थकू ना आनी हारू मानू ना. कांय जाण्टेले एकठांय जाले, भलत्यांक फुर्डे काडल आनी म्हजेर एफ.आय.आर. नोंद केली हें जशें इतिहासां नोंद आसा, तशेंच घरच्या आंगणांत पोलीस पावले तरी एंटीसीपेटरी बेल केन्ना मागली ना हाची देख इतिहास दवरतल आनी लेखकाची अभिव्यक्ती आनी प्रकाशकाच्या स्वातंत्र्यां तो एक पायांडो जातलो. कारण संघर्शाच्या कणां-कणांत म्ह जिवीत व्यापलां. नकली, बेगडी आनी उश्ण्या पुरूशार्था न्हय. देखून असलीं गांवपणां करपी, खाप पंचायतीचे निर्ण घेवपी जाणटेल्यांक दोनूय हाताच्यो मुठी बंद करून एकू सांगन दिसता:

'बाप से लेंगे आझादी,
खाप से लेंगे आझादी'



वळवळ, फोंडें-गोंय. मो. : ९७६४५९७६२

# सात रंगाचीं सपनां

नवीं आव्हानां आपणायतना दोळे उगडे दवरचे पडटात. जावन गेल्या गजालींच्यो बऱ्यो-वायट यादी आसतात तशीच शिटूकसाण नव्यो गजाली फावो करतना आसची पडटा...म्हाकां ओगीच हुस्को सो जातालो. बाबा पयस एकलोच कसो रावतलो? आतां मेरेन हांव अबुद्दी, भुरग्यांतच आशिल्लों. तितली जाणविकाय नाशिल्ली. आतां सगळें समजतालें. म्हजे दोळे भरून आयले. बाबान म्हाकां म्हऱ्यांत ओडलो.



- अरूण काकोडकार

ल्हानसो आमचो गांव आनी गांवांतलो आमचो ल्हानसो वाडो. वाड्यांत तीस-परतीस घरां...एका वरांत सगळो वाडो भोंवन जाता. वाड्यांतले रस्ते-पांयवाटो तशोच आसात पुणून वाड्याचें भितरलें रूप फाटल्या कांय वर्सांत खुबशें बदल्लां. मातयेचीं घरां शिमिटाचीं जाल्यांत, गांवठी नळे वचून सुलचे नळे आयल्यात. वाड्यांत भितर सरतना पयलीं लागता तें शंकराचें देवूळ. कोणूय येतलो-वतलो देवाची भेट घेवनच फुडें वता. वाड्यार सगळ्यांत पयलें घर आमचें. भायर साकून आयल्यार निमाण्या तोंकार आसा तें आमचें.

आमच्या घराचे फाटले वटेन भाटां आसात. भाटांत माड आसात. आंब्यांचीं, पणसांचीं झाडां आसात. भाटांच्या दोनय वटांनी फातरांचे आडे आसात. भाटकार मर्दी-मर्दी नाल्ल पाडून व्हरतात. आंब्याच्या तेंपार आंबे पाडून व्हरतात. मानकुराद, मुसराद, फुर्ताद, फेर्नाद...

भाटांचे फाटले वटेन लांबचे लांब बांद आसात. बांदाचे उजवे कुशीन शेकानशेक शेत पातळ्ळां. शेतांत सर्द आनी वांयगण भात पिकता. दावे कुशीन लांबचे लांब तळें व्हांवता. गिमाळ्यांच्या

दिसांनी तळें आट्टा तेन्ना गरोवणेचें नुस्तें मेळटा. पावसाच्या दिसांनी तळें उपाट भरून व्हांवता.

आमचें चार कुडींचें, दोन पडव्यांचें घर. घरा मुखार सोबीत तुळस. एके कुशीक सोनचांफ्याचें झाड. मदीं तांबडेगूंज फुलांची दसण आनी मागीर तांबड्या फुलांचें शंकराचें झाड. दुसरे वटेन एका फाटल्यान एक लागून सात-आठ माड. माडांच्या मदीं पणस आनी निमाण्या तोंकार आंब्याचे दोन रूख. गिमाळ्यांत आमगेर आंब्या-पणसांची रास आसता.

आमी तिगां भांवडां. राजेश व्हडलो, हांव मदलो आनी सगळ्यांत धाकलें सोनाली. घरांत देवधर्म, पै-पावणे!

सकाळ-सांज रांदप हिशोबच ना. सगळें आई करता. पयलीं आजी करताली. आजयेक पळयल्याची हय-न्हयशी याद जाता. हांव सामको ल्हान आसतना ती देवागेर गेली. तिचो फोटू वणटीर आसा. आज्याची याद येता. दोन वर्सां पयलीं आजो आमकां सोडून गेलो. आजो आमची खूब अपुर्बाय करतालो. बऱ्यो बऱ्यो काणयो सांगतालो. मागीर तो खूब बरो ना जालो. ताका हॉस्पीटलांत घालो. थंयच्यान तो बरो जावन आयलोच ना. आयली ती ताची निर्जीव कूड.

आज्याक व्हरतना आमकां सगळ्यांक खूब रडूंक येतालें. आज्या बगर घर खावंक येतालें. घरांत आज्याचो धेंक आशिल्लो.शिस्त आशिल्ली. नोकरेक लागून बाबा चडसो भायर उरता. शेनवार-आयतार आनी सुटयेच्या दिसांनी आसता. ताका लागून आज्याचो आमकां खूब आदार आशिल्लो.

आज्याच्या बाराव्या उपरांत बाबा कामाक वचूंक भायर सरचे वेळार आईन बाबाक विचारलें, ''आतां केन्ना येवपाक मेळटलें?''

''फाल्यां सावन म्हजी ड्यूटी सुरू जाता. मदीं येवंक मेळचें ना. एकदम शेनवाराक. कितेंय अर्जंट आसल्यार फोन कर. पांच दिसांची ड्यूटी, मागीर ऑफ आसता तेन्ना येतांच न्हीं हांव? अशें नवें जाल्ले भशेन कितें विचारता तूं?''

''ना, हरशींच विचारलें. आबा आसतना घरांत जाग आसताली. घरांत दादलो मनीस नासता तेन्ना मन कांचवेता.''

''हळू हळू संवय जातली. तूं भिनाका. सगळें सारकें जातलें!'' बाबान आईक समजायली.

आमचो बाबा बार्जमन. बार्जीचो कॅप्टन. व्हडव्हडल्यो बार्जी आनी ट्रांसशीपर चलयता. एके फावट बाबाक हांवें विचारलें,''बाबा तूं व्हड व्हडल्यो बार्जी चलयता. बार्ज केदी आसता?''

''ल्हान बार्ज आसता. व्हडलीय आसता. व्हडली बार्ज ती हजार टनांची आसता. एक टन म्हणल्यार कितले किलो जाण तूं? सादारण णवशीं ते हजार. बार्जीची क्षमताय सत्तावीस लार किलो वयर आसता. देड हजार टन मिनांचो म्हाल ती व्हरता.''

''आवयस..इतलो ? उदकांतल्यान कशी चलोवंक येता ए व्हडली बार्ज,बाबा?''

''न्हंयच्या उदकांतल्यान आनी दर्यांतल्यान बार्ज व्हरपाच मांडणी आसा. दर्याचें भरतीचें उदक भितर येवपी न्हंयचें मूख आसा ताका खाडी म्हणटात. थंयच्यान बार्ज भायर सुट्टा आनी दुस खाडी मेरेन वता. एके कडेन मीन भरतात आनी दुसरे सुवाते मेरे पावयतात. चीन, जपान असल्या देशांनी गोंयच्या मिनांक मागण आसा.''

''खंय खंय मेरेन बार्ज व्हरूंक जाता?''

'' कितलेय पयस. उदकाची येरादारी आसा थंय मेरेन. मुंबय गुजरात, कलकत्त्या मेरेन. व्हडल्यो बार्जी देशा भायर लेगीत आम व्हरतात. न्हंयचें उदक जितले मेरेन व्हांवता तितले पयस मेरे बार्जींच्यो भोंवड्यो जातात. न्हंयचे परस व्हड दर्या. ट्रांसशीप दर्यांतल्यान वतात...''

''मुरगांव बंदरा मुखार अरसंत दिकेन पातळ्ळा तो अरबी दर्या हो दर्या हिंद म्हासागराक वचून मेळटा आनी ताचे फुडें हिंद म्हासाग पॅसीफीक आनी अटलांटीक म्हासागरांक वचून मेळटा.''

''बाबा, बार्जी उदकांत चलतात तशीं विमानां वाऱ्यार उडटात मुंबय, दिल्ली, लंडन, न्यूयॉर्क खंय खंय मेरेन वतात. पायलटांव कशी कळटा विमानाची वाट? वयर अख्खें मळब, धवीं-काळ कुमां. तांतूंतल्यान वाट काडून निमाण्या मुक्कामार कशे पावयतात तें? अजाप शें!''

''संजू, तें कितें अजाप न्हय. विमानाच्या उड्डाणाच्यो दिक आसतात. उड्डाणां खंयचे दिकेन करपाचीं हाचें प्रशिक्षण वैमानिकांव दिल्लें आसता. देखून विमान चलोवपाची कुशळटाय वैमानिक लागीं आसता.''

''बाबा, पायलट जावपाक कितें शिकपाक जाय? म्हाक पायलट जावपाक जाय.''

''पायलट जावपाक खूब शिकचें पडटा. तंत्र-गिन्यान शिकूव येवचें पडटा. तुका खबर आसा, भारताचे आदले राष्ट्रपती डॉ. अब्दुल कलाम वैमानिकाचे पयले मुलाखतींत नापास जाल्ले. पुणून तांणी यत्न सोडलो ना. चिकाटेन ते खूब फुडें आयले. व्हड अंतराळ

ज्ञानीक जाले. 'मिसाईल मॅन ' नांवान तांची वळख जाली. तकां खूब पुरस्कार फावो जाले.''

बाबा कडेन उलयतना म्हज्या मनांत कसलीच भीड-भाड नासता. व मेकळेपणान उलयतां. बाबा दर शेनवारा येता आनी सोमारा काळीं वचपाक वता. येतना खूब किर्ते हाडटा. कड्डणां, भाजी, रतें धरून खावपाचे जिन्नस, आमचे खातीर पेनां, पेन्सिली, चपाक एक-दोन मासिकां, काणयांचीं पुस्तकां....शेनवार आयलो शीं आमी बाबाची वाट पळयत बसतात.

'वैमानीक जावपा खातीर खूब शिकपाक जाय.' बाबान म्हाकां ांगलां. मागीर हांव वह्यो-पुस्तकां घेवन अभ्यास करूंक बसतां. ाजेश बरो शिकता. ताका परिक्षेंत बरे मार्क मेळटात. हांवूय किर्ते ाटीं ना. वर्गांत म्हजो दुसरो-तिसरो नंबर येता. म्हजो इश्ट सिध्देश ्रामच्या शेजरा रावता. म्हज्याच वर्गांत आसा. ताका म्हजे परस ्णे मार्क मेळटात. म्हज्यो वह्यो व्हरून तो कॉपी करता. हांव खूब ावटीं तांगेर वतां. तांचें घर माळयेर. सिध्देशाच्या पप्पाची गुलाबी ्गाची मारुती सुजुकी गाडी आसा. सिध्देश आनी ताच्यो दोगी भयणी रंजू आनी नंदा पप्पाक भितात. पप्पा घरांत नासतना सगळीं एकठांय जावन खवदळ घालतात. भायल्यान पप्पाचे गाडयेचो आवाज आयलो रे आयलो,चिडी..चीप्प! कित्याक तीं इतलीं भितात कोण जाणा! ताचो पप्पा तांचेर तापिल्लो हांवें केन्नाच पळोवं ना. पप्पाचो छापखानो आसा. छापखान्यांतल्यान बऱ्यो बऱ्यो वह्यो तो तांकां हाडून दिता.

तांचो पप्पा चडसो माळयेरच आसता. थंय ताची इश्ट-मंडळी जमता. मागीर तें किर्ते किर्ते उलयत बसतात. नाटकांचेर, संगीताचेर, राजकारणाचेर... माळयेर तांची रूम म्हळ्यार सोबीत दिवाणखानो कसो! वणटीर बरीं बरीं पांयजेलां लायल्यांत. कृष्ण आनी गोपींचें एक सोबीत पांयजेल आसा...पुनवेचो चंद्रीम...झुळूझुळू व्हांवता ती यमुना न्हंय...न्हंयचेर न्हातात त्यो गोपी...न्हंयचे कडेक कदंबाचो रूख...गोपींचीं न्हेसणां रुखा पोंदां लिपोवन मजा पळयत रुखाचेर बसला तो भरजरी पितांबरांतलो निळो सांवळो श्याम...सिध्देशा बरोबर माळयेर वतना हांव तें चित्र उमळशीकेन पळयतां. एके फावट हांव कितलो वेळ मेरेन तें पळयत रावलों. पप्पा म्हजे फाटल्यान केन्ना येवन उबो रावलो म्हाकां कळ्ळें ना. फाटल्यान पळयना फुडें पप्पा! हांवें कच्च करून आंग काडलें. पप्पान हांसून म्हाका विचारलें, ''संजू आवडलें रे चित्र तुका?'' हांवें हळूच मान हालयली. पप्पान चित्रांतल्या प्रसंगाचें बरें वर्णन केलें. गोपी कोण... यमुना न्हंय किर्ते... कदंब रूख किर्ते...भरजरी पितांबरांतलो सावळो श्याम..पप्पान सांगिल्लो कृष्ण-गोपींचो प्रसंग सामको म्हजे यादींत बसला.

घरा येतकच आईक हांवें सांगलें,''सिध्देशाचो पप्पा म्हजे कडेन काय बरो उलयलो गे! घरांत ताका सगळीं कित्याक इतलीं भितात?''

आईन हांसून म्हळें,''सिध्देशाचो पप्पा अशें कित्याक म्हणटा? सिध्देशाचो पप्पा आसलो तरी तुवें ताका रमेशकाका म्हणप!''

''तांचो पप्पा शिरतीचो मनीस. तांच्या घरांत तशी शिरत आसा.''

''आमच्या घरांत शिरत ना?''

''आमच्या घरांतली शिरत वेगळे भशेन. तुमचो बाबा तितलो कडक शिरतीचो न्हय. बाबाक राग येता पूण तो तापना. तुमकां समजावन सांगता.''

''तूं तर सदांच तापिल्ली आसता.''

''बाबा चडसो पयसच आसता,संजू. हांव तुमचे म्हऱ्यांतच आसतां. मनीस जितलो पयस आसता तितली ताची ओढ वाडटा. हांव तापलें तरी मोग करतां तुमचो. कशें कळना संजू तुका?''

आईन म्हाका म्हऱ्यांत घेवन समजायलो. ''आनीक एक सांगतां,संजू. प्रत्येकाचो सभाव वेगळो आसता. तुमी बाबा वांगडा फकांडां-मस्कऱ्यो करतात. सगळ्यांक तशें आवडना. तुका खबर आसा, रमेशकाका एक बरो नाट्य कलाकार. बऱ्या बऱ्या नाटकांत ताणें भुमिका केल्यात. ताका राज्य सरकाराचो गौरव पुरस्कार फावो जाला.

रमेशकाका नाट्य-कलाकार म्हण हांवें आयकल्लें. ताचीं नाटकां हांवें पळोवं नाशिल्लीं. सिध्देशागेर गेल्ले वेळार हांवें ताका विचारलें, ''सिध्देश, पप्पाचें नाटक आतां केन्ना जातलें? म्हाकां पळोवंक जाय.''

'' फुडल्या म्हयन्यांत आसा, शिगम्या कडेन.सम्राट क्लबचे वतीन'अश्रुंची झालीं फुलें 'नाटक. पप्पा प्रोफेसर विद्यानंदाची भुमिका करतलो. आमी सगळीं वतलीं. तूं आमचे वांगडा यो.''

नाटक पळोवपाची एक बरी संद मेळ्ळी. नाटकाचो प्रयोग अती सुंदर! कर्त्तव्यनिश्ठ प्राधापक विद्यानंद आनी मस्त लाल्या हीं नाटकांतलीं मुखेल पात्रां. लाल्या सारक्या सटरफटर मनशाक प्रो.विद्यानंद बरी शिकवण दिता, ताका मनशांत हाडटा आनी तें करतना प्रोफेसर खूब अडचणीत येता. ताचेच सहकारी ताचेर पयशांच्या दुरुपेगाचो फटीचो आळ घालतात आनी ताचो परिणाम प्रोफेसरांच्या

खाजगी आयुश्याचेर जाता. ते गुन्यांवी जग आपणायतात. फुडें लाल्या तडफदार पोलीस इन्स्पेक्टर जाता आनी ताचेच कडल्यान प्रोफेसराक अटक जाता.

पयलेच फावटीं हांवें सुरवात पसून निमाणे मेरेन बसून नाटक पळयलें. कर्तव्यनिश्ठ प्रोफेसर विद्यानंद रमेश काकान बरे तरेन उबो केलो. ताचो सहज-सुंदर अभिनय,संवाद उलोवपाची सहजताय, म्हाकां रमेश काकाचो अभिनय खूब आवडलो. मनांत दिसतालें, काकाक वचून मेळचें आनी सांगचें पुणून तितलें धाडस म्हाकां जालें ना. सिध्देशाक आनी ताचे मम्मीक हांवें मनांतलें सांगलें पुणून तांणी पप्पाक सांगलें काय ना म्हाकां कळ्ळें ना.

शेनवारा बाबा आयलो तेन्ना बाबाक हांवें सांगलें.

''बाबा, तूं जाणां सिध्देशाच्या पप्पाचो, रमेश काकाचो नाटकांत रोल आशिल्लो. काय बरो अभिनय केलो. सगळें कशें तोंडपाठ आसता तांकां।''

''नाटकांत काम करपाची कुशळटाय आसता. नाट्य-कलाकारांकच ती जमता. रमेश काकाचीं नाटकां हांवें पळयल्यांत. ताचीं नाटकां बरीं आसतात.''

'' बाबा, तुवें नाटकांत केन्ना काम केलां?''

''ना रे संजू.''

''कित्याक करूं ना?''

''म्हाकां नाटकांत काम करपाची संद मेळ्ळी ना. कारण हां तांतूत केन्ना लक्ष घालें ना. दरेकल्याचे छंद, आवडी-निवड वेगवेगळ्यो आसतात.''

म्हज्या मनांत कितेंय आयलें जाल्यार हांव रोखडो वचून बाबाक विचारतां आनी बाबा म्हाकां सारकें समजावन सांगता. पुणून हाल हालीं बाबा म्हाकां चिंतेस्त सो दिसतालो. बाबा आई कडेन उलयतना हांवें आयकल्लें.

''सरकारान मिनांचेर निर्बंध घाल्यात. मीन काडप आतां बं जातलें. तशें जाल्यार मागीर बार्जींची येरादारी उणी जातली. बार्ज बंद पडल्यार आमचे नोकरेचेर हावळ येतली.''

'' तुमचो इतले वर्सांचो अणभव आसा. अशे कशे नोकरे वयल्या काडटले ते?'' आई बाबाक सांगताली.

''बार्ज येरादारी बंद जाल्यार बार्ज मालक कितें करतले? एक तर ते बार्जी विकतले ना जाल्यार गोंया भायर मुंबय, गुजरात कलकत्त्याक व्हरून चलोवंक दितले!''

''पळोवंया कशें जाता तें! ओगीच टेन्शन घे नाका.'' आ समजायताली.

बाबा आनी आई उलयतालीं तें म्हज्या कानार पडटालें. कि



ो सिरीयस आसा हें म्हाका कळटालें. हांवें राजेशाक वचून गलें. राजेश अभ्यासाक बशिल्लो. ताणें आयकून घेतलें. व्हडलें केलें ना. म्हाका ताची मजा दिसता. ताका सगळें समजता ून तो कांय न्हय शें करून दाखयता. भिवूं नाका संजू, बाबाक री नोकरी मेळटली. बाबा पळोवन घेतलो. तूं कित्याक इतलो चाबूल जाता? राजेशान म्हाकां शिटकायलो.

शेनवार केन्ना येतलो हाची आमी वाट पळयत बसतात. बाबा ांत येना फुडें सगळ्यो पिशव्यो उरतून पळयले बगर आमच्यांनी वूंक जायना. पुणून हे फावटीं बाबान कांय हाडूं नाशिल्लें. आमी दे शें तोंड करून बसलीं. सोनाली तर रडपाक लागलें. सोनालीक ागीर आईन समजायलें, बाबाक कामांतल्यान भायर सरपाक ळ जालो आनी ताका लागून कांय हाडपाक पावलो ना. फाल्यां का आनी संजूक बाजारांत व्हरतलो आनी जाय जाय तें घेवन तलो.

रातचीं जेवणां जाले उपरांत भायर पडवेर बसून बाबा आनी आई लयतालीं. बाबा सांगतालो, ''कंपनीच्या खुबशा कर्मचाऱ्यांक ले-ऑफ दितले अशी वदंता आशिल्ली. म्हजें नांव यद्ये आसचें ना शी एक आरत मनांत आशिल्ली. एक म्हयन्यां पयलीं कंपनीन आमकां तीस दिसांची नोटीस दिली. तुकां सांगचें काय ना हांव हें चेंतूंकच उरलों.''

''निमाणे कितें जालें?'' आईं उचांबळीत जाली.

''काल मॅनेजरान म्हाका कॅबिनांत आपोवन व्हेलो आनी दोन मिनटां भितर खंत परगटायली. 'हो कंपनीचो निर्णय. सांगपाक वायट दिसता. अर्थीक मंदीचो फटको कंपनीक बसला. कंपनी लुकसाणींत गेल्या. ताका लागून दुर्दैवान आमकां हो निर्णय घेवचो पडला.' मॅनेजराच्या कॅबिनांतल्यान भायर येतना म्हाकां भोंवतणी सगळें घुंवता कशें दिसूंक लागलें. फाटलीं सोळा वर्सां सावन हांव हे कंपनीत काम करतां. उसरां-उसरां, रात-दीस, सुटयेच्या दिसांनी लेगीत वेळ-अवेळ पळय नासतना वावुरलों. कंपनी वांगडा म्हजें इतल्या वर्सांचें नातें कागदा वयल्या चार ओळींत सोंपलें.''

'' येदी व्हडली गजाल आनी म्हाकां सांगली ना? ही कितें लिपोवपाची गजाल?''

''खंवच्या तोंडान सांगपाची? तूंच सांग,सुमा!''

''असल्यो गजाली एकामेका कडेन उलोवन मन उकतें करपाच्यो आसतात. आयकून हांव कितें जीव सोडचें नाशिल्लें.''

कांय वेळ थांबून, एक हुस्कार सोडून आईन विचारलें, ''कंपनीन लुकसाण भरपाय कितें दिल्या?''

''लुकसाण भरपाय नांवा पुरती. कित्याक पावता ती? वाडटीं भुरगीं, तांचें शिक्षण, घर दुरुस्ती खातीर काडिल्लें बँकेचें रीण. ताचे हफ्ते. सगळें चिंतल्यार हुस्को जाता.''

''जातलें कशेंय. हुस्को करूं नाका. आसा तातूंत दीस काडूं या.'' आई समजायताली.

आई खूब समजूक आमची. बाबा भितरले भितर घुस्मट्टा. अशो कसल्योय अडचणी येतात तेन्ना आईचेर आकांत येता. पुणून ती दाखोवन दिना.

तेच दिसा आमच्या परिक्षांचो निकाल आयिल्लो. बाबाक निकालाची उत्सुकताय आसता. स्कुलांत वचून रिपोर्ट हाडपा खातीर बाबा रजा काडून येता. बाबा कसो विसरलो.. आमकां अजापशें जालें. बाबान विचारले बगर रिपोर्ट दाखोवप ना अशें आमी थारायल्लें. आईनच मागीर याद केली. भुरग्यांचीं रिपोर्ट-कार्डां आयल्यांत.

THE LIBERATION of GOA
A Participant's View of History
Dr. Pundalik D. Gaitonde

The Liberation of Goa is a first hand account by Dr Pundalik Gaitonde of international negotiations that centres around Goa with high profile politics, machinations and dilemma. Salazar's dictatorial attitude and Nehru's democratic and diplomatic coaxing and cajoling - all form part of the fully absorbing book. The political situation in Portugal, diplomatic manoeuvres and mediations at the highest international level - all form part of the game in the liberation tangle of a 'pimple on the face of India'.




H/B Price : ₹ 525/-
A-5 , 224 Pages
ISBN 978-93-7810-903-4

RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
राजहंस

हांवें स्कुलांत वचून हाडलीं. तिगांयनी बरे मार्क्स घेतल्यात.

''अरे हां..हांव विसरलोंच. हाडात..हाडात पळोवया.''

बाबान आमचे रिपोर्ट पळयले.

''राजेशाचे ८६ टक्के, संजून ८२, सोनालीन ७५. बरे मार्क्स घेतले. राजेश णववेक पावलो, संजू आठवेक, सोनल चवथेक. वंडरफुल! सगळ्यांचीं बक्षिसां फाल्यां.''

बाबान आमकां म्हन्यांत घेवन आमचे फाटीर हात ओडलो. बाबा पुणून खंयतरी शेणिल्ले वरी दिसतालो.

***

बाबा आतां सगळो वेळ घरांतच आसतालो. आमची वर्सुकी सुटी सुरू जाल्ली आनी बाबा आमचे सुटयेंत वांटेकार जाल्लो. केन्ना रमीचो डाव, केन्ना बुद्धीबळ,केन्ना क्रिकेट, केन्ना फुटबॉल..बाबाक घरा पळोवन शेजारी-पाजारी, इश्ट-सोयरे चवकशी करताले. बाबा खरें तेंच सांगतालो. आयकतले कोणय चुरचुरताले,कळवळटाले. कोण कोण कितें कितें सुचयताले. कोण म्हणटालो, स्पेअर पार्टाचें दुकान उगड, कोण सांगतालो मोटर सर्विसींग सुरू कर. बाबा आयकतालो, तांकां हुंकार दितालो आनी मागीर घरांत वचून आई मुखार ओग काडटालो. नोकरी वचून म्हयनोच जालो ना आनी लोकांचो उपदेस, सुचोवण्यो. आपलें नाशें आनी जगाचें हांशें म्हणटात तें फट न्हय. मनांत खूब आसता सांगपाचें पूण लोकां मुखार उलोवचे परस थंड राविल्लें बरें. ...आपल्याक जाय तशें रोकडेंच मेळना. वाट पळोवची पडटा. आयुश्यांत येतात त्या अडचणीक लागून आमी जर निर्शेवन बसलीं जाल्यार आयुश्यांतलीं सुखां आमच्या वांट्याक येवचीं नात.

बाबा उलयता तें आयकून आई तटास जावन बाबाक पळयत रावताली. कितें सांगचें तिकाच कळ्ऽ नाशिल्लें.

रमेश काका  बाबाक मेळपाक आयलो. बरोच वेळ बसलो. कितलो वेळ मेरेन बाबा कडेन उलयतालो.

''अशे प्रसंग आयुश्यांत येतात. अशा वेळार विरूस जावन उपकरना. तूं बार्ज मास्टर. नेव्हीगेशनाचो तुका खूब अणभव आसा. मेळटली बरी नोकरी. प्रयत्न करीत राव.''

काकाच्या उतरांनी बाबाच्याच न्हय म्हज्याय आंगार मूठभर मांस चडलें. चार बरीं उतरां कितलीं उमेद हाडटात!

''संजू, नाटकांत काम करतलो?''

म्हाकां पळोवन काकान म्हणलें. ''आमी 'रायगडाला जेव्हा जाग येते' नाटक काडटात. तूं राजारामाची भुमिका करता मरे?''

''हय तर!'' हांवें तोंड व्हडलें करून सांगलें. म्हाकां खूब खोस जाली. राजेश आनी सोनाली म्हाकां 'राजे राजे' म्हणून चाळोवपाक लागलीं.

हांव आनी राजेश चडशे बाबा वांगडा आसताले. फाविल्ले वेळार बाबा आमकां वाचिल्ल्यो काणयो, आयकीव गजाली सांगतालो....गलीवर ट्रॅव्हल्स, रॉबीन हूड, कर्णाच्यो, भीष्माच्यो, द्रोणाचार्य आनी द्रुपदाच्यो काणयो. ह्यो काणयो हांवें आयकल्यो, वाचिल्ल्यो. पुणून परतून आयकुमाक मजा येताली...सांजवेळां लांब पासयो मारतना बाबा आमकां वांगडा व्हरतालो.

...मे म्हयनो सोंपत आयिल्लो. पावस शिडशिडून गेल्लो..मळबार उदेल्लो सात रंगांचो इंद्रधोणू उठून दिसतालो. तो पळोवन बाबान आमकां विचारलें, ''हो रेनबो पळयला तुमी?''

''हय. सात रंगांचो रेनबो. सात रंग म्हळ्यार व्हिबग्योर व्हायलेट, इंडीगो, ब्लू, ग्रीन, यलो, ऑरेंज आनी रेड.''

राजेशान सांगचे पयलीं हांवें गड गड करून सगळे रंग सांगले.

''खंयच्यान येतात हे रंग,बाबा? मळब निळें, कुमां धवीं केन्ना काळीं मागीर विंगड विंगड रंग कशे?'' राजेशाचो प्रस्न.

'' ताका विज्ञानीक कारण आसा. इंद्रधोणू पावसाच्या दिसांनी उदेता. तिनसांजचे वेळार सुर्या उजवाडांत पावसाच्या थेंब्यांतल्यान वेगवेगळ्या रंगाचे झोत तयार जातात. ताका ' स्पेक्ट्रम ' म्हणटात. ह्या स्पेक्ट्रमांत  जांबळो, निळो, पांचवो, निळसो, हळदुवो, नारिंगी आनी तांबडो अशे सात रंग आसतात. सुर्याचो उजवाड जेन्ना उणो जायत वता तेन्ना इंद्रधोणू झळकता. दरेका रंगाची विशेशता आसा. ट्रेफीक सिग्नलाक तांबडो दिवो म्हणल्यार थांब, हळदुवो म्हणल्यार तयार राव, पांचवो म्हणल्यार फुडें वच ...तशेच शें कितें इंद्रधोणू केन्नाय उदेता पुणून मळबाक एक वेगळोच अर्थ दिता. एक वेगळीच सोबितकाय हाडटा. एकाच वेळार सात रंग!

हो तर सैंमाचो अविश्कार. जिवीत विंगड विंगड रुपां घेवन आमचे मुखार येता. खिणा-खिणाक जिवितार्चे रूप बदलता. केन्ना तें सोबीत दिसता, केन्ना विद्रूप. केन्ना हांसरें, केन्ना रडकुळें, केन्ना गोड, केन्ना कोडू. खिणाक खीण जोडीत जिवीत फुडें सरता. अचकीत असो एक खीण येता आनी आयुश्य नवे दिकेन

ळूक लागता.''

बाबा सांगतालो तें सगळें म्हज्या ध्यानांत वतालें. जिवीत तलें कुवाड्याचें आसा हाचो उलगडो जातालो. संद कशी येता, वे नवे खीण केन्ना येतात हें समजुपा इतलो अणभव म्हजे लागीं शिल्लो पुणून आयुश्यांत फुडें सरतना ह्या तत्वांचो म्हाका उपेग ातलो हाची जाणविकाय म्हाकां जावंक लागिल्ली.

***

गिमाची सुटी सोंपून स्कुलांत वचपाचो पयलो दीस. नवो युनीफॉर्म, वीं पुस्तकां, नवो वर्ग. नव्या वर्साचो पयलो दीस उमेदीचो. नव्यो ल्पना, नवे विचार येवन फुडें वचपाचें आसता....पयलो दीस ाल्ल्यान स्कुल बेगीन सुटलें. घरांत भितर सरना फुडें आईन ांगलें, ''आयज एक गूड न्यूज आसा. कसली ती सांगांत.''

''कसली गूड न्यूज?'' आमकां अजाप जालें.

''बाबाक नवीं नोकरी मेळ्ळी.''

''खरेंच?'' हांवें आनी राजेशान एकाच सुरांत म्हणलें.

'' खरेंच म्हणचे...हांव किते फट सांगतां?''

'' खंयची कंपनी? सांग न्हय आई !''

आमी आयकूंक उतावीळ जाल्लीं.

''मंगळूर शिपयार्ड कंपनीत बऱ्या हुद्याची नोकरी.''

''मंगळूर म्हणल्यार गोंया साकून खूब पयस?'' म्हजो प्रस्न.

''मंगळूर कर्नाटकांतलें शार आनी बंदर. मडगांवां साकून रेल्वेन स वरांचें अंतर.''

''बाबा मंगळूर वतलो? मागीर आमचे म्हऱ्यांत कोण?'' सोनाली पिरंगत बसलें.

इतल्यांत बाबा भितर सरलो.

''पळय,सोनल बाबा मंगळूर वतलो म्हण रडत बसलां.'' आईन सांगलें.

''मंगळूर खूब पयस न्हय शाण्या. हांव मदीं मदीं धा-पंदरा दिसांतल्यान येत रावतलों. आनी आतांय म्हण सदांच हांव तुमचे म्हऱ्यांत खंय आसतां?'' बाबान सोनालीक समजायलें.

''जाणा मरे राजेश, संजू, सकाळीं जेन्ना कुरीयरान ॲपॉयन्टमेंट लेटर म्हज्या हातांत दिलें तेन्ना हांव मातसो गोंदळांत पडलों. हांवें खूब कडेन अर्ज केल्ले आनी वेळ पडल्यार गोंयां भायर वचपाची मनाची तयारी केल्ली. ताका लागून निर्णय घेवपाक म्हाकां वेळ लागलो ना. हांव आनी आई ह्या विशयाचेर उलयल्यांत.आईन म्हाकां धीर दिलो. तिणें म्हणलें, तूं वच. हांव आसां फाटल्यान. म्हणूनच हांवें हो निर्णय घेतलो. याद आसा, हांवें तुमकां एके फावट सांगिल्लें, संद सदांच येना. जेन्ना ती येता तेन्ना ती फावो करपाक कळपाक जाय. बरी नोकरी म्हज्या हातांत आयल्या. एका वर्सा भितर हांव तुमकां सगळ्यांक मंगळूर व्हरतलों.'' बाबा उमेदीन सांगतालो.

''ओह...वंडरफुल! आमकां नवें शार पळोवंक मेळटलें.'' आमचे उमेदीक शीम मेर नाशिल्ली.

आठ-णव दिसां भितर बाबाचें मंगळूर वचपाचें जालें. सगळी बांदा बांद करून जाली. हांव आनी राजेश बाबा वांगडा मडगांव स्टेशनार आयले. बाबा उमेदींत आशिल्लो. सोळा वर्सां एकेच कंपनींत काम केले उपरांत नवी नोकरी....नवीं आव्हानां आपणायतना दोळे उगडे दवरचे पडटात. जावन गेल्ल्या गजालींच्यो बऱ्यो-वायट यादी आसतात तशीच शिटूकसाण नव्यो गजाली फावो करतना आसची पडटा...म्हाकां ओगीच हुरको सो जातालो. बाबा पयस एकलोच कसो रावतलो? आतां मेरेन हांव अबुद्दी, भुरग्यांतच आशिल्लों. तितली जाणविकाय नाशिल्ली. आतां सगळें समजतालें. म्हजे दोळे भरून आयले. बाबान म्हाकां म्हऱ्यांत ओडलो.

''संजू ,तूं रडटा? शी...अशें रडप नासता. ब्रेव्ह मरे तूं ! शूर-वीर अशे रडनात.''

''राजेश, संजू तुमी बरे शिकात. बरे मार्क्स घेयात. आईची काळजी घेयात. तिका आदार दियात.''

...धाड-धाड आवाज करीत 'मंगळूर एक्स्प्रेस' स्टेशनार आयली. बाबा ताच्या डब्यांत चडलो. बाबाक बाय-बाय करून आमी स्टेशनाच्या भायर आयलीं.

..तिनसांजचो वेळ. पावसाची वावझड येवन गेल्ली. निळ्या-निळ्या मळबांत इंद्रधोणू चकचकतालो. सात रंगांचीं सपनां घेवन सात सुरांच्या तालार नाचतालो.

'खिणांक खीण जोडीत जिवीत फुडें फुडें सरता. अचकीत एक खीण येता नवी संद घेवन आनी आयुश्य नवे दिकेन वचूंक लागता.....'आत्मविस्वासान भरिल्लीं बाबाचीं उतरां केदो वेळ मेरेन म्हज्या कानांत सादतालीं



करंझाळें-गोंय. मो.: ९८२२५८८८५२



# शाणीची काणी



- हनुमंत चोपडेकार

अशें म्हणून मामान ताका थातारपाचो यत्न केलो. थंय जमिल्ल्या घरच्यांक ताणें खुणेंनूच धावंडायलीं. तीं भितर वचून मामा आनी भाच्याक लिपून पळोवंक लागलीं. मामान हळूच लिपोवन कशी बोल्सांतली कुरकुऱ्याची पोती ताका काडून दिली. दुसरी पोती ताणें शाणीक दिसना तशी फाटल्यांच्यान आई वटेन सरकयली. मामान आपल्याकूच कुरकुरी हाडल्या हें चितून ताका चड खोशी जाली. तातूंत ताका बालवाडीचो विसर पडलो. निकत्याच फुटिल्ल्या दांतांनी ताणें ती पोती पिंजली.

1

## शाणीच्या जल्मगांवाची काणी

शाणीची काणी.....! हय. ही काणी आस शाणीची. हे काणयेंत परी ना, राक्षस ना, राजा ना आनी राणीय ना. पूण शाणी मात आसाच आसा. कारण ही काणीच शाणीची, तातूंत शाणी कसो आसचो ना? हय ही काणी शाणीची; म्हणजेच तुमचे वरीच शाळेंत वचपी एक माणकुल्या भुरग्याची.

तशें 'शाणी' हें ताचें मूळ नांव न्हय. पूण सगळ्या ल्हानव्हडांचो, घरच्यांचो, गांवाचो, इश्टांचो आनी सग्यासोयऱ्यांचो तो शाणीच जाल्लो. ताचें नांव 'शाणी' न हें गांवांतल्या कोणाक सांगल्यार कशेंच पटचें ना. इतलेंच कित्याक, आपलें मूळ नांव 'शाणी' नासून दुसरें कितें तरी आसा हें ताकाय बाबड्याक बरेंच उसरां कळ्ळें म्हटल्या

मा येता. सांगपाचें म्हणजे, 'शाणी' हें नांव ताच्या शाण्या ावाक लागून अख्ख्या गांवान ताका भेटयल्लें.

हो पळयात, हो शाणीचो माणकुलो गांव. सगळीं झाडां-ाडपाच दिसतात न्हय? दिसपाचींच. कारण ह्या गांवांत शां वांगडा सैमाकूय आदराची सुवात आसा. ह्या गांवांत ट पांच वाडे. शाणीच्या भुरगेपणांत ह्या साबार वाड्यांचेर वपाक डांबराचे सोडाच सादे मातयेचे रस्तेय नासले. पूण एकल्याच्या काळजा कडेन वचपाच्यो मायेमोगाच्यो टो मात खूब आसल्यो. गांवांत मुखेलतायेन तीन वाटांनी कळेंपणान भितर सरपाक मेळटालें. पूण गांवच्यो शिमो ग्रदेवतांनी बांदून घेतिल्ल्यो असो गांवच्या लोकांचो भावार्थ ासलो. तातूंत कुमयांवस, नागलो-दुगलो, ब्रह्मो, बाराजाण, टीदेवी अश्या देवदेवतांच्या पवित्र स्थळांचो आसपाव ासलो. हीं स्थळां सैम आनी मनशाचें नातें दाखयतालीं हें ाणीक लेगीत बरोच व्हड जातकच कळ्ळें. भुरगे मनाक ाची जाण खूब उसरां जाताली म्हणटात तें खरेंच.

शेतांनी राब राब राबप, गोरवां वासरांक पाळप, काजी आशिल्ल्यांनी काजींनी वावरप, भाटाचे भागेली आशिल्ल्यांनी भाटांनी घाम गळोवप हेच पारंपारीक वेवसाय गांवांत चलताले. त्यावेळार एखादोच कोणूय शिकिल्लो भुरगो गांवा भायर शारांत कामाक वयतालो. अशें म्हणटात; गोंय मेकळें जालें तेन्ना दोन वर्सांनीच जाणट्यांच्या फुडाकारान सरकारी प्राथमीक शाळेच्या रुपान एक चार कुडींचें विद्येचें मंदीर गांवच्या हागऱ्यावाळा वयल्या मळार उबें जालें. जातूंत गांवचे भुरगे पयलेच फावटीं श्री-ची गांठ चिरपाक शिकले. ते विशी शाणोदाय आनी हेर जाणटे अभिमानान सांगताले. इल्लीशीच पूण पक्की शाळा आनी मुखार उगतें मळ. भुरग्यांक मेकळेपणान थंय खेळपाक मेळटालें. मळार मदीं व्हडलें काजऱ्याचें झाड आसलें. भोंवतणी आंब्यांचीं, काजींचीं, किनळींचीं आनी कसलीं कसलीं म्हूण झाडांच झाडां. शाळे निमतान त्या मळार भुरगे दिसूयभर पडून आसताले.

पुराय गांव उदक आनी शेतवड धरून वसलेलो. पांचूय वाड्यार घरा फाटल्यान काजी आनी घरा सकयल्यान शेतवड. गांवचे उदेंते वटेनच्यान एक वजरो व्हांवतालो. पावसा दिसांनी तो फसफसतालो पूण पावस वतकच मागीर भितरल्या भितर झिरपत रावतालो. गांवचे उत्तर उदेंत दिकेंत चार-पांच कोसार मयेंचें तळें व्हांवतालें. गांवच्या बांयंक, गांवच्या पाठ्याक, कोणीक, शेतवडीक तेंच उदक बाराय म्हयने गुप्त वाटेन पावता असो लोकांचो विश्वास आसलो.

गांवांत दर वर्सा पाडव्याक सत्यनारायणाची पुजा जाताली आनी ताका धरून दोन दीस नाटकां रंगतालीं. रथसप्तमीकूय एक नाटक जातालें. म्हणजे वर्साक तीन नाटकां. तिवूय मराठी. सगळे कलाकार गांवचे. फक्त नटी भायली. अजापाची गजाल म्हणजे एक एक कलाकार मराठी वाचूंक बरोवंक कळऽनासतनाय बरो नेटान पार्ट करतालो. नाटकां पळोवपाक अख्खो गांव येतालोच ते भायर शेजारच्या गांवचेय लोक



रात रातभर जागून नाटकां पळयताले. तशेंच शिगम्याच्या, दसऱ्याच्या, चवथीच्या, आनी धालांच्या दिसांनी बी गांवांत एक तरेचें चैतन्य फांकतालें, जाची नशा भुरगे मनार बाराय म्हयने उरताली.

गांवांत तशीं जायतीं घरांणी आसलीं. सगळे एकामेकांचेर निंबून आसले. गांवची सगळ्यांत व्हडली खाशेलताय म्हणल्यार सगळे लोक मायेमोगान रावताले. ना ना.... झगडीं जातालींच. बारीक सारीक गजालींनी व्हड झुजां उप्रासतालीं. भुरग्यां मदीं, बायलां मदीं, शेजाऱ्यां मदीं पूण जाणट्यांनी धेंकणो घातलो म्हणटकच सगळ्यांची दांतखिळी बसताली. ह्या जाणट्यां मदीं शाणो दाय, गुणगो दाय, वासुदेव भाऊ, शांताराम भाऊ, उष्णो भाऊ, झोमलो बाप्पा, रंगी बाप्पा, गोपाळ भाऊ, गुलाबो दाय, बाबल मामा, जगलो भाऊ, रामानंद भाऊ बी आसले.

सांगपाचें म्हटल्यार, गांवांत मनशां इतलोच वालोर मोनजातींक आनी झाडाझुडपांक आसलो. सैमाच्या घटकांकूच जाणट्यांनी देव मानिल्ले. गांवांतलें सातेरीचें देवूळ, पद्मनाभ सप्रदायाचो सुशेनचार्याचो मठ आनी हेर ल्हान व्हड देवा घुमट्यो लोकांची देवा वयली श्रध्दा सिद्ध करताली. गांव देवदेवतांचेर श्रध्दा दवरतालो पूण ती श्रध्दा अंधश्रध्दा जावंची न्हू म्हूण जाणट्यांची कडक नदर दर एका ल्हान व्हडांचेर आसताली. दर बेरेस्तारा गांवांतल्या मठांत दासबोधाचें वाचन जातालें. थंय भजन किर्तन ध्यान धारणा अश्यो जायत्यो धर्मीक गजाली जाताल्यो. उपरांत गांवच्या जाणट्यांनी तसलेंच वाचन शेनवारच्या शेनवारा घराघरांनी जावंचें म्हूण पेंगट बांदलें. एक सात्वीक वातावरण गांवांत पातळोवन भुरग्यांचेर ताचे बरे परिणाम जावंचे हें ताचे फाटलें कारण आसलें.

अश्या ह्या सुपुल्ल्या गांवांत सुमार चाळीस वर्सा पयलीं आमच्या शाणीचो जल्म एका मायेस्त घराब्यांत जालो. ताचीच ही काणी. एक काणी शाणी शाणी.....!

2

## शाणीच्या नांवाची काणी

शाणीचो जल्म दिवचलच्या सरकारी हॉस्पिटलांत बद्
हनुमान जयंती दिसा जाल्लो. योगायोग म्हणल्यार तो दीस
शेनवार आसलो. पूण नांवरसा प्रमाण ताचे व्हडले काकी
ताचें नांव दवरलें 'सुर्याकांत'. ताच्या ह्या नांवाक धरून एक
मजेशीर गजाल घडली.

हरशीं भुरगीं जल्मा सावन खूब रडटात. भूक लागली
मुतूंक जालें, हागूंक जालें वा कोणेंय परक्यान धरलें जाल्यारू
भुरगें रडटा. पूण अजापाची गजाल अशी, शाणी जल्म
उपरांत तसो मोठ्यान केन्नाच रडूंक नासलो. सगळ्यांकूच
ताचें अजाप दिसतालें. पूण बावीस दिसां उपरांत जेन्ना
ताचो बारसो जालो आनी काकीन ताका 'सुर्याकांत' हें नांव
दवरलें तेन्ना सावान मात तो अचकीत व्हड व्हडल्यान रडूंक
लागलो. वट्ट आठ दीस तो सामको रडतूच आसलो
पोटांत बी दुखता काय म्हूण आज्जेन ताका दिवचले व्होरो
दोतोराक दाखयलो. पूण फरक पडलो ना. मागीर गांवठी
उपाय सुरू जाले. मामले आज्जेन वखद केलें. गांवठणी
मावशेन येवन दिश्ट काडली, शेजारच्या बाप्पान देवळांतल्या
आंगारो लायलो, जाणटे ताईबायन ब्रह्मान दिवो लायलो
आत्याबायन कुमयावंसाक आंगवण केली पूण कांयच फरक
पडलो ना. तोंडांत बोम धरून थोडो वेळ न्हिदलो जाल्या
थोडो सुशेग मेळटालो पूण ताचें पेंपारें कशेंच बंद जाय
नासलें. ताचें रडप पळोवन सगळींच चिंतेंत पडटालीं.

म्हणटां म्हणटां बारशाक एक सप्तक जावन गेलें. तो दीस
शेनवार आसलो. फांतोडेर साडेपांचांक सुमार ताचें पेंपारें
सुरू. गरमचे ते दीस. काका भायर सोप्यार न्हिदिल्लो. तो
ताच्या रडण्यान तडक उठलो. आड केल्ल्या दारांतल्यान
भितर सरत तो सालांतल्यान कुशीकचे कुडींत दवरिल्ल्या
पाळण्या कडेन पावलो. ताणें पळयलें, शाणीचें पेंपारें चालूच
आसा आनी ताची आवय कुशीकचे खाटीर सुस्त न्हिदल्या
ताचो राग तकलेक चडलो. माणकुल्या जिवाचेर तांणी धेंकणो
घातलो –

" हे सुर्या...! इतल्या बेगीत उजवाड घालू नाका... त्सो न्हिदूंक दी. आजून तुजो वेळ जावंक ना उदेपाक..... गी न्हीद थंय.... माकड खंयचे कडलो..!"

काकाचो धेंकणो आयकताच अचकीत शाणीचें रडप डें उणें जाल्ले वरीं जालें. तो आपले इल्लेशे दोळे टिपिटायत आनी गाल फुगयत काकाक पळयत रावलो. का न्हिदेंतूच आसलो, फुगयल्ले ताचे गाल पळोवन च्या रागाचो पारो चडलो.

"पळय, पळय गाल फुगयता मारूती कसो.... रुतीच तूं..!"

काकान आपलेय गाल फुगोवन ताका चाळयलो. तें ळोवन शाणीन आपलेय गाल परत फुगयत खिऽऽऽख करून आपली पसंती उगतायली. तातूंत काकाचो राग मात्सो न्हेवलो. ताचो निरागस हांसो पळोवन तो शांत जालो आनी ाका खातकुतल्यो करीत हांसयत रावलो.

खिख्खी..खी.. खिख्खी.खी..... हिही... ी...... हिही... ही..

बरोच वगत तांचें हें 'खिख्खी....खी..... हिही ही..' वल्लें. भोंवतणी घरचीं सगळीं एकठांय जाल्यांत हें लेगीत दोगांकूय कळ्ळें ना. ताची आई, बाबा, आजी, आजो, काकी आनी घरचीं ल्हान व्हड सगळीं शाणी हांसता हें पळोवन अजापीत जावन पळयतालीं. हो चमत्कार घडलो तरी कसो होच प्रस्न सगळ्यांच्या मुखा मळार झळकतालो. काका तांकां पळोवन बुचकळ्यांत पडलो. सगळ्यांच्या मनांतलो प्रस्न शेवटाक आज्जेच्या तोंडार येयलो.

"आरे पापया! हो रडको मारू हांसलो मरे! तुयें थांबयलो कसो ह्या रडक्याक? हां?"

आज्जेच्या उतरांनी काका थोडोसो सुखावलो. आपणें असो कितें प्रताप केलो हाचो ताकाच प्रस्न पडलो. तो चितपांत पडला तें पळोवन तोंडार साडयेचो पदर हाडीत काकीन काकाक हटकिलो –

"आवय म्हाजे! असो कसलो जादू केलो तुमी तेजेर? आमकांय कळूं दी तरी!"

"हय मगे व्हयनी, सारकें तुजें." शाणीचे आईन काकीच्या प्रस्नाक तेंको दिलो.

" सांग सांग कितें केलें???" सगळ्यांनी वांगडाच प्रस्नांचो शिंवोर केलो.

काका खरेंच बुचकळ्यांत पडलो. आपणें नक्की कितें केलें तें ताकाय कळना जालें. सगळीं जाणा फोर्स करता म्हूण ताणें आपली तकली रिवायन्ड केली. तरीय ताका कांयच सुचना जालें.



"सांग न्हू काका, हें अजाप कशें घडलें?" शाणीचे व्हडले भयणीन विचारलें.

"ना गो शाण्या, हो मारुती म्हाका गाल फुगोवन चाळयता म्हूण हांयेंनूय ताका चाळयलो. न्हूरे मारुती?"

'मारुती' हें उतर आयकताच शाणी 'खिख्खी..खी..... हिह्ही ही....' करून हांसत रावलो. सगळ्यांक अजाप जालें. सगळीं पाळण्या कडेन येवन ताची करामत पळयत रावलीं.

"परत म्हूण परत म्हूण काका. "- शाणीचे व्हडले भयणीन काकाक विनयलें.

"न्हु रे मारुती.... मारुती.." – काकाक नेट आयलो.

'मारुती' हें उतर आयकून शाणी परत परत किटकिटपाक लागलो. सगळ्यांच्या लक्षांत आयलें. हो नांवाक आशेला. हांसपाचें अजाप कशें घडलें हाचें गुपीत आतां सगळ्यांक कळपाक लागिल्लें. सगळीं नांव दवरपी काकीक पळोवन हांसपाक लागलीं. काकाच्या तें मतींत आयलें. तेणीं आपले बायलेक हांसत हांसत म्हटलें.

"जाणा मगे अर्धांगिणी.. हेका तुजें नांव आवडूंक ना शें दिसता. शाणो तो... चलात आयज साकून हेचें नवें नांव.... मारुतीराय."

मारुतीराय मारुती मारुती!!!

सगळ्यांनी एकूच बोवाळ घातलो आनी तो बोवाळ आयकून आमचो शाणी खिख्खी..खी.. खिख्खी..खी..... हिह्ही ही...... हिह्ही करीत पोट फुटऽसर हांसतच रावलो.

3

## शाणीच्या बर्थडेची काणी

पयलीं शाणी रडून रडून घर माथ्यार घेतालो. शेजारी पाजारी बेजारताले. घरचींय तोंड वाकडें करतालीं. रात रातभर तो कोणांक न्हिदुंकूच दिनासलो. पूण आतां परिस्थिती बदलिल्ली. आतां तो हांसून हांसून घर, शेजार आनी पुराय वाडो खोशयेन भरतालो. आजो आजी, काका-काकी, आई-बाबा, घरचीं काचीं-बोचीं, वाड्या वयले जाणटे-नेण्टे शाणीक धरपाक, ताचे वांगडा खेळपाक फुडें सरताले. ताचें खिख्ख...खी... हिह्ह...आकुपाक आशेताले.

एक गजाल मात घडटाली ती म्हळ्यार शाणी सुसू क जिजी जावपाची सुलूस लागतकच रडटालो. मात कोणाच् आंगार केन्नाच सुसू करी नासलो. तो विचित्र पद्दती रडटा तेन्ना समजुपाचें, हेका सुसू ना जाल्यार जिजी त जाल्या. हातरूणारूय तो चुकूनय सुसू करी नासलो. खातीर सगळीं जाणा ताका शाणो भुरगो म्हणटालीं. हरशीं कितेंय अरिश्ट जावचे पयलीं तो कितेंशेंच करता अशें आ म्हणटाली.

करतां करतां दिसार दीस गेले. म्हयन्यार म्हयने गे आनी अचकीत रामनमी दिसा शाणीच्या काकाक मुखा येवपी हनुमान जयंतीचो उगडास जालो. तांच्या घरांत रात जेवण जातकच सगळीं आंगणांत बसतालीं. तांणी रा कडेन सगळ्यांचीं जेवणां जातकच आंगणांत बशिल्ले घर मंडळी मुखार विशय काडलो.

"आरे..! आयज रामनम जाली. चार दिसांनी हनुमा जयंती. जाणा तुमी?"

"हय जाणा आमी, रामनमी उपरांत हनुमान जयंती जाता." आज्याची जाप.

"तशें न्हू, आमच्या मारूतीचो वाडदीस न्हू हनुमा जयंतीक?"

'वाडदीस!!! वाडदीस!!! हे हे.....' भुरग्यांचो बोवाळ

"आमी हाचे आदी कोणाचेच वाडदीस करूंक ना घरांत." – आजी.

"पूण आज्जे... कोणाचोच करूंक ना जाल्यार शाणीचो तरी करुया मगे!"

"प्लीज प्लीज आज्जे." – विनय

"हय गे आज्जे...... जावं गे..... "- स्मिता.

"आमी लोकांगेर वयता बर्थडेक... आमी मात कोणांक आफयनात." – सिमा.

"आमकां लज दिसता न्हु गो दिदी?" – विमल.

भुरगीं बरीच हट्टाक पेटलीं. सगळीं जाण्टीं एकामेकाक पळोवंक लागलीं. बाबान काकाक पळयलो, आईन काकीक पळयली. आज्यान आज्जेक पळयली. मागीर सगळ्यांनी

कामेकांक पळयलीं. उपरांत काकान बाबाक खुणायलो, बकीन आईक खुणायली आनी आज्जेन आज्याक. निमणें आज्यान निर्णय दिलो.

''पळयात हां.. फक्त पयलो बर्थडे. तुमी भुरगीं म्हणटा ण.'' - आजो.

''पूण तुमकां सगळ्यांक तयारी करची पडटली!'' - बाबा.

''फक्त पयलोच वाडदीस, आनीक आनी आमचे कडेन जावंचो ना.'' - आई.

''पळयतात कितें? बच्चे लोग तयारेक लागात.'' - काका.

'हुर्रे य..... हुर्रे य.....' भुरग्यांनी एकूच बोवाळ केलो.

वाडदिसाक परवानगी मेळना फुडें सगळ्या ल्हान-व्हडांनी घोस उगतायली. घरांत तसो कोणांचो वाडदीस केल्ल्याचो गडास नासलो. तांच्या घरांत काकाचीं दोन भुरगीं सातवेक वचपी विनय आनी पांचवेक आसपी विमल. तशेंच शाणीच्यो दोन व्हडल्यो भयणीं सिमा जें आठवेक आनी स्मिता सवेक आसलें. सगळीं जाणा एका फाटल्यान एक जल्माक आयिल्लीं पूण आयज मेरेन तांच्या घरांत कोणाचोच वाडदीस केन्ना मनोवंक नासलो. त्या काळार वाडदीस मनोवपाची तांच्या गांवांत व्हडलिशी प्रथाय नासली. वाड्यार कोणूय सधन मनीस ल्हान-व्हड प्रमाणांत बर्थडे करपाक फुडें सरतालो. केन्ना सगळीं भुरगीं लग्नाक गेल्ले वरीं नटून थटून थंय वयतालीं. आपलोय असोच वाडदीस जावंचो अशें तांकांय दिसतालें.

पूण कितेंय काय आसना आपल्या घरा कोणाचो तरी वाडदीस जाता हे खोशयेन तीं उसळ्ळींच. घरच्या सगळ्यांनी वाडदिसाक हयकार दिलो. विनय, विमल, सिमा, स्मिता हांच्यांनी बनेरां लावपाची तयारी दाखयली. काकान डॅकोरेशनाचें मनार घेतलें. बाबान बाजारांतल्यान सगळें सामान हाडपाचें आंगार घेतलें. आज्यान शाणीक नवे कपडे घेवपाचें थारायलें. काकी, आई, आज्जेन जेवणाची जबाबदारी घेतली. भुरग्यांनी वाड्या वयल्या सगळ्यांक आमंत्रण दिवपाचें उतर दिलें. त्या काळांत केक हाडपाची प्रथा गांवांत पावूंक नासली. ना जाल्यार केक आपूण हाडटा म्हूण सगळ्यांचीं झगडीं जावपाचीं. आईन मामागेर आनी मावशेगेर रकाद धाडलो, आज्जेन आत्यागेर खबर कळयली.

जालें सगळीं जाणा तयारेक लागलीं. घरचीं, वाड्या वयलीं आनी सोयरीं धायरीं मेळून सगळ्या साठ-सत्तर लोकांक आमंत्रण धाडिल्लें पूण प्रत्यक्षांत मात शंबरेक मनशां पावलीं. भुरग्यांनी खळ्यांतल्या माटवांत बनेरांचे रोल हाडून ते बरे तरेन सजयल्लें. काकान माटवाच्या मद्दीं मोठो बल्ब घातिल्लो आनी थंय सावन कागदाचीं रिबिनां बरीं पीळ घालून हुमकळावन कुशीक बांदिल्लीं. दिसपाक बरो झुंबर हुमकळटा काय कितें अशें दिसतालें. आंगणांत भितर सरतना भिल्ला माडाचीं चुडटां लावन बाबान दरवंटो केल्लो. गांवांतल्या रामू साउंड सर्वीसीसच्या रामूचो लाउड स्पिकरूय सांज वेळार पांचाक अख्ख्या वाड्यार पेंरगांव घालपाक लागिल्लो. ताच्या आवाजान कोण कितें म्हणटा तें आयकूंक ये नासलें तरीय तो नेटान वाजतालो.

रांदचे कुडींत खतखत्याचो आनी मणगण्याचो बरो घमघम सुटिल्लो. हेच दोन पदार्थ चड प्रमाणांत केल्ले म्हटल्यार जाता. बाबान मुद्दाम चोडणां वचून पेद्रुले बेकरेंतल्यान कानकात्रे उंडे हाडिल्ले. ताची ऑर्डर तेणीं पयलींच दिल्ली. घरांत मामा, मामी, मामाआजी, मावशी, आत्ये आनी हेर सोयरीं पयलींच पाविल्लीं. सांज जाता जाता आंगणांत ल्हव ल्हव गर्दी जमली. दादले आंगणांतल्या सोप्यार, जाल्यार बायलां आनी भुरगीं थंयच मुखार पातळायल्ले शेंदरेर बसलीं. लाऊड स्पिकराच्या गाण्यांच्या आवाजानूच आंगणांत बोवाळ चलिल्लो. काका आनी बाबा तांकां बसपाक खुणायताले. मदींच बाबान विनयाक फर्मायलें.

''विनय, ते कोळयांत दवरल्या ते माराणे मार बेगीत, वेळ जालो.''

''बरें काका...'' म्हुणीत तांणी धांव मारली.

''आनी हें पळय, एन्ट्री जातांच मारा हां!''

''हां काका..!'' अशें म्हणीत तेणी धांव मारली.

सादरण आठ वरांचेर घरचीं सगळीं नटून थटून आंगणांत पावलीं. थंय ल्हानश्या टिपॉया मुखार एका खुर्ची दवरिल्ली.

ताचेर बरो मोव मोव तुवालो दवरिल्लो. पिंजर, फुलां, कुशीक पेट्टी दिवली, ओवाळपाक पंचारत, एका व्हडल्या गुळमांत चिरमुल्यो बी...... सगळी तयारी जाल्ली. इतल्यांत आईन आनी मामाले आज्जेन शाणीक आंगणांत हाडलो. ताका इलुदाचें पांचवेंच कलसांव आनी गुलाबी रंगाचें गोल गळ्याचें बानयान घातिल्लें. माथ्यार रंगयाळीं फुलां आशिल्ली सोबीत देगेची तोपी घातिल्ली. तोपयेची नाजूक रबर काना फाटल्यांतसून ताचे खाडकेक खोयिल्ली. तातूंत ताका खातकुतल्यो जाताल्यो आनी तो मदीं मदीं 'खिख्ख...खी... हिह्ह... ही.' करून हांसतालो तेन्ना ताच्या दोनूय पोल्यांचेर खळी पडटाली. अशा समयार दिश्ट लागूनये म्हूण मामाआज्जेन ताच्या दोनूय गालांक आनी कपलाक काळे तिबे लायिल्ले.

शाणीची स्वारी आंगणांत पावना फुडें सगळ्यांनी टाळयो मारून ताका येवकार दिलो. त्याच वेळार भायल्यान माराण्यांचो आवाज गडगडलो. टाळयो आनी माराण्यांचो गडगड आयकून शाणी 'खिख्ख...खी... हिह्ह..' करून आनीकूच खिदळपाक लागलो. सगळ्यांत पयलीं ताचे आईन ताका खुर्चेर बसयलो. आदल्या वेळार गांवांनी केक कापपाची परंपरा नासली. सगळे जाण्टे चिरमुल्यो माथ्या वयल्यान उडोवन आशिर्वाद दिताले. सगळ्यांत पयलीं बाबा मुखार आयलो आनी ताणें माटवांत शेणान सारयल्ल्या सोप्यार बशिल्ल्या शाणो दायक हटकिलो.

"हो दाय, यो यो तुजो मान पयलो."

"वा.... वा ... वालोर वालोर हा. जाण्ट्यांचो मान राखलो हां!" गर्देतल्यान दोन चार आवाज आयकूंक आयले.

आशिर्वादाच्यो चिरमुल्यो बर्थडेबॉयचे तकले वयल्यान उडोवपाचो पयलो मान गांवचो वडील म्हूण बाबान शाणो दायक दिल्लो. जाण्टो जाल्लो आसलो तरीय शाणो दायचो रेस्पेद व्हड आसलो. आपलें खोमीस आनी कलसांव सारकें करीत तो अभिमानान फुडें सरलो. ताणें चिरमुल्यो चोपक्यांत घेतल्यो आनी शाणीर उडयत आशिर्वाद दिलो.

"शाणी, पुता व्हडलो जा हां.... सातेरमाते पाव गे सायबिणी!"

ताच्या उपरांत बाबान आज्याक मुखार हाडून ताका शाणीचेर चिरमुल्यो घालपाक फुडें काडलो. बाबा उपरां[illegible] घरच्यांनी आशिर्वादाच्या रूपान ताच्या माथ्या वयल्या[illegible] चिरमुल्यो वडयल्यो. ह्या वेळार विमल, सिमा आनी स्मित[illegible] फुरफुरतालीं. पूण जाणट्यांच्या भंयान तीं फाटीं रावली[illegible] आज्जेन तांकां पळयलीं आनी बळयांच मुखार काडलीं. त[illegible] तांच्यांनीय चिरमुल्यो उदळ्ळ्यो. 'खिख्ख...खी.. हिह्ह...' करून शाणीन भंयणींक सलामी दिली.

उपरांत आईन पिंजर कपलाक लावन शाणी[illegible] ओवाळ्ळो. हेर घरच्यांनीय ओवाळणी केली. हें सग[illegible] घडटना तो बरोच खूश दिसतालो. आज्जेन मदींच सगळ्[illegible] बायलांक फर्मायलें.

"हें पळयात, सगळ्या सवायशिणीनी ओवाळपाक जा[illegible] हां. कितें गो प्रेमा?"

"हय.. हय!" म्हणीत शेजारची प्रेमा मावशी मुख[illegible] येयली.

शाणो दायक जसो गांवांत पयलो मान तसो प्रेमा मावशे[illegible] बायलां मदीं पयलो मान आसतालो. तिचे उपरांत सगळ्[illegible] बायलांनी ओवाळणी केली. ओवाळणी जातकच वाडदिसा[illegible] भेटवस्तू दिवपाक थोडो वेळ दिले उपरांत जेवणाक आरं[illegible] जालो. ते गरमेचे दीस आसले. भेटवस्तू घेतां घेतां शाणी[illegible] बेजार येयलो. तो रडून आपली नाराजी उगतावंक लागतक[illegible] बाबान तकली लडयली आनी आईक ताका बेगीबेगीन भित[illegible] व्हरपाक सांगलो. उरिल्लीं सगळीं गिफटां बाबानूच घेतलीं[illegible] 'जाम जालो तो, भूक लागल्या आसतली ताका', अ[illegible] म्हणून बाबान वेळ मारून व्हेलो.

माटवांतूच पत्रावळींचेर जेवण वाडपाची तेन्ना री[illegible] आसली. जाण्ट्या नेण्ट्यांनी खतखतें आनी मणगण्याचे[illegible] येतिस्ट हात मारलो. घरचीं सगळ्यांक आगरो करून कर[illegible] वाडटालीं. कानकात्र्या पावाचो आनी खतखत्याचो संग[illegible] सगळ्यांक मानवलो. वाडदिसाक येयल्ले लोक तृप्त जाव[illegible] आपल्या घरा गेले.

सोयऱ्यांचें, घरच्यांचें जेवण, उश्टे खरकटें काडटा म्हणस[illegible] आनी न्हिदता म्हणसर रातचीं साडेबारा जालीं. दाद[illegible] आंगणांत. भुरगीं वसऱ्यार आनी सगळीं बायलां भितर साला[illegible]



ानी भितरल्या कुडींनी न्हिदलीं. आईन, आत्यान आनी ावशेन सगळी वेवस्ता पयलींच केल्ली. बर्थडे बॉयची ावस्ता ताच्या पाळण्यांत आदींच जाल्ली. आयज ताचें ाळणें परमळीत फुलांनी सजयल्लें. फुलांच्या सुवासान तो यलींच सुस्त न्हिदिल्लो. आतां हेरांची न्हिदपाची पाळी ासली. बदूद सकाळीं उसरां उठप अशा निर्दारान भायर भतरलो अख्खो परिवार हातरूणार पडलो. बरींच थकिल्ल्यान ांकां रोकडीच न्हिदूय लागली.

कांय खिणा भितर घोरेवपाचो आवाज पुराय घर भर ाजपाक लागलो. घोरेवपाचो आवाज सोडलो जाल्यार सगळें ांत वातावरण आसलें. भोंवतणची पुराय सृश्ट सुस्त न्हिदिल्ली आनी अशा शांत वेळार सुमार अडेज वरांचेर अकस्मात शाणीच्या हुयेल्यांनी एक एक करून घरचीं सगळींच ाणा जागीं जालीं.

सगळ्यांक आतांच सुस्त न्हीद लागलेली. बारशा उपरांत ासक भर जसो तो व्हडव्हडान रडटालो तसो हुयेलीच मारूंक लागलो. घरा भितरलीं सगळीं बायलां एकदम उठून बसलीं. आई सरळ उबीच जाली. ती शाणीक पाळण्यांतल्यान भायर काडटा म्हणसर भायल्यान कसलो तरी बोवाळ आयकूंक आयलो. आज्जी सालांतूच हातरूणाचेर उठून बशिल्ली. आवाज जातकच तिणें दार उगडलें. पळय जाल्यार आंगणभर उजो आनी धुंवर. आनी बाबा, काका बी गोजड्यो घेवन माटवाक पेटपी उजो पालयतात. तें पळोवन आज्जेन किळाच मारली. सगळीं बायलां भायर आयलीं. कितें जाल्लें कोणाकूच खबर नासलें. सगळ्यांच्या तोंडार व्हडले प्रस्नचिन्न.

“ कितें जालें????.... कितें जालें????....”

“उजो पेटलो आनी कितें!!!”

“ कसो???”

“कागदाचीं बनेरां बल्बा कडच्यान तुटून म्हेडी कडेन घसल्यान सकयल लोंबकाळटालीं दिसता! थंयच दिवली पेटत उरिल्ली. तिजोच पेट लागून माटवा मेरेन उजो गेला आसुयें! वाटावले रे बाबा आमी. देवा कुमयावसां पावलो रे बाबा!”

“आवय म्हाजे सातेरमाये राखली गे तुयें म्हाजी मठी.तरी बरें, भितरल्यान शाणीच्यो हुयेल्यो आयकूंक आयल्यो म्हूण आमी जागीं जालीं. ना जाल्यार मोटो अनर्थ जावपाचो.घरूय पेटपाचें!!!”

“म्हणजे ह्या मारूतीन आमकां सगळ्यांक वाटयले?”

‘ खिख्ख...खी... हिह्ह... खिख्ख...खी... हिह्ह...’ शाणीच्या हांश्यान सगले अजापले. आई शाणीक घेवन भायर आयिल्ली. अजाप म्हणजे, कांय खिणा पयलीं हुयेली मारपी शाणी आतां दोळे मिचकायत सगळ्यांक पळोवन ‘खिख्ख...खी... हिह्ह... खिख्ख...खी... हिह्ह’ करून हांसतालो. ते मध्यान रातीर घरचीं आनी सोयरींय ताच्या हांश्याक अपुरबायेन पळयतूच उरलीं.

4

## शाणीच्या बालवाडेची काणी

शाणीन घरच्यांक कशीं वाटायलीं हाची खबर अख्ख्या वाड्यार आनी गांवांत दुसरे दिसा सावन रोकडीच वायरल जाली. एके रातीन तो अख्ख्या वाड्याचो हिरो जालो. चमत्काराक नमस्कार म्हणटात तश्यो हेर गजालीय ताचे वांगडा जुळत गेल्यो. ताच्या पांयगुणाचेर पुराय वाड्यार बरीच चर्चा चलताली. तो घरांत येयत सावन तांच्या घराब्याची बरीच बरकत जाल्ली. तांच्यो दोन गायो व्हियेल्यो. शेतांत बरें पीक आयलें. ह्यो गजाली लोक रंगोवन सांगपाक लागले. त्या वर्सा एकंदर गांवांतूय बरें पीक आयिल्ल्यान

त्या सुमाराक जल्मल्ल्या सगळ्या भुरग्यांक बऱ्या पांयगुणाचे म्हूण शाब्बासकी मेळूंक जाय हाचेर कोणी चितुंकूच नासलें. कारण शाणीची काणी सगळ्यांक मोठी दिसताली. सगळ्यां जाण्ट्यांक आनी नेण्ट्यांकूय.

शाणीची जाण्ट्यांक चड अपुरबाय दिसताली. कारण कोणूय जाण्टो दिसल्यार रोकडोच तो आपल्याक धर म्हूण ताका खुणायतालो. एक गजाल मात खरी; जाण्टे ताच्या वांगडा खेळटना भुरगे जाताले. घरचींय सगळीं ताच्या वांगडा खेळटना वा ताका खेळयतना आपल्याक विसरून वतालीं. शाणो दाय आनी प्रेमा मावशी जाल्यार दर दिसा ताची खबर घेतालींच. तेवटेन शाणीच्या आज्याक च्यायेच्या गाड्यार वा पसऱ्यार मेळटकच जाण्टे मुद्दाम फुलोवन घालताले –

"बाप्पा गुणाचो रे तुजो नातू... शाणो तो आमचो."

"हय रे बाप्पा, पोर सामको भांगर हां!"

"मागीर नातू कोणाचो!"

"आमच्या मारुच्या बाप्पाचो."

"चलात तर... आयची च्या बाप्पाची हां.."

"आनी सिगरेटूय हां... विडी नाका आमकां."

आजोय भितरल्यान पापड कसो फुलतालो. तो सगळ्यांक च्या, बिस्कूट बी दितालो. सिगरेट वा विडी मात तो कसोच दियनासलो. सिगरेट ओडपी मनीसूय ताका आवड नासले. घरांतूय असलीं लीसनां करपाक ताची सक्त मनाय आसली.

दीस फुडें सरताले. दिसाचे म्हयने आनी म्हयन्याचीं वर्सां. व्हड जाता तसो शाणी भितरूय बदल जातालो. पयलीं कोणूय दिसलो म्हणटकच ताका तो धर म्हूण फाटीक लागतालो. आतां कोणूय धरपाक फुडें सरल्यार तो बेजारतालो. जाण्टीं तो जमनीर दिसल्यार ताका रोकडींच उबारतालीं, पूण ताका जमनीर चलपाचें आसतालें. भुरगीं ताका पडत म्हूण आपले वांगडा खेळपाक घेय नासलीं, पूण ताका खेळपाचें आसतालें. भावंडां अभ्यास करतना ताका कादेन आनी पुस्तकां पातये नासलीं, पूण ताका तीं पळोवपाचीं आसतालीं. आवय ताका पाळण्यांत सुरक्षीत दवरपाक धडपडटाली, पूण ताचें पाळण्यांत मन लागनासलें.

हाचो अर्थ शाणी ल्हव ल्हव व्हड जातालो. व्हड जाता तसो तसो ताका कोणेंय धरल्यार तो बेजारतालो. हेरां भशे आपुणूय चलचो, खेळचो, शिकचो असो कितें सो विचा ताचो जाता आसुयें अशेंच ताच्या वागण्या वयल्यान दिसताले तो आतां उलोवपाकूय लागलेलो. बाबाक तो 'बा', आई 'आ', आनी दिदीक 'दी' म्हणपाक शिकिल्लो. कां म्हयन्यांनी बा चो बाबा, आ चो आई आनी दी चो दि जावन तो सडसडीत उलोवंक शिकलो. सुरवेक मात ता कांय उतरां लुडबीं वचपाक लागलीं.

एक दीस शेजारची प्रेमा मावशी पोरसांत फुलां काडट शाणीचे आईक हडकिली, मदींच तिणें शाणीची खबर काडल तिणें सहज म्हूण विचारलें.

"आगे सुने.. म्हाका सांग गे.... शाणीक आत कितलीं वर्सां जालीं?"

"तिसरें.... हय.... तिसरें जालें न्हुगे फाटले हनुम जयंतीक!" – आई.

"मागीर ताका बालवाडेन केन्ना घालपाक रावल तर गे?" – प्रेमा मावशी.

"केन्ना म्हणजे...?"– आई.

"साडे तीन वर्सांचेर घालतात बालवाडींत. फाल्यां वच आनी बाईक मेळ. हांयेंन धाडल्या म्हूण सांग. कळ ?" – प्रेमा मावशी.

गांवांत त्याच वर्सांनी बालवाडी सुरू जाल्ली. एक भुरग्याचें नांव थंय नोंद जातकच थंय सावन गंव, दाळ. गो बी मेळटालें. आवय आनी भुरग्यांची भलायकी बरी जावं ही मोख दवरून सरकारान ती येवजण सुरू केल्ली. आई ही खबर बाबाक सांगली, बाबान आज्जेक सांगली. आज्जे आज्याक. आज्यान काकाक आनी काकान काकीक. कर करता शाणीच्या बालवाडेची खबर घर भर पातळ्ळी. निम ती खबर भुरग्यां मेरेन पावलीच.

एक दीस सांजवेळार आंगणांत खेळटा खेळटा विमल मुद्दाम विशय काडलो –

"हूं.... जाणा विनूदादा, एकल्याची मज पळोवपाची आतां!"

"कसली मज्या गो विमल?"

''सोमारा एकल्याक बालवाडेंत बंद करतले खंय!''

''हां...! खरेंच कितें?''

''हय तर... आनी जाणा दादा, बाई बरीच कडक ासा खंय हां.''

''वा.! वा! म्हणटकच बरोच पेट पडटलो तर कल्याक... न्हुगो?''

''हय रे दादा.... ?''

''आरेरे.... काकूत बाबड्याची!''

''पळय पळय भियेला कसो तो!''

आंगणांत खेळटां खेळटां सगळीं भुरगीं शाणीची फिरकी वपाक लागलीं. ताका हांसपाक लागलीं. मदींच ताच्या ोटाक खातकुतल्यो करून ताका तीं तुकलोवपाक लागलीं. ो रडपाक पावलो तें पळोवन ताचे व्हडले भयणीक ताची काकूत दिसली. तिणें फकाणांचो खेळ सोडून ताका लागीं केलो. भितरल्यान आई सगळें पळयताली. तिणें तर येवन ताका आपले सरींच ओडलो आनी भुरग्यांचेर धेंकणो घातलो.

''वोगी बसात थंय. आवटीं खंयचे कडलीं. आनी याद दवरात आमी कोणांक भियेना... कोणाकूच ना.... बालवाडीक आनी बाईकूय ना.. न्हुरे शाणी?''

''हूं... हूं.... हांव ना... हांव ना.. हांव वयचो ना बालपाडीन.''

शाणीन आपलो विरोध दाखयलो. ताचीं थोडीं उतरां लुडबीं वतालीं. बालवाडी हें उतर तो बालपाडी म्हणटालो. तेन्ना तर सगळीं भुरगीं ताका हांसपाक लागतालीं.

''आरे शाणी बालपाडी न्हू... बालवाडी ती बालवाडी.'' विनयान ताची चूक दाखयली.

''वोय तीच तीच ती.... पूण हांव वोयचोना.... ना म्हणचे ना.''

''आरे बाबू, तशें करी नात रे... बालवाडी बरी आसता. थंय इल्लीं इल्लीं तुजे सारकीं भुरगीं आसतात. तीं खेळटात, नाचतात, गायतात आनी मज्जा करतात!'' आईन ताका समजवपाचो यत्न केलो.

''होय..? मागील तू चल ते बालपाडीत.'' हे जापेन आई मात ओगी पडली.

पूण ताचे 'बालपाडी'चेर परत सगळ्यांचो हांसो पिकलो. भुरगीं हांसतात म्हूण ताका परत तिडक येयली. देखून 'ना म्हणचे ना' अशें म्हणीत पांय आपटून ताणें बालवाडीक वचपाक नाका म्हूण खर आंदोलनूच केलें. ताणें व्हडल्या व्हडल्यान आड्डून घर माथ्यार घेतलें. त्यो आड्ड्यो आयकून घरांतल्यान आजी, काकी बी भायर आयलीं. त्याच आकांताच्या वेळार ताचो बापीमामा आपली स्कुटर घेवन आंगणांत भितर सरतालो. बापीमामा दिवचले सरकारी हायस्कुलांत पीटी टिचर आसलो. तांणी स्कुटर स्टँडार चडयली. आंगणांत भितर सरताना तो परिस्थितीचो आडावो घेवपाक विसरलो ना. खळ्यांत पावतांच रडटल्या शाणीचेर ताणें प्रस्नांचे वट्ट तीन बाण सोडले.

''कितें जालें रे शाणी? रडटा कित्याक? कोणी मारलो तुका?''

मामाक पळोवन तो चडूच रडपाक लागलो. मामान ताका लागीं ओडलो. ताणें ताचे आईक खुणेनूच कितें जालां कांय म्हूण विचारलें. तिणें खुणेंतूच बालवाडेची खबर सांगपाचो यत्न केलो पूण ताका तें कळना जालें. देखून तिणें वेगळो उपाय काडीत शाणीच्या विरोधाचें समर्थन करपाचें नाटक केलें.

''जाणा बापी मामा, आमचो शाणीबाबू बालवाडेक वयचो ना... ना म्हणजे ना...''

''कुसकी तूं....! हांव ना.'' हातपांय आपटून आतां तो आईक मारपाक लागलो.

''बरे बरे... ओगी राव ओगी राव न्हू... हांव पळयतां तेंका....'' बापी मामान परिस्थिती साबाळपाचो यत्न केलो. शाणीक मात्शें बरें दिसलें.

''पूण बापी...'' आई बापीमामाक कितेतरी सांगपाक सोदताली. ताणें तिका आडायली.

''हें पळयात... तुमी वचात हांगा सावन. आमचें आमी पळयतां, मामा आनी भाचो. तुमी वचात.''

अशें म्हणून मामान ताका थातारपाचो यत्न केलो. थंय जमिल्ल्या घरच्यांक ताणें खुणेंनूच धावंडायलीं. तीं भितर वचून मामा आनी भाच्याक लिपून पळोवंक लागलीं. मामान

हळूच लिपोवन कशी बोल्सांतली कुरकुऱ्याची पोती ताका काडून दिली. दुसरी पोती ताणें शाणीक दिसना तशी फाटल्यांच्यान आई वटेन सरकयली. मामान आपल्याकूच कुरकुरीं हाडल्या हें चितून ताका चड खोशी जाली. तातूंत ताका बालवाडीचो विसर पडलो. निकत्याच फुटिल्ल्या दांतांनी ताणें ती पोती पिंजली. भितरलीं कुरकुरीं 'कुरूम कुरूम' करून तो खावपाक लागलो. कुरकुरीं ताका खूब आवडटालीं. तीं मेळ्ळीं म्हणटक तो रोकडोच खूश जातालो. ताच्या 'कुरूम कुरूम' ह्या म्युजिकाचेर मामान ल्हवूच विशय काडलो.

''शाणी बाबू.... कशी लागता रे कुरकुरीं ?

''कुरूम कुरूम. खिख्ख.... हीह्ह....ही....'' तो हांसलो. मामाक जाप मेळ्ळी.

''शाणीबाबू.... म्हाका सांग रे.... तूं व्हड जातकोच कोण जातलो ?''

''हूं.... हूं....'' मामाच्या ह्या प्रस्नाची ताका संवय आसली. हाचे पयलींय असले प्रस्न ताका तेणी आनी केन्नाय घरा येवपी दर एका सोयऱ्यान विचारिल्ले. खरें म्हणल्यार अशा समयार ताची जापूय थारावीक आसली. पूण ह्या वेळार तो सादूर जालो. मामान मुद्दाम विचारलां हें कळिल्ल्यान तो चिंतपाक लागलो.

''सांग मरे ... कोण जातलो शाणी आमचो ?''

''हांव हांव, व्होडलो कुरकुऱ्याकाल... इमान चोलोवपी.... दोतोल... जातलों...''

''तिनूय वांगडाच ???'' मामा हांसलो. ताका ताचे चलाकीची तोखणाय दिसली.

''हूं... हूं.... तिनूय. मज्जा न्हू!!!''

''आरे पूण कुरकुऱ्याकार विमान कसो चलयतलो ? विमान चलोवपी कुरकुरीं कशीं विकतलो ? आनी दोतार कुरकुऱ्याकार कसो जातलो पापया ?''

''हूं..... कित्याक ? ना ? जायना ?'' तो बुचकळ्यांत पडलो.

''आरे शाण्या, विमान चलोवपाक, दोतोर जावपाक खूप्प शिकचें पडटा..... म्हज्या सारको. आनी एकदां शिकलो म्हणटकच जाय तितलीं कुरकुरीं घेवंक मेळटात. म्हज्या सारकी.... आनी जाय तितलीं खावं येता..... म्हज्या सारकी... शिकप पयलीं मागीर कुरकुरीं.... कळ्ळें... ?'' मामा ताका समजयता.

मामाच्या कुरकुऱ्यांचे देखीचेर तो चिंतपाक लागता कारण त्याच वेळार ताचीं बाबड्याचीं कुरकुरींय सोंपून गेल्ल्याचें ताचे मतींत येता. ह्या वेळाची संद सादून मामा ताका परत तोच प्रस्न विचारता.

''सांग व्हड जावपा कितें करपाक जाय..... सांग सांग पळोवया ?''

''शिकपाक जाय....''

''आनी शिकतलो जाल्यार खंय वचपाक जाय ?''

''बालपाडींत......''

''हय पयलीं बालवाडींत आनी मागीर शाळेंत,... आनी तुका खबर आसा बाबू... बालवाडींत आनी शाळेंत न्हू... खूप खेळपाक मेळटा. इतलें... खावपाक मेळटा. मज्जा मज्जा येता.''

''खलेंच...! देवाच्यान... ?''

''हय हय... देवाच्यान.... आनी तुज्यान तर.''

बापीमामा आपली शप्पथ घेता देखून शाणीक ताचीं उतरां पटलीं. मामा वोगीच आपली शप्पथ केन्ना घेवंचो ना हो ताचो पक्को समज जाता. तो खोशी जाला तें पळोवन मामा विशयाक हात घालता.

''मागीर सांग म्हाका... शाळेंत कोण वयतलो ?''

''हांव हांव.'' तो हात वयर काडून नाचता.

''शाब्बास... मागीर म्हाका सांग बालवाडींत कोण वयतलो ?''

''हांव हांव'' तो परत हात उबारता... पूण कांय खिणांत निर्शेता.

''आतां कितें जालें ?'' मामाक अजाप दिसता.

''मामा, पूण थोय बाई पेट घालता खोय न्हुरे ?'' शाणी आपलो भंय उक्तायता.

''आरे शाण्या कोणें सांगलें तुका ? ह्या भुरग्यांनी सांगलें मरे... ? हें पळय, तीं म्हणजे..... दिदी, विनू बी आपल्याक बरें बरें खाण खावपाक मेळचें ना म्हूण तुका भिवयतात.

ग मारी ना थंय. आनी जाणां तूं. ती बाई आसा न्हू ती जी फ्रेन्ड. खऱ्यानीच... ती मरे शाण्या भुरग्यांक खूब बरी ता...."

"खल्यानीच?"

"तुजी शपत आतां म्हाका सांग. शाणो भुरगो वयतलो ?"

"हूं......"

"खंय वयतलो??"

"हूं......"

"हूं.. हूं... कितें? खंय वयतलो सांग पळोवया?"

"बालपाडीन... बालपाडीन."

ताच्या 'बालपाडी' उतरांचेर भितर लिपून राविल्लीं घरचीं ळीं एकदम आंगणांत येतात आनी हांसत हांसत एकसुरान णपाक लागलीं....

"बालपाडीन... न्हू - बालवाडींत बालवाडींत."

5

## शाणीचे प्रार्थनेची काणी

बालवाडींत पयले दिसा शाणीक आईन पायलो. वांगडा क्युरिटी गार्डस् म्हूण आजो आनी आजीय आसलीं. खरें हटल्यार तो बालवाडींत वचपाक तयार जायना म्हूण आजी ानी आज्याचो फोर्स बाबान कामाक लायिल्लो. नवी चड्डी, वो बुस्कोट आनी नव्यो व्हांणो दिवपाचें हांयसय दाखयल्लें. यले दिसा ताचे परस ताचे आईनूच खरी हजेरी लायली हटल्यार जाता. तो बसपाक तयार जायना म्हूण बालवाडीच्या र्गात तिका बाबडेक फाटल्यान बसची पडली. शाणी तिचे डले लायनींत. बालवाडीचे बाईन त्या दिसा सगळ्यांत यलीं भुरग्यांक नव्या विद्यार्थ्याची वळख करून दिली.

"तर भुरग्यांनो, तुमी जाणांत... आमचे बालवाडींत आयज एक नवो भुरगो येयला. हो पळयात!!!"

सगळीं भुरगीं ताचे कडेन पळयत रावलीं.

"बाबू उबो राव पळोवया. हां. सांग तुजें नांव सांग बाबू." बाईन मायेन म्हटलें.

पूण घडलें मात अजाप. शाणी बरोच भियेलो. सगळीं भुरगीं आपल्याक पळयतात म्हूण तो आबूज जालो. भिरभिरीत नदरेन तो सगळ्यांक पळयतूच उरलो. बाईन ताका परत नेट हाडपाक फुसलायलो.

"ना ना अशें लजपाचें नासता हां... सांग मरे बाबूऽऽऽ सांग सांग. हो पळय हां. हो धर्मू सांगतलो आपलें नांव." बाईन फुडले रांगेत आशिल्ल्या भुरग्याक नांव सांगपाक सांगलें.

"म्हाजें नांव धर्मानंद सीताराम परब." तो पोपट कसो उलयलो.

"शाब्बास धर्मानंद.... आतां तूं सांग बाबू..... सांग सांग..."

बाईन हर तरेन प्रयत्न केले पूण शाणीच्या तोंडांतल्यान एकूय उतर भायर सरलें ना. बाईच्यो सगळ्यो जापो आईनूच दिल्यो. तो बुस्कोटाचें कॉलर तोंडार घालून फकत हेवटेन तेवटेन दोळे घुंवडायत रावलो. मागीर बाईन 'आसूं, आसूं' म्हूण ताका बसयलो. बालवाडींतलें पयलें अर्दवर तो बरोच भियेल्लो. उपरांत ल्हव ल्हव सावशीत जालो. आई फाटल्यान रावून आनी आजो आजी दारा भायर रावून ताची करामत पळयतालीं.

बालवाडींतले बाईन त्या दिसा एक नवी प्रार्थना भुरग्यांक शिकयली. ती मात कशी कोण जाणा शाणीच्या तोंडार उरली. बाई म्हणटा तशीं भुरगीं सामकी तश्याक तशे हावभाव करून म्हणटालीं. ल्हव ल्हव शाणीय तांचे प्रमाण गावपाक लागलो. शाणीची आई मुखार आसा म्हूण घडये आयज बाईचो बरोच सूर लागिल्लो.

'शुभं करोती कल्याणम्<br>
आरोग्यम धन संपदा<br>
शत्रुबुद्धी विनाशाय:<br>
दिपज्योती मनस्तुते'

एक एक ओळ बाई गावन वीथ ॲक्शन जशी म्हणटाली, तशींच भुरगींय म्हणपाचो यत्न करतालीं. पूण सूर एकी कडेन, ॲक्शन दुसरे कडेन जाल्यार दोळे तिसरेच कडेन अशें कितेंशें चडशीं भुरगीं करतालीं. मदींच एकटो आपल्या नाकांतलो शेंबूड बावळे वयर काडून हात लाय नासतना

बुस्कोटाक पुसपाचो यत्न करतालो. एक एकलें चेडूं भुरगें आपल्या विस्तिदा कडेन खेळटां खेळटां तो सामको वयर काडटालें. बाई गाता गातांच ॲक्शन करून विस्तीद सारको कर म्हूण खुणायताली. आनी तें पळोवन भुरगींय तशीच ॲक्शन करून उडयतालीं. बाईक हें सदचें आसलें पूण आईक तेंची बरीच मजा दिसली. आजो आनी आजी फकत आपल्या नातवाक पळोवन मुरगट्टालीं.

शाणीक इतले सगळे भुरगे पयलेच फावट पळोवपाक आनी खेळपाक मेळिल्ले. ते आपलेच संवंगडे अशें घडये ताका दिसलें जावंये कारण त्या दिसा सावन तो बालवाडींत वचपाक आपलो आपुणूच तयार जावपाक लागलो. केन्ना केन्ना आयतारा दिसाय तो तयार जातालो. मागीर आजो ताका बालवाडी वटेन बी भोंवडावन हाडटालो. ताचीय त्या निमतान एक पासय जाताली.

शाणीचीं घरचींय शाणीक धरून सगळीं खूश आशिल्लीं. आप आपल्या कामांत व्यस्थ आसपी सगळ्यांक जेन्ना जेन्ना वेळ मेळटा तेन्ना तेन्ना तीं शाणीक खेळयतालीं. पूण आतां व्हड जाल्ल्यान तो स्वता खेळपाक धडपडटालो. शाणी बालवाडेंतल्यान घरा पावलो म्हणटकच बालवाडींत दर दिसा जें गाणें शिकयलां तेंच दीस भर गुणगुणटाल मदींच ताका बालवाडींतलें गोडशें याद जातालें. मागीर 'गोयशें गोयशें' म्हणीत आईचे फाटींक लागतालो.

पयले दिसा ताच्या 'शुभंम करोती कल्याणम' ही प्रार्थ कानार पडलेली. आतां दर दिसा सकाळीं बालवाडींत सुरवे ती प्रार्थना भुरग्यांक म्हणची पडटाली. तेच पासत ताका तोंड पाठ जाल्ली. तो वेळकाळ कांय धरी नासतना केन्नाय म्हणपाक सुरवात करतालो. निमणें एक दीस स वेळार आई आनी आज्जेन एक माण्णी केली. ताका म दिवन देवा सामकार बसयलो आनी ती प्रार्थना म्हणपा लायली. ताणें ती मन लावन म्हटली. मागीर मागीर दर दि भुरगीं सांज वेळार आई ब्रह्म्या देवाक दिवो लायताना प्रार्थना म्हणपाची एक बरी रीत घरांत चालू जाली. ता जोडीक भर म्हूण काकान भुरग्यांक संत रामदास स्वामी कांय मनाचे-श्लोकूय शिकयले. ते भुरगीं सदांच आवडी म्हणपाक लागलीं. शाणीक तेवूय तोंडपाठ जाले.



सदा सर्वदा योग तुझा घडावा
तुझे कारणी देह माझा पडावा
उपेक्षू नको गूणवंता अनंता
रघुनायका मागणे हेची आता.
जयजय रघुवीर समर्थ.....

शाणीचे प्रार्थनेची एक दीस मजाच जाली. ते पावसाचे ़र आसले. बालवाडेक दांडी पडिल्ली कारण ताका बरोच र आसलो. तशेंच खोकली मारताली. सकाळच्यान तो ़दून आसलो. आई, बाबा, काका, काकी आनी आजो डणां कोरगुंटाच्या शेताचे रोवणेक गेल्ले. खंडणी आनी णी आशिल्ल्यान तीं सगळीं बद्द सांज वेळार येवपाचीं ासलीं. सिमा, स्मिता, विनय आनी विमल हायस्कुलांत ल्लीं.

जोर आशिल्ल्यान आज्जेन दनपारां ताका तोराचो कुडको डाक लावन इल्ली पेज भरयल्ली. उपरांत तिणें ताका ापलेच कडेन न्हिदयलो. कांय वेळान तिवूय बाबडी थकून ाड जाली. तिचो हात मात मुद्दाम शाणीचेर दवरलो. का दोळो लागलो. बऱ्या वेळार जेन्ना तिका जाग आयली ानी पळय जाल्यार शाणी हातरूणार ना. तिणें भायर सऱ्यार वचून पळयलें... तो थंय नासलो. फाटले वटेन ागील दारा वचून पळयलें... थंयूय ताचो पत्तो नासलो. ातर रांदचे कुडींत तपासलें... खंयच तो दिसलो ना. तिचे ाबडेचेर आकांत येयलो. कितें करचें तें तिका कळच ना ालें.

''शाणी रे म्हाज्या शाणी रे धांवात रे कोण तरी धांवात ...!''

पिशांतूर कशी जावन तिणें भंयान मोठ्यान आरड मारली. ी आरड आयकून शेजारची प्रेमा मावशी आनी थंयच्यान स्त्या वयल्यान वचपी गांवचे दोग तीग जाण धांवतच थंय ावले. तांकां परिस्थिती कळपाक कळाव लागलो ना. प्रेमा ावशेन आज्जेक थातारली. बारीकसाणेन सगळें आयकून ेतलें. आनी तिणें 'सातेरमाये पाव गे सायबिणी!!!' असो देवीक उलो मारलो.

ते सरशी अचकीत आज्जेक देवाचो उगडास येयलो. दर दिसा शाणी सांज वेळार प्रार्थना म्हणपाक देवा कुडींत वता ही याद तिचे तकलेक भिडली. दुबावान ती तडक देवा कुडींत धांवली. पावसाक लागून थंय थोडोसो उजवाड आसलो. तिणें सांसपत लायटीचो बटण दामलो. पळय जाल्यार शाणी आपली सदची मणी घेवन अर्द न्हिदेंतूच प्रार्थनेक बसला. ताच्या तोंडार सामक्या ल्हव आवाजान उतरां फुटतात –

शुभं... क....लोती कल्या....लम्
आ....लोग्य...म धन....संपदा

ताका थंय पळोवन सगळींच अजापलीं. 'प्रेमा मावशे हो पळय गे!!!' अशीं उतरां ती उलोवंक सोदताली पूण 'प्रेऽऽमा' अशीच ती आयली. तें आयकून भायल्यान प्रेमा मावशी आनी हेर लोक भितर धांवले.

शाणीक ते अवस्थेंत पळोवन रडचें काय हांसचें हें बाबडे आज्जेक कळच ना जालें. आपलो पदर तोंडार हाडून ती सकयल बसली. तिणें देवाक नमस्कार करून पोले बडोवन चूक मागली आनी व्हडा अपुरबायेन शाणीक वेंगेंत घेतलो. कितलोसोच वगत तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. प्रेमा मावशी आनी गांवचे लोक अपुरबायेन शाणीक पळयत उरले कारण जोर आयिल्ले तेच अवस्थेंत ताची प्रार्थना आजुनूय चालूच आसली.

शु...भं क...लोती कल्या...लम्
आ....लोग्यम धन....संपदा

(ह्या मुखार ही बाल नवलिका डिसेंबराच्या अंका सावन खिस्ती खिस्तीनी दर म्हयन्याक उजवाडाक येतली.0



तिस्क–फोंडें.मो: ८८०५१५२५३९





# गायची सौदो

धनुषा जिल्ह्याच्या एका गांवांत एक शेतकार रावता
तो सामको गरीब आशिल्लो. केन्ना केन्नाय तर ता
उपाशींच न्हिदचें पडटालें. तरीकय ताची बायल ताका उ
दीत रावताली. 'येतले. केन्ना तरी बरे दीस येतले!'
घोवाक सांगताली.

तांचे कडेन एक गाय आशिल्ली. पूण ते गायक
पोटाक घालपाची तांची तांक नाशिल्ली. ताका लागून
चड दूद दी नाशिल्ली. जितलें दिताली तें केन्नाय विक
ना जाल्यार पियेवन तीं आपलो दीस काडटालीं.

शेताचीं कामां येतकच दोगांय कामाक वतालीं. ते द
सोंपतकच तीं रानांतल्यान जळोव हाडून विकतालीं. मेळ
तातूंत केन्नाय शीत रोस जाल्यार केन्नाय उकडि
बटाट खावन रावतालीं.

एक दीस गाय व्हियेली आनी पाडूक जालें. शेतकान्न
दिसलें, हे व्हियेल्ले गायक विकल्यार कोणय येतलो आ
चार पयशे मेळटले. त्या पयशांतल्यान किर्तेय धंदो कर
मेळटलो. तिणें घोवाक आपलो विचार सांगलो. घोवा
पटलें.

बायलेन म्हळें, आयक.
देवान आमकां गरीब केल्यांत.
तेच बरोबर आमकां भुरगींय
दिवंक नात. आमकां दिला तो
फक्त एकमेकांचो मोग. आतां
ताचेर रागार जाल्यार तो मोग
उरचो ना. देखून हांव म्हाकां
राग येवंक दिना.



- किरण म्हांबरे

दुसरे दीस फोवांची पोटली बांदून येवन शेतकार गायक घेवन भायर सरलो. वतां वतां शेतकान्न गायच्या कानांत कुतफुतली, ''माते, चूक भोगशीय. देवान आमकां गरीब केलां. ना जाल्यार तुका विकपाचें पातक करचीं नाशिल्लीं!'' उतर्ले उलयता म्हणसर ती रडूंक लागली. गायन तिचीं दुकां आपले जिबेन चाटलीं. शेतकाराच्यान तें पळोवं नज जालें आनी तो गायक घेवन सटकलो.

वतां वतां वताची खरसाण वाडूंक लागली. शेतकाराक एक न्हंय दिसलीं. ताणें येवजिलें, आतां हांगा नाश्तो करचो. पियेवंक उदक मेळटलें. तो फोव खावंक बसलो. इतल्यांत ताका घोड्याच्या टापांचो आवाज आयकूंक आयलो. एक घोडेस्वार ताचे सामकार उबो रावलो.

''गाय विकूंक व्हरता?'' ताणें विचारलें.

शेतकारान तकली हालयली. घोडेस्वाराक गाय आवडली. तिचे बरोबर पाडूकय आशिल्लें. ताणें म्हळें, ''पळय बाबा, म्हजे कडेन पयशे नात. पूण ह्या घोड्याच्या बदला तूं ती गाय म्हाकां दिता जाल्यार पळय।''

शेतकारान विचार केलो, ही गाय जर विकली ना जाल्यार घरा परत पावचों ना. बायल हुस्केतली. ते परस ती दिवन घोडो घेतलो जाल्यार जळोव व्हरूंक उपकरतलो. ताणें मान्य केलें. सौदो जालो आनी शेतकारान गाय दिवन घोडो घेतलो. तो घोड्यार बसून घरा येवंक लागलो.

वतां वतां ताका वाटेर एक मेंढ्यांचो हिंड दिसलो. ताणें येवजिलें, ह्या घोड्या वाट्याची एक मेंढरी घेतली जाल्यार दूदय मेळटलें आनी लांय(लोकर) मेळटली. ते भायर तिका खावड घालपाची चिंता ना.

ताणें मेंढपाळाक आपले मनांतलें सांगलें. मेंढपाळय खूश जालो. मेंढरे वाट्याचो घोडो? ताणें आनी वेळ केलो ना. शेतकाराक एक मेंढरी दिली आनी आपूण घोडो घेवन गेलो.

शेतकार आतां मेंढरेक घेवन पांयांनी चलूंक लागलो. वतनां ताका बायलेची याद येत आशिल्ली.

इतले म्हणसर ताका एकलो कुकडां घेवन वता तो दिसलो. ताणें विचारलें, ''बाबा तूं कोंबयांक घेवन खंय वता?''

त्या मनशान म्हळें,''विकूंक.''

शेतकार विचार करूंक लागलो. मेंढरे परस कोंबी बरी. तांतयां तरी मेळटलीं. तोंडा लावपा वावर गेलो. ते भायर तातयां घटसाणेकय बरीं. ताणें कोंबयेकाराक विचारलें. ''बाबा, तूं ही मेंढरी घेवन कोंबी दिवशी म्हाकां?''

कोंबयेकार बरोच हुशार आशिल्लो. ताणें म्हळें, ''जाता. पूण एकच कोंबी मेळटली.''

शेतकार मेंढरे वाट्याची एक कोंबी घेवंक तयार जालो. सौदो जालो आनी शेतकारान मेंढरी दिवन एक कोंबी घेतली. कोंबयेक घेवन तो घरा येवंक लागलो.

वतां वतां दीस वयर आयलो. तो सडसडीत चलूंक लागलो. पोटांत भुकेन कावळे रडूंक लागले. तो सडसडीत चलूंक पळयतालो इतल्यांत ताका वाटेर एका ढाब्याचेर रोटयो करतात त्यो दिसल्यो. दाळीक घाल्ल्या फोण्णांचो वासय बरो सुटिल्लो.ताच्या तोंडाक रूच आयली. इतले म्हण सर ताका फुडेंच ढाब्याचो मालक रामू दिसलो. शेतकारान म्हळें,''पळय सायबा. म्हाकां भूक लागल्या. म्हाकां रोटी खावपाची आसा. पूण म्हजे कडेन पयशे नात. आसा ती ही कोंबी. ही दवरून म्हाकां पोटभर रोटयो आनी भाजी दिता जाल्यार पळय।''

रामू विचार करूंक लागलो. एक तर हो मनीस पिसो, ना जाल्यार चोर. ताणें शेतकाराक विचारलें, ''तुवें ही कोंबी चोरून हाडल्या काय किर्ते रे?''

शेतकारान म्हळें,''ना रे बाबा. हांवें ती त्या मेंढरेकारा कडल्यान घेतल्या. हांव फट सांगतां जाल्यार ताका आपोवन विचार.''

रामूक कळ्ळें तो फट उलयना. ताणें विचारालें, ''पूण तुवें ते मेंढरेच्या बदला ही कोंबी कित्याक घेतली?''

ते बरोबर शेतकारान ताका सगली खबर सांगली.

रामून म्हळें, ''तुकां खावंक दितां पूण म्हाकां तुजी काकुळट दिसता. आज तुजी धडगत ना. तुजे बायलेक सगलें कळटकच ती तुका घरांत येवची ना.''

शेतकारान म्हळें, ''तूं म्हजे बायलेक वळखना. ती शिकूंक नासली तरी शाणी आसा. तिका म्हज्या सौदयांचें

मातय वायट दिसचें ना.''

रामून म्हळें,''मारता पैज?''

शेतकारान म्हळें, ''कितें लायतलो पैजेक?''

रामून म्हळें,''तूं सांग.''

शेतकारान म्हळें, ''म्हजे कडेन तुका दिवंक कांयच ना. हांव जर हरलों जाल्यार तशा तसो परत येतलों आनी जल्म भर तुजी नोकरी करतलों. पूण तूं हरलो जाल्यार?''

रामून म्हळें,''हांव हरलों जाल्यार तुका तुजी गाय, घोडो, मेंढरी आनी कोंबयेचे पयशे दितां.''

शेतकाराक चुरचुरीत भूक लागिल्ली. ताणें म्हळें, ''मान्य आसा. ये, ही कोंबी, ये आनीक म्हाकां खावंक दी.''

शेतकार जेवंक बसतकच रामून म्हळें, ''तुजे बरोबर हांवय येतलों. म्हाकां तुजे बायलेची परिक्षा घेवंक जाय.''

शेतकार रामूक घेवन घरा वचूंक तयार जालो.

दोगय जाण घरा पावता म्हणसर काळोख पडूंक लागिल्लो. घरा पावतकच शेतकारान दारार मारलें. बायलेन दार उगतें केलें. शेतकार बेगी बेगीन भितर सरलो. रामू भायरच रावन तांचें उलोवणें आयकूं लागलो.

शेतकाराले बायलेन म्हळें, ''आयलो, बरें जालें. रात जावंचे पयलींच पावलो. गाय कितल्याक विकली?''

शेतकारान म्हळें, ''गाय विकली पूण पयशे मेळळे नात. घोडो घेवंचो पडलो.''

''कांय नज!'' बायलेन म्हळें. ''आतां तुका जळोव हाडूंक पांयांनी वच्चें पडचें ना. जळोवय बी घोड्याचेर घालून हाडूंक मेळटलो.

हांवेंय तशेंच चितिल्लें. पूण वाटेर अशी घडणूक घडली कीं घोडो हातचो गेलो.

कांय नज. तुकां कांय जालें ना मूं? बायलेन म्हळें.

तशें कांय जालें ना. पूण मेंढरी पळोवन म्हाकां दिसलें कीं मेंढरी घेतल्यार आमकां दूदय मेळटलें. शेतकारान म्हळें.

बरोबर आसा. सारकें चिंतलें तुवें. आतां दूदय मेळटलें आमकां.

पूण जालें दुसरेंच. वाटेर हांवें कोंबयो पळोवन चिंतलें कीं मेंढरे वाट्याची एक कोंबी घेतली जाल्यार आमकां तांतयां खावंक मेळटलीं. म्हणून तीं दिवन एक कोंबी घेतली.

बरें जालें म्हाकांय खूब दीस जाले तातीं खायन दिशिल्लें खंय आसा ती कोंबी?

तीय बी हातची गेली. शेतकारान म्हळें.

कशी?बायलेन हांसत विचारलें.

कितें जालें पळय. हांवें सकाळच्यान कांयच खावंक नाशिल्लें. म्हाकां चुरचुरीत भूक लागिल्ली. वाटेर ढाबो मेळळो. थंयच्यान बरो घमघमीत वास येतालो. म्हज्यान रावं नज जालें. हांवें कोंबी ताका दिली आनी पोटभर जेवलों.

हय, बरें जालें. तूं पोटभर जेवलो तें बरें दिसलें म्हाकां. तूं घटमूट उरल्यारच आमच्यांनी काम जातलें आनी आमकां पयशे मेळटले. फुडें फाटीं आमच्यांनी कोंबी येवन पोसूंक जाता.

इतलें म्हणून ती उठली आनी बालदेंत उदक घेवन आयली. तिणें घोवाक म्हळें, चल, आतां हातपांय धू.

शेतकारान रामूक भितर आपयलो. रामूक शेतकाराचे बायलेचें अजाप दिसलें. ताणें तिची तुस्त केली आनी विचारलें बाय, तुकां हाच्या पिशेपणांचो राग आयलो ना?

बायलेन म्हळें, आयक. देवान आमकां गरीब केल्यांत तेच बरोबर आमकां भुरगींय दिवंक नात. आमकां दिला तो फक्त एकमेकांचो मोग. आतां ताचेर रागार जाल्यार तो मोग उरचो ना. देखून हांव म्हाकां राग येवंक दिना.

रामून हें आयकना फुडें ताका शेतकाराचे बायले विशीं खूब आदर दिसलो. तो पैज हरिल्लो पूण तरीकय ताका तांचे विशीं कळवळो आयलो.. ताणें दोगांयकय व्हरून आपल्या ढाब्यार जेवण दिलें. आनी पैजे प्रमाणें शेतकाराक गायचे, घोड्याचे, मेंढरी आनी कोंबयेचे पयशे फारीक केले. आनी ताका आपल्यागेर नोकरेक दवरलो.

शेतकार आनी बायल घरा कडेन येवन न्हिदलीं. मध्यानें शेतकान्नीन गाय हांबेल्ली आयकली. ती भायर येवन पळय जाल्यार आंगणांत गाय उबी. तिका आनंद जालो.

**(नेपाळी काणयेचो स्वैर अणकार)**



आडपय-फोंडे.मो: ८००७२३१०७

एका सोबीत अशा आयतरा सकाळच्या पारार सगळीं र्गीं फुटबॉलाची इश्टागतीची गेम खेळटालीं. तो बॉल ावान मियामीच्यान येतना हाडिल्लो. हे गेमींत बिंगोय शेल्लो.

एल्मोन भुरग्या पासत मिल्क शेक आनी सँडवीच हाडिल्ले ल्यार बिंगो पासत वाडगो भर दूद आनी बटर लायिल्ले ब्रेड डेल्ले. बिंगोच्यान सगळें दूद एकाच धपक्याक पिवूंक जालें म्हूण तार्णे तें मागीर पिवपाक सांडलें.

इतल्यांत लागशिल्याच एका माडा वयल्यान एक चानी क्यल आयली आनी हांगा थंय पळोवंक लागली. तिर्णे गोचो दुदा वाडगो पळयलो आनी ताची चव येवंची अशें का दिसलें. सुर्वेक ती भियेल्ली आनी लजेल्लीय बी. पूण ः पळोवन ती सामकी आशेल्ली आनी रावंक जायना ातकच ल्हवच येवन बिंगोच्या आयदनांतलें दूद चाटूंक ागली.

बिंगो झोपांनी शिरकतालो तो फुटबॉल हाडून दिवपाक ामको गुल्ल आशिल्लो. अकस्मात ताची नदर आपल्या ाडग्यांतलें दूद पिवपी चानयेचेर गेली. बिंगोर्चे तापलें आनी तो आपल्या दुदा वाडग्या कडेन धांवलो. तार्णे ते चानयेचेर आपलो पंजो दवरलो आनी तिचे कडेन पळोवन गुरगुरपाक लागलो.

बाबडे ते सुपुल्ले चानयेक भिवून थरथरो भरलो.

''कुरकूट भर चानुल्ले, तूं म्हज्या वाडग्यांतलें दूद कित्याक पियेता? राव आतां,तुवें म्हजें दूद चोरलां म्हूण तुजी भातेरीच भायर काडटां.'' बिंगोन आपल्या रागिश्ट आवाजान गडगड यातलो.

लागींच मानव आशिल्लो. तार्णे तें पळयलें आनी धांवत येवन म्हळें, ''ना ना बिंगो. ते सानुले चानयेक तूं मारूं नाका. प्लीज..!''

मायरा आनी रेहानय ते सुवातेर धांवलीं आनी तांणी बिंगोच्या पंज्या पोंदच्यान ते चानयेक अचळय उखल्ली.

''सुपुल्ले चानये तुजें नांव किर्ते?''तिची अपुरबाय करीत रणविरान विचारलें.

''सगळीं म्हाका शाणी चानी म्हणटात.''तिर्णे सांगलें.

रेहान धांवत घरांत गेलो आनी तार्णे ल्हानशे बशींत घालून चानये पासत इल्लें दूद येवन आयलो.

''हें पळय तुका दूद हाडलां शाणी,पी तूं तें..'' रेहानान म्हळें.

''आयच्यान तूंय आमर्चे इश्ट.'' आरुषान सांगलें.

''भिवूं नाका तूं. आमी तुका कांयच करचीं नात.'' आवंतीन तिका म्हळें.

''बिंगो तुका ह्या मुखार मात्तूय भियेवंचो ना.'' खुशीन तिका धीर दिलो.

''बिंगो,चल शानी चानयेक तूं शेक हँड कर.'' नाताशान बिंगोक सांगलें.

बिंगोचो राग अजून न्हिवूंक नाशिल्लो. आदीं तार्णे आपल्या वाडग्यांतलें दूद पिवून सोंपयलें आनी मागीर शानी कडेन नदर व्हेली आनी तिची इश्टागत मान्य आसा हें दाखोवंक तिची फाट अचळय ल्हेंवली.

सगळ्यांनी हांसत हांसत बिंगोची फाट पोशेली.

इतले म्हणसर शाणी बिंगोचे फाटीर चडली. बिंगोन मागीर तिका फाटीर बसोवन पोरसांतल्यान एक फेरी मारली.

भुरग्यांनी बिंगोक घरांत भितर वचूंक सांगलें. उपरांत भुरग्यांनी शाणीक त्या घरांत उर्बे भरीत येवकार दिलो.

# शाणे चानयेचे नवे इश्ट



- मानसी धाऊस्कार
मूळ इंग्लीश - दत्ता नायक

''शाणी,आमी आतां तुका बरीं न्हाणयतात.''मायरान म्हळें.

सगळया भुरग्यांनी शाणीक नितळ न्हाण यालें, तशें शाणीक ताजेतवाने दिसलें.

एल्मोन शाणीक धंय आनी शीत भरयलें. शाणी खूब खोशी जाली. ते दनपरां भुरगीं शाणीक आपल्या बेडरुमांत घेवन गेलीं आनी तांणी बरीऽऽ सुस्त न्हीद काडली.

बऱ्या उसरां सांजवेळार शाणीक आपले आवयची याद जाली. म्हणटकच शाणी पोरसांत गेली. पूण वतना आपूण रोखडीच परत येतां म्हणपाचें उतर दिवन गेली.

तिणें बिंगोक आनी भुरग्यांक बाय बाय केलें आनी सुळूक करून पोरसांतल्या माडार चडली. ते दिसाच्यान शाणी दर दिसा घरांत येवंक लागली. बिंगोक आतां नवो इश्ट मेळिल्लो.

बिंगोक आपले पंजे जंय जंय खरपूक जमनाशिल्ले थंय आतां शाणी खरपूंक लागली. तिचे उपकाराची परतफेड करूंक बिंगो तिका फाटीर बसोवन पासय मारतालो

जेन्ना जेन्ना भुरगीं आनी एल्मो जिपींतल्यान भोंवपाक वतालीं तेन्ना शाणी बिंगो वांगडा जिपीच्या टापार बसून वाऱ्याची मजा घेताली. हे आदीं ती केन्नाच आपल्या घरा सावन इतले पयस वचूंक नाशिल्ली देखून जिपींतल्यान भोंवपाक वचूंक तिका आवडटालें.

एक दीस एल्मो ऑफिसाक वचपा पासत आपले गाडयेची चावी सोदूंक लागलो. तांणें चावी खंय आसा ती पळय अशें बिंगोक सांगलें. चडसो बिंगोच गाडयेची चावी खंय आसा ती पळोवन रोखडीच सोदून हाडटालो. पूण हे खेप मात ताका ती सांपडली ना.

नशीब सारख्यान शाणी ते वेळार घरांतच आशिल्ली.

''आयज आमी चावी सोदूंक शाणीक सांगू या.'' मानवान म्हळें.

''ही सामकी ग्रेट आयडीया..!'' रेहानान आनी रणवीरान वांगडाच म्हळें.

मायरा आनी रेहान शाणी म्हऱ्यांत गेलीं आनी तिच्या कानांत फुतफुतलीं, ''शाणी, एल्मोचे गाडयेची चावी शेणल्या. मात्शी घराच्या खाची कोनशांनी वचून सोद पळोवया खंय शेणल्या ती..!''

त्या बराबर शाणी घराच्या सगळ्या कोनशांनी तुरू तुरू करून धांवली. बिंगोय ती सोदतालो. शाणीक चावी सांपडल्यार सगळें क्रेडीट तिका वतलें म्हूण बिंगो तिचो मत्सर करतालो. आतां मेरेन हें काम तर ताचेंच आशिल्लें.

शाणी आलमारींतल्या,किचनांतल्या, बेडरुमांतल्या, बाथरुमांतल्या बी सगळ्या खणांनी वचून पळोवंक लागली. इतलेंच न्हय तर उमळपाच्या कपड्यांनी लेगीत तिणें वचून सोदली. शेवटाक ती एल्मोच्या बोल्सांत रिगली आनी थंयच शेणिल्ली चावी तिका मेळ्ळी. पूण ती एल्मोक दिवपा बदला तिणें व्हरून ती बिंगोक दिली. आपले लागीं चावी दिली म्हूण बिंगोन तिचे उपकार मानले आनी चावी व्हरून एल्मोक दिली.

एल्मोक दिसलें चावी बिंगोन सोदून काडल्या. पूण बिंगोन तें क्रेडीट आपल्याक घेवंक ना. तार्णे शाणीक व्हेंवत सगळ्र मुखार सांगलें चावी आपल्याक मेळूं ना तर ती पिटकुले शाणी चानयेन सोद काडल्या.

आपणें सोदून काडून ती बिंगो व्हरून दिवपाचें शाणी चानयेचें तें का म्हळ्यार भोवच तोखणायेचें आशिल्ल तिका बिंगोच्या अधिकारा जाणविकाय आशिल्ली. तशेंच ख चावी सोदून काडपी आपूण न्हय शाणी चानी म्हणटकच तिच्या वावरा क्रेडीट तिका दिवपाकूच जाय हें बिंगो चिंतपूय तोखणायेचें आशिल्लें.

बिंगो आनी शाणी भितरलीं नितीमुल्यां पळोवन सगळ्यांनी ता अभिनंदन केलें.

ते सांजवेळेर एल्मोन घरा कडे आयसक्रीम हाडली आनी शाणीच आवय बापायक आनी ताच्या सगळ भावंडांक निमंत्रीत केलीं. शाणी आव तिच्या कुटुंबांतल्या कोणेंच ह्या आय आयसक्रीम उश्टावंक नाशिल्ली.देखू तांकां तें क्रिमी गोड खाण भोव आवडलें. बिंगोची तर आयस्क्रीम सदांच आवडीची डीश आशिल्ली भुरग्यांकूय आयस्क्रीम खूब आवडटाली.

एल्मोक ते पासत परत एक खे बाजारांत वचून आनीक एक फॅमिल पॅक घेवन येवचो पडलो. कित्याक त शाणी आनी ताच्या कुटुंबाक ती इतल आवडिल्ली की तांणी पयलो पॅक चटाच खावन सोंपयल्लो.

(चलता....

# करता तशें भरता

एकदां चोरी करपाची संवय लागल्यार, ती मागीर वचना. तो सदांच म्हाका आपले बराबर यो म्हणटालो. पूण हांव म्हज्या मेहनतीच्या त्या दोन गोट्यांनीच खूश आसां. चमचमाक चोरी करपाची संवय लागिल्ली जी सोडप भोवच कठीण आशिल्ली. *कांठावेली कळशी* परत परत चडना.

शाराक सामकें लागीं आशिल्ल्या एका वडाच्या झाडाचे घोलींत चमचम नांवाचो हुंदीर रावतालो. तो खूब हट्टी सभावाचो आशिल्लो. सदांच गर्वान वागतालो. आपल्या परस व्हडां कडेन उलोवपाची ताका रीत नाशिल्ली. तो सामको पोटारो आशिल्लो. रातचो तो निक्कू पंसारीच्या गाड्यार वतालो आनी रातभर मजा करतालो. थंय वचून तो खातालो कमी आनी इबाड चड करतालो. ज्या वडा झाडार चमचम रावतालो ताचेरूच एक पिंटी नांवाची चानीय रावताली.

सकाळ जातांच ताणें एक दीस पिंटी चानयेक म्हळें, ''पिंटी, काल रातीं खूब मजा आयली. व्वा! लालाच्या पसऱ्यावेलीं खाणां खावन-खावन म्हजें पोट टुम्म जालें. जेन्ना लाला पसरो बंद करून भायर सरून वतकीच हांव भितर प्रवेश करतां तेन्ना म्हाका सर्गातूच आयिल्लेवरी दिसता. कितले तरेचें खावपाक आसता जाणां थंय? म्हाका तांचीं नांवां लेगीत सांगपाक येवचीं नात. मागीर कुशीक



- श्वेता नायक भोसले
मूळ हिंदी : दर्शन सिंह आशट

मिठाईचें दुकान. इतलें सामान कशें तरी तयार करता आसतलो काय हो मोटू मिठाईवालो? तुका येवपाक जाय जाल्यार आयज रातचें म्हजे बराबर यो.''

पिंटी चानयेन म्हळें, ''आसूं दीं! हांव म्हजे मेहनतीन किर्तेंय सोदून खातां तें तुजे चोरयेच्या खाणांकून खूब बरें आसता.''

''बरें! तूं म्हळ्यार सामकें बांयचो बेबो कशें! हीं सगळीं खाणां म्हज्या नशिबांतूच आसात. तूं पुराय दीस मेहनत करुनूय एका एका गोट्या खातीर तळमळटा. तेन्नाच तुजें पोट भरता आसतलें! हांव ल्हवच पसऱ्यार घुसतां, उपरांत थंय म्हजेंच राज्य आसता. हींग लागना ना तुरटी. इतलें खातां, पुराय दीस किर्ते खावपाक मनूच येना.''

पिंटीन म्हळें, ''चमचम, कान उगडून म्हजें आयक. चोरयेचें केन्नाच पचना. हांव असल्या गजालीं पासून पयसूच रावतां.''

''तूं भिवकुरें.'' चमचम हुंदरान म्हळें.

पिंटीन म्हळें, ''बरें! तशेंच समज!'' अशें म्हणीत तें झाडार चडलें.

चमचम हुंदीर ताचीं फकांडां करीत रावलो.

एका सांजवेळार चमचम हुंदीर दुकानांत वचपाची तयारी करपाक लागलो. वडाचे फांदये वांगडा हुंबकळटले पिंटी चानयेक ताणें पळयली.

''पसऱ्यार येता तूं? काल लालान खूब खावपा-पिवपाचें सामान हाडलां. परबे खातीर मोटू मिठाईवाल्यानूय खूब लाडू-पेडे तयार केल्यात. चल यो. असो मोलादीक वेळ जिणेंत परत येवचो ना.'' चमचम हुंदरान बरेच उमळशिकेन म्हळें.

''असले मोलादीक खीण तुकांच बरे.'' पिंटीन म्हळें.

''बरें, तूं ते जंतूच खा. तुज्या नशिबांत फकत तेंच बरयलां. हांव वतां मजा करपाक.'' अशें म्हणून चमचम हुंदीर वाटेक लागलो. थंय लाला हुंदरांक लागून भरोच बेजारिल्लो. एका पांदऱ्यांत ताणें केकीचो व्हड कुडको घालून दवरलो. पांदरो स्प्रिंगाचो आसलो. ताणें तो पसऱ्याच्या शटरा कुशीकूच दवरिल्लो.

''आरे व्वा! लालान म्हज्या येवकाराक स्वता जावन तयारी केल्या. पयली इल्लीशी केक चाखून पळयतां.'' अशें म्हणीत चमचम किर्तेंच चिंती नासतना सरळ पांदऱ्यांत भितर सरलो. ताच्या दोळ्यांर आशेची पट्टी बांदिल्ली आशिल्ली. जशें ताणें त्या केकाच्या कुडक्याचेर दांत मारपाक सुरू केलें तसो स्प्रिंगाचो खड्क करून आवाज आयलो. पांदऱ्याचें दार बंद जाल्लें. ताची शेपडी पांदऱ्याच्या दाराक शिरकली. ताका किर्ते करूं किर्ते नाका जालें.

चमचम हुंदीर खूब भियेल्लो. थंय सावन मेकळो जावपाक ताणें हात-पांय मारपाक सुरवात केली. पूण थंय सावन भायर सरपाक ताका रस्तोच दिसना जालो.

सकाळ जातांच दुकानाचें शटर उगडलें. चमचम त्या पांदऱ्यांत रातभर उरिल्ल्यान सामको जाम पडिल्लो. लालान भितर येवन सगळ्यांत पयलीं पांदरो पळयलो. तातूंत एक मोट्टो हुंदीर शिरकला हें पळोवन लाला बरोच खोशी जालो. ताणें म्हळें, ''आयज फारावलो तूं?'' आनी ताणें पांदरो उखल्लो. वांगडा एक बडी घेतली. मात्सो फुडें वचून लालान पांदऱ्यांतल्या हुंदराक भायर काडलो आनी एकाच धपक्यान ताका शांत केलो.

वडा झाडार रावपी मोनू किरान हें सगळें पळयलें आनी वचून पिंटीक उलो मारलो.

''पळय दीदी. चमचम हुंदराचो शेवट.'' मोनून पिंटीक म्हळें.

पिंटीन व्हड स्वास येत म्हळें, ''मोनू, एकदां चोरी करपाची संवय लागल्यार, ती मागीर वचना. तो सदांच म्हाका आपले बराबर यो म्हणटालो. पूण हांव म्हज्या मेहनतीच्या त्या दोन गोट्यांनीच खूश आसां. चमचमाक चोरी करपाची संवय लागिल्ली जी सोडप भोवच कठीण आशिल्ली. *कांठावेली कळशी* परत परत चडना. असल्या कामाचो शेवट असोच जाता.

इतल्यांत मळबांत उडपी घोणीन चमचम हुंदराक पळयलो आनी आपल्या दावखुलांनी उखलून ताका व्हेलो.





- अभयकुमार वेलींगकार
9423884687

# हुंदीरमाम हुंदीरमाम



हुंदीर आनी हुंदुल्ली एक
बिळांत एका रावतालीं
पिलां वांगडा आपल्या तीं
खुशालकायेन जियेतालीं....१

दिसभर बिळांत आपल्या
लिपून बाबडीं रावतालीं
रातचे वेळार सरून भायर
वाठार सगळो भोंवतालीं....२

हांगा थंय भोंवून सगळीं
जेवण आपलें सोदतालीं
मेळटा तें धरून तोंडांत
बिळावटेन धांवतालीं....3

कागदां, कपडे मेळ्ळे तर
दातांनी फाफशितालीं
बारीक करून कुडके तांचे
बिळांत हाडून उडयतालीं....४

मम्मा, पप्पा करतात तें
पळोवन पिलां शिकतालीं
कागदां, कपड्यां कुडक्यांचें
हातरूण करून न्हिदतालीं....५

वाटेंत येतना वतना तांकां
मम्मा देख दिताली
खंय वच्चें खंय ना
सारकें बरी सांगताली....६

काणयां वरवीं अणभव आपले
तकलेंत तांच्या घालताली
बरें किर्तें, वायट किर्तें
बेस बरें समजायताली....७

कोणाची धरची संगत आनी
कोणाक सांबाळचें, सांगताली
इश्ट-दुस्मानां मदलो फरक
बरे तरेन समजायताली....८

तरी तांचीं पिलां केन्नाय
नाका आशिल्लेंच करतालीं
नदर चुकोवन घरच्यांची
मेळत तशीं धांवतालीं....९

धांवून तांच्या फाटल्यान
मम्मा, परती येवन येताली
केन्नाय रागान एक एक
थापट लेगीत मारताली....१०

तरी लेगीत हुंदरा पिलां
आपणांक जाय तेंच करतालीं
शेजारच्या घरांत लेगीत
ल्हवूच केन्नाय घुसतालीं....११

घरांत त्या आसलो बुकी
हुंदुल्ली ताकाच भियेताली
नदरेक ताच्या पडूं नाकात
पिलांक ती शिटकायताली....१२

एक दीस अशीच हुंदरा पिलाक
कूय आयली मारून
दुसरेच दिकेन पावलें तें
मम्माचो सांगात सोडून ....१3
पळोवन घराचें दार उगतें
सोमतेंच भितर सरलें
बद्द वचून रांदचे कुडींत
फ्रिजा पोंदा लिपलें ....१४

चिंतलें तार्णे, रातच्या वेळार
खावंक बरें मेळटलें
तांदळा साकाक मारून बोथो
बचक भर घरा व्हरतलें ....१५

हुंदरा पील घरांत घुसलां
कोणाक जरी कळ्ळें ना
कुलपां, खिळयो घट्ट घालूंक
घरचीं कशींच विसरलीं नात....१६

काळोख जालो तसो, पील
ल्हवूच आपलें भायर सरलें
दाणो-गोटो सोदूंक म्हणून
हेवटेन तेवटेन भोंवक लागलें
....१७

सामान सगळें डब्यांत बंद
ताका, डबे उगडूंक जमलें ना
केलो कितलो येत्न तरी
हाताक कांयच गावलें ना ....१८

डबे काय कशेच उगडना
हुंदरा पील खरशेलें
हेवटेन तेंवटेन धांवत
ओटयार चडून बसलें ....१९

ओटयार मेळ्ळे तोप ताका
सांसपून पळोवंक लागलें
मेळत काय खावंक कितेंय
तोपांत पळोवंक लागलें ....२०
एक तोप आसलो हून
बसलो पिलाक चुरको
गोड बरो आसलो पायस
पूण मारप कसो भुरको? ....२१

करून बरोच येत्न तार्णे
गांठलो दुसऱ्या तोपा कांठ
आसलो पूण तो रिकामो
करची पडली ताका फट ....२२

तिसऱ्या एका तोपाचें
धांपणें ताका उडोवंक जमलें
ओणोव घेवन पळेतालें
निसरून बद्द तोपांत पडलें .... २३

तोपांत आसलें दूद
बाबडें तातूंत बुचकळ्ळें
नाका-तोंडांत गेलें आनी
श्वास अंदून घुसमटलें ....२४

आवा शिवा करून बाबडें
कशें तरी वयर सरलें
नाका तोपा भानगडी ह्यो
दुसरेच वाटेन वचूंक लागलें ....२५

खावंक कांयच मेळ्ळें ना
जाले बाबड्या हाल
करूंक गेल्लें कितें तरी
पडलें ताका माल ....२६



न जालें बेजार बाबडें
ांक कांयच मेळ्ळें ना
ं आतां सोदपाचें खाण
ा बाबड्याक कळ्ळें ना ....२७

टेन तेवटेन भोंवतना
ल्ली अर्दी रात
र सरून वतलें म्हणल्यार
नासली ताका वाट ....२८

वतां भोंवतां दिसलें ताका
कलिकपी दोन दोळे
र्तें तें ताका कळ्ळें ना
रा पील सामकेंच भोळें ....२९

ल्यान ताच्या कानार
'धांव' आवाज पडलो
रा पिलाक कळ्ळें आपलो
ळ लागीं आयलो ....३०

म्मान सांगिल्लें ताचो
गडास पिलाक जालो
काच घासाक सोपयतलो
वजून पोटांत गुळो आयलो ....३१

कीन दावकूल उबारलें
ल ल्हवूच फाटीं सरलें
कीक कळचे पयलींच
ंदसून ताच्या धांवलें ....३२

ारली तार्णे उडी आनी
ेगडे पोंदा वचून लिपलें
ुकीन मारलें दावकूल कितलें
ूण ना तें ताका गावलें ....३३

भियेल्ल्या हुंदरा पिलाक
मम्माची याद आयली
अश्या वेळार कितें करप
सारकें बरें सांगतली आसली ....३४

कितें आतां करचें
भायर कशें सरचें?
माऊक त्या फटोवन
कशें घरा वचचें? ....३५

भियेल्लें हुंदरा पील
चिंतपाक पडलें
जीव आतां वाटावप कसो?
चिंतीत बाबडें उरलें ....३६

रात भर चिंतून चिंतून
तकली ताची गेली फुटून
इतल्यान तार्णे देखलें
माऊ गेल्लें थंयच्यान उठून ....३७

मातूय विचार केलो ना
पिलान मारली थंयच्यान धांव
मेळत ते वाटेन तार्णे
लागीं केलो आपलो गांव ....३८

रातभर उपास आनी
भंयान जाल्लें पील जार
घरा पावता म्हळ्यार
मम्मान काडलो ताचेर फार ....३९

रातभर पिला हुस्क्यान
लागूं नाशिल्लो दोळो
रागार जरी जाल्ली ती
खोशयेन फुलिल्लो तिचो
कळो....४०

रडत रडत पिलान मम्माक
सांगली सगळी काणी
सगळीं म्हऱ्यांत आसतनाय
थरथरताली ताची वाणी ....४१

व्हरूंक ताका आयिल्लो
सामको म्हऱ्यांत काळ
तोंडांत ताच्या गावलें ना
आसली बरी ताची वेळ ....४२

हाचे मुखार केन्नाच मम्मा
सांगात तुजो सोडचें ना
मनाक मारता तशें केन्नाच
हेवटेन तेवटेन भोंवचें ना ....४३

दोनूय कान धरून तार्णे
मागली माफी मम्माची
आयकलें जर जाणट्यांचें
असली वेळ ना रे येवंची? ....४४



# लिं
# गू

१

आज लिंगूचो गांवच्या ग्रामपंचायती वतीन सत्क
जावंचेलो आसा. ल्हानशा गांवांत गुणांची पारख जा
जण एकटो एकामेकांक वळखता. बरें वायटाच्या काम
गांवकरी आपलो कामधंदो सोडून लेगीत आदाराक धांवता.

आयज गांवच्या स्कुलाच्या भुरग्यान तालुका आ
उपरांत राज्य पातळीचेर क्रप्टांचें पयलें इनाम हातासून दिल्ली
मोख हातासल्या आनी म्हणुनच हो सुवाळो.

गांवांतले पंचायतीन ह्या कर्तुबी भुरग्याचो लिं
बसवराजाचो सत्कार सुवाळो घडोवन हाडला. ग्रामपंचायतीच
ऑफिसा मुखार स्टेज घाल्या. सोबीत बरी मांडावळ केल्य
स्टेजीर कदेलां मांडल्यांत. लिंगूचो फोटो आशिल्लो बॅ
लायला. हार, तुरे एके ट्रेंत घालून मेजार दवरल्यात.

लिंगूचो सत्कार करचे पासत ग्रामपंचायतीन थळाव
आमदाराक आपयला आनी खास आमंत्रीत म्हूण गां
आनी स्कुलाचें बरें मागपी विजयबाब नायकाक आपयल
लिंगूच्या आवय बापायक लकमा आनी बसवराजाक खाशें
आमंत्रण आसा.

भुकेन आनी तानेन तांचो जीव गळ्याक तेकिल्लो. लिंगू इल्लेंशें तोंड करून तुकू-तुकू करून लकमा आनी बसवराजा कडेन आशेन पळयतालो आनी तीं फुडें कितें? फुडें कितें अशें चिंता थंयच आसा. तांचे सामकार एक साठ वर्सां पिरायेचो दादलो उबो रावून तांकां तेळूंक लागलो.



- रजनी भेंब्रे

सगळे पंच वांगडी बोवाळटात. गांवांतलो लोक
ाखच भरिल्लो आसा. स्कुलाचो मुख्याध्यापक, स्कुल
स्थापनाचो अध्यक्ष, हेर पदाधीकारी आनी स्कुलाचो शिक्षक
माटवांत बसला. सगळ्यांचीं मुखांमळां उमेदीन भरल्यांत.

पुताचो सत्कार जाता म्हूण लिंगूचे आवय-बापूय
शाल जाल्यात. बसवाराजा परस लकम्याक चड खोस
ल्या कारण लिंगूची पार्त येवून ती सदांच घोवा कडेन वाद
तताली. एक दीस तर तांचो वाद तेंगशेकच पाविल्लो.
रण तशें व्हडलें न्हय पूण बापूय एक सारको लिंगूक उलो
पाक लागलो.

२

" लिंगू, ए लिंगू ,आरे तुका उलो करता तें आयकूंक
ना?"

" हय दादो, हय दादो, आयकूंक येता."

" आयकूंक येता जाल्यार ओ कित्याक दिना तर? "
सो घालीत बसवराज पुताचेर तापलो.

" आतां तार्णे जाप दिली न्हय, जाल्यार कित्याक ताका
पयता? तुजें म्हण नाका जाल्लेंच!'' लकमान घोवा बरोबर
ज्जत घाली.

" लकम्या, तूं म्हाका शार्णेपणां शिकोंक नाका हां पयली
ांगतां तुका. तुका लागुनच लिंगू चड शेफारता. म्हज्या
मा कडेन तार्चे मात लेगीत लक्ष ना. ताका किर्तेय म्हणलें
ाल्यार तुका मदीं तोंड कित्याक घालूं जाय गो ? ओग्गी
स थंय. चड अपुरबाय करनाका ताची. पळय, पळय, माथ्यार,
ाथ्यार बसतलो तुज्या आनी म्हज्या।''

''आवय, आवय बसव्या? कितलो म्हण बडबडटा रे
कर्ते काय म्हणल्यार लिंगू उल्यार धांवून आयलो ना."

" दादो-आवय, तुमी कित्याक झगडटा गे? दादो
न्यानींच तुवें म्हाका उलो केल्लो तेन्ना म्हजें लक्ष नाशिल्लें.
ांव मरे कोंड्याची एक वस्त करतालो रे. पूण ती सादचना
जाली म्हण हांव बेजार जाल्लों. खन्यांनीच दादो."

" लकम्या, पळयलें मुगो, आयकलें ? हांवें लिंगूक
उलो मारिल्लो तेन्ना तार्णे तो आयकलोच ना खंय! तो खंय
कोंड्याचें खेळणें करतालो!''

''दादो, दादो, खेळणें न्ही रे, क्राफ्टाची एक कलाकृती.''

'' किर्ते.......कुती-कुती. आसूं पाड पडूं तें. म्हाका किर्ते
कयटा? पूण म्हाका सांग रे लिंगू तुका ही नाका आशिल्ली
भिकार भास करपाक कित्याक जाय ? बेकार आसा जाल्यार
म्हाका आदार कर."

" दादो-दादो ही भिकार भास न्ही, खन्यांनीच. म्हाका मरे
ह्या कोंड्याच्या आदारान एक बरी कलाकृती करून इश्कोलांत
व्हरूंक जाय."

" पयशे मेळटले मरे, जाल्यार कर. तुकाच कार्देनाक
वापरूंक मेळटले."

" दादो.....ते तशें न्ही........"

" तशें न्ही जाल्यार कशें? लिंगू तुका हांव पयलींच
सांगतां. हांव दीस भर मर मर काम करतां. इतलेंय करून
संवसाराक थिगळांच. तूं तरी आदार करता ? फाविल्ल्या
वेळारय हांव बेकार म्हणटा तो रावना. किर्तेय ना किर्तेय
करतां."

" आनी हांव किर्ते बेकार आसां रे बसव्या? हांवय
तुजे बरोबर कश्टतां मरे? आनी आतां लिंगूकूय घश्टो कर
म्हणटा?''

''लकम्या हांवें किर्ते वेगळें सांगलें ताका? आमी
करतात तेंच काम कर म्हणलां?''

''जाणां रे बसव्या. पूण तो शाळा शिकता न्ही!''

'' कित्याक जाय ती आमकां शाळा? आमच्या
गांवांत दुकोळ पडलो म्हूण हांगा ह्या परगांवांत पावली मगो?
तरी सांतान भाटकाराक आमची काकुळट आयली म्हण
परिणाम. देव कसो पावलो ना आमकां? ना तर पोटाची
खळगी कशी भरतली आसलीं ?''बसवराज हुस्कारता.

" आरे बसव्या, जालें तें जालें. फाटल्यो वादी
कित्याक?"

" कित्याक म्हणल्यार? तुका लिंगूक इश्कोल
शिकौंक जाय न्ही गो? शाळा सोंपल्या उपरांत तो म्हाका
आदार करतलो अशें म्हाका दिशिल्लें. पूण तुका इश्कोल
येवजलें न्ही?

" गांवांतलीं भुरगीं वतात, आपलोय लिंगू वचूं इश्कोलाक.

नाचत नाचत घालो ताका इश्कोलाक."

" बसव्या आमी शिकलीं नात आनी म्हणून आमची अशी आवतिकाय जाल्या मरे!! आमचो लिंगू शिकचो अशें तुज्य मनांत येना? तो बरो शिकचो, व्हड मनीस जावंचो अशें तुका कित्याक दिसना काय म्हणटा हांव ?''

" आगो बाये दिसना कित्याक? दिसता खूब दिसता. पूण म्हारगाय खंय पावल्या ती पळय मगो? तूं आनी हांव दीस भर राब राब राबतात, तरी लेगीत आमची परिस्थिती सुदरता? हातांत कांयच उरना. सगळें जाणां जावन तूं मगो नेणार जाता. "

" म्हणून आमी लिंगूचें शिकप आडावचें? ताका घरा बसोवचो आनी मानायपण करपाक लावचें. ना....ना... बसव्या ना......ना........"

" मागीर आमी मरसर राबचें मगो? "

" कित्याक मरसर? आमचो लिंगू शिकून व्हड मनीस जातलो आनी मागीर आमकां..."

" पुरो-पुरो........ लकम्या...... तो ऑफिसर जातलो, हीं सपनां पळय नाका. तूं निर्शेतलें......मागीर. खंय आमी आनी खंय आमचो लिंगू...."

" दादो म्हजे खातीर तुमी कित्याक झगडटात? तुका दिसता जाल्यार फाल्यांच्यानच हांव इश्कोल सोडटां आनी तुका पुरायपणान आदार करतां. जालें समादान?'' रडकुरो जावन लिंगून म्हळें.

लिंगूचें रडकुरे तोंड पळोवन लकमाचो जीव वयर सकयल जाता.

" लिंगू तूं भितर वच पळोवया. आमची हीं झगडीं सदाचींच. आमी शिकली ना. तूं तरी शिकचो ही म्हजी इच्छा. हांव बसव्या सांगातान दीस भर कश्ट करतलीं. पूण तुजें शिकप पुराय करतलीं. तूं चल भितर. अभ्यासाक बस."

लिंगू रडत रडतच घरांत भितर वता.

३

" जाणा बसव्या, आमचो लिंगू खंय बरो शिकता. हय, आयकून म्हजें हर्दें भरून आयलें."

" आगो लकम्या, तुका कशें कळ्ळें गो? ओगी कितेंय म्हाका सांग नाका."

" हांव कित्याय कितें कित्याक म्हूण सांगू इश्कोलांत वचून लिंगूच्या अभ्यासाची आमी केन्नाच चवकश करनात, कारण आमकां शिक्षणाचें कांयच कळना. पू जाणां बसव्या, हांव बाजारांत सामान हाडपाक, सान्न विकपाक बी वतां तेन्ना लिंगूच्यो टिचरी, सर बी मेळटा मुजरत म्हाका थांबोवन लिंगूची अभ्यासांतली, चित्रकलेच खेळाची बी गजाल सांगतात. लिंगू इश्कोलाचें नांव व करतलो अशें बी कितें......कितें सांगतात."

" खऱ्यांनीच, लिंगू विशीं इतलीं बरीं उलयतात? "

" म्हणुनच हांव तुजे बरोबर झगडीं मारतां मरे. जा बसव्या, आमी कितलींय कश्टाचीं कामां करया. पूण लिंगू आमच्या बरें शिकप दिवया."

" दीस भर काम करतकच म्हाका उबगण येता आनी ती उबगण मागीर हांव लिंगूचेर, तुजेर काडटा. लकम खऱ्यांनीच गो आमचो लिंगू हुशार ? "

" ना जाल्यार त्यो टिचरी , सर म्हजीं फका करतात? खऱ्यांनीच तीं म्हाका मुद्दाम थांबोवन लिंगूच गजाली सांगतात. इतलेंच न्हय तर तो वर्गातल्या भुरग्या खंय मुद्दाम मदत करता! "

" लिंगू आनी कसली मदत करतलो गो लकम्या आमीच पयलीं भिकाइर्डीं मगो!''

''बसव्या पयश्यांनी मदत न्हीं रे."

" मागीर आनी-आनी कसली मदत ? "

" पळय, टिचरी, सर सांगतालीं. लिंगूक अभ्यास व कळटा. ताचें अभ्यासांतलें काम बेगीन जाता. मागीर आपल्या वर्गांतल्या भुरग्यांक जीं अभ्यासांत फाटीं उरत तांकां बी मदत करता खंय!''

" खरेंच, आनी लिंगू आसाच बरो सभावाचो. लकम आनी - आनी कितें सांगतालीं गो?"

" आतां बरो फुल्लो मरे! व्हदोळ ताका उलय-उ उलयतालो!''

'' पळय लकम्या, तुका सांगलें न्हय, म्हाका पुरो जात

ऱ्ह तो राग लिंगूचेर, तुजेर काडटां. पूण आतां हांव तशें
रचों ना. खऱ्यांनीच, जिवाच्यान सांगतां लकम्या. हांव
का दिसय भर कितलो उलयतां, तापयतां, पूण.....पूण
गाचो अपुरबायेचो पूत म्हजो एकूय उतर परत सांगना."

" हय मरे? आतां तुका चर्त जालें न्ही? तूं ताका बेठोच
पयता म्हूण! तूं ताका तापयता तें पळोवन म्हाका वायट
सता."

" पळय, परत परत तेंच म्हण्णाका गो. सांगलें न्हय
का, चुकलेंच म्हजें. पूण लकम्या, तूं सांगता तें मुगो म्हाका
रेंच दिसना."

" म्हणल्यार रे! सर, टिचरी सांगतात तें फट तर रे ?"

" फट कसो म्हणीन ? आज सत्कार जाता तो वगीच
र?''

४

लकमा आनी बसवराजालीं लिंगूल्या सत्काराक
शिल्ले कडेन उलोवणीं जातालीं. फाटल्या यादिंचो पड्डो
गडटालो.

" तशें न्हय गो ? म्हजो विश्वासच बसना. आमी हीं
अशीं अनपढ आनी लिंगू !"

" जाणां बसव्या, आमी पोटा खातीर जो धंदो आपणायला
तो करयाच. पूण लिंगूचें शिकप पुराय करयाच. पयश्यांची
अडचण आयली जाल्यार सांतान भाटकारा कडेन आमची
अडचण मांडया. सांतान ना म्हणचो ना. चड कश्ट करून
इल्लें इल्लें पावोवया ताचे पयशें. "

" जाणां बसव्या, सर आनी टिचरीलें लिंगू विशीं आयकून
म्हजें मन भरून आयलें. तेन्नाच विचार आयलो रे, कितेंय
जावं, कशेंय जावं लिंगूक ताच्या मना सारकें शिकप दिवया."

"फुडलें फुडें गो. येन्नाच फुडलें फुडलें कित्याक येवजिता?"

" बसव्या, तूं मरे असोच. फुडलें कित्याक येवजिता
म्हणल्यार कितें ? फुडलें आतांच चिंतू जाय. सर, टिचरीनी
म्हाका धीर दिला."

" कसलो धीर दिला गो?"

" धीर दिला म्हणल्यार अशें रे, तांणी सांगलां, आमकां
तुमचे परिस्थितीची जाणविकाय आसा. तेन्ना फाटीं फुडें
लिंगूक शिक्षणा खातीर पयश्यां संबंदीत अडचण उप्रासली
जाल्यार तुमी भियें नाकात. आमी आसात. फुडें वतल्या
लिंगूक फाटीं ओडूं नाकात. ताचो फुडार खंय व्हड आसा.



ताच्या आंगातले गुणच ताका व्हड करतले."

" खऱ्यांनीच अशें सांगलें? पळय आमचो पूत आसून लेगीत आमी ताच्यांतल्या गुणांक पारखूंक पावूं ना."

" खरें सांगू बसव्वा, तो इश्कोलांत गेल्ल्यान ताच्या गुणांचीट कलेची पारखणी जाली. दिसना तुका?"

" हय हय खऱ्यांनीच. म्हाका म्हज्या कामां मुखार आनी संवसाराचे विवंचने मुखार किर्तेंच पडून गेलें ना. लिंगूक अपुरबायेन लागी सुद्धा हांवें ओढूं ना. फकत तापोवण्यो आनी हिडीस-फिडीस."

" आसूं रे बसव्वा. लिंगू म्हजो इश्कोलांत गेल्ल्यान बऱ्याक पावलो."

" तूं जेन्ना ताका इश्कोलांत घालपाक तयार जालें तेन्ना हांवें तुका खूब खेंपलें न्हय गो लकमा? नाका तें नाका म्हणटालों हांव."

" आनी हांव सामकें हट्टाकच पेटिल्लें.

" नाका म्हणपाक आमची परिस्थितीच कारण आशिल्ली."

" हांव नकळ तर, पूण म्हजें मन म्हाका सांगतालें, लिंगूक तुमचे वरी कामेरीच करून दवरूं नाकात. ताका चार बुकां शिकयात. लिंगू इश्कोलांत गेल्ल्यान सगळ्यां टिचरींची, सरांची ताचेर नदर गेली. ताचे गूण तांणी पारखिले आनी म्हणुनच आज आमकां हो दीस पळोवपाचें भाग्य लाबलें."

पावंड्या वयलेंय पयलें इनाम फावो जालें."

मुख्याध्यापकाच्या उतरांनी लिंगूचें काळीज उपाट भरलें

" हय सर, म्हाका क्राफ्ट सरान खूब आदार आन मार्गदर्शनय केलां. ताकाच लागून हांव हें इनाम हातासूं पावलां. तांचो हांव खूब उपकारी."

" आरे पयलीं तुज्यांत गूण आसले म्हूण तूं मुखार पावलो तुवें इश्कोलाचें नांव वयर काडलें. ह्या वाठारांत राज्य पावंड्या वयलें पयलें इनाम फावो जाल्लें आमचें स्कूल, तुका लागू जैत जोडूंक पावलां. जाणां लिंगू आमच्या इश्कोलाच्या व्यवस्थापनाचो अध्यक्ष ह्या जैतान भोव खोशी जाला. आन ताणें तुका आपलें खाशेलें इनाम धाडून दिलां."

लिंगूक किर्तें उलोवचें तें कळना जालें. ताणें म्हळें, सर, म्हजो विश्वास बसना, म्हाका पयलें इनाम फाव जालां. कारण राजधानी पणजेंत खूब भुरगीं आसलीं आन तांच्यो तरेकवार कलाकृती आसल्यो. सोबीत सोबीत. तातूं म्हाका इनाम मेळप म्हळ्यार अजापाची गजाल सर."

" आनी आतां तर मुखावेल्या पावंड्यार व्हड सर्त आसतली आनी ती सर्त दिल्लीक. दिल्लीचे सर्तीक क्राफ्ट सरा वांगड तुज्या आई-बाबाकय आमंत्रण आसा."

मुख्याध्यापक लिंगूची तुस्त-तोखणाय करीत किर्तें-किं सांगत आशिल्लो.

५

लिंगून पर्यावरणाची राखण ह्या विशयाचेर तयार केल्ले कलाकृतीक तालुका पातळी वयलें पयलें इनाम फावो जाल्लें. उपरांत राज्य पातळी वयले सर्ती खातीर ताका पणजे धाडिल्लो. थंय बी ताका पयलें इनाम फावो जाल्लें.

स्कुलांत सगळ्या शिक्षकांनी ताचें अभिनंदन केल्लें. मुख्याध्यापकान ताका ऑफिसांत आपयलो- " जाणां लिंगू सगळ्या शिक्षकांक तुजी कलाकृती भावली आनी म्हणुनच तुका तालुका पातळी वयले सर्ती खातीर वेंचून काडलो. तुका धाडिल्ल्याचें तुवें चीज केलें आनी तुका पयलें इनाम फावो जालें. आनी उपरांत तूं राज्य पावंड्यार पावलो आनी खोशयेची तशीच अभिमानाची गजाल म्हणल्यार तुका राज्य

६

लिंगू फाटल्या यादींनी घुसपल्लो. जेवणाची, उदक पाणयाची मारामार जाली. तेन्ना जण एकल्यान कामधं आनी पोटापाणयाचो प्रस्न सुटावो करचे पासत आपलो गां सोडून परप्रांताचो रस्तो धरिल्लो.

बसवराज आपले जाणटेल्या आवय पासत पोटा चिमटो काडून गोडाक दशिल्ल्या दोमळ्या वरी घराब्या चिकटून गोडाक दशिल्ल्या दोमळ्या वरी घराब्याक चिटकूं रावलो. ताच्या सांगाताक लकमा आनी लिंगू. सात वर्सां लिंगू पोटाक वळवळटालो. जाणटीं कशींय दीस सारताले पूण लिंगूची दशा पळोवं नजो जाताली.

जाणटी दुर्येत आवय अन्न, उदक आनी वखद मे

शिल्ल्यान तळमळून तळमळून जेन्ना भायर पडली तेन्ना वराजाक खूब दुख्ख भोगलें. असहाय जावन तार्णे आवयचें गार्चे दुख्ख पचयलें आनी आवयचे बारा दीस जातकच टीं पळयनासतां आपल्या माणकुल्या पुताक, लिंगूक खांदार ोवन लकम्या सयत चलत चलत दुसरो गांव लागीं केलो. जायपण आनी कामेरी ह्या शिवाय तांकां कांयच काम पार्चे नाशिल्लें. गांवांत एकामेकांक समजु जातालें. अडी उचणीक पावप जातालें. आतां देवाचेर सगळो भार घालून फुर्डे सरिल्लीं. तांणी आपलो गांव सोडिल्लो.

एका सारकें चलिल्ल्यान थकून-भागून तांकां पुरो ाल्लें. एका बस थाब्यांत विसव येवचे पासत तीं बसलीं. कमा आनी बसवराज चितूंक लागलीं. गांव सोडून भायर सरलीं फुर्डे कितें? मोठो प्रस्न! पदराक माणकुलो लिंगू! का कसलींच समजिकाय नासली, सान पिराय!

भुकेन आनी तानेन तांचो जीव गळ्याक तेकिल्लो. गू इल्लेंशें तोंड करून तुकू-तुकू करून लकमा आनी सवराजा कडेन आशेन पळयतालो आनी तीं फुर्डे कितें? र्डे कितें अशें चित्ता थंयच आसा. तांचे सामकार एक साठ र्सां पिरायेचो दादलो उबो रावून तांकां तेळूंक लागलो.

लकमाची नदर ताचेर पडना फुर्डे तार्णेच प्रस्न केलो- तुमी खंयसून आयल्यांत? कोणाक रावतात बी?"

बसवराज आनी लकमान एकामेकांच्या तोंडाक पळयलें ानी लकमानच जाप केली.

" आमी कोणाक रावनात. आमच्या गांवांत दुकोळ डिल्ल्यान आमी गांव सोडून भायर सरल्यांत. खंयींय, स्लेंय काम मेळत तर आमी करतलीं हें चिंतून."

" हो आमचो माणकुलो. भुकेन सामखो तळमळटा. पूण र्ते करतलीं? हातांत दमडी ना. उदकाचेरच भूक भागयतात."

" म्हजें नांव सांतान. हांगासर लागींच म्हजें भाट आसा. आतां म्हजी पिराय वाडिल्ल्यान हांव म्हज्या भाटांत ावपाक कोणी मानाय, कामेरी मेळत काय म्हूण ह्या बस ांब्या कडेन सदांच पासय मारता."

" मागीर जालें तुमचें काम?"

" ना. मेळूं ना. तुमची इच्छा आसत तर तुमी म्हज्या भाटांत मानाय-कामेरी म्हूण येवंक शकतात. थंय तुमी दिसवड्याचेर काम करात. भाटांत वर्सय भर काम आसा. रावपाक लॉज आनी भाटाच्या कुशीच्यान व्हंयचें उदक व्हांवता."

सांतानाचीं उतरां आयकुनच तांचीं पोटां भरलीं. चड विचार करी नासतना तांणी हयकार दिलो आनी तीं सांताना फाटल्यान चलूंक लागलीं. तांणी चितूंक नासलें इतले बेगीन तांचो प्रस्न सुटावो जायत म्हूण.

सांतानाच्या भाटाचे कुशींतल्यान व्हंयचें उदक व्हांवतालें. तेकुनच लागसार आनीकय खोंपीनी लोक रावताले. तेय बी दिसवड्याचेर काम करताले. एक बरें जाल्लें, जागीक लोक आशिल्लो.

दुकोळ पडिल्ल्या गांवांतल्यान आयल्यांत हें समजना फुर्डे मनीसपणाच्या नात्यान सांतानान तांकां तांदूळ गोटो हाडपाक थोडे पयशे दिले. हरवें सोडिल्ल्याक पिर्के मेळिल्ले वरी जाल्लें. सांतान तांकां देवा वरी भेटलो.

कांय दीस वतकच लिंगूची, लकमाची, बसवराजाची गांवांत वळख जाली. बालवाडीचे बाईन मुखार सरून गांवच्या पंचाचे मजतीन लिंगूचो तेर्म केलो आनी ताका गांवांतले शाळेंत भरती केलो. लिंगू जात्याच हुशार आशिल्ल्यान तार्णे चवथी यत्तेचो हुमरो केन्नाच हुपलो आनी तो गांवांतल्याच स्कुलांत वचपाक लागलो.

बसवराज आनी लकमा दिसवड्याचीं कामां करूंक लागलीं. भाटाची जतनाय येतनाच फाविल्ल्या वेळांत बसवराज बारीक सारीक कामां करून चार पयशे जोडटालो. नाल्लाचो पाडो जातकच चुडटांचे व्हीर काडून सारनी करप, मल्लां विणप, खोंटले करून विकप. लिंगून शिकप सोडून आपल्याक आदार करचो अशी तांची इत्सा आसताली. पूण लिंगू पयलीं आपलो अभ्यास करतालो आनी फाविल्ल्या वेळार बापायक आदार करतालो.

बसवराजाक शिक्षणाचें म्हत्व नासलें. ताका दिसतालें, शिकप करून कितें जावपाचें! लिंगून बारीक सारीक कामां करून चार पयशे जोडून संवसाराक हातभार लावचो. कारण दिसवड्याच्या कामांत तांकां जो पयसो मेळटा तातूंत तीं कशे

भशेन दीस धुकलतालीं. दोन तोकां जुळयताना तांकां कश्ट भोगताले.

लिंगू जात्याच शिकपाक हुशार आसलो, तसोच हेर कलेंतय. क्रिकेट, कबड्डी, चित्रकला, भजन कला, गायन कला, क्राफ्ट कला ताका अवगत आसल्यो. ताका दुसऱ्या विशीं प्रेम, माया, मोग आसलो. दुसऱ्यांक आदार करपाक तो सदांच फुडें आसलो. तशें पळोवंक गेल्यार लिंगू सगळ्या गुणांनी अव्वल आशिल्लो. ताच्या ह्या गुणां मुखार ताची गरिबी धांपून उरताली.

पूण ताच्या वर्गांतले भुरगे ताका लागीं करी नासले कारण तो गरीब. ताचो आवय-बापूय कामेरी म्हूण वांगडी ताका सदांच हिणसायतालें. पयस पयस करताले. मदले सुटयेंत वा पि.टी. पिरेडीक तांचे वर्गांतले वांगडी तरेकवार खेळ खेळटाले. आपल्याक खेळपाक येवंचो म्हूण लिंगू आपल्या सांगात्यांचीं कसलींय कामां करपाक तयार आसतालो. पूण कामा पुरतो मामा म्हणी प्रमाण तांचे सांगाती लिंगूचो वापर करून घेताले. पूण खेळपा वेळार ताका खेळा भायर दवरताले.

जेन्ना क्रिकेट वा फुटबॉल खेळटाले तेन्ना पयस पावता तो बॉल हाडपा पुरतो लिंगूक खेळपाक घेतिल्ल्याचें नाटक करताले. लिंगूक सगळें समजतालें. गरिबीक लागून ताका बेगीन समज आयिल्ली. तरी सुद्दा नेणारपणाचें नाटक करून आपले वांगडी सांगता तें काम तो करतालो. कारण ताका तांचे शिवाय कोणच सांगाती नासलो. लिंगू तां वांगडा खेळपाक आशेतालो पूण ताच्या वांगड्यांक लिंगू मात लेगीत काकुळट येना आसली.

फकत एकटोच वांगडी, भास्कर ताका खूब बर करतालो. मदले सुटयेक फोर्सान लिंगूक आपल्या घरा व्हरताल आपूण जें खाण खाता तेंच खाण ताका दितालो. भास्कराच आवय, आजी, आजो, बापूय लिंगूक खूब बरीं करताली भास्कराक तांणी सांगुनच दवरिल्लें, मदले सुटयेंत ता लिंगूक हाडपाचो. बाकिच्या वांगड्यांनी ताका हिणसायलो उणाक लेखलो तरी भास्कराक लागून लिंगू सगळें विसरताल

वर्सावळी प्रमाण गॅदरिंगाक नाटक बसोवपाचें थाराय जाल्यार सगळ्यांनी बरे-बरे पार्ट आपसांत वांटून घेत आनी निमणें कामेऱ्याचो पार्ट उरलो तो लिंगूक दिलो. कार कामेऱ्याच्या पुताक कामेऱ्याचोच पार्ट फावो जाता. लिं आपल्याक नाटकांत पार्ट मेळ्ळो म्हूण खूब खोशी जाल आपूण कामेऱ्यांचोच पूत, आपल्याक आनी दुसरो पार्ट कर फावतलो, अशी ताणें मनांत समजूत घालून घेतली. स्टेजी चडपाक मेळ्ळें तेंच व्हड, अशें लिंगू समजतालो.



ग्रेसायो सुरू जातकच कामेऱ्याची भुमिकाच मुखेल थारली. भकान लिंगूचे भुमिके कडेन चड लक्ष दिलें. कारण कामेऱ्या र्तीच मुख्य कथानक आसलें. राजा, प्रधान, मंत्री फकत ां पुरतेच वावुरपाचे.

कामेरी राजाल्या दरबारांत ताचे बुदवंतकायेक लागून पावता. तो कामेरी आपले पयलींचे परिस्थितीचो आपल्याक विसर नये म्हणून फावता तेन्ना आपली राजाल्या दरबारांतली ायकी दैंवयता आनी आपली म्हेळी मुस्तायकी चडयता ज्जी आपल्याक याद दिता. तूं हो - तूं हो - तूं हो.

गॅदरिंगाक सगळ्यांत बरी भुमिका लिंगूचीच जाली. भुमिका केल्ले बद्दल ताका पयश्यांच्या रुपान खूब ामां मेळ्ळीं. लकमा आनी बसवराज खूब खोशी जालीं. ंगूक इनामां मेळ्ळ्यांत तीं पळोवन बाकी वांगड्यांचीं ा सामकी पडलीं.

लिंगूचो खास इश्ट भास्कराच्या बापायन ताका आपले ा आपोवन ताचो खेरीत असो सत्कार केलो आनी ताका केटांत घालून पांचशें रुपया दिवून सांगलें, ''तुका केन्नाय मलीय अडचण आयली जाल्यार कसलीच भीड मुर्वत धरी सतना आपले कडेन यो. तूं म्हाका भास्करा वरींच. आमच्या ांत तुका सदांच येवकार आसतलो. तुज्या कर्तुबानच तूं ड जातलो.''

भास्कराच्या बापायच्या उतरांनी लिंगूचें काळीज भरून ायलें. दोळ्यांत दुकां भरलीं. भास्कराचे आजयेन ताका गेंत येवन ताचीं दुकां पुसत म्हळें, ''लिंगू अशें दोळे रून रडप ना. तूं म्हज्या नातवा वरींच. सदांच भास्कराचो ंगात धर. एकामेकांच्या आदारान शिकप करात. हांव तुजी ाजीच समज. कळ्ळें मरे?'' लिंगूक त्या वेळार आजयेची ाद आयली आनी ताच्या पोल्या वयल्यान चड-चड दुकां ळूंक लागलीं.

लिंगूची नाटकांतली भुमिका ताचेर परिणाम करून गेली. ाच्या विचारांक कामेऱ्याचे भुमिकेन कलाटणी दिली. तो यतूंक लागलो. आपूण गरीब, आपले आवय-बापूय ेसवड्याचे कामेरी. आपल्यांत आनी स्कुलाच्या वांगड्या दीं व्हड अंतर आसा. तें अंतर भरून येतलें जाल्यार शिक्षणा बगर पर्याय ना. आपणें बरें शिकप करूंक जाय. कितें तरी वेगळें शिकून आपल्याक प्रस्थापीत करूंक जाय. आपली कला वाडोवंक जाय. सान पिराय आसून लेगीत हळू-हळू लिंगूत बदल यडूंक लागलो. परिस्थितीन लिंगूक भुरगेंपणांतच जाणटो केलो.

लिंगूक याद जाता. एक दीस लिंगू आपल्याक क्रिकेट खेळपाक येवचो म्हूण लालेतालो. तेन्ना एका वांगड्यान ताका म्हणलें क्रिकेट खेळप म्हळ्यार बेडे पुंजावप काय सारनी विणप रे? तुजे आई बाबा मल्लां विणटात, दिसभर भाटांत माडांचें, सुपाऱ्यांचें काम करतात तसलें बी तुका दिसलें?''

दुसऱ्या वांगड्यान म्हणलें, ''तुका शिकप कोणें सांगलां रे? तूं आवय-बापाय बरोबर मानायपणच कर. क्रिकेट खेळपाक सोदता तो, बॅट तरी धरपाक येतलें रे? तूं मरे पयलीं पिराड्याचें बॅट करून खेळ आनी मागीर आमच्या बरोबर खेळपाक यो. सगळे बरोबरचे हांसपाक लागले.

आपल्या इश्टांचीं कुच्छित्रिपणांचीं उतरां लिंगूच्या काळजांत रोमिल्लीं. एक वटेन तो चिंत्ततालो, खरेंच हांव गरीब. म्हजे आवय-बापूय गरीब. गरीब आसप म्हळ्यार गुन्यांव? सान पिराय आशिल्ल्यान लिंगूक समजना आसलें. पूण तो मनांतल्या मनांत पुरमट्टालो.

आपले आवय-बापूय आपल्या शिक्षणा खातीर कितले कश्ट कश्टतात तें ताका कळटालें. म्हणुनच तार्णे मनांतल्या मनांत थारायल्लें, आपली कला आसा ती आपूण तनमन लावून वाडयतलों आनी संवसारांत नांव जोडटलों. तार्णे निच्छेवच केल्लो. आनी ताच्या बऱ्या नशिबान कसो क्राफ्ट शिक्षक ताका खूब बरो करतालो. तार्णे लिंगू मदले गूण पारखिल्ले. आनी क्राफ्टाची खंयीय सर्त आसली जाल्यार तो लिंगूक फुडें काडटालो. लिंगूय मनपुर्वक बरे तरेन काम करतालो. आपल्याक आनी शिक्षकाकय समाधान मेळसर मेहनतीन काम पुराय करतालो. सर्त जिखून येतालो.

लिंगू अशे तरेचीं सपनां पळयतालो. पूण ताका खबर आसलें आपलीं सपनां, सपनांच उरपाचीं. वांगड्यांनी ताका

कितलोय हिणसायलो तरी तो तांचो वांगड सोडनासलो. फाटल्या - फाटल्यान वतालो. खेळपाक घे वा घे नाका.

लिंगू मर्दी एक बरो गूण आशिल्लो. दुसऱ्यांक आदार करप. लिंगूच्या सत्काराची तयारी चल्ल्या ती पळोवन जरी ताचें मन धादोशी जालां तरी एक-एक खीण ताच्या काळजांतली शिवण उसयतालो.

लिंगूचो एक वर्ग वांगडी निलेश एक आठवडो जालो वर्गांत येना जालो. म्हूण एक दीस स्कुल सुट्टकच निलेशालें घर सोदीत सोदीत तांगेर गेलो. निलेशाक आवय - बापूय नासलो. निलेश ल्हान आसतनाच एका रोगाचे धामीन ते भायर पडिल्ले. निलेशाली आजीच घरांत आसताली. तिणेंच ताका ल्हानाचो व्हड केल्लो.

ह्या आठ दिसांत आजी बरी ना जावन तिणें हातरूण धरिल्लें. आनी निलेशाक तिची सेवा करची पडली. आजयेची आवतिकाय पळोवन आपले आजयेची याद आयली आनी भरून आयलें. तांणे निलेशाक सांगलें, स्कुल सुट्टकच तुज्या आदाराक हांव सदांच तुगेर येतां. आमकां कशें जमता तशें तिची सेवा करूं या. लिंगून उतराक पाळो दिवन तो स्कुल सुट्टकच नित्य नेमान निलेशागेर वचपाक लागलो.

जाल्यार वर्गांतल्या सांगात्यानी वर्ग शिक्षका कडेन कागाळ केली की लिंगू आसा तो सदांच इश्कोल सुट्टच आमचे बरोबर येना. दुसरेच वटेन वता.

वर्ग शिक्षकान लिंगूक आपोवन विचारलें. तूं काय बरो भुरगो मरे? आनी हे तुजे वांगडी किर्तें सांगतात पळय? तूं स्कूल सुट्टकच घरा वचनासतना खंय तरी दुसरे वटेन वता खंय!

लिंगू तकली सकयल घालून वग्गी उबो रावलो. ताका किर्ते जाप दिवं अशें जालें. आपूण निलेशाक आदार दिवंक वतां म्हळ्यार आपले वांगडी आपलीं फकाणां करतले अशें ताका दिसलें. नाय जाल्यार ते सदांच निमताकच रावतात.

वर्ग शिक्षकान ताका परत विचारलें, ''लिंगू घडलां किर्ते ? तूं घरा वचनासतना खंय तरी वता आनी हें तुज्या घरा खबर आसा? सांग मरे, जाप दी. वोगी कित्याक रावला?''

''सर, सर जाप कसो दितलो? म्हाका दिसता तो आई-बाबाक सांगिनासतना खंय तरी वता आसू ये!'' महेश उलयलो.

'' सर, सर लिंगू कॅरम बी खेळपाक वचना न्हीं शी...शी... स्कुलाचे भुरगे पयश्यांनी खेळटात खंय बाजारां म्हाका डॅडी सांगतालो.'' रजतान मर्दीच फण्ण घालें.

''शे....शे... लिंगू असलीं कामां करपी न्हीं. म्हजो पुराय विश्वास आसा ताचेर. तो शिकपा बगर कांयच करपी न्हीं. शिक्षक.

'' जाल्यार तो स्कुल सुट्टकच आमच्या बरोबर कित्याक येना तर? हांव सांगूं सर. म्हाका दिसता तो चोरून सिगरेट ओडपाक वता आसतलो!'' रमाकांत उलयलो.

आपल्या वांगड्यांनी केल्ले आरोप आयकून लिंगूच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावंक लागलीं.

'' लिंगू रडूं नाका.''- शिक्षक.

'' सर रडूं नाका जाल्यार किर्ते करूं?''

'' आरे सांग मरे तूं स्कूल सुट्टकच खंय वता?''

'' हांवें सांगल्यार तांकां खरें दिसचें ना. ते म्हाली सदांच फकाणां करतात. पयश्यांनी कॅरम खेळपाक, चोरून सिगारां ओडपाक म्हजे कडेन खंयचे पयशे? हांव किर्ते गिरेस्त तांचे भशेन? हांव गरीब म्हणून ते सदांच म्हजीं फकाणां करतात. सर...सर खेळपाक लेगीत म्हाका आपले बरोबर येनात ते.... हूं.......हूं......हूं............''

लिंगू रडटा तें पळोवन शिक्षकान ताचे फाटी वयल्यान हात भोंवडायलो.

'' लिंगू, लिंगू, म्हजो तुजेर पुराय विश्वास आसा. ताणें दुबाव उक्तायलो. ते सांगतात ताचेर म्हजो विश्वास बसना ना म्हणून खरें फट कळचें म्हूण तुका विचारलें. तूं इतलो भावनावश कित्याक जालो? सांग लिंगू तूं कित्याक रडलो?''

'' सर हांव खरें तेंच सांगतां. आमचो वर्ग वांगडी निलेश एक सप्तक जालें स्कुलांत येना.''

'' हय मरे खऱ्यांनीच रमाकांत, निलेश दिसच ना ह्या दिसांनी.'' महेश.

'' पळयलें सर, सदांच येवपी निलेश, ह्या दिसांनी कित्याक येना, हें सुद्दा म्हज्या वांगड्यांच्या लक्षांत येना''

'' हय-हय येना तो. कित्याक येना काय? लिंगू तुका बी खबर आसा?'' रजतान विचारलें.

'' हय म्हाका खबर आसा. सर, सर, नित्यनेमान स्कुलांत येवपी निलेश आठ दीस जाले स्कुलाक कित्याक येना काय, पूण ताचो हुस्को जालो.''

'' आवय, ते खातीर हुस्को कित्याक जावूं जाय ? रावलो जाल्यार रावलो.'' रमाकांत उलयलो.

'' सर पळयलें अशीं फकाणां करतात हे सगळे.''

'' ओगी रावात रे सगळे. लिंगूक उलोवं दी. लिंगू, निलेश कित्याक येना तुका खबर आसा?''

'' सर, जेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें, निलेश स्कुलांत येना तेन्ना म्हाका दिसलें ताची चवकशी करची. एक दीस गांव इश्कोल सुट्टकच हांव निलेशालें घर सोदीत-सोदीत तागेर गेलों. जाल्यार ताची आजी चड बरी ना आनी निलेशच तेची सेवा करता. निलेशाली आवय-बापूय निलेश ल्हान आसतनाच एके धार्मीत भायर पडिल्लीं. तेन्नाच्यान आजयेनच निलेशाक सांबाळिल्लो. एकटो निलेश सेवा करता म्हूण हांव ताच्या आदाराक वचूं लागलों.''

लिंगूची गजाल आयकून शिक्षकाक खरी गजाल समजली. '' तुमी सगळ्यांनी लिंगूची देख घेवपाची सोडून ताचेर दुबाव घेतात मरे?''

शिक्षकाच्या मनांत लिंगू विशीं खेरीत असो आदर निर्माण जालो. सरान त्या दिसा लिंगूची खूब तोखणाय केल्ली.

'' तुमी सगळे लिंगूचीं फकाणां करतात. ताका खेळपाक घेनात, कारण तो गरीब म्हणून. पूण जाणां जायात, लिंगू इतलो प्रामाणीक, खरें उलोवपी, दुसऱ्यांची अडचण समजुपी दुसरो इश्ट तुमकां मेळचो ना. तुमी ताका खेळपाक घेनात तरी लेगीत तुमी सांगिल्लीं सगळीं कामां तो करता. आयज पळयात निलेश स्कुलाक येना हे लिंगूच्या लक्षांत आयलें. पूण तुमच्या लक्षांत येवूं ना. ताणें निलेशाल्या घरा वचून ताची मदत केली जाल्यार तुमी ताचेरच दुबाव घेतलो.''

'' सर, सर, आमकां कांय खबर नासली म्हणून आमी दुबाव घेतलो, न्ही रे महेश!'' रजत उलयलो.

'' हय सर, पूण लिंगूक निलेश स्कुलांक कित्याक येना हें आमकां सांगपाक कितें जाल्लें?''

'' तुमी म्हाका विचारलां तरी? तुमी सरळ सरा कडेन म्हजी चाडी केली. केली मरे तुमी सगळ्यांनी? हांव गरीब म्हणून तुमी सदांच म्हजी फाट घेतात. हूं...हूं....हूं....'' करून लिंगू रडूंक लागलो.

'' लिंगू आतां ओगी राव. तुवें मरे बेस बरें मनीसपणाचें काम केलां. असोच वाग, असोच सगळ्यांक आदार कर. जो कोण आदार नाशिल्ल्यांक पावता तार्चे सदांच कल्याण जाता. लिंगू, तुका सदांच म्हर्जे सहकार्य लाबतलें. भुरग्यांनो, दुबावान दुबाव वाडटा. तुमी सगळ्यांनी लिंगूचेर दुबाव घेतलो. फटींचे आरोप केले. ताचे विशी नाका नाका तें उलयले. पूण तो तर बरें कर्तुब करतालो.''

'' हय सर. खरेंच चुकले आमी.''

'' हय सर. हय सर. हय सर.'' सगळे वांगडी उलयले.

'' परतो तुमी गरजे शिवाय लिंगूचेर न्ही तर कोणाचेरूच दुबाव घेवचे नात न्ही?''

'' ना....... सर, ना......सर..''

'' बरें तर आतां सगळे लिंगूची माफी मागात. तुमी आतां तशे साप ल्हान नात. आठवेचे विद्यार्थी मरे! आनी दोन वर्सांनी धावी पास करून उच्च माध्यमीक स्कुलांत पावतले. आतां तुमचे बुध्दीची वाड जावूं जाय. सकारात्मक चिंतूं जाय. भेदभाव करी नासतना मेळून मिसळून वागूंक शिकूं जाय. शिक्षणांत आमी नदर बदलपाक शिकूं जाय. आपल्या आंगांतल्या गुणांनी, कलेन कोण केन्ना मळबाक गवसण घालीत समजुचें सुद्दा ना. लक्षांत दवरात. चलात सगळे लिंगूक हात दियात आनी माफी मागात.''

सगळे वांगडी एक-एक करून लिंगूक शेक हँड करतात आनी 'लिंगू आमकां माफ कर' म्हणटात.

१०

जेन्ना लिंगू चवथी पास करून गांवांतल्या हायस्कुलांत पावलो तेन्ना तो मातसो गोंदळिल्लो. लकमान ताका हायस्कुलाचे गेटी मेरेन पावयल्लो. ताचे कडेन गणवेश नाशिल्लो. चडशे विद्यार्थी गणवेशांत आशिल्ले. जे विद्यार्थी गणवेशांत नाशिल्ले तांकां नित्याची ॲसेंब्लीची प्रार्थना

जातकच मैदानाचेरच रावपाक सांगिल्लें.

प्राथमीक शाळेंतल्यान चवथी पास जाले उपरांत लिंगू व्हडले शाळेंत-हायरकुलांत पाविल्लो. लक्माक आपलो लिंगू खूब शिकचो अशी मनांतल्यान इत्सा आसली म्हणून बसव्वाच्या विरूद्द वचून तार्णे लिंगूचें हायरकुलांत नांव घाल्लें. जरी गांव ल्हानसोच आसलो तरी हायरकुलाची इमारत व्हड आसली. दर दिसा सकाळीं हायरकुलाच्या मैदानाचेर ॲसेंब्ली जाताली. ॲसेंब्लींत प्रार्थना जाताली आनी आदले दिसा तशेंच हायरकुलाचे संबंदीत घडिल्ल्या घडणुकांचो निंयाळ सादर जातालो. दर आठवड्याक दर एका वर्गाचें सादरीकरण जातालें.

पयलोच दीस आशिल्ल्यान मुख्याध्यापकाचें येवकाराचें उलोवप आसलें. मैदानाचेर विद्यार्थी आपआपल्या वर्गाची ओळीन रावपाची रचना करताले. दर एका वर्गाचो मॉनिटर ओळीचे मुखार रावून वर्गाचें मुखेलपण करतालो. नव्या विद्यार्थ्यांक पी. टी सरान ओळीन रावोवपाचें काम केलें आनी पी.टी. सरान सावधान विश्रामाचे आदेश दिले. राष्ट्रगीत जाले उपरांत मुख्याध्यापकान आपल्या पयल्या दिसाचें येवकाराचें उलोवप केलें आनी जाणी जाणी गणवेश घालूं ना तांकां मैदानाचेर रावपाक सांगलें.

लिंगूचें काळीज धडधडूंक लागलें. गणवेश ना म्हूण आपल्याक घरा बी धाडटले काय? घरा परत धाडल्यार लक्माक कितलें वायट दिसतलें आनी बसवराजाक कितली खोस जातली. शी! अशें जायना जाल्यार पुरो. अशें चिंतता थंय आसा, इतल्यान एक शिक्षक मैदानार आयलो. तार्णे दर एका विद्यार्थ्याक गणवेश न घालपाचें कारण विचारलें.

थोड्यांनी, गणवेश शिंवून मेळूं ना......

थोड्यांनी, कपडो घेतला पूण शिंवूंक दिवूं ना.......

अशीं कारणां सांगलीं. पूण लिंगू मात ओग्गी रावलो. ताचें काळीज धडधडटालें. आपर्णे तर गणवेशाचो कपडोय घेवूं ना. ताका किर्ते सांगचें तेंच कळना जालें. जर आपर्णे खरें कारण सांगलें जाल्यार? किर्ते करपाचें? व्हड उमेदीन तर आपूण शिकपाक आयलां. लिंगूचो घुस्मटमार जालो. निमर्णे शिक्षकान ताका प्रस्न केलो - ''तुवें गणवेश कित्याक घालूं ना?''

लिंगू कडेन जाप नाशिल्ली. शिक्षकान खोदून खोदून विचारतकच लिंगून भरिल्ल्या दुकांनी सांगलें -

''म्हाका गणवेश शिंवू ना.''

'' तुजें आई-बाबा कसलें काम करतात?''

'' गांवांतल्या सांतान भाटकाराल्या भाटांत मानायपण आनी आवय कामेरी.''

'' इतलेंच मरे, तूं चिंता करूं नाका. तुका गणवेश स्कुल दितलें.''

'' खऱ्यांनीच, गणवेश ना म्हणून म्हाका घरा धाडचेना?''

'' आरे पिशा गणवेश ना म्हणून विद्यार्थ्यांक घरा धाडटात म्हण तुका कोर्णे रे सांगलें?''

'' कोर्णे ना सर, म्हाकाच दिसलें.'' लिंगूचे दोळे भरून आयिल्ले.

'' आरे-आरे रडूं नाका. तुका खऱ्यांनीच गणवेश मेळटलो.''

'' म्हाका शिकूंक मेळटलें न्ही? म्हजे आवयन म्हाका शिकपाक धाडला. आनी सांगलां शिकल्यार व्हड मनीस जाता खंय! मागीर मानायपण बी करपाक नाका.''

''आरे-आरे तुका आमच्या स्कुलांत शिकूंक मेळटलें हां. पयलीं दोळे पूस आनी आतां आयक. आमी चवकशी कित्याक करतात तर जांकां गणवेश शिंवपाची तांक ना तांकां स्कूल दिता. फाल्यां स्कुलांत दर्जी येतलो. जोख घेवपाक. गरीब विद्यार्थ्यांक गणवेश दिवपाची आमच्या स्कुलाची येवजण आसा. आनी जाणां जा तुका पुस्तकांय मेळटलीं. तुवें फकत बरें शिक्षण घेवपाचें. तूं खंय रावता?''

'' सांतांन भाटकाराल्याच भाटांत.''

'' तुजें नांव किर्ते?''

'' लिंगू बसवराज.''

'' आरे राव रे, तुमचे प्राथमीक शाळेक क्राफ्टाचें पयलें इनाम फावो करपी तूंच तो लिंगू ?''

'' हय सर, चौथेच्या वर्गांतल्यान म्हाकाच तें पयलें इनाम फावो जाल्लें.''

'' आरे-आरे-तूं-तूं तोच लिंगू बसवराज?'' शिक्षक लिंगूक



गेंत घेता आनी ताची अपुरबाय करता.

'' म्हाका खूब खोस जाल्या, कित्याक काय म्हूण नेचार?''

'' सर-सर-सर.''

'' आरे हांव तुजो क्राफ्ट टिचर. तुजे असलो विद्यार्थी आमच्या स्कुलाक मेळप म्हणल्यार स्कुलाचें भाग्य फळफळप.''

'' हांव समजूं ना सर.''

'' अजून तूं ल्हान आसा. म्हणून समजूं ना. पूण रोखडोच हांव तुका समजायतलों. तुज्या कलागुणांक अशीं तांसां मारतां की तूं संवसारांत चकचकतलो. फाल्यां तुज्या गणवेशाचें जोख घेवपाक दर्जी येतलो. आतां पुस्तकां व्हरपाक म्हज्या सांगाताक ऑफिसांत यो. तुजी सगळ्यां विद्यार्थ्यां कडेन वळख करतां. आमच्या स्कुलांत एक व्हड नखेत्र पावलां हाची जाणविकाय मुख्याध्यापकाक करून दितां. तुका हांव व्हड मनीस करतलों. तुजे आवयन तुका व्हड मनीस जा म्हणलां मरे.... जातलोच तूं.''

लिंगूक शिक्षकाल्या उतरांचो कांयच अर्थ कळ्ळो ना.

११

लिंगूक याद जाता ती त्या क्राफ्ट शिक्षकाची जाल्ली पयली भेट. आनी ते भेटीन लिंगूक खंयचे खंय पावयलो. लिंगून केन्ना चिंतूं लेगीत नासलें आपलें नशीब अशे तरेन उगडटलें. दुकोळ पडलो, खाणां जेवणाची मारामार जाल्ल्यान आपलो गांव सोडून लकमा आनी बसवराज माणकुल्या लिंगूक घेवन ह्या परगांवांत पावतात किर्ते ! लकमाचे अंतरीक तळमळीन लिंगू प्राथमीक शाळा केल्या उपरांत हायस्कुलाची सोपणां चडटा किर्ते! आनी उपरांत कले कलेन लिंगूची कला फुलता-फळटा किर्ते? कल्पने भायल्यो गजाली ज्यो सपनांत लेगीत घडपाच्यो नासल्यो, त्यो गजाली उर्बा, तोखणाय लिंगूच्या जिवितांत घडत गेल्यो.

लिंगू फाटल्या यादीनी घुसपता. कसले-कसले वायट आनी आतां बरे दीस. लिंगू गणवेश नासतना चार दीस वर्गांत बसलो तेन्ना ताच्या वांगड्यांनी ताची केल्ली फकाणां, बकच्छायो, ताचे गरिबीच्यो तिसत्यो वादऱ्यो, त्यो केदोय व्हडलो भोवमान मेळ्ळो तरी लिंगू विसरूंक शकना. वर्ग वांगड्यां कडल्यान खिणाखिणाक जाल्लो अपमान ताच्या काळजांतल्या कुरकुटांत घर करून आसा.

गरीब मनशाचे भोगणार खूब आसतात. एकदां पिकनिकेक वचपाच्या वेळार ह्याच क्राफ्ट सरान ताचे पयशे भरले आनी ताचें नांव दिलें. सर ताका खूब बरो करतालो. लिंगूक पिकनिकेक पळोवन ताचे वांगडी अजाप भरीत जाले आनी ताचे फाटल्यान लागून ताच्यो बकच्छायो करून म्हणूं लागले, ''ए-ए- पळयात रे सगळे, लिंगू पळय पयशे दी नासतना

पिकनिकेक आयला. पिकनिकेचे पयशे हाचो बापूय दितलो? मानाय मरे तो.'' आनी अशें म्हणून सगळे ताच्यो बकच्छायो करीत हांसू लागले. लिंगू रडपाक पावलो. इतल्यांत ताचो क्राफ्ट सर थंय पावलो.

'' लिंगू किर्ते जालें? पिकनिकेक आयला मरे, मजा करपाची. अशें रडकुरें तोंड कित्याक केलां? किर्ते जालें? तुका कोणें किर्ते म्हणलें?''

'' सर, सर हे म्हाका चाळयतात. हांव पिकनिकेक फुकट आयलां. पयशे दिनासतना आयलां.'' आनी अशें म्हणून लिंगू लागलो रडपाक.

'' आरे पिकनिकेक सुद्दा तुमी ताचे वाटेक कित्याक वतात रे? तो कोणाच्याच अध्यांत ना मध्यांत. तुमी सगळे जाणात लिंगू म्हजो आवडटो विद्यार्थी. आनी तो कित्याक आवडटो हें ताणें आपल्या गुणांनी सिध्द करून दाखयलां. म्हजे कडेन जाता तितलो हांव ताका मदत करून आनंदीत, प्रफुल्लीत दवरपाचो यत्न करतलों आनी म्हणुनूच ताचे पयशे हांवें भरल्यात आनी ताका पिकनिकेक हाडला. जालें तुमचें समाधान?''

लिंगू सराच्या तोंडाकच पळयत उरलो. सर आपल्याचेर कितलो मोग, माया करता ती पळोवन आनी आपल्या खातीर आपल्या वर्ग वांगड्यां कडेन भासाभास करता ती पळोवन सर म्हणल्यार आपलो एक गडगंज आदार कसो म्हणून समजता. सरा विशीं लिंगूच्या मनांत व्हड विश्वास निर्माण जाता.

सरान वर्ग वांगड्यांक लिंगूक त्रास दिनाकात म्हणू सांगलें तरी जित्याची खोड खंय वचना तशें लिंगूक सतायले बगर, ताचे वाटेक गेले बगर तांकां कशेंच सूख लागना. पिकनिकेचे सुवातेर एक तळें आसलें. थारिल्ले प्रमाण उदकांत पेंवपाचो वेळ आयलो. सरान सांगलें जांकां पेंवपाक येता तांणीच उदकांत देंवपाचें. चड वेळ उदकांत रावप ना. मर्यादीन वागप. सगळे वांगडी तयार जाले. उदकांत देंवच्या वेळार सगळ्यांनी, जांकां पेंवपाक जाय आसलें तांणी आपआपली मुस्तायकी देगेर दवरली. आनी उदकांत उडी मारली.

लिंगूनय आपली मुस्तायकी देगेर दवरली. लिंगूक बरें पेंवपाक येतालें. कारण सांतान भाटकाराल्या भाटा कुशीच्या न्हंय व्हांवताली. आनी लिंगू सदांच ते न्हंयत न्हावपा वतालो. न्हाता आसतना तो इल्लो-इल्लो करून आप आपुणूच पेंवपाक शिकलो. आनी ताका लागून पिकनिके गेल्ले कडेन तोय बाकिच्यां वांगड्या बरोबर उदकांत पेंवपा लागलो. उदकांत लेगीत वांगड्यांनी एकटोच वडयलो. पू लिंगू आनंदान मनसोक्त पेंवतालो.

पेंवतां पेंवतां तांचो एक वर्ग वांगडी रजत बुचकळ्य खावंक लागलो. ताका सारखें पेंवपाक येनासलें. त आसतना बाकीचे वांगडी उदकांत देंवले म्हूण तोय देंवलो रजत बुचकळ्यो खाता तें पळोवन बाकिच्या वांगड्यां बोवाळ मारपाक सुरवात केली. रजताक उदकांतल्यान भाय काडपाक कोणाकच जमना जालें. लिंगू पयस एकटोच पेंवतालो जेन्ना लिंगून रजत बुचकुळ्यो खाता तें पळयलें मात, वे करी नासतना सडसडीत हात मारीत मारीत केन्नाकच त रजता म्हऱ्यांत पावलो आनी ताणें रजताक केंसांक धरू ओडीत ओडीत न्हंयचे देगेर हाडलो. बोवाळ आयकून सग शिक्षक थंय पावले आनी तांणी रजताक उमथो घालून ताच्य नाका-तोंडांत गेल्लें उदक भायर काडून ताका सावची केलो. शिक्षकांचेर आकांत आयलो. सगळे थरथरपाक लागले पिकनिकेचेर मोठे संकट आयिल्लें तें टळिल्लें.

पूण हें किर्ते? लिंगू उदकांतल्यान भायर आयला पू ओले चेड्डेरूच उबो आसा. ताचीं फकाणां करचे पासत ताच देगे वयली मुस्तायकी कोणें तरी लिपोवन दवरिल्ली. जेन्न तांचे वांगड्यांक लिंगूचो पराक्रम कळ्ळो आनी ताणें रजता बुडटना वांचयलो तो पळोवन रमाकांतान लिंगूची रजता लिपोवन दवरिल्ली मुस्तायकी बेगीबेगीन हाडून दिली आन लिंगूक वेंग मारून व्हडल्या व्हडल्यान रडपाक लागलो रमाकांतान लिंगूक मारिल्ली वेंग घट्ट आशिल्ली. ''लिंगू- लिंगू तूं आज आमचे बरोबर आशिल्ल्यान केदें संकश टळ्ळें पळय. लिंगू आयच्यान आमी तुजीं फकाणां कर नात. तुका आमचे बरोबरीन वागयतले.''

इतलें म्हणसर लिंगूचे सगळे वर्ग वांगडी ताका वें मारपाक लागले. लिंगूक आपल्या वांगड्यांनी मारिल्ले वेंगे

ा दोळे भरून आयले. ताच्या तोंडांतल्यान उतरांच भायर
ना जालीं. लिंगूची जीण तृप्त जाली. ज्या ख्रिणाची तो
ांच वाट पळयतालो तो ख्रीण आज ताचे मुखार हात
हून उबो आशिल्लो. लिंगूक खबर नाशिल्लें रजताक
कांतल्यान भायर काडून आपणें अशें मोठे कर्तुब केलें.
ात म्हजो वांगडी आनी म्हाका पेवंक येतालें इतलेंच.

१२

पिकनिकेचे घडणुकेन लिंगूक स्कुलाचो हिरो करून
ायलो. सगळें स्कूल भर एकच चर्चा चलताली. स्कुलांतलो
एक विद्यार्थी लिंगू कडेन अभिमानान पळयतालो. ताच्या
हसाची तोखणाय जाताली. पिकनिके दिसा जी घडणूक
डली ती भयंकर आसली. जर त्या दिसा रजत उदकांत
डेल्लो जाल्यार? विचार करप म्हळ्यार कल्पने भायली
जाल. दुसऱ्या दिसा लिंगूच्या साहसाची बातमी छापून
डली आनी ताका परबीं भेटयलीं. गरीब लिंगू आनी आवय
ापायक हातूंत लिंगून खास किर्तें केलें तें इतलें मोलादीक
ूण समजलेंच ना. तांचे कुवती भायली ती गजाल आसली.

पूण जी घटना घडली ताणें स्कूल आनी सगळो गांवगिरो
ठार हादरून गेलो. दुसऱ्या दिसा सकाळचे ॲसेंब्लींत
कुलाचे संस्थेचे अध्यक्ष मुद्दम स्कुलांत आयले आनी ताणें
ंगूचें साहस आनी धैर्याचें कौतूक करताना म्हणलें, ''आज
िंगू सारखो विद्यार्थी आमच्या स्कुलांत आशिल्ल्यान केदें
हडल्या अरिश्टाचें निवारण जालें पळयात. एक गरीब
राब्यांतलो विद्यार्थी. ताका कसलीच फाटभूंय ना पूण आसा
े परिस्थितींत तो पेंवपाक शिकिल्ल्यान रजत सारक्या
वद्यार्थ्याक वाचोवंक शकलो. जरी तो ल्हान आसलो तरी
स्कुलाचे वतीन हांव ताचे उपकार मानतां. आनी ताचे मुखार
तमस्तक जाता. धन्य ते आवय-बापूय जाणी लिंगू सारक्या
ुरग्याक जल्म दिलो. लिंगूक मात आपणें मोठें किर्तें तरी
केलां अशें दिसलेंच ना.

रजताच्या रुपान स्कुलाचेर आयिल्लें मोठें अरिश्ट टाळ्ळें
म्हूण सगळो शिक्षक वर्ग, पालक शिक्षक संघटना हांणी
खेरीत असो लिंगूक उखलून धरलो. रजताच्या बापायन
आपलो पूत रजताक सुखी सुखी वाचोवन ताच्या घराब्याचेर
आयिल्लें अरिश्ट पयस केलें म्हूण ताचे मनकाळजांतल्यान
उपकार मानून ताका पांच हजार रुपयांचें इनाम भेटयलें.
रजताची आवय तर लिंगूक म्हऱ्यांत घेवन ताचे तकले आनी
फाटी वयल्यान परत परत हात भोंवडावन ताचे परत परत
उपकार मानताली.

पिकनिकेचे ते घडणुके उपरांत व्हडलो बदल घडिल्लो.
इतलो तेंप ताचे पसून पयस रावपी सगळे वर्ग वांगडी ताच्या
सामके लागीं आयले आनी तांकां तांची चूक कळून आयली.
लिंगूक आनी कांयच नाका आसलें. आपणें रजताक
बुचकळटना काडलो हाचेंय ताका विशेश अशें कांयच दिसूं
ना. आपणें मोठें अशें कर्तुब केलें अशें तर ताका निखालस
दिसूंना. फकत ते घडणुकेंत एक व्हड बदल घडलो,जो ताचे
वांगडी ताका लागीं आयले. ती ख्रोस तो विसरूंकच शकना
आसलो. ताचो ॲसेंब्लींत जाल्लो भोवमान ताचे हे ख्रोशये
मुखार किर्कोत अशें ताका दिसलें. इतलो तो आनंदीत जालो.
लिंगू तृप्त जालो.

आज ग्राम पंचायतीन लिंगूचो सत्कार करपाचो थारायला
कारण तालुका आनी उपरांत राज्य पातळीचेर पयलें इनाम
हातासून भारताचे राजधानी दिल्लींत निमणे फेरयेंत क्राफ्टाचे
सर्तींत वांटेकार जावपाचो मान ताका फावो जाल्लो.

अश्या ह्या सत्कार सुवाळ्या वेळार लिंगू माटवांत आवय-
बापाय सांगातान बशिल्ले कडेन फाटल्या यादींचो चित्रपट
कसो उबो जालो. यादींची सांखळी कशी लांबच लांब. माचये
वयल्यान मायकांतल्यान लिंगू बसवराजाचें नांव घेतलें तेन्ना
ती सांखळी मदींच तुटली. आज पंचायतीन ताच्या जैता
खातीर आनी ताच्या परजळीत फुडारा खातीर सत्काराचें
आयोजन केल्लें. तेन्ना ताणें फाटल्यो सगळ्यो वायट
यादी, अणभव विसरपाचें थारायलें. फक्त मनाक धादोसकाय
दिवपाच्यो यादी दवरपाच्यो.

१३

लिंगूक याद जाता तो स्कुलांतलो पयलोच दीस. आनी
ताचें सगळें जिवीत बदलून उडोवपी तो महान क्राफ्ट शिक्षक.

'आरे हांव तुजो क्राफ्ट टिचर. तुजे असलो विद्यार्थी आमच्या
स्कुलाक मेळप म्हळ्यार स्कुलाचें भाग्य फळफळप.'

' हांव समजुंना सर.' बाकींचे सर म्हणटाले म्हण लिंगूनय भीत भीत सर म्हणलें.

'आरे अजून तूं ल्हान आसा. म्हणून समजूं ना. तुज्या कला गुणांक अशी तासां मारतां की तूं संवसारांत पळय कसो चकचकता तो. तुजी सगळ्या शिक्षकां कडेन वळख करून दितां. तुज्या आवयन तुका व्हड मनीस जा म्हणला मरे..........जातलोच तूं...... तुकां हांव व्हड मनीस करतलों.' लिंगूक त्या वेळार शिक्षकाल्या उतराचो कांयच अर्थ कळूं नासलो कारण तेन्ना तार्णे निकतेंच इश्कोलांत पयलें पावल दवरिल्लें. पूण आज चार वर्सां उपरांत सराल्या उतरांचो अर्थ इल्लो-इल्लो समजुपाक लागलो. ताचो गळो भरून आयलो दोळे दुखांनी भरले. आयचीं लिंगूचीं दुकां आनंदाचीं, उमेदीचीं आसलीं. सन्मान मेळिल्ल्याचीं आसलीं. तेच बराबर लकमान आनी बसवराजान काडिल्ल्या कश्टांचीं आसलीं. लिंगू बरोबर तांचोय भोवमान जाल्ले वरीं जाल्लो.

लिंगूक मुख्याध्यापक, स्कुलाचो व्यवस्थापन, संस्थेचो अध्यक्ष, पालक शिक्षक संघटनेचो अध्यक्ष, गांवांतले आनी स्कुलाचें बरें मागपी विजयबाब नायक, लिंगूक क्राफ्टाचें प्रशिक्षण दिवपी शिक्षक, थळावो आमदार, सरपंच, लिंगूचे आवय-बापूय हांच्या सांगातान माचयेर बसोवन ताचो भोवमान यडोवन हाडलो.

ताळयांच्या कडकडाटान लिंगूचे फुडले परजळीत वाटचाली खातीर ताका एक दिवली आनी धा हजार रुपयांचो चेक दिलो.

खास आमंत्रीत विजयबाब नायकान लिंगूच्या सगळ्या गुणांचेर उलयताना सांगले ,'' तार्णे आपली कला फळची म्हूण खूब कश्ट घेतल्यात आनी आपलो क्राफ्ट शिक्षकाक तार्णे मानला. तो सांगताच की आपल्या गुरू खातीरच आपर्णे सर्ती जिकल्यात आनी सदांच आपूण ताच्या हाता सकयल शिकप करून आपली कला चड आनी चड विकसीत करतलों. लिंगूक म्हजी काळजा सावन परबीं. आनी फुडाराक यश आंवडेतां.''

हे वेळार थळाव्या आमदारान लिंगूक परबीं भेटयतना सांगले, ''गरीब, गिरेस्त कोर्णे केल्यात ? आमीच समाजान. पूण जाणां जायात मनीस आपल्या गुणान, कलेन, चिकाटीन, एकाग्रतेन, शिक्षणान गिरेस्त जाता. हाचें जिवें तटतटी उदारण म्हळ्यार लिंगू बसवराज. ह्या भुरग्याक कसली फांटभूंय ना. दुकळ पडलो म्हूण परगांवांतल्यान हांगा येव मोल मजूरी करून हाताच्या पोटार जगपी हें जोड गरिबींतल्यान व्हड जावपी भुरगो. फकत तार्णे शिकचें, आव बापाय वरी मानायपण करपाक पडूं नये अशी इच्छा बाळग आवयनच ताका शिकपाचें फाटबळ दिलें. अशिक्षीत आवय बापूय, पूण आवयक दिसलें आपलो पूत शिकून व्हड मनी जावंचो. सलाम लिंगूचे आवयक आनी बापायकय. आवय इत्सेक लागुनूच खरें म्हणल्यार लिंगू शाळा ते स्कूल मेरेन प्रवास करूंक पावलो. आपल्या भितर कलागूण आसात. प्राथमीक शाळेंत आनी उपरांत स्कुलांत पावतकरच तो समज पावलो. आनी ताच्या बऱ्या नशिबान ताका स्कुलांतलो क्राफ शिक्षक मेळ्ळो. जार्णे ताचे कलेक पारखिली आनी क्राफ्ट कला फुलयली. सांगपाचें तात्पर्य लिंगूची देख, आद सगळ्या विद्यार्थ्यांनी घेवंचो. शिक्षणान मनीस व्हड जात लिंगू मदीं आनीकय बरे बे गूण आसात. लिंगू फकत क्राफ न्हय तर सगळे कलेंत, खेळांत पारंगत आसा. अडचल्यां आदार करप होय एक ताच्यांत बरो गूण आसा अशें निकते मुख्याध्यापकान म्हाका सांगलें. जाणा जायात विद्यार्थ्यां तुमच्या भुरग्यांच्या भुजार फाल्यांच्या भारत देशाचो फुड आसा. म्हूण सगळ्या विद्यार्थ्यां कडेन मागतां बरे नागरी जायात.

आयचो सत्कार सुवाळो लिंगूक परबीं भेटोवपाक आं जशीं तार्णे हांगा क्राफ्टाचीं इनामां जोडलीं तशेंच दिल्लीचे इनाम जोडून खासा तुका, स्कुलाक आवय-बापायक नाम मेळोवन दिवंची. तुजे फुडले वाटचालीक तुका यश आंवडेत

जय गोवा-जय भारत''

मानेरतांच्या उमेद वाडोवपी उतरांनी सगळ्यांचीं मुखाम प्रसन्न जालीं. लिंगू धन्य जालो. बसवराज आनी लकम्याच तोंडा वयलो हांसो खूब किर्ते सांगून गेलो. आवय-बापाय वेंग मारून लिंगून खोशयेच्या दुकांक वाट करून दिली

कुडचडे-गोंय. मो.:९८२२४८६९९

- तुकाराम रामा शेट




# करुणायन

१

हें रुदन न्हय....
काळाच्या कांठार
कवी करूण
राग आळयता
समेरस्त संवसारा खातीर
मनीस जाती खातीर

२
## हांव

कोवीड १९
आनी म्हज्या स्वासाकडे
म्हज्या जिवाकडे
म्हज्या मरणाकडे
संबंद आसा
हें मात्शें
म्हाका उसरांच कळ्ळें

आतां मास्क घालुनय
हांव घुस्मट्टां

३
## कुवार्डे

कोरोनाचीं हीं फकाणां
तुमी खरीं म्हणूं येता
फटय म्हणूं येता -
फेक म्हणल्यार
म्हाका कांय ना
पूण खरीं आसल्यार
तुमचो जिवच काडूं येता
गळो दाबून
स्वास उस्वास आडावन
जगपाचो हक्कच
निकामी करूं येता

कोरोना वायट
काय आनीक कोण वायट
कुवार्डे म्हाका पडलां
आनी हांव जालां मोनो...

४
## जाण

म्हाका तोपतकूच
हांव रगत बंबाळ
जातकूच
बरयतलों काय?
काय
दुसऱ्याक तोपता
दुसऱ्याक दुखता
तें म्हजें...

हय म्हजें...
दुखणें
जगबुडें
जग दुखणें

५
## भोपाळ कार्बायड

थंय भोपाळांत खंय
हजारांनी लोक मेल्ले
त्या शारांत खंय
व्हडल्या फर्नेसांत
वखदी पानांमुळांचो
शिजता गरम गरम कसाय
पांच हजार दुयेतींक

मरुंना थंय एक पेशंट
सगलेच रिकवर्ड
आसलो जंय ग्रेट ब्रिथिंग ट्रबल
एका काळार
कसायी कोरोनाक खोंट मारून
आतां कसायान उठून बसल्यात
जिते जिवे जावन
हड्डयांत मेकळो स्वास भरीत
उगत्या मळबांत ...

६

**भेट**

हांव करतां
कोरोनाचेर कवनां
आतां म्हाका
कसलोच भंय ना

कोरोना पावलो दारांत
तसो भंयाक खालो वागान
आतां लोकांची खेटाखेट
आनी कोरोनाची भेट
लांबोवं नाका

७

**झोपाळो**

कोरोना काळांत
हांव पयस
बायल पयस
तरीय बायल
आवडटा म्हाका
म्हणजे ...
म्हजेकडे तिचेकडे
आसा किर्दे तरी...

तिचेकडे येता
म्हजेकडे येता
झोपाळ्यार बसून
दोगांय मर्दी धोलता

८

कोरोना, लॉकडावन
आनी अर्थकारण
हांचो संबंद आसा
हें कांय जाणांक
म्हयन्या दोन म्हयन्यांनी कळ्ळें
म्हाका तें दोन दिसांनीच कळ्ळें
तातूंत म्हजेकडे रेशनकार्डय ना

९

तो फुटको अस्मानी सुलतान
हुंवारांत ताच्या गेले प्राण

१०

दीस रात
दीस रात
काळ फुडें
चलत आसा -

मनीस फुडें
वचच ना
मनीस थांबला
काळ चल्ला

काळ चल्ला
काळ चल्ला

१ १

**माया मोग**

कांय
मनशां मनशां मर्दी
घृणा
जाप दी
जाप दी

काळा तूंय
जाप दी
जाप दी

१ २

तुज्या हातांतली काळजी
पावंदी म्हज्या काळजा मेरेन

१३

भुरगेपणांत
हांव
अनाथ
आसलों
तें
आतां
आतां
हालींच
जाणवपाक
लागलें

१४

## जंगल जंगल

शार जालां जंगल
गांव जाला जंगल
वाटेर वाटेर
बसल्यात वाघ
दावो धरून

हांव ताणतां
म्हजो पोनेळ
उदका वार्टेतल्यान
तोंडार मास्क
फाटी तकलेक
म्हर्जेच म्होवाळें
चलता म्हजो पोनेळ
सुंदरबनांतल्यान
भंयारण्यांतल्यान
अभयारण्यांकडे ...

१५

## खंय खंय

भलत्यान भलत्याक
हात लायल्यार
पिडा जाता खंय

योवान बायलेक
हात लायल्यार
भुरगें जाता खंय

बायलेन योवाक
हात लायल्यार
कविता जाता खंय

१६

## चलती

शाब्बाचो धंदो
फेसाचो धंदो
बुडबुड्याचो धंदो
धंद्यार धंदो

मरणार धंदो
सरणार धंदो
केंस कापपाचो धंदो
उदक हातान
सोडपाचो धंदो

आसनार धंदो
वाशिनार धंदो
वखदार धंदो
रामभरोसे धंदो

देशार धंदो
जगार धंदो
जिवांर धंदो
किर्तेय जावं
धंद्यार धंदो

१७

## भरपाय

कालच विमान दुर्घटना
केरळांत ...

विमानान मेल्ल्या
रावांक
नांव
गांव
सोदून काडून
भरपाय
धा लाख

कोरोनान
मेल्ल्यांक
ना कांव

ना गांव
ना नांव

सांबाळून...
काळजी घे





१८
## धंदो

सामान्यांची रोजगारी बंद
लॉकडावन लॉकडावन
कंटोनमेंट झोन, कंटोनमेंट झोन
आडे लावन, पुलीस फोर्स लावन
धा लोकांक कांय कील गंवांचें पीठ
कांय कील तांदूळ पांच दीस
उलयल्यार, बोब मारल्यार पेट

राजकारण्यांचो धंदो मात चालू
कोळसो, लोखंड, मॅंगनीज खनीज
ट्रकांचेर ट्रक भायर सावन भितर
लोकांची येरादारी बंद
ट्रकांची येरादारी चालूच सेगीत

जाणां तुमी कुवाडें किर्दे तें
कोणाक एका दिसाक
एक कोटी आवशील
भायल्या भायर खंय ...

कोरोनाचें हें कुवाडें ?
काय
आनीक कोणाचें ?

१९
## फकाणां कोरोनाचीं

सगले भिये भियेले
घरा दारा रावले
आतां तो सगल्यांक पावता
रातचोय खंय तो भोंवता
भूत कसो

तार्णे खंय पुलीसांक
लायलें पिर्शे
आनी दोतोरांकय
रस्त्या वयल्या भिकाऱ्याक
मरण धाडून
भुकेंतल्यान मुक्त केलो

आतां खूब जाण
दारा भायर रावन
घरा भायर येवन
ताका ना भियेतां
तार्चीं फकाणां मारतात
आनी यंत्रणेच्योय बकच्शायो

कोरोना खरो
काय मनशान केल्लो
ताचो दरारो, नी आकांत खरो
कांय कांय ...
कांय ना?

२०
## पाडो

अर्द वर्सा वयर जालें ...
कोरोनान संवसाराचे संवसार पाड

जावं ना म्हाका कोरोना
पावूंना शेजाराकय
तरी म्हजो गळो अंदता
आनी हांव तडफडटां
कोरोनाच्या विश्वभरच्या सांगाताव
हांव कोरोनाक
करुणा कर म्हण्टां
आनी सांगतां -
तोंड घेवन
वच हांगाचो,
हे भुंये वयलो

- राजश्री सैल
9922265209



# शार

आयज शाराच्या म्हाल दारांतल्यान
हजारांनी कामगारांची भिरीं
माथ्यार पोटल्यों हातांत रहकुरीं भुरगीं
मनांत एक भंयकर नैराश्य
घेवन भायर सरलीं

कामगार शाराचो प्राण
हमाली, कुली,
हातावेल्या पोटावेलो मानाय
शाराचो चैतन्य मंत्र
चिंध्याचिंध्यांची आपली जीण
पोटलेंत भरून चेंपून,
काळजांतली आरठ मोन्या
ओंठांतल्या ओंठात
चिड्डून घेयत धांवत सुटलो

शार अक्राळ विक्राळ शार
तांचें पोट भरपी शार
तांच्या घुमेच्या थेंब्यां थेंब्यार
खिणाखिणांत
अक्राळविक्राळ रूप धारण करपी शार
तांचे खातीर मात
परकी उपरें फटींग,
नागवणें म्हणच ते भायर सरले
काळजांतलो उजो मोन्यानी गिळीत

हजारांनी घरांनी
लाख लाख लोकांनीं
खोटल्यानी चिड्डून, चेंपून भरिल्लें
अस्त्यावस्त पातळिल्लें
असंस्कृत भितल्लें भितर कहडल्लें,
पोखरिल्लें, बकाल शार

तांचें पोट भरपी फकत पोट भरपी शार.
गिरेस्त ,चकचकीत, लखलखीत
ह्या शारातलें उखलापीपण, खिळखिळेपण,
निर्जिव फातराळपण, निश्टूर असंवेदनशीलपण
तांकां ल्हव ल्हव कळूंक लागिल्लें
म्हणचे ते भायर सरिल्ले चोम्यां चोम्यांनी
आपली चिंध्याचिंध्यांची जीण घेवन
आपल्या गांवच्या दिकेन
कित्याक गांव खरो अस्सल जिवंत संवेदनशील
थंय घर आसा
घरा माथ्यार पांचवी सांवळी आसा
घरा मुखार निळी उदकाळ व्हंय आसा
घरा फाटल्यान दोंगर ,झाडां झोंपां आसात
मनशां आसात
मेकळ्या मनाचीं
उजवाडाच्या काळजाचीं.



- शैलेंद्र मेहता
9820654233

## हांव, हांवपण नासल्यार!

म्हाका गोपांत घेवपी एक सपन नाशिल्लें
जाल्यार
वाजयत गिटार
तुज्या उगत्या जनेला पोंदा
न्हिद घेवन दोळ्यांनी
हांव
ब्लक अँड व्हायट रंगांत उबो

नाशिल्ली दोळ्यांनी झेम
पाखां म्हजीं बांदून घालपी
जाल्यार
येवपाचो उडत राजाच्या झेतान
दर्या, दोंगर हुपून
शीमो, मेरो मोडून

मेळूंक नाशिल्लीं म्हाका आपोवणीं
रंगयाळ्या रातींच्या अटंग्या रानांनी
जावंक नाशिल्ली म्हजी सरबराय
म्हारग,दुर्मीळ'सायकेडलिक' नजराण्यांनी
जाल्यार
म्हजो मोग, आत्मो, जीण
उफेत तुज्या मोगा दर्यांत
केद्याय वादळां आड झुजत

## 'SOS' धाडचे आर्दी

लखलखतात दुरवासाच्यो तरसादी
अँब्युलन्स वाजयत सायरन
विद्यापिठांचे वटेन वचपी
चाळण जाल्ल्या रस्त्यांचेर

येरादारी नियंत्रित करपी फेटेकार
सांस्कृतिक धुक्याचो फासून शेंदूर
रावतात उबे लिपून
घालतात घुरी अचकीत
गदेच्या धाकार धमकायत
लायतात जावंक कुमसार
करूं नाशिल्ल्या पातकां खातीर

मेळटा ते माचयेर घालतना खवदळ
अडे बाटगे वाचाविदळ
पुस्तकांक लागता वाळटी
दरेक उपकरणांत रिगता व्हायरस
आनी मेंदवांत वाडटा कुकुडसो
न्यूनगंडाचे परंपरेचो

कर्मफळाच्यो बदलतात व्याख्या
आश्वासक उतरांचे प्रतिध्वनी
उरतात सांचून कुसक्या उदका कोंडानी
गंगास्नानाचो ब्रम्हानंद अणभवतना
दिंड्यो, यात्रा, मेळ, रोमटां, पुरसावां
आनी सैनिकांचीं सूत्रसंचलनां लेगीत
बुचकळटात त्या खदूळ बौद्धिक उदकांत
पातळायतात नव्या नव्या
असाध्य बॅक्टरीयाचे तातीं पिले

दिवंची पडटात इंजेसांवां
अल्पजीवी अहंकाराचीं
थाथारावंक शेळो जोर
ना जाल्यार रावचें पडटा
फुर्डे धुकळीत हॅशटॅग्स
गांवा वयल्या म्हाळांचे
पत्रावळींतल्या जिनसांच्या वासान
धादोशी करीत
असंतुश्ट वसवश्यांक

आसता पर्वा कोणाक
खोंटो घाशीत जीव सोडपी
कर्मदळिद्री सभाग्यांची
उणाक वर्गांत जल्म घेवंक
केल्यात विवश जांकां
कर्मसंचिताच्या कुवाड्यांनी
आमडीत रावचे तांकां
माथ्यार दाळून पोटल्यो
लोखणा गोट्यांचो
जे शिजून शिजनात
तीन फातरांचे चुलीर
हाडां लेगीत लासलीं जाल्यार
सरपण करून

मोख शिवांसनाची
हीच आसक्ती जांची
कोणे घालची तांच्या कानार
व्यथा पर्वतल्यांची?
दरबारी खामसूत्री बावल्यांचे झुंडी मर्दी
वळखूंक कशे सहज येतात
कमरार्चे सोडून तकलेक बांदपी
आवृत्ती दिसूं कशीय
मुळाक्षरां मूळसूत्रांचीं
परावर्तित करतात
एकूच मूळसंदेश
हे इतिहासांतले अशाश्वत खीण
काय सासणांचे झेमेची येवजण?

## लोकल वॉर्मिंग

र्ले धन जार्णी आपर्ले दुकां थेंब्या मोतयांनी
ी रिती व्होंटी तांची फांतोडेच्या सपनांनी

जाल्ली वेदना व्हांवली रगत जावन शिरांनी
ायत रावचीं पडलीं उतरां दुरवासाचीं मोन्यानी

ंक संवसार शाणो रोयले ग्रंथ दारा-दारांनी
ानाचीं झापडां बांदून पिपळ चोयले पिश्यांनी

गसुकेचे पारवे मेले बंदखणींच्या वणटींनी
पली बुन्याद करूंक घट हुमरे खणले सोयऱ्यांनी

ी मनांत करून लेगीत अमूरपिक्या मोरांनी
ग्गह करून कुपां व्हेलीं माथ्या वयलीं चोरांनी

## जागर उलगलो

आळयत धृपद एकेच लयेंत
गावपी जल्मजात प्रज्ञावंत
जातिवंत तेच जैतिवंत
जैतिवंत तेच किर्तवंत
किर्तीवंतांच्यो गोटयो खरपीतात
तांकांच पावता भगवंत
तेच खरे बुदवंत
इतले मजगतीं
फुगतात वाळटे पोरां धर्वी फुल्ल
आपलेच रोयणीची माती खायत
उबंतार सांतेरे पिलां घुंवळटात
घोतऱ्या फुलांचो वास येयत
आदिमायेचे अब्रू वयलीं करपतात पानां
भूंव पूत शेणटात वयल्या रानां

## अदृश्य कुराडीचो दांडो

येतल्या उपरांत
भूत- भविष्या कडेन काडीमोड
आयलीं गेलीं वादळां कितलींशींच
फरक कसलोच पडलोना

पावस कसो भिजयतलो
वासनांच्या घसघशांची
आदींच ओली वीर्यधार?
तांबड्या कोराचे बंदखणींत
गटारां, खळयो, व्हाळ,न्हंयो, दर्या
आनी मानशेर्चे उदक लेगीत
संथ-खोल कांय कडेन
विचार -विकारांचे भोंवरे भोंवडायत
गुढयो नाचयत हेर कडेन
ल्हारांचे धोल ताशे बडयत
सत्र्यो रंगीत संगीत फुलोवन
कांय जाण सभ्य रुपड्यांतले
थेंकर दीत भरिल्ल्या पोटार
धंय करकरतना ताळ्यांत
सहज गांवक लागतात
वारे वा
कितलीं सोबीत आबोलीं पाणयांत
फाती सोबतली बायलेच्या आंबाड्यांत,
समेस्तांक मात गिळूंक तयार
देवमाश्या येदे तांबडे बाळे
'अणिमा' -'गरिमा'चे
शिकून खासा बौद्धिकतंत्र
बद्द हनुमानाचे शाळेंत
निष्पाप फुलां पिसडून
फॉसणा यालीत धांवले बैल
अनिर्बंध, मदान खुदत
करीत रिते गार्राफे
आध्यात्मिक सोमरसाचे
आतुर जाल्ल्या भौतिकवादी ताळ्यांत



अमोरे पारा आदी हाड
नेण्टया सानांक गोठ्यांत भावा,
हालींसरा भूत-भविष्याक
विसरायेर घालपी तड्डकी
मारीत रावतात बातां
काल्पनीक इतिहासांतल्या
सवरस्तकायेची
काळवेळाचें भान सोडून
पूण वर्तमान नांवाचो
काळसोरोप सवकला
एकट्या दुकट्या
गोठ्या भायर उरिल्ल्या
बाळकाचेर चपको मारूंक

## कोंकणी रोंपां

कोंकण भुंयेर किल्लत आसा
नवीं नवीं कोंकणी रोंपां
पयलीं थोडीं किल्लल्लीं
तांची आतां जाल्यात झोंपां

नवे पिळगेन नव्या दमान
साहित्या शेतांत यातला पांय
उतरांचें उदक पियेवंक
आत्मबळान खणल्या बांय

दिसा दिर्शी साहित्याचो
घसघसो व्हांवत आसा
शाणे मनीस गिन्यानाच्या
पोशान तो पियेत आसा

कर्तव्य म्हजें आवय म्हजे
राखप तुजो मान
ओंपता म्हजें भक्ती भावान
तुका पसाय दान



- नामदेव गणपत सुर्लीकार
व्हडलें भाट, सांताक्रूज.
मो.: ९८२३८८९५८५

## जनेलांत रूप तुजें

दिसता पळय जनेलांतल्यान
सोबीत रूप तुजें म्हाका
अशेंच थंय राव गो
पळयत रावंक जाय तुका

वाऱ्याचेर केंस तुजे
सगळेच उबतात पळय
तुजे सामकार जनेलार
झाडाक फुलल्यात कळे

राव गो वच नाका
नदर म्हजी हालय नाका
म्हज्या तोंडार हांसो पळय
निराश म्हाका करी नाका

सदांच पळोवंक तुका
हांव जनेलांत येतां
तूं संवसारांत ना जिवें
हें मात सदांच विसरतां

तरीय आसतना दिसता
जनेलांत रूप तुजें
जनेलांत रूप तुजें



- ऍडवीन फर्नांडीस
शेळवण - कुडचडें

खरेंच इश्टागत हीं पिशेपणाच
आनी इश्ट म्हळ्यार पिशांचो दरबार
अचकीत येतात, केन्नाय वतात
मनाचीं जनेलां उक्तींच दवरतात
आमच्या दुखांत दुकां गळयतात
आमच्या सुखांत सुखावतात
खरेंच इश्ट म्हळ्यार पिशांचो दरबार.

आपल्या नात्यांत हिशोब आसता
लागशिल्लो आसून परकी जाता
तेन्ना होच इश्ट जुळोवंक येता
जुळळें काय अचळय वता
खरेंच इश्ट म्हळ्यार पिशांचो दरबार.

रगताच्या नात्यांतले नासतात
सप्तपदीय करून येनात
अशेच केन्नातारी आचकीत येतात
मन-गर्भांत राबितो करतात
खरेंच ईश्ट म्हळ्यार पिशांचो दरबार.

तुजें सगलें ताका खबर आसता
तार्चे तुकांय सगलें खबर आसता
केन्ना किर्ते उलोवचें जाणा आसता
किर्ते राखून दवरचें तेंवूय होलमता
खरेंच इश्ट म्हळ्यार पिशांचो दरबार.

जेन्ना आप पर जाता
तेन्ना इश्टूच धांवून येता
आपलें जावन सगलें करता
आप-सुवार्थ कांयच नासता
करून सगलें विसरून वता
खरेंच इश्ट म्हळ्यार पिशांचो दरबार.

- अनिल व्यंकटेश सांव
९४२०१६३५९

## ...ंय मेळटा काय?

...च्चे वळवळे लागिल्यांक
...काक तानेल्यांक
...पडांक आशेल्यांक
...जवाड सोडतल्यांक
...स सोंसतल्यांक
...खाची वाट.....
...य मेळटा काय?

...र्मी- धर्मां आड झगडून
...क्षां-पक्षांतल्यान फुटून
...ळग्या-पिळग्यांची नार्ती तोडून
...रेपणाचो भेस चडोवन
...श्टपण केळोवप्यांक
...नीसपणाची पदवी.....
...ंय मेळटा काय?

...हानाचे व्हड करून
...दका सारको घाम गळोवन
...आपल्या गरजांचे आवंडे गिळून
...पुरग्यांचें मुखामळ फांकोवप्यांक
...वृध्दाश्रमाचें उदक पाजपाची
...कपलफुटकी वृत्ती.....
...खंय मेळटा काय?

...विद्येचो बाजार करप्यांक
...कलेचें यट्टाण करप्यांक
...कटींगपणाचें धुर्के पातळोवप्यांक
...अस्तुरेचेर हात घालप्यांक
...रोप लावन झाड हुमटुप्यांक
...हइडें फुडें काडून उलोवपाचें धाडस....
...खंय मेळटा काय?

मनांत अहंकार तुंबलेल्यांक,
हेरांचें बरें न आयकुप्यांक,
मनशा-मनशा भितर फूट घालप्यांक,
जितेपणी मर्णाक हाडप्यांक,
बरें जाल्लें न पळोवपी....
दोळेफुटक्यांक,
झेतान उलोवपाचें धाडस......
खंय मेळटा काय ?

वेसनमुक्तीची मोहीम चलोवन
खोशयेन बियर मारप्यांक,
संकटा वेळार आदाराक
कली जावन येवप्यांक,
आत्मनिर्भर रावपाक सांगून
हेरांचेर निर्बर रावप्यांक,
हेरांक जगपाची आस दिवन
तांचें जिवीत पावणेर काडप्यांक,
जगपाचो गुरुमंत्र.......
खंय मेळटा काय?



- गौरांग बाबुराव भांडीये
सावय-वेरें, फोंडें-गोंय.
मो.: ८५५२८८३८०८

## वितळपी मेण...

रिते काळखा कुडींत
एक मेणवात एकलीच पेट्टाली
तिचोच धग तिकाच लागिल्ल्यान
मेणाचो पावस जावन जमनीर झडटाली

हांवें तिका विचारलें
तुकां वितळटना मात लेगीत दुखना,
उजवाड फाकयतना तूं मात सोंपता
तूं काळजाचें दुखणें कित्याक कोणांक सागना?

तिणें हांसून म्हाका जाप दिली
आगो, हांव तर मनशाच्या काळजावरी
धग लागल्यार दीस रात वितळटां
हेरांक उजवाड दितना हांव
खोशयेंत जमनीर हे पातळटां

मनशाक हें मेण दिसता तेन्ना
मनीस म्हाका परतून घडयता
दोळ्यां मेरेन उजवाडाचेर शिमो घालून
काळजांतल्या मनीसपणांक खोटानी माड्डयता

काळखांत आसून लेगीत हांव
सदांच उजवाडाचें चान्ने भरतां
पूण वितळपी ही मेणवात आवज
मनशा कडल्यान सुद्दा ही अपेक्षा करता
मनशा कडल्यान अपेक्षा करता.....



- पुजा लक्ष्मीकांत भांडारे
अरनोर्डे-गोंय
७७६८८३५३१०

# जल्म आनी मरण .....



णव म्हयने आवयच्या गर्भांत रावन
हांवें हो मनीस जल्म घेतलो
आवयन म्हाका काळजाच्या कुडक्यावरी
जप जप जपलो.

जाण जेन्ना आयली मतींत
तेन्ना दिसलें मनाक
हो जल्म म्हणजे मजाच मजा
खावप जेवप शिकप जोडप आनी मरती
पूण तेप गेलो तेन्ना समजूंक लागलें
हो जल्म तितलो सोपो ना
हांगा बऱ्याक बरें आनी वायटाक ख्यास्त
कोणाकच चुकना, कोणाचीच सुटका ना

वर्सां गेलीं समजुपाक
हो मनशाचो जल्म तरी कित्याक?
जायते जाणानी आपले परीन समजायलें
पूण तितलें बरें समजलेंच ना
जनावरां, झाडांपेडांचेर नदर मारून देखलें
तेन्ना इल्ले इल्ले मतींत विचार येत रावले
पूण खूब कळाव जाल्लो तेन्ना.

जशी संवयच जाल्ली असले जिणेची
स्वता पासत जगपाची
हिंडसावपाची, अहंकार आनी दुस्वासाची
विसरच पडिल्लो म्हजे म्हाकाच म्हज्याच अस्तित्वाची

पूण एक दीस अशें घडलें
मरणच म्हज्या सपनांत आयलें आनी सांगूक लागलें
आरे सभाग्या,
मनशान अशें जगप नासता
जगतना दर एक पावलाक देवाक याद करची आसता

तुजो जल्म एक न्हय
आनी मरण लेगीत एक न्हय
आरे, ही तर एक व्हड भोंवडी
जल्म आनी मरण हांचे मदीं
हें तूं कसो विसरलो?
जीण आनी मरण हें चलत आसता
तुज्यांतलो तूं मात जगत आसता
आनी हांव सावरलों
आनी हांव सावरलों.........

- कपिल सरदेसाय
नावेली, मडगांव-गोंय
मो.: ७३७८६७७०७२






## आमी चुकल्यात

सैम सगळो रागार जाला
खंव तरी आमी चुकल्यात
कोरोनाच्या जिवाण्यान
घात आमचो केला ।।

काय बरी सगली आमी
बिनदास्त भोंवताली ।।
एकामेकाचेर विश्वास दवरून
दोळे धापून जियेताली ।।

मोबायलाचेर सेल्फी मारून
स्टेटस घालताली ।।
नाटक, सिनेमा पळोवंक
गर्दत तिकेट काडटाली ।।

आवज सगळेंच बदल्लां
सैम सगळो रागार जाला
खंय तरी आमी चुकल्यांत
खंय तरी आमी चुकल्यांत ।।

परा भायर सरतनां
मरणा तुकां भिवर्चे पडटा
खंयच्या रुपान येतलें तूं
हाची आमकां चिंता आसता ।।

मळब फुटून पावस पडटा
मर्यादा सोडून दर्या व्हांवता
खून मारामारी जाता
दरेक दिसा मनशां मरतात ।।

दोंगर लागला कोसळूंक आतां
धतरेचो भूंयकांप जाता
वीज पडून रानां पेटटात
घरां मोडून मनशां चिड्डतात ।।

मरण जाला सवाय हांगा
सैम सगळें रागार जालां
खंव तरी आमी चुकल्यांत
खंव तरी आमी चुकल्यांत ।।



- शोभा शिवा फुलकार
पणजी-गोंय
मो.: ७२१८५२४३८९

## कविता

कविता कविता कवित
म्हज्या मोगाच्या गो कविता
जालीं आतां कितू वरसां
म्हज्या काळजांत तूं जियेता

तूं आसता म्हज्या गोपांत
म्हाका लागोना गो भूक तान
तुजे इतली खुशालकाय
कोणूच दिवंचोना गो म्हाका

जिवितांतलीं चडणां मोडणां
आनी जावर्ती साबार दुकां
तुजे खातीरूच हांवें पचयल्यां
म्हणून हांव जियेतां

तुजे विर्णे म्हजें जिर्णे
जशें बेवारशी सुर्णे
तूं म्हाका सोडून गेल्यार
म्हजे जातले गो हाल

नाका म्हाका दुडू भांगार
फुकट पासून दिल्यार
तुजे इतली धादोसकाय
कोणूच दिवंचो ना गो म्हाका

हांव तुका सोडचेंना
तुंवूय म्हाका सोडी नाका
सदांच आमी दोगांय
खुशालकायेन जियेवंया..



- सोनिया (सुनिता) सुभाष शाह
मेरशे-गोंय.
मो.: ९४२०६९००५२



## दिवाळी -एक

लॉकडावनांत
दिवाळेची साफसफाय करतना
हांवें पळयलें
खबरा पत्रांतल्या काळ्या अक्षरांनी
कामगार मुयो
चलत वयतात
एका फाटोफाट
म्हज्या घराचे वण्टीरूय
गोडाचे कण घेवन माथ्यार
एका फाटोफाट एक मुयांची रास
रोयणी वटेन..

अंतर मैलाचें ..
आडोस घेतलीं,पोटाक घालतलीं,
न्हिदतलीं सुस्त
वा न्हिदतलीं सासणाक तरी
म्हण चलत वयता एका फाटोफाट
पडत ,आपटत,धोपटत ओग्गी
खिणां पडऽसर पांयांक
येयसर रगतां
मरून पडिल्ल्या वांगड्यांचें मडें
खांदार उखलीत
एका फाटोफाट चलत वयता
वक्ल घालुनूय
बागवल्या शिवाय दिसना तांचें जग कष्टाचें
पळोवंक नाकाय बी
वण्टीर चिरो पडटा
खाचींत माती जाता
कोयर जाता
सोयऱ्यां हुजीर लज जाता
म्हण डीडीटी पावडर मुठभर
शिपपडटां ते रांकेर
आनी मरून पडटात
सगल्यो मुयो एका फाटोफाट
दिवाळेकडे....
घर लीप अशेंच जाता
स्वच्छ भारत अभियान
आमी अशेंच चलयता.

## दिवाळी- दोन

वावराक लागपाक दिवाळेच्या
सामको कंटाळो येता
नेवऱ्यो,चकऱ्यो,लाडू,चिवडो
चोपक्यांनी येना आतां
दिवाळेचीं परबीं दिवपाक
फोन नंबर सापडना कोणाचोच
इश्टांचो,सोयऱ्यांचो ...
ना तोच बरो..
हुसक्याचो कंदील
भंयाचो दिवो
फोवानूय कार्बस् चड जाता
बेजार बेजार बेजार म्हणत दोळो ला
सपनांत
'नरकासुर'
आपले भितरलो भुसो
म्हजे भितर भरता

ाळी-तीन

लयतालो उलयल्या शिवाय
आयकतालें आयकल्या शिवाय..
ाशदिवो वयर चडयतना
शीकडे कारार्टी फोडटना
ाळणेक पयशे घालतना
खातना
ीक एक लाडू चकरी
र आनीक इल्लो चिवडो मागतना
ाळी घालतना, तोखणायेन पळयतना
ब्रीत जड हात माथ्यार दवरतना
म्हण कामरून
त कुशींत सुस्त न्हिदतना..
कुडकुड्याचे,गोठेवपी थंडेंत
दां सपनांत तरी यो
..

दिवाळी-चार

ज्या जांगां मदल्यान रगत व्हांवतना
प्रूप घडटा
ळे दिपकावपी
जवाड फांकता
सवता फूल
ोंव तातूंतलें
कठांय करता
गळी तत्वां
श्टीच्या दिव्याची
ोत ती
ज्या दोळयांक मात
ाळोख दिसता फकत
केण्ण...

दिवाळी-पांच

फराळांतली एक नेवरी
एक चकरी,एक लाडू
फराळातलें एक एक सगळें
मम्मी कुशीक काडून दवरता
एके ल्हानशे वाटयेंत
किचनाच्या जनेला भायर
म्हज्या हातार दवरचे पयलीं चाखूंक
साखर,मीठ,तिखसाण सारकी पडल्या?
भाजप बरें खरपूस जालां जाय तितलें?
तिका खंत जाता
भायर कित्याक दवरलां गे?
सुकण्याक..
प्रस्नाची जाप दिना ती केन्नाच
पूण हांव जाणा..ते वाटयेची काणी
हरशीय डॅडीच पयलीं चाखतालो फराळ
फकत चाखता म्हण एक एक नग
घालतालो बोल्सांत
आनी दवरतालो एक लाडू
म्हज्याय इल्लेश्या हातार..
दिवाळे पयलींच दिवाळी ती.
आतां म्हजो हात रितो आसा
वाटयेंतलो फराळ फकत
सुकणीं खातात.



- ममता दीपक वेर्लेकार
पिळर्ण-गोंय.
मो: ७४९९१२९२८१

दिश्टावो

अस्वस्थ जावन
नदर वळळी
खिणांत म्हाका कळळी ना
रुखां झोंपांक नवी आंकरी
केन्ना आयली दिसली ना
वाऱ्या झोतान काळखी कुपां
झडपत खंय गेलीं कळ्ळीं ना
चंद्र सूर्य उदेवन आयलो
दोळ्यांक जाग आयली ना
मुखार सवणीं उडत रावलीं
चिंवचिंवाट कानांत घुमलो ना
रुखारुखार नाचत रावलीं
अर्थ अपुरबाय तांची कळळी ना
सैमाचे विशाल रंग
धर्तरेर आमचे खेळयता
सप्तरंगी इंद्रधोणू
मळबांत दिश्टावो घडयता..



- अशोक शीलकार
सावयवेरें-गोंय.
मो.: ७२१८३८५८६४



## हार्ली तो कितें करता?

हार्ली बेचैन आसता तो
घरा भायर सरूंक मेळना म्हणून
उपाय नाशिल्ल्यान सांबाळून घेता स्वताकच
दिसाचीं कांय वरां रांदचे कुडींत काम करतना
आयदनाक आयदना आपटतातच
गोरवां गोठ्यांत एकठांय आसतना
चुकून शिंगांक शिंगां आपटतात न्हय तशींच.

कामां तरी कितलीं?
एकार एक... सोंपचनात
सोशल डिस्टन्सींगाक लागून
वावराडी सक्तीचे सुटयेर
ताका लागून आंगार पडिल्ली खेरीत जापदालदारकी...
देखीक: झाडूपोछा, भाजी शिंदप, नुस्तें उजरावप,
रांदनीपोल्लांत घरकान्नीक रांदूंक आदार करप,
आयदना घांसप, झाडांक उदक घालप,
कपडे वॉशिंग मशीनांत धुवून
फेर्र मारून आलमारींत व्यवस्थीत मांडप,
यु ट्युबार आयिल्ल्या एकादरे आकर्शक रेसिपीची
घरकान्नी कडल्यान आयिल्ली फर्माईश पुराय करप,
नितळसाण, घरांतलीं बाकीचीं कामां
आनी इतलें करूनय तिर्णे त्रोसां मारून
केल्ल्या प्रस्नांक जाप दितना मनावेलो तोल सांबाळप
आनी अशें जायतें कितें.

हुक्की जेन्ना येता एक सिगरेट फुसकावपाची
तेन्ना बडीशेपेचेर भागवची पडटा तल्लाफ,
फाविल्ल्या वेळार एकादरो व्हिस्कीचो पेग
गळ्या सकयल देवोंवपाची एक वेगळीच धुंदी आसता
पूण नशीबच फुटकें वाजंतर.... आदींच जर ह्यो गरजेच्यो र
स्टॉक केल्ल्यो जाल्यार मजाच मजा जातली आसली
पूण दुदाची तान ताकार भागयत
झेल घाल्ल्या ग्लासांत ब्लॅक टी घालून
एकादऱ्या देवदासावरी
जनेलांतल्यान पयस दिगंता आड नदर लावन
मळबांतलीं नकेत्रां मेजत बसता तो
वरांचीं वरां, वरांचीं वरां, वरांचीं वरां.

हार्ली तो हेंच करता.



- हनुमंत मा
मडगांव-
मो.: ९९२३७४४२



## तूं निळें निळें शें

तूं निळें निळें शें
फांतोड पारार झिळमिळेंशें
पाचव्या मळार दंवांत व्हांवता
आवज तुजेंच गो वारें
तूं निळें निळें शें....

तूं सपन रातीचें
भिण्ण काळखाक दोळे फुट्टात
उस्तूंक ख्रीण सपनाळे
उजवाड कुडीर सोबता तुजे
किर्ण भांगराळें...

तूं निळें निळें शें
फांतोड पारार झिळमिळेंशें

तिन्हसांज ही गडद अशी
कुडभर तुज्या भरल्या ख्रोशी
मोगाकूप वयल्यान वोततांना
मुरगटत ओंठ तुजे
म्हजेंच गीत गावतातशे...

तूं निळें निळें शें
फांतोड पारार झिळमिळेंशें...

## मोग

मोग मनांचो
दोन जिवांचो
दोन कुडिंचो
मेळ सरगम

तरल सपनांचो
दोन विचारांचो
एका वचनाचो
मेळ सरगम

दोन रंगांचो
दोन कायांचो
दोन मतांचो
मेळ सरगम

जुवानपणाचो
तरण्यां रगताचो
हून उर्बेचो
मेळ सरगम.

## हे राधे

तुजें मूख
म्हजें सूख
सदांकाळ गे
हे राधे

करीन वंदन
फुलयन नंदन
आदारान तुज्या गे
हे राधे

दोळे तृप्त
स्वरूप मुर्त
तुजी पुजिल्या गे
हे राधे

तुज्या दर्शनान
तुज्या मिलनांत
एकरूप जावं हांव
तुज्याच मर्दी गे
हे राधे.



- महेश गांवकार
मोर्ले-गोंय
मो.: ९७६३७७३१५७

## पावल

प्रत्येक पावल म्हत्वाचें
पावला पावलांत लिपलां सत्य जिणेचें
पावल चुकलें
जीण चुकली

सात पावलांनी
नवें नातें जोडलें
जिणेचीं पावलांच बदल्लीं

म्हज्या पावला वांगडा आनीक
दोन पावलां जोडलीं
आनी म्हज्या पावलांची
दिकाच बदल्ली

ह्या पावलांनी तर
भंयान भरिल्लीं कुपांच दाटिल्लीं
तर भंय पावल चुकपाचो

पावल घालतां घालतां
म्हज्या पावलांचें
अस्तित्वच शेणलें
म्हजींच पावलां
आतां म्हाका
परकीं जाल्लीं



## मनीस शेणला

सगळें विचित्र चल्लां
ना कोणाक मनाची पर्वा
ना कोणाची दया
सगळें
विस्कटत चल्लां
स्वार्थी संवसारांत
मनीसपण शेणत चल्लां
हें म्हजें
तें म्हजें
करतां करतां
मनशांतलो मनिसूच शेणला



- दर्शना मांद्रेकार
हळदोर्णे-गोंय.
मो.: ८४१२८८३७४०

## कोरोना

रोग आयलो कोरोना
केन्ना आयलो कोणाक कळ्ळेंना
धांवपळिच्या संवसारांत आयलो कोर
बदलून सगळें गेलें केन्ना कांय कळ

पावस आयलो पावस गेलो
फेस्तां जालीं, जात्रा जाल्यो
चवथ लेगीत जावन गेली
कोरोना वचपाचें मात नांव घेना

जायते लोक गेल्ले विदेशांत
कांय जाण घरा परतले
कांय जाणांक येवंक जमलेंच ना
देखून घरांनी कसलेंच सूख ना

कोरोना आयलो तसो
संवसारूच जालो बंद
आतां तो उक्तो जावपाक
मेळटली काय आमकां संद

कितलेच लोक
सोंपले ह्या दुयेंसांत
कांय जाण भिरांतेन सोंपले
देवा धांवडाय हें दुयेंस बेगीन
इतलेंच तुजे लागीं म्हजें मागणें

- सुयश सुनिल व
गणपत पार्सेकार कॉले
हरमल- गं

## ायरी

काळ ते सांज मेरेन
ा हिशोब ना कोंत
ोशये वा दुख्खाची
संख्य खिणांची
्या वायट खबरांची
ोंद करपी
मन' एक डायरी

जणेचें गणीत करपी
्टांचो थाव येवपी
्टांचो लाव येवपी
तन्याचो भोग येवपी
ुखाच्या पांगरुणांत
ंवसाराची खबर येवपी
'मन' एक डायरी

काळजाचे काळख्या कुडींत
भगभगत्या व्हांवत्या स्वासांत
काळ्या कुट्ट तुज्या दोळ्यांत
वाद करपाक मेजल्यो राती
केली जीण हुस्क्या मेकळी
त्या खिणांची वाद करपी
'मन' एक डायरी

सुकते भरतेन भरिल्ली
कांटयां खुटयांतल्यान वाट काडीत
नेटान दोंगर चडपी
व्हंवे सारकी व्हांवत रावपी
खिणां खिणांक रंग बदलपी
हेंच तें
'मन' एक डायरी



- एच. मनोज
चिखले-गोंय
मो: ९८२२४४१४१७



## संद

केन्ना असो एक दीस येत काय
सैमान नटयल्ल्या आंगणांत
खेळांत गुल्ल राविल्ले कडेन
यो गो भितर ताटां वाडल्यांत
असो आवयचो उलो
कानार पडत काय....

केन्नाय असो एक दीस येत काय
दनपारच्या वेळार आवय
न्हिदिल्ले कडेन आसतना
ल्हवूच डबो उक्तो करून
सवकासायेन लाडू खावपाची
मनांत दवरिल्ली इत्सा
पुराय जायत काय....

केन्ना असो एक दीस येत काय
आधुनीक तंत्रगिन्यानांत जणेकल्यान
आपल्याक बंदीस्त करून दवरला
तातूंतल्यान भायर सरून
पयलींचेवरी मनीसपणाचें दावज येवन
जगपाची संद मेळत काय....

- अलका असोळडेकार
मडगांव-गोंय.
मो:९८२२९८११०७



## तुका पळयतकच

तुका पळयतकच
निशब्द जातां हांव
तूं मुखार येतकच
मुमुरखोच हांसतां हांव
तुज्या दोळयांच्या विश्वांत
शेंणत वतां हांव
भानार येतकच मात
आबूज जातां हांव
तुज्या केंसांची यडी
दर दिसा सोदतां हांव
तुज्या नकळत देवा कडेन
तुकाच मागतां हांव
सकाळचे गर्देंत
तुका सोदतां हांव
तूं म्हजेंच म्हण
मनांतल्यान जाणा हांव



- दर्शन शंकर कांदोळकार
थिवे ,बार्देस - गोंय
मो: ८८०६३८७२८९

## एकनिश्ठ

सपनांतले बंगले बांदूंक
केन्नाच म्हाका जमलें ना
म्हजो सभाव सादो सरळ
म्हूज्या मनाक नसतें पटना

आरत्याचें परतें सांगून
दुसऱ्याक फटोवंक कळना
पिंडूच म्हजो सत्याचो
संस्काराक फट जुळना

अशा ह्या म्हज्या सभावान
उदरगत म्हजी जाली ना
फटींगपणां,नाडींगपणां
आवय बापायन केन्ना शिकयलीं ना

म्हज्या वांगडचे सगळे इश्ट
दुडवांनी आसात ताण
एकनिश्ठ हांव तत्वांकडे
देखून सुखी म्हजी जीण..

## नातीं

नातीं खूब तरांचीं आसतात
माया ममतेचीं,कांय रगताचींय बी
रगताचीं केन्नाय धोको दितात
मानिल्लीं नातीं बऱ्या वायटाक पावतात

दिसता म्हाका खंयचीं नातीं परकी
खंयचीं नातीं रगताचीं..
जीं नातीं वेळप्रसंगार पावतात
रगता नात्या परस तीं आपलीं दिसतात
रगताचीं नातीं तेन्ना परकीच थारतात



- सुभाष न.शाह
मेरशे-गोंय.
मो.: ९४२०६९००५२

## रे पावसा

रे पावसा
थेट ताचे सारकींच रीत तुजी
प्रीत तुजी
ठरयल्ल्या वेळार केन्ना येना
वाट पळोवन दोळे थकतात
धर्तर तानेता
मनमळबांत कुपां दाटतात
आनी अचानक
वादळ वाऱ्यार येता
वाजयत धोल ताशे
झडयत जोगलां झोती
सर्वांग झोडपून काडटा
तर केन्ना चोरपावलांनी येता
अळंग दोळे धांपता
हळूच केंसांत बोटां फिरयता
भिजयता आंग आंग
एकेकदां तर
सतत निरंतर
सरीर सर अमृतधार
चडोवनपाचवो साज शिरंगार
धरणी तृप्त तृप्त
तर केन्ना
कुंड्या पावस सो न्हय न्हय सो
मुमुर्ख्यांनी हांसत हांसत
करी गुलाब पाणयां शिंवर
कितली रे तरा तुजी
एकेकदां
झडटा भर ओतांत
रडयत रडयत हांसयता
वयर उदेता रंगरंगी इंद्रधोणू
पावसा रेऽऽ
अशी रे कशी
ही रीत तुजी
थेट ताचे सारकीच रे प्रीत तुजी
ताचे सारकीच...

## खेळ

पर्जळांतल्यान रंग रंग भिरभिरतात
घुंवतात विस्तारतात
आनी परते पर्जळांत लुप्त जातात
बिंदूंतल्यान रेशा रेशा
आकारतात रूप धरतात
आनी परते बिंदूंत एकठांय येतात
ऊँकारांतल्यान सूर सुटतात
सादांत घुमतात रमतात
आनी परते मोनेळांत मुग्ध जातात
तशेंच तूं हें सबंद ब्रह्मांड
निर्माण करता,वाडयता,खेळयता
आनी परतें ऐक्यांत आकर्शून घेता
हो कसलो खेळ रे?

- इंदू अशोक गेरसप्पे
बेंगळुरू
मो:९९७२९५६१३२



## ायां पोड

म्हाका अशेंच मेळ्ळें
यल्या वयर हांसलें
जें रूप म्हाका भावलें
रत मेळचें अशें दिसलें
तुकां हांव परत परत मेळटालों
ुकां हांसोवपाच प्रयत्न करतालों
रितरेच्यो गजाली सांगतालों
ान सोडून हांसोंक शकनासलों
ःकदीस वाटेर चलतालों
ायां पोड दिसलो
ुजो मोग जागो जालो
ायां पोड विकत घेतलो
ुज्या हातांत दिलो
ळूच तुवें वास घेतलो
तोंडभर हांसो फांकलो
कवीचो आत्मो जागो जालो

-डॉ.उल्हास प्रभू नास्नोळकार
करंझाळें-गोंय.
मो: ९८२३०६६५४०



## मरणपत्र

पुराव साबद्‌दीर आसतना
आज हांव म्हजें
मरणपत्र बरयतां
हांव मेल्या उपरांत
विस्कटावन उडयात
म्हजें कुलूप नाशिल्लें घर
सोदात म्हजी दरेक वस्त
घरभर पडिल्ल्या सामानांतल्यान
दिवन उडयात म्हजीं सपनां
त्या सगळ्या बायलांक
जीं किचन ते बेडरूम
हाचे मर्दी घुस्पल्यांत
आपल्याच जगांत शेणल्यांत
खूब वर्सां सावन तीं
सपनां पळोवपाचें विसरून गेल्यांत
म्हजो हांसो वांटात
वृध्दाश्रमांतल्या त्या म्हाताऱ्यांमर्दी
जांचीं भुरगीं,अमेरिकेच्या
झगमगत्या शारांनी पळून गेल्यांत
म्हज्या मेजार...
कांय रंग पडिल्ले आसात
ह्या रंगांनी रंगयात
ते विधवेची साडी
जिच्या घरकाराच्या रगतान
देशाच्यो शिमो रंगल्यात
कालूच तो तिरंग्यान गुठलावन
निपचीत पडला
म्हजीं दुकां-दियात
त्या सगळ्या शायरांक
दरेक थेंब्यांतल्यान
एक गझल जल्माक येतली
अशें हांव तुमकां उतर दितां
म्हजो मान,म्हजी अब्रू
ते वेश्येचे नांवान करात
जी आपल्या भुरग्यांक शिकोवपा खातीर
नाईलाजान आपल्याचें शरीर विकता
ह्या देशांतल्या दरेक युवकाक
म्हज्या आक्रोशाचें
इंजेसांव दियात
क्रांतीचो उठाव जातलो
तेन्ना हाची गरज पडटली
म्हजें पिशेपणां
त्या सुफी कवीच्या वांट्याक येवंदी
जो सगळें सोडून
देवाक सोदपाक भायर सरला
पुरो!
आतां उरल्या
फकत----
म्हजी इर्षा
म्हजो लोभ
म्हजो राग
म्हजीं फटींगपणां
म्हजो सुवार्थ
अशें करात-
हें सगळेंच
म्हज्या वांगडा-
लासून उडयात.



- सुषमा तिळवे
फोंडें -गोंय

मूळ कविता 'वसीयत'-अमृता प्रीतम

## नारी

आवयच्या पोटांतूच ये गे तूं सुशेग
भायर खेव रावल्यात अनेक
तुजो जीव येवपाचें कारास्थान
पावलां आतां अखेरेक ।।
संवसारांत येवचे पयलींच
संकटांत तूं सांपडली
जेन्ना त्या दैत्यांक तूं चली म्हूण कळ्ळी
माऊलीन ते एकूच धांव येतली
वाटावपाक कळी आपल्या गर्भांतली
आगे नारी तूं काळखांतूच उरली,
काळखांतूच उरली

आयली गे आयली
ह्या संवसारांत तूं आयली
तुका खबरूच ना
वाट ही कितली भिरांकूळ आसली
लोकलजेक लागून घरांत तुका आपणायली
आवयच्या धाडसानूच तुका वाटायली
तिचे मायेन तूं न्हाली
बापायच्या दुस्वासान चिड्डत गेली
आगे नारी तूं काळखांतूच उरली,
काळखांतूच उरली

फुल्ली तूं साळकावरी
रंगान तूं सावळी,
जशी सोबीत, सुंदर आमोरी
येवपा शिक्षणाचे धडे केली तुवें तयारी
चडटाना शाळेची पायरी
मुखार आयलो बापूय जावन वैरी
पांयार मारून बढी
त्या राकेसान रांदचे कुडींत भिरकायली
सगळीं सपनां तुजीं थंयच भंगलीं
आगे नारी तूं काळखांतूच उरली,
काळखांतूच उरली

आतांच तुजी कूड आकार येताली
व्हरून तुका लग्नाच्या माटवांत बसयली
भुरग्या वयारूच करून सवायशीण
केली तुका घोवा सुवादीन
भितर सरली तूं त्या अनवळखी घरांत
राखीत घराण्याचो मान सन्मान
पयलेच रातीक घालून सुरी
पिसडून उडयली तुका त्या नराधमान
रात ती सारकीच आकांताळी आसली
आगे नारी तूं काळखांतूच उरली,
काळखांतूच उरली

उठ गे नारी आतां भायर सर
सोसणिकायेची ती शीम पार कर
हुंबऱ्या भायर पावल मारीत
चेपणाच्यो त्यो बेडयो तोडीत
घेतली तुवें मुक्ती दिकेन धांव
कितले सोबीत दिसताले
तुज्या तोंडावेले ते समाधानी भाव
धांव, धांवत वचून घाल
स्वातंत्र्याचें तेल त्या दिव्यांत
पर्जळय गे जीण आतां
फकत उजवाडान..
फकत उजवाडान...
फकत उजवाडान....



- श्वेता नायक भोसले
माशेल-गोंय.
मो:९८२३०६५८९०

## कविताय येता वया

कविताय येता वयार
उतरांचो शिरंगार माळून
संदर्भाचे
दोळे मोडीत
काळजाचो
माग काडीत.

हय
कविताय येता वेळार..
उतरा कणकणी
शिरशिरायत
आंकवार नदर
भिरभिरायत..
उत्फर्क्यांक
मोनेळायत

हय
कविताय येता वेळार
मुदयाळ्या संवसारांत
तिर्चीं मुदयाळीं सपनां
आनी
सपनांत आंकऱ्योय
सपनाळ्यो
हय
कविताय येता वयार
तेन्ना!

- भालचंद्र गांवकार
फोंडे-गोंय
मो: ९१५८०५८६६३



## मांडवी न्हंय कित्याक करतात म्हेळी?

हाडून कासिनो मांडवीत
करून उडवली तिका म्हेळी
कित्याक करतात राजकारणी हीखेळी?

दर स-स म्हयन्याक दिवन एक्सटेन्शन
दितात मांडवी कांठार रावप्यांक टेन्शन

न्हंय म्हेळी करपाचें रात दीस चालूच आसा
कासिर्नोतल्या पोटांतली आख्खी घाण
करतली गोंयकारांचें सामकें निसंटण

तरनाट्यांचो फुडार कासिनोन इबाडलो
कासिनो बंद करिना तर सामको सोंपतलो

कासिनोची गारबेज कासिर्नोत सोडटात
सगळ्याक घाण घुट्टाण सुट्टा
नाकार हात धरून लोक म्हणटात
जावं सरकाराचें बेगीन घट्टाण

गोंयकारांचे भावनेचें आनी भलायकेचें
पडिल्लें ना आमच्या राज्य सरकाराक
चडांत चड भोंवडेकारांक हाडपाची येवजण
हेंच सोंसना आमकां तांचें पाडें धोरण

-

- अवधूत उर्फ दत्ताराम नागेश चोडणकार
बेतीं, बार्देस-गोंय

## अभंग

१

फळां आनी फुलां तूंच परमेश्वरा ।
तुजे पासूनच ईश्वरा वसुंधरा ।।

देवा तुज्या नांवाक गंध अत्तराचो ।
ज्ञानाच्च्या प्रकाशाचो किर्णोत्सव ।।

धरतरेचो धुल्ल मानवाची काया ।
तातूंत रावा रामेश्वर ।।

तूंच देवा नार तूंच नारायण ।
तूंच आत्मधन अंतरीचें ।।

म्हणटा सुखानंद पुर्णांतलो पुर्ण ।
सुवर्णांतलें सुवर्ण परब्रह्म ।।

२

दळटा दात्यार नामाचें कड्डण ।
अविरत प्राण धरून खुंटयेक ।।

नामच्या पिठाची भावनीक भाकरी ।
फुट्टूंक आंकरी सज्ञानाक ।।

सज्ञानाचें कर्म दिवप ज्ञानदान ।
करूंक संवर्धन निर्गुणाचें ।।

आपर्णेच चलप आपलीच वाट ।
आवुश्यांतलो घाट निर्भयपणान ।।

म्हण्टा सुखा चल्ला कुडींत उरवास ।
धरून ध्वास अनंताचो ।।



- सुनील पालकार
कालापूर-गोंय
मो : ९९२१७९६८६५





# सरस्वतीचीं पावलां

तशें गैरवेव्हारी मनशाचें मूत कशें जळटलें, हो प्रस्न उबो रावताच. मूत जळटलें जाल्यार पदराक बरीऽ गांठ आस्सची पडटा. आनी गैरवेव्हारी मनशाक गांठ करप जमना. ताचे गांठीक कांयच उरना. आतां गांठ करतलों जाल्यार वेव्हारी जावचें पडलें. म्हणलें आयकुंया हा इश्टाचें आनी जावचो इल्लो वेव्हारी. ताचे सांगणेन तरी जमल्यार जमलें. मूत जळप खरें तर आयची गरज. पेट्रोलाची दिसान दीस वाडपी दर पळेल्यार पेट्रोला जाग्यार वेगळें इंधन मेळोवप गरजेचें.



- अभयकुमार वेलींगकार

सद्याक हांव सरस्वतीचीं पावलां सोदूंक भोंवतां. हं जाणां हें आयकून कोणाकूय अजापूच जातलें. कित्याक जाव ना अजाप? सद्याच्या संवसारांत दर एकलो लक्ष्मीचीं पावल सोदूंक भोंवता आसतना म्हजे सारख्यान लक्ष्मीचीं पावलां सोदूं भोंवप हाका पिशेपणाच म्हणपाचें. दर एकल्याक आपणाल दारांत लक्ष्मीचीं पावलां पडचीं अशेंच दिसता. तेच खातीर त सगळी धडपड आसता न्ही! सकाळीं उठल्या पासून रात न्हिदऽ सर दर एकलो धडपडटा तो लक्ष्मीचीं पावलां आप वटेन पडचीं ह्याच उद्देशान.

जो मेरेन लक्ष्मीचीं पावलां आमचे वटेन वळनात त मेरेन आमचीं पावलां चलनात. तशें थोड्यांक सकाळीं उठ फुर्डे निवळसाणीचें मारचें पडटा, तेन्ना तांचीं पावलां चलूं लागतात, त्या थोड्यांचें सोडलें जाल्यार हेर सगळो संवस लक्ष्मीच्या पावलांचेरूच चलता. लक्ष्मी नासल्यार कोण कोणा

त उबो करून घेनात. देखुनूच तर केंद्रंय अरिश्ट आयलें आमची धडपड उणी जायना. उरफाटें आयिल्ल्या अरिश्टाचो ो फायदो करून घेवचो हाचेरूच दर एकलो विचार करता. कडावनाचोय आमी फायदो घेतात आनी कोविडाचोय धंदो तात हें सगळ्यांनीच अणभवलां. हें सगळें तर लक्ष्मीचीं लां आपणा वटेन पडचीं म्हणून करतात न्ही?

अशे वेळार सरस्वतीचीं पावलां सोदप्याक पिसोच म्हणचो लो ना? पूण केन्ना केन्नाय असलीं पिशेपणां करचीं पडटात. न्ना सरस्वतीच्या पांयार लक्ष्मी आसता तेन्ना आनी किर्ते पाचें? तशें केलें ना जाल्यार हांव गैरवेव्हारी थारतलों. तसो ज्या कांय इश्टांक हांव गैरवेव्हारी दिसतांच. एका इश्टान म्हजेर एक कवन लेगीत केलां:

'वेलंगेचो पूत,<br>गळ्यांत ताच्या सूत,<br>सामको गैरवेव्हारी,<br>जळटा ताचें मूत.'

तशें गैरवेव्हारी मनशाचें मूत कशें जळटलें, हो प्रस्न बो रावताच. मूत जळटलें जाल्यार पदराक बरीऽ गांठ आसची डटा. आनी गैरवेव्हारी मनशाक गांठ करप जमना. ताचे ांठीक कांयच उरना. आतां गांठ करतलों जाल्यार वेव्हारी ावचें पडलें. म्हणलें आयकुंया ह्या इश्टाचें आनी जावचो इल्लो व्हारी. ताचे सांगणेन तरी जमल्यार जमलें. मूत जळप खरें र आयची गरज. पेट्रोलाची दिसान दीस वाडपी दर पळेल्यार ट्रोला जाग्यार वेगळें इंधन मेळोवप गरजेचें. अशे वेळार मूत मामाक येवं येता. पूण ते खातीर पयलीं वेव्हारी जावचें पडलें ना? अशे वेळार जेन्ना सरस्वतीच्या पांयार लक्ष्मी आसा हणपाचें कळ्ळें तेन्ना तिचीं पावलां सोदूंक भायर सरचेंच डलें.

हेच खातीर म्हजीं हीं पिशेपणां चल्ल्यांत. पूण हीं पावलां सोदप खंय? सरस्वती मेळ्ळी तरूच तिचीं पावलां दिसतलीं न्हय! आतां खंय सोदप हे सरस्वतीक ह्या विचारांत आसतनाच उगडास जालो, आमी शाळेंत आसतना आमकां अर्दी मर्दी एक बाई शिकोवंक येताली - सरस्वती. पयलेक आसतनाची खबर ही. तशी आमची बाई वेगळी आसली- लताबाई. पूण दर म्हयन्याक कांय दीस ही सरस्वतीबाई शिकोवंक येताली. सगळे तिका पतीबाई म्हणटाले. आतां खंय सरस्वती आनी खंय पती? पूण आमच्यो गांवच्यो पतीच वेगळ्यो. लक्ष्मणाक 'म्हणा' म्हणप तर रामनाथाक 'नाथा'. एकनाथाक 'एको' म्हणप आनी आनंदाक 'आना'. गोदावरीचें 'गोदू' जाल्यार मंजुळाचें 'मंजू'. ते भायर कोण तरी कोलो, फटो आसतालेच. आतां गांवच्यो पती त्यो, कश्यो आडावप सांगा. म्हणटकूच सगळे सरस्वतीक पती म्हणटा तर आमीय म्हणचें पडलें ना?

तर ही पतीबाई म्हयन्याक फकत तीन-चार दिसूच येताली. सगळ्या भुरग्यांक ती जाय आसताली. मायेस्त मनशां कोणाक नाका जाल्यां? सदची लताबाई इल्ली तापट. तिचें उलोवपूच तापिल्ले वरी. सगळ्यांचेरूच तापसाणी काडटाली. लताबाईन कोणाकूय प्रस्न बी विचारूंक उबो केलो जाल्यार तार्णे कडकडुंकूच जाय आसलें. इतलो तिचो दरारो. पूण ह्या दराऱ्याक लागून भियेवनूच भुरगे खबर आशिल्लेंय विसरताले. बाकिच्यांचे सोडात पूण तिचीं भुरगीं जीं आमचे वांगडा शिकतालीं तींय हांतल्यान सूटऽ नासलीं. तांकांय तापोवणी आसतालींच.

तसो तो काळूय वेगळो आसलो म्हणात-'छडी वाजे छमछम विद्या येई घमघम'चो. बाईन तापयलो वा मारलो म्हणून कोण कागाळ करी नासलो. आनी केलीच जाल्यार घरा कडल्यान उरफाटो प्रसाद मेळपाचो. बाईक विचारूंक कोण वचऽ नासले. आयचे सारके समाज वावुरपीय नासले त्या काळार जे मोर्चा बी घेवन वतले. देखून केन्ना ते तीन दीस येतले आनी पतीबाई वर्गांत येतली ताचेर सगळ्यांचें लक्ष आसतालें. पूण हे खबरीक जालीं पन्नास-पंचावन वर्सां. आतां खंय सोदप तिका? ती तर आमी दुसरेक पावता म्हणसर गांवूच सोडून गेल्ली.

दुसरी सरस्वती काय लक्षांत येना. आनी आसलीच कोणूय म्हणून किर्ते तिका मेळूंक जातलें अशेंय ना. दुसरी आसा म्हणून कळ्ळें आनी तिका सोदूंक गेलों जाल्यार कोणूय अर्थाचो अनर्थ करीत म्हणपाचो भंय. लक्ष्मीच्या फाटल्यान भोंवतना हो भंय आसना. कितलेशेच लोक आसतात तिच्या फाटल्यान तातूंत आनीक एक भर पडपाची. कोणाक कांय दिसचें ना ताचें. संवयेचो परिणाम!



मडगांव-गोंय, मो: ९४२३८८४६८७



# पोस्टपार्टम सायकोसिस





ताणें भुरग्या वयलें लक्ष काडलें. तें कश्या कशेंय वागूंक लागलें. सतत कित्या कितेंय बडबड करपाक लागलें. घोव घरा आयलो जाल्यार ताका वळखच ना अशें सांगून बाश्कळ उतरां दिवंक लागलें. शेणैमाम आनी बायल कोसळ्ळीं. तो आशाकूय घेवन मनोरुग्णाच्या दोतोरा कडेन गेलो. ताणें तपासून ताका पोस्टपार्टम सायकोसीस जाला म्हणून सांगलें आनी वखदां दिलीं.



- डॉ. उल्हास प्रभू नास्नोळकार

सांग्यांतल्या एका गांवांत एक भाटकार रावतालो. गांवांतले लोक ताका शेणैमाम म्हणून वळखताले. आस्तीक घर. भाट सांबाळून, भाटांतले जोडीचेर तो घर संवसार सुखान चलयतालो. भोंवतणच्या लोकां कडेन आनी नात्यागोत्यांत बरे संबंद आसले. ताची बायलूय घर सांबाळपी. मोगाळ, बऱ्या उतराची आनी बऱ्या घराण्यांतली आसली. एकूण संवसार बरो चलतालो.

शणैमामाक दोन चलयो. दिसपाक बऱ्यो तश्यो वागपाकूय बऱ्यो. पूण तांच्या जल्मा उपरांत, दोनूय वेळां आवयक नेर्वांचें जाल्लें अशें म्हणटात. दोनूय बाळंतेरां उपरांत, एक दोन म्हयने जाता न जाता, तिका नेर्वांचें जाल्लें. गांवच्या दोतोरान कांय वखदां दिवन ती निवळ्ळी आनी मागीर संवसार बरो करूंक लागली.

व्हडले चलयेचें नांव उषा आनी दुसरे चलयेचें नांव आशा. दोगांय शिकपाक बरीं आसलीं. तशीं वागपाकूय

. कांय खोडी काडपा सारकें नासलें. सुरवातीचें शिक्षण ाडड्यां जालें आनी फुडलें शिकप यो वच करून मडगांवां लें. एमए आनी बीएड करून दोगूय जाणां फार्टी फुडें गांवां कॉलेजींत शिकोवपाक लागलीं. सगळें खोशयेन ल्लें.

आतां शेणैमामाक तांच्या लग्नाचे वेद सुरू जाले. तो क्षां सोबऽ सारकीं थळां सोदूंक लागलो आनी ताच्या दाकूय यश मेळ्ळें. आसगांव एका बऱ्या घराण्यांतलो कलेलो सुसंस्कृत भुरगो, पणजे पिडब्लुडींत इंजिनीयर णून काम करतालो. शेणैमामाक चपलां चडशीं झरोवंचीं लीं नात. तांची सोयरगत जाली आनी तीन म्हयन्यां तर लग्न जालें. दोनूय घरांत खोशयेचें वातावरण पडलें. शेणैमामान खोशयेचो हुस्कार सोडून देवाचे उपकार नले.

शेणैमामाक हे दगदगींतल्यान भायर सरपाक दोन म्हयने ले. तार्चे लक्ष आतां आशा कडेन वळ्ळें. ताकाय बरेंशें ळ मेळटकूच तो स्वस्थ जिवन जगपाक मेकळो जावपाचो. ंचो हाचेर विचार सुरू आसलो आनी चवकशीय सुरू ासली. ताच्याच एका सोयऱ्यान फोण्यां एक भुरगो खयलो. इंजिनियर आनी बांद खात्यांत काम करतालो. णैमामान हांगा खटपट करपाक सुरवात केली आनी ताका शूय मेळ्ळें. चली दिसपाक बऱ्यांतलें. शिक्षण आसलें ानी वागणुकूय बरी. सोयरीगत जावन धा म्हयन्यांत ग्न थाटांत जालें.

हे मजगतीं उषाक दीस गेल्या ही खबर शेणैमामाच्या ानार आयली. दुदांत साखर अशें ताच्या घरांत दिसलें ानी तार्णे देवाचे उपकार मानले. आशार्चे लग्न जावन ार-पांच म्हयने वता म्हणसर, उषाचो बाळंतेर जालो आनी ांगेर कुकुलो भुरगो जालो. आतां आनंदाक मर्यादा उरली ा. भुरग्याचो बारसो बरे खोशयेन जालो. तीन म्हयन्यांनी षा कुळार सोडून घरा गेलें. चार-पांच म्हयने बरे गेल्ल्या शेन दिसले. पूण मांयक ताचे वागणुकेंत बदल दिसलो. तो कमी जावंचे परस चडत आसलो. हळुहळू आवाज चडूंक लागलो उतराक उतर आपटूंक लागलें. मांय, मांवान आनी पोवान सांबाळून येवपाचो यत्न केलो. पूण कांयच उपेग जालो ना. हे मजगतीं खबर शेणैमामा कडेन पावली. उषाचे आवय बापूय आयले. पळोवन तांकांय बरें दिसलें ना. म्हत्वार्चे म्हळ्यार भुरग्याचेर दर्लक्ष जालें. ह्या दोतोराक दाखय, त्या दोतोराक दाखय सुरू जालें.

बरोबर देव धर्मूय चालू आसलो. कांयच उपेग जाय नासलो. दोतोरा कडेन यो वच करतना निमाणें शारांतल्या सायकियाट्रीस्ट दोतोरा कडेन पावले. तार्णे बरें तपासून उषाक पोस्टमार्टम सायकोसीस जाला अशें निदान केलें. वखदां चालू केलीं. उषा मस्तेपणां करून सारकीं वखदां ये नासलें. मर्दीच कोणायचेर हात उखलप, अपशब्द दिवप सुरू जालें.

एक दीस घर सोडून, भुरग्यांकूय सोडून कुळारा परतलें. वखदां येवन थोडे प्रमाण निवळ्ळें, पूण कशेंच घरा वचपाक तयार नासलें.

GOA
A SOCIAL
HISTORY
1510 - 1640

by P. D. XAVIER

The Social History of Goa is of great importance as it proves beneficial to research scholars and general readers and to understand the social interaction of the people of 16th century Goa. The book is written in an inimitable style and sustains the interest of the readers throughout.

GOA
A SOCIAL
HISTORY
1510 - 1640

A-5 , 353 Pages
H/B Price : 800/-
ISBN 978-81-85339-91-0

राजहंस
RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph : 2220320 / 2232177 | E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com
Web : www.rajhauns.com | www.facebook.com/rajhauns

हें सगळें चालू आसतना आशाकूय दीस गेल्या ही खबर शेणैमामागेर पावली. खबर खोशयेची आसली, तरीय तो भितरल्यान खचलो. बायलेक भुरगीं जावन नेर्वांचें, उषाक अशें आनी आतां फुडें कशें? ताची न्हीद उडली. ताचें प्रेसांव चडूंक लागलें. जीव कासावीस जालो. तरीय आसतना तो संवसाराचो गाडो ओडटालो. दीस, म्हयने कोणाक रावनात. णव म्हयने कशे गेले तें कळ्ळेंच ना आनी आशाचो बाळंतेर जालो. ताकाय चलो भुरगो जालो. शेणैमामान थाटान सगळें केलें. पूण तो मनांतल्या मनांत खूब भियेल्लो.

उषा त्याच घरांत आसलें. तें किर्तेय केल्यार कुळार सोडपाक तयार नासलें. तें आशाच्या काना कडेन सतत बडबड करतालें. भयानक गजाली सांगतालें. विचीत्र वागतालें. शेणैमामान उषाक ताचे कडल्यान पयस करपाचो खूब यत्न केलो. पूण तो कांयच करपाक शकलो ना. करतां करतां आशा उषाच्या जाळ्यांत सांपडलें. ताणें भुरग्या वयलें लक्ष काडलें. तें कश्या कशेंय वागूंक लागलें. सतत कित्या किर्तेय बडबड करपाक लागलें. घोव घरा आयलो जाल्यार ताका वळखच ना अशें सांगून बाश्कळ उतरां दिवंक लागलें. शेणैमाम आनी बायल कोसळ्ळीं. तो आशाकूय घेवन मनोरुग्णाच्या दोतोरा कडेन गेलो. ताणें तपासून ताका पोस्टपार्टम साय्कोसीस जाला म्हणून सांगलें आनी वखदां दिलीं. पूण तीं दोगांय वखदां कशींच घेना जालीं.

निमाणें शेणैमाम सामको थकलो. मनानूय आनी शरिरानूय. ताची बायलूय तशीच जाली आनी वयल्या वयर शरिरान दुर्येत जावंक लागली. शेणैमामान सगळे तरेन यत्न केले. पूण कांयच फळ मेळ्ळें ना. एक दीस तो उठून आशाच्या घरा गेलो. बराबर आपल्या नातवाक म्हळ्यार आशाच्या चल्याक व्हेलो. ताच्या आज्यान नातवाक मोगान वेंगेंत घेतलो आनी अपुर्बाय करूंक लागलो. ताच्या जांवयान आनी ताचे आवयन ताका बरो येवकार दिलो. शेणैमामान ताका सगळी परिस्थिती सांगली आनी तांच्या नातवाचो स्वीकार करपाक सांगलें. तांणी खोशयेन मान्य केलें. तशेंच जांवयाक दुसरें लग्न करपाक उपदेश केलो. ताचे कडेन माफी मागून शेणैमाम घरा परतलो.

दुसरे दिसा शेणैमाम उषाच्या घरा गेलो. त्याय लोकांनी ताका बरे तरेन वागयलो. नातवाक गोडशें घेवन गेल्लो, तें नातवाच्या हातांत दिलें. आपल्या जांवयाक दुसरें लग्न करपाचो उपदेश दिलो आनी सुटकेचो स्वास घेवन घरा परतलो.

ह्या सगळ्या शारिरीक आनी मानसीक त्रासान ताची प्रकृती खालावल्ली. खूब त्रास जातालो. आशा आनी उषाचेंय मानसीक दुसर्येस सुदारतालें. पूण नॉर्मल अशें जालेंच ना.

शेणैमामान आपल्या एका वकील इश्टा कडेन आपल्या फाटल्यान आपल्या चलयांच्या फुडाराविशीं उलोवणी केली. बरे भशेन उलोवन ताचो निश्कर्श असो जालो, ताचें घर आनी भाटांचे तीन वांटे करचे. एक वांटो व्हडल्या नातवाक, दुसरो वांटो दुसऱ्या नातवाक आनी तिसरो वांटो वृद्धाश्रमाक. त्या वृद्धाश्रमान उषाची आनी आशाची मरऽसर काळजी घेवची. तांकां कांयच कमी पडूंक जायना. शेणैमामान हें मान्य करून, तशे डोक्युमेंट तयार केले आनी शेणैमामान आनी बायलेन सई केली आनी वकिला कडेन सोपयलें. थोड्या दिसांनी शेणैमामाचे बायलेन जीव सोडलो आनी ताचे फाटोफाट शेणैमामान सोडलो. उषा आनी आशा वृद्धाश्रमांत दीस काडटात.

(तुमी ही काणी वाचतलीं. विचार करतलीं. काल्पनीक काणी खरी हाचेरूय उलोवणी करतले. एकाद्र्या वेळार लेखकाकूय पिशांत काडटले. पूण ही काणी सत्याच्या आधारार आसा. काणी म्हळ्यार तातूंत मीठ मसालो घालचो आसता. पूण ही बरोवच्या फाटल्यान हेतू आसा, ह्यो गजाली पयल्योय घडटाल्यो आनी आतांय घडटात. सायकोसीस हें मानसीक दुर्येस केन्नाय जावं येता आनी ताका वखद आसा. बाळंतपणा मागीरूय जाता. बाळंतपणा मागीर मुखेल तीन व्यक्ती म्हळ्यार आवय, बापूय आनी भुरगें ह्या संकटांत मुखेल करून अडकतात. दोनूय फामिली ह्या चक्रांत गुस्पतात. नेणपणान जाल्यांत, भुतबाधा, देवाचें रागणें, पुर्वजांचो दोश-तातूंत भुतखेतां, देवचार, ब्राह्मण असल्या चक्रांत सापडूंक नाका. कळना पुण रोखडोच मानसीक रुग्णांच्या दोतोरा कडेन उपचार करून घेवन त्या रुग्णाक वाचयात आनी अर्थांत दोनूय फामिलींक.)



करंझाळें-गोंय. मो: ९८२३०६६५४

रवीन्द्र केळेकार हांच्या 'महात्मा गांधी एक जीवनी'
ह्या हिन्दी पुस्तकाचो 'एका विचाराची जीवीतकथा'
ह्या नांवान केल्ल्या अणकाराक केंद्रीय
साहित्य अकादेमीचो १९९८ वर्साचो अणकार पुरस्कार,
तशेंच 'मंथन' ह्या पुस्तकाक २०१४ वर्साच्या
साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत जाल्ल्यो लेखिका,



स्मृतीशेष **डॉ.माधवी सरदेसाय**

हांचें उजवाडाक आयिल्लें आनी दरेकाच्या घरांत
आसूंकच जाय अशें साहित्य




**भासाभास**

भासविज्ञानाचो शास्त्रीक अभ्यास करून बरयल्लें
कोंकणींतलें पयलेंच पुस्तक.
हे मुखार भास आनी भासविज्ञान ह्या विशयांचेर कोणाकय
कितेंय उलोवचें बरोवचें जाल्यार
ताका ह्या पुस्तकाचो खूब उपेग जातलो.
उजवाडावपीः जाग प्रकाशन,गोंय




**मंथन**

साहित्याचेर आनी हेर भाशीक तशेंच सामाजीक
प्रस्नांचेर वेगवेगळ्या तासांनी तटस्थपणान केल्लें मंथन.
उजवाडावपीः जाग प्रकाशन,गोंय




**तांचे विशीं... म्हजेय विशीं...**

माधवी सरदेसाय हांणी लकुबायेन निर्मिल्ल्या कांय व्यक्तीचित्रांचो
आस्पाव आशिल्लें,मनशां मदलीं नातीं सोदपी एक वाचनीय पुस्तक.
उजवाडावपीः जाग प्रकाशन,गोंय

ताकतिकेन हांव भायर आयलों. म्हाका विमानतळाची मांडणी आनी आर्कीटेक्चर पळोवपाक वेळ नाशिल्लो आनी मनाची तयारीय नाशिल्ली. म्हजें पुराय मन म्हजी वाट पळयत फाटलें वर-देडवर भायर लोकांमदीं ताटकळपी पंकज नाडकर्णीचेर लागिल्लें. कसो वळखप काय हांवें ताका ते गर्दींत...! तो हातांत म्हज्या नांवाचो बोर्ड येवन रावतलो काय..? पूण ताची किते गरज आशिल्ली..? हांव जरी ताका वळखना वो केन्ना पळोवंक ना तरी ताणें म्हजो अवतार पेपरांचेर आनी टीवीचेर पळयलाच न्हय! हांव दरवंट्यार दिसले बराबर तोच 'दिलीपबाब' म्हूण उलो मारीत येतलो वो भितर सरूंक परवानगी नासत जाल्यार जंय विजिटरांक रावपाक दितात थंयच रावून तो म्हाका सोदून काडटलो हें म्हाका खबर आशिल्लें! म्हणटकच म्हाका कसलोच हुसको करपाची गरज नाशिल्ली. हांवें ताचो फोटो व्हॉटसेपाचेर पळयल्लो. पूण त्या माध्यमाचेर जे कोण आपलो स्टेटस म्हूण फोटे घालतात ते सगळेच सारके आसताच अशें खंय आसा..? चडशे लोक आपूण खंयच्या फोटवांत बरो दिसता अशें ताका दिसता तोच फोटो तो स्टेटसाचेर घालता. ताचो खरो स्टेटस जेन्ना मागीर नदरेक पडटा तेन्ना खरें उक्ताडार येता आनी अपेक्षाभंग जाता. कांय खेपे फोटवांत बाबत दिसपी मुळांत स्मार्ट आनी नदर घालपा सारखो आसता. पंकज नाडकर्णीचो पोटो तसो बरो आशिल्लो आनी म्हाका कॅमेऱ्याची थोडी भोव भास खबर आशिल्ल्यान हांव हे व्यक्तीक पळयत जाल्यार वळखूंक शकतलों हाची म्हाका खात्री आशिल्ली. फोटवांत तो पारदर्शक दिसतालो आनी फोनार आयकल्लो ताचो आवाज ताचे काळजाचे नितळसाणेची गवाय आशिल्लो. म्हणटकच हांव थंयचे गर्दींत अमकोच पंकज म्हूण सोदून काडूंक शकतां काय किते हाचो म्हाका प्रयोग करपाचो आशिल्लो आनी भायर सरल्या बराबर हांवें थंयच्या लोकांचेर नदर भोंवडावंक आरंभ केलो. पूण ती संद म्हाका दिल्यार तो पंकज कसलो...? प्राण दोळ्यांत हाडून दरवंट्या कडेन नदर लावन राविल्ल्या पंकजाची नदर म्हजेर पडले बराबर ताचे दोळे आनी मुखामळ प्रफुल्लीत जालें आनी तो हात वयर करून थंयच्यानूच आड्डलो, 'दिलीपबाब!'

ताका थंयची गर्दी किते म्हणटली हाची पर्वा नाशिल्ली. ताका फकत ताचो गोंयकार दिलीपबाब म्हत्वाचो आशिल्लो. दुबयच्या रेंवटांत आपल्या कुटुंबा पासून पयस नोकरी करपी एका गोंयकाराक आपलो एक गोंयकार नदरेक पडलो जाल्यार कितली खोस जाता आनी ताचो उत्साह कसो फुलून येता हाचो अणभव हांव



आयच्या काळांतल्या विद्यार्थ्यांक आनी काव्यरसिकाक तांणी प्रत्यक्ष पळोवंक नाशिल्ल्या आपल्या आवडीच्या कवींक पळोवपाची आनी तांच्या तोंडांतल्यान तांच्यो कविता आयकुपाची भांगरसंद दवरता गोंयचे नामनेचे कवी,गीतकार, गायक आनी संगीतकार

पुर्णानंद च्यारी



मुजरत अणभव घेयात

ई-देखणी कोंकणी साहित्यपटाचो

भाग-१ आनी भाग-2

मनमौर्य अविश्कार आनी गौरी प्रॉडक्शन्स निर्मिती
डीपीएम्स श्री मल्लिकार्जुन कला, वाणिज्य आनी विज्ञान महाविद्यालय
काणकोण-गोंय,कोंकणी विभाग प्रस्तूत

पंकजाच्या रुपान घेतालों. कोणा कोणांक रिसिव्ह करूंक आयिल्ल्यांचें लक्ष म्हजेर आशिल्लेंच. तातूंत कांय हॉटेलांचे कर्मचारी आशिल्ले जे आपल्या गेस्टाक रिलिव्ह करूंक आयिल्ले. कांय कंपन्यांचे लोक आशिल्ले जे आपल्या कॉर्पोरेट अधिकाऱ्याक व्हरूंक आयिल्ले आनी ते आपल्या हातांतलो बोर्ड वयर काडून म्हजे मुखार नाचयताले. म्हाका त्या बोर्डांचेर नदर मारपाची गरजूच नाशिल्ली. कित्याक हांव जाणां आशिल्लों म्हज्या नांवाचो बोर्ड कोणाच्याच हातांत ना. तो फक्त ते गर्देंतल्या एकाच मनशाकडेन आसा, तोय बी हातांत न्हय तर ताणें आपल्या काळजाचेर बरोवन हाडला. तो फक्त म्हजेच नदरेक दिसतालो आनी तो फक्त हांवच वाचूंक शकतालों!

लागीं आयले बराबर पंकजान म्हाका हात दिलो आनी घट्ट वेंगायलो. आपले भुंये पासून पयस आशिल्ल्या एका गोंयकारान दुसऱ्या गोंयकाराक एके परके भुंयेर वेंग मारप हाका आमचे दोगांयचेय नदरेन अर्थ आशिल्लो. ती अर्थपूर्ण आनी भावपूर्ण वेंग आशिल्ली. तें वेंगेंत गोंयचे भुंयेंचो, गोंयचे भाशेचो आनी गोंयकारपणाचो वेग आनी मोग आशिल्लो! पूण पंकजाक ती भूंय परकी कशी? तो फाटलीं तीन दसकां हे भुंयेर वावुरता. हांगा तो नोकरी करता, हांगचे मातयेंतलें अन्न खाता, हांगचे हवेंत श्वास घेता, हांगची भास बरी उलयता, हांगचे रितीरिवाज, संस्कृताय ताका खबर आसा आनी रासवळ सुवातेर तो तें सगळें पाळटा. दुबय सारख्या सनातनी देशांत ते पाळूंकच जाय आपखोशयेन ना तर नेमांचें पालन म्हूण तरी. संवसारांले आमी सगळे दर सात वर्सांनी पुराय बदलतात. आमच्या आंगांतली एकान एक पेशी बदलून वता. मागीर तीस वर्सां हे भुंयेंत रावून तो तेच भुंयेक परकी कसो? परकी तर हांव! जे भुंयेर हांवें जो पांय दवरला ते भुंयेक ताचो स्पर्श परकी, पंकजाचे न्हय. पूण आपली जल्मभूंय..! हय, कोणूय कितलींय वर्सां परकी भुंयेर रावलो तरी तो आपले जल्मभुंये पासून आपली वार तोडूंक शकना. मांयभूंय आनी मांयभास ह्यो गजाली स्वर्गादपी गरीयसी म्हणटात तें तेच पासत. ह्योच गजाली म्हाका आनी पंकजाक इतले ओडीन मेळयताल्यो.

म्हाका कितें कितें विचारचें हेंच त्या बाबड्याक कळऽनासलें..हांव कसो आसां, आरोग्य कशें आसा, प्रवासांत कांय त्रास जाले नात न्हय, मुकेश कसो आसा, बिम्ब बरें चलता न्हय...चल आमी पयलीं एक बरीऽ कॉफी घेवंया..

तो म्हाका विमानतळा वयल्याच एका काफेतारींत घेवन गेलो. तो म्हजी सेवा करपाक इतले


## मुजरत वाचपा सारकीं जागर प्रकाशनाचीं नवीताल्लीं पुस्तकां



**विद्युल्लता** (चरित्र)
सौ.सोनिया सुभाष शाह



**रुपनगंधा** (कविता)
सौ.सोनिया सुभाष शाह




**जोगूल** (चरित्र)
सौ.सोनिया सुभाष शाह




**कवितेच्या गोपांत** (कविता)
सुभाष नटवरलाल

नमळायेन आनी तत्परतायेन वावुरतालो की म्हाकाच आखुडल्ल्या भशेन जातालें..म्हजेच पिरायेचो पंकज, एक दोन वर्सांनी ल्हानूय आसूं येता पूण तो म्हाका खुबूच व्हडपण दितालो. तें अडेचें नाशिल्लें,तातूंतलें सहजपण होलमतालें. तें व्हडपण एके समवयस्क व्यक्तीक तो दिनाशिल्लो. तें तो कोंकणींतल्या एका साहित्यकाराक दितालो,गोंयचे दरेक चळवळींत वांटेकार जाल्ल्या एका कार्यकर्त्याक दितालो,कसलीच अपेक्षा बाळगिनासतना कोंकणी चळवळींत घालून घेवन आयज कोंकणीक आयचे पदार हाडून बसोवपाच्या वावरांत कुसकुटाचें जायना,आपलें योगदान दिवपी एका कोंकणी भक्ताक दितालो. ताका तो गवाय आशिल्लो आनी फाटल्या तीन दसकांत घडिल्ल्या ह्या सगळ्या गजालींत तो खंयच नाशिल्लो. तो दुबय आशिल्लो हाचें भान आशिल्ल्यानूच हांव ताच्या आदराक पात्र आशिल्लों. ती ताची भावना आशिल्ली. ताचे ते भावने पासून ताका परावृत करपांत अर्थ नाशिल्लो आनी तें ताचे कडच्यान घडपाचेंय नाशिल्लें. तेन्ना ताका ताचे वागणुकेर सोडून हांवें म्हाका मुक्त करून घेतलो.

ताणें म्हाका कसली कॉफी घेता काय विचारून मेनू फुडें केलो. हांवें म्हळें तुका जाय ती मागय. वेटर लागींच येवन राविल्लो. म्हाका पंकज तांचे कडेन तांची भास कसो उलयता तें आयकुपाचें आशिल्लें. पूण तो ताचे कडेन हिन्दी उलयतालो. तोय भारतीय आशिल्लो.म्हणटकच भूंय परकी आसूनय हांव भारतीयां मदींच तर! मागीर म्हाका हांगा येवन खंयची संस्कृताय पळोवंक मेळटली...? ताणें कापुचिना काय कसली तरी कॉफी मागयली. पणजे जावं फोंड्यां आशिल्लों जाल्यार मिरची हाड रे, भाजी हाड रे म्हूण ऑर्डर दिवप म्हाका जमपाचें! ह्या असल्या रेस्टॉरंटांनी म्हाका कितें मागोवचें तेंच केन्ना कळ्ळें ना. कितें सहज सांगू येता तें चड खिचकीच करी नासतना सांगून मेकळो जातां. कापुचिना काय कसली ती कडवट कॉफी आमी घेतली. म्हाका असले वेगवेगळे स्वाद चाखपाक आवडटात.तातूंत खूबश्यो गजाली हांव सोदतां..संस्कृती, चाली, रिती, अन्नघटक, करपाची,रांदपाची पद्दत...जिवनात आनंद घेवपा सारक्यो खूब्ब गजाली आसात.. देखून म्हाका जीवन आवडटा.

काफेतारींतल्यान भायर येतकच ताणें टॅक्सी थारायली. हांगची येरादारी सगळी लेफ्टाच्यान जाल्ल्यान ताचें भान दवरचें पडटालें. हांगा म्हज्या लेफ्टीस्टपणाचो तसो कांयच फायदो जावपाचो नाशिल्लो. तरी येरादारींत लेफ्टची जाणवाय पावला कणकणी दवरप गरजेचें जाल्लें.भारतीय येरादारी पद्दत मतींत धरून वावुरलो जाल्यार कोणूय हाडून ठोकपाचो. टॅक्सीय सामक्यो पॉश..रस्त्यार तरांतरांच्यो सगळ्या मेकाच्यो गाडयो फाटल्यान वाग लागिल्ल्या भशेन धांवताल्यो.त्यो गाडयो पळोवन गाडी चलोवपाचें पिशें आशिल्ल्या म्हजो जीव चिटमिट्टालो. बरें कोणेंय चलय रे म्हूण दिली तरीय चलोवप शक्य नाशिल्लें. हांगच्या लेफ्ट हॅन्ड ड्रायव्हींगाक तेच तरेचें लायसन्स जाय आसता. भारतांतलें वो रायट हॅन्ड ड्रायव्हींग आशिल्ल्या देशांतलें ड्रायव्हींग लायसन्स हांगा कोताक येना. म्हणटकच हांवें ह्या ऐसपैस शेकानशेक पातळिल्ल्या गुळगुळीत स्वच्छ रस्त्यां वयल्यान धांवपी गाडयांक पळोवनूच नेत्रसूख घेवप पसंत केलें.

टॅक्सींत हांव ड्रायव्हर सायडीक बशिल्लों. ताका हांव नियाळटालों. पंकज ताचेय कडेन अरबी उलयलो ना. तो पाकिस्तानी. तो हिन्दी उलयतालो. हांगचे सगळेच टॅक्सी ड्रायव्हर पाकिस्तानी,बांगलादेशी वा संयुक्त अरब आमिरात ह्या सप्तरंगी कागदी फुलांच्या गुच्छा भोंवतणच्या वाठारांतले मूस. हे ह्या कागदी फुलांचो रंग पळोवन हांगा धांवून येतात आनी अजाप म्हळ्यार तातूंतलें म्होंव आपले तांकी प्रमाण एकठांय करून आपल्या गांवांत ताचें पोळें बांदतात.दुबय,शारजा,आबू-धाबी,फुजेरा,रसैल खेमा,अजमान आनी उमलक्वॅन अश्या सात राज्यांचो आमिरात हो एक गुच्छ. रखरखीत रेंवेंत पेत्रोलाचें शिंपण करून फुलयल्लो. तांतल्या एका फुलाचो,दुबयचो गंध घेवपाक हांव दुबय आयिल्लों,तोय बी कितल्याच दिसांचो पंकज नाडकर्णीच्या आग्रहाक पाळो दिवंक..टॅक्सी ताच्या राबित्या वटेन तुफान गतीन धांवताली..जो म्हाका अनवळखी आशिल्लो. पंकज मदीं मदीं म्हाका खूब कितें सांगतालो. आज तो रिलेक्स आशिल्लो. कित्याक बिरेस्तार हो ताचे खातीर विकेन्ड. फाल्यां शुक्रार आनी परवां शेनवार. हे दोनूय दीस ताका सुटी. तातूंत हांव तागेर आयिल्लों. म्हणटकच ताचे थंयचे एकसुरे जिणेंत कानार कोंकणीचीं म्होंवी उतरां सादोवपी आनी जाचो तो फॅन आसा असो हांव ताचे वांगडा आशिल्लों. दोन दीस कितें कितें करपाचें तें तो म्हाका सांगतालो. हांव ताचें प्लॅनींग आयकत धांवते टॅक्सींतल्यान रातच्या दुबयचो झगझग दोळ्यांनी- अनिमेष नेत्रांनी घोटटालों. दिव्वांचो उत्सव अणभवतालों....

*( पानांच्या अभावाक लागून उरिल्लो वांटो पुस्तक रुपांतय )*

*केंद्रीय साहित्य अकादेमी, सरस्वती सन्मान, विमला व्ही.पै विश्वकोंकणी साहित्य पुरस्कार आनी हेर साबार प्रतिश्ठेच्या पुरस्कारांनी भोवमानीत साहित्यकार*

# महाबळेश्वर सैल

*हांचें लक्षणीय साहित्य.*





## अग्रदूत

कादंबरी

संजना पब्लिकेशन

बुध्दीमान आनी शक्तीमान हनुमानाचें केल्लें यथार्थ वर्णन



## सैमदेव

भुरग्यांमदीं पर्यावरण राखणेचो संदेश दिवपी बालकाणी

बिम्ब प्रकाशन



## माती आनी मळब

कादंबरी

संजना पब्लिकेशन

कृशी संस्कृतायेची काणी.



## निमाणो अश्वथामा

सैमाचे उत्फर्के उत्तावपी सैमसाहित्य

श्रीशैल प्रकाशन



## दोन मुळांचें झाड

कथासंग्रह

श्रीशैल प्रकाशन

### महाबळेश्वर हांचें हेर साहित्य

पलतडचें तारूं (कथा)

तरंगां (कथा)-सहित्य अकादेमी पुरस्कार

काळीगंगा (कादंबरी)

युगसांवार (कादंबरी)

अदृश्ट आनी अरण्यकांड (दोन नवलिका)

खोल खोल मुळां (कादंबरी)

बॉयनेट फायटींग (कथा)

हावठण (कादंबरी)

सरस्वती सन्मान

विमला व्ही.पै विश्वकोंकणी साहित्य पुरस्कार

A POETRY BOOK BASED ON Positivity of Life



PRE ORDER NOW
@150/-
ACTUAL PRICE ₹180/-
Releasing on
14th Dec 2020

Contact: Dilip Borkar, Bimb Publication
+91 98221 36885



ज्येश्ठ सुटकेझुजारी आनी मार्ग चळवळीचे प्रवर्तक

गुरुनाथ केळेकार

हांची हालींच उजवाडाक आयिल्लीं दोन अभ्यासपूर्ण पुस्तकां.
दरेकल्याचे अभ्यासिकेंत संदर्भा पासत हाता लागीं आसचीं अशीं....




◂ गोंयां तुज्या मोगा खातीर
गोंयचो विध्वंस करपी
कांय गजाली पळोवन वेळा प्रसंगार
भायर सरिल्ले उत्फर्के..

कशे आशिल्ले गांधीजी! ▸
(संकलन आनी संपादन)
राष्ट्रपिता महात्मा गांधी
हांची प्रस्नोत्तरांतल्यान वळख





Best wishes to BIMB &

*Happy Diwali to all*

# Asha S Shetye

**Civil Engineer & Contractor**

T-1, Vishranti Apartment, Khadpabandh Ponda Goa
9822687385, 9552595814
ashashetye@rediffmail.com



# घरचो भेदी, भायलो चोर

मनाचो प्रभाव कुडीर पडटा. आनी जेन्ना परयान मन थाऱ्यार आसना, तेन्ना परयान कुडीक सुसेग मेळपाक ना, आनी जो मेरेन कुडीक सुसेग ना, तो मेरेन दुयेंसां कुरार जावपाचीं ना. एक चक्र कशें हें.

- फिलोमिना सॉफ्रांसिस्को

गरमेची सुटी पडली म्हणटकूच पयलें वयलें मनांत येवंचें तें पिकनिकेक वचपाचें. पिकनिकेक वचपाचें थारायलें म्हणटकूच, दिश्टावो जावंचो तो, तेच खेरीत सुवातेचो, म्हळ्यार दर्या देगेचो. दोळ्यां मुखार दिसचो तो, नदर पावना तितलो पयस, पयस पावलेलो दर्या, थाव लागनासलेली दर्याची खोलाय, हे खोलायेंतल्यान येवपी ल्हारां, केन्ना वादळ मोडाचीं उंच उंच उंचायेचीं भिरांकूळ ल्हारां, तर केन्नाय सवकासायेन दर्या देगेक मंद स्पर्श करपी हीं तितलींच म्होंवाळ ल्हारां. दर्या देगेक भेट दिवंक आपोवपी हींच तीं आमच्या मनाक आकर्शीत करपी ल्हारां. आमच्याय बी मना भाशेनूच.

आमच्या दर एकल्याच्या अणभवांतल्यान हें स्पश्ट जातलें. सकाळीं उठतना त्या दिसाच्यो राटावळी सुरू जातात म्हणपाचें हांतुरणा वयल्यान उठवे आदींच, आख्ख्या दिसाक करूंक जाय आसलेल्यां वेग-वेगळ्यां कामाचीं चिंतनां मनांत घोळूंक सुरू जातात. मागीर दीस भर ह्या चिंतनांच्या अस्तीत्वांत परिवर्तनूय बी जाता. वा करचें पडटाच. कश्ट करुनूच पोट भरपाचें आसता मनशाक.

आख्ख्या दिसाचे हे कश्ट, ही धांवपळ, ह्यो उठाबश्यो काडटा म्हणसर नाका-शेवट जाता. थकतां आमी. कुडीनूय बी, आनी मनानूय बी. हात पांय गळसणून पडले भशेन जातात. आनीक आनी काम करपाक शक्ती नांच दिसता.

हय, नांच दिसता म्हणटां हांव. शक्ती आसना न्हय. कारण, थकून गेल्ल्या अशे हे साप्प सकयले पातळीचेर आमी आसतना, ह्या अश्या वेळार जर आमकां खूब व्हडे खोशयेची गजाल आयकूंक मेळ्ळी, आमकां आयकुपाक जायच आसलेली उमेदीची खबर आयकूंक मेळ्ळी,जशी , चल आयज आमी हॉटेलांत जेवूंक वचूं या म्हूण आमच्या कानाचेर उतरां सादवलीं जाल्यार....जाल्यार उमेद आमच्या काळजां मनांत केन्ना भिनता तें आमकां कळचें लेगीत ना.

खिणभर आदीं आमकां हात पांय हालोवंक शक्ती नासलेलीं आमी, खिणा भितरूच उडकी मारीत ताजीं तेजरवी कशीं जालीं, हाचें आमकांच अजाप दिसूंक फाव. खिणा भितर आमच्यांत हें रुपांतर कशें जालें, हें आमी चितूंक पुरो. असो अणभव जण एकल्याक आमकां खूब पावटीं येयला आसूंक पुरो. खूब पावटीं न्हय जाल्यार , बारीक नियाळून पळेल्यार, एक पावट तरी नक्कीच येयला आसतलो.

फुडें, हे विशीं, तुमकां पटोवन दिवपाचो यत्न करतां :- म्हजे ओळखीची एक बायल आसा. तिका कितलींच दुयेंसां आसात. तीच सांगता, तशें. सांखळ कशी आपल्यां दुयेंसांचीं नांवां इसरयत आसता ती. केन्नाय वाटेर बी मेळ्ळयार, उलोवपाक तिचे कडेन आनीक वेगळो खंयचोच विशय नासता. 'भोंवोन भोंवोन चोण्णां' म्हळ्ळेले भशेन, घुंवोन भोंवोन ती आपल्या मुद्यार येताच. दुयेंसांच्या :- Arthritis, high blood pressure, diabetes आनी आनीकूय किर्ते किर्ते. आसतूय बी तिका हीं सगळीं दुयेंसां, आनी त्यां दुयेंसांचो त्रासूय तिका त्याच प्रमाणांत जाता आसतलोय बी. दुयेंस म्हणटकूच दुख्ख, त्रास , कश्ट वांट्याक आयलेच. नाकारूंक जायना. पूण विशेश म्हळ्यार , आपूण सोंसतेल्यां कश्टां विशीं सांगून, ती थंयच थांबना. फुडें आनीकूय व्हडली सांखळ सुरू जाता तिची. आपल्याचें बरें वायट जाल्यार? जाल्यार आपल्या कुटुंबाचें किर्ते? भुरग्यांचें कशें जातलें? हाचें कशें जातलें, आनी ताचें कशें जातलें. हुसको तर जाताच अश्या वेळार. पूण मर्यादा सांबाळपाची आसता. एक गजाल सांगची जाल्यार, ह्यां दुयेंसांच्या कश्टां परस, तांचे विशीं तिणें केल्ल्यां हुस्क्यांचे, तिच्यां निराशावादी चितनांचे तिका चड त्रास जावंक पुरो. कारण, आशावादी चिंतप ती चिंतीच ना. तिच्या मनांत रीग घेतल्या ती निराशावादी चिंतनानी. निराशावादी चिंतनानी तिच्या मनाचो ताबो घेतलेल्या मनाची परिस्थिती गंभीर जाता, चिंता करपा सारखी जाता. अश्या मनशाचें मन शांत आसना. उचांबळ आसता. ताचें मन, त्या दर्यांतल्या तुफान- मोडांच्या उचांबळ ल्हारां भाशेन. जितली उचांबळ ल्हारां वाडत वतात, दर्या देग हुपून फुडें फुडें सरकत वतात, तितलें ती लुसकाणूय चड प्रमाणांत करतात. आमच्या मनाचेंय बी तशेंच. जितल्या नेटान आमी आमचे भलायकेचेर वायट प्रभाव घालतात. बरे भलायकेचे वाटेर आमीच आडांबे घालतात. मनांत घोळटल्या चिंतनांचे हे आडांबे. आनीक आनी आनीक दुयेंसांक आमंत्रण दिल्ले भाशेन जाता. तेन्ना दुयेंस कुरार करपी वखदां आमच्या आगांक लागनांत. आमचें मन आमचीं दुयेंसां कुरार करूंक मदत करीना.


गोंयचो
शिवराक
उपाहार




Goenchim Shivrak
Khanam Jevnam

now in a new style

**Amita Salatry**
opens up
vegetarian dishes in a
Goan Culinary Bonanza.

Price: ₹ 120/-
Pages: 88
Publication No: 128
ISBN: 978-81-85854-37-8
Size: 14.2cms x 22 cms

राजहंस
**RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD**
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 00
Ph : 2220320 / 2232177 | E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com
www.facebook.com/rajhauns | www.rajhauns.com

मनाचो प्रभाव कुडीर पडटा. आनी जेन्ना परयान मन थान्यार ना, तेन्ना परयान कुडीक सुसेग मेळपाक ना, आनी जो कुडीक सुसेग ना, तो मेरेन दुर्येसां कुरार जावपाचीं ना. एक कशें हें.

हाचे उलट आशावादी चिंतनांनी भरलेल्या मनशाच्या मनाची आतां सांगलेलें उद्धरण घेतल्यार, हे म्हजे वळखीचे बायले आनीक खर दुर्येसां आसलेलो मनीस, बरो जावंक शकता. न. कुरार जावंक शकता तार्चे कुरार जावंक शकनासलेलें . कशें? खोशाल आसपी, खोशालूच रावूंक प्रयत्न करीत वृत्तेक लागून आपलें मन उमेदीन भरून , आपणें घेतलेली दां आपली भलायकी सुदरायतली म्हूण मनांत घट्ट निचेव न करून , थीर विस्वास दवरून, मन फक्त आशावादी नांनी भरून तसो प्रयत्न करीत रावून, मन शांत दवरून,मनाचो , वायट प्रभाव कुडीर पडटा म्हणटकूच बऱ्या , खोशाल , उमेदी ांत मनाचो कुडीर तसोच, म्हळ्यार बरोच प्रभाव पडटलो, आनी शाक सांभाळटलो. निवळायतलो. तार्चे दुर्येस कुरार करतलो. हून सोंपो उपाय सत्र सो दिसना. कित्याक आपल्या हातांत सा, आपल्या हातांत पडटा तें पयलें करपार्चेच.

मनाचेर आमचें जिणें कितलें लेगीत अवलंबून आसता, ताची मातशी वेगळी बाजू पळोवंया. प्रत्येक मनीस आपापल्या व्हडल्या त, बगल्यांत वो फ्लॅटांत रावता. पूण बारकायेन नियाळूंक गेल्यार, मी ह्या आमच्या व्हडल्यां घरांनी, बंगल्यांनी रावतात. जियेनात. मी खऱ्यांनी जियेनांत.आमी खऱ्यांनी जियेतात तें आमच्या मनांनी. मर्चे मन आमचें बिराड, सदाकाळ तिगपी आमचो राबितो. आनी आमच्या बिराडार सुवातेची, जाग्याची कसलीच मर्यादा ना. ही विशाल , अमर्यादीत सुवात- त्या दर्या भाशेन. आनी हे विशीं ल्वाचें सांगचें जाल्यार , ह्या घराची प्रत्येक कूड कितलीय नेटयली, ांदा, बलकांव, गॅरेजी कितल्योय श्रृंगायल्यो म्हूण फायद्याक पार्चे ना जो मेरेन आमी आमच्या सदांकाळ तिगपी आमच्या ाच्या बिराडाची मांडावळ मांडावळीर यालीनात.

हांगाच तर सगळें थारलेलें आसा. हीच ती सुवात जंय आमी रो, कोयर एकटायतात. एका कोनश्याक दुखाची, हुसक्यां, तीची, अपेक्षांची रास, जाल्यार, दुसऱ्या कोनश्याक दुरवासाची, शाची, नसायेची, कुसकेपणाची , कुन्नाटपणाची रास. आनीक का कोनशाक सूड घेवपाची, बूद शिकोवपाची, दुसऱ्याक फोंडांत शेवटुपाची, दुसऱ्यार्चे निसंटण करपाची, रागान भरलेल्यां चिंतनांची रास, जाल्यार आनीक दुसऱ्या कोनश्याक दुबावांची, लिपोवन दवरलेल्या घुटांची, एकामेकां कडेन तुलना करपी चिंतनांची, मिजास करपाची, व्हडपणाची रास. सगळे कडेन अशे तरेच्यो राशीच राशी. ह्यो कचऱ्याच्यो राशी आमच्यां मनांनी जमो जालेल्यो आसातात. हो कोयर सगळे कडेन शिंपडलेलो आसता, तेन्ना मन शांत आसना.

शांत आसुंकूच शकना. मन शांत नासता तेन्ना मनाची शांती पळून वता. मनाची शांती पळून वतकच मन अरवस्थ जाता, आबालार जाता. मन आबालार जातकूच, विचारांची सांखळ सुरू जाता. न्हयकारी विचारांची सांखळ. आनी सगळो गोंधळ जो सुरू जाता तो ह्याच , अश्याच घडबडाच्या वेळार. तेन्ना, वचूंक नाका आसलेले दिशेंतल्यान आमचें मन ओडटा. आमीच ओडटात आमच्या मनाक ते चुकीचे दिशेंतल्यान. आमीच दुर्दैव ओडून घेतात आमचेर. आमीच आमचे आड वागतात. घरचो भेदी, भायलो चोर म्हणटात ते भाशेन. आमचें मन घरचो भेदी जाता, आनी न्हयकारी चिंतनांक आपल्याचेर आक्रमण करूंक संदी दितात. हे भाशेन, आमीच आमच्या मनाचे दुस्मान जातात. आमची परिस्थीती आमीच गंभीर करतात. आमीच आमकां फटयतात. आमचें जण एकल्यार्चे मन, हें आमचें स्वतार्चे. दुसरो मनीस ताका आफडूंक शकना.

आमीच हें सगळें अदृश्ट आमचेर ओडून हाडटात जाल्यार, हें सगळे निरस्तारप कोणें ? आनीक कोणें ? आमीच. हय, आमीच. हें निरस्तारपाक आमकां भाड्याचो कामदार मेळपाचो ना, ना म्हूण इश्ट मित्रांची, सोयऱ्यां दायऱ्यांची मजत. कितलोय दुडू उदका भाशेन व्हांवयलो जाल्यार लेगीत, कुसकुटाचो फायदो जावपाचो ना.

सुखान , शांतीन आमकां दर एक खीण खऱ्यां अर्थान जियेवपार्चे आसा.

म्हणटकूच, आमकां हें सगळें निरस्तारपार्चेच पडलें. आनीक उपाय ना. आमीच आमचें मन सांवरवया. आमीच आमच्या मनाचेर ताबो दवरूंया, मनाचेर आमच्या नियंत्रण दवरूंया. मन आमचें साफ सूफ दवरूंया. सुखान जियेवंया. हांसून खेळून जगूंया. शांतीन जियेवंया.



मुंबय. मो: ९८९२८२९३३९



# गोंयांत कोंकणी संस्कृती मंडळ गरजेचें



कोंकणी गोंयांतूच न्हय तर हेर तीन राज्यांनी चलता. तशें पळोवंक गेल्यार भारतांतल्या दरेका राज्यांत कोंकणी लोक आसात. तांकां जागोवपाची गरज आसा. जगभर देशांनी आर्दीं सावन जायते लोक कोंकणी उलयतात. तांचे कडेन संपर्क साधूंक जाय. जायते पुरस्कार मेळचे आसात. हाचे पासत चळवळ नाका. फकत जिद्द जाय. कोंकणी भाशेन ज्ञानपीठ, सरस्वती सम्मान मेळोवन देशभर नांव जोडलांच. आतां परदेसांतली इनामां मेळटलीं अशी अपेक्षा धरूंक जाता.



- गुरुनाथ केळेकार

म्हज्या हिशेबान कोंकणी पासतची चळवळ आत सोंपल्या. हें वाचून कांय जाणांक अजाप दिसतलें.

'चळवळ' म्हळ्यार आमी जें कितें साध्य करूंक सोदता ताका कांय जाण, कांय पंगड तशेंच कांय सरकारां तांव आमचें साध्य पसंत नाशिल्ल्यान विरोध करतात. परिणा आमकां आंदोलन वा चळवळी करच्यो पडटात. जायते सरकाराक चळवळ आळाबंदा हाडप जमना. तेन्ना सरक 'दांडो' वा लाठी चळवळ मोडूंक वापरता.

कोंकणी पासत आतां चळवळ करची उरूंक ना. कार आमी सुर्वे सावन मागताले तें आमकां सगळें मेळ्ळां. पुर्तुगे वेळार बसका, सभा, परिशदो जाय नाशिल्ल्यो. कसल चळवळ करूंक मेळनाशिल्ली. तरीय पूण गोंयांत आपस असंतोस व्यक्त जातालो. चळवळ मुंबय चलताली. ती मुं १९५०-६०त विद्यार्थ्यांनी खर केली. गोंयां भायर स परिशदो जाल्यो. पूण मुंबयंत स्थायीक जाल्ल्या चड गोंयकारांनी आपल्या घरांनी कोंकणींत उलोवप चालू दवरिल घरा भायर गोंयकार मराठी उलयताले. तेय फाटीं फुडें जाता कारण गोंयकार बर्शीनी बी कोंकणी उलयल्यार रोखडे मरा तांचें उलोवप आयकून हांसताले. कारण आमी गोंयकार म्हण तांकां कळटालें. कोंकणांतल्या लोकांनी पुराय मरा आपणायली. ताणीं आपलें मूळ कोंकणी व्यक्तीत्व होगडायल

पूण गोंयकार विद्यार्थ्यांनी मुंबय कोंकणीक बळ दि म्हणूं येता. गोंयां मुक्तीची चळवळ चलताली. मुंबय तो कोंकणीची म्हणजे गोंयकारांच्या व्यक्तित्वाची चळवळ सु केली.

आदले गोंयकार मुंबय मराठी भियेभियेत, दचव उलयताले. विद्यार्थ्यांनी कोंकणींतल्यान उलोवपाचो धडा

ग्लो. कॉलेज विद्यार्थ्यांनी कोंकणी नाटकां मुंबय करूंक वात केली. करतां करतां गोंयकार विद्यार्थी एकवटले आनी ती गोंयबाबू उरले नात. मुंबयच्या विद्यार्थ्यांक कॉज (ध्येय) ळ्ळें आनी थंयचे मराठी उलोवपी कोंकणी आयकून हांसताले ती आयकूंक लागले. थोडे तर ती मधूर भास म्हणूंक लागले.

गोंय मुक्त जालें तशी गोंयांत कोंकणी फुलूंक लागली. का कारण हांगचे वडील पाद्रीय आशिल्ले. तेन्ना भारत कारान एक मंडळ घाडलें आनी गोंयांत कोंकणी शाळा ोवच्यो काय किर्ते हाचेर गोंयकारा कडेन चर्चा करून फारस करूंक लायली. ह्या मंडळान गोंयांत कोंकणी ठाव्यो शाळा सुरू करच्यो असो निर्णय दिलो. तेन्ना आमचे डेन मुळावें पुस्तक लेगीत नाशिल्लें. मनोहर सरदेसाय णी तें झटपट तयार केलें. तेन्ना गोंयांत कोंकणी भाशा ळ नाशिल्लें. कोंकणी मोग्यां कडेन पयशेय नाशिल्ले. शा वेळार मुंबयच्यो ऑरियेंट लॉगमेन कंपनीचे मॅनेजर वर्टी णी ती जबाबदारी घेतली आनी पयशे मागीर दियात म्हण ांगून ५००० प्रायमरां छापून दिलीं. तांचे रुपये मागीर तांकां वयले.

आतां गोंयांत कोंकणी शाळा स्थापन करूंक जाय ाशिल्ल्यो. वचत थंय लागीं लागीं मराठी शाळा चलताल्यो. स्तकां महाराष्ट्रांतलीं आसतालीं. त्या वेळार कांय आमी ंदू फुडे सरले. नांवसंख्या हिंदू मराठीचे आसताले आनी ोंकणी म्हळ्यार तांकां भयंकर राग येतालो. कोंकणी मोग्यांक पिशे म्हणटाले. कांय मराठीवाले कर्नाटकांतल्यान कोंकणी रस्कर्त्यांक पयसो येता म्हणटाले.

मुखार किर्ते घडलें तांतलें म्हत्वाचें म्हळ्यार वडील पाद्री फुडें सरले. उत्तर गोंय कोंकणी अजिबात मानून घेनाशिल्ले. क्षिण गोंयांत वडील पाद्री फुडे सरले. तेन्ना नागरी खेरीत ुसरो विचारूच नासलो. दक्षिण गोंयांत क्रिस्तांव वाठारांत ते ोंवले आनी तांकां कोंकणी प्रायमरां सुरू जाल्यांत थंय नांवां ालात म्हण सांगून ते जैतिवंत जाले. दक्षिण गोंयांतले हिंदू आपल्या भुरग्यांक मराठी शाळांनी धाडटाले. तेय मराठीवाल्यांक भियेताले. हे परिस्थितींत सरकारान सुरू केल्ल्या शाळांनी ाचेक हजार क्रिस्तांव पालकांनी आपल्या भुरग्यांलीं नांवां ालीं. तांच्यो आवयो तें प्रायमरांचें बरोवप मराठी म्हणटाली. पूण 'देवा धनया पाव, आमचें बरें जावं, आमी सगळे भाव भाव मायें मोगान राव' आयकतकूच कोंकणींतल्यान शिकयतात हें तांकां पटतालें.

उप्रांत किर्ते जालें तें आमी जाणातूच.

तेन्नाच ओपिनियन पोल जालो. पोलांत कोंकणी हाडप आमी मुजरत टाळ्ळें. पोल आमी जिखले आनी कोंकणी भास फुलत वचूंक लागली. एक प्रायमर येवंक पयशे नाशिल्ले थंय कोंकणीचीं बरीं बरीं पुस्तकां येवंक लागलीं. परिणामी, कोंकणीक साहित्य अकादमींत सुवात मेळ्ळी. कोंकणी प्रजेच्या आवाजाक लागून कोंकणी गोंय विधानसभेंत गेलीं. रोखडेंच गोंय कोंकणी राज्य जालें. ताचे उप्रांत कोंकणी घटनेच्या आठव्या परिशिश्टांत गेली.

साहित्याच्या मळार रवीन्द्रबाबाक ज्ञानपीठ मेळ्ळें आनी महाबळेश्वरबाबाक सरस्वती सम्मान मेळ्ळो. आनीक खूब पुरस्कार मेळचे आसात ते कसले कसले ते भाई मावजो बेस बरें सांगतलो.

अशे तरेन कोंकणीक सगळें मेळ्ळें. आतां कोंकणी म्हळ्यार बोली अशें म्हणपाचें पिशपण कोण करिना.

पूण गोंय कोंकणी राज्य जावनय सरकार कोंकणीचें अजून जायना. गोंय कोंकणी दरवट्या खाला एक जावंक जाय आशिल्लें तें 'आमचें गोवा, आमचें गोवा' जालां. गोंय नागरी, रोमी, मराठी, इंग्लीश आनी पुर्तुगेज जालां. कोंकणी भाशा मंडळाचें काम नेटान चल्लां. पयरचे वेंचणुकेंत तरणाट्यांनी मंडळाचो वावर हातांत घेतला. कोंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्ष एक अणभवी वकील तरुणी वेंचून काडल्या आनी मोटे उमेदीन वावराक पेटल्यात.

***

इतलें आसून कोंकणीची चळवळ सोंपल्या अशें हांवें म्हळां. कारण आतां चळवळ करी सारकें कांय उरूंक ना. आतां चळवळ न्हय तर विधायक वावर खूब वाडला ताका अंत ना.

कोंकणी गोंयांतूच न्हय तर हेर तीन राज्यांनी चलता. तशें पळोवंक गेल्यार भारतांतल्या दरेका राज्यांत कोंकणी लोक आसात. तांकां जागोवपाची गरज आसा. जगभर देशांनी आर्दी सावन जायते लोक कोंकणी उलयतात. तांचे कडेन संपर्क सादूंक जाय. जायते पुरस्कार मेळचे आसात. हाचे पासत चळवळ नाका. फकत जिद्द जाय. कोंकणी भाशेन ज्ञानपीठ, सरस्वती सम्मान मेळोवन देशभर नांव जोडलांच. आतां परदेसांतलीं इनामां मेळटलीं अशी अपेक्षा धरूंक जाता.

पूण आतां एके नवे चळवळीची गरज आसा. ती म्हळ्यार कोंकणी संस्कृती संवर्धनाची चळवळ.

आचार्य काकासायबांक आमी विसरल्यात. कोंकणी

उलोवपी लोक सुसंस्कारी देखून ते उलयतात ती कोंकणी बोली न्हय तर भास अशें ते म्हणटाले. कोंकणीक भास म्हण मान्यताय मेळोवन दिवपांत काकासायबांचो तशेंच डॉ. सुनिती कुमार चतर्जीचो व्हड पालव आसा.

कोंकणीक मान्यताय मेळ्ळे उपरांत मराठीवाले हांणी तिका 'बोली' म्हणपाचें फाटीं घेतलें आनी गोंयची संस्कृती मराठी म्हणूंक लागले. गोंयांत देवस्पण, भजनां बी मराठींत जातात. गोंयांत मराठी दिसाळीं सात आठ भायर सरतात, कोंकणींत एकूच दिसाळें येता ह्यो घडणुको धरून गोंयची संस्कृती मराठी म्हणूंक लागले. पूण आतां गोंयच्या बहुजन समाजान कोंकणी पुराय आपणायल्या. गोंयचें राजकारण आतां बहुजनसमाज कोंकणींतल्यान चलयता तेन्ना गोंयची संस्कृती मराठी ही धारणा लेगीत आतां बंद जातली.

म्हळ्यार गोंयची संस्कृती कोंकणी हें सांगची गरज ना. आतां ही संस्कृती आसाच पूण तिचो विकास करची गरज आसा.

सुसंस्कारी वागणुकेक समाजाची संस्कृती मानतात. गोंयकारांत दोष जायते आसात. ह्या स्वातंत्र्य काळांत आमी स्वैराचारी जाल्यात हें मान्य करूंक जाय. भायल्यान गोंयांत वायट चाली आयल्यात तांतल्यो जायत्यो आमकां बादल्यात.

बाब नागेश करमली आमचे संस्कृतीचेर चर्चा करतात. ते आमच्यांत गूण कसले नंदतात ते आमी मेजिल्ले भाशेन करतात. तेन्ना आमच्या चिंतपाक हें लागता.

१. गोंयांत एकचार आसा. तसो भायर ना.

२. हांगा मुळावे दोन धर्म आशिल्ले. झगडूंक जायती संद आशिल्ली जी देशांत आमकां पावलां कणकणी दिसता. हांगा हिंदू-क्रिस्तांव भाव-भयणी कशे जियेतात. देश आमकां हे पासत तोखेता.

३. हांगा हिंसा ना. हिंसा भायल्यान आयल्या. ती भयंकर आसा. त्या लोकांत एक दोन गोंयकार मेळटात. देशभर खून मारामाऱ्यो बलात्कार चालूच आसात. गोंयांत ते मर्यादे भितर उरल्यात.

४. गोंय हें देशांतलें ल्हान राज्य. ताका लागून हांगा जणेकल्यान लोकशाय आपणायल्या. जण एकलो राजकारण समजुपाचो प्रयत्न करता. खंय किर्ते वायट घडल्यार तें चवाट्यार येता.

५. हांगचो लोक बुद्दीप्रेमी. हांगा एक पालक ना जो आपल्या भुरग्याक शाळेंत धाडिना. हांगा बुद्दीक लागून समाज जिवंत दिसता.

६. गोंयचेर आतां दिल्लीची नदर गेल्या. ताका लागून गोंय सगळ्यांक जाय दिसूंक लागलां. गोंय विकूंक आसा म्हण कळ्ळ्यार अमेरिका तें विकतें घेवंक एका हातान तयार जातलें.

७. गोंयकार संवसारभर पातळ्ळ्यात. तांकां थंय कर्तुत्व दाखोवंक संद आसा.

८. गोंय मनांत नातीवाद मानीत आसतात. पूण प्रत्यक्षांत गोंयां इतलें लिबरल कोण ना. हांगा जातीं जातीं भितर लग्न जातात आनी संवसार कांय आडवाद सोडल्यार बेस बरे चलतात.

९. गोंयकारांच्या हातांत पयसो घोळटा. ताका लागून गोंयकार उठून दिसतात. आतां दरेकलो मोटार घेता.

१०. गोंय ह्या गजालींक लागून अरस्तंती देश कसो दिसता आनी देखून पर्यटनाच्या नांवान हांगा गोऱ्या, सांवळ्या, काळ्या लोकांच्यो झुंड्यो येतात.

११. हें देवाचें देर्णे (तर) म्हणूं येता.

१२. गोंयकारांच्या तोंडांत 'देव बरें करू' घोळटा. ताका लागून गोंयकार आपसांत मोगान जियेता. तर हे गोंयचे गूण तांणी गोंयकारांक सुसंस्कृत केल्या. सुसंस्कारी केल्यात.

देशांत हे नदरेन आमचो नंबर एक लागता हें आमी लक्षांत घेवंक जाय आनी चड आमचे गूण वाडोवंक जाय. इतलेंच न्हय तर देशार पातळावंक भायर सरूंक जाय. तो समय आयला.

देखून भाशेचो वावर वाडयतनाच संस्कृतीचो वावर वाडोवंक जाय देखून-

म्हाका दिसता गोंयांत एक ***संस्कृती मंडळ*** वा *कोंकण संस्कृतायन* स्थापन करचें आनी तातूंत दरेकल्यान वैचारीक आनी करणेन भर घालची. गोंयची संस्कृती आमच्यांनी देशभरूच न्हय तर संवसारभर पातळावं घेतली.

आयज आमी फक्त कोरोनाचेर उलयतात. म्हाका दिसता कोंकणी संस्कृतायेचेर जण एकल्या कोंकणी मनशान विचार करचो. हाचेफुडें वचून कोंकणी संस्कृती परिशद घेवची आनी खासा करून हजारांनी विद्यार्थी कोंकणी शिकतात तांका तातूंत वांटेकार करून घेवचे.

१३. गोंयकार कलाकार तशे खेळगडे.

१४. निमाणें गोंयकार मार-बडय करी नासतना झूज दिवपी म्हणपाचें ओपिनियन पोला वेळार दाखोवन दिलां.



पणजी-गोंय. मो:९४२०८९६१२५



# हांव हांसलें

हांवें कांय वेळान आकृतीक फोन मारलो. आकृती म्हजी मावस भयण. म्हज्या परस सात वर्सां ल्हान. जुवान आनी रुपेस्त! दाट केंसांचें म्हण न्हवरेकारांकूय पळयना फुडेंच पसंत पडिल्ली. ताका पळोवन मम्मी सदांच म्हाकां पाडटाली. आतां ताचें नशीब आनी म्हजें नशीब कितें तशेंच आसतलें.

- प्रणिता रेडकार

रातीं तीन जायसर फोनार जागरण करून हांव सकाळीं धा वरांचेर उठलें. मम्मी, पप्पा घरांत ना म्हणल्यार म्हाकांच मातशें व्हड जावंचें पडलें ना? तोंड धुवन च्याव घेतां म्हणसर रोकडीच दनपार जाली.

सकाळ फुडें मम्मीक मावशेगेर पावन पप्पा कामार गेल्लो. तशी मम्मी रांदून बीन गेल्ली ना जाल्यार जेवणाची धांदळ जावपाची! हुसक्या मेकळें जावन हांव दामोदर मावज्यालो *तिश्ठावणी* घेवन बशिल्लें. तातूंत हांव इतलें गुल्ल जालें, वेळाचें लेगीत भान उरलें ना. हालीं अशेंच जाता. राती कडेन नसतीं जागरणां करप आनी बारा वरांर उठप! मागीर रोखडेंच जेवण.

जेवण घेतां थंयच आसां, मम्मीचो फोन वाजलो. पळयत जाल्यार शेजारची यामिनी काकी. पयलीं कांय वेळ फोन उखलूं ना. मात नाईलाजान तिसरो फोन उखल्लो. फोन उखलतां थंयच आसां, ''आगो रश्मी, जाणां मुगो ते



रुकमिणीलें पोर, आयज फाटल्या दारार सुके ओंकारे काडी. हांवें तुकां सांगू नासलें, तें त्या सायमना वांगडा बरेंच लाग मारता म्हूण! केले मगो कल्याण आतां...!''

तिच्या ह्याच खबरांक लागून फाटीं पप्पान मम्मीक तिचे कडल्यान पयसूच राव म्हूण सांगिल्ली. येतां वयतां लोकांचें धवळप, लोकां मदीं फूट घालप हेंच जमता तिका. हालींचीच गजाल! कांय दीस फाटीं हांव म्हगेल्या मावसभावा वांगडा ताच्या बर्थ डे ची शॉपींग करतालें. तिणें खंयच्यान पळयलें देव जाणां, सोमतो म्हजो फोटो काडून पप्पाक वॉट्सएप केलो आनी मम्मीक फोन लायलो. ''आगो तुजें चेडूं बाजारान एका चल्या वांगडा भोंवता, भाऊच्या फोनार फोटू धाडला पळय.'' इतलें म्हणून तिणें फोन दवरलो. हें सगळें पप्पाच्या कानार पडलें तेन्ना पप्पाक घेऽऽ म्हणून राग! त्या उपरांत यामिनी काकी म्हयनो भर तरी आमच्या घरांत शिरलीच ना. आनी आयज परत अशी फोनार! हांवें तिच्या संवादाक तोडीत उलोवप चालू केलें, ''काकी, हांव गे रक्षा, मम्मी घरांत ना. मावशेगेर गेल्या. राती कडेन येतली. तुमचें किर्ते काम आसा जाल्यार सांग..!'' कांय वेळ ती घुम्म मोनी.

''आगो तें महिला मंडळाचे मिटींगीक येवंचें ना तर? तांच्यानी फाटल्या म्हयन्या सावन फायन घातला तें विसरली दिसता तुजी आवय! याद दिवपाक म्हूण फोन केल्लो!''

''बरें काकी. इतलेंच मगो? फोन करून सांगतां तिका. दवरतां हां! हांव मातशें काम करी!''

आनी मागीर तिचे जापेक ना रावतां हांवेंच फोन कट केलो. मम्मी मात सारकींच. तिका फोन व्हरपाक जाय नासलो? तिका तशें फोनाचें पिशें ना. कदाचीत तिचो फोन स्मार्ट न्हय म्हणून आसूंये!

हांवें कांय वेळान आकृतीक फोन मारलो. आकृती म्हजी मावस भयण. म्हज्या परस सात वर्सां ल्हान. जुवान आनी रुपेस्त! दाट केंसांचें म्हण न्हवरेकारांकूय पळयना फुडेंच पसंत पडिल्ली. ताका पळोवन मम्मी सदांच म्हाका पाडटाली. आतां ताचें नशीब आनी म्हजें नशीब किर्ते तशेंच आसतलें.

ताका फोन लायतां थंयच आसां ताणें सोमतोच उखल्लो आनी रडकुऱ्या आवाजान उलोवंक लागलें. ''आगो रक्षा, तुकाच फोन करपाक आसलें. तुगेल्या त्या डेंटिस्टाचो नंबर दिता मातसो? अर्जंट आसा.''

''हय गो, दितां राव. कोणाक जाय आसलो?''

''आगो तुकां आनी आतां किर्ते सांगू, व्हदळ न्हाणयेंत गेल्लें थंयच पांय निसरून ओमथें पडलें. त्या वेळार किर्ते जालें तें कांयच कळ्ळें ना. दांत तुटलो आनी ओंठ फुटलो. ऐन लग्ना वेळार अशें जालें. आतां दांतां खातीर तुजेच दोतोरनी कडेन वच्चें थारायल्लें...''

ताणें केल्ल्या चित्रणाची आकृती हांवें नदरे मुखार हाडली आनी व्हडल्यान हांसलें. परिस्थिती किर्ते आनी त्या वेळार म्हजें हांसणें योग्य नासलें. हांवें रोकडीच चूक मागली, दोतोराचो नंबर दिवन ताची विचारपूस केली आनी फोन दवरलो.

मागीर कुडींत वचून हारश्या मुखार उबें रावलें, तोंडांतले मोती काडून हातार घेतले आनी निर्लज्जा वरीं परतून हांसलें. तेन्ना मात चित्र वेगळेंच आसलें. हांसतना हरशीं बत्तीस मदलें आठ दात लोकांक दिसपाक जाय, मात म्हजे फक्त दोन दिसताले...!



म्हापशें-गोंय. मो.: ७५०७३५४५४३



'शांतीकार्येंतल्या आयर्लंडा परस
हांव युध्दग्रस्त पॅरिसाक रावप पसंत करीन'
अशें म्हणपी बेकेट सारखी विचारसरणी
आयुश्य भर जतन करीत, कृती आनी वृतींतल्यान काव्य जियेवपी
साहित्य अकादेमी पुरस्कारान सन्मानीत
ज्येश्ठ कवी आनी सुटकेझुजारी

# श्री.नागेश करमली

हांच्यो कविता म्हळ्यार जिवितांचे नवे फांतोडे
दिकेन चांट मारपाची मनांत उर्बा जागोवपी एक आगळो आत्माविश्कार













विश्व साहित्यांतलो मानदंड आनी कला योगी

## खलील जिब्रान

हांचे वेंचीक साहित्य
कोंकणीत हाडपी श्री.नागेश करमली हांचें
'खलील जिब्रान'
हें अणकाराची पत दाखोवन दिवपी
एक आगळें वेगळें मोस्र.
संजना पब्लिकेशनाची
एक सुबक निर्मिती.






Our recent drive in which we donated thousands of safety shields and other material, to those fighting the war against Covid, has reaffirmed our belief that happiness is all about giving!

200 face shields donated to the Directorate of Health Services at the hands of Health Minister Mr Vishwajeet Rane.



Magsons' donation of face masks being received by PI Harish Madkaikar of Ponda Police Station.



1000 masks donated to Corporation of the City of Panaji Mayor Shri Uday Madkaikar in the presence of CCP councillor Smt Lata Parekh.



50 face shields donated to the Panjim Town Police.




Donation to Directorate of Food & Drugs Administration & PM Cares Fund.



Magsons donates masks to PI Jaideep Amre of Colva Police Station in appreciation of the dedication of the police personnel.



1000 masks donated to Taleigao Panchayat being received by Sarpanch Agnelo Da Cunha.



Masks donated by Magsons being received by Varca Panchayat Sarpanch Anthony J. Rodrigues.



Donated essentials to Divya Sadan, a community of adults with and without intellectual disabilities.

Magsons
Hopping Off Shopping On

**Corporate Office**: 'Magsons', Taleigao, Goa 403002 Tel: (0832) 2463700 Email: admin@magsons.in

Caculo Mall | Distribution Centre | Dona Paula | Fatorda | In&Out-Panaji

Mercado Mall | Panaji | Ponda | Taleigao | Varca | Zuarinagar

QUALITY PRODUCTS
COMPETITIVE RATES
EXCELLENT AFTER SALES SERVICE



VERNEKAR MARKETING
PUMPS, MOTORS & ACCESSORIES, SALES & SERVICE

Highly efficient energy saving domestic and
industrial pumps under one roof

Suyash Complex, Swami Vivekanand Road,
Near Old Passport Office, Panaji-Goa Tel: 2422890, 6643372

कमी व्याजदर

5 दिवसांत मंजुरी

प्रक्रिया शुल्क नाही

# पाच आकर्षक लाभांसह घर!



पीएसबी 59 वर ऑनलाईन अर्ज सुविधा

सुलभ अधिग्रहण-प्रक्रिया शुल्क नाही





## तात्काळ कर्ज मिळवा आकर्षक अटी आणि किमान कागदपत्रांसह




- कर्जासाठी अर्जाची ऑनलाईन सुविधा
- दररोज घटणाऱ्या शिल्लकीवर व्याज आकारणी

यूनियन बैंक ऑफ इंडिया Union Bank of India

A Government of India Undertaking






हेल्पलाइन नं.: 1800 208 2244 / 1800 425 1515 / 1800 425 3555 | www.unionbankofindia.co.in

@unionbankofindia @UnionBankTweets UnionBankInsta YouTube UnionBankofIndiaUtube @unionbankofindia

*अटी व शर्ती लागू

KAMAT ENGINEERS GROUP

HEAD OFFICE: PHASE I, NEXT TO STATE BANK OF INDIA, VERNA INDUSTRIAL ESTATE, VERNA, GOA- 403722.

CONTACT NUMBERS: +91- 9923100133, 9765555942, 9823296001/6002, 0832- 6622950-60, 2887378/79, 2741729/30, 2217291/92/93/94

EMAIL: corp.admin@kamatengineers.com, prashant@kamatengineers.com

WEBSITE: www.kamatengineers.com

## OUR GROUP COMPANIES

### UNIVERSAL ENGINEERS

AUTHORISED SERVICE, SPARE PARTS AND REPLACEMENT ENGINE DEALERS FOR KIRLOSKAR OIL ENGINES LTD. (KOEL) BRANDED KOEL ENGINES AND GENSETS




### KAMAT ENGINEERS AND TRADERS

AUTHORISED DEALERS FOR HONDA GENSETS, PUMPSETS, BRUSH CUTTERS, TILLERS AND LAWN MOVERS

AUTHORISED DEALERS FOR KIRLOSKAR SMALL AGRICULTURAL ENGINES, DIESEL/ELECTRIC WATER-PUMPS, POWER TILLERS.




### KAMAT AUTOMOBILES PVT. LTD.

AUTHORISED DEALERS FOR FORCE MOTORS LTD. FOR COMMERCIAL VEHICLES AND PERSONAL VEHICLES





### KAMAT ENERGY SYSTEMS

AUTHORISED DEALERS FOR KIRLOSKAR OIL ENGINES LTD. (KOEL) FOR KOEL GREEN AND CHHOTA CHILLI GENSETS




KOEL GENSETS RANGING FROM 2.8 KVA TO 1010 KVA

### KAMAT ADVENTURE CRUISES

PH: 9765555948 / 9765555924

AC ROOMS

DINNER CRUISE

FULL DAY CRUISING

UPPER DECK

80 PAX. CAPACITY



OUR CHARITABLE TRUST

### KAMAT FOUNDATION (GOA)

A charitable Trust in memory of late Mr. Vasant G Kamat and Mr. Gurudas G. Kamat.
Mr. Gurudas G. Kamat , who was Goa's first IIT'an from IIT Bombay, from the year 1959 batch, to attain MTech degree in Electrical Engineering with specialization in Industrial Electronics.

*We are also the world'S first charitable organization, to Launch SWARG RATH, stretcher to carry departed person.*



# वासरी, आंगण आनी माळो

(डायरी लेखन-गिमाळो २०२०)

हांवें आतां इस्कादी वयल्यान सकयल पळयलें. बारीक सो, हळदुव्या उजवाडाच्या बल्बाचो क्षीण उजवाड. सकयल माई मावशी, आबा आनी बाळ. खेळण्यांतल्या मनशां भशेन दिसतात. खऱ्यानीच हांव खंय पावलें काय?

मागीलदारांतली बाळाची ती राक्षस कशी गाय न्हिदल्या आसतली काय? तिकाय वी ह्या लोकांनी खंयच्या तरी माळ्यार वी न्हिदूंक धाडूंक ना मू?

- सुमेधा कामत देसाय

'नव्या घरा'ची गॅलरी बांदल्यार सुमार पंदरा-सोळा वर्सां जावन गेलीं. तो म्हजो घरांतलो सगळ्यांत आवडीचो जागो आनी थंय बसून वाचन, लेखन, च्या करप-पिवप, जेवप आनी इतलेंच न्हय जाल्यार शेंदरी घालून न्हिदपाक पासून मेळटा. पयल्या माळ्या वयली ही गॅलरी बांदतकीर गिमाळ्यांत रातचें हांव हांगाच शेंदरेर न्हिदतालें. रातभर सुशेग न्हीद मेळटाली. केन्ना केन्ना फांतोडेक जाग येताली. जाल्यार केन्ना गिमाळ्याच्या निमाणे कडेन पडिल्ल्या अवकाळी पावसाचे वावझडीन जाग येताली. मागीर आमी हांथरुणाचे कवाळे घेवन भितर पळटालीं.

***

म्हाका हरशींय जाल्यार घरा परस, भायलें उक्तें निळनिळशें मळब पळयत न्हिदपाक खूब आवडटा. पूण गोंयांत ती संद म्हाका म्हजें घर सोडून, हेर कडेन खंयच मेळ्ळी ना.

सुमार १९८१ सालांत हांव पयलेच फावट इंदोराक गेल्लें. थंय म्हजी सख्खी मावळण आदल्याच वर्सा महाकालेश्वरांत विलीन जाल्ली. ते भायर म्हजे आवयची मामे भयण कुसूम मावशीय रावताली.

तेन्ना हांव निकर्तेच एमए जावन 'राष्ट्रमत' दिसाळ्यांत उपसंपादिका म्हणून काम करतालें. एका गिमाळ्यांत हांव गोंय भेटीक आयिल्ल्या मावळणीच्या घोवाचें बोट धरून इंदौर पावलें. दिसरात मावळिणीच्या चार भुरग्यां बराबर खेळप आनी सांज जातकीर मावशेच्या खजुरी बाजार ह्या मुख्य बाजाराच्या वाठारांत आशिल्ल्या वाड्यांत सुप्रिया बराबर वचप हो म्हजो सदचो उद्‌देग आसलो.

मावशेच्या घरचीं सगळीं म्हजे हे आत्ते भयणीचेर खूब प्रेम करतालीं. फुडल्या काळांत मावशेच्या निमाण्या पुता कडेन-नरेशा कडेन सुप्रियाचें लग्न जालें आनी त्या घरांत म्हजें दोन तरांनी नातें जुळ्ळें.

तें सोड..

***

एक दीस कोठारी काकान आमकां तांच्या देपालपूरच्या 'रावत' ह्या शेतमळ्याचेर व्हेलीं. थंय तांचें एक खूब व्हडलें शेत घर (फार्महावस) आसलें. मावशेचो मदलो चलो अनिल ताची वेवस्था पळयतालो. तो घोडो घेवन मळ्यांत भोंवतालो. ताणें बसस्टॉपाचेर आमकां व्हरपाक एक बैलगाडी धाडिल्ली.

हांगा हांवें आठ दीस काडले. रातचीं आमी भायर आंगणांत न्हिदतालीं. कोठारी काका, सुप्रिया, अनिल आनी हांव. चौग जाणां चार खाटींचेर न्हिदतालीं. ते भायर साताठ सुणे, चार-पांच मानाय आनी तांचीं बायल-भुरगीं. मध्यप्रदेशांतलो गिमाळो खूब कडक. रातची गरमी सोसूं जायना. घरांत हुलोप मारता म्हण लोक रातचे मेकळ्या वाऱ्यार न्हिदप पसंद करतात.

केन्ना केन्ना अचकीत, मध्यानरातीर पावस येतालो आनी आमी हांतरूण घेवन भितर धांवतालीं. अनिल आळशेपणां करून उठच नासलो. मागीर ते चंबळखोऱ्यांतल्या डाकवां भशेन दिसपी फुगऱ्या पोल्यांचे, मोट्ट्या मिशयांचे बलदंड मानाय अनिलाक खाटी सयत घरांत उबारून हाडून आदळटाले.

(हांवें 'इंदौर तिसरे पावट' नांवाचें हस्तलिखीत बरयलां. पूर्ण केलां. तातूंत इंदौर शार आनी सरभोंवतणच्यो हांवें अणभविल्ल्यो गजाली तपशिलान आयल्यात. तशेंच २०१९च्या डिसेंबरांत सुप्रिया-नरेशाचे निमणे चलयेच्या लग्ना निमतान हांव 'इंदौर चवथे पावटू'य वचून आयलें.)

***

आंगणांत वा म्हळ्यार न्हिदपाची आनी एक याद येत हांव आयुश्यांत पयलेच पावट म्हजे सख्खे मावशेगेर गडहिंग्ल (कोल्हापूर लागीं) गांवांत गेल्लें १९८६ वर्सा. तेन्ना हां 'राष्टमत' दिसाळ्यांतल्यान दोन म्हयन्यांची सुटी काडू नुव्याच्या कार्मेल कॉलेजांत 'तात्पुरती अध्यापिका' म्हणू कोंकणी/मराठी शिकोवपाक गेल्लें. म्हजी इश्टीण स प्रियदर्शिनी तडकोडकर (आमची माधुरी मुंज) तेन्न बाळंतपणाचे सुटयेर गेल्ली. फुडल्या काळांत तें मागीर व्हार चौगुले कॉलेज प्रवास करून विद्यापीठांत पावलें आनी हां कार्मेल कॉलेजींतल्यान भायले भायर धेंपे कॉलेजींत उडव मारली.

आमी परत येतना बेळगांव-गोवा बशीन आयिल्लीं. ब प्रवाशांनी उपाट भरिल्ली. कदंबा कंडक्टर कोणाकूच भित घेवपाक तयार नासलो. म्हाका तर कॉलेज आसलें. दुस दिसा हांवें अचकीत दोन दीस सुटी काडिल्ली म्हूण मा बेजार जाल्ल्यो. तातूंत आनी एक दीस सुटी वाडोवप शक्य नासलें. कंडक्टराच्या हाता पांयां पडून हांवें आई खातीर ए जागो तयार केलो. पूण म्हाका मात बसपाक जागो नासल कंडक्टरान विचारलें, 'तूं तीन वरांचो प्रवास उबें रावन क करतलें? ते भायर वाटेर घांट आनी देंवत्यो आसात.'

हांवें ताका समजायलो. सांगलें, 'हांव सोपणांचेर बसत ताका वायट दिसलें. पूण तो तरी बाबडो किर्ते करतलो? ती वरां सोपणांचेर बसपाचें सूख घेवन हांव घरा पावलें.

दुसरे दिसा, योगायोगान तोच कंडक्टर विद्यार्थ्य व्हरपाक खास बस घेवन कॉलेजींत पावलो. थंय ताणें म्हा वळखलें. हटकिलें आनी माफी पसून मागली.

म्हणून गडहिंग्लजाची गजालीचें वर्स म्हजे यादीन उर पयर बेबीक ही गजाल सांगतालें. वर्स सांगतकीर बेबी अजाप जालें. कित्याक? आकडे म्हळ्यार म्हजे दुस्मान, पू तें वर्स ते गजालीक जोडिल्ल्यान यादींत उरलें म्हण बेबी सांगलें.

***

आमी वतना बेळगांवच्यान गेल्लीं. थंयच्यान एके म्हात बशींत बसून संकेश्वर-निपाणी मार्गान गडहिंग्लज पावल बस जाण्टी आशिल्ल्यान ती वाटेंतल्या फोंडकुलांतल्या बडबडत, फडफडत, गाळी मारीत वताली. केन्ना व्हाळां

न परत भायर वताली. अशे तरेन अदभुतरम्य प्रवास करून मी मावशेगेर गडहिंग्लज पावलीं. मावशेचो गांव, घर, बो, इतिहास, ते दिसाची आमची भेट ह्या विशयांचेर आतां वच बरयना. तो स्वतंत्र पुस्तकाचो विशय आसा आनी का तर सारांश बरोवपाक कशेंच जमना.

म्हजें लिखाण मारुतीचे शेपडे भशेन वाडतूच वता... तरी तशें आटापून येवन बरयतां....

***

रातची न्हिदपाची वेळ जाली. माईमावशेन सांगलें, 'तुमी गांय आवय धुवो माळ्यार वचून न्हिदात.' तें आयकून का अजाप जालें.

गोंयांत माळयेर न्हिदतात. माळ्यार न्हय. माळे हांवें यांत जायते कडेन पळयिल्ले. म्हज्या भुरगेपणांतल्या मच्या आर्केच्या घरा पसून मदले कुडीक माळो आसलो. बी मारून माळो तयार केल्लो. विरकळ कांबी मारिल्ल्यान ळ्या वयलें सगळें दिसतालें. वयल्यान पोंवल्यार अशे कयल तांब्याचे तोप दवरतालीं. आर्केच्या घराची जमीन णान सारयिल्ली. उदक पडटकीर रोखडेच शेणाचे पोपाडे गताले. फोंडकूल पडटालें. ते भायर त्या फोंडकुलांतल्यान, णितल्यान भायर येवचे तशे सुळसुळीत फातर पसून वयर ताले. केन्ना केन्ना तातूंतल्यान एकादी कुल्ली बी वयर रत काय अशें म्हज्या मनाक दिसत रावतालें. पूण ायुश्याच्या पंदरा वर्सांत त्या फोंडकुलांतल्यान केन्नाच कुल्ली यर सरली ना आनी आमकां तिचें तोंडांक करून खावंक ळ्ळें ना.

आर्केच्या घरांत म्हज्या आवय-बापायन खूब भोगलां. संवसाराचे उतळताप काडले आनी तांचें व्हडलें भुरगें हांव आशिल्ल्यान त्या दिसांनी जिविताक जे तीख घांस मारल्यात ते हांव केन्नाच विसरूंक शकना...

***

त्या माळ्यार आशिल्ल्या भिंगांतल्यान दनपारच्या वेळार उजवाडाची ज्योत सकयल पडटाली. हांव ते ज्योतींत हात घालून खेळत रावतालें. खूब वेळ खेळत रावतकीर राजा मिहासान स्पर्श केल्ले वरी म्हजें तन-मन भांगरार्चे जावन वतालें आनी मातशें खेळटकीर हांव दोळे दिपावल्ल्यान घुंवळ येवन पडटालें.

त्या माळ्यार आई पोन्नीं, मोटीं आयदनां दवरताली. हांडे, तोप, पराती, हरवुळ्यो बी. करपून काळें किट्ट पोंद जाल्लीं तीं आयदनां सकयल्यान पळयत बसपाक म्हाका खूब आवडटालें.

माळ्यार कुशीच्या कोनशाक माजर पोरां काडटालें आनी तांकां दोळे फुटतकीर तांकां तोंडांत धरून माजर सकयल देंवतालें.

***

आई सांगताली, तिच्या कुळारा-मांद्र्या हेय परस व्हडलो माळो आसलो. आयदनां देवोवपा खातीर माळ्याक सदा सर्वकाळ एक निसण तेंकोवनच दवरिल्ली. राखणो नासलो जाल्यार ती पासून निसणीर चडून आयदना काडून दिताली.

एक दीस तर एक दैत्य कसो भागेली रातच्या जेवणाक



आसलो. खूब रात जाली म्हण तो आपल्या घरा परत वचपाचो नासलो. तार्णे राती कडेन शिरवळ्यांची रूच काडली. त्या भागेल्यान आनी घरचे वावराडेन ते रातचे दोन शेर तांदूळ दांत्यार दळ्ळे. आईन माळ्यार चडून शेवगो काडलो. आईचे व्हडले भयणीन पीठ कालयलें. गुंदनीचेर तांब्याचो मोटो तोप दवरून उदक सळसळायलें. गुळे उकडून काडले. चोळखो सकयल दवरून शेवग्याचेर चरचरीत पिळून काडले.

हे वटेन एक दोगां रोस काडूंक बसलीं. अशे तरेन मध्यान रातीर बारा वरां मेरेन शिरवळ्यो खावन सगळीं जाणां सुशेग न्हिदलीं.

रातचें धा-इकरा वरांचेर काळखांत बुडिल्ल्या माळ्या वयल्यान निसण लावन म्हजी तरूण आवय शेवगो कसो काडटा आसतली, हाचो हांव अंदाज लायत बसतां.

आई म्हणटाली, आमच्या माळ्यार केन्ना केन्ना कांटांदोर पसून पिलां काडटाले. रातभर माळ्यार घडाघड आवाज जायत रावताले. कोण करतलो येद्र्या व्हडल्यान असले आवाज?

दोळ्यां आड मसण पाड, म्हण आमी ओगीच बसतालीं.

***

गडहिंग्लजाक रातचें मावशेचें-घाटयांचें आवडूंक नाशिल्लें जेवण जेवलें. भरपूर शीत, मसाल्याचें पातळ चवळेचें तोंडाक, भाजी आनी गोडसाण म्हण शिरो. पोटा भुकेक म्हण हांवें दोन-तीन पावट तो गोडाचो शिरो खालो. आई म्हाका, चिमटीताली,''आगो शिरो चड खांव नाका. तो गोडाचो. तसलो शिरो खावपाची तुका संवय ना. रातचें ओकशीत!''

हांव अरब चरब खावन रातीं-अपरातीं असल्यो कार्यावळी सदांच करतालें म्हण तिर्णे बाबडेन म्हजो धसको घेतिल्लो.

गळो-नळो भर पोटाभुकेक शिरो खावन हांव न्हिदपा खातीर माळो सोदपाक आयलें. वण्टीचे कुशीक, खांचीक धा-बारा फळकुटां मारिल्ली इस्काद आसली. हांव तेन्ना १९ वर्सांचें. आई बाबडी प्लस तीस. म्हळ्यार एकोणसत्तर वर्सांची. पूण ती वागाच्या काळजाची. (आनी हांव तिच्या पोटांत ९ म्हयने ९ दीस काडून सोंशाच्या काळजाचें.) ती खंय भिता ते इस्कादी वयल्यान चडपाक?

आमी स्वर्गारोहण करताना म्हजी प्रेमळ माई मावशी सकयल्यान सुचना दिताली, 'बाई ग, वर दोन कॉटा आहेत. झोपा आरामात.' तिर्णे वयर वतना दोन दाट चादरी दिल्ल्यो

सोंसो आनी कांसवाचे शर्यती भशेन हांव घम् घम् करून सोंपणां चडून वयर आयलें. फाटल्यान आनी वळून पळोवंक ना. फाटल्यान पळयल्यार घुंवळ येत म्हूण. पूण फाटल्यान म्हजी आवय कांसव कशी ल्हवू ल्हवू चडून वयर येताली. ती फाटल्यान आसतकीर हांव आनी वयर चडपाक भितां?

रातची सुमार धा-इकरा वरांची वेळ. म्हयनो जुलै व ऑगस्ट आनी वयर वतकीर म्हाका माथ्यार उगतें मळ दिसता. निळ्या मळबांतल्यान चान्नें शिंवरतना दिश्टी पडटा म्हाका कच्च जालें. निसणीचे पावंडे चडटां चडटां खं इंद्रलोकांत बी पावलें ना मू?

हांवें आतां इस्कादी वयल्यान सकयल पळयलें. बारीक सो, हळदुव्या उजवाडाच्या बल्बाचो क्षीण उजवाड. सकयल माई मावशी, आबा आनी बाळ. खेळण्यांतल्या मनशां भशे दिसतात. खऱ्यानीच हांव खंय पावलें काय?

मागीलदारांतली बाळाची ती राक्षस कशी गाय न्हिदल आसतली काय? तिकाय बी ह्या लोकांनी खंयच्या तरी माळ्या बी न्हिदूंक धाडूंक ना मू?

***

हांव आतां माळो बारीकसाणीन, नियाळून पळोवं लागलें. ती एक अर्दें पांखें आनी अर्दी उगती अशी माळी माळो आसलो. ह्याच उगत्या माळया वयल्यान म्हाव सरभोंवतणचो इंद्रलोक दिसतालो. म्हजें लक्ष अर्द्या पांख कडेन गेलें.

ते भायर वयर लायट ना. मावशेन भुतो दिला.

***

भुत्याची ज्योत लपालपा हालताली आनी त्या हालत उजवाडान आमच्या दोगांयच्या सावळ्यांचें सूंद-उपसूंद जाल आई आसली म्हण माणसुकी. ना जाल्यार म्हजें खाजें जावपा

मातशें साबुद्धीर येतकीर म्हाका जाणवलें की, वातावरण घुट्टाणीचो कसो वास आसा. घाटयांक त्या तसल्या वास कांय ना. आमी गोंयकार. ते भायर न्हिदतना आनी दरवटाणीन मरपाचें? हांव तशेंच माळ्या वयल्यान उड मारून गोंयां चलत वचपाचें. झक मारलें तें गडहिंग्लज आ फडहिंग्लज.



आईन म्हाका वयाच्या २९ व्या वर्साचेर मावशेर्चे घर
ाखोवंक हाडिल्लें. मातशी तरी अक्कल आयल्या आसत
हण. पूण हांव खंय सुदारतां? 'वाडे वाडे अक्कल बुडे' तसली
हजी खबर!

हांवें भुतो वयर केलो आनी फुडें पावल घालें मात... आईन
हडल्यान आरड मारली. 'अगं अगंग सुमे... चुकून शिडी
रून जाशील नि खाली पडशिल. गोव्याला जाताना तुझे
्रॅक्चर झालेले अवयव घेवून मला परत जावं लागेल!'

ती बरे भशेन जाणां. हांव वचत थंय पडटां म्हण. एक
ावट नाव्यां आका मावशेगेर गेल्लें. थंय पंदरा दिसांत दोन
ावट पडलें. एक पावट तळयेंत आनी दुसरे पावट शेणा गायरेंत.
आईचें नशीब बरें म्हण वाटावलें.

***

इतल्यांत म्हजो एक पांय सुळळ जालो. म्हणटा म्हणसर
दुसरोय पांय सुळळ जालो. स्कॅटींग करतात तशें हांव चलूंक
लागलें. आईन सांगलें, 'आगो मावशेन आपल्या बेकनाळीच्या
मळ्यांतले धवे कांदे सुकत घातल्यात. चार-पांच साक कांदे
सुकोवंक घाल्यात. अशे सुकत घालतकीर तांची पात सुकता
आनी कांदो तिगता. माळ्यार, खाटी पोंदा, सगळ्याक धवे
कांदे. सर्वसाकी कांदे. कांदे एके कांदे, कांदे दुणे चार, कांदे
त्रिक स... आई आनी हांव त्या भुत्याच्या हालत्या, अस्पश्ट
उजवाडान कांद्या वयल्यान निसरत निसरत वतात.
हातांतल्या भुत्याच्या उजवाडान वण्टीर पडिल्ल्यो आमच्योच
महाकाय सावळ्यो पळयत पळयत खाटीर पावलीं. दोगांयनी
एकामेकांचे हात धरले आनी आडवीं जालीं.

रात वाडत वताली. माथ्यार अप्रुपार्चे चान्ने झरत रावलें.
थंडी वाडत गेली. आईक घट्ट वेंग मारून, मावशेन दिल्ल्यो
दाट चादरी कामरून हांव न्हिदेच्या राज्यांत शेणून गेलें...
खंयचो कांद्याचो वास आनी किर्ते?

***

मदींच म्हाका त्या कांद्याच्या नक्षत्र लोकांतल्यान जाग
आयली. पोटांत गुडगुडटालें. हांवें व्हडल्यान 'ओंक' असो
आवाज काडलो. आई भिली. रोखडीच उठली. तिका म्हजी
ही भानगड फाटलीं २९ वर्सां खबर आसा. थंयच तापोवंक
लागली, 'गधडे, गाढवे..' मुक्ता फळां उधळूंक लागली.
'तरी मी तुला तो गुळाचा शिरा खावू नकोस म्हणून सांगत
होते...' हांगा म्हजो जीव गोळाक लागला आनी ही शेर्मांव
दिता.

त्या कांद्याच्या सगळ्याक भरून राविल्ल्या परमळानूय बी म्हाका ओकूंक आयलां आसत. आईक फकत शिरो दिसता. भयणीचे कांदे दिसनात.

हांव तशेंच पडत झडत उठलें. फाटोफाट सर्कस करीत आई देंवली. निमण्या सोपणाचेर बसून हांवें पराक्रम केलो. आईन आपल्या तुवाल्यान सगळो जागो निवळ केलो. आनी आमी दोगांय परत स्वर्गलोकांत गेलीं. निसरत निसरत खाटी कडेन गेलीं आनी न्हिदलीं.

***

आयज माईमावशी, आबा आनी आई त्या माळ्याच्या वयर आशिल्ल्या नक्षत्र लोकांत सासणाचींच रावूंक गेल्यांत आनी हांव एकलेंच फाटल्यान रावून तांच्यो यादी काडीत बसलां.

(मावशेच्या घराचे हे पयले भेटीचेर हांवें मराठींत 'सशाची गोठण' म्हणून ललित निबंध बरयिल्लो. कांय कारणांक लागून तो केन्नाच प्रसिध्द जालोना. सशाची गोठण म्हळ्यार रानांत दनपरां वा रातचे सोंशे काळखी, ल्हानशा सुरळीत जाग्यार गोठेतात. मावशेचे ते इस्कादी पोंदा एक सुपुल्लो जागो आसलो. त्या जाग्यार मावशी मळ्यांतल्या कड्डणाचे साक दवरताली. मडकयच्या सुमनमावशेचो घोव त्या जाग्याक 'सशाची गोठण' म्हणटाले.

***

उगत्या जाग्यांनी न्हिदप ही म्हजी आवडीची गजाल. हांव जगाचे फाटीर खंय खंय भोंवून आयलें. यादीच्या रानांनी शेणलें. म्हाका केन्ना केन्ना अशी यादभूल पडटा, मनीस रानांनी भोंवता. केन्ना केन्ना रानूच ताका शेणयता. ताका रानांतल्यान भायर सरपाची वाटूच मेळना. भोंवन भोंवन भोंवन भोंवन तो एकूच जाग्यार परत पावता. मराठी भाशेंत ते संकल्पनेंत 'चकवा', 'रानभूल' अशीं नांवां आसात.

तशें बरयता आसतना अणभवांचें रान म्हाका चकयता. हांव यादींनीं घुस्पतां. भोंवून भोंवून भोंवून त्याच जाग्यार परत येतां. खुंटो कशें थंयच उबें रावतां. भायर सरपाचो यत्न करतां. पूण म्हाका भायर सरपाची वाटूच मेळना.

मागीर केन्ना तरी फांतोड जाता आनी तो विसर फाटीं पडटा. म्हाका रानांतल्यान भायर सरपाक सरळ वाट मेळटा आनी हांव तडक ते वाटे वयल्यान चलत रावतां आनी मागी निट्ट घरा पावतां.

***

आतांय तशेंच जालां. म्हाका वाट सांपडल्या.

टीप-हांगा दोन फावटी 'घांटी' हें उतर आयलां. पू ताका आयचे भशेन वायट वास ना. आमी माई मावशेचेर खू प्रेम करतालीं. तिकाय मनशां खूब आवडटालीं. हांगा घाट रावता ती घाटी मावशी ह्या अर्थान हें उतर बरयलां.

थोडी म्हायती-

ही म्हजी मावशी साधारणपणान १९३७ सालांत घाट लग्न करून गेल्ली. ही बेकनाळकर मंडळी आरस्कावाडा मांद्रे हांगा कुलदैवत आशिल्ली. तांचें घराणें खूब माना जमिनदारी, शेत, मळे बाळगून आशिल्लें. ते भायर घरांत कर्ते दादले वकिलीच्या वेवसायांत आशिल्ले. मुंबयच्या व्हडल्य सारस्वत घराण्यां कडेन तांचें नातें संबंध आसले. म्हजो मावस गोरो, देखणो, निर्व्यसनी, धश्टपुश्ट आनी चड शिकूं नासलो. म्हजे मावशेचें लग्नाचें वय वाडिल्लें. ती लग्नाच्य वेळार १९ वर्सांची आसली.

फुडें १९४८ सालांत गांधीवधा उपरांत जें हत्त्याकांड आन जळीत प्रकरण जालें, ताची मोठी झळ ह्या घराब्याकूय लागली तांच्या बेकनाळीच्या वाड्याक ब्राह्मणेतरांनी उजो घालो. सामा लुटून व्हेलें. शेतमळ्याची नासधूस केली. गोरवां चोरून व्हेलीं कांय दिसांनी तांचो चोरून व्हेल्लो 'वजीर' नांवाचो घोड मात हल्लेखोरांच्या चोपक्यांतल्यान सुटून तबेल्यांत पर आयलो.

ह्या घराब्याचें एक जादा घर गडहिंग्लज कोर्टा कडे आसलें. आजून आसा. थंय ते शारांत येतकीर विसव घेताले जळीता उपरांत तांणी न्हेसत्या कपड्यां सयत ह्या घरांत आस येतलो. हांव गेल्लें तें ह्या घरांत. मावशेचो मळो, शेतां फु जाग्यार आयलीं. भुरगीं बाळां खूब शिकलीं. फुडें गेलीं. म्हज व्हडलो मावशेभाव श्री. शरद कुमार रंगराव बेकनाळकर ह महाराष्ट शासनाच्या ॲग्रीकल्चरल मार्केटींग फॅडरेशनाचे मुख्य अधिकारी आसलो आनी तो मुंबय रावतालो. सद्या निवृत्त



पार्शें, पेडणें-गोंय. मो: ९७६७४१४१०





# एके डायरेचीं विस्कळीत पानां...!

इतलें गोंयचें जावन हें अशें मागाशिल्ले भशेन रावता म्हणून तीं ताका अडाणी मानतालीं. सगळीं दादल्यांच्या आंगार पडटात, एकामेकांक वेंग मारप, कीस करप, सामकें आंगचटीक वचप सहज चलतालें. हाका मात तें रूचड नासलें. शेकहँड करचे बदला तें नमस्कार करतालें हात जोडून!



- जयमाला दणायत

मनशाचें मन म्हळ्यार एक डायरी कशी! खंय केन्ना कसली नोंद जावन उरत सांगूंक येवचें ना. सुनीताचेंच सांगचें जाल्यार सरळ किर्तेंच समजुपार ना ताचें ताका लेगीत! आयज पांचेक वर्सां जालीं गोंय सोडून हांगा आयल्यार, तरी हांगच्या ह्या आगळ्या-वेगळ्या संवसारांत तें आजून सारकें ॲडजस्ट जावंक पावलें ना.

एक तर उपेग आनी भोग हे पट्टेन सगळे वेव्हार जोखपी हांगची संस्कृताय अजून ताच्या आंगांत सारकी भिनूक नासली. आपूण आसा तशेंच आसां अशें तें दाखयतालें. ना तर अनिताचें ॲना आनी समिराचें सॅम करपी तांच्या ह्या सो कॉल्ड फ्रेंड सर्कलांत आपणाक 'आजीमांय' म्हणून हिणसायतात हाची जाण ताका आशिल्ली. तेंवूय 'लेफ्ट हँडेड कॉम्प्लिमेंट्स' म्हणून हांसून सोडून दितालें. मनांतल्यान कितलेंय वायट दिसलें तरी.

ह्या पांच वर्सांत कितलेशेच बदल आपले जिणेंत जाल्ले ताणें अणभविल्ले. गोंयच्या आमोणें सारक्या गांवांत रावपी चली. शिकप पुरो करून डिग्री घेता किर्ते, पणजे आते भयणीच्या-मीनूच्या लग्नाक वता किर्ते, थंय अमेरिकेच्यान आयिल्ल्या समिराच्या मनांत भरता किर्ते! ताच्या आवय-बापायकूय तें आवडटा आनी तीं ताका मागणी घालतात किर्ते-

सगळेंच अजाप कशें. सामकेंच आबूज जाल्लें तें. इतले बेगीन लग्नाची कल्पनाय करूंक नासली ताणें. तितली मॅच्युरिटीय नासली. ताचें मन सामकें कांचवेता. बरोबरचीं सगळीं ताका चाळयतात. ताच्यो मस्कऱ्यो करतात. कोणाक बरें दिसता, कोणाक ताचो दुस्वास दिसता. ते घुंवळींतल्यान भायर सरचे पयलींच आवय बापूय भायले भायर ताचें लग्न थारावन मेकळीं जातात.

खरें तर ताचे मनाचे डायरे पानार लग्न हें उतरूच उमटूंक नासलें. बरी नोकरी बी करून आवय बापायक सुखांत दवरचें हें ताचें सपन आशिल्लें. तें सपनूच उरलें. ह्या लग्नान ताचें पुराय जिवीत बदलून वतलें आसलें. आपलें घर, गांव, आपलीं मनशां, देश-सगळें सगळें सोडून सातां समुद्रपार वचप! थंयची ती वेगळी लायफस्टायल आपणावप हाका खरें तर ताचें मन कशेंच तयार नासलें. तें एक सादें भावार्थी, सरळ मनाचें सादें, निरागस चली, हेर चलयां भशेन अमेरिका म्हणचे धतरिवेलो सर्ग बी मानपी चली नासलें. ताणें आपूण ह्या लग्नाक तयार ना म्हणून आवयक सांगलें तर तिणें ताकाच पिशांत काडलें.

''पिशें लागलां हय गो तुका सुना? आमची सात जल्मांची पुण्याय म्हणून अशें स्थळ आपल्या पांयांर चलत आयलां दारांत. नतद्रष्टा भशेन अशें तोंड घुंवडाय नाका पापया! आगो, तुज्या आतूच्या सोयऱ्यांतलीं मनशां, सगळें बरें आसा. नाका म्हणूं नाका बाये.'' आवयन खूब समजायलें. बापूय तर जांवयाचेर सामको लट्टू जाल्लो.

''इतलो शिकिल्लो सवरिल्लो, उंचल्या पोस्टार काम करपी, तेंवूय फॉरेनांत. एकलो एकसुरो गिरेस्तांलो पूत. सभावानय सामको भांगर! मायेस्त, जाण्ट्यांक रेस्पेद दिवपी. आवय बापायचें सगळें आयकुपी चलो भुरगो जांवय म्हणून मेळटा हें आमचें नशीब. दिवो येवन सोदल्यार लेगीत असलो न्हंवरो मेळूंक कुस्तार! दुसरो कोणूय पसंत करचे पयलींच आमचो हयकार कळोवंक जाय.'' तो साप्प भुल्लुशिल्लो. ध्यानीमनी नासतना इतलें बरें स्थळ आपले चलयेक सांगून आयलां. किर्तें करूं आनी किर्तें नाका अशें जालें ताका. खेडेगांवांतल्या धवाड्या समाजांतलें तें कुटूंब. तांचे पांय जमनीर थारऽ नासले. हें सगळें सपनूच कशें दिसतालें तांकां. कसल्याय आडमेळ्यान हें लग्न मोडचें न्हय हाचेर तांणी ध्यान दवरिल्लें आनी भानार नाशिल्ल्या, घुस्पल्ल्या सुनिताक सारकी शुद्ध येवचे पयलीं न्हंवरेकारांक आपली मान्यताय कळोवन मेकळे जाल्ले. सुनिताक डायरेचें पान परतुवचें पडलें.

म्हयन्या भितर लग्न करून तें न्युयॉर्कच्या विमानांत चडलें. घोवा बराबर तांणी पासपोर्ट, व्हिसा सगळें कशें मॅनेज केल्लें तांचें तांकांच खबर! जल्मांत केन्नाच विमानांत प्रवास करूंक नाशिल्ल्या सुनिताक हें सगळेंच नवें-अप्रुपाचें आसलें. तरी विमानान टेकऑफ केलें आनी तें शिंतीदार आयलें. आपूण आपल्या मनशां पसून, मांयभूंये पसून सामकें पयस पयस वतां हें येवजून ताचेर आकांत आयलो. ताका सामकें घसघश्यांनी रडूंक येवंक लागलें. समिरान ताची मनस्थिती पळोवन बेगबेगीन ताका मोगान लागीं ओडलें. ताचे दोळे पुसले, तशें ताणें आपणांक सावरून घेतलें.

आतां पांच वर्सां जाल्लीं तशें मात्शें रुळटालें. तरी ही जीण आपणावप ताका बरेंऽ जमऽ नासलें. पयलीं पयलीं गाडी बी चलोवंक ये नासली तेन्ना ताका त्रास जातालो. घोव कामाक वतगीर तें सामकें एकटें पडटालें. एकटें रावन संवय नासली. बरें, सादी कोथमिरेची चुडी हाडटलें जाल्यार सुद्दां कार काडची पडटाली. मागीर विकऑण्डाक समिरा बराबर वचून घरांतलें वाणसामान, भाजी, फळां, घरांत लागपी सगळें सामान भरप, भायल्यानूच जेवन खावन येवप अशें चलतालें. पूण रोखडेंच सुनितान जिद्दीन गाडी चलोवंक शिकून लायसन्स मेळयलें. समिरानूय ताका ताची अशी एक सेकंडहॅंड गाडी येवन दिली. ती घेवन तें लागीं खंयूय येवंक वचूंक लागिल्लें. आजून चड पयस वचप वा हायवेचेर गाडी चलोवप ताका जमनासलें.

पयलीं तीं भाड्याच्या घरांतूच रावतालीं. कांय तेंपान मात तांणी बरें चार बॅडरुम्स, हॉल किचन, सकयल तेद्यातेदें बेसमेंट, फाटीं फुडें गार्डन, गॅरेज अशें घर घेतिल्लें. थंय घरांतलीं-भायलीं सगळींच कामां आपले आपुणूच करचीं पडटालीं. मनशां मेळऽनासलीं आनी दुसऱ्यां कडल्यान काम करून घेवप म्हारग पडटालें. मागीर तातूंतच तें घुस्पून उरतालें. स्वप्नांतूय येवजूं नासली जीण तें जगतालें. कुळारा अपुरबायेचें एकलेंच चली म्हणून केन्ना सारन हातांत घेवंक नासली, एक आयदन घासूंक नासलें.कामाक वावराडी आसताली. ताका व्हडल्या व्हडल्या तीन बेडरुमांचें कार्पेट साफ करप त्रासदायक जातालें.

त सगळीं कामां मशिनानूच जातालीं. डिश वॉशर, वॉशिंग म, ड्रायर हें आनी तें! घरकामानूच ताका थकूंक जातालें. कायेचो संवसार-अर्थात समिर मदत करतालो. रांदपा चीय तशी संवय नासली, पूण आवयक विचारून, यु र पळोवन रेसिपी शिकून तें नवें नवें कितेंय रांदतालें. ी टू कूक' वापरतालें. वेगवेगळे जिन्नस करूंक फिशाल लें.

समिराचे इश्ट तर ताचेर सामके मरताले म्हळ्यार जाता. र्ले सोबीत, बऱ्या सभावाचें, घोळून मिसळून वागपी, बरें रांदून खावंक घालपी म्हणून समिराची नसाय करताले. ा ॲप्रिशियेट करताले. तांच्यो बायलो मात तांचेर खार वन आसताल्यो. सगळीं तीं थंयचे स्टायलीन टॉप, पँट, र्स, फ्रॉक, मिडी-मिनी घालून वावुरतालीं. कसल्याय फंक्शनाक साडी यूज करप. हाका तें आवड नासलें. हें सदांच पंजाबी ड्रेस वा साडयेंत वावुरतालें. इतलें गोंयचें वन हें अशें मागाशिल्ले भशेन रावता म्हणून तीं ताका ाणी मानतालीं. सगळीं दादल्यांच्या आंगार पडटात, ामेकांक वेंग मारप, कीस करप, सामकें आंगचटीक वचप ज चलतालें. हाका मात तें रूचऽ नासलें. शेकहँड करचे ला तें नमस्कार करतालें हात जोडून!

समिरूय ताचेर कसलो फोर्स करी नासलो. ताका जाय रावचें स्वातंत्र्य आसलें. तशें समिरालें फ्रेंडसर्कल व्हड आशिल्लें. मागीर दर शुक्रारा वा शेनवाराक एकमेकांगेर यो वच करप-ही मित्रमंडळीच तांची फॅमिली कशी जाल्ली. सुटये दिसांनी लागशिल्ल्या भागांनी भेट दिवप, भोंवप चलतालें म्हणटगीच तितलें एकसुरेंपण जाणवनासलें.

तशीं तीं रावतालीं ॲडीसनाक. न्यू जर्सी, ॲडिसन हांगा अमेरिकना परस चड भारतीय आसले. म्हणजे मिनी इंडियाच कशें. उदेंत, अस्तंत, उत्तर, दक्षिण-भारताचे, सगळ्या भागांतले, वेगवेगळ्या जाती कातींचे, धर्मांचे, वंशाचे लोक एकवटून रावताले. घरची, इश्टमित्रांची याद आयल्यार फोन आशिल्लोच. वॅब कॅमेराक लागून सप्तकांत एक दोनदां तरी एकमेकांक पळोवंक मेळटालें. हजारांनी कि. मी. पयस आसूनय म्हऱ्यांत बसून उलयल्ले भशेन मनभरून खबरो करूंक येताल्यो. तशीं दोगांयचींय आवय बापूय समर सिजनांत येवन दोन तीन म्हयने रावून गेल्लीं. समिरान सुनिताच्या आवय बापायक तिकेट धाडून मुद्दम आपोवन येतिल्लीं. तेन्ना तर तें सामकें खोशी जाल्लें. हागेर तागेर वचपांत आनी चडशी अमेरिकेची भोंवडी करपांत दीस सरले. धुवेचो सुखी संवसार पळोवन, थोडी भोव अमेरिकेची भोंवडी करून धादोस जावन गोंयां परतल्लीं तीं. गांवभर जावंय-धुवेचें कवतूक करीत



भोंवतालीं.

सुनिताचे मनाचे डायरेचीं पानां एकार एक परतत आसलीं.

दोगां मदलो मोग दिशीमार्शी फुलत वतालो. पिरायेन तशें ल्हानूच म्हणून बेगीन भुरगें नाका हो डिसीजन तांणी दोगांयनी मेळून घेतिल्लो. ताकाय आतां पांच वर्सां जाल्लीं.

''तुका मुगो म्हजें फ्रेंड एटी-नायंटीची हिरोईन म्हणून चाळयतात.''

''जावं, म्हणुनी म्हळ्यार. पूण म्हाका तांच्या बायलां भशेन पँट-शर्ट, फ्रॉक, लांब कट टॉप-पोट दाखोवपी शर्ट बी घालूंक जमचें ना. कॉलेजींत सुद्दां हांवें केन्ना घालें ना. घालचेंय ना. म्हाका आवडना तें. तुका आवडटलें हांवें अशें घालून भोंवल्यार?''

''आगो बाये, तुका जाय तें घाल तूं. म्हाका तूं अशेंच आवडटा.'' अशें म्हणून ताणें ताका लागीं ओडलें. लजेत सुनितान ताचे कुशींत तोंड लिपयलें. आयज इतलीं वर्सां जालीं तरी तांची एकामेकां विशींची ओड तशीच तिगून उरिल्ली. सुनिताच्या मनाची डायरेपानां खोशयेन अशींच फडफडत उरिल्लीं.

तांच्या घरा शेजरा एक जाण्टेली नॅनी रावताली. घोव-बायल दोगांय सिर्वीस करतात असल्यांचीं भुरगीं सांबाळटालीं. 'डे कॅर'च म्हळ्यार जाता. सुनिताची तिचे कडेन बरी फ्रेंडशीप जाल्ली. दोगांयचीं पोरसां एकामेकांक लागून. हॅलो, हाय, गुडमॉर्नींग करतां करतां एकामेकांचीं रोपां फुलां दी-घे करतां करतां वळख जाली. सुनिताली इंडियन चटणी, लोणचीं तिका आवडूंक लागलीं. ताचे आज्जे सारकी दिसताली ती ताका. मागीर समिराचीय ती ग्रॅनी जाली. सुनिता एकटें आसतना ताका तिंचो आधार कसो दिसतालो. वेळ मेळ्ळ्यार आनी स्पेशल कितेंय डीश केल्यार तें तिका व्हरून दितालें. थोडो वेळ त्या भुरग्यां मदीं घालोवन ताच्या जिवाक बरें दिसतालें. तांच्या फॅस्टिवलाक तिवूय स्पेशल केक बी करून तांकां दिताली.

प्रोजेक्टा खातीर बी समिराक एक दोन दिसां खातीर वेगवेगळ्या स्टेटींनी वच्चें पडटालें. लागीं लागींच्या स्टेटींत आसल्यार तो रातचो पर्थून येतालो फ्लायटीन. दोन-तीन दिसां खातीर सुनिताकूय बराबर व्हरतालो. दोगांय हॉटेल रिझर्व करून रावतालीं. तार्चे काम सोंपतगीच लागीं लागीं भोंवन मजा करून परत घरा येतालीं. भायलें खावंक आवडत म्हणून तीं चडशीं भाजी-चपाती, पराठा, सँडवीचीस अस दोन दीस उरपी अन्न बराबर व्हरतालीं. दोन-तीन म्हयन्यां एकदां तरी हो प्रोग्राम आसतालो. आतां तें ग्रेनीचे वळखी लागींच एके नर्सरींत एक चार-पांच वरां खातीर भुरग्यां शिकोवंक-सांबाळूंक वचूंक लागिल्लें. अशेंच टायम पा म्हणून, भुरग्यां मदीं मन रमता म्हणून आनी संवसाराक हातभार-आपलो खारीचो वांटो म्हणून. वराक धा पंदरा डॉल मेळटालें.

ग्रॅनी कडल्यान ताका हांगच्या लोकांचे जिणेची बरी वळ जाताली. जाण्ट्यांक, भुरग्यांक कोणें कसलोच त्रास दिंव जायना. चुकून कितेंय जाल्यार पुलीस कम्लेन जाता. आवय बापायचेर लेगीत ॲक्शन घेतात पुलीस. आवय बापायची म चूक जाली जाल्यार भुरग्यांक तांचे पसून पयस करू आश्रमांत दवरतात-अशें जायतें! भुरगीं सादारण व्हड जा काय तीं आवय बापायक सोडून आपल्या पांयार उबीं रावता धावेचे सेंड ऑफ पार्टेक स्कुलांत येवन चलयेक बॉयफ्रेंड व्हरप. फामिलींतलीं ताका व्हड येवकार दितात. गिफ्टां दिता एकूणच सगळें वेगळें. मात्शीं वयांत आयलीं की डेटीर वता पार्ट्यांनी बी पियेवन कशींय वागतात. ल्हान तेरा चवदा वस चलयेगेर भुरगीं जातात. तसली कितेंय भानगड जावंची ना म्हूण घरचीं मागीर ताका कम्पलसरी दूद पियेवंक दिता पिल्स घालून. आवयस्, हें सगळें आयकून ताका कितेंश जातालें. पूण थंयचें हें कल्चर आयज-काल आपल्या भारतांत असर दाखोवंक लागलां. भायल्यांचें अनुकरण करतना आप संस्कृतायेचो आपणाक विसर पडत चल्ला. भोगवादी आ चंगळवादी वृत्ती वाडत चल्ल्या हाचीय जाण ताका जाताल उरफाटें आपली योगविद्या, संस्कृत भाशेची ओड. हय. परकिया आपणावंक खोशी जाता हेंवूय ताका आयकूंक मेळटालें. तो डायरेचीं पानां भरत वतालीं.

ह्याच दिसांनी समिराक एका इंपोर्टंट-सामक्या म्हत्वाच्या प्रोजेक्टा पासत आठ दिसां खातीर डलहसाक वच्चें आसं सुनिताची प्रकृती मात्शीं नरम-गरम आसली. इतले पयसुलो प्रवास ताका जमचो नासलो आनी हाका तर वचूंकच ज आसलें. ताका एकटें सोडून वचूंक समिराचें मन जायना जा त्या वेळार ताचो जिवा भावाचो इश्ट पवन फुडें सरलो. तो

ताक वचपाक फोर्स केलो. सुनिताक बरे तरेन सांबाळपाचें
र दिलें.

''चल तूं बिनधास्त. आरे, आमी सगळे आसात. चिंता नाका. आठ दिसांचो तर प्रस्न आसा. मुख्य म्हणजे रा ताची ती ग्रॅनी आसाच. ताका आमगेर येवंदी, ना तर राखूंक रावतां.''

तशी दुबावाची पाल बेठीच चुकचुकताली. पूण घोवाचे रगती आड ताका येवचें नासलें. समिराच्या हेर मित्रां परस ज ताका इल्लो चडूच विस्वासांतलो. सदांच तांगेर यो वच पी. तांची वेवलेंग्थ बरी जुळटाली. हाचे पयलीं तार्णे केन्नाच मिराच्या हेर मित्रां भशेन बिहेव करूंक नासलें. हेर सगळे नड्यां भशेन ताचो हात दामताले, ताका वेंगेंत येवपाक वंडेताले. तांचे 'बुमुक्षीत नेत्र' ताचेर रोखून आसताले. नेतान कंप्लेन केल्यार - ''आगो बाये, हांगा अशेंच चलता. ध्या स्पर्शान कोणाचें कांय बिघडना. ही हांगची रितूच आसा. ा संवय ना म्हणून अशें दिसता.'' समिर समजायतालो. बायलो खूब फ्रिली वावुरताल्यो. पूण ताका मात तें अजूनय ांगवळणीं पडूंक नासलें..

पांच स दीस सामके बरे गेले. पवन सदां भशेन वागतालो. यल्या भितरल्या कामांत मदतूय करतालो. ताच्या जेवणा-णाची तोखणाय करतालो. भायल्यान ताका जाय तें घेवन तालो. अर्दी मर्दी ग्रॅनी यो वच करताली. त्या दिसा असोच यर वचून येतां म्हणून लॅच की घेवन गेलो. काम करून मर्के थकिल्लेवरी जाल्लें म्हणून तें बॅडरुमांत अशेंच आड डिल्लें. वरा भरान तो दार उक्तें करून भितर आयलो. हांगा य सोदीत ताच्या बॅडरुमांत गेलो. तें अर्दवट न्हिदेंत आशिल्लें. चेर झोपय मारून ताका घट्ट वेंगेंत धरलें. एकूच खीण-न्हिदेंतल्यान तें पुराय जागृत जालें. ताच्या तोंडाच्या दर्पान्नूच गग आयली ताका. ताका घट्ट धरून ताचो कीस घेवंक तोंडा कडेन तोंड व्हेलें पवनान-आनी सुनिताच्या आंगांत ग्रंयची शक्त आयली देव जाणा! ताका जोरान सकयल लोटून तें उबें रावलें. ताची ओढणी पवनाच्या हातांत आसयली. शेवटत तशेंच दार उक्तें करून ग्रॅनीच्या घरा वटेन धांवत सुटलें. पांयांत जोर्तें ना, आंगार कपडे धड सारके नात. ग्रॅनीच्या घराची बॅल मारून धाड करून उदारेंच पडलें. ताच्या आवाजान ग्रॅनी भायर आयली. सुनिताक बेशुद्द पडिल्लें पळोवन ग्रॅनीक केर्ते जालें! आपले चलयेच्या डॉलीच्या आदारान ताका हाडून सोफार न्हिदयलें. दोतोराक फोन केलो. पांच मिनटां भितर दोतोराची मोटार तांच्या दारांत हजर. तार्णे सुनिताक सारकें तपासलें. ताच्या मनार कसलो तरी ताण आयला आनी तातूंत तें प्रेगनेंन्ट आसा अशें सांगून, 'ओ गॉड' करून हांगां थंय नाचपी ग्रॅनीक पयलीं शांत केलें. सुनिताक इनेसांव दिवन, वखद बरोवन दिवन, ग्रॅनीक 'टेक कॅअर' अशें सांगून तो गेलो. डॉलीच ताच्या घरा वचून भितर भायर सारकें पळोवन दारां जनेलां लायटी बी बंद करून आयलें. पवनान केन्नाच पपा काडिल्ली. आपल्या अपराधशाची, केल्ल्या गुन्यांवाची जाण जावन.

ग्रॅनीन समिराक फोन करून आफोवन घेतिल्लो. तर तो दुसऱ्या दिसा पावलो. पवनान-ताच्या जिवा भावाच्या इश्टान इतलें घाणयारें कृत्य केलां हें सुनितान ताका सांगू नासलें. किर्ते तरी जिवाक जावंक लागलें. जीव घाबरो घुबरो जालो. देखून ग्रॅनी कडेन धांव मारली अशीच बतावणी सुनितान केली. हेवटेन पवन ताका फोनार फोन करून सॉरी म्हणटालो-मॅसेजीस केले, पूण तार्णे ताची मात्तूय दखल घेवंक ना. सुनिताक खरें तर समिराक सगळें खरें खरें सांगचेंशें दिसलें. मन मेकळें करूंक! पूण दोगूय इतले ल्हानपणासावन इश्ट-तांचे इश्टागतीक वेर वचची न्हय म्हणून तें वेळार सादूर जाल्लें. इतल्या तेंपाची तांची घट्ट फ्रॅंडशीप आपणाक लागून तुटची न्हय अशें ताका मना पसून दिसतालें. पूण आपणाचेर अत्त्याचार करपी पवनाक माफ करूंकय तार्चे मन तयार नासलें. समिराक तार्चे गुरवाचाराचेंच कारण दिसलें. तार्चे मन खोशयेन भरून आयिल्लें.

दुवाळे खर लागिल्ल्यार्चे निमित्त करून कांय तेंप कुळारा रावन येतां म्हणून तें समिराचे फाटीक लागिल्लें. तो तांकांच हांगा आफोवया म्हणटालो. पूण हांगच्या सिटीझनशिपचें निमित्त सांगून बाळंटेरा वेळार तांकांच हांगा येवचें पडटलें, आतां आपूण वचून म्हयनोभर तरी रावन येतां म्हणून तें अडून बशिल्लें. खरें कारण ताचे ताकाच खबर आशिल्लें. आपलो म्हणपी मनशान असो विश्वासघात करप तार्चे मनाक लागिल्लें. ताचे मनाचे डायरेचीं विरकळीत जाल्लीं पानां जाग्यार पडटलीं जाल्यार भारतांत वचून कांय तेंप काडप ताका सामर्के गरजेचें आसलें. म्हणून तें आतां आपल्या निर्णयाचेर ठाम आसलें.



मुंबय. मो: ९७५७०२०१५८



# स्टेटस

तरणी आनी मावीर कळाव केलोना. कोंबडेवरीं झराझर लोकांचे स्टेट्स उस्तुवपाक सुरवात केली आनी आपणेंय कितलींय जाल्यार उश्णीं वायणां म्हण स्मायली, चिमट्यो, आंगठे धाडले. एकेक पळोवन ताचे दोळे दिपकावले. कोणें सकाळीं चावेबराबर कितें खाल्लें ताचो स्टेट्स अपलोड केल्लो. तर कोणें नुस्त्याचो फोटो अपलोड करून दनपरां कसले कसले नग करपाचे तेंवूय सविस्तर बरयिल्लें.



- रुपा कोसंबे

मोबायला वयलो मेसेजीचो बीप वाजिल्लो कान पडटनाच सायली उपीटाची बशी मेजारूच सोडून मोबाय पळोवपाक धांवलें. सकाळ सावन ना म्हळ्यार तें उचांबळ आशिल्लें. इतले ताकतिकेन बीप आयकून मोबायल पळोवपा धांवपी काय न्ही हें. ना जाल्यार आतांचीं भुरगीं! मोबाय मात्सो खुट्ट जाल्यार पुरो, जाल्लें भुरगें रडटगीर ताची लंगो सासपून पळोवची तसो मोबायल पळोवपाक धांवतात. आप सगळें काम जाग्यार पडटगीर हें थारावीक वेळार मोबाय उस्तून पळोवपी. कसली उत्सुकताय आसा काय हाका सायलीची आवय मनांतल्या मनांत चित्ताली.

''आई, हांव मगे पोझीटीव्ह.'' ताणें एकूच किंळ मारली. तांच्या ऑफिसांतलें नीला पोझिटीव्ह सापडिल्लें आ ऑफिसांतल्या सगळ्या स्टाफाक आज टेस्ट करून येवपा फरमायिल्लें. त्या परमाणे सायली सकाळींच वचून टेस्ट करू आयिल्लें.

आई आपलें हातांतलें काम थंयच सांडून बेगबेगीन ताचे
ांत आयली. ''आतां गो?'' तिका धक्कोच बशिल्लो.

''आतां आनी किर्ते? भिवपाची कांय गरज ना.''

''आगो, भिवपाची गरज ना तें पाठ जालां म्हाका आतां. दोतोराक -बितोराक दाखोवपाक जाय न्हय? खंयच्या ाेरागेर वचपाचें? दोतोर आतां लागीं पसून येनात म्हण कलां. दोन दीस जाले. तकली फोडटा म्हणटालें न्ही ''

''सांगलें न्ही? भिवपाची गरज ना. म्हाका सगळो ीजर खबर आसा. पयलीं होम आयजोलेशनाक अप्लाय तां. सतरा दीस सुटी म्हाका. सोशल डिस्टंसींग पाळचें टलें. आनीक एक काम कर. बाबूक फार्मासींत धाडून क्सीमिटर हाडून ये. थर्मामिटर आसा न्ही आमचो? दिसाक नदां रिडींग करून तांकां धाडलें म्हणटगीर काम जालें । किर्तेय चड-उणें जाल्यार तांकांच सांगपाचें.''

''आगो पूण कोवीड कीट दितात खंय ते. तातूंत खंय ळें गरजेचें सामान आसता. पयरूच पेपराचेर आरोग्यमंत्र्यान क्लेर केलां.'' आवयन तांतल्या तातूंत दिसाळें वाचून केल्याचें आपलें ज्ञान परगटायलें.

''आगे तूं आनी किर्ते गे? कागदी घोडे ते. तांणी आतां क्त डिक्लॅर केलां. सगळे सोपस्कार जावन आम मनशाच्या तांत पडटासर कोरोना पुसून तोंड येवन वतलो एखादे ळार.'' तें मोबायलांतली तकली वयर काडिनासतना लयतालें. ताका खेद जाला काय आनंद तो कळपाक पसून ावयक बाबडेक मार्ग नाशिल्लो. तिका फुर्डे किर्ते विचारचेंच ळ्ळें ना. एकेक खबरो आयकून, वाचून तिका थारा भंय शिल्लो. तिर्णे मनांतल्या मनांत सांगड याली. सतरा दीस चली घराच म्हणटगीर आतां हाच्यो सगळ्यो उस्तवाऱ्यो ाकाच करच्यो पडटल्यो. ती तोंड धांपून आशिल्ली तशी दचेकुडींत गेली. 'देवते पावट' तिर्णे मनांतल्या मनांत सगळो ार देवाचेर घालो.

मागीर आनी सायलीन कळाव केलो ना. हातभर ग्लोव्ज ानी तोंडाक मास्क बांदून तार्णे सगळें सामान एकठांय रपाक सुरवात केली. तें सगळें ताका आपले आयझोलेटेड कुडींत दाळपाचें आशिल्लें. हॉलांत शोकेसींत दवरिल्ल्यो चार इंग्लीश कादंबऱ्यो, मायंड पॉवर वाडोवपी जोजफ मर्फीचीं चार पुस्तकां, आपलो लेपटोप, पिक्चरांच्यो सीडीज तार्णे कुडींत व्हरून दाळ्ळें.हरशीं तें वाचनशत्रू. गोंयच्या चार नामनेच्या कोंकणी साहित्यिकांचीं पुसून नांवां सांग म्हळ्यार तकली खरपीत रावपी. फकत दिसाळयाच्यो हेडलायनी आनी वॉट्सअॅपाचेर येता तितलेंच तार्चे वाचनाचें साहित्य.पूण आतांची गजाल वेगळी आशिल्ली. ताका आपलो स्टेट्स अपलोड करपाचो आशिल्लो.

ना म्हळ्यार ह्या दिसांनी मोबायलाचेर चडशे संदेश 'हें करूं नाकात, तें करात, रोग प्रतिकारशक्ती वाडोवचे खातीर हें खायात, तें खावं नाकात' अशे सल्ले पायलेक पंचवीस आशिल्ल्यान ताचे तकलेंत फीट बशिल्ले. चडांत चड सकारात्मक विचारसरणी दवरून रोगा कडेन चार हात करतलें जाल्यार रावतलो तो रूम सकारात्मक दिसूंक नाका? तार्णे सडसडीत हॉलांतलीं इन्डोर प्लान्ट्स आपल्या रुमांत हाडून दवरलीं. रुमांतल्यान सतरा दीस भायर सरूंक मेळपाचें ना म्हणून तार्णे आपलो मेकप कीट, फणी, हेअरड्रायर, व्यायामाचें मॅट, सायकल, शाम्पू, कंडीशनर, सेनीटायझर, मास्क सगळें सगळें याद करून हाडलें. सगळें मना सारकें दाळून जातगीर तोंडार एक मॅचींग मास्क चडयलो आनी सगळ्या वस्तुंचो सारको वीव येवन एक सॅल्फी काडलो आनी आपलो स्टेट्स यालो. पोंदाक बरयलें 'सतरा दिसांचें विलगीकरण'.

इतले म्हणसर आवय थर्मामिटर, ऑक्सीमिटर, उदकाचो थर्मास, गळगळे येवचे खातीर मिठाची ल्हानशी भरणी, पेले, कुलेरां, ताट, वाटयो सगळें येवन रुमांत आयली आनी हरशीं अस्ताव्यस्त आशिल्ले ते कुडीचो कायापालट पळोवन चकासूर कशी जाली. रातची आपली येतिल्ली गोजडी पुसून, यडी करून दवरपाक कुस्तार अशे हे चलयेचें आयज जालां तरी किर्ते? सदांच तें भायर सरून वतगीर आवय येवन ताची कूड नितळ करूनच आपल्या फुडल्या कामांक लागताली. ती विचारपाक वताली पूण 'घर म्हजें जळूं पूण निळू म्हजो खेळूं' हे धर्तेचेर तिर्णे 'काय तरी करूं पूण बाय बरें जावं' म्हणून देवतेचो मनांतल्या मनांव धावो करीत ती आयिल्ली तशी

आपल्या कामांक गेली.

सायलीन मोबायल घेत सावन केन्नाच स्टेट्स म्हणटात तो यालूंक नाशिल्लो. ताचे वांगडचीं तर ताका सदांच शिणटालीं. ताका तोंडारूच 'हें एक आसा बॅकवर्ड कशें' म्हण खेपतालीं. ताका कुंदाची याद आयली. तें सदांच पराथतालें, ''आगो, स्टेट्स याल तुजो. लोक पळय, सांसव फुट्ट जावचे पयलीं कसो आपलो स्टेट्स अपलोड करतात ते. आपल्या घरांत कितें शिजता तें लोकांक कळना जाल्यार तुमी खात्या-जेवत्या घरांतलीं म्हण कशें कळटलें? इतले पयशे मोडून पयस खंय टुराक बी वचून, भोंवून आयलें म्हणटगीर चार लोकांक कळपाक नाका? स्टेटसाक लागूनच तुजी तांक लोकांक कळटा. तुका जितले चड रिप्लाय्ज मेळटात तितलें तूं सोशल म्हण समजुपाचें. थोडे स्टेटस पळोवन कांय रिप्लाय करपाचे भानगडींत पडनात पूण तुवें तें मनार घेवपाचें ना. कोणें कोणें तो पळयला हें तरी तुका कळटा न्ही?'' पूण सायलीन तार्चे सांगणें कशेंच कानामनार घेतलें ना. एक दीस तार्णे रागान म्हळें पसून, ''म्हणूनच उल्लां तूं अशेंच'' पूण तरीकूय सायलीक कशेंच पटूंक नाशिल्लें. पूण आतां तें पॉजिटीव्ह म्हण लोकांक कळपाची गरज आशिल्ली. कारण ताच्या संपर्कांत आयिल्ल्या लोकांची ताका चड काळजी दिसताली.

मोबायलाचेर फाटाफाट वाजतल्या बिपान ताची तनरी मोडली आनी पळोवया पूण कितें तें म्हण तार्णे मोबायल अनलॉक केलो. पळय जाल्यार पंदरा मिनटांत मेज्जून त्रेपन्न मॅसेजीस. चडश्या जाणांनी ताका 'भिवपाची गरज ना. पूण काळजी घे' म्हणपाचें सांगिल्लें तर कांय जाणांनी 'फकांडां करूं नाका आं' म्हण मात्सो भंयूय दाखयिल्लो. कांय जाणांनी आंगठो धाडिल्लो तर कांय जाणांनी स्मायली. आंगठो धाडपा सारको आपणें कितें पराक्रम केला हें तें येवजूंकच उरलें. पूण मजा म्हळ्यार वळखीच्या सोड तर तें केन्ना मेळूंक नाशिल्ल्या लोकांनी पसून ताचे खातीर काळजी उक्तायल्ली. ताचे इश्टीणीनी तर 'कितें जाय जाल्यार मुजरत सांग आं! दाराक लावन वतां भायलें भायर.' म्हणपाचें ताका कळीत केल्लें. गोंयांतूच न्हय तर गोंयां भायर आशिल्ल्या सोयऱ्या-

धायऱ्यांकूय ताची पॉजिटीव्ह जाल्ल्याची बातमी पावल
म्हणपाचें ताका समजलें. खूबश्या जाणांनी ताचे बातमे क
आड नदर केल्ली. तरी तार्णे तें मनाक लावन घेतलें ना.
वॉट्सॲपा वयल्या स्टेटसाचो इतले जाण पाठपुरावो करत
म्हणपाचो दिश्टावो मात ताका नव्यान जाल्लो. तार्णे तेन्न
मनांत थारायलें, हें वेळ पासार जावपाचें खरेंच बरें साध
तेन्ना हाचे फुडें नाखटां काडलीं, क्युटेक्स लायलें, माथ
न्हालें, साडी न्हेसलें इतलेंच कित्याक शींक पसून काडल
स्टेट्स यालपाचो आनी आंगठे दाखोवन घेवपाचें. आनी स्टे
लोड करपाक तर पानदुडूय लागना. मागीर कितें जालां म
वयलें केळें न्ही तर मोबायला वयलीं दोन बटणां दामून फि
जोडपाक? जावं कोरोना जावन हो तरी एक फायदो जाल

तार्णे आनी मागीर कळाव केलो ना. कोंबडे वरीं झरा
लोकांचे स्टेट्स उस्तुवपाक सुरवात केली आनी आप
कितलींय जाल्यार उश्णीं वायणां म्हण स्मायली, चिमट
आंगठे धाडले. एकेक पळोवन ताचे दोळे दिपकावले. क
सकाळीं चावे बराबर कितें खाल्लें ताचो स्टेट्स अपलोड केल
तर कोणें नुस्त्याचो फोटो अपलोड करून दनपरां कर
कसले नग करपाचे तेंवूय सविस्तर बरयिल्लें. कोणालीं फु
कोणाचो बारसो, कोणालो साखरपुडो, कोणाचें मॅटींग
न्ही मिटींग... ताचें गिन्यान कितल्याशाच पटींनी वाडटा
कोणें मार्थेभर जावो माळून स्टेटस याल्लो, तर क
ब्रह्मकमळांचो फुलिल्लो वाज, कोणें साडी नवी न्हेशिल
तर कोणें नव्या मोदाचें मास्क घाल्लें. एकेकट्यान घाल
जेवणाचो रंग पळोवन तर ताच्या तोंडाक उदक सुटलें. पय
बायलो बांयचेर, वासरेर जमल्यो म्हणटगीर कोणागेर वि
शिजलां, कोणागेर कितें करपलां, कोणा कोणालें मेत
चल्लां, कोणालो बुडकुलो फार (यटस्फोट) जालो हे विश
घेवन आपल्या धवळ्यांक न्हय भावनांक वाट करून दिताल
आतां सगळीं चडशीं आत्मनिर्भर जाल्ल्यान तांकां जम
खबरी करपाक इतलो वेळ खंयचो? पूण मोबायलान सग
कसर भरून काडल्या म्हणपाक हरकत ना. जाय तशें चॅट
करपाचें. ऑफिसांत वतात तांचें तर विचारूंकच नाका. चॅटी
मुखार तकली पसून वयर काडपाक टायम नासता. ह्या चॅटींग

म्हळ्यार ताका तिडक मारताली. पूण आतां एकेक स्टेट्स
वन मात ताका अलीबाबाची गुहाच सांपडिल्ले वरी जाली
ी इतलो तेंप आपणें पिशावरी मोबायलाचो वापर फकत
ी पुरतोच केलो म्हण स्वताक तार्णे दुशणूय दिलें. वीस
रांचो मोबायल. कांयच उपेग जालो ना. जावं कांय नजो.
ां पै ना पै वसूल करून घेतां पळय.

फोनाची रींग वाजली आनी तें अलीबाबाचे गुहेंतल्यान
र आयलें. पळय जाल्यार निशीता. ताच्या बापोल मामाची
ी. सामकी कावळ्या आवय. कुरासांवांचें जाल्ले वरी
की ल्हव उलयताली.

''आगो मानसी, कशें जालें गो अशें? तुका आनी ख्रंय
ालें हें? आसूं चड काळजी करूं नाका आं.''

''आगे, कशें जालें तें कशें कळटलें गे? आनी तूं
ली कित्याक भिल्या? सगळ्यांकूच जालां मगे हें आतां.''

''हय गो बाय, सगळ्याक जालां खरें. पूण तुवें बारीक
यलां?''

''कितें तें?''

''कोण पळय जिवाक चड भियेता न्ही, ताकाच बदता
तो. आनी अती आत्मविश्वासूय नडटा आं. प्रभा, जाणां मगो,
म्हजो पुतणयो. कितें तुमी कोरोना, कोरोना म्हण आंग काडटात
म्हण सामको छाती मुखार काडून भोंवतालो. आरे, मास्क पूण
घाल रे पापया म्हळ्यार सादो जोर आनी थंडी ती, ताका
कितें भिवपाचें. असले जोर आयले कितले आनी गेले कितले.
आहार बरो पकदस्त दवरपाक जाय म्हणटालो. शेवट जावपाचें
तेंच जालें.''

''कितें जालें? बरो आसा न्ही तो?'' मानसीन सामकें
आंग काडलें.

''आसा अजून. कांय न्ही, कांय न्ही म्हणून चार दीस
आंगार जोर काडलो आनी हड्डें भरतगीर हॉस्पीटलांत गेलो.



पंदरा दीस जाले थंयच आसा. धड खबरेक पसून वचूंक मेळना.''निशीता रडूंकच लागलें.

''आगो, आगो जातलो तो बरो.'' मानसीन कडकडत सांगलें.

मानसीचो आवाज आयकून निशीता भानार आयलें. ''आगो सॉरी, सॉरी. तुजी खबर घेवपाक म्हण फोन केल्लो. खंयचे खंय पावलें पळय हांव. तूं भिवनाका गो. तुका कांयच जावपाचें ना. तुजें रोखडेंच जालां न्ही निदान? खा-जेव मस्त राव'' निशीता फोन दवरून सटकलें.

हें निशीता म्हण सॅम्पलूच. म्हाका धीर दिवपाचो सोडून गळसावन घातलां. पूण हांव खंयचे कॅटेगरींत पडटां काय? भिवकुऱ्या काय अती आत्मविश्वास आशिल्ल्या?''

ना म्हळ्यार ताच्या काळजांत बेठेंच कलकलूंक लागलें. झक मारली आनी स्टेट्स अपलोड केलो. पयलीं आशिल्लें तेंच बरें आशिल्लें. पोजिटिव्ह आशिल्ले लोक खुले आम बाजारांत भोंवतात आनी म्हाका कसली गरज आशिल्ली विलगीकरणांत आसा म्हणून सगळ्या जगाक सांगपाची? आनी निशीता म्हणटा तशें हांव भिवंकूय ना आनी अती आत्मविश्वासूय दाखयलो ना. कामांक वतना येतना सगळी खबरदारी घेतल्या. ना जाल्यार फाटल्या दिसांनी लॉकडावन आशिल्लो तेन्ना? खंयूय नुस्तें विकपाक आयलां म्हण खबर कळ्ळ्यार घेऽऽ लोकांच्यो घिट्टी. 'दो गज की दुरी खंय!' एकमेकांच्या पांयांचेर पांय दवरून नुस्तें घेवपाक धडपडटाले. आनी मास्काचें पूण ध्यान आसा? तें नाका. तोंडार केन्नाच नासतालें. हो करोना ओगीच जावपाक जाय म्हण जाला म्हाका. आसू! आतां किर्ते जावपाचें तेंच जातलें. जगार तर आयलां. मानसी कशेंबशें कितलो वेळ आपल्या मनांक समजायत रावलें. आपसुकूच ताचे हात मोबायल उस्तुवपाक लागले. कितलें म्हूण पांशियेंस थोड्या लोकांक. मिनटा-मिनटाक आपलो स्टेट्स अपडेट करीत रावतात. केक करतात, म्हणसर पाव, बिस्कीट, फ्रायड रायस, मंच्युरियन. तर कोण आपलें विणकाम, भरतकाम, चित्रकला, ग्लास पँटींग, भार हाडला ह्या कोरोनान. म्हजे कडेन मात कसलीच कला ना.

ताका परत निर्शेवणीशी येवपाक लागली. करतलें पूण कि कसलोय छंद आशिल्लो जाल्यार बरें जावपाचें. तें वेगवेगळ पोजेस घेवन परत सॅल्फी काडून आपलो स्टेट्स अपल करपाक वतालें. तितल्यान ताच्या मनान ताका शिटकाय 'शीऽ, कसलीं म्हूण परतूय पिशेपणां करपाक वतां हीं हा स्टेटस अपलोड करतगीर परत चिमट्यो, स्मायली, आं मागीर सगळ्यांचो स्टेटस पळोवन परत म्हजे विव्ज. ते प्रत्येकाचे वेगळे सल्ले. कोण म्हणटा चिकन खावं ना तार्ती खा, कोण म्हणटा व्हेजूच जेवल्यार बरें. कोण म्ह गिलोय घे, कोणाली दोतोर जावन विटामिनांची रसीद, म्हणटा हळद खा, कोण म्हणटा कसाय पी बरो झणझ आलें, मिरी, तिखी घालून. कोण म्हणटा चड काढे क पिल्यार फुडाराक फिग्द पिड्ड्यार जावपाचो भंय. ह्या सग सल्ल्यां परस रोग परवडलो अशी गत. ते परस ऐकावे जन करावे मनाचे. हरशींच सकाळ सावन मोबायल पळो पळोवन मान, दोळे दुखपाक लागल्यातूच. आतां पो धवळून ओकूंक आयिल्ले वरी जावपाक लागलां. शीऽऽ म प्रांतच न्हय हो. आनीक सोळा दीस कशे काडपाचे? क कसले म्हण स्टेट्स घालपाचे? तशें हांवूय करतां तरेक खाणां, जेवणां. दर खेपे करता तेन्ना म्हज्यानूय घाल जाता ते स्टेट्स म्हणून. पूण तातूंत किर्ते व्हडलें? अ युट्युबाचेर घेऽ म्हण विंगड विंगड पदार्थांच्यो रेसिपी मेळ येर्देशें शेमडें पोर पसून तें पळोवन रांदपाक शकता. खाव जाय म्हणटगीर करूंकूच जाय न्हय? ओगीच कित्याक आ खाजगी जीण वाऱ्यार घालपाची? ताणें आपल्या मोबा वयल्यो सगळ्यो सॅल्फी डिलीट केल्यो. म्हऱ्यांतूच आशि कादंबरी लागीं करून ताचो एक फोटो घेतलो आनी शेव स्टेट्स घालून सकयल बरयलें, 'वाचाल तर वाचाल' अ मोबायल स्वीच ऑफ करून सगळ्या हुस्क्या विरयत पु वाचूंक बसलें.



करंझाळें-गोंय. मो: ९४०४९१४

# आशाताई म्हाका माफ कर..!



उत्कृश्ट थरिल्ल्या 'अपुरबाय चित्र'च्या देखणी दुराय फिल्मांत तिची भुमिका आसा. गोंय सरकाराचो उत्कृश्ट अभिनेत्री पुरस्कार तिका फाव जालो. 'आलिशा' राजेन्द्र तालक हांचें फिल्म पयले खेपेक राष्ट्रीय महोत्सवांत जैतीवंत जावपी राष्ट्रीय पुरस्कार जोडपी फिल्मांत आशाताईची म्हत्वाची भुमिका आसा.

- पुर्णानंद च्यारी

आशाताईच्यो त्या पयल्या पांवड्यार 'सं .शारदा 'नाटकांत शारदा.सं.मृश्चकटीक नाटकांत वसंतसेना अशो मुखेल भुमिका रसिकांचेर भूल घालून गेल्ल्यो. ह्या प्रभावांतल्यान एका फाटोफाट एक एक प्रस्ताव वाट सोदीत आयले.तांचे तिर्णे भांगर केलें .

उल्लेख केल्ल्या नाटकांचे २०० वयर प्रयोग. ते उपरांत *रायगडाला जेव्हा जाग येते* ह्या नाटकाचे ५०० वयर प्रयोग केल्ले. आशाताईंची वसंतसेनेची भुमिका पळोवन प्रा.वसंत कानेटकार हांणी 'हीच माझी मत्स्यगंधा' अशे उद्‌गार काडले. १ मे १९६४ ह्या वर्सा *सं.मत्स्यगंधा* हें नाटक मराठी संगीत रंगभुयेर आयलें. संगीत नाटकांच्या प्रवासांतलें क्रांतिकारी नाटक म्हण तें गाजलें .अभिमान दिसपा सारकी गजाल हे क्रांतीचे शिल्पकार मुखेलपणान गोंयकार आसले. तांतूत तीन मुखेल संगीत कलाकारांचो उल्लेख रसिकांचे पसंतीक आसतात, एक ह्या नाटकाचे संगीतकार पं.जितेंद्र अभिशेकी बुवा, दोन गायक पं. रामदास कामत आनी तिसरी आशालता वाबगावकर .

आशाताईच्या गळ्यांतली बालकवींची रचना *गर्द सभोवती रान साजणी* आनी नाटकाचे लेखक वसंत कानेटकर हांचे वडील कवी गिरीश हांची *तव भास अंतरा झाला* विशेश गाजलीं

त्या काळार रंगभुयेचें आकर्शण स्तित्यंतरांतल्यान वाट काडटालें.

कलाकारांक वाव आशिल्ला.संगिताचो गळो, अभिनयाची समज, हे गूण मुळाव्या पावंड्यार गरजेचे

आसताले. तातूंत आकर्शक व्यक्तीमत्व आसप दुदांत म्हॉव, तशी परिपूर्णताय थरताली . ह्यो सगळ्यो गजाली आशाताईंक निसर्गान दिल्ल्यो .तातूंत मेहनत ,जिद्द आनी धाडस ह्या बळार तिणें एक एक पावल मुखार घालीत लोकप्रियता, आनी जैत हाचेरच जैत जोडलें. गाजिल्ल्या वेवसायीक नाटकांनी आदीं भुमिका कोण करून गेल्लो आसता ताची छाप आनी प्रभाव आसता. त्या कलाकाराच्या बदला तीच भुमिका नव्या कलाकारान करप आनी आपलो स्वतंत्र प्रभाव तयार करप आव्हान आसता. तशीं आव्हानां ताईन असुदाय पेल्लीं. नवे नवलायेन स्वतंत्र कांत सिद्ध केली. *रायगडाला* ... नाटकांतली येसुबाई , *गारंबिचा बापू* हांतली राधा. *गुंतता हृदय हे* तली कल्याणी अशो साबार देखी आसतल्यो. *भाऊ बंदकीत* आनंदीबाई ची भुमिका दुर्गा खोटे करताली ती भुमिका उपरांत आशाताईंक करची पडली .एकाच वेळार रडपाचें आनी खिणांत कांयच घडलें ना अशी भावमुद्रा बदलून अभिनयाची जादू करपी आशाताईक प्रेक्षकांतल्यान उत्स्पूर्त इनाम मेळ्ळें. इनाम आशिल्लें (चप्पल ) जिवंत अभिनयाक ती जिवंत दाद आसली. प्रसंग जोखमीचो तरी खंयच थतर-वितर जाय नासतना नाट्यपरिणाम कायम दवरलो. प्रेक्षकांतल्यान उत्स्फूर्त ताळयांचो शिवर जालो. दोळयांतली भेदकता आनी शब्दफेकींतली धग, तोंडावेले परिवर्तीत भाव हे खुबीन हो चमत्कार घडयल्लो.

*गुड बाय डॉक्टर* नाटकाचो शंबरावो प्रयोग आसलो. अशे वेळार आशाताईंक पांयाचें दुखणें जालें. उबें रावप, चलप कठीण जालें. प्रयोग रद्द करपूय कठीण जालें. अशे वेळार पांय बांदून ती प्रयोगाक आयली Show Must go on अशे पद्दतीन माचयेर येतना निर्मिती संबंधीतान जाहीर केलें, सदचे वरी आभिनय जावप अडचणींचें आसा. जांकां पयशे परत व्हरचे आसात तांणी व्हरचे. कळ सोशीत आशाताईन नाट्य सेवा केली. प्रेक्षकांक प्रयोग मानवलो.कोणूच पयशे परत व्हरूंक गेले नात. 'जशी परमेश्‍वरावेली श्रद्दा म्हत्वाची आसता तशेंच एकाद्री भुमिका आपल्याचेर प्रसन्न जातली तर ते भुमिकेवेली कलाकाराची श्रद्धा तितलीच म्हत्वाची आसता. ही श्रद्दाच भुमिकेक नवो रंग, नवो अर्थ दिता.' हीं उतरां आसात आशाताईची 'बिम्ब' दिवाळी २००४ अंकांत ती उलयल्या.

त्या काळार नाट्यसेवेच्या ध्यासान जायत्यो वेवसायीक आनी सेवाभावी संस्था दर्जेदार नाटकांची निर्मणी करताले तांणी साबार जैतीवंत कलाकार,लेखक,तंत्रज्ञ घडयले.

आशाताईंक हेंच वातावरण पोशक थरलें. धी गोवा हिं असोसियेशन, चंद्रलेखा, अभिजात, साहित्य संघ मंदीर, आर एन टी, माऊली प्रॉडक्शन. अशा संस्थाचे नाट्यनिर्मणे मुशींतल्यान आशाताईक मुखावेलो रूंद रस्तो उक्तो जालो तातूंत कोंकणी मनीस, कोंकणी कला, संगीत, साहित्यका हांचोय प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष भाग जाला .

मुंबय आकाशवाणीचेर कोंकणी कार्यावळी निमतान ह भावकी आनी कलेचो संचार वाडटालो .

१९८० वर्सा मुंबइय दूरदर्शनचेर रघुवीरदादा नेवरेका हांच्या *जल्मगांठ* ह्या कोंकणी नाटकांत तिणें काम केल्लें दिग्दर्शक बासू चटर्जी हांणी आशाताईक त्या नाटकांतल भुमिका पळोवन एखाद्रें एक नाटक पळोवपाची इत्सा बाळगू आशाताईंक एका नाट्यप्रयोगा वेळार मेळ्ळे आनी *अप पराये* फिल्मांत सिद्धेश्‍वरीचे भुमिके खातीर आमंत्रण दिलें फिल्मां पसून पयस रावपाचो मानस बाळगिल्ले आशाताई तो प्रस्ताव आपणायलो. ते भुमिके खातीर बंगाल क्रिटिक असोसिएशन संस्थेचो पुरस्कार मेळ्ळो. फिल्मी दुनियेंतल पयल्या पेण्यार हो पुरस्कार पावलांक बळ दिवपीच आसल ते उपरांत, ***प्यासा सावन,अग्नीसाक्षी, अंकूश, नमक हलाल शराबी, कुली, निकाह,सदमां,शौकीन*** अशे एका फाटोफा चित्रपट मेळत गेले. ह्या फिल्मांचीं नांवां पळेतनाच कळ कितल्या स्टार सुपरस्टार कलाकारामदीं आशालता नांवा प्रतिश्ठा कितल्या उंचल्या पांवड्यार आसली ती. दूरदर्श माळेंत दिग्दर्शक बी आर चोप्रा हांची *महाभारत* आसूं रणजीत देसाईंचे कादंबरेवेली *स्वामी* धारावाहिक आ आशालता ही अभिनेत्री कायम यादींत उरल्या .

गोंयात काणकोणां ३१मे १९३९ वरसा जल्मा आयल्ली ही कलाश्री १४ वर्सां पिरायेर मुंबयत पावल आकाशवाणीर गावंक सुरवात केली. संगीतकार कल्याणज च्या ऑर्केस्ट्रांत महमद रफी, हेमंत कुमार ह्या नामनेच कलाकारां सांगाताक ती गायली. क्रीस पेरी हांणी संगीता सजयल्लो 'यो रे मोगा यो' हो मिस्र मांडो

एच् एम् व्ही कंपनी खातीर उदय भेंब्रे हांच्यो रचव

ाताईन गायल्यो. तातूंत 'काजाराचें उतर तुकां दिता'हेंय आसा. जें आयजूय वाजता गाजता. हांगा एक योगायोग ल्यार हे निर्मणेचे संगीतकार श्रीधर केंकरे हे मूळ ाकोणचे आनी आशाताईय काणकोणच्यो. त्यो पयल्यो ल्यो रेकोर्डी तातूंत पयले -वयले गावपी कलाकारांचे हासीक माळेंत. आशाताईची आपली अशी सुवात आसा. ा पयलो राज्य पावंड्यार विडियो फिल्म फेस्टिवल जालो ूंत उत्कृश्ट थरिल्ल्या 'अपुरबाय चित्र'च्या देखणी दुराय ल्मांत तिची भुमिका आसा. गोंय सरकाराचो उत्कृश्ट भनेत्री पुरस्कार तिका फाव जालो. 'आलिशा' राजेन्द्र लक हांचें फिल्म पयले खेपेक राष्ट्रीय महोत्सवांत जैतीवंत वपी राष्ट्रीय पुरस्कार जोडपी फिल्मांत आशाताईची म्हत्वाची मेका आसा. कोंकणी चळवळीचे वडील उदयबाबांक भांगराळें य अस्मिताय संस्थेचो भांगराळो गोंयकार पुरस्कार जाहीर ालो. उदयबाबांच्या वाडदिसा निमतान जाहीर कार्यावळ ाली. हे कार्यावळीक जोडून दामू नायक हांचे अध्यक्षते ाला रवीन्द्र भवन मडगाव संस्थेच्या पालवान 'चान्न्याचे ती' कार्यावळीचें आयोजन जाल्लें. आमचे संस्थेचे वतीन कज नमशीकार संयोजन करताले . .एच् एम्.व्ही. कंपनी नर्मीत उदयबाबांन रचिल्लीं गितां गावपी दोन कलाकारांक ापोवप संयुक्तीक जातलें हे भावनेन पं.रामदास कामत ानी आशालता वाबगावकर हांचेकडे संपर्क सुरू जालो. रस्कार सुवाळ्याच्या आयोजक संस्थेचो अध्यक्ष ह्या नात्यान ा कलाकारांकडे म्हजो संपर्क संवाद चालूच आसतालो. ह्ज्या परिचयातले काणकोणचे विकास देसाय, डॉ धिल्लन देसाय हांचे आशाताईकडे आशिल्लें घरगुती नातें हाका ागून संपर्क संवाद सोपो जाल्लो . फोनार सुद्धां उलयतना वडीलकेचे मायेन उलोवपाची आशाताईची तरा आपलेपणाचीच आसताली. कोंकणी संगीत संमेलना निमतान किशोरीताई आमोणकर आयल्ली तिच्याय गळ्यांतल्यान अपुरबायेचो कोंकणी हेळो भावलो तोच आशाताईच्या गळ्यांतल्यान सदां जाणवलो. हे कार्यावळी निमतान तालमी सुरू जाल्यो. दिलीप नायक हांच्या घराकडे, दुसरे दीस रवीन्द्र भवनांत येसाय चल्ली. प्रवासांतल्यान थकल्या, विसव जाय असली कसलीच अड विचारनास्तना उसरां मेरन चलिल्ले येसार्येत रावली.

'दरयाच्या ल्हारारी' गीत गुणगुणतना आदली याद करत रिकोर्ड जावंक पावलें ना अशा गिताची ओळ म्हणून दाखयली. कितली व्हड वडील कलाकार सगळ्यां सांगाता सादे पणान वावुरताली. *काजाराचें उतर तुका दिता* हाची तालीम चलतना खंयची तरी ओळ म्हणून दाखय, अशें म्हणत बिंदिया वस्त हाचे कडल्यान आयकून घेतलें. खरें तर तिका चाल खबर आसली तरी खात्री करप बरें अशी तिची भुमिका आसली . हो अभ्यासू गूण शिकपा सारकोच आसलो. कार्यावळ पेजाद जाली . रवीन्द्र भवनची उक्ती माची सुवात गोंयभरच्या कोंकणी प्रतिनिधिनी भरिल्ली. दुसरे दीस सकाळीं परत मुंबयच्या प्रवासाची तयारी करतना आमचे संस्थेचे सचीव पंढरीनाथ परब आनी हांव मेळूंक गेल्ले कडेन ताई सहज उलोवन गेल्ली, सगळीं उतरां याद जायनात पूण सार आसलो,

'बरें दिसलें,अशा कार्यक्रमा निमतान गोंयां येवंक आवडटलें. येतलें हांव.' हें (येतलें हांव ) तशें खरें जावंक पावलें ना. धावती भेट ही ताकतिकेन परतुपाची आसता .

ते उपरांत घडये एक पावट येवन गेल्याय आसतली.तसो एका जाळवणदाराचो फोन आयल्लो नंबर मागूंक. आशाताईंची मान्यताय घेवन हांवें नंबरय दिलो . गोंयां मराठी चित्रपट महोत्सवांत भोवमान स्विकारून गेल्ली आशाताई परत येवंक पावली ना .

*माहेरची साडी* फिल्मांतली सह कलाकार अलका कुबल हिणें आशाताईचे अंतविधी केले. गांव खंय रावतीकाय खंय, कर्तृत्व खंय! देहांत खंय! तिच्या नांवान आशा आसा लता आसा.सुहास दलाल हांचें गीत १९६८ वर्सा मुंबयत लता मंगेशकर हांणी लायव्ह गायलां. पूण साबार भासांनी गावपी महागायिकेच्या आवाजांत एकूय गीत रिकोर्ड जावंक पावलें ना. आशा भोसलेन कोंकणी गायलां तरी आपूण कोंकणी गावंक ना म्हण जाहीर सांगलां .

आशाताईं भाशा आनी कले बाबतींत निर्मळ, पारदर्शक उरली. गोंयचे मांडवींत काणकोणचे तळपर्णेत अस्थी विसर्जनाची कर्तव्य-संद आमकां मेळूंक जाय आसली. आमी आपल्या मनशांक वळखूंक मोटवे पडटात.

आशाताई आमकां माफ करचें .



मडगांव-गोंय. मो: ९५२२५५४६५२



# गाडी नं. G- 08 Y 3616

**ते** दिसा ब्रेस्तार आशिल्लो. हांव वाळपय सांवन बोरये घरा येतालों. कुर्टी सहकारी पेत्रोल पंपा लागीं म्हजो एक इश्ट मेळपाक येवपाचो आशिल्लो म्हण थंय रावप जालें. तो आयलो. आमी फेसबूक फ्रेंड कितलीं वर्सां सावन मेळपाचो प्रयत्न करताले. पूण वेळच मेळ नाशिल्लो. तो वेळ ते दिसा मेळिल्लो. मातसो वेळ उलोवन तो वचपाक जाय म्हणपाक लागलो. केन्ना वेळ जालो तें उलयतां उलयतां कळोंकच ना. रातचीं बरोबर आठ जाल्लीं. तो आपली बायक स्टार्ट मारून गेलो. हांव म्हजी (चलयेची) फसीनो स्टार्ट करतां, पळयत जाल्या डॅशबोर्डार लायटच दाखयना. हांवें परती परती चावी घुंवडावन पळयली. मातशी लायट येता, पूण स्टार्ट मारतां म्हटल्यार फट करून लायटच वता आनी गाडी काय स्टार्ट जायना. घरा कडेन चल्याक फोन लायलो. 'कोणूय मेकानीक मेळटा काय पळय' म्हण सांगलें. जाल्यार तो म्हणपा लागलो, 'इतले रातचो कोण मेळटलो?' ताचो फोन येतलो म्हण वाट पळयतां म्हणसर पंदरा मिनटां गेलीं. फोनाची बॅटरीय सोंपत आयल्ली. चल्याचो फोन आयलो. म्हणपाक लागलो, ''कोणूच मेळना. सेल्फ स्टार्ट जायना जाल्यार किक मारून पळय.''

किक मारून पळयली. शिर्डी (गोवा ते शिर्डी, चलोन ६३० क्मी. पदयात्रा) वारी सावन दोन दीस फाटींच घरा आयल्लों. चलोन

हावें गाडी अचानक बंद पडल्या म्हणपाचें सांगलें. मातशी ट्राय करून पळोवया, म्हण तो मुखार आयलो. आपले हातांत गाडी घेवन किक मारून पळयली. जायना. कारण एकट्या कडेन ते स्कुटरींक किक मारून ॲक्सीलेटर ओडपाक मातसो त्रास सो जाता. म्हण ताणें म्हाकां 'तूं किक मार हांव ॲक्सीलेटर धरतां' म्हण आपणे ॲक्सीलेटर धरलो. एक दोन प्रयत्नांतच गाडी स्टार्ट जाली. आनी हांव गाडी घेवन घरा पावलो.



- मारुती नायक (प्रेमवीर)

ोन पांय मातसो दुखतालो. किकय सारकी लागऽ नाशिल्ली. ं मातशें निर्शेवन म्हटलें 'किदें रे, इतल्यो वळखी आसात मरे च्यो, एक मेकानीक मेळना तुका?'.

'पळयतां पप्पा' म्हणत तार्णे फोन कट केलो. हांवें विचार केलो. णूच मेळना जाल्यार हांव थंयच उरतलों म्हण हळुहळू गाडी ब्लून येवपा लागलों. पंपा कडल्यान बरोऽ एक कि.मी. भर त्या ल्ता कडेन पाविल्लों. मनांत मात साईचो धावो (नामस्मरण) लू आशिल्लो. घरा पावूंक आजून पांच-स कि.मी. आशिल्ले. न बंद पडपाचे वाटेर आशिल्लो. कोणाक फोन करतलों म्हटल्यार ावपा नाशिल्लें. बरें, कोणाचो नंबर तोंडपाठ ना. सगळे नंबर बायलांत. विचार चालू आशिल्ले. थंय पावतकच मातशें रान शे ागता. वाटेर काळोख. चुकोन एक एक गाडी येताली. चल्याचो त फोन ना. इतल्यांत फाटल्यान एकटो आयलो आनी म्हणपाक ागलो, ''किदे जाले?.''

''चालू गाडी. दवरिल्ले कडेन बंद पडली.''

''खंय वचपाचो?''

'' बोरये, टॉपकोला.''

''गाडयेंत दोरी बीन किदें आसा?''

''ना.''

तार्णे आपले गाडयेची डिक्की ओपन केली आनी किर्ते तरी ोदपाक लागलो. एक ल्हानसो सुमा दोर मेळ्ळो ताका.

''इतलीच दोरी आसा. बांदून पळोवया, खंय मेरेन पावता थंय ावता.''

तार्णे दोरी बांदली. ताची अँक्टीवा गाडी शी दिसता. गाडयेचो ंबर मात हांवें सारको पळयल्लो.

गाडी नं. G- 08 Y 3616. ताचें नांव सुलेमान. मंगेशी देवळा लागीं तोपयो, गॉगलां विकपाचें ल्हानशे दुकान चलयता म्हण तार्णे सांगल्या उपरांत कळ्ळें. येदेशे दोरयेक बांदून तार्णे म्हजी गाडी ब्रेस बरी टॉपकोला मेरेन पावयली. तुमी जाणाच आसतले, दोरी बांदून गाडी ओडप कितलें रिस्की तें. फाटले गाड्येन मातसो ब्रेक मारीत जाल्यार फुडली ओडपी गाडी वाकडी वाकडी जाता. घडये तो पडांके शकता. फुडलो मातसो स्लोव जालो की फाटलो ताका आपली गाडी फुडल्याक तेंकोवपाची शक्यताय आसता. चडावार प्रॉब्लेम ना. पूण देंवतेर बरोच प्रॉब्लेम जाता. फाटली गाडी फुडले गाडयेक परती परती लागता शीच दिसता. ब्रेक मारीत जाल्यार तो आपलो बॅलन्स होगडायता. गाडी ओडपी बरोच सादूर आसपाक



जाय. बरोच धीट आसपाक जाय. आमच्यांत एक म्हण आसा, 'वेळार मजतीक पावता तो देव सो!' खरेंच तो ते दिसा देव सो पावलो. म्हण ताका म्हणन दिसता 'सुलेमान भाई शुक्रिया'. तो म्हाकां टॉपकोला सोडून गेलो. इतल्यांत चल्याचो, 'पप्पा खंय पावला?, हांव पंपा कडेन पावलां' म्हणपाचो फोन आयलो. हांव टॉपकोला पावलों म्हण ताका सांगलें. कसो पावलों तें घरा पावतकीच सांगतां, तूं यो म्हण ताका सांगोन हांवें गाडी भितर शिरशिरें रस्त्यार येतली. सदुच्या बार्रा कडेन एकटो म्हाकां पळयत उबो आशिल्लो. हांव गाडी धुकलतां तें पळोवन विचारपा लागलो, ''किदे जाले भाई?''

हांवें गाडी अचानक बंद पडल्या म्हणपाचें सांगलें. मातशी ट्राय करून पळोवया, म्हण तो मुखार आयलो. आपले हातांत गाडी येवन किक मारून पळयली. जायना. कारण एकट्या कडेन ते स्कुटरींक किक मारून अँक्सीलेटर ओडपाक मातसो त्रास सो जाता. म्हण तार्णे म्हाकां 'तूं किक मार हांव अँक्सीलेटर धरतां' म्हण आपणे अँक्सीलेटर धरलो. एक दोन प्रयत्नांतच गाडी स्टार्ट जाली. आनी हांव गाडी येवन घरा पावलो.

सांगपाचें म्हळ्यार संकटा वेळार कोण कसो पावत सांगो नजो. घडये देव परिक्षा पळयता जावं येत! आमी वगीच नाका तें येवन बसतात!



**बोरी-गोंय. मो: ९५२७९२६६७७**





# अनामिका

पूण घराच्या व्हारांडांतल्यान अनामिका दिसत काय म्हूण सकाळ फुडें बसपाक लागलों. पूण तें येना आसलें, दिसऽ नासलें. खूब दीस वाट पळयली. मागीर चिंतलें कोरोनाच्या लॉकडावनाक लागून अनामिका भायर सरना दिसता. ह्या कोरोनान खूब त्रास दिले. लोक मेले हजारांनी. म्हजेय शेजारी-सोयरे मेले.



- अशोक भोंसले

म्हजें घर आल्तीन दोंगुल्लेच्या मुळसांत. घरांत भितर सरपाव
धायेक पांवडे चडचे पडटात. दारा भायर व्हारांडो. खंयचेय इमारतीच्य
पयल्या मजल्यार रावतां असो म्हजो राबितो. घरांतल्यान पलतडच्य
रस्त्या वयल्यान आनी दावे वटेन आल्तीना वयले चडटे वयल्या
कोण येता वता तें म्हाकां स्पश्ट दिसता.

आल्तीन पयलीं व्हडलें रान आसलें. गोंय स्वतं
जातकच अख्खें आल्तीन सरकाराच्या ताब्यांत गेलें. थंय सरका
वसाहत जाली. पयलीं फक्त मानसोपचार होस्पीतल ( पिशांचें म्हू
फामाद ) आसलें.

घरा मुखार खूब झाडां. सगळो वाटार पांचवोच. दोळ्यां
पांचवो रंग बरो. म्हाकां झाडांचो मोग. आमच्या जाणटेल्यांनी रोयल्
व्हडलीं झाडां आमी सांबाळ्ळ्यांत. चिंच, आंबो, आंबाडो, पणस
कावथे घरा मुखार आसात. त्या भायर फुलां झाडां. दशणी, अनंत
सदाफुली, तुळशी, बेलाचें झाड बी. त्या भायर मिरसांगाचे रों
हळदीचे थाम, धायेक केळींचीं झोंपां. गिमांत पोरसांत तांबडी भाजी
भेंडे, मिरसांगो घरांत खावपा पुरत्यो मेळटात. रिटायर जालों त
बेकार रावंऽ ना. हातपांय हालयतां, झाडांची मशागत करतां.

म्हजो दीस उदेता फांतोडेर साडेचार ते पांच वरां मजगत
घरांतूच हात पांय हालयतां.(व्यायाम) थोडो योगा करतां. मार्ग
घरांतलो देंवून चलपाक वतां. पेपर हाडटां. रस्त्या कुशीक घ
सकयल बांदकाम केल्लें मैदान आसा. ताका भोंवताडो मारत
इतले म्हणसर सात वरां जातात. मागीर मैदानाच्या सोपणार बसू
पेपर वाचपाचो. सकाळचो हो म्हजो दिनक्रम. पावसांत हाका आडवा
सकाळचीं सात वरां जातकच हांव घराच्या व्हारांडांत आ

मक्यल्या मैदानार सोपाणार बशिल्लों आसूं म्हजी नदर आल्तीना ल्या रस्त्यार लागता. अनामिकाची वाट पळयत. आतां अनामिका णेण? नांव नकळों म्हूण तें अनामिका. ताचीच खबर सांगतां...

देड-दोन वर्सां जायत आयलीं, ताका हांव सदांच गळचो पळयतां. आल्तीना वयल्या 'डी' टायप दोन इमारतीं इस्कादेची पांयवाट आसा. पयलें ताचें दर्शन म्हाकां ती इस्काद देवतना जाता. इस्काद देवतकच तें डांबरी रस्त्यार येता. मागीर बशिल्लो आसता त्या मैदाना मेरेन देंवपाक नगरपालीकेन देल्ली पन्नासेक सोंपणां देंवून तें म्हज्या मुखा वयल्यान सांकवा ल्यान रस्त्यार वता. हो रस्तो शारांत वचपी मुखेल रस्त्याक ठटा. पणजे शारांत, चार खांब्यांतल्यान सांता क्रूज वचपी हायवेक ठपी रस्तो.

अनामिकाक सकाळीं पळोवच्चेलें म्हाकां वेसन शें लागलें. सकाळचें सव्वा सातांक घरांतल्यान भायर सरता आसूंक जाय सो म्हजो तर्क. येतना जितलो वेळ तें दिसता तितलो वेळ नदर लय नासतना हांवें ताका पळोवंचें, हो म्हजो सदचो नेम सो ालो.

अनामिका दिसपाक काळें सावळें आसले तरी ताका पळोवपाचें शें लागलें. ताचे लांब केंस सामके सरळ. भिल्ल माडाची पोंय ट्टकच सुतां कशीं लांबतात ते भशेन ताचे केंस फाटीर धोलताले. ोन केसांची शिमटा कशीं काना कुशीक पोल्यार सोडटालें. बरी दिसताली तीं! कानांत मोटीं रिंगां. दोळ्यांच्यो भुंवयो चंद्रकोरी भशेन रेरायल्ल्यो. दोळे ओडलायणे. ओंठ रंगय नासले. पूण गुलाबी ओंठ लिपिस्टीकान रंगयल्ले भशेन दिसताले. आंगाक चिप्प दसता ाशी जीन पॅन्ट आनी काळशा रंगाचें टी शर्ट हाका लागून ताच्या शरिराची ठेवण नदरेक भरताली. असो भास जातालो ताच्या आंगार कपडे नाच कशे! भितरल्या कपड्यांचे वळ दिसताले. केन्ना-केन्ना हातकापें टी शर्ट घालतालें तेन्ना ताच्या भुजांचो गोरो रंग दिसतालो तर सकलो हात काळो. हांव मैदानाच्या दरवंट्यार बसून पेपर वाचपाचें निमीत करतालों,पूण नदर मात ताचेरूच खिळावन उरताली. म्हज्या मुखा वयल्यान अनामिका पासार जातकच ताची फाटमोरी आकृती तर पळोवपाची इत्सा दोळे फुटिल्ल्याक पासून जाली ना तस्च अजाप म्हणचे पडटलें. आनी हांव तर सुंदरतायेचो रसीक. ताची चालूय ल्हव पावलांची. मात्तूय आवाज ये नासलो.

ताका फाटसून पळयता तितलें आनीक पळयन दिसता. ताका लागून ताचे फाटल्यान हांव कांय दीस चलत वचूंक लागलों. तें सक्यल पावतकच हांव आमच्या देवळा वटेन वळटालों. म्हळ्यार ताका तेळपाक फाटल्यान वचऽ नासतना देवळांत वतां अशें भासयतालों.

तें खंय तरी वचपाक मुखेल रस्त्यार वतालें. म्हाकां प्रस्न पडटालो-तें खंय कामाक वता काय? सकाळ फुडें घरांतल्यान भायर सरता म्हणटकच खंयच्या तरी स्कुलांत बी शिकयता काय? तें लग्न जालां वा काजार बी जालां काय? तश्यो कांय खुणो ताच्या आंगार दिसऽ नासल्यो. म्हळ्यार गळ्यांत मंगळसूत्र वा हाताच्या बोटांत मुदी बी. तें जात धर्मान कोण तेंय कळऽ नासलें.

एक दीस मनांत येवजलें, बरे कपडे बी घालून ताच्या फाटोफाट वच्चें. तें वता तरी खंय? तें नोकरी खंय करता काय! सरकारी काय खाजगी आस्थापनांत वता-शिकयता जाल्यार खंयच्या स्कुलांत? हे विशीं म्हाकां बेठीच उमळशीक लागली. पूण ती वेळ म्हजेर आयली ना. म्हजे नदरेन अनामिका विशीचे सगळे प्रस्न अनामिकूच उरले.

दीस धुकलताले. म्हजी सकाळची वारी चालूच आसली. मार्च म्हयनो लागलो. कोरोना नांवाचो संर्सग रोग संवसारांत पातळ्ळो. आमच्या देशांत आनी गोंयांतूय हो विशाणू पातळ्ळो. आयतारा, २२ मार्च दिसाच्यान गोंयांत लॉकडावन जालें. सरकारान कायदो केलो. कोणेंच घरांतल्यान भायर सरप ना. राज्याच्यो शिमो बंद केल्यो. शाळा कॉलेजी बंद. सरकारी कार्यालयांकूय भरपगारी सुटी. म्हजो प्रस्न नासलो. हांव रिटायर्ड मनीस. तांतूत जुस्त २३ मार्चाक घराचे इस्कादीर निसरून दाव्या पांयाक दुखापत जाली. घरा भायर सरूंक मेळना.

पूण घराच्या व्हारांडांतल्यान अनामिका दिसत काय म्हूण सकाळ फुडें बसपाक लागलों. पूण तें येना आसलें, दिसऽ नासलें. खूब दीस वाट पळयली. मागीर चिंतलें कोरोनाच्या लॉकडावनाक लागून अनामिका भायर सरना दिसता. ह्या कोरोनान खूब त्रास दिले. लोक मेले हजारांनी. म्हजेय शेजारी-सोयरे मेले.

आनी म्हजें तर सकाळ फुडें दिसाचें अनामिकाचें सपन कशें पळयतालों तें एक अर्थान भंगलें म्हणचे पडटा...!!



भाटलें-पणजी. मो: ९९२३८०३१५८





# वेळे वयली सावळी... गळयतां दुकां पावळी

तांकां तांच्या संवसारांत आमची लुडबूड नाका. पूण हें जरीय कितलेंय खरें आसलें, तरीय तांकां जाय तशें जिवीत ती नक्कीच सुखान जगूं, पूण जेन्ना आमची भुरगी वाट चुकतली, तेन्ना तांकां सत्याची वाट आमीच दाखोवपाक जाय. सद्या ते पाखे आपली दिका विसरल्यात. जगाच्या चकचकाटांत नक्कीच भरसल्यात! पूण म्हज्या उतरांचेर तुमी सदांच विश्वास दवरात, एक दीस आमची पयलीची पाखरां आपल्या घरट्यांत परततली.



- पूजा लक्ष्मीकांत भांडारे

तिनसांजचो तीन कातरीचो वेळ. पळयताले दोळे सैमाचो मोगा
तो खेळ. आंगार शीरशीर फुल्लोवपी शितळ वारो सान भुरग्याव
चोंय दिकांनी मनशांक खेळपाक आपयतालो. अस्ताक वचपी सु
जसो निकतोच मळबाचे होटयेंत देंवपी चंद्रा दिकेन आतां बो
दाखयतालो. फांतोडेच्या कोंब्या सादार घराब्यांतल्यान आपल्य
पोटा फाटल्यान भायर पडिल्ली सगळीं सुकणीं आपआपल्य
राबित्या दिकेन परततालीं. आपल्या मनशां कडेन पावपाक ताक्तीव
करतालीं. भुंयेंचेर तशेंच मळबांतल्यान, वाट मेळटा थंयच्यान सगत
जीव एकट्यान वा पंगड करून खोशयेन आपले मार्गान वताले
सुर्या अस्ताक वतना ताका व्हरपाक निळ्या तशेंच कांय काळ्य
कुपांची पालखी वाजत गाजत आयिल्ली. झाडां, पेडां आपल्या
नादांत नटराजावरीं नाचतालीं. नव्या रोपांक अंकूर फुट्टाले
मळबांतल्यान भांगराळे मोती शिडशिडून आंगार रुंवां फुल्लोव
नाच्च जाताले. अशा ह्या वेळार पयस, ज्या जाग्यार नदर पावता
थंय खळखळून हांसपी दर्या दिसतालो. धव्या फुल्ल दुदान भरिल्ल्य
आयदना वरी दर्या दिसतालो. खिणांत दर्याचीं ल्हान ल्हान भुरग
रेंवें सांगातान खेळपाक धांवत शिमेर पावतालीं. दर्याचे शिमेक तांच

र्‍ जातालो. पूण आवय बापायक आपल्या ल्हान भुरग्यांचो त्रे आसताच न्हय! देखून जेन्ना तांचीं भुरगीं दिमकुऱ्यांनी लागीं येतालीं, तेन्ना दर्याचो एकूच धेंगसो पडिल्ल्यान आपुणूच लो पांय फाटल्यान घेतालीं. तांकांय दिसतालें, आमी आमची केन्नाय तरी हुंपची, काळजांत फुलपी फुलां रेंवेच्या कानांत ाचीं. पूण तांकां तशें केन्नाच करपाक मेळऽ नाशिल्लें. ल्हान न तीं ल्हारां दोळ्यांतल्यान दुकां काडून परत आपल्या बापायचे ठींत रिगतालीं! शिमे लागीं येतना, तांचो तो गोड हांसो आनी वतना तांची ल्हव,मंद जाल्ली खोशी पळोवन ताका सामकें ट दिसलें. वेळे वयल्यान पयस जेन्ना दर्याची शीम मेर पळोवपाचो यत्न करतालो, तेन्ना अशें दिसतालें, जशें मळब उदकाचे र्वेत आपल्या हातांत खुळखुळो येवन खेळटा. पूण हे फक्त ्रेचे खेळ आसतात. खरें पळोवंक गेल्यार मळब आनी दर्या ान्नाच एक जावंक शकनात. ते फक्त दोळ्यांत आनी काळजांत ो आभास तयार करूंक शकतात.

तेच सुवातेर माधवाची नदर खिळून उरिल्ली. ताच्या चोंय क्रांनी कितलेशेच लोक दर्यार न्हावपाक वताले. कितलींशींच डपी एकमेकां सांगातान मोबायलार सेल्फी काडटना एकमेकांच्या ळ्यांच्या दर्यांत खंय तरी शेणटालीं. कितलेशेच आवय बापूय पल्या सानुल्याक घेवन वेळेर येवन बशिल्ले. कांय आवय बापूय, पल्या भुरग्यां सांगातान ल्हान जावन रेंवेंत घरां बांदताले. ल्हान ड बोटींनी बसून कितलेशेच लोक मजा मारीत उदकांतल्यान र सकयल जाताले. पूण ह्या सगल्यां चित्रां कडेन ताचें लक्षूच शिल्लें. मर्दीच ताणें रेंवें वटेन पळयलें आनी ती थोडी रेंव आपल्या ताचे मुठींत झेलून घेतली. पूण आडवी धरिल्ली हाताची मूठ उबी रतकच हाताच्या खाची कोनशांतल्यान ती रेंव ताच्या हातांतल्यान नसरपाक लागली. ताणें ते रेंवेंक सावरपाचो खूब यत्न केलो. पूण रेंवेन ताच्या हातांतल्यान निसरपाक आपली वाट सोदून काडलीच. च रेंव हातांतल्यान निसरतना तिचेर ताची नदर आशिल्ली. तल्यांत कोणें तरी ताच्या खांदार हात दवरलो. तसो तो अचकीत ानार आयलो. पांच मिनटां पयलीं चणे, भिकणां हाडपाक गेल्ली ाची बायल देवयानी ताचे म्हर्‍यांत आयिल्ली.

''तुमचे लक्ष तरी खंय आसा? आनी ते रेंवेंक अशे कित्याक ळयतात? कितें जालें? आत्तां हांव चणे हाडपाक वतना तर तुमी ठे उमेदीन वेळेर येवन बशिल्ले आनी आतां खिणांत अशें मुखामळ कित्याक बदलले?''

माधवान तिचे कडेन पळयलें आनी तो मुमुरख्यानी हांसलो.

''कांय ना गो, ही रेंव पळयल्या? हे रेंवेंक हांवें म्हजे मुठींत धरिल्ली, तिका सावरपाचो यत्न करतनाच ती कशी आनी खंयच्यान निसरून गेली कांयच कळ्ळें ना.'' अशें म्हणत ताणें रेंवेचे बारीक बारीक कण दशिल्ल्या आपल्या हातांक पळयलें.

देवयानी समजूपाक जाय तें समजली.

''तुमकां एक सांगू, रेंव आनी वेळ ह्यो दोनूय गजाली आपल्या हातांत केन्नाच उरना. हरशी पळोवंक गेल्यार रेंव आमकां दोळ्यांक दिसता. पूण वेळ दिसना. तरूय दोनूय गजालींचें सारकेंपण अशें, दोनूय गजाली हातांतल्यान केन्ना सुळसुळटात कांयच कळना. आनी उपरांत उरतात त्यो फक्त गेल्ल्या वेळाच्यो बारीक सारीक यादी. दिश्त ह्या तुमच्या हाताक उरिल्ल्या रेंवेच्या बारीक कणां वरी!''

माधवान बायलेचो हात आपल्या हातांत घेत तिका प्रश्न केलो, ''तूं कशें गो ह्या दर्या वरी सगले सोंसता? दर्याक जावं वा काळजाक, शिमो ह्यो आसताच न्हय? हांव एक बापूय जावन म्हाकां म्हज्या पुताच्या बदलपाचें दुख्ख जाता, जाल्यार तुकां कशें जायना? एक आवय जावन वावराडे वरी स्वताच्याच घरांत राबतना, काबाड कश्ट करतना कशें इतलें शांत रावूंक शकता गो तूं? म्हाकां तर अशें दिसता, चल्याचेर दोन थापटां वाजोवंची. ताका जाणविकाय करून दिवची, की ज्या जोडप्याक तू तांच्याच घरांत वावराड्यांवरी वागयता, जीव बरो नासतना काळजार घाय सोसून रगताचीं दुकां दोळ्यांनी दिता, ते आमी तुजे आवय बापूय. जे हात ताचे आवयन ल्हान आसतना तेल लावन लावन घट केले, आयज तेच हात आपले आवयचेर उठटात. एक आवय बापूय केन्नाच आपल्या जिवितांत खचनांत. शरीर जरी थकपाक आयलें, तरी भुरग्यांच्या मोगाची शक्त दिवपी वखद त्या काळजाक सदांच झेलावरी,जिर्णेतल्या दर एका खिणांक शितळ दवरता. पूण जेन्ना तांच्या भुरग्याच्या मोगाचो प्राणवायू कमी जाता, तेन्नाच एका आवय बापायची शक्त कमी जाल्ले वरी दिसता. तुकां एक सांगू, एक एकदां म्हज्या मनांक दिसता, फूल थंय फुलाची पाकळी हांवें आमच्या आदाराक दवरल्या. आमी खंय तरी पयस या गो. ज्या जाग्यार आमीच एकमेकां खातीर आसतली! ज्या जाग्यार आमकां आमचें जिवीत खोशयेंत जगपाक मेळटलें. ज्या जाग्यार तुजो आनी म्हजो कोण अवमान करचो ना. जिर्णेतले शेवटाचे खीण आमी सुखांत जगूंक शकतली. तुकां हांवें हजार फावटी सांगलें,

पूण तूं केन्नाच काना-मनार घेना.''

अशें म्हणून तो आपले बायलेच्या दोळ्यांतल्यान व्हावपी घसघश्या कडेन पळयत उरलो.

''तुमकां एक सांगूं'', अशें म्हणीत तिणें दर्या वटेन बोट दाखयलें. ''तीं ल्हारां पळयात. पळयात, कशीं आपल्याच नादांत परत परत धांवतना आपले शिमे मेरेन येतात. पूण तांकां ती शीम हुंपपाची मेकळीक ना, कित्याक जाणां तांकां ती शीम देवान नेमून दिल्ली आसा. तांकां पुराय जाणविकाय आसा, जर तांणी तांची शीम हुपली, जाल्यार तीं कितलेशेच जीव काबार करतलीं. तेच भाशेन आमकां सुद्दां आमची शीम खबर आसपाक जाय. तुमी म्हणटात तशें, आमी जर आमची शीम हुंपली, जाल्यार आमचें घर विस्कळीत जातलें. आमचीं भुरगीं जिणेचे वाटेंत खंय तरी शेणटलीं. चुकीचे वाटेर पावतलीं. एका अशा गुपाट काळखांत, ज्या जाग्यार तांकां योग्य दिका दाखोवपी तांचो स्वताचो असो कोणूच आसचो ना. तुमकां दिसता, म्हाकां म्हजे जिणेंतल्या ह्या दुखदिण्या अणभवांचें कांयच दुख्ख जायना? अशें केन्नाच आसना. केन्ना केन्ना काळजांतले कोटये कुडींत सगल्यो भावना, सगलें दुख्ख कायमचें बंद करचेंच पडटा. हाचो अर्थ असो निखालूस आसना कीं म्हाकां वायट दिसना. पूण हांव सगलें सोंसतां. जोवर सोंसपाक जाता तोवर सोंसतां. एक आवय आपल्या पुताक आपल्या कुसव्यांत णव म्हयने वाडयता, तातूंत कसलो सुवार्थ केन्नाच आसना. ए[...] गजालीचो सुवार्थ आसता, तो म्हळ्यार सदांच भुरग्याचें बरें जा[...] इतलोच. हांव ओग्गी रावून सगले सोंसतां, कारण म्हज्या काळज[...] हांवें म्हज्या विश्वासाक एक अखंड दिवो पेटयला. जातूंत फ[...] सकारात्मकतायेचें तेल सदांच भरलेलें आसता. तें तेल केन्[...] हांव सोंपूंक दिना. काळजांत सदांच उजवाड घालपी एक अ[...] झोत, जी म्हाकां सदांच आड्डून सांगता, एक दीस तुमकां तु[...] पूत परत मेळटलो. ताचो मोग, ताचें आपलेंपण परत मेळटलें. ए[...] खिणांत शांत, जाल्यार दुसऱ्याच खिणांक उचंबळ जावपी दर्या [...] काळीजूय आसता. पूण ताका आपले शिमेंत कशें दवरपाचें ह[...] जाणविकाय आपल्याक आसपाक जाय. वाट विसरलेलीं, चुक[...] सुकणीं उसरां जावं, पूण आपल्या घराब्या कडेन परततात, अ[...] तीच आरत म्हज्या काळजांत हांवें बाळगिल्या. तुमकां दिसता[...] सगलें हांव सोंसतां कशें! सदांच फुलांची याद करून! एका फु[...] जर सोबितकाय आसता जाल्यार ताका कांटे सुद्दां आसत[...] जंय अमृत आसता थंय वीख आसताच. तशेंच आयज आ[...]



तले पुता-सुनेचे कोडू शब्द मेळटात न्हय, तितलेंच नातवार्चे
ाळ हांशे मेळटा. ताका तरेकवार काणयो सांगतकच ताच्या
ा वयलो तो सोबीत हांसो, धादोसकाय पळोवन काळजाक
ल्ल्या सगल्या कोडू शब्दांचो चितो खंयचे खंय धुवन वता. ती
गा दिसता तुमकां, ती जागा आमचे खातीर खूभ खाशेली
गा.''

''जाणां गो, म्हाकां अजुनूय दोळ्यां मुखार येता, आमी दोगांय
ाक येवन हांगा येतालीं. त्याच जाग्यार वंश आपूण घर बांदतलो,
वो कितलो हट्ट करतालो न्हय? घर बांदपाक ताका तीच जागा
य आशिल्ली. त्या जाग्यार अशें किर्ते आसलें तें अजुनूय
पेतूच आसा. आमी दोगांय ताचे कुशीक बसतालीं. तेन्ना तो घर
ून सदांच म्हणटालो, ''आई, बाबा, व्हडलो जातकच हांव अशेंच
डलें घर बांदतलों आनी आमी तिगांय त्या घरांत सुखान रावतली.''

''सारकें तुमचें, पूण एक मात खरें, ताणें आपलें म्हणणें खरें
लें. आपल्या ख कश्टांनी इतलो व्हड व्यापार उबो केलो, व्हड
लो बांदलो. दीस रात यशाची तेंगशी गांठपाक जागयल्ले दर
के रातीचो खीण आमी ताचे सांगातान जगल्यांत. उपरांत एक
स सांगपाक लागलो ,''आई, बाबा, हांव एके चलयेचेर मोग
रतों''. ताच्या मनांतली इल्सा वळखून आमी रोखडेंच ते चलयें
गहा ताचें लग्न लावन दिलें. तेन्ना माया आमचे कडेन सून ह्या
त्यान कमी, जाल्यार धूव म्हूण वागतालें. अशें दिशिल्लें ,
ातां जिवितांत एकेचलयेची कमी आशिल्ली ती पुराय जाली.''

''तूं बरोबर उलयता गो, पूण ताका धुवे पासून सून जावपाक
ड वेळ लागलो ना. कांय दिसांनीच तें इतलें बदल्लें, ज्या खातीर
शें मनांत प्रस्न उप्रासूंक लागले, हें तेंच माया काय, जाका आमी
ामच्या दोळ्यांचे मावलेर धरिल्लें!''

''जसो जसो वेळ बदलता, तशी तशी मनशांय बदलतात.
ायज जगांत जें किर्ते घडटा, तें पळयतकच तुमकां अशें दिसता
य की आमी खरेंच आपल्या पुता सुने पासून, नातवा पासून
यस वचपाक जाय? एकदां हे गजालीचो विचार करात. तुमकां
र्ते दिसता, आमी आपल्या भुरग्यां पासून पयस वचून खोशी
वूंक शकतली? आमचो स्वास हांगा सोडून आमी पयस कशी
वूंक शकतां? तुमकां सांगूं, हांव तर सामकार येवपी दर एके
रिस्थितीक धिरान तोंड दिवपाक तयार आसां. हाचें कारण म्हळ्यार
मी. एके बायलेक आपल्या घोवाच्या सांगाता शिवाय दुसरे कसलेच
गजालीचे हावेस नासतात. तुमी दर खिणांक म्हज्या सांगातान
आसता, आमी एकमेकां सामकार एकमेकांच्या काळजांतल्यो भावना
उक्तायतात. आनीक किर्ते जाय, एक बायलेक जर तिच्या घोवाचो
सांगात मेळत जाल्यार ती केन्नाय व्हड सकश्टाक धिरान तोंड
दिवंक शकता.''

''हांव जाणां, तुमकां अशें दिसता, आमच्या भुरग्यांक आमचो
बेजार आयला. तांकां तांच्या संवसारांत आमची लुडबूड नाका. पूण
हें जरीय कितलेंय खरें आसलें, तरीय तांकां जाय तशें जिवीत तीं
नक्कीच सुखान जगूं, पूण जेन्ना आमचीं भुरगीं वाट चुकतलीं,
तेन्ना तांकां सत्याची वाट आमीच दाखोवपाक जाय. सद्या ते पाखे
आपली दिका विसरल्यात. जगाच्या चकचकाटांत नक्कीच
भरसल्यात! पूण म्हज्या उतरांचेर तुमी सदांच विश्वास दवरात, एक
दीस आमचीं पयलींचीं पाखरां आपल्या घरट्यांत परततलीं. ह्याच
दर्याच्या ल्हारां वरी, जी शीम हुपपाक सोदतात, पूण परत दर्याच्या
पोटांतूच रिगतात. दर्या जसो आपल्या पोटांत कितल्योशोच गजाली
रिगयता न्हय, तशोच भावनांची रास आमी आमच्या काळजांत
रिगोवया आनी जिर्णेतले उरलेले दीस खोशयेंत घालोवया.

चला, वेळेर येवन एकमेकां कडेन उलयतगर काळजार
दवरिल्लो जड जड फातर पोकळ जाल्ले वरी दिसलें. देवाक
तिनसानचो दिवो लावपाक जाय. एक नवी सुरवात करपाक जाय.
चला, या आमी आमच्या मनशां मदी, आमच्या घरां.''

तीं दोगांय घरा वचपाक उठलीं. इतल्यांत ट्रींग...ट्रींग...मोबायल
वाजलो. नातवाचो फोन आशिल्लो. आज्यान फोन उखल्लो.
नातू उलयतालो, '' आजी आज्या, खंय आसा तुमी? तुमकां
खबर आसा न्हय, की ह्या वेळार हांव तुमचे कडल्यान काणी
आयकतां. तुमी दोगांय बेगीन घरा येयात. हांव काणी आयकुपाक
तुमची वाट पळयतां.''

''येतां म्हज्या बाबू, एका खिणांत पावतां.'' अशें म्हणत दुकांची
पावळी गळयतना निराशेची कात थंयच सोडीत आशेची नवी कात
सांगाताक घेवन आजी आनी आजो उमेदीन बेगीन बेगीन पावलां
उबारूंक लागलीं.

दर्या लेगीत तांकां धादोसकायेन पळयत रावलो. आपल्या
व्यक्तीमत्त्वाचें सार्थक जाल्ले वरी....!!



अरनोडें-गोंय.मो: ७७६८८३५३१०



# व्हड खोशयेची परब दिवाळी

हिंदुंच्या परबे भितरलो सगळ्यांत व्हडलो आनी सगळ्यांचे उमेदीचो सण म्हळ्यार चवथ. ही चवथ भाद्रपद म्हयन्यांत येत चवथीच्या दोन म्हयन्यांनी म्हळ्यारच आश्विन कार्तीक म्हयन्यां येता ती दिवाळी (दिपावली). ह्या सणाक नरक चतुर्दशी अशें म्हणटात. हे परबेची सगळीं जाणां उमळशिकेन वाट पळयतात चवथी इतलीच आमचे मदीं उमेद दिवाळेक आसता. ल्हान तशें व्हड मनशां दिवाळेची तयारी करपाक गुंग आसतात. हाका ल्हा भुरगीं लेगीत आडवाद नात.

ल्हान भुरगीं आकाशदिवे, नखेत्रां करपाक आठ दीस पयलीं नाचतात. तशेंच आकाशदिवो कशे तरेन सुंदर दिसतलो हा मांडणी करतात. आपणे केल्लो आकाशदिवो हेरां परस वेगळो जावंचो आनी दिवाळे दिसा बरो सोबचो म्हणून दर एकलो यत्न करता. तशेंच आपलें घर सोबीवंत दिसपाक जाय म्हण लायटी करून नखेत्रां लावन घर आनी घरचो परीसर सजयतात. हालीं

दिवाळे दिसा न्हावन धुवन जातकच सगळीं घरांतली मनशां कारीटां फोडपाक तुळशी म्हऱ्यांत उबी रावून कारीट फोडटात आनी नरकासुराचो त्या दिसा श्रीकृष्णान वध केलो म्हण आपलें तोंड पिंजरीच्या उदकांत पळोवन घरांत भितर सरतात. तुळशी म्हऱ्यांत कारीट फोडपाक उबी रावच्या वेळार घरची सून सगळ्यांक ओवाळटा. ह्या खोशयेच्या दिसा खूब मजा येता. ह्या सारखे सुवाळे म्हटल्यार घराब्याक एकठांय हाडपाचो दर एकाचो यत्न आसता आनी सगळी एकमेकां वांगडा मिळून मिसळून रावतात.





- समिक्षा नागेश शिरोडकार

ळांत तर गोंयच्या खूबश्या वाठारांनी जायते तरणाटे पर्यावरण
ण आकाशदिवे तयार करतात. भाटां भेसांनी सहज मेळपी जायत्यो
तू पुंजोवन देखीक चुडटां, व्हीर, कट्ट्यो, सुंब, पिराडे, हांचो
नात्मकरित्या वापर करून सोबीत सुंदर अश्यो कलाकृती तयार
तात. थोडे कडेन तर ह्या आकाशदिव्यांच्यो सर्ती आयोजीत
तात. आमी घरच्या घरा पर्यावरणपूरक आकाशदिवो तयार
लो जाल्यार आपल्या आंगांत आशिल्ले कलागूण दाखोवपाक
व आसा. सर्तीनी वांटो घेवन ही कला मुखा वयल्या पांवड्यार
रूंक मेळटा.

अंदू कोरोना महामारी येवन तिणे सगल्यांची जिणूच विस्कळीत
ल्या, ताचो परिणाम आमी आतां पळयतात. आर्थीक, सामाजीक,
स्कृतीक, वेव्हारीक सगल्याच क्षेत्रांचेर ताचो वायट परिणाम जाला.
शी जाल्यार भुरग्यांक ऑक्टोबरांतली परिक्षा सोंपली म्हणटकच
व्डीच दिवाळेच्यो सुट्यो पडटात आनी भुरगीं दिवाळी मनोवपाची
गरी नेटान करताली. पूण आयची स्थिती वेगळी आसा. आयज
ग परबो येतात वतात, पयलींच्या बशेन उमेद जाय तशी दिसना,
थ आयली आनी गेली. वर्सा जो चवथीक तेंगशी गांठपी उत्साह
ळोवपाक मेळटालो, जो गजबज आसतालो, बाजार करपाक
ी आसताली. तये दिसा भरपी माटोळीच्या बाजारांत पांय दवरपाक
स्तार जातालें. पूण अंदू आयिल्ल्या ह्या कोरोनाच्या भिरांकूळ
सिाक लागून बंधना पडली, हेंवूय तितलेंच खरें.

घरच्यो बायलो दिवाळे दिसांनी फराळ करपाक उमेदीन आसतात.
तूंत नेवऱ्यो, चकल्यो, लाडू, फरसाण, चिवडो, शेव, आदी तयार
रपाक सामान हाडून दवरतात आनी शेजारच्या बायलांक आपोवन
मेदीन फराळ करतात. पूण आयज आमची जिणे पध्दत बदलल्या.
ायज चडशो बायलो नोकरी - धंदो करपी आशिल्ल्यान पयलीं
शेन फराळ करप शक्य जायना. ताका लागून आयज आमी
जारांतल्यान आमकां जाय तो फराळ विकत घेतात. ना जाल्यार
ॉर्डर दिवन कोणाक करपाक सांगतात. पूण घरांत केल्लो फराळ
ानी बाजारांतल्यान विकत हाडिल्लो फराळ हातूंत भितर खूब
रक आसता. घरांतल्या फराळाचो स्वाद हो वेगळोच आसता.
ज्या भुरगेपणांत म्हजी आजी घरांतल्या वानार भात कांडून फोव
यार करताली तो प्रसंग जर याद करीत जाल्यार मन आजूनय
नाचीत जाता. भात उकडून, घरांतल्या वानार कांडून तयार केल्ल्या
ोवांची सर आयज बाजारांत मेळपी फोवांक कशीच आसची ना.
' सगली प्रक्रिया घडटना घरांत जो वेगळोच गंध दरवळटालो
तांणी घरांत दिवाळेचो आनीकूय उत्साह वाडटालो.

आमच्या वाचना प्रमाण आमकां जी दंतकथा खबर आसा त्या प्रमाण श्रीकृष्णान नरकासुराचो वध केलो त्या खातीर दरवर्सा नरक चतुर्दशीचे फांतोडेर नरकासुराक जळयतात. हो नरकासूर करपाक कितलेशेच दीस पयलीं गांवातले तरणाटे एकठांय जमतात आनी नरकासूर तयार करतात. नरकासूर करपाक ल्हाना पासून व्हडा मेरेन सगल्यांचो आस्पाव आसता.

नरक चर्तुदशी दिसा नरकासूर तयार करून रातभर ताका नाचोवन फांतोडेर लासतात. ताका लासल्या उपरांत मध्यानेर लोक घराघरांत पणत्यो, दिवे पेटयतात आनी भगवान श्रीकृष्णाचो जयजयकार करतात. संस्कृती, परंपरा, चाली रिती ह्या प्रमाण दिवाळे दिसा सगळीं जाणां नसकाक उठटात. घरांतलो कोयर वार, शेण शिताडो, जातकच आमकां आवयन उटणे आनी तेल काडटकच आमी न्हावपाक वतात. दिवाळेच्या दिसांतली ही पध्दत अजून चालू आसा ही खूब बरी गजाल.

दिवाळे दिसा न्हावन धुवन जातकच सगळीं घरांतलीं मनशां काट्टां फोडपाक तुळशी म्हऱ्यांत उबीं रावून कारीट फोडटात आनी नरकासुराचो त्या दिसा श्रीकृष्णान वध केलो म्हण आपलें तोंड पिंजरीच्या उदकांत पळोवन घरांत भितर सरतात. तुळशी म्हऱ्यांत कारीट फोडपाक उबी रावच्या वेळार घरची सून सगळ्यांक ओवाळटा. ह्या खोशयेच्या दिसा खूब मजा येता. ह्या सारखे सुवाळे म्हटल्यार घराब्याक एकठांय हाडपाचो दर एकाचो यत्न आसता आनी सगळीं एकमेकां वांगडा मिळून मिसळून रावतात. ह्या दिसांनी सगळीं सामकीं उमेदीन आसतात. आयज आमी विभक्त कुटुंबात जरी रावतां तरी सणा परबेक एकठांय येवन एकठांय एकमेकां बराबर रावपाक वेगळीच मजा येता. दिवाळे दिसा आमी सगल्यां बराबर फोवांचो आस्वाद घेतात. तातूंत गोड फोव, बटाट फोव, रोसातले, दुदांतले फोव, उसळ, सांसव, वेगवेगळो तरेतरेचो फराळ हाचो आमी उमेदीन आस्वाद घेतात. तातूंत आनीकूय वेगळो तरेचो फराळ खावपाक मेळटा तो म्हळ्यार लाडू, नेवऱ्यो, चिवडो, मिठाई अशें बरेंच किर्ते खावपाक मेळटा, आनी सगळ्यांच्या घरांत उमेदीचें, चैतन्याचें, आनंदमय वातावरण आसता..

दिवाळीच्या दिसांनी सगळ्यांचीं घरां तरेतरेच्या विजे दिव्यांनी रोषणाय करतात आनी घर उजळावन उडयतात. घरांत रांगोळी, सांजवेळा घरां मुखार, तशेंच तुळशी कडेन पणट्यो पेटयल्ल्यान घरांक आनीकूय सोबाय येता. दिवाळे दिसा लोक तरतरेच्यो पणट्यो



पेटोवन घरांत प्रसन्न वातावरण निर्माण जाता. बाजारांतूय वेगवेगळ्या डिझायनीच्यो पणट्यो विकपाक येतात. त्या पणट्यांक पळोवन घरांत पणट्यो आसल्यो तरी आमी आनीक पणट्यो घेतात. अंदू बाजारांत पणट्यो मेळटल्यो काय ना हो लेगीत प्रश्न आसा. दिवाळी परब ही आमचे जिणेंत उजवाड फांकोवपाक येता. फाटल्या सात आठ म्हयने संवसारार जो काळोख आयला तो आमच्या मदलो पयस करून आमच्या सगल्यांच्या जिवितांत उजवाड फांकतलो अशी आमी सकारात्मकता बाळगूं या.

दिवाळेच्या दुसऱ्या दिसा लक्ष्मी पूजन आसता. कांय लोक घरांत तर कांय कडेन आपल्या पसऱ्यार लक्ष्मी पूजन करतात. आपले ऐपती प्रमाण दर एकलो लक्ष्मी पूजन करता. दिवाळेच्या तिसऱ्या दिसा पाडवो येता, जो लोक गोरवांचो व्यवसाय धंदो करतात तांकां पाडव्या दिसा व्हडलें स्थान दितात. व्यवसायीक तशेंच धंदेकार लोकांचें नवें वर्स पाडव्याच्यान सुरू जाता. त्या दिसा गोठो नितळ करून शेणाचो गोठो तयार करतात आनी गोठ्यांत काट्टांचीं गोरवां तयार करतात,.तशेंच घरच्या गोरवांची पुजा करतात आनी सगळीं जणां त्या दिसा उडीददाळीचे पोळे करतात.

ताचे नंतर येता ती भाऊबीज, भयण भावाचें नातें, एकमेकांचेर आशिल्लें अतूट प्रेम तिगोवन दवरपाक जाय म्हणून भयण कितलीय पयस आसली तरी भाव तिचे कडेन तितल्याच मोगान आनी मायेन भाऊबीजेक वता आनी भयण तितलेच आवडीन, मायेन भावा कडेन येता. भावा भयणीच्या नात्यांत एकतरेचो सॉफ्ट कॉर्नर आसता जो आमकां आनीक खंयच्याच नात्यांत दिसना. म्हणून एखादी व्यक्तीगत गजाल सुद्दां आवय बापायक सांगचे आदीं भावा भयणीक खबर आसता. भावा भयणीच्या नात्या सारखें निर्मळ नातें आनीक कोणाचें आसूं शकना अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना.

देखूनच जेन्ना भयणीचें लग्न जाता आनी भयण आपल्या हक्काच्या मनशांक सोडून परक्याच्या घरा वता तेन्ना भाव कोनशाक बसून रडपाक लागता, तेन्नाच रक्षाबंध आनी भाऊबीजीचो अर्थ स्पष्ट जाता. आन हें नातें कितलें मोलाचें आसा हें कळट हाकाच तर 'भाई बहनों का प्यार' म्हणटात कितलीय झगडीं जालीं तरी भाव हो भयण खातीर भाऊच आसता आनी भयण भावा खातीर भयणूच आसता.

दिवाळीच्या पंदरा दिसांनी येता व्हडली दिवाळी. हाकाच आमी तुळशी लग्न अशें म्हणटात. ह्या दिसा व्हड जेवण करतात. आदीं दोन दिसां पयल तुळस बरी धुवून रंगयतात. त्या दिसा जेव व्हडलें करतात. आवाळ्यांची, चिंचेची फां आनी दिणो हाडून तयारी करतात.. पयल तुळशीच्या लग्नाक एकामेकांगेर वता पूण आयज तशें चित्र दिसना.घरांतले चल जशें लग्न करतात तशेंच तुळशीचें हव काडून लग्न करतात. आनी सांजे घरच सुनो तुळशीच्या मुखार बसून जोड पेटयतानाचें दृश्य दोळ्यांक दिपावन उडोव आसता. ह्या दिवाळीच्या गजबजान हांस खेळते दीस केन्ना सोंपतात तेंच कळ आनी ह्या आनंदाच्या जल्लोशांत सु सोंपतात. शाळा आनी अभ्यासांत भुर परतीं गुल्ल जातात आनी तेच उमेद व्हडलीं मनशां लेगीत आपल्या दिसपट्ट जीवना कडेन वचपाचो मार्ग निश्च करतात. हें सगळें अणभवल्या उप कळटा ,असल्यो परबो आपली ज जगपाक नवी उमेद दितात.



मये, दिवचल-ग
मो: ९३७३७९०७



# तांचो जागो वृध्दश्रमांत?

मामाच्या घरा सामकारा एक घर आशिल्लें. त्या घरांत तीग जाण भाव. मामाच्या वयाचे आशिल्ले. आमी सगळी भुरगी तांगेर वचप, खेळप, मजा करपाक विसर नाशिल्ली. मामा वांगडा त्या तिगांकय आमी मामाच म्हणटाली. तांचे आवयक आजी म्हणप आमी. आनी बापायक आजो. दर वर्सा आमी सुटी पडली की आमची ट्रीप मामा घरा वगर दुसरे तिसरे कडेन खंयच वचs नाशिल्ली.



- नामदेव सुर्लीकार

**मा**याच्या म्हयन्यांत शाळांक सुटी पडली रे पडली आमी मामाच्या घरा वचप. म्हज्यो दोन मावश्यो. दोनूय मावशेलीं भुरगीं. म्हणचे म्हज्यो मावस भयणी वा मावस भाव. सगळी मेळून सात आठ जाणाची आमची टीम. तशी आमी मजा करूंक फाटीं नाशिल्लीं. पळोवंक गेल्यार त्या वेळार मामाच्या घरा वचप म्हळ्यार व्हड खोशी दिसताली. केन्ना परिक्षा सोंपूव आनी आमी मामाच्या घरा वचूंव असो फुरफुरो मारतालो. आमी सगळीं जाणां एकठांय जावप! मागीर खूब मज्जा करप.

पूण आतां ती मजा करपाक कोण मामागेर वता तें नदरेक पडना. कारण किर्तें आसूं येता? देव जाणा! आवडी निवडी नातीं गोतीं पयसावत वतात. वेळ ना आतांचे पिळगे कडेन अशें म्हणू येता. पूण फेसबुक व्हॉट्सअपचेर, वरांन वरां मोबायलार गेम खेळपाक वेळ खूब आसता. सोड जण एकल्याचे विचार म्हणूं येता. ना तर जण एकल्याची संवय! आमचो आजो आजी आमकां सगळ्यांची अपुरबाय करताली. घरा फाटल्यान व्हड दर्या. ते दर्या देगेर सांजे वेळार, बरे भशेन भोंवपाक मेळटालें. त्या वेळार दर्या नितळ आसतालें आनी नितळ आसल्या कारणाक लागून भोंवपाक आनीकूय मजा येताली.

खरी मजा म्हळ्यार सकाळची सगळीं जाणा उठ्ठकीच! आमचो मामा पोदेराले पाव हाडटालो. मागीर आमी तोंड धुंवप.

व्हडले पेले भरून च्या घेवन, ते च्यांत पाव बुडोवन खावप. धा साडे धा जातकीच आजयेन आमकां उकड्या तांदळाची पेज दिवप. पेज जेवल्या उपरांत परत एकदां खेळ खेळप. पूण हें सगळें आतांच्या काळार शेणलां. असल्यो शेणिल्ल्यो मजा परत मेळोवपाक खूब कठीन जावन पडलां. भुरगेपण आतांचीं भुरगीं जगतात? काय तांचे ट्रॅक मातशे फास्ट जावन पडल्यात? आवय बापायलो गुन्यांव आसूं येता? ना ना तशें जावं नज. नवे पिळगेंतलीं चडशीं भुरगीं आवय बापायलें आयकनांत म्हणून जावं येता. भुरगेपण हें होगडावपाचें नासता. भुरगेपण परत मेळपाक कुस्तार! भुरगे पणांतली खरी मजा कितें ताचो आतां आमकां अणभव येता. त्या वेळार खेळ खो खो म्हूण, लंगडी, कबड्डी, पाटयांनी अशे वेगळे वेगळे खेळ खेळून मजा करतालीं. आंब्या दिसांनी आंब्या पोंदाक! आंबे केन्ना सकल पडटा काय वाट पळयतालीं. चिंचे झाडार चडून चिंचो खावप, बोरी म्हऱ्यांत वचून बोरी झाड हालोवन बोरां खावप. असले धंदे दर दिसा चलताले. दनपार जातकीच आजी आमकां सोदपाक येताली. वाटेक खंयच दिसलीं ना जाल्यार उलो मारताली. आजयेचो उलो कानार पडलो म्हणटकीच धांवत धांवत आजये म्हऱ्यांत वचप, आनी आजयेक घट्ट धरप. आजयेन मागीर म्हणप,''तुमकां भूक भीक कांय एक लागना? चला जेवणाचो वेळ जालो!''ते म्हणसर मामा जेवपाक कामा वयल्यान येवप. येतना आमकां खावपाक घेवन येवप. भुरगेपणांतले ते दीस विसरूंक जावचे ना.

मामाच्या घरा सामकारा एक घर आशिल्लें. त्या घरांत तीग जाण भाव. मामाच्या वयाचे आशिल्ले. आमी सगळीं भुरगीं तांगेर वचप, खेळप, मजा करपाक विसर नाशिल्लीं.मामा वांगडा त्या तिगांकय आमी मामाच म्हणटालीं. तांचे आवयक आजी म्हणप आमी. आनी बापायक आजो. दर वर्सा आमी सुटी पडली कीं आमची ट्रीप मामा घरा बगर दुसरे तिसरे कडेन खंयच वचऽ नाशिल्ली.

हालीं खूब वर्सानी हांव अचकीत त्या वाठारांत पाविल्लों! सर्वे करपाक. सर्वे करतां करतां एक दीस मामाच्या घरा पावलों. मामाली सर्वे जातकीच त्या तीन मामांच्या घरा बल्कांवांत भितर सरलों. पळयत जाल्यार दाराक कुलूप मारिल्लें दिसलें. तरी लेगीत हांवेन, 'घरांत आसा कोण?' असो आवाज केलो. पूण कोणूच भायर आयलो ना म्हणून चार पांच फॉर्मस् दाराक लायले आनी हांव भायर सरपाक मात, आजी हातांत बडी घेवन खोपींतल्यान भायर सरली. 'कोण आयला?' म्हूण आजयेन विचारलें.

''आजये हांव नामू! वळखता? नातू तुजो.''

'' आरे नामू रे! यो बस. चड वर्सानी! बरोऽ व्हडलो जाला मरे! च्या घेतलो तूं? कित्याक आयिल्लो?''

आजयेन म्हाका प्रस्न केलो.

हांवें म्हळ्ळें,''आजये हांव सर्वे करूंक आयलां. पूण घरांत कोण ना?''

''आठ धा दिसां उपरांत येतले पूत म्हजे. टुराक गेल्यात रे ते बायल भुरग्यां वांगडा. भुरग्यांक सुटी पडला न्हय? म्हणून भोंवपाक गेल्यांत. इल्लीशी च्या दवरतां.''

''नाका, नाका आजये.''

आजयेचो अवतार पळोवन दुख्ख जालें. पयलींची आजी म्हाका दिसूंक ना. कपल रिकामे दिसलें म्हणून हांवेन आजयेक प्रस्न केलो.

''आजये आजो..?''

''आजो गेलो म्हाका एकसुरी सोडून. चिंतनानी काळीज तार्चे भरिल्लें. निवृत्त जावपाक लागीं पाविल्लो तेन्ना ताणें दोगां पुतांली लग्नां लावन दिल्लीं. उपरांत निवृत्त जालो त्या वेळार धाकट्या पुताचें लग्न लावन आशिल्ले नाशिल्ले पयशे खर्च करून मेकळो जालो. हातांत एक रुपयो लेगीत उरूंक नाशिल्लो. पेन्शन येतालें तें आमकां दोगांय जाणांक पुरो जातालें. पूण वखदांचो मारो! खर्च वाडत गेलो. पुतानी ताचेर लक्ष दिवपाचें सोडिल्लें. वेळार जर ताका वखदां दिल्लीं जाल्यार आयज तुका ताची भेट जातली आशिल्ली. गेलो तोय बी बरो जालो .म्हज्या आंगांत ताकद नाशिल्ली ताचे हाल पळोवपाक.त्या पेन्शनाचेरूच म्हजें जगप म्हजी जीण चलता...''

आजयेच्या दोळ्यांनी दुकां दाटिल्लीं दिसलीं. आपले जल्म दिल्ले एके आवयक अशे रितीन वागोवप? आवय आपल्या भुरग्यांक आपल्या काळजांत घर करून भितर दवरता आनी आमी भुरगे आपलेच आवयक बडयो लाकडां,सोण्णां,शेणी पुरुमेंत भरून दवरतात ते खोपींत रावूंक लायतात? कांय भुरगे आपल्या आवय बापायक वृध्दश्रमांत व्हरुन दवरतात. कोणे तरी फुडाकार घेवन हे सगळे आडावचे ना तर हें चल्लां तें तशाक तशे चलतलें. खऱ्यांनीच तांची जागो वृध्दाश्रमांत?



कालापूर-गोंय.मो.: ९८२३८८९५८

# त्रिपुरा- नुस्त्याचें आगर



युनिव्हरसिटीची भव्य इमारत पळयत आमी मुखार सरली. आमची टॅक्सी एका दोन मजली इमारती मुखार येवन उबी रांवली. तितल्यांत आनीकय एक टॅक्सी येवन उबी रावली. तातुंतल्यान एक बायल देंवली. म्हाका कळ्ळें हीय आमचे वरी साहित्य अकादमीचे कार्यावळीक आयल्या म्हणून.



- माया अनिल खरंगटे

अंदू महिला दिना निमतान साहित्य अकादमीन म्हाका अगरताला वचपाची संद दिली. म्हजे खोशयेक भरती आयली. त्रिपुरा-अगरताला इतल्या पयसुल्ल्या राज्यांत वचूंक मेळटा हाचीच म्हाका चड खोस जाल्ली. इशान्य भारतांत भोवंक वचूं जाय ही म्हजी केन्नाची इत्सा.

हांव तशें भोंवती भागरथ. खंयी वचया म्हळ्यार केन्नाय एका पांयार तयार. तातूंत पळोवं नाशिल्ल्या जाग्यांचेर वचपाचो तर म्हाका सामको घोरस्त. आतां दिसता म्हाका, वर्स भर जर कोणेंय वेग-वेगळ्या जाग्यांनी भोंवत राव म्हणून सांगलें जाल्यार हांव उमेदीन वतलें. पूण खरें सांगू? खंयी वतकर थंयचे सोबीतकायेंत हांव कितलेंय रमून वचूं पूण ..... घरा वचपाचे दीस लागीं येतकर म्हाका वेगळीच खोस भोगता. आनी एकदाचें घरा पावतकच 'सू म्हज्या घरा' अशें जाता. आनी एक सांगपा म्हळ्यार त्या प्रवासाची म्हजी खोस घरा येतकर दुपेटीन वाडटा.

अगरतालेचे कथेंत एक आडकथा सांगतां. हांव पयलेच खेप सातवे यत्तेंत शिकता आसतना दांडेली चार दिसांच्या टुराक गेल्लें. थंय हांवें सांगात्या वांगडा खूब मजा केली. पूण

परत येवंक गाडयेंत बसतकर घरचे यादीन म्हजें मन आकूळ-पिकूळ जालें.

म्हाका प्रत्येक स्टेशनार म्हजो बापूय आबा दिसपाक लागलो. मडगांवां पावतकच तर म्हाका सगळेच जाण आबा कशें दिसूं लागले. आनी आबा मेळतकर बॅग सकल उडोवन आबाचो हात घट धरून रडपाक लागलें.

म्हाका जितलो प्रवास आवडटा, तितलोच घरा परतुपाचो हुस्को आसता.

तर सांगतालें अगरतलाची खबर. अगरतला वचपाचो रकाद म्हाका ज्या दिसा भुषणान दिला त्या दिसा म्हजी खूब उसरां आयिल्ली अक्कलदाड काडून चार-पांच दिसच जाल्ले. दाडेची सूज आनी दूक वचूं नासली. तरी मोठे उमेदीन हांव वचपाक तयार जालें.

खंयी वतना थंयची म्हायती जाणा जावन येवपाची म्हाका आवड. हांवें गुगल उगडलें आनी ताचेर मेळिल्ली थोडीशी म्हायती जाणून घेतली. थंय पर्यटन थळांचे थोडेशे फोटे दिल्ले तेय पळयले.

इतलें पयस एकट्यान वचपाक नाका म्हणून हांवें म्हजे बराबर घरकाराची,अनिलाचीय तिकेट काडली. ताकाय हांवें म्हजे वरीं भोंवपाचें पिशें लायलां. आमी थंय एक दीस चड रावन भोंवपाचें थारायलें.

गोंयच्यान दिल्ली आनी दिल्लीच्यान अगरतला अशी रातचीच आमच्या प्रवासाक सुरवात जाली. रात ही भायर पळयल्यारच कळपाची. विमानतळार मात चकचक-झगझग, तातूंत मनशाचो गजगज चालूच आशिल्लो.

तेन्ना कोरोनाची निकतीच सुरवात. आमी मास्क बी व्हेल्ले. पूण चडशें कोणाच्याच तोंडाक मास्क नाशिल्ले. मागीर हांवेंय हळूच मास्क काडून बॅगांत दवरलो.

दिल्ली विमानतळा वेल्यान अगरतला वचपाक विमान सुटलें. न्हिदेचे सुवादीन जावंच्या जाग्यार हांवें वाचिल्लो त्रिपुराचो इतिहास म्हज्या दोळयां मुखार धुवूंक लागलो.

त्रिपुरा एक ल्हान राज्य. एके वटेन बांगलादेश, वयर आसाम आनी एके कुशीक मिझोराम. अशा शिमां मदीं त्रिपुरा राज्य बसलां. चोवदाव्या शेंकडयांत इंडो-मंगोलियन आदिवासींचो मुखेली माणिक्य नांवाच्या मनशान त्रिपुराची स्थापनां केली अशें समजतात. त्रिपुराचो चडसो भाग रान वांठार. ताका लागून आदिवासी लोक चड. तांचो प्रभाव अजुनय समाज मनाचेर दिसून येता.

महाराज विरचंद्र माणिक्य बहादूर हाणें त्रिपुराक आधुनीक साज चडयलो. म्हणून ताका मान दिवंक त्रिपुराक 'वीर विक्रम सिंह माणिक्य बहादूर शहर' अशेंय म्हणटात खंय!

त्रिपुरा हे नांव ह्या राज्याक दिवपा विशीं दोन-तीन गजाली सांगतात. एक म्हळ्यार ययाती वंशाचो राजा त्रिपु हांगा राज्य करतालो. ताच्या नांवा वयल्यान हाका त्रिपु म्हणटात. दुसरी गजाल म्हळ्यार, थंयची स्थानीक देवी त्रिपुर सुंदरी. तिच्या नांवा वेल्यान ताका त्रिपुरा म्हणटात.

तिसरेंय एक कारण सांगतात. तें थंयचें कोकबोरोक भाशे प्रमाण त्रिपुरा हीं दोन उतरां, त्वि आनी पा मेळून त्विपुरा-त्रिपुरा. त्वि म्हळ्यार उदक आनी पा म्हळ्यार लागीं. हो वाठार बंगालचे खाडयेक तेंकून आसा, म्हणून त्विपुरा-त्रिपुरा.

हांगाच्यो मुखेल भासो दोन, कोकबोरोक आनी बंगाली. ते भायर हांगा हिंदी, मैथिली आनी ओडिया भाशाय चलतात. सद्या शिक्षणाक लागून इंग्लीश भाशाय चलता.

बंद दोळ्यांनी त्रिपुराचो इतिहास पळयतां सर आमचें विमान अगरतला पावलें. आमचें सामान घेवन विमानतळाच्या भायर येवन टॅक्सी थारायता सर साहित्य अकादमीचे के. श्रिनीवास राव आनी विश्वजीत राय आमकां मेळ्ळे. तांणी आमची वासपूस करून आमकां गेस्ट हावजांत वचपाक सांगलें.

त्रिपुरा युनिवर्सिटीच्या गेस्ट हावजांत आमकां रावपाची वेवस्था केल्ली.

अगरतला हें राजधानीचें शार. पूण पळोवंक शार दिसना. परस ताका गांवगिरी सया चड मारताली. सगळें त्रिपुराच अशें राज्य खंय, जाका गांवगिरी सया चड मारता. हें आमकां टॅक्सी ड्रायव्हरान सांगलें. वाटेर थोड्योश्यो बिल्डिंगो दिसताल्यो पूण तीन मजल्यां वयर नाशिल्ल्यो. वाटभर शेतां आनी शेतवड आमच्या गोंयांतल्या गांवांतल्यान वतात कशें दिसतालें.

हांगा घरा मुखारूय पोरसूं, फाटल्यानय पोरसूं. पोरसांनी आमचींच झाडां. दसण, अनंत, कर्णो, पोपाय, केळी आनी मुखेलपणान पणस. मदीं खंयी आंबुल्ली. झाड ल्हान म्हणून हांवें आंबुल्ली म्हळां, पूण तांकां चंवर आयिल्लो. पणसाचीं झाडांय ल्हानशींच आशिल्लीं, पूण तांकां दाबणां धरिल्लीं कांय कडेन कुंवलेय जाल्ले. सामकें सुशेल करपाक योग्य श

ुशेलाचें वादीन म्हजे जिबेक उदक सुटलें.

हांवें टॅक्सी ड्रायव्हराक थंयची म्हायती विचारपाक ुरवात केली. तांणे सांगलें, हांगा शेत मळे रोयतात खंय. ांचें मुखेल जेवण शीत, दाळ आनी नुस्तें. थंय न्हंयोय आसात ानी दर्याय लागीं. ताका लागून दर्याचें आनी सार्वे अशें ोनय तरेचें नुस्तें थंय मेळटा. सुकें नुस्तेंय खूब मेळटा खंय. जेतें ना जाल्यार खारें तरी नुस्तें तांकां जेवणांत जायच आसता खंय!

आमच्या ड्रायव्हराचें नांव स्वदेस. हांवें ताका सांगलें आमीय जिवें खारें सगळें तरेचें नुस्तें खातात म्हणून. तो बरो खोशी जालो. नुस्त्याचीं नांवां मात तार्णे सांगलीं तें कांयच कळ्ळें ना. तो हिंदी उलयतालो पूण आमकां समजूंक मातशी जड जाताली. तो मर्दीच कोकबोरोक भाशाय भरशितालो.

भायली सोबाय तोखेता सर आमची टॅक्सी एका भव्य दारा मुखार उबी रावली.

आमी त्रिपुरा युनिव्हरसिटींत पाविल्लीं. आमच्या ड्रायव्हरान वॉचमॅनाक तांचे भार्शेत किर्ते तरी सांगलें. तार्णे दार उगडून दावे वटेन हात दाखोवन 'बाम णे' म्हळें.

तांणे सांगलें, बाम म्हळ्यार वाम, दावें वरच्या रस्त्यान वच म्हणून सांगलां, तांचे भार्शेत संस्कृत उतरां खूब आसात.

युनिव्हरसिटीची भव्य इमारत पळयत आमी मुखार सरलीं. आमची टॅक्सी एका दोन मजली इमारती मुखार येवन उबी रांवली. तितल्यांत आनीकय एक टॅक्सी येवन उबी रावली. तातुंतल्यान एक बायल देंवली. म्हाका कळ्ळें हीय आमचे वरी साहित्य अकादमीचे कार्यावळीक आयल्या म्हणून.

गेस्ट हावजाच्या कांवटराचेर आमची वळख जाली. ती डोगरी लेखीका निर्मला जैन जम्मुच्यान आयिल्ली. आमी रजिस्टराचेर नांवां बरयता सर एक रिक्षा येवन थांबली. तातुंतल्यान संथाली कवयत्री यशोधा मुर्मू आयिल्ली.

आमी आमच्या रुमार वचून न्हांवन-धुवन जेवणाची वेवस्था पळोवंक सकल आयलीं. त्या दिसा आमकां दनपारचें जेवण दिवपा विशीं कांयच कळोवं नाशिल्लें. तितले सर निर्मला आनी यशोधाय सकल देंवलीं.

आमकां थंयच्या एका मनशान सांगलें, भायर बरें पयस म्हळ्यार युनिव्हरसिटीच्या कॅम्पसा भायर हॉटेलां आसात म्हणून. त्या वेळार थंय रिक्षा बी कांयच मेळना म्हणून कळ्ळें. आमी चलत वचपाची तयारी करता सर, आमची व्यवस्था करूंक सांगिल्ली ती हिंदी डिपार्टमेंटाची शिक्षिका आयली. ती आमकां जेवपाक व्हरपाक आयिल्ली.

तिर्णे आमकां बाजारांतल्या एका हॉटेलांत जेवपाक व्हेलीं. तें हॉटेल ल्हानशेंच आसलें. जेवण बरेंच आसलें. तांबड्या तांदळाचें शीत, दाळ आनी तरेकतरेच्यो चार-पांच भाज्यो, ते भायर वांयग्यांच्यो आनी केळ्यांच्यो फोडी. तांच्या जेवणांत खंय वांयगें आसताच. ताची भाजी, दाळींत फोडी ना जाल्यार तळिल्ल्यो तरी वांयग्या फोडी आसताच. आमी सगळीं नुस्तें खातात म्हणून कळटकर तळिल्लीं कसलीं तरी पोरत्तां हाडलीं.

संथाली कवयत्री यशोधराक बंगाली भाशा कळटाली. तिर्णे त्या नुस्त्याचें नांव विचारलें. आमकां तें म्हणूंक सुद्धा कळ्ळें ना. पूण रुचीक. आमच्या चणाकां वरी. हॉटेलांतलें वेटर आमी तांच्या यरा आयिल्ले वरी आग्रो करून वाडटाले. हांगाचीं मनशां बरीच म्हणपाचो अणभव आमकां आयलो.

म्हाका आनी अनिलाक रातचें जागरण जाल्लें. आमी रुमार वचून न्हिदपाचो बेत करतालीं. पूण निर्मला आनी यशोधान अगरतला फिरून येवया म्हणून आग्रो केलो. आमीय तयार जालीं. आमकां विमानतळा वयल्यान हाडपी स्वदेशाचो मोबायल नंबर हांवें येतिल्लो, आमकां फिरपाक व्हरतलो मूं म्हणून विचारुनय दवरिल्लें. यशोधान ताका फोन करून आपयलो. ताचे कडेन पयशांचें वांटपण करपाक हॉटेलांतले लोक आनी हिंदी टिचर मुद्दम आयलीं. तांचे भाशेन ड्रायव्हरा कडेन पयशे थारावन आमकां धाडलीं. टॅक्सींत बसले बरोबर हांव न्हिदलें.

सगळयांत पयलीं आमकां स्वदेशान उज्जयंता पॅलेसांतलें वस्तू संग्राहलय दाखोवंक व्हेलीं.

हो उज्जयंता पॅलेस १९०१ सालांत बांदला खंय. अगरतलांतलें हें मुखेल स्मारक. हो राजवाडो मुघल-युरोपियन पद्दतीन बांदला. ८०० एकर इतल्या व्हड जाग्यार हो बांदला. आतां तातूंत थोड्या भागांत विधानसभा संकूल केलां. आनी थोड्या भागांत वस्तु संग्राहलय. ते भायर राजवाड्या भायर सोबीत बाग केल्या. तातूंत ल्हान-ल्हान तकुल्या केल्यात. तातूंत कमळां रोयल्यांत. शिवाय कारंजीं. तरेकवार फुलांचे तारवे, ल्हान व्हड सांकव करून त्यां बागेची सोबाय वाडयल्या.

विधानसभा संकुलांत सगळ्यांकच वचूंक मेळना. फकत सांजेच्या तीन ते चार वरां मजगती पास येवन भितर

वचूंक दितात खंय. पूण आमी विधानसभा पळोवचें परस वस्तु संग्रहालय पळोवपाचें थारायलें.

वस्तु संग्रहालय म्हळ्यार थोड्यांक मेल्ली मडींशीं दिसतात. म्हाका इतिहासाची आवड. म्हणून सदांच वस्तु संग्रहालयां पळोवपाक आवडटात. वस्तु संग्रहायल ह्या राज्याचो इतिहास सांगता. त्या त्या वेळच्या समाजाचें पडबिंब दाखयता. म्हणून खंयी गेल्यार हांव शक्य तेन्ना वस्तु संग्रहालय पयलीं पळयतां.

स्वदेशान गाडी गार्डना भायर उबी केली आनी आमकां एका वरा भितर वस्तु संग्रहालय पळोवन येयात म्हणून सांगलें. मागीर तो आमकां बांगलादेश आनी त्रिपुराचे शिमेर व्हरपा आशिल्लो. आमी भव्य गेटींतल्यान भितर सरलीं. राजवाडो बरोच भितर आसा. राडवाड्या म्हऱ्यांत वचपाक बॅटरी वयल्यो गाडयो दवरिल्ल्यो. आमी गाडयेची तिकेट काडून भितर बसलीं.

सोबीत बाग तोखेता सर आमची गाडी राजवाड्याच्या भव्य दारांत पावली. हें एकेतरेचें दार. मुखेल दार विधानसभेंत भितर सरपाक दुसरे वटेन आसा. थंयचो एक वाटाडो घेवन आमी भितर सरलीं. सुर्वेकच चुडटां पसून सुंदर कलाकृती करून दवरिल्ल्यो. त्यो तोखेवन आमी मुखार गेलीं.

एका सालांत फोटो लायिल्लो. त्रिपुरांत उनाकोटी हांगासर फातरांत कोरांतिल्लें सुंदर नक्षकाम आसा खंय! आख्खो पाशाणी दोंगरच कोरांतला खंय! ती सगळी नक्षकारी एका रातयांत केल्या अशी काणी सांगतात. थंयच्या नक्षकारीचे फोटो ह्या दालनांत दवरिल्ले. त्या सगळ्या फोटवां सकयल थंयची म्हायती बरयिल्ली. तीं चित्रां पळोवन आमकां थंय वचन दिसलें. पूण तो गांव बरोच पयस आसा खंय! आमी आनी दोन दीस राविल्लीं जाल्यार घडये थंय वचूंक मेळटलें आसलें.

बंगलादेश आनी त्रिपुरा हांगाच्यान गोमती न्हंय व्हांवता. तिचे देगेर आठव्या-णवव्या शेंकड्यांतल्या विरांचीं घरां, कुडी मेळ्ळयात. तांचेर सोबीत बरें कोरीव कामय केल्लें आसा. थंय थोड्यो नागड्यो मुर्तीय मेळ्ळयात. तांचे फोटो हांगा लायल्यात आनी म्हायती बरयल्या.

दुसऱ्या दालनांत आनाकोंडा, तरेकवार पक्षी, तरेकवार जनावरां भुसो भरून दवरल्यांत. तांचें राज्य फूल नागकेशर, नागचार्फे हांचेय फोटो वचत थंय लायल्यात.

एका दालनांत सातव्या शेकड्यांतल्यो मुर्ती दवरल्यात. लाकडांत कोरांतिल्लीं जीव जिवाणींय दवरल्यांत.

ह्या वस्तु संग्रहालयांतलें खाशेलेंपण म्हळ्यार रविंद्र दालन. रविंद्रनाथ टागोर खूब फावटी अगरतला येवन ह्या राजवाड्यांत रावताले. थंयच्या राजाची आनी तांची बरी इश्टागत आशिल्ली. गरमेच्या दिसांनी राजाच्या कुटुंबा बराबर ते नीर महालांतय वचून रावताले. तांकां बरोवपाक निवांतपणा जायसो दिसलो काय ते हांगा येवन बरोवपाक बसताले खंय!

तांचीं यादस्तिकां हांगा दोन तीन दालनांनी मांडून दवरल्यांत. शांतिनिकेतनांतल्यान तांचे फोटो, मुर्ती, पुस्तकां, तांणी काडिल्लीं थोडीं चित्रां ह्या संग्रहालयांत दवरूंक दिल्यांत.

ह्या दालनांत भितर सरतनाच पयली जी कूड मेळटा तातूंत रविद्रनाथांची लाकडांत कोरांतिल्ली, बशिल्ली म्हजे येदे उंचायेची मुर्त दवरल्या. ती पळोवंक खऱ्यानीच रविंद्रनाथ थंय बसल्यात अशें दिसता. चड करून ते मुर्तीचे दोळे सामके जित्या मनशाचे कशे दिसतात. तश्योच मुर्ती थंयचे राजा आनी व्हड व्हड लोकांच्योय कोरांतून दवरल्यात.

हांगाच्या एका सालांत रविंद्रनाथांचीं खुबशीं पुस्तकां मांडून दवरल्यांत. ते भायर तांचें जिवितकार्य सांगपी, वेगवेगळया लेखकांनी बरयिल्लीं पुस्तकांय दवरल्यांत. कोलकाताच्या ललीत कला अकादमींतल्यानय रविंद्रनाथांचीं चित्रां हांगा दवरपाक दिल्यांत. खरें म्हळ्यार म्हाका ती बरीं करून थंडसाणेन पळोवंक जाय आसलीं. पूण आमचे कडेन चड वेळ नाशिल्ल्यान आमी धांव-धांव करून तें सगळें पळयलें.

एका दालनांत कपड्याचेर केल्लें भरत काम दवरलां. सामक्या नाजूक टाक्यांनी भरतकाम केलां. सुतांचे रंग बी अजुनय बरे आसात. साडयो पुराय आंगभर भरल्यात.

त्रिपुराचें आनीक एक खाशेलपण म्हळ्यार बेताचें काम. हांगा बांबू चड. ताका लागून बेताच्यो कला कुसर केल्ल्यो वस्तू वचत थंय दिसतात. ह्या संग्रहालयांतय बेताचें नाजूक काम केल्ल्यो तरेकवार वस्तू दवरल्यात. सुपां, आयणें, पांटले ह्यो सदच्यो वस्तू तर आशिल्ल्योच, पर्शी तर सुंदर सुंदर आशिल्ल्यो. ते भायर कोणाच्यो मजेशीर मुर्ती, म्होंवाळीं म्हळ्यार तोंडां, गणपती आनी हेर देव हांच्योय मुर्ती आशिल्ल्यो.

एका दालनांत तर आदिवाशींचीं घरां, तांचो संवसार, रिती रिवाज, सण परबो, शिकार खेळप सगळें दाखयल्लें. हांगाचें सगळे पुतळें जिते-जिवे कशे, तरेकवार कृती, हावभाव

खोवपी. देखीक नाच करतना, घरकाम करतना, देवदेवस्पण रतानाचे पुतळे दवरिल्ले. तांचीं चादीचीं, पितुळचीं, हाडांचीं ांगरां शिंगरां, कपडे सगळें मांडून दवरिल्लें.

एका दालनांत राजा, महाराजा, राणयो, तांचो परिवार ांचीं चित्रां, तांच्यो वापरांतल्यो वस्तू सगळें सगळें दवररिल्लें. ानीकय जायत्यो गजाली थंय आशिल्ल्यो. सगळ्या विशीं ांगा बरयत बसना. तर धांवून - धांवून म्हणटा तशें आमी स्तू संग्रहालय पळोवन भायर सरलीं. गाडयेंत बसून गेटी डेन आयलीं.

स्वदेश तयारच आशिल्लो. आमी टॅक्सींत येवन बसलीं. ातां आमकां बांगलादेश आनी अगरतला हांचे शिमेर झेंडो देंवोवपाची कार्यावळ पळोवपाची उमळशीक लागिल्ली. वदेशान आमकां सांगिल्लें, बेगीन गेल्यार मुखार बसून ही कार्यावळ पळोवपाक बरी मजा येता म्हणून.

पंजाबांतल्या आमच्या अटारी आनी वाघा शिमेचेरय झेंडो पळोवपाक बरी मजा येता अशें आयकल्लें. थंय वचपाचो काय अजून योग येवूंना, हांगा तरी पळोवया म्हणून उमेदी आशिल्लीं.

वाटभर आमी गोंयांतल्या एकाद्या गांवांतल्यान वतात अशेंच वातावरण आशिल्लें. स्वदेशान आमची टॅक्सी एका भव्य अशे गेटीचे बरीच पयस उबी केली. गेटीच्या दारांत आर्मी येवन सैनीक उबे आशिल्ले. ताचे वेल्यान आमी शिमेर पावलीं म्हणून कळ्ळें.

आमी मोठे उमळशिकेन गेटी म्हर्‍यांत गेलीं. थंय एका सैनिकान आमकां सांगलें, त्याच दिसा तांकां ऑर्डर आयिल्ली खंय, कोरोना पासत प्रवाशांक भितर येव नाकात म्हणून. खरें म्हळ्यार तेन्ना दिल्ली निकत्योच कोरोनाच्यो केसी मेळपाक लागिल्ल्यो. पूण खबरदारी म्हणून प्रवाशांक भितर येवंक बंदी घाल्ली. आमी निर्शेलीं.

ते गेटी भितर व्हड मळ कर्शे आशिल्लें. मळ सोंपता थंय सरयांचें कुंपण कर्शे आशिल्लें. तीच भारत आनी बांगलादेशा मदली बॉर्डर म्हूण सैनिकान सांगलें. ते गेटींतल्यान जितलें दिसता तितलें पळयात म्हणुनय सांगलें. 'नशिबाचो सांगात नासल्यार तारी कडेन पावपाक व्हडें सुट्टा' अशें आजी म्हणटाली, ताची याद आयली. गेटी म्हर्‍यांत पावून लेगीत ती कार्यावळ आमकां पळोवंक मेळ्ळी ना!

ते व्हडले गेटीक तेकून एक ल्हान गेट आशिल्ली. आनी थंयच्यान लोक यो वच करताले. भितर मेज घालून सैनिका म्हर्‍यांत तांची तपासणी जाताली.

आमी ह्या सैनिका कडेन ते विशीं चवकशी केली. जे थंयच्यान येताले ते खंय भारतीय. ताचो काम धंदो शेत-मळो, बांगला देशांत आसा. ते सकाळचे पासपोर्ट दाखोवन बांगला



देशांत वताले. तांची बांगला देशाचे शिमेचेर तपासणी जाताली. तशेच बांगला देशाचे लोकय सकाळचे येवन सांजवेळा परतताले. तांचीय तशीच तपासणी जाताली. अशें दोनय देशांतल्या लोकांचें सदांच येवप वचप आसता खंय!

बांगला देशाचे शिमेर चडशीं खेडी. ब-योच गजाली तांकां थंय मेळनात. त्यो घेवंक तांच्या शारांनी वचप तांकां पयस पडटा. ते परस त्रिपुरांत येवन त्यो वस्ती घेवप तांकां लागी जाता. शिमेवेले दोनय वटेचे लोक अशे तरेन यो-वच करत आसतात. आमकां मजाच दिसली. म्हाका आमचें बाजार करूंक बेळगांव-हुबळी वचप येवजलें. हांवें यशोदाक आनी निर्मलाक सांगलें, आमीय अशींच खरेदीक वतात म्हणून. फकत आमकां पासपॉर्टाची गरज नासता.

पयसुल्ल्यान कांय जायना बांगला देशाची शीम पळयली इतलेंच समाधान घेवन आमी परतलीं.

मागीर आमकां स्वदेशान कृष्णाच्या देवळांत व्हेलीं. भायल्यान पळोवपाक तें देवूळ कशें दिसनासलें. देवळा भायर एक ल्हानशें तळप आशिल्लें. ताचेर लोक येवन येवन मेणवाती पेटयताले. देवळा भायल्या जाग्यार मात पणटयो पेटोवन दवरिल्ल्यो. भितर आमच्या देवळां भशेनूच देवूळ. रूंद, बरे वाटकुळे खांबे बी आशिल्ले. गर्भकुडी भायर मडकेवरीं , तांबड्या कपड्यांत गुठलायल्लें किर्ते तरी, नाल्ल, हळद-पिंजर आशिल्लें किर्ते तरी आशिल्लें. ताचेर फुलांय घाल्लीं. यशोधान आमकां सांगलें तें आदिवासींचें देवस्पण म्हणून. आमी दर्शन घेवन भायर सरलीं.

हो उर्देते कडचो वाठार जाल्ल्यान सुर्य बेगीनच मावळटा. पांच वरांचेर तिनसांजचीं सात वरां जाल्ले वरी दिसतालीं. आमकां बाजारांत वचूंक जाय आसलें. पूण वेळ जालो म्हणून स्वदेशान आमकां गेस्ट हावजांत पावयता म्हळें. निर्मलाक बेताच्यो वस्तू घेवंक जाय आसल्यो. तार्णे ड्रायव्हराक सांगलें, 'तसलीं दुकानां वाटेर मेळ्ळीं जाल्यार गाडी थांबय.'

स्वदेशान वाटेवेल्या एका दुकाना मुखार गाडी थांबयली. दुकान वयर. म्हाका आनी यशोधाक कांयच घेवपाचें नाशिल्लें पूण तांकां सांगात दिवंक गेलीं. हें दुकान म्हळयार तांचें घर बी. निर्मला यशोधनाच्या आदारान खरेदी करतालें.

खंयी वता थंय म्हाका खरेदी करपा परस थंयच्यो नविदादी पळोवपाक, थंयच्या लोकां कडेन उलोवपाक आवडटा.

हांव आनी अनील गॅलरींत येवन उबीं रावलीं. थंय त्या घरांतली बायल आशिल्ली. हांवें तिका तांचे चाली रिती विशीं विचारलें.

सगळ्या भारतीयांच्यो सण परबो तशो एकच. पूण मनोवपाची तरा मात वेगळी-वेगळी. तींय चवथ, दसरो, दिवाळी, लक्ष्मी पुजन, होळी सगळे सण मनयतात. पूण मुखेल सण दुर्गा पुजा. प्रत्येकाच्या घरांत दुर्गा पुजा आसताच. तरी सार्वजनीक दुर्गापुजा मोठ्या दबाजान मनयतात.

इतल्यांत सकल तुळशी कडेन एक बायल पणटी पेटोवंक लागली. तें पळोवन म्हाका देवळा भायर पेटयल्ल्यो मेणवाती येवजल्यो. हांवें तिका विचारलें, तुमी देवाक पणटी आनी मेणवाती दोनय दाखयतात? तिर्णे म्हळें,- हय, भायर तुळशी मुखार पणटी आनी मेणवात दाखयतात, पूण घरांत निरंजन, दिवली दाखयतात.

तांची खरेदी जातकच आमी वाटेक लागलीं. इतल्यांत स्वदेशान टॅक्सी हळू केली. भायर गाडयांची गर्दी आशिल्ली. स्वदेशान आमकां दावे वटेनच्यान पळोवंक सांगलें आनी म्हळें, ही अगरतलाची मुखेल लायब्ररी. केदी व्हड लायब्ररी आशिल्ली! आरे बाबा! तिचे मुखार गाडयो दवरूंक व्हडलें मळ आशिल्लें. तातूंत भरपूर पुस्तकां आसात खंय! हांवें ताका पिशां भशेन विचारलें,- ''इतलीं पुस्तकां हांगाचें लोक वाचतात?''

स्वदेशान हांसून सांगलें,- तार्णे साहित्यांत एम.ए केल्या आनी आपल्याक वाचपाची खूब आवड आसा. थंयच्या चडशा लोकांक वाचनाची आवड खंय!

ते लायब्ररीक तेकुनच व्हड माटोव घाल्लो. लायटींचो चकचक आनी लोकांची आकांत गर्दी. थंय कार्यावळीय चालू आसल्यो. स्वदेशान सांगलें हांगा मेला आसा म्हणून. इतलेसर आमची टॅक्सी बरीच मुखार गेल्ली म्हणून म्हाका ब-याक पडलें. यशोधाक आनी निर्मलाक तो मेला पळोवपाची उमेद आसली. म्हजे मात पांय दुखताले.

म्हयनो भर पयलीं हांव रस्त्यार निसरून पडिल्लें. तेन्ना म्हज्या उजव्या पांयांची खिळी बरीच दुखाविल्ली. ती अजुनय बरी जावं नासली. चड चल्ल्यार म्हाका त्रास जातालो. रातीं तर दिल्ली विमानतळाचेर चलून -चलून पांय बरोच दुखावल्लो. तातूंत आजय चलिल्लें. रिक्षा मुखार पाविल्ल्याचें निमित्त धरून हांवें मेला फाल्यां पळोवया म्हळें.

रातचीं रुमार पावता सर आठ जालीं. बरीच थंडी ल्ली. बाकी सगळ्यो कवयत्री, तांच्यो सांगाती पाविल्ले. ळीं जेवणाच्या सालांत आयलीं.

जेवणाक शीत, दाळ, टेंगडा म्हळ्यार सांगटाचें धबीत आनी वांयगें, बटाट हांच्यो फोडी. बरोबर चपाती तशेंच ठी चटणी म्हळ्यार टमाटां शिजोवन बरो गोडसो पदार्थ केल्लो. ची दाळ बरी लागताली. पूण ते लोक सांगटाच्या धबधबीतान लोवन जेवतात तें पळोवन आमीय तशींच जेवलीं. त्या धबीतांत सोय नाशिल्ली, पूण मेथो बरो रुचीक जाल्लो.

सगळयां कडेन वळख करून येत आमी जेवण पयलें. बरींच जाणां पयले खेपो आयिल्लीं. एकामेकाचो निरोप वन आमी न्हिदपाक आयलीं.

सदचे भशेन म्हाका फांतोडेरच जाग आयली. आज लपाक वचपाचो वावर नाशिल्ल्यान मात्सो वेळ लोळ्ळें. रोखडेंच ठून तोंड बी धुंवून उदकाची बाटली येवन गॅलरींत आयलें. यर बरीच थंडी आशिल्ली. कुडकुडो खातालो. हांवें भितर वन स्वेटर घालो.

फांतोडेर काळखाची पसय पातळ जायत वता आनी ोस उदेता तें पळोवंक म्हाका खूब आवडटा. तो पळोवपाच्या त्वान हांव भायर आयिल्लें. पूण भायर सामको उजवाड जाल्लो. ाडांच्यो तेंगश्यो भांगरायिल्ल्यो. म्हळ्यार वतय येवपाक सुरवात जाल्ली. यदयाळांत तर स च वरां जाल्लीं.

मागीर म्हाका याद जाली. काल पांचाकच तिनसांज जाल्ली. आनी स साडे स म्हळ्यार सामको काळोख जाल्लो. ंगां दीस बेगीन मावळटा तशी फांतोडय चार साडे चार म्हळ्यारच जाता खंय.

आतां भोवतणचें सैम चकचकीत दिसतालें. हॉस्टेलांतले फाटले वटेन झाडांत लिपिल्लो रस्तो आशिल्लो आनी तिनय वटेन सोबीत सैम. व्हड झाडां, ल्हान झाडां पक्षांच्या किलबिलान भरिल्लीं.

मुखारच व्हड तळें आशिल्लें. तातुंतलें अर्द उदक सुकिल्लें. तळेंभर बदकां, बकीं आनी पाणपक्षी उठ-बस करताले. ह्या तळ्या वयर एक रूंद पट्टो आशिल्लो आनी ताचेर गच्च केळी, पोपायो, अनसां रोयल्लीं. गेस्ट हावजाचे भोंवतणीय सोबेचे माड, सोबेचीं झाडां रोयल्लीं. लायटीय बऱ्यो घाल्ल्यो. सरभोंवतणी आशिल्ल्या लॉनाचेर बरेच मोठे पारवे बशिल्ले. चडें पारवें चॉकलेटी काळसर रंगाचे. आनी खुबच साळोऱ्यो कर्कश आवाज काडत उठ बस करताल्यो. सकाळचें हें चित्र कितलोय वेळ पळयत रावंक म्हाका आवडटा. पूण हातांत च्या चें कोप जाय आसलें.

हांवें रुमा भायर येवन जेवणा सालांत पळयलें. एक मद्रासी जोडपें बसून च्या पितालें. अनील जागोच आसलो. च्या तयार आसा म्हूण तो रोखडोच उठलो.

साहित्य अकादमीचो कार्यक्रम धा वरांचेर ह्याच कॅम्पसांत जावपा आसलो. णव वरांचेर आमकां व्हरूंक गाडी येतली म्हणून सांगिल्लें. आमी नाश्तो येवन तयार जालीं आनी सकल आयलीं.

हिंदी डिपार्टमेंटांत आशिल्ल्या हॉलांत आमची कार्यावळ आसली. मल्लां आनी कोंड्याच्या आदारान आमकां येवकारपाक सुंदर आर्क तायर केल्लें. त्या सोबीत आर्कांतल्यान आमी भितर गेलीं. हिंदी आनी हेर डिपार्टमेंटांतले शिक्षक, विद्यार्थी आमची सरबराय करूंक तयार आशिल्ले.

हॉल तांचे खास पद्धतीन सजयल्लो. हातमागार विणिल्ले देड वेंत रुंद आनी लांबचे लांब पट्टे कशे वा मफलरय म्हणू येता अश्या त्या पट्ट्यांचीं फुलां चित्रां केल्लीं आनी वचत थंय हुमकळायिल्लीं. खंयच फुलांची आरास दिसली ना.

दिवली दवरिल्ली ती तर पळोवपा सारकीच! पोंदा ल्हानसो उथळ खोंटलो. मदीं लांब कोंडो. मदीं परतय एक दाली कशी आनी वयर पणटी. ती पणटी पेटोवन कार्यावळीचें उद्‌गाटन केलें. मुखेल सोयऱ्यांक एक एक फूल दिलें आनी पारंपारीक मफलर तांच्या गळ्यात घालें.

पयल्याच सत्रांत म्हजें कविता वाचन जालें. हांवें हिंदीतल्यान कविता वाचिल्ल्यो. म्हज्यो कविता खूब जाणांनी मागून घेतल्यो. हांवें कवितांच्यो प्रती काडुनय व्हेल्ल्यो. जेवणा वेळार दोग-तीग जाणांनी म्हजी 'दर्या असोच गाजतलो' ही कविता म्हणून घेतली. आमी हांगा एकामेकाची तोखणाय करपाक फाटीं. पूण थंयें लोक मात मन मेकळेंपणान एकामेकाची तोखणाय करतात. हो अणभव हांवें साहित्य अकादमीचे कार्यावळीक जंय-जंय गेलां थंय-थंय घेतला.

सकाळचीं दोन सत्रां जातकर आमकां जेवण आशिल्लें. हांगा शिवराक जेवण आशिल्लें. शीत, दाळ तर आशिल्लेंच, ते भायर चार-पांच तरेच्यो भाज्यो. तातूंत



कुंवल्याचीय वेगळेच तरेची भाजी आशिल्ली. ते भायर वांयगीं आनी कसल्यो कसल्यो फोडी तळिल्ल्यो. टॉमेटोची चटणी तर आशिल्लीच. आनी खास गोडशें म्हणून रसगुल्ला आशिल्ले.

थंय आमची वळख मराठी लेखिका माधवी घारपुरे हांचे कडेन जाली. 'श्वास' ह्या नामनेच्या सिनेमाची कथा तिणें बरयल्या. तीय आपल्या घरकारा वांगडा आयिल्ली. आमचे भशेन थंय एक दीस चड रावन त्रिपुरा फिरपाक वचपाचें तांणी थारायलें. हांवें आमचो बेत सांगतकर तींय आमचे वांगडा येवंक तयार जालीं. वचपाचो बेत थारावन आमी हॉलांत आयलीं. कथा संत्रांत माधवी घारपुरेन सुंदर कथा सादर केली. निर्मलाचीय कथा खूब सुंदर आशिल्ली.

सांजचीं सत्रां सोंपतासर स वरां जालीं. भायर बरोच काळोख आसलो. तरीय आमी पांच-स जाणांनी कालचो मेला पळोवपाक वचपाचें थारायलें. थंय चडशीं वाहनां मेळनात, तातूंत रात जाल्ली. पूण जाळवणदारांनी तांचे गाडयेन आमकां मेला आसा थंय पावयलीं.

आज आयतार आशिल्ल्यान थंय बरीच गर्दी आशिल्ली. एक लोट भितर वतालो, तसोच एक लोट हातांत पिशव्यो घेवन भायर सरतालो.

मोठे उमळशिकेन आमी भितर सरलीं. तें पुस्तकांचें प्रदर्शन आशिल्लें. प्रत्येक मांड पुस्तकांचो आनी ताचेर गर्दी. तीं पुस्तकां घेतालेय बी. आमकां तातुंतलें एक अक्षर कळ नाशिल्ल्यान आमी थंय सुशिक्षीत अनाडी. यशोधान बंगालीं तांकां कितें कितें विचारलें. थंय अशे पुस्तकांचे मेळे वर्सा दोन वेळां तरी भरतात खंय. आनी लोक अशीच गर्दी करू येवन पुस्तकांय घेतात खंय. पुस्तकां खूब खपतात खंय. आयकू बरें दिसलें.

काल स्वदेशान थंयच्या वाचप यरा विशीं सांगिल आनी आज आमी प्रत्यक्ष दोळ्यांनी लोकांचें पुस्तकांचें प्रे पळयलें. चुकून एक दोन दुकानांनी थोडीशीं इंग्लीश पुस्तक आशिल्लीं. तींय कंप्युटराचेर बी. आमी अनाडी थंयच्यान रोखडीं परतलीं.

रातच्या जेवणाक कतला नांवाचें रुचीक नुस्त आशिल्लें. ती नुस्तें वाडपी 'रूई फिश, रूई फिश खाक देखीये' म्हणून आग्रो करताली. म्हाका दिसलें नुस्त्याचें नां रूई म्हणून. मागीर मणिपुरी कवयत्रीन सांगलें, नुस्त्याचें नां कतला, आनी रूई म्हळ्यार रूचीक खंय.

दुसऱ्या दिसा चडशीं जाणां वचपाचे गडबडेंत आसलीं साडे आठांक स्वदेश टॅक्सी घेवन येवपा आशिल्लो. ताच्या वांगडाच माधवी आनी तिचो घरकार येवपा आसलीं.

आमी बेगी बेगीन नाश्तो घेवपाक आयलीं. थंय आमक इतिहासाचे प्राध्यापक डॉ. रविंद्र कुमार महोपात्रा मेळ्ळे. ते गेर

वजाचें वेवस्थापन पळयताले. तांणी मुद्दम म्हजे कडेन वळख
रून घेतली आनी किर्ते-किर्ते पळोवपा सारकें आसा तें
गलें. ते सर सदांच सकाळचें गेस्ट हावजांत येवन थंय किर्ते
लां, किर्ते जाय नाका पळोवन वताले. आमची टॅक्सी येतकर
मकां खंय खंय व्हर तें तांणे ड्रायव्हराक सांगलें.

आपल्या घरा वतल्या कवयत्रींचो निरोप घेवन आमी
डयेंत बसलीं.

आमची टॅक्सी मुखार वता तशी गोंयच्या एका
वगिऱ्या वाठारांतल्यान आमी वतात काय दिसतालें. वाटेर
तां, मर्दी मर्दी तकुलां अशेंच सगळें वातावरण आशिल्लें.
ळ्यांतलें नुस्तें खावंक बळारी, बकीं, किरकिरे हेर पाणपक्षी
ची लगबग दिसताली. कोंडया आळी मात वचत थंय
सताल्यो. म्हणुनच थंय बेताच्यो वस्तू चड मेळटाल्यो. थंय
डशे लोक बेताच्यो तरेकवार वस्तू करून विकताले. तरातरांच्यो
र्णी, माथ्याक लावपाचीं क्लिपां अशें जायतें किर्ते किर्ते
रतालीं. प्रवाशांकय तांचें आकर्शण. जम्मुचे लेखीकेन पयल्याच
सा तिनेक हजारांच्यो वस्तू घेतिल्ल्यो.

वाटेर च्या चे मळे दिसले. बिल्डिंगो, व्हड व्हड दुकांनां
ंयच दिसलीं नात. वाटेर बाजार आशिल्लो. पूण गोंयांत
ठ्यार भरतात तसलो. चुकून खंयी एक-दोन मजली बिल्डिंगो
सताल्यो. रस्त्यार वाहनां आसलीं.

आमचे बराबर आयिल्ली माधवी घारपुरे उत्तम कथाकथन
रपी. तिच्या घरकारान तिची मोबायला वेली एक कथा
ायकुपाक दिली. काळजाक हात घालपी तिची कथा
ायकतासर स्वदेशान आनी एके कडेन दोंगुल्लेचेर गाडी
ांबयली.

आमी गोमती न्हंयचे देगेर वशिल्ल्या एका गांवांत
ाविल्लीं. थंय एक वेगळेच तरेचें देवूळ आशिल्लें. मनशा
तल्या उंचायेच्या चवथ्यार तें देवूळ आसलें. तांबडया फातरांचें.
यर लांबसो घूड सो. कळस बी काय ना. पूण देवळा म्हऱ्यांत
चूंक मेळऽ नासलें. पुजारी आयल्या बगर दुर्गाची गेट कोण
गडनासलो, आमचे वरी आनीकय प्रवासी थंय आयिल्ले.

भायर एक बोर्ड आशिल्लो तो आमी वाचूंक लागलीं,
ं देवूळ चारचाला पध्दतीन बांदलां खंय. म्हणून हें देवूळ आमच्या
नदच्या देवळा भशेन दिसनासलें. हे पध्दतीचीं देवळां आनीकय
ासात खंय!

ह्या भुवनेश्वरीच्या देवळांत देवीची मूर्त ना खंय. ह्या
देवळा मुखार मातशें पयसच दोन ल्हान देवळां आसलीं. थंय
एका देवळांत भुवनेश्वरीची मुर्त आसा. आनी शेजारा दुसरें
देवूळ आसा तें म्हादेवाचें.

पुजारी येवंक वेळ आसत म्हणून आमी वयल्या
देवळांत गेलीं.

त्या देवळांत वचून येतासर पुजारी आयिल्लो. तो
दार उगडून भितर वचून नितळसाणीचें काम करतालो. त्या
देवळांत गाभारो म्हणून वेगळो नाशिल्लो. फाटले वण्टीक
तेंकून मातसो उंच चौथरो आशिल्लो. ताचेर देवीची मुर्त आशिल्ली
खंय. तें रिकामें देवूळ पळोवन आमी भायर आयलीं.

रघुपती पुजारी उलोवपाक बरो. ताणें आमकां थंयची
सगळी माहिती सांगली. ह्या देवळांत खंय खूब पयलीं जात्रे
वेळार नरबली दिताले. त्या राज्याचो राजा गोविंद माणीक
आनी ताचो भाव जयसींग राव तें राज्य बरे तरेन चलयताले.
एक दीस कित्याक तरी लागून तांचे मर्दी व्हड झगडें जालें.
तेन्ना रागान त्या वर्सा जयसींग रावान आपलोच बळी दिलो.

तेन्नाच्यान थंय बळी दिवपाची पध्दतच बंद केली.
एक आख्यायिका सांगतात. ह्या देवळांतली नरबळी दिवपाची
पध्दत रविंद्रनाथ टागोराक कळटकच तांणी थंय बळी दिवपाची
पध्दत बंद करपाक लायली. खरें किर्ते तें इतिहास संशोधकान
सोदपाचें.

जयसींगरावान आपलो बळी दीत साकून त्या
देवळांतल्या मुर्तीचें गोमती न्हंयेंत विसर्जन केलें. जात्रा सुध्दा
बंद केली. मागीर केन्ना तरी भुवनेश्वरीची दुसरी मुर्त करून
ती भायले वटेन ल्हानशें देवूळ बांदून तातूंत बसयली आनी
सगळे उत्सव चालू केले. नरबळी मात बंद केलो.

पयलींचें देवूळ आतां प्रवाशां खातीर उगडें दवरतात.
आमच्या देवळा भायर पंचायतनाच्यो ल्हान-ल्हान घुमट्यो
आसतात तश्यो हांगाय देवळा भायर ल्हान व्हड घुमट्यो
आशिल्ल्यो.

ह्या देवळा कडल्यान मातशें पयस एका राजवाड्याचे
अवशेश आशिल्ले. बांदकाम बरें गडगंज. वयर खंयच पाखें ना
पूण गडगंज वणटी वोत पावस खायत उब्यो आसात. थंय
ल्हान-ल्हान कुडी, दरबार भरपाचो महाल, प्रार्थना महाल
आनी नृत्य मंडळ, हो चारय वटच्यान उगडो मर्दी मात गडगंज

माची. हे नृत्य मंडपाचे माचयेर मात छत आसलें. थंय नाच गार्णे जातालें खंय. थंयची जमीनय बरी सुळसुळीत आसा. ती आतां केल्या काय पयलींचीच म्हणून कळूंक थंय कांयच बरयल्लें ना. स्वदेश म्हणटा ती पयलींचीच खंय. नृत्य मंडपाच्या सकल बरें खोल आंगण आसा.

हो राजवाडो कितलो व्हड तो भायल्या आवाठा वेल्यान कळटालो. भायर बुन्यादीचे फातर दिसताले. थंय अजुनय मेला जाता खंय. त्या वेळार हे माचयेचेर कार्यावळी जातात खंय. मदल्या आंगणा भोंवतणी बांदून काडिल्लीं पाशाणी सोपणां शीं केल्यात. ताचेर बसून कार्यावळ पळोवपाची.

थंयच्यान भायर सरतनाच स्वदेशान म्हळें, अब त्रिपुरा सुंदरी के मंदीर जायेंगे. हे सांगतनाच ताचें तोंड बरें फुलून आयिल्लें. हांगा सगळ्यांकच त्रिपुरा सुंदरी देवीची व्हडवीक. आज आमी भोंवक वतात म्हणटनाच सगळ्यांचो आग्रो आशिल्लो त्रिपुरा-सुंदरीचें देवूळ पळयात म्हणून. त्रिपुराचें तें मुखेल दैवत खंय.

वाटेर शेतां आनी तळ्यांचें दर्शन येत आमची टॅक्सी वताली. मदींच एक शार कसो गांव आयलो. थंय एकाच जाग्यार कितलींशींच देवळां आशिल्लीं. देवळां पळोवंक धोली कश्यो तांबडींच. वयर कळस बी कांय ना. फकत लांबशेच घूड. म्हणटा म्हणसर आमी मातापुरी गांवांत त्रिपुरा सुंदरीच्या देवळा कडेन पावलीं. हें मातशें शार कशें दिसतालें.

थोडीशीं सोपणां चडून आमी वयर आयलीं. दावे वटेन देवीचे भेटेक व्हरपाचे पेडे, साडयो, शेले अशे तरेच्या सामानांचीं दुकांनां आसलीं. पेडे थंयचे थंयच करून दिताले. उजवे वटेन सदर्चीच दुकानां. तातूंत मुर्ती, देवीचे फोटो चड आसले.

अश्या जाग्यार वतकर थंयची माहिती सांगपी पुस्तिका घेवपाची म्हाका आवड. हांगा दुकानांचेर पुस्तकां आशिल्लीं. पूण सगळीं तांचे भाशेंत. हांवें हिंदी वा इंग्लिशींत पुस्तकां आसात काय विचारलें. हिंदी हरशीं आसतात खंय. पूण आतां सोंपिल्लीं. इंग्लीश हांगां कोणच घेनात म्हणून दवरच्च नात खंय. ह्या राज्यांत इंग्लिशीचो धातोमातो म्हाका खंयच दिसलो ना म्हणून बरें दिसलें.

आमी बरींच सोपणां चडून वयर आयलीं. देवळा कडेन वचपाचे वाटेर ल्हान ल्हान पांटल्यांत फुलां, ओडणी, उजवाती, रंग आनी मातयेचे मडकेंत पेडे दवरिल्ले. आमच्या देवळा कडे होटयेचें ताट कशें आसता तसो हांगा पांटलो. तातूंत चड तांबडे दसणीचे मदीं दुर्वा धरून केल्ले हार आशिल्ले. दुसर दिसा होळी आशिल्ल्यान रंगांचीं पाकिटांय आशिल्लीं.

बरोच वेळ मातशी चडटी चडून वतकच गाभारो दिसल हें बरेंच पोरणें देवूळ खंय. गर्भकूड जातकच मदीं रूंद उग जागो आनी मागीर भव्य बरो मंडप आसलो. लोक गाभार भायर रावनच आपणें हाडिल्ले पांटले भटा कडेन दिताले. भ देवीक आरत दाखोवन तांतलें थोडें सामान, फुलां काडू पांटलो परत दितालो. तातूंतली रंगाची पुडी उगडून हुंबऱ्य थोडो रंग घालून उरिल्ली पुडी प्रसाद म्हणून तीं घरा व्हरताल

गर्भकुडींत शिंवाचेर बशिल्ली अठरा हातांची दे आशिल्ली. तिच्या अठराय हातांत अठरा तरेचीं आयु आशिल्लीं. हें देवूळ प्राचीन शक्तीपीठ खंय. हांगा पय जायत्यो सोबीत-सोबीत मुर्त्यो आशिल्ल्यो. सद्या त्यो तुटक फुटक्यो मुर्ती शेजरा आशिल्ल्या संग्रहालयांत दवरल्यात. त कश्यो मोडल्यो हें आमी स्वदेशाक विचारलें. पूण ताका कां खबर नासलें. त्या तुटक्या फुटक्या मुर्तींतल्यानय तां कलाकुसर कळटाली.

नवरात्रांच्या दिसांनी हांगा व्हड जात्रा भरता खंय. जात्रेक राज्या भायलेय पर्यटक येतात खंय. ह्या देवीक नि शिवराकच दाखयतात. पूण बारा वरां उपरांत सद्दां बोकड्य बळी दितात. केन्ना केन्ना नुस्त्याचोय बळी दितात. देवीक ह्या बळींचो केन्नाच निवेद्य दाखयनात.

ह्या देवळा फाटल्यान एक तकूल आसा. तें शिमीट बांदून काडलां. तातूंत व्हड व्हड नुस्तीं आसात. पूण तीं नु कोणच काडून खायनात. त्या तळ्या म्हऱ्यांत तांदळाच्यो ल्ह विकपाक बशिल्ले. लोक त्यो घेवन नुस्त्यांक घालताले. नु वयर उडी मारून लेगीत त्यो ल्हायो तोंडांत जिखतालीं. कांसवय आसात.

तें तकूल पळोवन आमी परतलीं. हे देवीक च पेड्यांचोच निवेद्य दाखयतात खंय.

वाटेर स्वदेशान सांगलें,- आमी आतां नीर मह कडेन वतात. वाटेर तुमकां एक मजा दाखयतां.

आमची टॅक्सी दोनय वटच्यान शेतां आनी शेकानशेक पातळिल्ल्या रस्त्या वेल्यान वताली. म्हाका साम

ची याद आयली. हो रस्तो मात बरोच लांब लचक आशिल्लो. यांत सुदेशान म्हळें, - उजवे वटेन पळयात.

थंय खांब्या खांब्याचो सुंदर रंगयाळो राजवाडो शिल्लो. वयर बरोच व्हड घुमट आनी ताचेर कळस शिल्लो.- आरे वा सुंदर राजवाडो, आमी म्हळें.

स्वदेशान टॅक्सी हळू केली आनी सांगलें,- हो वाडो न्हय. हें उदयपुरचें रेल्वे स्टेशन.-किर्ते ? आमचीं आं जालीं. तार्णे गाडी रेल्वे स्टेशनाच्या लागिच्यान व्हेली. भितरले वटेन उबी आशिल्ली गाडी आमकां ली तेन्ना खात्री जाली.

हें स्टेशन सामकें राजवाड्याचो मुखावेलो भाग कसो तालो. खांब्याखांब्यांनी नटयल्लो तो-प्रवेशदारा भायलो गो आसलो. मुखार सोबीत बाग. सामको निवळ वाठार. ज सुद्दां कोण ताका रेल्वे स्टेशन म्हणचो ना. हेर रेल्वे नां दोळ्यां मुखार हाडल्यार हें एक अजापच म्हणपाचें.

मातशें मुखार सुंदर सुंदर दोन तीन मजली बिल्डिंगो च्या मदी उब्यो आसल्यो. थंय रेल्वे कर्मचारी रावताले. ल्या सोबीत रेल्वे स्टेशनाक सोबपा सारक्योच त्यो बिल्डिंगो ां-झाडां मदीं उब्यो आसल्यो. रेल्वे अधिकाऱ्यांचे बंगले वपा सारकेच आसले.

गोंयांत खुबश्या गांवांचीं, वाड्यांचीं नांवां एकाच सारकीं आसात. देखीक, सावर्डे, पेठ, नावेली अशीं. पूण भारताचे पुर्वे कडेन आनी पश्चिमे कडच्या गांवांचीय नांवां एकाच सारकीं आसात हें पळोवन अजाप दिसलें. उदयपूर राजस्थानांत आसा, हांव थंय वचून आयलां. हांगां त्रिपुरांतय उदयपूर नांवाचें शार हांव पळयतालें.

आमी आतां नीर महल पळोवंक वतालीं. स्वदेशान आमकां ताची थोडे भितर माहिती सांगली.

भारत स्वतंत्र जातकर हो नीर महल बांदून घेतला खंय. ह्या राज्यार एक व्हड संकट आयिल्लें. लोकांक जेवणां खाणाची मारामार जाल्ली. लोक उपासान मरताले. त्या वेळार लोकांक काम दिवपा पासत, त्या वेळचो महाराजा बीर विक्रम किश्योर माणिक्यान हो म्हाल थळाव्या लोकां कडल्यान बांदून घेतलो.

रुद्रसागर सरोवर बरेंच व्हड आसा. तें मुखेल शारा पसून त्रेपन्न किलोमिटर पयस आसा. त्या वेळार हांगा चड लोकवस्ती नाशिल्ली. म्हणून उबाळाच्या दिसांनी निवांत अशें रावपाक म्हणून हो महाल तयार केल्लो खंय.

बरेच गांव फाटीं उडयत आमची टॅक्सी मेलाघर गांवांत पावली. ह्याच गांवांत रुद्रसागर सरोवर आसा.



राजघाटार येवन टॅक्सी उबी रावली. थंय ल्हान-ल्हान गाडे कशे दुकानां आशिल्लीं. एका वडाच्या पारा मुळांत आडसरां विकपी बशिल्ले. आमी आडसरांचें उदक पियेलीं. थंयच पिपऱ्यो विकपी मनशा कडल्यान पिपऱ्यो येवन खाल्यो. तांकां आमच्या पिपऱ्यांची रूच नाशिल्ली.

तिकेटी घेवन थोडीं सोपणां देवन आमी बोटीच्या धक्यार आयलीं. मुखार अथांग अशें सरोवर पातळिल्लें आनी मदीं नीर महाल. पाचव्या-निळशा गालीच्या मदीं तो म्हाल उबो आसा काय दिसतालो.

इतल्यात रंगीत बोट येवन आमच्या म्हऱ्यांत उबी रावली. तातूंतले लोक वतकर आमी भितर देंवन लाकडी बाकड्यांर बसलीं. ही बोट प्लास्टिकची आशिल्ली. अशेच तरेचे प्लास्टीक बोटींत आमी बडोदरा गेल्लीं तेन्ना बशिल्लीं.

बोट सुटली आनी सैम सुंदरीन तोंडावेलो बुरखो काडिल्ले वरी आमकां दिसलें. तळ्याचो थाव लागनासलो. एक वटेन बरेंच पयस निळश्यो शाली पांगुरिल्ले दोंगर झळकताले आनी दुसरे वटेन जमनीची मातशी कड दिसताली. तळेंभर कमळाच्या पानांचो गालीचो पातळिल्लो. तांचीं पानां म्हूण केदीं रे बाबा? जेवणाचे थाळये परस व्हड आनी दाट. तांच्यो कडो वयर आशिल्ल्यान जेवणाचो थाळो कसोच दिसतालो. तांचेर सुकणीं बरीं हालत बशिल्लीं. 'एनिमल प्लनेटांत' हांवें अश्या पानांचेर सुकणीं घोंटेर बांदून तांतयां उबोवंक बसतात तें पळयल्लें. हांगाय बळारीचे घोंटेर खंय दिसतात काय म्हणून दोळे ताणून पळयलें. पूण खंयच घोंटेर दिसलो ना.

मोठे मोठे कळे दिसले पूण एक फूल लागीं दिसलें ना. पयस फुलां झळकतालीं. येद्या व्हड पानांचे वालीक कमळां केदीं जातात तें पळोवं जाय आसलें. काश्मिराक दल सरोवरांत हांवें मोठ्ठीं कमळां पळयल्लीं. मदीं-मदीं सुक्या झाडांचेर बगळे उठ-बस करताले. तीं बगळ्यांचींच झाडां काय दिसतालीं. कमळांचीं पानां सद्दां पेल्यान काडून बोटी येवपा वचपाक वाट करतात खंय.

ह्या सरोवराच्या मदीं फातर-मातयेचो भराव घालून हो जुंवो तयार केलो खंय. मागीर खांबे-खांबे बांदून ताचेर हो महाल बांदलो. भोंवतणी व्हड बरी बाग केल्या.

आमची बोट लागीं पावता तशी वोतांत न्हांवपी नीर महालाची सोबाय दोळ्यांत भरूं लागली.

आमी बोटींतल्यान देंवन थोडी चडटी चडून [illegible] आयलीं. पावसा दिसांनी उदका भोंवतणी बांदिल्ल्या [illegible] तेंकता खंय. तेन्ना बोटींतल्यान देंवन रोखडेंच वयर [illegible] मेळटा. आतां थोडो वेळ चलून आमकां वयर येवचें पडलें [illegible] भव्य असो धवो फुल्ल नीर महाल उबो आशिल्लो.

धा-बारा सोपणां चडून आमी महालाच्या दारांत पा[illegible] भव्य दरवंज हुपून आमी भितर गेलीं. थंयच ऑफीस आशि[illegible] थंय तिकेटी घेवन आमी मुखार सरलीं. भितर लांबशें अं[illegible] थंय फूल झाडां आनी 'फॉक्स टेल पाम' हांचीं झाडां आशि[illegible]

सध्या थंय भोंवडेकार चड येतात म्हणून तांकां ब[illegible] पडूं जाय अश्यो वेवस्था केल्यात. सुर्वेकच वॉश रूम [illegible] भुरग्यांक दूद दिवपा पासत कुडी बांदल्यात.

हो महाल म्हणून सुंदरच बांदला. कुडीच्यो वण[illegible] षटकोणी, अष्टकोणी. प्रत्येक कुडींत ती कसली कूड तें क[illegible] पाटयो लायल्यात. सोन्याची कूड, बॅड रूम, बाथरूम, [illegible] हॉल, कॉन्फरन्स हॉल, थेटर आनी तातूंत माची. पू[illegible] कडेन कांयच सामान ना.

हो महाल फिरताना दोन-तीन ल्हान भुरगे ह[illegible] च्या चो थरमास आनी बिस्किटयांचो डबो घेवन आयले. इल्[illegible] कपांनी घालून ते च्या दिताले. एक थंय दोन च्या. आमी [illegible] एक कप च्या घेतलो. च्या बरो रुचीक आशिल्लो.

हांगा एक कूड रविंद्रनाथ टागोरांची अ[illegible] रविंद्रनाथांक बरोवपा पासत ती खास कूड तयार केल्ली. [illegible] बरोवपाक शांत वेळ जाय सो दिसले काय ते उज्जयंता मह[illegible] ना जाल्यार हांगा येवन बरोवपाक बसताले खंय. तांकां [illegible] त्रिपुरा विशीं मोग आशिल्लो तसो थंयच्या लोकांक रविंद्[illegible] विशीं अजुनय अभिमान आसा. तांची जायते कडेन स[illegible] दिश्टी पडटात.

तर आमी नीर महालांत फिरतालीं. हांगा प्रत्येक [illegible] दालन कसलें ते सांगलां पूण तातूंत खंयच फर्निचर दिस[illegible] हो सगळो म्हाल आतां भोंवडेकारां पासतच दवरला. आत[illegible] कोण रावनात.

फाटल्यान कांय कुडी बंद आसात. थंय मात रा[illegible] व्यवस्था आसा. राज्याचे वंशज वा कोणय खास सोयरे आ[illegible] तांकां थंय दवरतात. सभा बसका बी आसल्यार थंय व्[illegible]

ात खंय. पयल्या मजल्यारय अष्टकोणी, षटकोणी च्योच कुडी आशिल्ल्यो. ताचे वयर तेर्रास. वयर चडपाक ां सामकीं अरूंद आनी वांकडी, वांकडी फिरत वयर वयल्यान अप्रतीम सोबाय दिसता. भोंवतणी नदर पावता थंय कमळाच्या पानांचो गालीचो आनी मदीं मदीं उदकाचे शे हारशे वोतांत चकचकताले. मदींच बळारींची नक्षीय ताली. म्हाका त्या नीर महालांत रावीन दिसलें.

वयर सामकें झणझणीत वारें येतालें. तशें पुराय लांत सैमीक वारें घोळपाची व्यवस्था केल्या. थंय एसीचीय ना आनी फॅनाचीय गरज ना. तो महाल पळोवन आमी र आयलीं.

आमी येतना बोटींतल्यान जंय देंविल्लीं तो धको ळ्या लोकां खातीर आशिल्लो. राजघरांण्यांतल्या लोकां ीर फाटल्या वटच्यान वेगळो धको आसा. थंयच नोकरांक ाच्यो कुडी आशिल्ल्यो आनी संडास, बाथरुमय बांदल्यात. ालीचें बांदकाम म्हूण कळटा. हो म्हाल हिंदू आनी मुस्लिम ू शैलीत बांदला खंय.

फाटल्यान व्हड जाग्यांत तरेकवार झाडां रोयल्यांत. ी तीं तोखेत येता आसतना आमकां मुंबयच्या भोंवडेकारांचो ग्रुप मेळ्ळो. तातूंत माधवीच्या आनी बाबांच्या वळखीचे आशिल्ले. तांच्या वांगडा तांचे कंपनीचो गायड शिल्लो. तो त्या नीर महालाची माहिती तांकां सांगता तना आमकांय कळ्ळी.

ह्या सरोवराचे एके वटेन म्हळ्यार राजवाड्याच्या सामके ार बोट दाखोवन वाटाड्यान सांगलें, थंय 'पगली मासी' ता म्हणून. ती खंय एक जाणटी बायल. आपलें खोप कशा त रावता. आतां लोकांनी तें घर देवळा वरी केलां. ती तल्या वर्सांची तें कोणच सांगूक नकळऽ. पूण तिणें शंबरी न्ना हुपल्या अशें लोक खात्रेन सांगतात. तिका कसली सिध्दी मेळ्ळ्या खंय. म्हणून राज्यांतलेच न्हय तर राज्या यलेय लोक तिच्या दर्शनाक येतात खंय.

ती खाटेर न्हिदून आसता. तिच्या सोयऱ्या धायऱ्यां ीं कोणाक कांय खबर ना. एक ट्रस्ट तिची जतनाय येता. चिमटी भर जेवण घेता. उदक पियेता. आनी कांयच खायना. का कसलेंच वखद-विर्सद दिनात. तिच्या नांवान थंय वर्साक फावट जात्रा भरता. ती एक जिती देवी कशी जाल्या.

अशें देवत्व मेळविल्ले ते बायले विशीं जायत्यो आख्यायिका सांगतात. पूण खात्रेन कोणच कांयच नकळऽ. तिची ख्याती पयस पयस पावल्या. वर्सान-वर्स तिका मेळूंक येवपी भोंवडेकारांची गर्दी वाडत आसा खंय.

नीर महाल पळोवन बोटींत बसून आमी परत राजघाटार आयलीं.

तेन्ना एक वर जाल्लें. स्वदेशान सांगलें,-आतां आमी कसबा गांवांत कमला सागर पळोवंक वचपाचीं. तो गांव मातसो पयस आसा. आमी जेवुनूच या.

आमी हय म्हळें. पूण ह्या गांवगिऱ्या शारांत आमकां खंयच बरीं हॉटेलां दिसूं नासलीं.

बरेंच पयस वतकर स्वदेशान एका शेताचे कडेक आशिल्ल्या घरा मुखार गाडी थांबयली. स्वदेशान सांगलें, हें मातशें बरें हॉटेल, हांगाच जेवया.

त्या घराचे एके कुशीक शेत आनी एके कुशीक मळे आशिल्ले. तीच भाजी तीं जेवणाक वापरतात खंय. आमची गाडी थांबली ती पळोवन मालक भायर आयलो. मोटवी चड्डी आनी बानयन घालून. आपल्यागेर सोयरी आयिल्ले वरी तांणी आमचें स्वागत केलें. पात्रांव घरांतल्या कपड्यार आशिल्लो खरो पूण ताची बायल आनी आवय साडी न्हेशिल्ली. हांगा बायलो चडश्यो साडयोच न्हेसतात म्हणपाचें आमी ह्या दोन दिसांत पळयतालीं.

आमी भितर गेलीं. मेजां-कदेलां प्लास्टिकचीं खरीं पूण नितळ आशिल्लीं. भायल्यान खोप कशी दिसपी त्या घरांत भितर सगळीं आधुनीक साधनां आशिल्लीं.

तांचें जेवण वाडपाची पध्दत खबर आशिल्ल्यान हांवें माधवीक म्हळें, आमी दोन जेवणां घेतल्यार चौग जाणां जेवंक शकतात. माधवीनय तांची ताट भरून जेवण वाडपाची पध्दत अणभविल्ली. तिणें पात्रावांक सांगलें आमकां दोनच प्लेट जेवण पुरो म्हणून. पूण तो कसोच आयकूंक तयार नासलो. जाय जाल्यार तुमी पयशे दिंव नाकात, म्हणून दोळ्यांत दुकांहून जेवपाचो आग्रो करूंक लागलो. ताची बायल आनी आवय लेगीत आमकां आग्रो करूंक आयलीं.

मागीर आमी बरें म्हळें. पूण शीत मात इल्लेंशें वाढ म्हणून सांगलें. त्या दिसा सोमार आशिल्ल्यान आमी शिवराक जेवण मागलें. त्या दिसा खंय बरें नुस्तें आशिल्लें. आमी

खायनात म्हणुनय तांकां वायट दिसलें. स्वदेशान नुस्त्या जेवण येतिल्लें. ताच्या पानार बांगड्या येदें व्हड नुस्तें आशिल्लें. ताणें ताचें नांव पपदा म्हणून सांगलें.

थंयचें जेवण खाण खूब सवाय. लोक सादो आनी म्होंवाळ. तांचें सोयरेपण घेवन आमी भायर सरलीं.

बरोऽ वेळ प्रवास करतकच आमी कसबा गांवांत आयलीं. स्वदेशान एका ग्रावंडार गाडी थांबयली आनी आमकां थंयच्यान कमलादेवी उर्फ कसबेश्वरी देवीच्या देवळांत चलात म्हणून सांगलें.

बरीच चडटी चडून आमकां वचूं जाय आसलें. त्या मळार खूब गाडयो, मिनी बशी थांबिल्ल्यो. लोकांची येरादारी बरीच आसा म्हणून कळटाली.

किर्तें आसा काय हांगा? म्हणत आमी मुखार सरलीं. दोनय वटेन बरींच दुकानां, हॉटेलां आशिल्लीं. मदीं मदीं घरां, एक मजल्यो बिल्डिंगोय आशिल्ल्यो.

आमी खर्शेत धांपेत चडटी चडूं लागलीं. हांगा वाहनां हाडपाक बंदी खंय. हांगाच्या दुकानांनी देवीच्यो साडयो, मडकेंत पेडे आनी फुलां, उजवाती असलेंच सामान आसलें. देवूळ लागीं पावता तशें दावे वटेचे एके वणटीर शिमिटांत देवाचीं तरेकवार चित्रां कोरांतिल्लीं.

मुखार बरें व्हड देवूळ आसलें. हांगाच्या चडश्या देवळांची पध्दत म्हळ्यार वणटी नाशिल्लो खांब्या खांब्याचेर आदारिल्लो मंडप आनी मदीं गर्भकूड. गर्भकुडींत बरीच देवीची मुर्त आसली.

मंडपांत मदीं दोन होमकुंडा आसलीं. ताचे मु न्हंवरो-व्हंकल बशिल्ले. खूब लोक थंय उठ-बस करत थंय आनीकय जोडपीं आसलीं. तांचें लग्न जाल्लें. भांग भरिल्लीं, चकचकीत साडयो आनी बंगाली पध्दतीचे धवे मु याल्लीं आनीकय जोडपीं थंय बशिल्लीं. तो तांचो बरो आशिल्लो म्हणून सामुदायीक लग्नां दवरिल्लीं.

त्या दिसा सात लग्नां जाल्लीं खंय. म्हणून लो गडबड आशिल्ली. हे देवीच्या देवळांत लग्नां करप मानतात. हांगा लग्न करपाची आंगवण करतात खंय. देवीच्या पांया पडटासर तीं जोडपी येवन येवन आमकां पडूं लागलीं.

देवळांतल्यान आमी सकल देंवलीं. सकल एके च्या ची टपरी आशिल्ली. आमी थंय च्या पिवंक गेलीं. सगळ्या हॉटेलांनी लग्नाक आयिल्ले लोक जेवंक बशि एक भुरगो येवन आमकां जेवपाक येवपाचो आग्रो क लागलो. आमी जेवन आयल्यांत म्हणून सांगून च्या ची दिली.

आमकां जेवणाक आपोवंक आयिल्ल्या त्या भुर नांव देबाशीश रॉय. तो फिलॉजोफी घेवन एम. ए करतालो आमचे कडेन हिंदीन उलोवंक लागलो. ताणें आमकां क देवीची माहिती सांगली.



हे कमला देवीचें स्थान ५१ शक्तीपिठांतलें एक खंय. ीच्या म्हळ्यार पार्वतीच्या हाताच्या किरंगळीचें बोट जंय ल्लें तो हो जागो खंय.

हे देवी विशीं एक आख्यायिका सांगतात. ही देवी आपलो भुरगो ल्हान आसतनाच मेली. तरी ती आपल्या ग्याक दूद दिवपाक रातची ह्या देवळा मुखार आशिल्ल्या ांग सरोवरांतल्यान पोंवन येताली. भुरग्याक दूद दिवन ह्या सरोवरांत देंवन नाच्च जाताली. म्हणून ह्या सरोवराक ला सागर सरोवर म्हणटात.

हेंय सरोवर रुद्रसागर सरोवरा वरींच व्हड आसा. ूंतय कमळांच्यो वाली आसात. सध्या ह्या सरोवराचो अर्दो ग बांगला देशांत आसा आनी अर्दो भाग त्रिपुरांत आसा.

हो कसबा गांव बांगला देशाचे शिमेर आसा. अगरतला नी बांगलादेश पयसुल्ल्यान पळयिल्लो. हांगा मात सामको गिच्यान दिसलो. अगरतला वरी हांगाय बांगला देशीय नी त्रिपुरांतले लोक पासपोर्ट दाखोवन दोनय राज्यांनी यो- करून आपलीं कामां करतात. तांचें अशें यो-वच शिल्ल्यान तांचे मदीं लग्न संबंधय जुळटात खंय.

ह्या कमला सागर तलावाचे देगेक आठवड्यांतल्यान दीस मेला भरता खंय. तार्चे खाशेलपण म्हळ्यार दोनय ाचे लोक हांगा म्हाल खपोवपाक आनी विकतो घेवपाकय ात खंय. पयलीं हांगा बार्टर सिस्टम म्हळ्यार वस्तू जाग्यार तू दिवन व्यवहार चलतालो. आतां मात पयश्यांनी व्यवहार लता.

ह्या बाजारांत चड करून सुक्यो मिरसांगो आनी खारें र्तें आसता खंय. हांगा एक 'भुतिया मिर्च' म्हणून मेळटा य. भयंकर तीख. साद्या मिरसांगा परस दोनशें पटिनी चड ख. म्हणून तिका भुतिया म्हणटात. तिका मागणी बरीच ासता खंय. म्हाका जाल्यार हरवी मिरसांग पळोवन लेगीत ख लागता. आतां ह्या भुतिया मिर्ची विशीं आयकुनूच म्हजी ीब तिखसाणेन चुरचुरली.

तशेंच कोंडयाचे कोंब म्हळ्यार किल्ल थंय खूब ातात खंय. वचत थंय कोंड्याआळी पळयतना म्हाका दशिल्लें, हांगा लोक किल्ल खायनात काय म्हणून. मागीर ामकां स्वदेशानय सांगलें, हांगाचे सगळे लोक किल्लाचे रेकवार पदार्थ करून खातात खंय.

गजाली करतां करतां आमी गेस्ट हावजांत पावलीं. माधवी आनी तिच्या घरकाराचो निरोप घेवन आमी देंवलीं.

गेस्ट हावजांत आनीक लोक आयिल्ले. पूण आमचो लेखक परिवार चडसो गेल्लो.

दुसरे दिसा सांजवेळा आमी गोंयांत येवपाक भायर सरपा आसलीं.

सकाळचो आदेस आमच्या हातांत आशिल्लो. पूण बाजार खुबूच पयस आशिल्ल्यान आमी थंय वचप ना म्हणून थारायल्लें. तशें म्हाका आनी अनिलाक खरेदी करचे परस किर्ते पळेवंक मेळटा, त्या वाठारा विशीं आयकूंक मेळटा जाल्यार आयकून घेवपाची चड आवड.

तातूंत प्रॉफेसर रविंद्रकुमारान आमकां मेळपाक येतां म्हणून रकाद धाडिल्लो. आमी सकाळचो नाश्तो घेवन युनिव्हर्सिटीच्या कॅम्पसांत भोंवन आयलीं.

आमी रुमार पावता सर प्रॉफेसर रविंद्रकुमार आयले. तांचे कडेन उलोवन आमकां त्रिपुरा विशीं खूब माहिती मेळ्ळी.

त्रिपुरा हो पयलींचो आदिवासी वाठार. अजुनय थंय रान वाठार चड. चड करून बांगलादेश आनी त्रिपुरा वेगळे जातकर हांगा खूब सुविधा आयल्यो. शिक्षण धरून समाजाच्या विकासाक जें जें जाय तें हांगा तयार केलें. आतां हांगा चडशे लोक शिकतात. शेत मळेय रोयतात. नुस्तें धरप, जिर्ते विकप तें सुकोवन विकप हो हांगाचो व्हड व्यापार. हांगा आतां इतली सुदारणां जाल्यात, तरी आदिवासी संस्कृतायेचो पगडो वचत थंय दिसून येता. हांगा तांदूळ चड पिकता म्हणून हांगाचें मुखेल गोडशें खितवा म्हळ्यार तांदळाची खीर वा पायस. ते भायर रोसोगुल्ला आसाच.

हांगा खंय सुक्या नुस्त्यांचे तरेकवार प्रात करतात. तांची चटणीय करतात. ती खूब रुचीक आसता खंय. ती चटणी डब्यांत भरून कितलेय दीस दवरतात.

गजाली करतां करतां जेवणाचो वेळ जालो. सरान सांगलें आज पपदा नुस्तें जेवणाक आसा म्हणून. खरेंच रूचीक नुस्तें.

पोरस्तान जेवण जेवन आमी गोंयांत येवंक भायर सरलीं.



मडगांव-गोंय. मो: ९४२०६८५२७८





# ख
# च्यां
# नी
# च?

पिंकीच्या पयल्या वाढदिसाक भाई आयिल्लो. ताणें पिंकीक खेळणीं आनी कपडे हाडिल्ले. म्हाका पंजाबी ड्रेस, आईक आनी वैदेहीक साडी हाडिल्ली. भाऊ इतलो आयलो खरो, पूण वैदेही ताच्या वाऱ्याक उबें राव नासले. भाऊच्या आवडीचें जेवण करतालें. पूण आपूण केन्नाच वाडून दिवंक गेलें ना.



– शीला कोळंबकार

"हो आनी एक! आतां म्हजे फाटल्यान कित्याक लाग
देवाक खबर!"

– अशें पुटपुटत वैदेही उठलें.

"कोण गो तुजे फाटीक लागला?" हांवें ताचे फाटोफा
वचत ताका विचारलें.

"आनी कोण? तुजो भाव!" अशें म्हणून वैदेही रागान
रांदचे कुडींत गेलें.

वैदेही म्हजी भावज! भाऊची बायल. हांव जरी ता
नणंद आसलें तरी नणंदे परस म्हजी मैत्रीण चड. आमी एकमेकां
नांवानूच उलो मारतालीं. भाऊ कडेन ताचें लग्न जावचे पयल
पसून हांव ताका वळखतां. ताचें भाऊ कडेन लग्न जालें
योगायोगान म्हणा ना जाल्यार तो एक ॲक्सिडंट समजा.

वैदेहीची व्हडली भयण अस्मिता. एकदम हुशार! दिसुं
सुंदर! ताचे दोळे मोटे, धवेच्च आनी चकचकीत आस
दोळ्यांच्यो पापण्यो लांब आसल्यो. तें हांसलें काय ताचे दोळे
हांसताले. ताचे भितर कितेंतरी आसलें. ताका एक खेप पळयल्य
ताचे कडेन पळयत रावनशें दिसतालें. आमची आई म्हणटाल
ताचे भितर 'श्री' आसा पूण 'ग' ना. म्हणून ताची सुंदरका
आकर्शक दिसता.

म्हजो भाव मंगेश. ताका हांव भाऊ म्हणटां. तो लग्नूच ंक कसोच तयार जायना आसलो. पूण अस्मिताक पळेल्या बर इंप्रेस जावन लग्नाक तयार जालो. तो कम्प्युटर इंजीनियर! य एके व्हड कंपनींत नोकरी करतालो. बरो उंच! तोंडार ीमत्तेचें तेज. चारचौगांत उठून दिसपी.

भाऊचें लग्न थाटामाटांत जालें. अस्मिता म्हजी भावज ली. हांव ताका भाभी म्हणटालें. भाऊ आनी भाभीचो जोडो मी-नारायणावरी सुंदर दिसतालो. मेड फॉर इच अदर म्हणटात ो. भाभीच्या आंगाक हळद लागली आनी ती चडूच सुंदर सूंक लागली.

भाऊचो संवसार सुखान चलतालो. तीन वर्सांनी भाभीक स गेले. तेन्ना आनी ती दिश्ट लागूंक पुरो इतली सुंदर दिसूंक गली. गुरवाचाराचें तेज ताचेर चडलां अशें आई म्हणटाली. सपट्टी आई स्वता तिची दिश्ट काडटाली.

केन्ना केन्ना भाभी वांगडा तिची भयण वैदेही आमगेर ालें. आमी वांगडचीं म्हण तें म्हजे बराबर आसतालें. आमची त्री तेन्नाची!

भाभी बांयटेराक कुळारा गेल्ली. बाळंत जावन तिका चली ाली. मागीर तिका जोर येवंक लागलो. इन्फेक्शन काय कितें जालें खंय! तांतल्यान ती उठलीच ना. ती हें जग सोडून गेली. ड दोन म्हयन्याचे चलयेक सोडून, सगळें घरदार दुख्खांत बुडून लें. भाऊ जाल्यार पिशार पडिल्लेवरी जालो.

भाभी खूबूच दुयेंत आशिल्ल्यान बायचो बारसो जावंक ावलो ना. भाभी दुयेंत आशिल्ल्यान वैदेही बायची सगळी ाळगणी काडटालें. तें बायक पिंकी म्हणटालें. पिंकीक दोन ोन वरांनी दूद दिवप. ताची शी, शू काडप. रातचीं जागरणां करप. इतलें करुनूय तें सिरियस आशिल्लो भयणीकडेन लक्ष देतालें. हें सगळें तें वाजेनासतना करतालें. रांदपूय आवडीन करतालें. पूण नशिबूच परतलें. भाभी सगळ्यांक दुख्खांत घालून ेली. आईक आनी आमकां सगळ्यांक खूब्ब त्रास जाले.

आमची आई आतऱ्या पयऱ्यान नातीक पळोवंक वचूंक लागली. तिणें वैदेहीले गूण हेरले. ही चली आपले नातीक आवयचे मायेन वाडयतली हाची तिका खात्री पटली.

– तिणें मागीर एक खेप भाऊक विचारलें,

''आरे, आतां फुडें कितें?''

''फुडें कांय ना. हांव मुंबय वतां. म्हज्या कामार रुजू जातां.''

''आरे जालें तें जावन गेलें. तूं फकत तुजो विचार करता. तुजे चलयेचें कितें?''

''चली आसा न्ही आज्जेगेर? तीं घेतलीं तिची काळजी.''

''आरे, अशें कितें उलयता तूं? ती चली आमचे घरची लक्ष्मी मरे! ताका थंय कशीं दवरतलीं? आमी ताका आमच्या घरा घेवन येवया.''

''हांगा ताका कोण सांबाळटलो? तुज्यान ह्या वयार तें काम जातलें?''

''हांव सांगतां तें तूं आयक. वैदेही बायच्यो बाळगणी काडटा. आपुरबायेन ताचें सगळें करता. मावशीच ती. आवय परस चड माया तें ताचेर करता. तेन्ना तूं ताचे कडेन लग्न कर. तुकां बायल जरी नाका जाली तरी चलयेक आवय जाय न्ही?''

''हांव? आनी त्या सवंगाकडेन लग्न जावं? ताका पळयल्यारूच म्हाका ताची तिडक मारता.''

''पळे पुता! म्हाका जें दिसता तें हांवें तुका सांगलें. तुका जर ताचे कडेन लग्न जावपाचें ना. नाका जावं! पूण मागीर चलयेचें कितें करचें तें सांग.''

''ते चलयेक थंयच दवरूया.''

''तशें जाल्यार तशें कर! पूण हें सांगूंक आमी कोण वच्चीं नात. तूंच तांगेर वच आनी सांगून यो.''

भाऊ मागीर मावोड्यां गेलो. मावांक ताणें तशें सांगलें. वेल्यान तांकां सांगलें, ताचो सगळो खर्च आपूण करतां.

मावान सांगलें, ''आमकां दवरून घेवपाक कांयच हरकत ना. पूण तुमचे घरची चली ती. तुमचें नांव लायतली. आमगेर वाडटली. थुमेकाल तशें कांयच जावचें ना. पूण मदीं कितेंय वायट बरें जाल्यार ताका जबाबदार कोण? नाका जाल्लें अपशरण आमचेर येतलें. तुमी तुमचे चलयेक घेवन वचात. दोन तीन म्हयन्यांनी ताणें आंग धरलें काय म्हूर्त पळेतां. ताचो बारसो करतां. तेन्ना तुमी येयात आनी ताका घेवन वचात.''

भाऊ कांय उलयलो ना.

इतल्यान भाभीले आवयन ताका भितर आफयलें. भितरले कुडींत एके खाटीर, इल्लेशे गुलाबी गादयेर, गुलाबी विस्तीद, गुलाबी तोपरें आनी गुलाबी मेय घाल्ले बावलेवरी एक चली आसली. रुप्याचो खिळखिळो घेवन तो तोंडांत घालचो यत्न करतालें. ताचे म्हऱ्यांत मांय ताका घेवन गेली. तें भाऊ कडेन

पळोवन हांसलें. भाऊन नकळटां अपुरबायेन ताच्या गालाक बोट लायलें. त्या भुरग्यान ताचें बोट घट्ट धरलें आनी आपल्या तोंडा कडेन व्हरूंक लागलें. हातपांय वावडीत, हुंकारे दीत ताचे कडेन पळयत रावलें.

त्या भुरग्याच्या स्पर्शान भाऊचें आंग शिरशिरलें. एके अनामीक मायेच्या ल्हारान ताका भिजयलें. चलयेच्या स्पर्शान ताका आपल्या बापायपणाची खर जाणीव जाली. दुसऱ्या खिणांक ताणें चलयेक उबारून घेतलें. ताका छातये कडेन धरून तो घसघशीत रडलो आनी हांसलोय बी! ताणें धुवेच्या कपलाच्यो, पोल्याच्यो, हाताच्यो पापयो घेतल्यो. म्हणूंक लागलो, म्हज्या शाणुल्या, शेवण्या पिपुशा हांव चुकलों. म्हाकां माफ कर. मागीर तें न्हिदसर तो ताचे म्हऱ्यांत ताका थापटीत बसलो.

मागीर तो घरा वचूंक भायर सरलो. तेन्ना ताची मांय अस्मिताचो भांगरा करंड घेवन भायर आयली. तिणें म्हळें, ''हो करंड तुमी घेवन वचात.''

भाऊ सोमतो तांच्या पायां पडलो. ताणें आपूण चुकलों म्हूण सांगलें. हो करंड तुमी म्हजे कडेन दिवं नाकांत. आई आनी तुमी कितें तें पळोवन घेयात. खऱ्यानीच हांव चुकलों, अशें म्हणीत तो भायर सरलो.

तेच भिरकेंत कसो तरी गाडी चलयत तो घरा पावलो. गाडी दारांतूच दवरली. बूट काडिनासतना धांवत आईचे कुडींत गेलो. तिच्या पांयां कडेन बसलो. तिचे मांडयेर तकली दवरली आनी व्हडाव्हडान रडलो. ताच्या दुकांनी आईची साडी भिजताली आनी आईच्या दुकांनी भाऊचें माथें!

आईन ताका पोटभर रडूंक दिलें. मागीर ताका थातारलो. हांवें भाऊक उदक हाडून दिलें. तो तें पिवन मात्सो शांत जालो. तेन्ना आईन ताका विचारलें, ''कितें जालें पुता? तूं इतलो कित्याक रडलो?''

ताणें म्हळें,

''आई, हांव कितलो दुश्ट गे? ते इल्लेशे किटीक हांव तांगेर दवरूंक सोदतालों. म्हाका देव लेगीत माफ करचो ना. म्हजी चली ती! ताका आमी घरा हाडुया. आई, तूं जर म्हजे बराबर आयिल्ली जाल्यार हांव ताका आतांच घेवन येतलों आसलों. आई, हांव चुकलों.''

''आरे, ताका आमी हाडुया. आवय फाटल्यान ताची सगळी बाळगणी बेसबरी वैदेही काडटा. तेन्ना वैदेही कडेन लग्न जा. जातलो मरे?''

''म्हजे चलये खातीर हांव कितेंय करीन! म्हाका म्हज चली म्हज्या घरा जाय.''

मागीर सादे तरेन तो वैदेही कडेन लग्न जालो. लग्न जाव रोखडोच तो मुंबय गेलो. वैदेहीकूय व्हडलोसो फरक पडलो न तें आतां हक्कान दीदीचे चलयेची मावशी न्ही जाल्यार आव जाल्लें. ते चलयेक तें पिंकी म्हणटालें. तें पिंकीक कोणा कडेन पातये नासलें. ताचे कपडे आपूण स्वता धुतालें. पे मारून दवरतालें. तें न्हिदलें काय आपलें काम आटपितालें रांदचे कुडींत आईक मदत करतालें. सांजेर पिंकीक सजोव पासयेक व्हरतालें.

पिंकीच्या पयल्या वाढदिसाक भाई आयिल्लो. ताणें पिंकी खेळणी आनी कपडे हाडिल्ले. म्हाका पंजाबी ड्रेस, आई आनी वैदेहीक साडी हाडिल्ली. भाऊ इतलो आयलो खरो, पू वैदेही ताच्या वाऱ्याक उबें राव नासले. भाऊच्या आवडी जेवण करतालें. पूण आपूण केन्नाच वाडून दिवंक गेलें ना.

भाऊवेल्यान हांव ताची मस्करी करतालें. पूण ताका आवड नासलें. तें म्हणटालें, ''तो मुंबय आसा तो बरो आस तो हांगा आयलो काय म्हाका ताचो त्रास जाता.''

''तशें जाल्यार तूं ताचे कडेन लग्न कित्याक जालें?''

''दीदी खातीर! दीदी म्हाका परत परत म्हणटालें. म्हज्या पिंकीची आवय जा. ताका इतले दोतोर तपासताले वखद दिताले. म्हाका दिसलें तें बरें जातलें. म्हाका कितें खब तें मरतलें म्हूण!''

''खेरीज तुज्या भाऊन तुजे आईक सांगिल्लें खंय, आपू म्हजे कडेन लग्न जातां. फक्कत पिंकीची आवय म्हूण! ता भायर म्हजो ताचे कडेन कसलोच संबंध ना!''

''तरी आसतना तूं ताचे कडेन लग्न जालें!''

''मागीर कितें करूं? दीदीक आनी म्हजे व्हडले भयणीक पळोवन म्हाका सोयरिको येताल्यो. पूण हांव म्हजे भयण सारकें सुंदर ना म्हण कोण लग्नाक तयार जाय नासले. म्हज्या आई बाबाक म्हज्या लग्नाचो हुस्को जातालो. हरवें सोदतल्याक भाजिल्लें मेळ्ळें.एक पयसो खर्च करिनासतना म्हजें लग्न जालें म्हज्या मनाचो कोणें विचारूच केलो ना. हांवेंय केलो ना म्हाका फक्कत पिंकीच दिसतालें.''

"पूण मुंबयसान जेन्ना भाऊ घरा येता, तेन्ना तूं ताच्या मकार लेगीत येना. कित्याक?"

"पयलीं हांव दीदी वांगडा तुमगेर येतालें. म्हाका तुमचें घर ब्ब आवडटालें. अशेंच एक खेप हांव तुमगेर आयिल्लें. ना तुज्या भाऊन दीदीक म्हळें, हाका आनी कित्याक हाडलां? का पळेल्यारूच म्हाका ताची तिडक मारता. हांवें तें आयकलें. नासान हांव मागीर तुमगेर केन्नाच आयलें ना. आनी ताका गून हांव ताच्या सामकार वचना."

पिंकी दिर्शीमार्शी वाडतालें. तें आतां वैदेहीक ममी म्हणूंक गलें. वैदेही सामकें भुल्लुसून गेलें. पिंकी ममाक सोडून णाच कडेन रावनासलें.

***

पिंकी चार वर्सांचें जालें. ताका शाळेंत घालपाचें आसलें. हण भाऊ गोंयां आयिल्लो. तो आयलो आनी म्हयन्या भरांत ॉकडावन सुरू जालो. ताका लागून तो गोंयांतूच उरलो. तो रा कडल्यान ऑफिसाचें काम करतालो.

घराच उरिल्ल्यान तो वैदेही, पिंकी कडेन आनी पिंकी, देही कडेन कशें वागता तें नियाळटालें.

पावसाचे दीस आसले. पावस घोग्यांनी रकतालो. पिंकी भायर वचूंक सोदतालें. कशेंच आयकना जालें. वैदेहीन ताका सांगलें हांव तुकां मजा दाखयतां पळे. ताणें भितर खंयतरी आशिल्लें ताबुलफळें काडलें. तें पळोवन पिंकी खूश जालें. वैदेहीन ताका ताबुलफळ्याचें वयलें झांकण काडूंक शिकयलें. भितर मिलां पळोवन पिंकी खूश जालें. दोगांय मिलांनी खेळूंक लागलीं. पिंकी रडी खेळटालें. पूण वैदेही आपूण जावन ताका जिंकूंक दितालें आनी तें जिखलें पूण पिंकी परस चड वैदेही खूश जातालें.

वैदेही मंगेशाच्या खाणा जेवणाचेर, कपड्यांचेर, ताका कितें जाय नाका ताचेर लक्ष दवरतालें. पूण ताचे समोर केन्नाच वच नासलें. ताणें कितेंय विचारल्यार तकली सकयल घालून ओगी रावतालें. ताचे नदरेक ताणें केन्नाच नदर दिली ना. तें जितलें पयस वतालें, तितलो भाऊ ताचे कडेन आकर्शीत जातालो.

भाऊन म्हाका सांगलें, "पळे गो, हें वैदेही म्हजे कडेन नदर वयर करून पळोवपाकूच तयार ना."

"कशें पळेतलें? ताका तुवें हिसपा भायर दुखयलां. खूब दुखवलां रे तें!"

"मागीर हांव कितें करूं?"

"आरे, हांवें तुकां ताचे फोटो काडटना पळेलां."

"हय गो. ताचें मुखामळ सामकें फोटोजेनीक!"

"ते फोटो दाखय मरे ताका."

"कशें दाखोवं? तें म्हज्या वाऱ्याक उबें रावना."

"ते फोटो धाड मरे ताका व्हॉट्सअॅपा वेल्यान. पोंदा बऱ्यो चार वळी तोखणायेच्यो बरय. ताका सॉरी म्हण."



''सगळें केलें गो! पूण हांव कितें धाडटां तें उगडी लेगीत ना.''

''हांव कशेंय करून ताका तुजे कुडींत धाडटां. तें भितर गेलें काय भायल्यान दाराक खिळी घालतां. मागीर तूं ताचे कडेन उलय.''

''नाका. तशें नाका. तें म्हजे कुडींत कशें येतलें? तेंच पळय. फुडलें हांव सांबाळटां.''

एकदीस भाऊक माळयेर च्या व्हरून दिवपाची आसली. वैदेहीन म्हाका सांगलें. हांवें म्हळें, ''तुज्या घोवाक तूंच च्या व्हरून दी. तो काय तुकां खावचो ना. तो कॉलचेर आसा. तूं येवन च्या दवरून गेलें म्हूण लेगीत ताका कळचें ना.''

च्या दवरून तें वतालें मात. भाऊन ताका म्हळें, '' वैदेही, मात्शें राव. म्हाका तुजे कडेन उलोवचें आसा.'' तरी तें भायर वचूंक लागलें.

''एक पावल फुडें घालशी जाल्यार तुकां पिंकीचो सोपूत.''

वैदेही थंयच उबें रावलें. भाऊन वचून दार बंद केलें. तो वैदेहीच्या समोर उबो रावलो. वैदेहीन ताका फाट केली आनी उबें रावलें.

''तूं अशें फाट करून कित्याक उबें रावता? अशें उबें रावन उलयतलें?''

''हय!''

''कित्याक?''

''तुमी एक खेप म्हणिल्लें न्ही, म्हाका पळेल्यारूच तुमकां तिडक मारता म्हूण? तुमकां तिडक येवं नाका म्हूण हांव फाट करून उलयतां. खेरीज ह्या घरांत म्हजी औकात कितली तेंवूय हांव वळखून आसा.''

''मागीर तूं म्हाका कितें जाय नाका तें कित्याक पळेता?''

''तुमी ह्या घरचे पूत. खेरीज म्हज्या पिंकीचे पपा! ताचे खातीर हांव हें सगळें करतां.''

''अशें उलोवं नाका गो! म्हाका सामको पश्चाताप जाता. हांव खऱ्यानीच तुजे कडेन साप्प वायट वागलों. तुका वायट दिसतलें. तुका तुजें मन आसा हें म्हाका केन्ना कळ्ळेंच ना. आतां हांव तुका पळेतां. तूं पिंकीक इतले बरे तरेन सांबाळटा! पिंकीक आनी घरादाराक तुवें जीव लायला. तुजे बगर ह्या घराची एक्क काडी हांगची थंय जायना. प्लीज, म्हाका माफ कर.''

– वैदेही मुणखें कशें ओग्गी!

''तुकां म्हजे कडल्यान कसली अपेक्षा आसा, तें तरी सांग.''

''म्हजी तुमचे कडल्यान कसलीच अपेक्षा ना. चडांत चड पिंकी भशेन निरागस माया म्हाका जाय. कसलोच स्वार्थ नाशिल्ली.''

एक सांग तूं सदांच अशें म्हजे कडेन फाट करून उलयतलें?

''हय!''

''केन्ना आनी कितें केल्यार तूं म्हजे कडेन पळेतलें? म्हजे नदरेक नदर केन्ना दितलें?''

''जेन्ना म्हजें हांव उरचें ना तेन्ना!''

''तुका खबर आसा, तूं म्हाका केन्ना आवडूं लागलें तें?''

... हांव आनी हाका आवडलें? हाका आपले श्रीमंतीचो मद! शिक्षणाची घमेंड! फक्कत मनशाक मनीस म्हूण वळखुपाची तांक ना....

''तुजे कडेन पळोवपाची म्हजी नदर पिंकीन बसलून उडयली. ताचे नदरेन हांव तुकां पळोवंक लागलों आनी तूं म्हाका सुंदर दिसूंक लागलें. तूं आई बाबाची कुयदाद घेताच. तितलीच काळजी तूं वावराडेची, मानायांची, ड्रायव्हराची, शेजाऱ्यां पाजाऱ्यांची घेता. तूं सगळ्या घरादाराची आवय जालां. सगळी तुजी कितली तोखणाय करता खबर आस तुकां?''

'' तें सगळें सोडा. पिंकीन तुमची नदर कशी बदल्ली तें सांगात.''

एकदीस पिंकी म्हजे म्हऱ्यांत बशिल्लें. ताणें म्हाका सांगलें, पपा, काणी सांग. हांवें ताका काणी सांगली, 'एक आशिल्लो राजा. एक आशिल्ली राणी! राणी खूब्ब सुंदर आशिल्ली' आनी पिंकीन म्हाका प्रस्न विचारलो, ''कितली सुंदर? म्हज्या ममा इतली?''

''कितें म्हळें ताणें? परत एक खेप सांगात.''

''म्हज्या ममा इतली सुंदर?''

वैदेहीन ताचे वटेन तोंड केलें. ताचे नदरेक नदर दीत ताणें अजापान विचारलें,

''खऱ्यानीच?!!!''



मुंबय. मो: ९८१९३१५३०७



# हरी माम



मोयोकाकाक नुस्त्याचो सामको घोस्त. नुस्त्याक ताणें जीव सोडप. न्हंयचें, मानशेचें, दर्यांचें नुस्तें खावपाची तल्लफ मारतकीच तो तडक आमगेर येतालो. चणें आसात पूण खातलो जाल्यार दांत ना अशी ताची गत जाताली. इल्लो नास्तीक आशिल्ल्यान सणवाराचे दीस सोडून बुधवार आयतारा पणजे साकून दिवचले येवप. आमचोय घराबो तसो नुस्त्यामोगी. मोयोकाका जे दीस येतालो ते दीस घरांत नुस्त्याचो पावस. येतना जड जड पोतयो घेवन ताणें प्रासार दवप. उपरांत पायलट करून आमचें घर गांठप.



- काश्मिरी पावसकार

मनीस जोडप सामकें सोपें. पूण ते सांबाळून दवरप भोव कठीण. म्हज्या आज्यान (भाऊ) तशी व्हडलीशी जोड केली ना. मात जायते लोक (आमीग) जोडिल्ले आनी ते सांबाळुनूय दवरिल्ले. हांतले कांय याद जावपी आमीग म्हळयार साळकार, सदानंद कडकडे, जयकृष्ण भाटीकार, रामचंद्र कामत बी अशे जायते.

त्या तेंपार भाऊ झाटयाल्या काजू कारखान्यांत हिशोबनीस म्हळ्यार आतांचें ॲकावंटंटाचें काम पळयतालो. थंयचो हिशेब सदांच चोख. पूण घरचो वेव्हार मात पुराय उदारेचेर चलतालो. घरांत फाटल्यान, फुडल्यान गिरणीचो आनी पणजाच्या नांवाचो 'अनंत इंजिनिअरींग वर्क्स असो गॅरेजीचो धंदो चलतालो. दोनूय कडेन घेऽ उदारेच्यो राशी. ते भायर निसण, पारय, खोरें, फेर्र, आपलो कोट, तोपी वस्तू बी कोणेंय मागल्यार दान करून उडयतालो. नवें घर बांदतना घराचे पोन्ने वाशे आनी नळे धरून आपल्या नांवाच्या भाटाच्या कुडक्यारूय तांणी उदक सोडिल्लें. ते तिडकीन आमी ताका सदांच राजा हरिश्चंद्राचो अवतार म्हणटालीं. ताच्या ह्या उदार सभावाक लागून जायते वळखी वळखीचे लोक आमगेर जेवन खावन तृप्त जावन वताले. तातूंत आमगेर गोरवांय घेऽ म्हूण. सगळो वावर आजीच पळयताली. कोणेंय दारार दूद मागूंक

आयल्यार भाऊ तांकां रित्या हातान केन्नाच धाडिनाशिल्लो. त्या तेंपार दर दिसा तीन तीन तपलीं एका आदेसाक वाळप. हो तर आजयेल्या हातांचो खेळ जाल्लो. येतो वतो व्हनीबायचें सुरबूस जेवण, वतना तोंडभर तोखणाय गावन वतालो. तें आसूं!

असोच आमचो खाशेलो सोयरो, भाऊलो यट्ट आमीग म्हळ्यार मोयोबाब आमच्या भुरगेपणांत तेन्ना आकाशवाणीचेर 'खळार मळार' आनी 'व्हनीबायली वासरी' नांवाच्यो फामाद कार्यावळी चलताल्यो. तांतलें 'हरीमाम' हें सगळ्या भुरग्यांचें सामकें आवडीचें पात्र. ''जाना मगो भुरग्यांनो'' हीं तांचीं उतरां तर जाणट्यां नेणट्यांक तोंडपाठ आसलीं. ह्या हरीमामालें खरेलें नांव आसलें कृष्णा लक्ष्मण मोये. वाड्यार झांटयाच्या थेटराक तेंकून ल्हान पूण उप्परकी घर आसलें त्या घराक 'मोयालें घर' ह्या नांवान वळखताले. हरशीं आमकां चार बापोयले, तातूंत मोयोकाका धरून ते पांच जाण जाताले. देखून आमी भुरगीं मोगान ताका 'मोयोकाका' म्हूण पाचारताल्लीं. ताका एक भयण आसली तिका लग्न करून राताबोलीगेर दिल्ली. आपल्या कामा निमतान तोवूय उपरांत ताळगांवां, भाटल्यांत रावतालो. तागेलें न्हेंसप एकदम सारें. स फूट लांब आनी घटमूट आंगलोटाचो. सदांच ताच्या एका हाताक मोठ्ठें घडयाळ आनी दुसऱ्या हाताक स्टिलर्चे कडें आसतालें. चुकून माथ्याक पगडी (फेटो) बी बांदल्यार कोणाय सरदारजीक तो फाटीं घालता आसलो. आंगा वयलो सैलसार बुश्कोट, मात तो सदांच भायर. दाव्या खांदार बोटवो. ह्या बोटव्यांतल्यान कोणें दिल्ली चेरा बाटली, पेन, डायऱ्यो, कॅलेंडरां, एखादें नवें पुस्तक, खांवचे जिन्नस बी. एक एक करून भायर काडप आनी आमच्या हातार दवरप. ताका लागून तो बोटवो आमकां जादूचो बोटवो सो दीस! भाऊचो आमीग आनी किर्ते वेगळो आसतलो? भाऊवरींच दानशूर आनी तातूंत तो ब्रह्मचारी.

मोयोकाकाक नुस्त्याचो सामको घोस्त. नुस्त्याक ताणें जीव सोडप. म्हंयचें, मानशेचें, दर्याचें नुस्तें खावपाची तल्लफ मारतकीच तो तडक आमगेर येतालो. चणें आसात पूण खातलो जाल्यार दांत ना अशी ताची गत जाताली. इल्लो नास्तीक आशिल्ल्यान सणवाराचे दीस सोडून बुधवार आयतारा पणजे साकून दिवचले येवप. आमचोय घराबो तसो नुस्त्यामोगी. मोयोकाका जे दीस येतालो ते दीस घरांत नुस्त्याचो पावस. येतना जड जड पोतयो घेवन ताणें प्रासार देंवप. उपरांत पायलट करून आमचें घर गांठप. ह्यो पोतयो मागीर आमी भुरगीं गोळ मारून घरांत व्हरता म्हणसर तो व्हनीबायक अमक्याचे दांगर, सुर्के, हुमण, हुड्डमेथी कर बी ऑर्द दिवन मेकळोय जातालो. फडफडीत नुस्तें पळोवंक मजा येताली. केन्ना तटतटीत वेल्ल्यो, मोठ्ठो विसवण, लांबोडी कल्ली, पीट पीट करून उडपी सुंगटां, बांगडे, धोडयारे तर केन्ना कुल्ल्यो आनी तिसऱ्यो.

मागीर घरांत व्हडलो आक्त. बायलां दोन-तीन आदोळ्यो घेवन बांय कडेन नुस्तें उजरायतालीं आनी आमी भुरगीं रुची काडीत बसतालीं. घरांत दोन व्हडलीं मेजां. पयली पंगत दादल्यांची. भाऊचीं माजरां पानांत तोंड घालीत म्हूण भाऊ एका पोताक आनी मोयोकाका एका पोताक बसताले. व्हनीबायच्या जेवणाची तुस्त गायत रुचीन ताणें जेवप. उपरांत वासरेंत राजधानींतल्यो खबरो सांगप आनी मागीर आड पडप. सांजेर मागीर भाऊ आनी तो आमीगांक भेटूंक वतालो.

गांवचो शिगमो तर ताणें केन्ना चुकयलो ना. पंदरा वीस दीस मदल्या सालांत वा भायर वासरेंत रंगीत तालमी मारप. सगळ्यांनी बरें काम करचें म्हूण रातभर येसायो मारप. ह्या येसाये निमतान आमकां वामन पिळगांवकार, मनोहरबाब शिरगांवकार, अलका वेलींगकार सारके कलाकार लागच्यान आयकूंक मेळटाले. नव्या सोमाराची गायनाची बैठक तर कशीच चुकय नासलो. हाडांमांसांचो कलाकार आशिल्ल्यान उपरांत ताणें 'फोंडलाचो घाडी', 'हाताची करामत' एकांकी बरयल्यो आनी तांचे प्रयोगूय केले.

जाण्टेपणांत भलायकी साथ दिना जाली. तशे ते हांथरुणार पडले. तेन्ना सुमार देड म्हयनो ताचे भाचयेन आनी भाचे जावयान खूब सेवा केली. पूण दुर्येसांतल्यान तो भायर सरलो ना. त्या वेळार आमच्या घरचीं आनी उरिल्ले आमीग ताचेर निमणी नदर घालूंक मुजरत गेल्ले. म्हाका आजुनूय याद आसा. मोयोकाका नाशिल्ल्यान हालीं आकाशवाणी वयली आनी म्हजी कुळारची 'व्हनीबायली वासरी' खंयतरी रिती पडल्या अशें म्हाका उठसूठ दिसूंक मात लागलां!



शिवोले-गोंय.मो: ९४२११९२८५१

# मोगाळ मैत्रीणीक

याद आसूं दी, तूं जें कितें करता तें तुजे भितर एक शक्ती आसा म्हणून. तुका कोणें खंद दिवपाची गरज ना. तुजी खंद तुवें स्वता कमयल्या तुज्या पेट्टया इंगळ्यांचेर. सुगंधी धूप भुरभुरून उडय. ताणें सगळ्याक सुगंध पसरूं दी.



-डॉ. नूतन देव

चड गाजोवाजो कर नासतना गणपती बाप्पा आयलो आनी गेलो. आतां रोखडींच नवरात्रां येतलीं आनी येतलो दसरो, दिवाळी. दर वर्साक तूं नवरात्रींच्या णवय दिसांक णव रंगांच्यो साडयो न्हेसोन मिरयतालें. त्या सुंदर रंगानी बुडून धादोस जातालें. ह्या वर्साक तुका भायर सरूंक कठीण जातलें तेन्ना घरांतच रावन ह्या सणाचेर चिंतन कर. तूं खरें म्हळ्यार एक अष्टभुजा देवीच. ह्या नवरात्रींच्या णव रातींक तूं वेगवेगळी रुपां घेवन प्रकट जाता.

शिकून सवरून, नोकरी वा वेवसाय करपी तूं. जेवण रांदतना अन्नपुर्णा जाता. घरांतलीं आयिल्लीं अरिश्टां पयस करपाक गायत्री जाता. कोणूय त्रास करूंक लागल्यार ताचो संहार करपी दुर्गा जाता. कोण वायट वागणूक दिता तेन्ना महिशासुरमर्दीनी जाता. भुरग्यांचो अभ्यास घेवपा वेळार सरस्वती जाता. घर आनी घरांतल्यांचें रक्षण करपा वेळार चंडीका जाता. सगळ्यांचेर मायेचें पांगरूण घालपी जगदंबा जाता. सगळ्यांच्या सुखांत सूख मानपी संतोषी माता जाता.



आनी कांयच आरस्त बाळगी नासतना पार्वतीय बी जाता.

ह्या दिसांनी उपास करतना, कांय दुर्गूण-जशे राग, मत्सर, व्देश, निंदा, भंय हांकांय बी सोडून दी. आतांच्या ह्या इंटरनेटाच्या जमान्यांत तर तूं खूबच फुडें पावलां. तुवें खूब म्हायती मेळयल्या. आतां गरज आसा ती तुजे बुद्दीक चालना दिवन गिन्यान आनी म्हायती हांतलो फरक जाणून घेवपाची.

पेट्टच्या कोळशार थोडो गोबोर आयला. तो आतां एक फूंक मारून पयस कर आनी हे इंगळे परत एकदां रसरसून पेट्टूंक दी. कसलेच फारकेंत स्वताक बांदून घेना आसतना.

याद आसूं दी, तूं जें किर्तें करता तें तुजे भितर एक शक्ती आसा म्हणून. तुका कोर्णे संद दिवपाची गरज ना. तुजी संद तुवें स्वता कमयल्या तुज्या पेट्टच्या इंगळ्यांचेर. सुगंधी धूप भुरभुरून उडय. तार्णे सगळ्याक सुगंध पसरूं दी.

हय बरोबर आसा. तू आनी एक दादलो मनीस समान न्हीच. तूं आसाच विविधतायेन नटिल्लें. विवीध कामां एका बराबर हाताळपाची कुशळताय तुजेच भितर आसा. म्हणूनच तूं अष्टभुजा.

तू एक पूर्ण व्यक्ती. तुजें व्यक्तीमत्व तूं फुलय. लक्षांत दवर, तूं एक मनीस आसा. केन्नाय निर्शेतलें, थकतलें, खचतलें, उबगतलें पुणून परत तितलेच उमेदीन फुलतलें.

निसर्गा प्रमाण आसत तूं नाजूक, कोमल! नासत तूं कणखर, दणकट एका दादल्या भशेन! कामां करपाची रीत आसत तुजी वेगळी. पुणून याद दवर, तूं केर्देय व्हडलें आनी कठीण काम करूंक शकता. उलट, तूं इतलें लवचीक आसा, गरजे प्रमाण कशेंय बावगूंक शकता, वळूंक शकता. तूं जावन आसा एक उदकाचो प्रवाह, जो फातराचे सुद्दां कुडके करूंक शकता. सगळ्यांक आपले भितर सामावून घेवंक शकता. नवनिर्मीतीची तूं एक शक्तीची देवी आसा.

जसो घट स्थापन करतात, तशेंच तूं तुज्या शरिराचो घट सांबाळ. जेवण-खाण , नियमीत व्यायाम, आचार विचार बरे भशेन करून ताका सुदृढ दवर. प्रसंग येतात तशें काळीज घट्ट किंवा मोव कर.

स्वताच्या आनी स्वताच्या आप्तेष्टांच्या बराबरच देशाच्या भल्याचें चींत.

तुज्या स्वताच्या भुरग्यांक तूं मोग दितलेंच हातूंत मात्तूय दुबाव ना, पुणून हेर भुरगीं जांकां हे आपुलकीची गरज आसा तांचे मेरेनूय बी पाव आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार स्वताचे निर्णय स्वता घेवपाक शीक.

ह्या दसऱ्याक तूं सिमोलंघन करून पळय. नक्कीच तुजी दिवाळी दिपमय जातली, हातूंत इल्लोय दुबाव ना.



फोंडें-गोंय. मो: ८५०१३३१६०

# मीच माझ्या रुपाची राणी गं ।

भुरगेपणांत सुटयेंत आजोळा वतालें. मामाल्या घराक हळदुवोच रंग. तेकल्याळच आंगाक लागतालो. दर दिसा तिनसांज जाता म्हळ्यार सगली मामेभयणी, मावस भयणी, शेजारची भुरगी मेळून नाच, नाटकां करताली. म्हाका चान्सूच पडटालो. लहवूच वचून तो वणटीचो रंग पोल्याक सारवप आनी कार्यावळ करप. आनी रातभर तो रंग तसोच तोंडाक दवरप, दुसरे दिसा मागीर तोंड धुवप.

- सुमेधा लवंदे

**त्या** दिसा आरमारींतले कपडे वेवस्थीत लायतालें. जाल्यार एके फायलींत व्हकलेचो फोटो मेळ्ळो (म्हजो). पळोवन म्हजे म्हाकाच लज दिसली. हात पांय सामक्यो दोकल्यो कश्चो आनी किडकिडीत, पूण उजवाड मारून काडील्लो धवोफुल्ल फोटो. धांऽऽवत योवा म्हऱ्यांत आयलें, आनी विचारलें ताका. "आरे, पळय रे हो फोटू? कशें म्हण पसंत केलें रे तुवें म्हाका? सामकोच अकलेक आयिल्लो काय किदें रे तू? तुजे सुवातीर हांव दादलो आशिल्लों जाल्यार असली व्हंकल पसंत करचेंच नाशिल्लें."

"आगो, त्या वेळार तूं म्हाका बरें दिसलें. खरें सांगू त्या फोटोग्राफरान म्हाका फटयलें. ताणें पळय तुका उजवाड



मारून बरें चकचकीत केलां ,म्हाका दिसलें, तू गोरें पिठ्ठ आसा म्हण. हांव खंय जाणां? हांवें रोकडोच हयकार कळयलो. म्हाका खरें म्हळ्यार बरी तब्बू कशी व्हंकल जाय आसली आनी हांव काळो न्हय? काळ्या न्हवऱ्याक गोरी बायल सोबता. पुराणांत लेगीत आसा "सावळा वर बरा गौर वधुला, गौर तनु जानकी राम घन निळा तो रुक्मीणी गोमटी कृष्ण काळा, सावळा वर बरा गौर वधूला." पूण, कशेंय आसूं, तूं तो मेरे दिल की रानी हो ।

बाकीबाबाचें एक कवन आसा ते आपले मोगिकेक म्हणटात, 'काळी? कोणे गे तुका म्हळी तू तर म्हजी चान्न्याची तळी।'

लग्ना आदींय हांवें म्हजे कलाकृतीचेर, रंगाचेर जायतें आयकलां. कॉलेजांत शिकतना हांव पणजे रावतालें. म्हज्यो इश्टीणी सगळ्यो पणजेकारां. आमी एक नाटकुलें करपाचें थारायलें. दर एकल्यान आपल्याक जाय तसलो रोल वाटून घेतलो. हांवें म्हळें, "आगो, हांव खंयचो करूं? तूं आनी खंयचो करतलें. तूं कर वावराडेचो. तूं वावराडी बऽऽरी सोबतली." शेवटाक ताचे ताकाच पिकासांव जालें. म्हजी धा फावटी माफी मागली. म्हजी एक मामेभयण आसा. कॉलेजांत शिकयता. म्हजे बशेनूच काळी सावळी. ताका तीस न्हवऱ्यांनी न्हयकार दिलो आनी एकतीसाव्या न्हवऱ्यान माळ घाली. आमचो आठ इश्टीणींचो ग्रुप आसा. सगळीं जाणां बरींऽऽ गोरीं पिठ्ठ. आमी दोन-तीन म्हयन्यांनी एकदां तरी मेळटाच. अशींच आमी एकदां सगळीं जाणां पार्कांत बशिल्लीं. जाल्यार एकले बायलेन आमकां म्हणलें, "तुमी सगळीं बरीं दिसतात आं आनी तुमच्या ग्रुपाक दिश्ट जावपाक जायना म्हण तुमचें भितरलें एकलें ऑड मॅन आऊट आसा. तेंय बरें सोबता." हांवेंय बी तिच्या उतरांक हांसून येवकार दिलो.

म्हाकाय बी गोरी कात खूब आवडटा. अर्थात गोरी मनशां. हांव तांचे सारकें गोरें जावचेंना म्हाका बेस बरें खबर आसा. तरीय हांवें म्हाका गोरें जावपाक, किर्दे किर्दे रुपट्याक सारयलां हांचो हिशोब आनी कोंत ना. पूण सातत्य दवरप म्हजेकडे जमना. म्हाका वाज येता. म्हजे उपाय चारूच दिसांचे. मागीर हांव हारशा मुखार उबें रावन म्हणटां, "मी कशाला आरश्यात पाहू गं? मीच माझ्या रुपाची राणी गं।"

पूण म्हाका गोऱ्या रंगाचो हावेस. 'पी हळद हो गोरी' हळदीचें उदकूय पिवन पळयलां. अशेंच एक दीस हळदीचें उदक पिवपाक बशिल्लें. दिस्त शेजाऱ्न पावली. "किर्दे पिता गो?" हांवें म्हळें, "टरमेरीक ज्यूस. हळदीचें उदक?"

"आगो त्या वाट्याचो गाजराचो ज्यूस पी. हळद उश्ण आं! चड पींव नाका. कात नितळ जातलीच आनी जिवाकूय बरें दिसतलें." तिचो म्हाका सल्लो.

'गोरी बायको हवी? रामबाण उपाय. अफगान स्नो लावा.'

अफगान स्नोची थोडीं बॉक्सां सोपयलीं ना. कावळो काळो तो काळोच. फेअर ॲण्ड लवली तर कॉलेजांतल्याव लायतालें. आयज मेरेन लायतां. घोव म्हणटा, " फेअर जाव ना म्हण लव्हली नक्कीच आसा." म्हाका तितलेंच पुरो जाता. कालूच रामदेवबाबाचें एक रिकोर्डेड वर्जन पळयलें. एलोवेरा जेल लायात, गोरीं जायात. रोकडेच घरकाराक ऑर्डर दिली तार्णे बाबड्यान रोकडेंच हाडलें. रात दीस सारयतां. 'तीन दिवसात चेहरा इतका गोरा होईल की आरश्यात पहात राहील.' असल्या जाहीरातींक हांव अजूनुय भुलतां.

भुरगेपणांत सुटयेंत आजोळा वतालें. मामाल्या घराव हळदुवोच रंग. तेकल्यारूच आंगाक लागतालो. दर दिस तिनसांज जाता म्हळ्यार सगलीं मामेभयणी, मावस भयणी शेजारचीं भुरगीं मेळून नाच, नाटकां करतालीं. म्हाका चान्सू पडटालो. ल्हवूच वचून तो वणटीचो रंग पोल्याक सारवप आनी कार्यावळ करप. आनी रातभर तो रंग तसोच तोंडाक दवरप दुसरे दिसा मागीर तोंड धुवप.

इश्कोलाच्या वर्सुकी गॅदरींगाक वांटो घेतालेंच. त्या दिसा जो मेकअप करप तो दुसऱ्या दिसा धुवप. रुपडे काव पडटालें. मागीर खोबरेल लाय, लिंबू लाय, किर्दे आनी किर्दे पूण सारयल्ली रांदन एक दीस तरी चकचकली म्हण हां भितरले भितर खोशी जातालें. कॉलेजांत आसतना फाल म्हण मुमरांनी म्हजी फाट सोडूं ना. तेन्ना तर दर दिसा कि किर्दे सारयत रावप. आंबेहळद, चंदन पावडर, मुलतानी मिट्टी ऑरेंज पीलऑफ, बेसन, तातयांतलें धवें, स्टीम तुलशीच पानां घालून! हजारांनी उपाय पूण मुमरां कमी काय जा नाशिल्लीं. वयल्यान तोंडाच्यो काती वताल्यो.



बापायक मात म्हजी काकूट दिसताली. केन्ना एकदां चें लग्न जावं आनी मन दुसरेकडे लागूं अशें ताका दिसतालें.

पूण लग्न जालें म्हण किंदें जालें? म्हाका गोरें पाक नाका? म्हजे उपाय चालूच.

आयज लेगीत भायर सरतना घोव म्हणटा, "आगो चड रंगोव नाका. पळोवं नजो तें रुपडे."

पूण हांव रावतां? म्हाका गोरे दिसपाक जाय. मागीर तो णटा. " तुका मम्मी पावडर हाडून दितां." आतां म्हण तोंडाचेर रक आसा.

आमच्या सोयऱ्याचो ७५ वो वाढदीस आशिल्लो. रिटर्न फ्ट म्हण सगल्यांक साडयो हाडिल्ल्यो. आनी टेबलार मांडून रिल्ल्यो. आपल्याक जाय ती सिलेक्ट करप. आनी व्हरप, वें बरोऽऽ मरून डार्क कलर सिलेक्ट केलो. दुसरी एक सोयरी यली आनी म्हज्या हातांतलीच ओडून काडली आनी दुसरेक ली वयल्यान म्हणटा कशी, " तूं मात्सो लेवूच रंग सिलेक्ट र गो. तोच तुका सोबतलो."

म्हजो बापूय आमकां कपडे हाडतना लेव रंगाचे हळदुवे, लाबी, धवे बी हाडटालो. आमी तिगी भयणी. तिगांकूय काच सारके कपडे हाडप. एक व्हडलें पेस हाडप आनी तिगांकूय काच सारके शिवप. मागीर वाजंत्र्यां कशीं आमी ते यालून येऱ्यांगेर बी वतालीं.

एकदां म्हजे व्हडले मामेभयणीक हांवें म्हळें, "आगो वान म्हाका अशें कियाक घडयलें काय?" जाल्यार तार्णे म्हजें बऱ्याऽऽ उतरांनी सांत्वन केलें. " तूं मगो स्पेशीयल वा स्लो लर्नर्सांक पळय म्हणतगर तुकां तूं खंय आसा तें कळटलें." खरें म्हळ्यार म्हाका दिशिल्लें हें म्हणटलें, " ना गो. तूं सोबीत दिसता. कोणें तुका कुरूप म्हळां? तूं आसा काय बरें सुंदर." हांवें खंयच्यानच कूस मारली.

कालचीच गजाल. आमगेर एक सोयरी आयिल्ली तिची सून बाळांत जावपाची आसा. हांवें म्हळें तुका नात जाय काय नातू गे?" तर म्हणता कशी? " नात जाल्यार जाता पूण गोरें धवें जाय."

जेन्ना म्हाका नोकरी लागली तेन्ना घरच्यांक सगल्यांक म्हजे सोयरीकेचो हुस्को जाल्लो. मात्शें गोरें धवें आशिल्लें जाल्यार सोयरीक रोकडीच जातली आशिल्ली. पूण देवा कृपेन सोयरीकेक रंग आड आयलोना.Love at first sight म्हणटात तशी आमची सोयरीक जाली.

एका विचारवंतानी म्हळां, " Take Responsibility for your own happiness, do not expect people or things to bring your happiness. You could be disappointed " हीं उतरां सदांच मतींत दवरलीं आनी जगपाक उर्बा मेळ्ळी. हालींच हांवें वाचलें, एके सावळे रंगाचे चलयेक आपल्या काळ्या रंगा वयल्यान जायते टोमणे आयकूंचे पडटाले. लोक ताका ' ब्लॅकी ' म्हणटाले. आनी ताचो ताका खूब मनस्ताप जाताले. शेवटाक तार्णे उपाय म्हण ऑन लायन ब्युटी प्रॉडक्टस् मागयले, गुळयो घेतल्यो आनी पंच्याहत्तर इंजेक्शनां घेतलीं. तींय बी चेऱ्याचेर. पूण ताचो परीणाम म्हळ्यार तिचें गोरेपण सोडूच पूण चेहरो डांबरी दाट रोडावरी जालो. शेवटाक एका दोतोराकडे वचून उपाय करचे पडले.

खरें म्हळ्यार गोरेपण म्हळ्यार सोबीतकाय, सुंदरकाय न्हय. चलयेचें शिकप, तिचें कर्तृत्व आनी सभाव हें गोरेपणा फुडलें आसा. तीच खरी सोबीतकाय. म्हजे बाबतींत तर म्हाका दिसता, रूप कशेंय आसूं, रंग कसोय आसूं. सैमान जें किंदें दिलां तें सारकें. देवान म्हाका नितळ अंतस्करण दिलां. हांवें आयज कितलीशींच मनशां जोडल्यांत. म्हजे घरांत सूख, समाधान, शांती सगलेंच आसा. आनी किंदें जाय?



खांडोर्ले-गोंव. मो.: ९३०७२९९३१५



# आनी हांवें भियेवप सोडलें...

म्हजो बापूय म्हजे आज्जेक खूब मानतालो म्हणपा परस ताची तिचेर खूब माया आशिल्ली. जेन्ना तिका बापूय मंसड भुंयेंत पावन आयलो तेन्ना ताचें हांसप, मस्करी करप सगळेंच तिचे बराबरच तो सोपोवन आयिल्ले वरी जालें. ताचे उपरांत ताका आमी केन्नाच मन सोडून हांशिल्लो, फकांडां केल्लो पळोवंक ना. जो मनीस मुंबय आनी गोंयां विनोद करपाक फामाद आशिल्लो तो सामकोच जीव नाशिल्लेवरी जालो. ह्या दोन गजालींचो म्हजेर खूब परिणाम जालो.



- शुभांगी नेवरेंकार

मनीस हो प्राणी कित्याक ना कित्याक तरी भियेत
हांवूय एके गजालीक भियेतालें आनी ती म्हळ्यार मनी
वतकीर ताच्या मनशांक जाप दिवपाक वचपाक. हांव ल्हा
आसतना म्हणजे धा वर्सांचें, म्हजो आजो पिडूच्यार जालो
ताचे पयलीं असलें कांय पळोवंक नाशिल्लें घरांत. वेगळें
विचित्र वातावरण तयार जाता. हांवें पळयल्लें तें आजुन
तशाच तशें दोळ्यां सामकार आसा. आजो गेलो म्हणू
कळटकीच म्हजे आज्जेन मारिल्ली किंळाच आनी ती घुंव
येवन पडिल्ली. मागीर तिका शुद्धीर हाडपाक जाल्लो नाव
शेवट, सगळीं जाणां रडटालीं. आमकां भुरग्यांक मागी
शेजरा, सोयऱ्यांनी व्हेलीं. पूण घर तेंकुनूच आशिल्ल्या
आमच्या घराचें भायलें सगळें दिसतालें. आज्याक व्हरपाच

ारी चलिल्ली. आंगणांत, कळनाशिल्लें कितें चल्लां. बी कळपाचें नाशिल्लें. मागीर बऱ्याच वेळान म्हज्या ज्याक हाडून ते निसणीर न्हिदयलो आनी सुतलेन सारको ट बांदलो. दोळ्यांतल्यान आमच्या दुकां व्हांवतालीं. ाक इतलेंच कळटालें, जें जालां तें वायट म्हूण.

आमचो आजो आतां उठचो ना, आमकां काणयो सांगचो , भोंवपाक व्हरचो ना, अपुरबाय करचो ना.

मागीर कोणें तरी हार हाडले. ते आज्याचेर घातले. मकां मागीर घरा व्हेलीं. पांयां पडपाक. पांयां पडून जातकीर, ळ्यांनी आज्याक न्हिदयल्ली ती निसण खांदार मारली. रांत आमच्या घरा कुशीकच्यान, फाटल्या दोंगरार ती सण घेवन गेले. विचारीन दिसलें, 'आमच्या आज्याक य व्हरता?' पूण उतर तोंडा भायर आयलें ना. कोणाक चारूंक शकलें ना. कितलो तेंप हो घुस्मटमार चलिल्लो. चे मुखार मागीर हांवें पळयलें, दोग-तीग बायलो म्हजे ाज्जेक मान्न्यांत घेवन गेल्यात. मागीर मान्न्यांतल्यान ती ायर सरिल्ली. तें तिजें रूप याद जातकीर आजूय काळीज जून उडयता.

म्हजी आजी खांडेपारकांराल्या घरांतली चली. मोटवी, दयाळे केंस, गोरीपान, बावली कशी. तिच्या तोंडार एके रेचें खानदानी तेज आशिल्लें. घमघमीत तांबडो कुकूम च्च्या गोऱ्या रंगाचेर उठून दिसतालो. गळ्यांत मर्दी मर्दी रपळ्यो आशिल्लें मंगळसूत्र. हांव जेन्ना तिचे मांडयेर सतालें तेन्ना सदांच तिचें मंगळसूत्र हातांत घेवन भांगराचे णी मेजतालें. हें सदचेंच आशिल्लें म्हजें. त्या दिसा जेन्ना ी न्हांवन भायर आयली तेन्ना तिचें रूप पळयलें तें तिच्या यलींच्या रुपाक छिन्न विच्छीन्न करून उडोवपी आसलें. रूपल कुकूम नासतना धवें फटफटीत. गळो मंगळसुत्रा शिवाय क्तो. तें दृश्य इतलीं वर्सां जालीं तरी हांव विसरूंक शकलें ा.

आज्याची रातची चड याद येताली. कारण रातचें न्हिदतना आज्याचें काणी सांगप आसतालें. आमी आजये कडेन न्हिदप आसतालें. पयलींच म्हजें मन भियेल्लें आसलें. तातूंत रातच्या वेळार मर्दींच जाग येतकीर नदरे मुखार सगळें दृश्य येवन भंयसो दिसतालो. उपरांत म्हजी आजी गेली. तेन्ना हांव सतरा वर्सांचें आशिल्लें. सगळें कळटालें. घरांतलें वातावरण आजो गेल्लो तेन्ना आशिल्लें तशेंच! म्हजो बापूय म्हजे आज्जेक खूब मानतालो म्हणपा परस ताची तिचेर खूब माया आशिल्ली. जेन्ना तिका बापूय मंसड भुंयेंत पावन आयलो तेन्ना ताचें हांसप, मस्करी करप सगळेंच तिचे बराबरूच तो सोपोवन आयिल्ले वरी जालें. ताचे उपरांत ताका आमी केन्नाच मन सोडून हांशिल्लो, फकांडां केल्लो पळोवंक ना. जो मनीस मुंबय आनी गोंयां विनोद करपाक फामाद आशिल्लो तो सामकोच जीव नाशिल्लेवरी जालो. ह्या दोन गजालींचो म्हजेर खूब परिणाम जालो.

म्हाका दिसतालें कोणूय वतकीर आमगेर जाल्ले वरींच हेरांगेरूय तशें वातावरण आनी रडारड जाता आसतली म्हूण हांव कोणागेर पाचारपाक वचपाचें ताळटालें. एकदां आमचेच फॅमिली फ्रेंडाची, सामकी लागींची सोयरी गेल्ली. आमकां म्हळ्यार म्हाका आनी घोवाक दोगांयकूय तांगेर वचपाचें आशिल्लें. घोवान म्हजें मन घट्ट करपाची तयारी केली. तशें कोण कांयच करचीं नात, रडचीं नात म्हणून.

आतां म्हाका मुंबय, पुण्याक आयिल्लो अणभव सांगतां. जो हांवें मरणाचो कांच घेतिल्लो, मेळपाक वचपाचो. कसो तरी तो नाच्च जालो. म्हजो घोव आनी हांव जाप दिवपाक तांगेर गेलीं. दारार बॅल वाजयतांच म्हाका धडधडूंक लागलें. थोड्या वेळान दार उक्तें जालें. पळयल्यार जिचो घोव गेल्लो तिणेंच आमकां दार उक्तें केलें. कपाळाक व्हडलो कुकूम (म्हाका ओगीत आजो वतकीर आजेच्या कपाळाची याद जाली.) आशिल्लो. मंगळसूत्रान गळो भरिल्लो. हांसत दार उगडलें. आमकां बसपाक सांगलें. स्वता बसली. भितर रेडियोचेर पदां लागिल्लीं. फोटवा म्हऱ्यांत दिवो पेट्टालो म्हूण त्या घरांत कोण गेला हें कळटालें. बाकी वातावरण सदां आसता तशेंच आशिल्लें. ते बायलेन वेवस्थीत सगळें

सांगलें. कसो गेलो, किर्ते जालें. मागीर कॉफी घे म्हूण आग्रो करपाक लागली. उपरांत तिणें स्वताच आमकां कॉफी करून हाडली. तिसरो दीस आशिल्लो. म्हाका विचीत्र दिसलें. पूण कॉफी ताळ्या सकयल घाल्या शिवाय गत्यंतर नाशिल्लो.

दुसरी गोंयचीच. पूण खूब वर्सां मुंबय, पुण्याक रावतात. अशींच आमी दुसऱ्या काय तिसऱ्या दिसा गेल्लीं. बायलेन घोवाची सगळी गजाल वेवस्थीत सांगली. चलयेन हाडून च्या दिली. जावयान बायलेची तारीफ केली. बरी रांदता म्हूण! एक दीस जेवंक येया म्हूण आग्रो करूंक लागलो. म्हाका कळना जालें गेला तो मनीस ह्याच घरांतलो काय म्हूण.

तिसरी गजाल त्याच दिसाची. आमची पयसुल्ली सोयरी. कूड मसुंडेंत व्हरपाक उखलना फुडें च्या आनी सॅण्डवीज आयले. मागीर जेवण आनी जेवणा उपरांत खावपाक केळीं. आमी न्हाल्या शिवाय कांयच घेनात अशें सांगून थंयच्यान कूस मारली. चौथी गजाल, तीं दोगांच म्हळ्यार घोव आनी बायल रावतालीं. घोवाक व्हरना फुडें ती न्हाली आनी मसुंडेंत गेल्ल्या लोकांक च्या आनी फोव करून दिले. लोक सकाळ फुडेंच कांय घे नासतना येतात म्हूण! म्हाका सामकेंच अजाप दिसलें. आमचेच वळखीची. पुण्याक रावपी. मरण आयिल्लो 85 वर्सांचो आशिल्लो. पूण धडधाकट आशिल्लो. तो गेलो हें कळना फुडें आमी तांगेर गेलीं. ताचे बायलेक मेळ्ळीं. तिणें एकूच उतर म्हळें, ''वाचत म्हणून आशा आशिल्ली''. मागीर च्या घे म्हण आमकां आग्रो केलो. उपरांत सगळे तरेच्यो खबरी. कोण आयिल्लो, कोण ना. जेवण कोण धाडटलो ही काळजी. तें आयकून म्हाका जमनीक घांस मारीन दिसलो. मर्दीच 'वावराडी मंगळसूत्र व्हरत. मान्न्यान दवरलां तें हाड' म्हणून धुवेक सांगलें. तांची संगत पन्नास वर्सांची,मागीर असो कसो विचार करपाक शकतात बायलो?

आनीक एक बायल. गोंयची ती. तिचो घोव गेल्लो. तिका मेळूंक गेलीं. तिचे म्हऱ्यांत बसपाक गेल्यार, कदेलाचेर बस म्हणपाक लागली. जो कोण मेळपाक येतालो ता[...] कदेलां दवरिल्लीं. धुवेक आपोवन हळसाण्यांचें तोंडाक फ्रिज[...] आसा तें व्हर म्हूण सांगलें. कशें हें सुचता?

भगवद गीता आमी फकत वाचली. पूण हांवें जा[...] बरयलां त्या बायलांनी आचरणांत हाडली. मनीस जल्मा[...] आयला तो मरतलोच हें सत्य आसा. कोण कोणा फाटल्य[...] वचना. एकटो आयला एकटोच वतलो. कोण कोणाच[...] न्हय. हें सगळें जरी खरें आसलें तरी मनीस म्हणटक[...] माया, प्रेम, भावना ह्यो गजाली आयल्योच. आमी कु[...] सुद्धा पाळ्ळो आनी कांय वर्सांनी तो गेलो जाल्यार घरांतली[...] कोण व्यक्ती गेल्ले वरी आमकां जाता. आमी ताका विसरूं[...] शकनात. हांगा मनीस आमच्या सूख दुख्खांत वांगडा आसत[...] तो गेल्ल्या दिसाच तुमकां ताचो कसो विसर पडटा? दुस[...] गजाली कश्यो सुचतात? कोणा फाटल्यान कांयच उरन[...] पूण मन आसता तें विसरूंक दिना. म्हाका दिसता सग[...] बदल्लां. ताचे बराबर मरणाचे विचारूय बदल्ल्यात. मॉ[...] जाल्यात.

मनीस गेलो ताचें अस्तित्व सोंपलें. ताचें दुख्ख घेव[...] बसप ना. पूण हें सगळें म्हाका बऱ्याक पडलें. हांव ख[...] भियेतालें कोणायगेर जाप दिवंक वचपाक. आतां म्हजो भ[...] गेलो. केन्ना केन्ना मनांत येता, पयलींच्या मनशांक भगव[...] गितेचो अर्थ कळनाशिल्लो काय? कळटालो जाल्यार कित्या[...] तीं मनशां कोणूय गेल्यार कासावीस जातालीं, रडटाली[...] आपलें सगळेंच गेल्ले वरीं हुयेली मारतालीं. म्हाका आ[...] कळून चुकलां की मॉडर्न नांवा सकयल मनशाची माया आ[...] किंमत दोनूय कमी जाल्या म्हूण. आतां पयशांक वाल[...] दितात. पयलीं मनशांक वालोर आशिल्लो पयशांक न्ह[...] पयलींच्या लोकांचें मनशा खातीर पयसो, पयश्यां खाती[...] मनीस न्हय अशें मानप आशिल्लें. आतां सगळें उरफा[...] जालां. ताचे वांगडा चिंतपूय उरफाटें.



पुणे. मो: ७८७५४४७७[...]

हांव सांगतालों तें म्हज्या वाचना बद्दल. ही गोडी लागिल्ल्यान हांव हेर साहित्या बरोबर विनोदी साहित्यूय वाचपाक लागलों आनी म्हजी विनोदबुध्दी बरेतरेन वाडल्या अशें जेन्ना म्हाका दिसपाक लागलें तेन्ना हांवें हांसप सुरू केलें. म्हळ्यार बेठेंच पिशां बशेन न्हय तर जेन्ना हांव  विनोदी पुस्तकां वाचतालों तेन्ना वा उलयतना कसलोय विनोद जालो वा केलो जाल्यार. हळुहळू हांव म्हज्या वाडटे विनोदबुद्धीचेर खूश आशिल्लों. हांसप  तर वेवस्थीत चलतालें.



- दिलीप बोरकार

ओंदूच्या स्वातंत्र्यदिनाचो सुवाळो चलता आसतना तकलेंत सहज एक विचार आयलो. 'बोरकारी' म्हूण हांवें एका काळार राजू नायकाचे विनवणेक लागून 'सुनापरान्त' नांवाच्या एका दिसाळ्यांत  सदर सुरू केल्लें आनी नाय म्हळ्यार ताणें खवदळ घाल्लो. खवदळ हो बरोय आनी वायटूय आसता. प्रत्येकान तिचे विशींचो निर्णय राखून दवरचो.

कोरोनाच्या काळांत जेन्ना टोटल लॉकडावन नांवाचो जो क्रूर खेळ सुरू जालो आनी लोक घरकोंबे जाले तेन्ना राजू नायकान तकलेंत विचार घालो, हांवें बोरकारी प्रसारमाध्यमांतल्या युट्युबाचेर सादर करची. कल्पना बरी आशिल्ली. पूण त्याच काळांत युट्युबाचेर असल्या व्हिडियोंचें इतलें पीक आयिल्लें, तें पळोवन, तांचीं खुमणी आनी सादरीकरणान जीव विटेल्लो. तातूंत म्हजें आनीक पेपारें नाका वो तांचे मर्दीं म्हाकाय कोणें मेजचो न्हय म्हूण हांवें तो विचार टाळ्ळो.

तरी एक विचार आयलो, समाजांत जें चल्लां तें सोंसपाचें न्हय. ताका विरोध करूंक आमचे लागीं शक्त ना. एकूच शक्त आसा ती म्हळ्यार 'विनोद.' जी गजाल समाजाक मारक तरी ती आमी हुमटून उडोवंक शकनात तेन्ना तिका विरोध करून शक्त होगडावचे परस तिचीं फकांडां मारप, टर उडोवप..! तें विनोदी साहित्यांतूच शक्य आसा. म्हणटकूच असो एक ग्रूप करप, ताका 'बोरकारी' नांव दिवप आनी जांकां म्हजी बोरकारी आवडटाली तांकां म्हज्या ग्रुपांत आसपावन घेवप. तांणी म्हजी बोरकारी वाचून फकत मनरिजवण करची न्हय तर तांकांय विनोदी बरोवपाची कूय येवंची. म्हजे बोरकारीन पूड वो किसर म्हूण काम करचें, जांच्या नाकांत गेले बराबर तांकां शिंको येवंच्यो.

कांय दीस फकत चिमट्यो, आंगटे आनी हांसयाळीं आयलीं आनी मागीर एकएकलो आपले परीन माजराच्या गळ्यांत घांट बांदपाक मुखार सरूंक लागलो. हे गजालीची जांकां गरज दिसताली तांणी तांकां प्रोत्साहन दिवंक आरंभ केलो. कांय दिसां भितर हो पंगड फुलारूंक लागलो. दिल मांगे मोर म्हणूंक लागलो. ह्या प्रयोगांतल्यान 'बिम्ब मासिका'क जाय तशें सक्षम साहित्य तयार जावंक लागलें. बोरकारी, बिम्ब परिवार, कोंकणी स्पीक आनी फेसबूक हाचेर बरेच लोक वाचूंक लागले. तांतले कांय दाद दिवंक लागले.

तर हो बोरकारीचो थोडे भितर संपादीत आपरोस, साहित्य, ताचे वयले कमेंटस आनी खळखळ.....

कोरोना काळांतली पयली बोरकारी बरयली ती 16 ऑगस्ट 2020 ह्या दिसा.....

काल हांवें आमच्या देशाचो
74 वो स्वातंत्र्यदिन मनयलो
घराच कडेन,
तोंडाक बांदी नासतना.
सीएमान राजधानींत
आनी हेर मंत्र्यांनी
आपापल्या मतदारसंघांत
तोंडार मास्क चडोवन.
दर वर्सा म्हाका राज्यपाल
राजभवनाचेर च्याक आपयतालो
हे खेप म्हाका टाळ्ळो
कित्याक काय विचारल्यार
म्हणटा, ''मास्का पोंदा
कोण चोर आनी कोण साव
तें कळना. देखून हे खेप
एक्सांकूच आपयले
सावां पासत नवें राजभवन
हांव वतकच तयार जातलें
तेन्ना मुजरत यो''
म्हणटकच म्हजो स्वातंत्र्यदिन
म्हाका फेसबूक आनी व्हाट्सेपार
स्वातंत्र्यप्रेमी वांगडा
सारचो पडलो तेन्ना
म्हजें हड्डेंच न्हय एक्स लेगीत
अभिमानान फुलून आयलें.

टीपः 'एक्सा'चे सुवातेर वाचकांनी जाय जाल्यार आप वैचारीक कुवती प्रमाण उतर घालचें.

ही टीप कित्याक दिवंची पडली?

वाचप्यांक हें एक्स म्हळ्यार बुरशें दिसलें. पूण तें त न्हय. पयलीं साहित्यांत चड करून मराठींत म्हाका 'फुल फुली' म्हळ्यार रोमन 'एक्स एक्स' वाचूंक मेळटालें. लेख समाजाचें वास्तव वर्णन करपा पासत सगळें बरयताले आ खंयच्याय पात्राच्या तोंडांत अश्लील उतर ताका घालपा आसल्यार ताका धाडस जाय नाशिल्लें. ते सुवातेर तो फुल फुली म्हळ्यार एक्स वापरतालो. म्हणटकच वाचकां थारावपाचें ही गाळ म्हूण. पूण कोंकणी आनी मराठींत गाव एकूच आसनात. मराठी लोकांक फुलीचे सुवातेर मोकळ जागा भरा कळटा आसूं ये..! पूण आमच्यो कोंकणी गाव वेगळ्यो..! म्हणटकच तांणी केल्लें समाजाचें वास्तव दर्श म्हजे सारख्या मुखार कसलें वास्तव दवरतलें..? इंग्ली साहित्यांत म्हाका केन्ना हो प्रकार दिसलो ना. जाल्य मागीर तांचें एक्स घेवन ताका फुली म्हणपा परस हांवें सर एक्स म्हणप खूब शाणेपणाचें आनी वास्तवतेक धरू आशिल्लें.



दुसरी गजाल म्हळ्यार म्हाका कोंकणी वाचकांच्या दवंतपणाचेर आनी तांच्या ग्रावाचेर विश्वास आशिल्लो. ांवें म्हजे कुवती प्रमाण गाळ बरयली आनी वाचकांतल्या कादल्याक आपले तकलेंतली गाळ म्हजे गाळी परस समर्पक ो पियोर दिसली जाल्यार ताणें स्वतंत्र देशांत हांव लादतां च कित्याक स्वीकारप..? लोकशायेंत ताकाय आपली कली वापरूंक संद लाबूक जाय. हांवें 'एक्स' वापरून ांकां आपले वैचारीक कुवती प्रमाण थंय उतर वापरपाची ंद उक्ती दवरली. बोरकारी वाचून ताळयो मारप काय ाळी घालप हाचो निर्णय वाचक घेवंक पावले ते हांवें देल्ल्या ह्याच स्वातंत्र्या पासत. म्हजे पयले बोरकारीक कोणें कितें केलें..तर हें

ज्ञानेश मोघेन पोस्ट धाडून म्हळें,"तुज्या एक्साक सलाम..."(बावट्याक काल केल्लो. एक्साचो सन्मान हांवें राखला हें तुंवें वळखलांच आसतलें.)

नितीन नेवरेंकार-तीन आंगठे, अलका असोल्डेकार, संतोष फोंडेकार, विजया सावंत, हर्षा नायक, अनुप प्रियोळकार, दीपा खोलकार, केतन भट, माया खरंगटे, मोहन धोंड, संध्या कामत, उल्हास भाटीकार, हर्षा शेटये, फिलोमेना सांफ्रान्सिस्को, मारुती नायक, पंकज नाडकर्णी हांचे चिमट्यो, नमस्कार, फुलां बी..

अनिल सावंत हाणें बरयलें,"व्वा!पर्थून एक्स विश्वात आमकां हाडले बद्दल दिलीपबाब तुका परबीं. तुजे कडल्यान नवी नवी बोरकारी मेळूं.'

भास्कर नायक-"ग्रेट. हांव तुजे सांगाताक सदांच आसतलों. तुजे कोंकणी सेवे खातीर..."

गजानन जोग- दोन नमस्कार आनी 'बोरकारी येत रावची..'असो सल्लो.

पूण म्हाका मनरिजवण आनी तुस्त नाका आशिल्ली. जाय आशिल्लें कोणें तरी बरोवंक आनी पयलें बरप आयलें बबन भगताचें... भगतायण..17 ऑगस्टाक....

म्हाका दिसता कोरोना काळांत गोंयकारांची चवथ केली वतली! तिवय बी भियेनासताना...

पूण 'व्ही' म्हणटा - 'चवथ माघ म्हयन्यांत करुया.'

जाल्यार 'पी' म्हणटा, 'भिवपाची गरज ना.' ताका लागून हांव मात्सो आबूज जालां. म्हाका भिवप काय भिवप ना तेंच कळना जालां. चवथ माघांत करप म्हळयार भिवप आनी आतांच करप म्हळ्यार भिवप ना. सत्तरींतली चवथ शेर्त माघ म्हयन्यांत जातली. आनी दिवचलची हेच म्हयन्यांत. दोनय तालुके उत्तर गोंयचे. हांव रावतां दक्षिण गोंयांत देखून कितें करचें तें म्हाका कांयच कळना.चवथ ती 'झेडा'र मार म्हणपाकय येना.

आनी माघ म्हयन्यांत कोरोना आसचो ना हें हड्डें फुडें काडून कोण सांगपाक शकता! पी तर म्हणटा 'तो आसूं वा नासूं. भिवपाची गरज ना.' जाल्यार व्ही म्हणटा, 'फुडले पंचेचाळीस दीस जतनाय घेवपाक जाय.'आतां लोकांनी कोणाचें आयकुवपाचें? एकटो दोतोर (विजय ताका कोडलांचो दोतोर म्हणटा ती गजाल वेगळी) जाल्यार दुसरो आरोग्य

मंत्री. दोगय भलायके कडेन संबंधीत देखून कोणाचें आयकुवचें हें चिंतूनच हांव भियेलां. पी क भिये नाका म्हणपाक किते जालां? आमचें आमकां खबर आसा. आमचें झेड भिरांतेन रोखडेंच हालता. पी आनी व्ही ची जोडी मात बरी जमल्या. दोगां मदींय कोल्ड वॉर आसा. पूण तरीय आसताना एकटो 'केलें वतलें' म्हणटा जाल्यार दुसरो तें रोखडेंच करून उडयता. आनीक एक जोडी आसा रोहन आनी विजयाची. ते बरीच मजा करतात. कितेंय करपाक सरकार कमी पडलें जाल्यार 'केलें ना, करीत ना मरे ते!' म्हूण दोगय बोवाळ मारतात आनी करतगीच 'हें किदें केलां, शी बाबा हांकां म्हूण मात अक्कलच ना मरे' अशें म्हणत बोवाळ घालतात. आमच्या चर्चिलाचें मात म्हाका बरें दिसता. तो 'किया तो भी भला न किया तो भी भला' म्हणटा. अर्थांतच तो तें साश्टीच्या किरिस्तावांचे भाशेंत म्हणटा. आसूं, ताचें बाबड्याचें ताका नाका जालां. तो पयर कोणाक सांगतालो खंय, ज्योकीम कुकळेचो आमदार जाल्लो जाल्यार कुकळेंत कोरोना इतलो स्प्रेड जावंचो नासलो म्हूण. आतां थंय बाबड्या आमदाराक लेगीत सोडलो ना कोरोनान. फाटले फावटे थंय ज्योकीम चाळीस मतांनी पडलो. देखून क्लाफासियोक मतां मारिल्ल्यां मदल्या वीस जाणांक तो सोदता. तीं वीस मतां हे फावट ज्योकिमाक पडलीं जाल्यार तो जिखतलो अशें ताचें गणीत ताका सांगता खंय! कुकळे लोक कोरोनान मरतात आनी तो ज्योकिमाक 'भिवपाची गरज ना. हे फावट तूंच जिखतलो' म्हूण सांगूंक लागला खंय. बाबडो क्लाफासियो मात भिवपाची गरज ना हो मुख्यमंत्र्यान दिल्लो मंत्र घेवन मतदारसंघांत भोंवत रावलो आनी कोरोना गळ्यांत घालून शरपंजरी पडलो. नशीब गांडू तो क्या करेगा पांडू म्हणटात तें हेंच .

म्हाका खरी काकूट दिसता ती त्या धा आमदारांची, जांणी हाताचो साथ सोडून कमळ हातांत घेतलें तांचो. कोरोनाक मातय न भिवपी ह्या धाय आमदारांच्या सपनांत ह्या दिसांनी फकत सुप्रिम कोर्ट येता खंय. बाबड्यांक चवथीची लेगीत उमेद ना म्हूण आयकलां. सुप्रिम कोर्टान तांच्या झेडार मारली ना जाल्यार पुरो. कुयदाद........!

बबन भगत पत्रकार. पत्रकारींतेंल्या गिन्यानाचो आधार घेवन ताणें आपलें खातें बोरकारींत उगडलें आनी ताक आंगठे आनी फुलां मेळूंक लागले. मीना काकोडकार मुळा खट्याळ. ताचे कडल्यान विनोदी बरपाची आमकां खू अपेक्षा आशिल्ली. पूण ताणें सगळें हुंदरांक खावयलें. पू ताच्या नाकांत बोरकारीचे पुडीचो दर्प गेलोच, पूण शीं येता शी जाली आनी फूस्स जालें. तरी ताणें खाडया खाडय केलेंच.

मागीर ताका हांवें पीन मारपाक प्रयत्न केलो...

मीना, भयणी तुका खाडाची एक याद सांगतां. म्हाक आनी मनोहरबाबाक एक दीस भाई मावज्यान जेवणा आपयले.(हय, आदले काळार अशे आफयताले. गेले दिन गेले!) सोबीत, मेघना बी तेन्ना सामकी ल्हान. दोगां म्हजे वेंगेंत पडून खाडा कडेन खेळटालीं. मनोहरबाब आम कडेन मिश्कील नदरेन पळयतालो. रोकडीच ताका कवित सुचली-

खाड, खाड, खाड
दिलीप बोरकाराचें खाड
खाता तितलें खाडांत वता
दिलीप म्हणटा वाड,वाड,वाड

खाडाक लागून संतोष फोंडेकाराक कसली तरी फाटल याद जाली..कसली ती म्हाका याद जायना. तो बरयता

म्हजींय दुकां कशींच थामनात...
कोण तो तुजो एक्साचो पाल...
गोयकारांक रसातळाक वचपा पासून वाचयतालो..
तो जितो आसा म्हण सुध्दा खबर नाशिल्लें
धा गाडयो घेवन बाबडो, मिरामार लॉक डावना आयसक्रिम खावपाक येतालो
तितलोच फक्त पळयिल्लो
दोळे भरून पळौंक सुध्दां मेयळो ना
एका पत्रकार भावान ताका जितो केल्लो
ताणें गोंयकारां खातीर केल्ल्या असंख्य कामांची या तरी तयार करूया
ना जाल्यार म्हजीं आनी तुजीं दुकां
व्यर्थ रे बाबा...

थामच ना रे दुकां,
थामच ना.

आंगठे आनी हांसयाळीं पळोवन बबन भगत भुल्लुसलो. ां खाडाचो विशय आयलो म्हूण खाडाचेर बरयलें, म्हळें वं दी. हातूंतल्यान एक दीस शिकतले आनी बरें बरोवंक गतले.

पप्पा तुजें खाड केन्ना
कातर घेवन कापचें दिसता
पप्पा तुज्या खाडाक केन्ना
झोंपय मारून झेलचें दिसता
पप्पा तुजें खाड म्हळयार
अटंगें रान रे
पप्पा तुजें खाड म्हळ्यार
कोळशाची खाण रे
खाड वाडोवन पप्पा तूं
पळोवंक दिसता शिवाजी
हातांत घेवन तलवार म्हूण
खेळेन मी जिवाशी
तुजेवरीं खाड म्हाका
येतलें केन्ना सांग रे?
तोणाक लावन काळो रंग
रंगय म्हाका खाड रे
पप्पा तुजें खाड केन्ना
कातर घेवन कापचें दिसता
पप्पा तुज्या खाडाक केन्ना
झोपय मारून झेलचें दिसता
पप्पा तुजें खाड
कितले बाबा ताचे लाड

(ही कविता दिलीपबाबाच्या धव्याफुल्ला खाडाक ओपतां)

22 ऑगस्टाक महेश नायक व्यक्त जालो
कोरोना च्या बाजारांत
कोण चडता
कोण देंवता
मास्कां जालीं
ग्लावजां जालीं
शाब्बाचीं उदकां न्हालीं
सॅनिटायझराची अपुरबाय जाली
वाफो काडे
हळदीचीं दुदां
व्हीटामीनाचीं आवर्तना जालीं
आर्सेनीकाचीं कुपां गिळ्ळीं
Coronil आयले केन्ना
Coronil गेले केन्ना
बोटांचेर Oxymeter
बसलो केन्ना
सध्याक
plasma चो खंय वाडला बाजार
Coronila चो खंय देंवला बाजार
आयकून आयकून हांव जालों बेजार

महेश नायक आनी संतोष फोंडेकार हे दोगूय फार्मास्युटीकलांतले. तेय व्यक्त जावं येतात म्हूण कळ्ळें.

23 ऑगस्टाक मीना काकोडकाराच्यान रावूंक जायना जालें...ताचें सुरू..

“_माया,म्हाका एक सांग गो..दिलीप पळय हें ‘X’



वापरता तें सोवळें काय अ-सोवळें गो?''

''आवयस्स ! दिलीपाचो कांयच भरवंसो ना गो. तो म्हणटलो तुज्या मनांत 'पो' आसल्यार तुका तें 'पो' दिसतलें. ना जाल्यार ना..

_'' ' पो ' म्हळ्यार गो माया?''

'' तें हांव सांगना गो बाये..कोंकणीचें तीन अक्षरी उतर तें_सोवळ्याच्या उरफाटें?''

''_दादा कोंडकेचें नांव आयकलां न्हय तुवें? तो दोट्टी अर्थाचीं उतरां वापरतालो.. आपल्याक जाय तो अर्थ घेवपाचो..'सो' जाल्यार 'सो' घे नाजाल्यार 'पो' घे.''

''_अशें? माया, दिलीप हें **'X'** आंब्यार पसून शेंवटून मारता खंय मगो, आंबे काडूंक. माडार मारूंक येत काय नाल्ल पाडूंक? हालीं पाडेकार मेळनात..''

''_आवयस्स् मीना, तूं म्हणून कितें विचारता गो? नाल्ल माथ्यार पडल्यार 'कै' जातलें मगो तूं..''

_'' 'कै' म्हळ्यार?''

''_कैलासवासी गो ..''

''__शी बाये! हो दिलीप नाका जाल्ल्यो आयडिया तकलेंत घालता..विचारल्यार म्हणटलो...भिवपाची गरज ना.''

ह्या वार्तालापा उपरांत जे कोण एक्साक भिवून कुशीक रावताले ते लागीं येत रावले. हांवें दिसाक एक बोरकारी सातत्यान बरयतलों आनी कोणांक ना कोणांक तिडायत कूय हाडटलों अशें थारायल्लें. बबन भगतान भगतायण सुरू केल्लेंच..सगळें हांगा दिना..

मुंबयच्यान शैलेंद्र मेहताक रावंक जायना जालें....ताणें बरयलें...

1990 च्या दसकांत जे एन यु विद्यापीठांतलो रिसर्चर आनी म्हजो लागींचो इश्ट, अमिताभ मिश्रा गोंयांत आयिल्लो. गोवा विद्यापीठाच्या कॅन्टीनांत हांवें ताची वळख दिलीपा कडेन करून दिली. उपरांत दिलीप आनी हांव कांय वेळ बोरकारी विशीं उलयले. अमिताभान म्हाका विचारलें, ''ये बोरकारी क्या है?'' हांवें ताका लायब्ररींत व्हरून सुनापरांत आनी बोरकारी दाखयली. 'अच्छा ये है बोरकारी'. ताणें म्हळें. उपरांत ताणें सुनापरांताचीं हेर पानां पळयलीं आनी कांय खिणांनी अजापाचे नदरेन म्हजे कडेन पळोवन म्हळें ''क्या अजीब लिखते हो यार तुम लोग कोंकणीमें!'' हांवें विचारलें, '' क्यों क्या हुआ?'' ताणें दोन माथाळ्यांचेर बोट दवरलें. पयलो: 'लंडनाचे' बसकेंत निर्णय. दुसरो 'झांटये' चो सत्कार. हांवें कपलार हात मारलो.

मागीर मारुती धर्मा नायक जो आपल्याक 'प्रेमवीर' म्हणटा आनी हेरांनीय तशें म्हणचें म्हूण प्रयत्न करता तो मुखार सरलो....

....**तो** म्हणपा लागलो. ''काय राव, कसं चाललय, बरय ना?''

म्हाका आयली तिडक. हांवें म्हळें, 'राव ना जाल्यार चलपाक लाग. कसो चलता आनी म्हूण विचारू नाका आनी रस्त्यार उबो रावोन म्हूण कोण बरयता रें?.''

म्हजो आवाज चडलो तसो तो काकुळतेक आयलो. म्हणपा लागलो, ''अहो साहेब, रागावता कशाला? मी म्हटलं, कसं काय राव, बरं आहे ना. कसं चाललयं तुमचं?''

बाये घोव मराठी दिसता.

आतां मीना काकोडकारान सुरू केलें....कित्या हांवें पाख्याचे वेचणुकेचेर बोरकारी बरयल्ली..

फुलपाखे सामके आबूज जाल्यात..

तांचे स उमेदवार वेंचणुकेक उबे रावपाचे आसात हें तांकां बोरकारी वाचून कळ्ळें खंय.

''कोण ते स जाण ?'' फुलपांख्यांचो राजा तापलो ..

'' तें खाडया बोरकाराक खबर आसा.आमकां ना..''

'' तुमकां खबर ना ? तुमी कितें एक्स खावंक गेल्ले ?''

'' ना ना म्हाराज.''

'' उमेदवारांचो प्रचार कोण करतलो ?''

'' दोगां जाणांक वेंचून काडल्यांत.''

''कोणें ?''

'' खाडया बोरकारान.''

'' वचत थंय एक्साचो होच्च?''

''हय म्हाराज.''

" कोणांक वेंचून काडल्यांत?"

" एक कोण मीना काकोडकार आनी दुसरें हर्षा शेटये ."

" हीं कोण ?"

" तीं जाणकार खंय!"

" हें कोणें सांगलें?"

" खाडया बोरकारान."

" हाका वाग्गान खांव रे. एक सांग हीं दोगांय कितें चड ?"

" हय. हर्षाक लाडू करूंक येतात खंय!"

" आनी त्या दुसऱ्याक?"

" मीनाक? ताका लाडू खावंक येतात खंय..!"

" पाडा घाल.लाडवांचो आनी वेंचणुकेचो संबंध कितें? तुज्या खाडया कडेन जाणकारय नात. वेंचणुको कॅन्सल..सांग त्यांक."

" पूण खाडयो बोरकार पयशे मेळटले म्हणून रावला. ल्यार, ताचे हात थरथरतात खंय..!"

" ताका सांग आमचीं पाखां थरथरतात तीं पुरो. हेरांनी वपाची गरज ना!"

हेमा नायक आतां व्यक्त जालें...

नवे तांकिचो आनी विनोदी शैलीचो लेखकवर्ग बोरकारीच्या साहनांतल्यान सृजन निर्मिती करपाक लागलो ही खोशेची ाल. आतांच मनांत आयिल्लें, तोंडाक पट्ट्यो लायिल्ल्यान प जालां दुर्मिळ, पूण मीनाबायन काळजाक थंडाय हाडली...

प्रशांत नायक भितर सरलो:

दिलीप, तूं सांबाळून रे. मीनाबायचेर भार आयला सो सता. बोरकारी आनी काकोडकारी बेश्ट

सखाराम बोरकाराच्यान आतां रावंच जालें ना. इतले स फक्त आंगठे दाखयतालो..

ह्या फुलपांख्यांनी म्हाका थोडो पिडूंक ना
आतांय पिडत आसात
शाळेंत आसतना एक कविता आशिल्ली
'धरुं नका हीं बरें, फुलांवर उडती फुलपांखरें'



कविता पाठ जायना म्हण परब मास्तराल्यो
छडयो खांवच्यो पडटाल्यो
आनी कालसांव ओलें जातालें
मागीर फुडें फुलपांखरां धरपाचो
खूब येत्न केलो
सगळीं हातांतल्यांन सुटलीं
आनी आप-आपल्या सुरवंटा सांगाताक
आतां सुखान संवसार करतात.
तर हीं फुलपाखरां म्हाका आतांय पिडटात
हर्षा बाय ' भांगरभुंय'चेर
फुलपांख्यांचेर बरयता
सोबीत फुलपांख्याचो फोटो
थोडी म्हायती आनी आपलो
कुणबी साडयेंतलो फ़ोटो
ताचेवयर कोण तरी रेसिपी बरयता
सुंगटांची कडी, घोंटांचीं सांसवां आदी
म्हजी बायल त्यो रेसिपी वाचता
आनी घोंटांच्या सांसवांचे निमणेकडेन

आंबाड्याची करम कशी जाली काय विचारून
म्हाका धोंगशीता.
इतल्यारूच सोंपूंक ना
ती मागीर फुलपांखें पळयता
आनी पळयता आसतना तिची नदर
हर्षाबायले कुणबी साडयेचेर वता
आनी आपल्याक तसली साडी हाड
म्हण तोंड फुगोवन बसता
हांव 'हो कोरोनाचो काळ, मागीर घेंवया'
म्हण समजूत काडटां
हो फुगडो दोन तीन दीस चलता.
इतले म्हणसर फुडलो आयतार येता
मागीर तेंच!
हातूंत भर म्हण पयर लोकमतार
फुलपांख्यांचे फोटे पयल्या पानार आयले
हांवें लोकमतच लिपोवन दवरलो
म्हळें परतें आनी रामायण नाका
इतल्यान खंय सोंपलां
ही फुलपाखीं म्हजी कशीच फाट सोडीनांत
काल खूब तेंपान रातची सुस्त न्हीद पडली
न्हिदेंत सपनय पडलें
(म्हाका आजूनय सपनां पडटात, तुमचे म्हायती खातीर)
सपनांत कोणें तरी म्हाका भुजाक धरून उठयता
काळखांत म्हाका झळकलें ना
हांवें म्हळें, "कोण थंय?"
तर एक्साचें म्हण्टा, "म्हाका वळखलो ना?
तूं आतां जाण्टो जाला"- कोणतरी
"पयलीं तूं म्हजेर बरयिल्लें घोस्तान वाचतालो मरे?
आतां बोरकारी आनी कृमचे लेख वाचता तसो!
आरे! हांव फुलपांकूलें बबलूल्या पत्रांतलें"
अशें म्हणीत तें नाच्च जालें.
सपनांत लेगीत म्हाका शेळो घाम फुटलो
'बबलूली पत्रां' म्हज्या मुखार नाचपाक लागलीं
हांवें हळूच कुशीक पळयलें
बायल कुणबी साडी न्हेसून
मोठ्ठे दोळे करून म्हाका पळयताली
एक्साची सपनां पळोवपाची लेगीत
आतां माणसुकी उरूंक ना आनी
तीं फुलपांखी म्हजी कशीच फाट सोडीनांत.

सखाराम बोरकारान कृ.म. सुखठणकाराक कोमार काडपाचो यत्न केलो पूण कृ.म. बाडगलो ना.

......

इतले दीस फकत आंगठे घालून हांसयाळीं घालून आपले भितरलो हांसो उक्तावपी सिंधू असोल्डेकार आतां मुखार आयलें.....ताणें आपली असोल्डेकारी

आयज म्हाळ, केन्ना येना ती
पुर्वंजांची याद आज भरभरून येता
पुर्वजां खुस्तार मात कावळ्यांची मजा
सदांच 'शोव्व शोव्व' करपी आमी
ताका 'का का' करून आपयतात
तोवय म्हणून मोठो बिलिंडर
'का का' करून घिरट्यो घालता
पूण सट्ट करून येना
आनी आयलो जाल्यार तोंड लायना
आज आमी काकोळ दवरली तशी
घिरट्यो घालून एकलो येवून बसलो
पूण कसोच उश्टायना
हांवें ताका विचारलें," कितें जालें?
पुर्वज रागार रे आमचेर?"
ताणें म्हळें, "तें म्हाका खबर ना."
" मागीर कित्याक उश्टायना तर तूं?"
तर म्हणटा कसो,
" तूं म्हजो फोटो काडटा काय म्हण रावलां."
"तुजो फोटो ? कित्याक काडूं ?"
हावें विचारलें..
तसो तापार जावन म्हणूंक लागलो
"सगळ्या म्हाळ विधीचे फोटो काडले.
सोशल मिडियाचेर घाले.
मागीर म्हजोच कित्याक ना?

आमी परंपरा कशी सांबाळ्या
हें दाखोवंक काकोळ उश्टायतनाचो
म्हजो बरो फोटो घाल
खूब लायक्स मेळटल्यो
त्यो तुमी परंपरा सांबाळ्या देखून
काय म्हज्या फोटो पासत
तें मात हांव नकळो
किदेंय आसू धादोस जालो हांव
तुमचे पुर्वजांचें मात हांव सांगू शकना
बरें तर... आं बरी याद जाली
सांगपाक विसरलों...
हें आमचें संभाषण सोशल मिडियाचेर घाल
खास करून बोरकारीचेर
पूण दिलीपबाबाची परवानगी घे
ना तर तो म्हाका एक्सार मारत बी.

ताचेर मीनाची मखलाशी...

दिलीपाची परवानगी घेवपाची गरज ना गो. कावळ्याची तल्यार पुरो.बोरकारी आमची सगल्यांची न्हय रे भावा ?इनोद ासल्यार पुरो...

कोणें तरी हर्षा शेटयेक याद केली. तें फाटीं फाटीं वतालें

शेवटाक तोंड उगडलें..

बोरकारी, भगतायण, काकोडकारी, असोल्डेकारी वाचून ामची उमेद भागता... मोर नाचता म्हणून कुट्टुन्यान ाचचें न्हय..

आनी हेच वेळार कल्पना करूंक नासतना शिरीष लवंदो शेरिषासन घेवन आयलो...

म्हाका ल्हानपणा सावन वाचनाची खूब्ब आवड. ल्हानपणा सावन म्हळ्यार जाल्या बरोबर हांव वाचपाक ागलों अशें वाचप्यांनी समजुचें न्ही.

हें सांगपाक कारण म्हळ्यार खूबशे म्हजे लागींचे इश्ट आनी बरें मागपी हांव कितेंय करूंक शकतां अशें अजून ानतात. तें सोड. तर हांव सांगतालों तें म्हज्या वाचना बद्दल. ही गोडी लागिल्ल्यान हांव हेर साहित्या बरोबर विनोदी साहित्यूय वाचपाक लागलों आनी म्हजी विनोदबुध्दी बरेतरेन वाडल्या अशें जेन्ना म्हाका दिसपाक लागलें तेन्ना हांवें हांसप सुरू केलें. म्हळ्यार बेठेंच पिशां बशेन न्हय तर जेन्ना हांव विनोदी पुस्तकां वाचतालों तेन्ना वा उलयतना कसलोय विनोद जालो वा केलो जाल्यार. हळुहळू हांव म्हज्या वाडटे विनोदबुद्धीचेर खूश आशिल्लों. हांसप तर वेवस्थीत चलतालें. म्हजी ही अवस्था म्हजें ल्हानपण



आनी जुवानपण काडून जाण्टेपणांत हालींच पावल घालऽ मेरेन बेस बरी धांवताली. थंयच अचकीत ब्रेक लागलो. कोणाची तरी नदर लागली. म्हजें हांसप बंद जालें. विनोदी साहित्य वाचलें जाल्यार वा कोणेंय कसलोय ज्योक केलो जाल्यार हांसपाक येना जालें. हांव भियेलों. येदी व्हडली वर्सांची कश्टान मेळयल्ली बुद्द अचकीत ना जावप म्हळ्यार किदें. म्हाका म्हजोच दुबाव मारपाक लागलो. जाण्टेपण तकलेक बी मारुना मूँ. पूण ना. बाकीची सगली बुद्द बरी चलता. फकत विनोदबुद्दी घळसल्या. म्हज्या लागींच्या इश्टांक सांगची गरज पडली ना. हांव संदाच तांच्या साद्या लेगीत विनोदाक हांसपी मनीस एकदम खूंट कसो रावता तें

पळोवन तेवूय भियेले. तांणी रोखडेच उपाय सुचोवपाक सुरवात केली. एकलो म्हणपाक लागलो मात्सो रेस्ट घेतल्यार बरो. सद्या वचत थंय विनोदी वातावरण आशिल्ल्यान विनोदबुद्दीचेर ताण आयला आसतलो. तेच वेळार अचकीत राजू नायकाचो फोन आयलो. गोंयांत खंयूय खुट्ट जाल्यार ताका पयलीं कळटा. (अशें तो म्हणटा. हांव न्ही). तर राजून म्हळें, 'आरे शिरीष किदें जालें? तुवें हांसपाचें सोडलां खंय? आरे काय बरो हांसत्या मुखाचो भुरगो मरे तूं! अशें जावंक फावना.' म्हजे बद्दलची चिंता ताच्या आवाजांत म्हाका अती स्पश्ट दिसताली. 'दनपरां जेवन मात्सो अर्दवर लकणी काड. बरें दिसतलें!' असो प्रेमळ सल्लो दिवपाक तो विसरलो ना.

दुसऱ्या इश्टान, 'आमचो सायब मोराक कशें खाण घालता ते फोटू पळोवपाची' सुचोवणी केली. हांसूंक ना जाल्यार रडूंक तरी येतलें आनी म्हजो वोग वचून हांव पयलीं बशेन जातलों अशें ताका दिसलां आसत. तिसऱ्यान तर बोरकारी ग्रुपार घालून घेवपाची सुचोवणी केली. त्या ग्रुपावेले सगळे दिसभर हांसत आसतात खंय! कांयजाण तर वाच्चे पयलींच हांसतात तर कांय जाण ग्रुप उक्तो करचे पयलींच हांसपाक लागतात अशें ताचें म्हणणे. बोरकारी वाचून पळे, तूं हांसले बगर कसोच रावचोना अशें ताणें ठांसून सांगलें.

चवथ्यान सादुरपणा दाखयत म्हाका दोतोर राजेंद्र हेगड्याक मेळपाची नमळायेची सुचोवणी केली. तो हाचेर उपाय काडले बगर रावचो ना अशेंय ताणें फुडें सांगलें. हांव अकलेक आयिल्ल्यान कोणूय कितेंय सांगता तें करपाची म्हजी तयारी आशिल्ली.

पूण रेस्ट घेवपाची आयडीया हांवें भायर गल्ली. रिटायर मनीस ओगी बसल्यार रोखडोच सोंपलो हें खूब जाणां कडल्यान आयकून हांव म्हाका सदांच रेस्टलेस दवरतालों.

हांवें मागीर आमचो सायब मोराक खाण घालता तीं चित्रां पळेलीं. ताचे व्हीडियो पळेले. पूण हांसपाचें नांव ना. म्हजे तकलेंत वेगळेच विचार येवपाक लागले. हांवें सुणीं, माजरांक आनी चोर्ला घांटार माकडांक लेगीत जायतें खाण घालां आनी ताचे फोटू सगळे कडेन व्हायरल जाल्ले. ते पळोवन कोणूच कित्याक हांसलो ना? आनी आंतां आमचो सायब मोराक खाण घालता जाल्यार हे अशे पोट धरून कित्याक हांसतात हें म्हाका कळना जालें. म्हज्या आनीक एका इश्टान सांगलें, बोरकारी ग्रुपार सद्या जायते मोर आनी फुलपांखे लोकांक हांसोवपाचें काम करतात. तूं थंय कित्याक वचना? हांव रोखडोच दिलीपाक मेळूंक गेलों.( हांगा दिलीपबाब म्हणून वाचचें. बेश्टीच मानापमानाची भानगड नाका). दिलीप म्हजो शेजारी आनी बरो इश्ट (अशें हांव म्हण्टां. दिलीप किदें म्हणटा तें हांव नकळो.) भितर सरता थंयच आसा दिलीपान एक्सान म्हाका येवकार दिलो आनी म्हजें कोंकणी उलोवप कशें शुद्ध ना हाचेर म्हाका एक लेक्चर दिलें. दिलीप म्हजो इश्ट आशिल्ल्यान ग्रुपार सहज घालतलो अशें हांवें येवजिल्लें. पूण येस केन्ना कोणाचे तकलेक मारीत म्हणून सांगूक येना. हालींचाराक तो वाटेर बी मेळ्ळो जाल्यार म्हाका तुच्छ नदरेन पळेता काय किदें असो म्हाका भास जातालो. नाशिल्लें छपन्न इंच हड्डें फुडें काडून चलपाची ताका हालींचाराक संवय जाल्ली. हांवें आमच्या एका इश्टा कडल्यान ताका रकाद धाडून ही संवय सोड ना जाल्यार कण्याचें दुयेंस जावं येता आनी आसा तेंय हड्डें नाच्च जातलें अशें सांगपाचो यत्न केल्लो. त्या इश्टान आपल्या हड्ड्याचो विचार करून तो रकाद दिलीपाक दिंवक ना असो म्हजो दुबाव. दिलीप अजुनय तसोच चलता.

हांगा शिरीषाचें शिर्षासनाक हांवें कातर लायल्या.कित्याक तें हेमा सांगतलें..

हेमाचो कमेंट शिरीषाक

तुजें लांबलचक लिखाण आवडलें, पयलीं पळयलें आनी फाफडून उडयलें, जाणटेपणांत इतलें व्हडलें वाचपाची उमेद उरना, बुद्दीची शक्त उणी जाता दिसता पूण एकेकलो तोखणाय करता म्हण वाचपाक गेलें आनी केन्ना सोपलें तें कळ्ळेंच ना, बरें जालां, आवडटलें..

कांय जाणांक कितेंय पचपचीत पीजे केल्यार विनोद दिसतात म्हूण हांवें विनोद निर्मितीचेर, विनोदाचीं आंगां हाचेर एक टिपण केलें. विनोद कसो आसचो हें समजूंक. तो पोत सखारामान धरलो आनी तें सखाबोरकारीचेर घेतलें..

: दिलीपबाब म्हण्टात तें फट न्हय

कोणाक खंय, उपरोध, विसंगती, अतिशियोक्ती दिसता

तेंच कळपाक मार्ग ना

आतां हेंच पळय फाटीं भाई मावज्याच्या 'तिश्टावणें'चें नलायन प्रकाशन जालें

हो कोरोना काळ म्हळ्यार सगळेंच ऑनलायन

हांव खुंटावणी मारून तिश्टावणीचो प्रकाशन सुवाळो

पळोवंक लेपटोपा सामकार बसलों

प्रकाशन सुवाळो ऑनलायन आसूं वा ऑफलायन

पुस्तकाचेर उलोवपी सदचोच

आमचो दो. हनुमंत चोपडेकार !

हो एकटोच कोंकणी दोतोर भरपूर वाचता

आंतोन चेखोव्ह सारकेल्या व्हडल्या- साहित्यीकांचीं वां घेता

नाजाल्यार बाकिच्यांक चेखोव्हय सारको आनी र्बाचेव्हय!

त्या खातीर पुस्तकाचेर उलोवपाक ताकाच आपयतात

दो. हनुमंत तिश्टावणेचेर उलयलो

आंतोन चेखोव्हा कडेन भाईची तुळा केली

आनी मागीर म्हणूंक लागलो

आयज सकाळीं भाईन आपल्याक सांगलां

'सगळेंच बरें -बरें उलोवंक नाका

उणेपणांय दाखय'

आपल्या साहित्यांतलीं उणेपणां जाहीरपणान सांग म्हणपी

भाई हो एकमेव साहित्यीक!

म्हणून तो सगळ्यांक आवडटा

नाजाल्यार आयचे साहित्यीक? आसूं...

दोतोर खांकडत खांकडत

'मोडकी मोटार' हे कथेंतलीं उणेपणां सांगपाक लागलो

इतल्यांत घरांतलो टॉमी भुंकपाक लागलो

(गुप्तताये खातीर नांव बदल्लां)

"आर्रा तूं! भाईले कथेंतलीं उणेपणां काडटा?"

अशें कितेंशे सांगूंक सोदता अशें म्हाका दिसलें.

बांदून दवरिल्लो म्हण बरो

ना जाल्यार एक्साचो घांस मारतलो आसलो.

आतां मोनजातीकय साहित्यांतलें कळपाक लागलां अशें म्हाका दिसलें

हांवें खबर काडली

हालीं सगळ्यो ऑनलायन साहित्यीक कार्यावळीय

खंय टॉमीच्याच घरांत जातात.

त्यो मागीर मुलाखती जावं वा प्रकाशन सुवाळे!

म्हाका टॉमीची तोखणाय दिसली

होवूय एक्साचो म्हज्याच भशेन 'झांकून - झांकून गांवकार जाला'काय?

मायाक विचारचें पडलें..

भाई मावजो आतां मुखार सरलो.. विनोदी कांय बरयनांत तरी बरोवप्यांची अपुरबाय मार्गदर्शन,कान धरप गरज पडटा थंय जाय आसलें...

हो ग्रूप फकत कावलांबावलांचो. हांसत हांसत चिमटे काडपाचो. बोरकारीचो नवो अवतार तोखेवपाचो. जमल्यार विनोदांत भर घालपाची. पूण पुस्तक प्रोमोट करपाचो न्हय. पुस्तकाचीं फकाणां मारल्यार उपकरता. पुस्तकां जाय तांणी अभिनव क्रिएशनाकडेन संपर्क सादचो. दिनेशानय लक्षांत दवरचें.

....



रमेश साजू घाडी हाची सगळे तोखणाय करतात ती ताणें केळयल्ले अश्रेकणेक.. बोरकारींत तो वेगळे तरेन भितर सरलो पूण ताकाय येवकार मेळ्ळोच..

### घाडपण

"रमेस, तू व्हाळा पलतडी कसोच वचोंक नाकां ..पलतडची ती सगळीं ससत आसा पय ती गाळयारी..मागीर तुज्याय तोणान गाळी येतल्यो"

म्हाका आमची जाणटी आवय सदाच सांगताली .

पूण म्हाका व्हाळा पलतडी गेल्या शिवाय कशीच चैन पडनासली, तेंच्यो त्यो आश्व्यांचे बोलींतल्यो गाळी आयकूंक म्हाकांय मजा येताली .

हांव वयतालोंच आनी येताना आवयक आयतोच सापाडटालों .'तू म्हरे सांगलेलें आयकशीत जाल्यार हागोन गू खायशीत.'

आवय सुद्धा कमी गाळयारी नासली, ती म्हाका साकवा वयल्यान येताना पळोवन मोठ्यान आड्डत म्हणटाली.

गाळयांची सर्त लायली जाल्यार त्या वेळार व्हाळा पलतडचें मोनूल्या भाऊचें बाय चंद्राभागें सगळ्यांक चाबोन खावपाचें, तें उतरा कणकणी गाळी घालपी मनीस, तेका गाळी शिवाय उलयताना कोणीच आयकूंक नासलें..

मोगान उलयल्यार सुद्धा तेच्या तोणान बारीकश्यो त्या काळार सहज पचोन वयता तसल्यो गाळी आसताल्योच.

" रे बाबू, रे बा क झवऱ्या बाबू कान फुटलेत काय रे आयकांक येयन नां.. तडेन खंय जातंय रे ..हडेन ये रे"

"कराण्यांक पाळा इली?..कराणो जून जालो काय रे?"

नातवाक उलो घालतना हें तेचें सदाचेंच उलप.

वाड्यार सगळ्यांक सवयेचें जाल्लें .

म्हज्या भुरग्या मनांक मात प्रस्न पडटालो ..पोरसांतले काराणे बाबूकडे कशे पावले ?

" रेखा गो रेखा ..रांडेचां सकाळी फुडें खंय भाड्याक पडांग गेलां काय रे..."

" काय बुकाणो फुडे काडून चलतंय ..ये बेगीना."

सुनेकूय तें सदचेच जाल्लें.

"ते रांडेन शिकयल्यान काय रे तुकां ..तुजा न्हेसलंय ता कलसांव काड आनी बायलेचां कापाड न्हेस रे"

"आवशीक खायऱ्या हालीसराक सारकोच बायज जालंय तूं.."

केन्नाय मोनूल्याकूय बायलेची सायड घेतल्या म्हण गाळयांचो प्रसाद मेळटालो.

"बाय राती म्हस रडा आसली, मोनूलो सांगता फळांक इल्या म्हणून.."

हांव सकाळी फुडें मोनूल्याल्या दारान उबो, मोंती गि इस्कोलाच्या गोठ्यांत एक बांगर रेडो आसलो, पादरी व रुपया फळोवपाचे घेतालो आमी वाड्या वयले सगळे शेतव म्हशी फळोवंक येतकच थंयच व्हरताले..

"त्या बा चा शेट झवऱ्याक हगल्यार कोदळांक जायन ..आनी तो सांगतलो तुका म्हस फळांक इली म्हणान, बघ रांडेचीं कशी रवांथ करता ती .."

झिला फळांक इल्ल्यो म्हशी अश्यो रवांथ करनत न

बरो इलो कोमो रडांक म्हशीक, दुदाचे म्हशीक फळ व्हरांक.."

म्हाकाय दोन गाळी घालीत चंद्राभागें गोठ्यांत खराख करीत खोऱ्यान शेण वोडीत रावलें .

.....

रमेशाक चिमट्यो,हांसयाळीं बी आयलीं..म्हा दिशिल्लें म्हाकाय गाळी पडचल्यो काय म्हूण..पूण घाडी शुदत रावलो..

हें आनीक एक घाडपण..

ल्हान आस्तना ...म्हटल्यार बरो सात आट वर्सां जालो तरीय हांव लुडब्यांनीं उलयतालों. आनी लुडब्यांनीं उलयता म्हणून जाल्यार खबर ना पूण जाणटीं म्हजी आनी एक्स्ट्रा अपूरबाय करतालीं.

'ये लमेथ कथो आथाय ले? '

थोर्डी जाणटीं म्हजी नक्कल करीत म्हज्या वांग उलयतालीं,

'बलो आथा ले..'

हांवूय भोला शंकर कसो तेंकां मोगान जाप दितालो

'बलो भुलगो हा तूं..'

म्हज्या फुगऱ्या पोल्यांक ल्हवूच चिमटो काडीत शेजार

ं एक्स्ट्रा मयपाशी जाणटीं म्हणटालीं.

'तूंय बली हां!'

चान्स मेळल्यार हांवूंय तेंच्या पोल्यांक हात लायत टालों.

केन्नाय आवय म्हाका तुकारामाच्या गाड्यार आपणाक ो आनी फस्क हाडूंक धाडटाली.

चाराण्याच्यो इडयो आण्याचें फस्क ..

हांव विसरत म्हणून वाटेंत घोकत वयतालों.

म्हाका सगळ्यांक उलो करीत वचपाची संवय आसली. नाय उलो करपाच्या नादांत हांव किदें हाडूंक गेलां तें रून परत घरा येतालों.

बारबेर सांतूल्यालें घर जातकच लांबू शंतारामालें घर तालें, त्या घरा लागीं पावतकच खंयच्यान तरी गणपत आपल्या हातांत धा पयशांचें नाणें घेवन धांवत येतालो, पले मुठींत तें नाणें घट्ट धरून तो म्हाका सांगतालो,

'दुरगाकडे उबो राव म्हरे आनी दोन फावटी शंतारामाक ो कर. मागीर हे धा पयशे तुकां'.



त्या वेळार धा पयश्यांक सुद्धा खूब मोल आसलें, त्या धा पयश्यांचे अन्नाठी भर चणे,चण्याच्या पिठाचें काप,चिरमुल्यांचो लाडू..आयस फ्रूट नातर दोन मोटे गड्डे पासून येताले.धा पयशे मेळटले म्हटल्यार हांव खूश.

हांव शंतारामाल्या दुरगाकडे उबो रावतालों,माडा फाटल्यान लिपोन इनास, गोडकारालो मारयान आनी गणपत शेट मजा पळयत उबे रावताले .

''ये शटालाम ..ये शटालाम.''

म्हज्या लुडब्या उतरांनी हांव शंतारामाक दोन फावटी उलो मारतालों

माडा फाटल्यान गुड्डेच्या सोडाची बाटली उगडल्या वरी फस्स करून आवाज करीत मारयान, इनास आनी गणपत मोट्या मोट्यान तोणार हात दवरीत हांसताले आनी पयस पळटाले, भितरल्यान गाळी घालीत शंताराम धांवत भायर सरतालो.

''पोटाच्यानो, आवयन तुमका काडून गावार सोडल्यात रे..पय हां घरा फुडल्यान येवन बुरश्यो बुरश्यो गाळी घालतलों, ह्या गू खायच्या भुरग्यांक गाळी सोवोंक शिकयतात.

ये गणपत, तो नायकीणींक घेवन हडफड्यां रावता, त्या तुज्या बापायचीं फकाणां कर रे..रस्तात रांडग्याचे....''

तो नेटान आड्डत गाळी सोंवतालो.

मागीर माझ्या फाटल्यान फकाणांनीं धावल्ल्यावरी करतालो, हांव धावून पयस वचून आमट्या फुड्यान उबो रावतालों

''ये साजूल्याच्या, कानसुलां फोडटलों आनी दाखयतलों....लाम काय मोटयी र्ती. हशीमेर्द हांगाचो..''

तो म्हजेर किद्याक तापलो, गणपत, मारयान, इनास धावत किद्याक पळळे तें म्हाका त्या वयार कांयच कळनासलें ..म्हजेर शंताराम चाळवल्ल्याचें म्हाका दुख्ख नासतालें, दुख्ख आसतालें तें गणपतान दिता म्हणून सांगून त्या ना दिल्ल्या धा पयश्यांचें...

रमेशान घाडपण सुरू केल्लें तें चालूच आसा. मर्दी मर्दी राजू नायकूय आपलें कितें तरी सोडटालो..

... आत्तां म्हाका मोर्दीचो फोन आयिल्लो. बोरकारी वाचली काय म्हूण. ताणें प्रमोदाक सांगलें वाच म्हूण बिंब.

मायनिंग, कोविड आनी बोरकारी हाचेर खंय तांची विस्तारान चर्चा जाली. बिंबाक जायराती दिवंक मेळच्यो म्हूण खाणी सुरू करूंक दिवच्यो अशे प्रमोदान मागलें.

.....

आतां आमच्या प्रोसोरांक ओगी रावप म्हळ्यार जिवार येवंक लागलें..सगळ्यांत आदी पुर्णानंद च्यारी मुखार सरलो तुस्त..तुस्त करूंक

उतरांतलो विनोद, प्रसंगातलो विनोद, सुचकतेंतलो विनोद, प्रतिक्रियांतलो विनोद ....एका परस एक कल्पकतेचो भार ...खरेंच बोरकारी जिंदाबाद!! घाडपण, शिरसासन, भगतायण, काकोडकारी, प्रेमवीर वा!

सगळ्यांक सलाम!

....

रुपाली कामत शेटये नवेंच बरोवपी.ताणेंय हजेरी लायली.....

रांदचीकूड हाका तशी अनवळखीच

'एक दीस तरी तूं कसलोय जिनस करून वाड रे' म्हळ्यार 'म्हाका जमचें ना गो तें' म्हण फाटीं सरता.

खरें सांगचें म्हळ्यार ताका कांयच रांदूंक येनाशिल्लें.

आपल्याचेर जेन्ना पडटा तेन्ना आमी सगळें करपाक शिकतात हें खरें आनी हो कोरोना आयिल्ल्याक तर आमी आत्मनिर्भर जाल्यांत. तर घडली गजाल अशी....

म्हजो पांय तिरपल्लो म्हण हांव कुळारा पंदरा दीस रावलें. (दर विकेंडाक आसताच तशें हांव.) ताका इतले दीस मावोड्या रावप शक्य नाशिल्लें.

''रांदतलो मरें तूं, जमतलें मरे तुका, पळय हां भायलें होटेंलांतलें बी खावशीत'' अशें विचारतकच हाणें सामकें हड्डें फुडें काडून कोन्फीडंसान ''हय गो, यू डोंट वरी, हांव पळयतां कितें करपाचें तें'' अशी नेटान जाप दिली.

हांवें सगळी सुचोवणी दिल्ली तरी धा फावटी फोन येताले.

''आगो साखरे डबो खंय दवरला?'' पयलो खेप फोन

''मिठाचो डबो मेळच ना मगो..दुसरो फोन....'हें खंय आसा आनी तें खंय दवरलां 'अशे कितलेच फोन...

इतल्याचेर सोपलेंना..ऑफिसांतल्यान येतकच दुसरे दीस कितें करपाचें ताजी फूल रेसिपी विचारपाक फोन. आमचें घर मातशें शारांतल्यान पयस आशिल्ल्यान थंय मोबायलाक नेटवर्क सारके मेळच ना म्हण हो चड सो लँडलायनीर फोन करतालो, एके वटेन बरें नेटवर्क सारकें ना तें! ना जाल्यार व्हिडियो कॉलींगचेर हाचें रांदप पळोवचें पडपाचें.

हांवें खुर्चीं फोना कडेनच सेट केल्ली, परत परत फोना कडेन कुटत कुटत येवंक त्रास. सगळें सांगूनय परतून येरे म्हज्या मागल्या. पाककलेचीं पुस्तक वाचून कर म्हळ्यार ताका वाज येतालो. कशें कितेंय जावं, कांयच रादूंक जमना म्हणपी कितेंय तरी रादूंक शिकलो.

म्हाका अभिमानाची गजाल आनी तिरपल्ल्या पांयाक शाबासकी.

10/10/20 दिसा 'बोरकारी'न पन्नासी पुराय केली. तेच दिसा दुबयच्यान पंकज नाडकर्णीन कळयलें, 'दिलीपबाब आयच्या दिसा रोमनानी तुज्या एक्सांचो शिंवर केला. आदले रोमन भाशेंत खंय आयची तारीख 10/10/20 म्हणल्यार X/X/XX अशी बरयतात. एक्साचो शिंवोर सामको. मनांत आयलें रोमन साम्राज्या तेंपारूय बी बोरकारी आशिल्ली जातली. दिलीपभाई ओगीच सोक्रेटीस, ज्युलीयस सीझर



ो दिसना!

बोरकारी-50

ही कोरोना काळांतली भांगराळी बोरकारी.

पन्नास दीस जाले शेगीत बरयतां

ज्ञानेश्र्वर तारी ताची उमळशिकेन वाट पळयता.

केन्ना हेडमास्तर म्हणटा तर केन्ना प्रिन्सिपल म्हणटा.

भोवतेक तो टीचर बी आसतलो!

पूण सकाळ फुडें दुबयच्यान रकाद आयलो.

म्हजो इश्ट पंकज नाडकर्णीचो

ताणें म्हजेर थंयच्यान स एक्सां शेवटीलीं.

म्हळें, हेच फळ काय मम तपाला?

पंकज खर कोंकणी भक्त.

ताणें 'मम तपाला'चो भलतोच अर्थ लायलो.

म्हणूंक लागलो,'आरे आयज बोरकारी भांगराळी

आनी आयचो दीस स एक्सांचो'

तरी म्हजे बोडांत गेलें ना तेन्ना म्हणूंक लागलो,'धा धा स वीस'

आतां धा धा वीस जायनात जाल्यार कितें पन्नास जातले?

म्हजें अप्रबुद्दपणा पळोवन ताणें नक्कीच चिंतलां ासतलें!

आपणें गोंय सोडून दुबय आयलों तें बरें केलें.

गोंयांत राविल्लों जाल्यार हाचे वरी,संदेशा वरी 'न्हू ू' करीत उरपाचों!

तरी ताणें उलोवन दाखयलें ना

म्हणूंक लागलो,'आयज तारीक धा, म्हयनो धा आनी र्स वीस वीस.

रोमन लोक आयची तारीक बरोवंक स एक्सां वापरतात.

ते तुजे भांगराळे बोरकारीचो एक्सां उधळून उत्सव नयतात.'

म्हाका शिट्ट जालें, बरो इश्पेर्त मरे हो!

'व्हेन यू आर इन रोम बिहेव लायक अ रोमन' म्हणटात ां बेश्टें न्हू!

म्हजी बोरकारी हांगा, ती हांव सजयतां म्हज्या एक्सांनी

आनी थंय रोमाक चलता उत्सव एक्सां उधळून!

चिंतून म्हजें रोम रोम पुलकीत जालें!

नक्कीच म्हाका पोप जावपाचो चान्स आसा.

पूण तें ज्ञानेश्वर तारी क सांगतलो कोण?

...

हे बोरकारी उपरांत आनी स एक्सांचे चर्चे उपरांत बोरकारीचो फॅन पुरुषोत्तम वेर्लेकारान अशी प्रतिक्रिया दिली..

तेन्ना सखारामाची सखा बोरकारी -5 आयली

नाण्याक दोन बाजू आसताल्यो.

शोलेंत नाण्याक एकूच बाजू आशिल्ली

म्हण जय त्रासांत पडलो

हांव भूतकाळांत बरयतां.

कारण कांय नाणीं रिजर्व बेंकेन चलनांतल्यान भायरीं केलीं.

तर कांय नाणीं वालोर नासून आपूणच भायरीं जाल्यांत.

आतां आठ आणें खंय चलतात?

एका टायमार धा पानांचो 'सुनापरांत' एका रुपयाक मेळटालो.

आतां स पानांचो 'भांगरभूंय' लेगीत तीन रुपया जाला.

आतां पैशांक मोलच ना. सोड!

तर सांगपाचें म्हळ्यार नाण्याक दोन बाजू आसतात..

तशेंच कोरोनाकूय दोन बाजू आसात

साहित्याचे नदरेन!

कोविड काळांत चेलेंज दिवन

आमकां खोंटलोभर नवे कवी मेळ्ळे, कथा मेळ्ळ्यो.

कितल्योश्योच कादंबरी मेळ्ळ्यो.

कोविड काळांत सृजन शक्ती जागिल्ल्यान हें शक्य जालें.

हें कोविड काळांतलें साहित्य वाचून

मनरिजवण जातली काय

जीव दीन दिसतलो

हें काळूच थारायतलो.

हांगा दिलीपबाबान आपलो जीव खेळोवपाक

'बोरकारी' सुरु केली.

थंय कांयजाण एक्साचो आपलोय जीव खेळयतात.

आनी कांय जाण एक्सां मेजतात.
भोंगू बाबड्यांचें!
ही जाली जमेची बाजू!
आतां दुसरी बाजू पळोवंया.
कोविडाक लागून साहित्य संमेलनांचेर हावळ आयली.
हाका लागून आमच्यो महिला साहित्यीक
एके साडयेर दीस काडटात
हें कितले जाणांक खबर आसा?
हें म्हाका कालच एके महिला साहित्यीके कडेन
फोनार उलयतनां कळ्ळें.
"अशी वायट परिस्थीती केन्नाच येवंक नाशिल्ली रे!
आदीं संमेलनाचे नांवार बेळगांव, मुंबय, दिल्ली बी वचप जातालें.
नाजाल्यार साहित्य आकादेमी आसतालीच
कविता वाचन करपाक 'नोर्थ ईश्ट'!
तेन्ना साडयो, चुडीदार बी घेवप जातालें.
थंय हांगचे परस सवाय आनी चोयसय खूब.
कोविडा खातीर सगळेंच पाड पडलां.
आतां सगळें वेबिनार आनी ऑन लायन संमेलनां.
नांवां मात अखिल भारतीय, वैश्विक आनी जागतीक!
पूण सगळें घरचे घरा खांडेपारा!
तें कोणाक जाय?" तिणें मन उक्तें केलें.
"आगो सगळ्यांची हीच परिस्थीती गो?
सगळीं एके साडयेर?" – हांव अजापान !
"आनी कितें? स्वामी रामदासान म्हळां न्ही
'संगेविणें विदेश करी तो एक मुर्ख' म्हण."
"म्हण्टगीर आमी सगळीं वांगडाच
साडयो घेवपाक वतालीं.
SORRY! I MEAN संमेलनाक वतालीं.
हे फावटीं मालवण वतलीं आनी घावने,कोंबडी–वडा, भरिल्ली पापलेट खातलीं
म्हण जिबेक धार काडून राविल्लीं.
तिवूय कळमेली. आसूं त्यो यादी!"
म्हणून तिणें फोन दवरलो.
महिलांचो फोन येत जाल्यार आमगेर
तो फोन स्पिकरार घालचो पडटा.
एका प्रकारचें 'फोन टेपिंग' तें!
म्हण्टकच हिणें सगळें आयकलें.
हांव मात हे बाबतींत सुखी आं !
खंयच्याय संमेलनाक वचऽ नासतनां
म्हजेकडेन 48 साडयो, 4 शालू आनी 2 पैठणी आसात
कालच मेजिल्ल्यो.
अशें म्हणत ही परत साडयो मेजूंक गेली.

हेमा आतां दियार आपलें मत मांडूंक लागलें पूण ता
कडल्यान कांयच विनोदी येना.. ताचो पिंड न्हय काय?
हे बोरकार म्हण तकलेंन फिन, कसली सखाबोरका
उडयल्या रे, तुका खरेंच खास इनाम फावता, गंभीर परिस्थितीं
लेगीत म्हाका आज खळखळून इतलें हांसपाक आयलें
म्हज्या दोळ्यांतल्यान गळटल्या दुकांचो पूर व्हांवता
सखारामबाब पेजाद रे, व्हालोर तुका असलें हांसपाक आयलें
पोटांत लेगीत दुखपाक लागलें!

चिमटचो,हांसयाळीं वचून आतां उतरां येवं
लागलीं...अरूण काककोचकार म्हणटा.. सखारामबाब, कि
दिता रे पोसांव ! कारेंगाद सामको !
आयताराचो आळस घालोवपाक सामको बेश्ठ .....
साने गुरुजीन म्हणलां तें थोडेशें बदलतां : करी मनरिजव
जो वाचप्यांचें, जडटलें नातें प्रभु वांगडा तांचें.
माया खरंगटेय सल्लो दिवंक लागलें...'सखाराम बा
याद दवर. कोवीड टायम सोंपतलोच.
हांगा आमकां साडयो न्हेसूंक मेळनासून चिंतेतात म्हणू
आमी बेजार. आनी तूं वर्मार बोट दवरता? एका कापडा
बायलो म्हाताऱ्यो जायनात आं..!'
अजय बुवा भितर विनोदाचें आंग आसा हाची कल्पन
ताचें लिखाण वाचून आशिल्ली...ताणें सुरू केली..

बुवाबाजी

काल पयर कोणे तरी 'बसप' हाचो उल्लेख केलो. ह
शब्द गोंयांत तरी पेजाद. राजभवना वेल्या आमंत्रणां पर
'बसया रे' हें आमंत्रण मोठें. वाळपय आसतना म्हजो आ

सपाचो' संबंध ना. थंय हांव सामको सज्जन. 'सज्जनाच्या णासाठी' अशें सनातनचें ब्रीदवाक्य आसा. म्हाका दिसतालें म्हज्या सारख्या सज्जन मनशाच्या रक्षणाकूच आसा. लंतरान फोंड्यां आयलों आनी आयुष्याक कलाटणी मेळ्ळी. सया रे ' म्हणप्यां कडेन इष्टागत वाडली. मागीर सनातन ले दिसले की हांव लिपपाक लागलों.कारण तांचें दुसरें दवाक्य आसा 'दुर्जनाच्या नाशासाठी'.

व्यवसाय वाडोवपा खातीर 'बाटली'क म्हत्व आसा हें ाका होलमलपाक लागलें. मागीर हांवेन फार्टी वळोवन ळयलें ना. 'तुजें हें काम मरे जालें. सांजचो बाटली घेवन . बाटली तुजी नुस्तें आमचें'. सुरवातेक म्हाका बाटलेचीं वाय खबर नासतालीं. जाणें हाड म्हळां ताचे कडल्यान प्रिसकीपशन' बरोवन घेवन हांव कोपाच्या दुकानांत वतालों, तेंय बी हेल्मेट घालून. सांजचें मागीर हांव पेप्सी घेवन बसतालों आनी तांचें नव्वद टक्के नुस्तें एकलोच काबार करतालों आनी बाटलेचे पयशे वसूल करतालों. म्हाका नासाडी आवडना. जातालें किदें, कांय आदर्शवादी पिवपी आसताले ते ग्लास तोंडाक लावचे पयली, एक बोट भितर बुडयताले आनी सोरो शिंपडायताले. म्हज्या पयशांची अशी नासाडी पळोवन जीव चुर्रर जातालो. मागीर हांवेन आदर्शवादी कोपकाराचे कुशीक बसपाक सुरवात केली. तांणी आशीकुशीक शिंपडायिल्लो दोन चार थेंबे हांव अचळय धरपाक लागलों आनी चोखपाक लागलों. दोन थेंब वयर उडोवपाचो सोद लागूंक नाशिल्लो जाल्यार आयज देखून हांव सज्जन उरपाचों.



मावोड्या गेल्लों तेन्ना बापोल मेवणो आमंत्रण घेवन आयलो. 'भावोजी संध्याकाळी बसायला येता टेकडीवर?' हय म्हळें आनी साजंचो म्हाका सामोसा आनी तांकां चिकनचिली घेवन गेलों. पूण खंयचे कडेन कांय ना.तांचें बसप वेगळें आनी आमचें वेगळें. मनांत म्हळें 'तुमी गोंयान येया, इम्पोर्टेड सांगून तुमकां रियल व्हिस्की दिना जाल्यार नांवाचो भावोजी न्हू.'

ह्या कोपा खातीर घरांत खूब फावटी कोप जाल्लो आसा. एकदां वेगवेगळ्या कारणाक लागून, फाटोफाट तीन दीस म्हजे 'वॅट डे' जाल्ले. (ड्राय डे तशे वॅट डे हां ). चवथ्या दिसा आमच्या 'आंतरराष्ट्रीय ' क्लबाची म्हयनाळी बसका. बायलेन सांजचो मॅसेज घालो. 'तुझी हॅट्रीक झालेली आहे.आज मिटींग नंतर कम स्ट्रेट टू होम'. क्लबाचे बसकेक 'स्ट्रेट टू होम' शक्य आसा? रातचो उसरां घरा पावलों. पळय जल्यार बायले हातीन सात्र. वेळ मारून व्हरपा खातीर डायलॉग मारलो.'बारा वरां जाली तरी तू सात्र मारता, कितलें करता गो तूं घरा खातीर?' (दोळ्यांतल्यान दुकां येवपाचीं उरिल्लीं ) अशें म्हणत बुटांची लेस सोडपाक हांवेन सकयल हात घाले.

''महाशय! कोल्हापुरी चप्पल ते. बूट नाही.' ताणें ज्यूस्त पळयलें म्हण बरें जालें, ना जाल्यार लेस समजून चपलांच्यो दोन वादयो हांव तोडपाचों.

"तुला मी काय सांगितलं होतं?"

प्रकरण हाता भायर (आनी सान्नी भायर) वच्चे पयलींच हांव सादूर जालों

"मराठीत स्ट्रेट म्हणजे काय?"

ताणे म्हळें "सरळ."

"तुला माहित आहे ना, मी कोंकणी वादी तो! सरळ म्हणजे कोंकणींत 'टायट'. ह्या अर्थाने मी 'स्ट्रेट टू होम' आहे की नाही?"

म्हज्या हजरजबाबीपणान ताकाय भितरले भितर हांसो आयलो आसतलो.

"पुरे चला आता आत" अशें म्हणत तें बॅडरूमाकडे वळळें.

'जय कोंकणी' म्हणत हांवूय ताचे फाटोफाट गेलों.

(म्हाका सोरो 'लागना', म्हणपी सगळ्यांक पयली बुवा बाजी समर्पीत)

......

जे साहित्यीक पारदर्शी आसतात आनी तें तांच्या साहित्यांत झळकता आसलें तरी आपल्याक विनोदी बरोवंक येना अशें खूब जाण धरून चलतात. पूण ह्या साहित्यीकां भितर तो गूण आसता पूण उक्तावंक आखुडटात. पूण कितलो काळ आपलो हो गूण धांपून दवरतलीं..हर्षा शेटये भायर आयलेंच..तेंय बी कन्फेस जावन..

(मोर नाचता म्हणून कुट्टुरें नाचता, आनी हांशें करून घेता अशें येवजून इतलो तेंप ओग्गी बशिल्लें.पूण सखाबोरकारीन म्हाका 'हर्षबिम्ब' बरोवपाक प्रवृत्त केलें)

### हर्षबिम्ब

आयताराची सकाळ. हांव, घोव आनी चलो नाश्तो करपाक बशिल्लीं. सकाळच्यान पोळे, चटणी करुन केन्ना काय बसनशें जाल्लें. ते दोगय खाताले आनी हांव मोबायलाचेर नदर भोंवडायतालें.

"जालें! घेतलो हातांत मोबायल? आनी हांसताशें?"

"बोरकारी वाचतां-वाचतां हांसूंक आयलें."

"कितें बरयलां दिलीप बोरकारान?"

आतां हांगा मुद्दाम सांगतां, म्हज्या घोवाचो आनी विनोदाचो चुकून सुद्दां संबंद ना. पूण 'सुनापरांत' हातांत घेवन चाळटालो तेन्ना दिलीपबाबान बरयिल्ली 'बोरकारी' ताका दिश्टी पडटाली.

"आरे! ही ती बोरकारी न्ही! ही सखाराम बोरकाराली 'सखा बोरकारी'!"

"पूण तूं शें इतलें खुदूखुदू करून हांसता?"

"आयक तर!" हांवें 'सखा बोरकारी' ताका वाचून दाखयली.

"तुजेरच बरयलां आसतलें तें!" ताणें हांसत हांसत थोमणो मारलो.

"म्हजेर! म्हजेर सो तो बरयतलो?"

"फाटीं तूं डिसेंबराक कोचीन पुरस्कार घेवंक गेल्ले तेन्ना तुंवें ती केरळाची कसावू साडी घेवंक नाशिल्ली?"

"हय, थंयची थळावी म्हण घेतिल्ली."

"आनी जानेवारींत उदयपूर लग्नांक गेल्लीं तेन्ना 'बांधणी साडी किधर मिलेगी' म्हणून विचारत भोंवतालें तें कोण?"

"आनी जाणां मरे बाबू! ही तुजी मम्मा फेब्रुवारींत साहित्य आकादेमीच्या प्रोग्रामाक नोर्थ ईश्टाक गेल्ली, तेन्ना 'मोरपांखीं, मोरपांखीं' करीत मणिपूरच्या पायणी पायणींनी भोंवताली."

"तीन म्हयन्यांत तीन साडयो घेतल्यात तिणें!"

"हय घेतल्यात! आनी पांच वर्सां गोंयां भायर खंयच वचूंक नाशिल्लें तेन्ना एकूय साडी घेवंक ना ताचें कितें?"

चलो बाबडो आबोलार जावन आमच्या तोंडाक पळयत रावलो.

आसूं! ताचे मुखार आनी बोवाळ नाका अशें येवजील्ले गॅसार कितें उरलें दिसता म्हणत हांव रांदचे कुडींत आयलें.

ताचें जालें अशें. मणिपूर एॅरपोर्टार पावतगीर थंय थळाव्यो वस्तू दवरिल्ल्यो पळयल्यो. आतां हातांत मोबायल आसता म्हण्टगीर काडलो फ़ोटो आनी घालो स्टेटस!

तो पळोवन इश्टीणीची मेसेज आयली. थंय गेलांच मुगो, आतां थंयची हातमागावेली 'मोयरांगफी' साडी घे!

प्रॉग्राम सोंपतगच एक दीस चड रावलीं. प्रॉग्रामाक मेळिल्ले मणिपुरी लेखिके कडेन ही साडी खंय मेळटली ताचें

ते घेतले.

दिसभराक टॅक्सी केल्ली. सकाळ, दनपार सगळ्याक ोंवन आयलीं. निमणें ड्रायवराक सांगलें ह्या पत्त्यार साडी वपाक व्हर. ड्रायवर देड शाणो. आपल्या वळखीच्या ंयच्या खंयच्या दुकांनानी व्हरता, 'मेमशाब मेमशाब 'करीत.

घे! घोवाची बडबड सुरु जाली. 'मोरपांखी मोरपांखी... केतल्यो साडयो घेता? टॅक्सीचो मिटर वाडटा. चारआण्याची ोंबडी जाल्यार बारा आण्याचो मसालो जाला. वता थंयची ाडी घेवंकच जाय असो कायदो आसा?'' हाची भरभर ालूच.

हांव ओग्गी! म्हज्या आळवाची खाज म्हाका खबर ासा.

निमणें त्या देड शाणे ड्रायवरान हांवें दिल्ल्या त्या पत्त्यार व्हेलीं.

मणिपुरी विणकारांची कॉपरेटिव सोसायटी. घोव देवन एका कदेलाचेर पुतळो कसो बसलो.

हांवें साडयो उस्तून उस्तून दोन मोयरांगफी साडयो नेवडल्यो.

'ही घेवूं काय ती घेवू?' म्हण घोवाक विचारलें. मणिपुरी सेल्स्मेनान म्हजे कडेन उलयत उलयत आमी गोंयच्यान आयल्यांत तें बी जाणून घेतिल्लें.

पयशे दिवपाक घोव उठलो.

" सर! तुमी साडी घेवपाक मुद्दाम हांगा आयलीं. हातमागाचेर तुमचो आशिल्लो मोग पळोवन आमकां तुमची तोखणाय दिसली. तुमचे सारके लोक आसात म्हणून विणकारांचीं घरां चलतात. थँक यू सर!'' म्हणीत ताणें एक कार्ड ताचे कडेन दिलें. ''जाय जाल्यार ऑनलायन मागयात सर!''

घोवान दोनूय साडयो घेवन उडयल्यो.

हर्षान आपल्या हर्षबिम्बांत साडयांचो सगळो स्टॉक गांवार घालो.

गोंय आनी कारवार हांचें नातें कोंकणी जोडटा..संदेश बांदेकार आपले परीन कोंकणी साहित्य निर्मणी करता.पूण कोंकणी भाशेचे मोडींत गी विनोदी लय आसा ती सुंदरच..संदेश कारवारी शैलींत बांदेकारी घेवन आयलो.



बांदेकारी (कारवारी) -1

रांदचे कुडांतल्यान आज खुप दिसांन आयदना आवाज येवु लागीलो. दसरो दिवाळी लागी पावल नी. हेगेल साफसफाई चल्ला उरतल म्हण हांव बरो वेळ गप्पत आशिलो. करतकरता आवाज होडत जाता म्हण हांव व्होळुत माजरां पावलान रांदचे कुडात गेलो.

व्होळु विचारलें.

" कितं जीवा आराम दिसना? मोरु ती आयदना. वचुन आड पड चल. व्होळु व्होळु कन्न हांव घासुन दवरत ती आयदना''

" आसु, आसु तुमी पुस्तकां वाचते बरयते उरा. आत कोरोना मावशी गेल की तुमगेल सुरु जातल न्ही ही संमेलना ती परीशद. तुमी म्हाक मदत करची गरज ना.''

हे आयकुन हांव थंडत पडलो. पुण अश थंड रावन बी उपेग आसा ? हे इतले गरम जाल कशे ते पळोवु जाय न्हीं. कारण भायर तर अरंधारी थंडगार पावस पडु लागला आनी हे इतले गरम कश जाल काय?

" आसु गो संमेलनाचे मागीर पळयत ते हांव.''

" काय गरज ना. तुमी गप्प रावा पळया मातर. हो म्हाक एक सांगा, सगळे जाण साहित्य संमेलनाक वयतात की वर्साचे खरेदीक वयतात?? काय गांवार कांटे विचु वयतात ? आनी संमेलनाक म्हाक कीतें हाडा हां म्हणले की म्हाक वेळ ना कोणाले कवीगोश्टी आसा, कोणालो पेपर वाचन आसा. म्हाक माटोव सोडन्न खंयीत भायर सरु मेळना म्हणता न्हीं ? तर तुमगेल लेखिका हय हय तेमीत हर्षा, नयन, माया, नुतन, मीना कशी बाजार करु वयतात तर ?? कोण मोर आशील साडी, तर कोण पांखो आशिल साडी हाडता. तुमकां चार आबोले फुला आशील साडी सुदा म्हाक केन्न हाडु जालना."

हा आत कारण कळ्ळे शर्त हेणे सखाबोरकारी वाचली आनी हांव घाता पडलो. मनातल्या त्या सखाभाऊक आनी हर्षाबायक रागान तरी मोगान दोन रमेशाल गाळें पेक्षा वयली गाळी तेमकां घातली.

हे प्रकरण इतल्यार थांबतले म्हण केल्लो पुण ते वाडत गेले.

त्या दिस तो कोंकणी शिक्षकांले पगार काडताल न्ही? तर ह्या कोंकणीन जमकां राज्य दिले, तापोवुक खुर्ची दिली, तेमगेल सात पिळग्यांची तरतुद कन्न घेतील्या त्या 40 +3 रथी महारथीक एक शब्दांन काय म्हणणा किवां तेमगेल पगार जावु कमिशन वयर काडना मु ??? ते मोरु आता. परत संमेलन,परिशदेचे माटोव सुर जाले कि हर्षाकत हांव फोन कन्न सांगतले बाये म्हाक मुगो मोर नाशील तरी जाता साडेर चार दसणीफुलां आशील तरी साडी हाड आनी तुमी बसात माटवात. सांगात कोण ना तर त्या शेपडी नाशील मारोतीक बरोबर घेया. बसुन मारा जायतीतलो माटवतलो भुस. घेतील साडे पयशें हांव दिता पुण म्हागेल बैंकेत खात्यात तुमी पैशे घालु विसरनाकात

'हय' म्हणले आनी हांव एक व्होड श्वास घेवन भायर येयलो.

हर्षा एक पांख्या फोटो, मोरा साडे फोटो सोशल मिडियार घालता पुण त्या सखाभाऊक मीठ मिरसांग लावन कित्या सखाबोरकारीत बरोवु जाय आशिलें. हो खंय खंय कोणा बरा बसता हें हांवें केन्न जग जाहीर केला?कीत्याकाय म्हणलार



आमी सगळें एकत माळे मणी न्हीं. तरी ह्या सखा पायान आत वर्सा कणकणी एक साडी वाडली.

युगांक बोरकारींत येतलो हाची कल्पना नाशिल्ली. पूण म्हजो अदमास चुकलो. हांव युगांक नायका पिरायेचे आसतना जें करतालों तेंच युगांक करता. देखून तो *विटयलें घेवन* आयलो. इंग्लीशींत वीट म्हळ्यार विनोद युगांक जर विटी हे नदरेन आपल्याक मानता जाल्यार ताका येवकार फावता...ताचें हें

विटायलें-1

लॉकडावनांत लोक कसले-कसले धंदे काडीत ताजो नेम ना. कोण घरा बसून चॉकलेटी करता, कोण केक भाजता, एक्साक गती दिवन दिलीपबाब बोरकारान बरी स्कीम काडली.

वॉट्सएपार बोरकारी म्हण ग्रुप केलो आनी आपलें दुकान उगडलें.

आत्मनिर्भराच्या भारान कोणां एक्साचें खंय कितें शिजत म्हण सांगू नजो. पूण आतां हें प्रकरण हाता भायर पावलां. युवा पीळगेचे वरीश्ट अशे लेखक आतां ह्या नादाक सापडपाक लागल्यात.

साळगांवचो रमेश घाडी आनी फोंडेचो नॉन रेजिडेन्शल वाळपयकार अजय बुवा हांणी आपलें सुरूम्हण सुरू केलां. कायद्यान बंदी आसूनय 'घाडपण' आनी 'बुवाबाजी' ह्या

पांत चालू केल्या.

ते खातीर आतां ह्या ग्रुपाचेर कायदेशीर कारवाय जावपाक ाय. आनी विज्ञाननीशठ आनी विवेकवादी समाजान हाजेर ावाज काडपाकूच जाय.

जशे आय.पी.एय.लांत बेंटींग करतल्यांक पुलीस खलपाक लागल्या तशे हांकां दोगांकय बोरकारा सकट एक ास शुवर उखलतले आनी पुलीस आपलो फोटु छापून परांचेर हाडटले.

ते खातीर हांवें पेंगट बांदलें. आनी सोमथो अ.नी.सा.क ोन केलो, हय अंदश्रध्दा निर्मुलन समीती.

फोन लायलो आनी कागाळ करपाक हांवें आंखो देखा ाल सांगत रावलों. पूण एक्साची भानगड जाली, फोन नीसाक न्हय तर फोन अनिशाक लागलो, हय अनिश ग्नी आनी दिस्त तो भाई अग्नीन उभारलो. बातमी डगांवच्यान ताळगांव लीक जाली आनी सॅटर्डे क्लबांत च घडणूकेचेर 'प्रमाण भाशेंतल्यान' सिंगल पोयंट अजेंडा डेस्कशन जालें.

बोरकाराक वाटावपाक जाय आनी प्रकरण मॅनेज करपाक ाय, होच चर्चेचो सूर. देखून गल्ली ते दिल्ली मेरेन लॉबी क्टीवेट जाल्यो. सगळ्यांक 'परब' आनी 'देसाया'न 'संदेश' ावयले आनी शांत बसून उपेग ना तर 'प्रशांत' जावपाची रज आसा अशी सुचोवणी 'फॉरवर्ड' जाली. ठोकमत ते लोकमत, नायक जावं सरदेसाय सगळ्या राजदीपांक एक करून लोकल ती नॅशनल मीडीया सगळी हांणी एक केली. आनी प्रकरण पॉंक केलें.

पूण विवेकवादी समाज ओगी बसचो ना.

आतां हीं झगडीं सुरू..हर्षा पेटलें

हर्षबिम्ब -2

ह्या कारवारकारांली बांदेकारी-1 वाचून म्हजी तिडक मस्तकाक मारली..

हाका बरीच झणझणीत जाप दितलें म्हळयार, इतल्यान घोव उलो करीत आयलो.

''आगो खूप दीस जालें मगों, तुंवें पिठ्या लाडूच करूनां,काय फोलीण लिपोवन बी दवरलां?''

'' पिठ्या लाडू? पिठ्या लाडवांचें नांव काडूं नाका म्हजे मुखार.हांचे फुडें पिठ्या लाडू म्हणटात तें हांव करपाचें नां.''

''बाबूक आवडटा मगो ते.तूंच म्हणटा मगो ताका आमी घरावे खाणांची रुच दाखयली ना जाल्यार ताका कशें कळतलें म्हणून!''

''म्हणटालें! त्या पिठ्या लाडवांचेर बोरकारी जाली, काकोडकारी जाली,

इतलेंच कित्याक भाई, माया, सखाराम, बबन कोणेच त्या पिठ्या लाडवांक सोडलें ना.''

'' आसूं गो, कर गो तूं आतां, तुजे इतले बरे लाडू कोणालेच जायना.'' घोव चडूच लाडांत सॉरी लाडवांत आयलो सो.

'' आरे हांकु बोरकारींत बरोवपाक हांवूच मेळता रे?

पिठ्या लाडू जाले, म्हजी कुणबी साडी जाली, शेवर्णी, फुलपाख्यांचें फोटो..तरीय ओग्गी रावलें. आसूं भोगूं म्हणून!''

'' आसूं गो,चड घेवन बसनाका,''

' चड घेवन बसनाका कितें? आतां तर मंगळाचेर



वचपाचोय चान्स गेलो.''

''मंगळाचेर फुडें केन्ना पर्यटन बी सुरू जाल्यार थंय वचून बरेंऽऽ भोंवडे वर्णन बी बरयतलें म्हणून आशिल्लें.

पूण मंगळ म्हाका घेवचोच ना खंय!''

'' मंगळाचो आनी पिठ्या लाडवांचो किदें संबंद?''

'' मंगळाचो नासत, बोरकारीचो आसा न्ही?''

'' म्हळ्यार हांचे फुडे तूं पिठ्या लाडू करचेंच ना तर!''

'' ना, आनी साडयांचेर बोरकारींत कोणेंय कितलेंय बरोवं, हांव जाप दिवचें नां.

चडूच जाल्यार आंगठो दाखयत, दांत दाखयत, पूण साडयेचेर बरोवंचे ना म्हळ्यार बरोवंचें ना.''

म्हजें उलोवप आयकून घोवाचे दोळे लिकलिकले. तोंडार हांशें फांकलें.

लग्न जाल्ल्याक ताच्या तोंडार इतलें हांशें पयलेच खेपो पळयतालें.

पूण तोंडा वयलें हांशें लिपयत तोंड बाबडें करीत ताणें विचारलें,

'' म्हळ्यार हांचें फुडें तूं साडयो विकत घेवंचें ना तर!''आनी तोंडांत सो पुटपुटलो....''सद्या पयलींच धंदो बंद पडला, जावं बोल्साक खार तरी बसचोना. बरें जावं त्या बोरकारीचें.''

'' साडयो घेंवचें ना? कित्याक घेंवचें ना? साडयो घेतलें पूण कोणाक जाग लेगीत दाखोवचें ना..मायान, अलकान, साडी खंय घेतली गो? अशें विचारल्यार पसून सांगचे ना.

तोंड सिरीयस करून जाप दितलें, 'हांवें घेंवना ती साडी, कोणे दिल्ली म्हाका!' सद्या म्हज्यो साडयो कारवारकारांच्या दोळ्यांत गेल्यात, त्यो मंगळूरकारांच्या, कोचीकारांच्या आनी मुंबयकारांच्या दोळ्यांत वच्चें पयलींच आळाबंदां घालूंक जाय.तेन्ना पिठ्या लाडू ना म्हणजे ना.''

''त्या एक्साच्या खाडया बोरकारांक हीच वेळ मेळली बोरकारी सुरू करपाची? ह्या कोवीड काळांत वेळ पासार करपाक काय बरें फोलिणां उस्तून उस्तून पिठ्या लाडू खावपाक मेळटाले.आतां ह्या चण्यां-भिकणांचेर दीस काडचे पडटले!'' चण्यां भिकणांचें फोलीण उगडत घोव पुटपुटलो.

म्हजे बोरकारींत हांवें हांका सगळ्यांक घेतिल्ले. तेन्नाच मीनाय भायर सरलें आपली आरती घेवन.. विनोदाचें आनीक एक रूप ..काकडआरती आशिल्ली..सगळ्यांनी तिका काकोडारती म्हळें..

काकोडकारी ..

(आरत)

जय देवी जय देवी जय हर्षामाये
घालून घेतात गे तुजे चरणी आये।।
नाका गे कोप तुजो लाडवांचेर काडूं।
जिबेर सगल्यांच्या गे पिठ्याचे लाडू..।
कारवारकारा दोळ्यांत भल्ल्यो साडयो ।
पळोवन घेतलो ताका एडमीन खाडयो
पतीदेव तुजो म्हान,उदार शेटयो..।
घेता तुका गे रासभर साडयो ।
पिठ्याचे लाडू घाल ताच्या डब्यांत ।
थोडे डबे गे पावय आमच्या घरांत ।
खाडयाळे,मिशाळ्यांचेर काड तुजो कोप ।
नाच्व करून उडय तांचें 'बसप'आनी'कोप' ।
सोपूं गे माये ही म्हामारी कोरोना ।
बोरकारीच्या माटवांत घालची लाडवांची समरादना..।
जय देवी जय देवी हर्षा माये
घालून घेतात गे तुजे चरणी आये ।।

(खाशेली टीप हर्षा चकल्योय बऱ्योऽऽ करता.हाचे फुडें चकल्यांचेर बरोवंक हरकत ना. )

वाचून हेमाची तुस्त..

'मीना तें मीना
ताचो जागो कोण घेना
सुरेश हें बेस बरें जाणा
देखून मीना मातूय भिना

आरत तुजी आवडली. फुडली चवथ येवंचे पयलीं आरती संग्रह काडुया..'

भाई मावजो हेर वाचकां प्रमाण सायलन्ट रावलो ना. मदीं मदीं ताचे कमेंट येतालले...

'हर्षा, तूं अशें झगडाळ केन्ना नाशिल्लें. बोरकारीन

ाट लायली तुजी. आतां उपकार करून आमकां लाडू ना
रुं नाका. तुगेलें पुस्तक उजवाडा येतलें आनी आमकां
ाडू मेळटले म्हूण राविल्लों. राग सोड आनी लाडू वळूंक
स. साडयोय तयार दवर. मनोगत उलयतना एक, विमोचना
ेळार एक, दिनवासाक एक, पुस्तक सायनिंगाक एक,...
ाद्गुरूक सांग, संमेलनां ऑनलायन जातात तश्यो साडयोय
ऑनलायन मागोवंक मेळटात आतां.

काकोडकारी

दिलीप म्हणून विटोवंक लागला .

लोकांचे धंदे बेस बरे चलतात,जाल्यार हाका नसाय.हो
वे धंदे तांच्या माथ्यार थापूंक सोदता. रमेशाचो जीम काय
बरो चलता. बबन तर नागेशबाब धरून सगल्यांचें रिपोर्टींग
करता.दिलीपाक मारूतीचीय नसाय.सगल्यांक ताणें
स्विगीवाले केल्यात. आतां संकेतान तांचे मोटारसायकलीन
लाडवांचीं डेलिव्हरी करता अशें स्केच काडलें जाल्यार?



हें सोडात..पूण सखारामबापू माया, अलका, सिंधू हांचे मदीं बसून लाडू वळटा असो स्केच बिम्बाचे दिवाळी अंकांत छापून आयलो जाल्यार कशें जावपाचें?

ताची बायल म्हण्टा खंय घरा कडेन तूं कुस्कुटाक हात लायना आनी लोकांगेर वचून लाडू वळटा? फाल्यां सावन सगळें जेवण तूंच रांद. आतां सखारामबापू सुफलाबायचें जेवणाचें पुस्तक सोदूंक भोंवता अशें कानावर आयलां.

रूपालीबायक (कामत शेटये) राग येवपाचोच. ताच्या लाडवांचो उल्लेखय ना? दिलीपान चार स्विगीकार तागेरय धाडपाचे न्हय?

पूण ना. दिलीप नुस्तेकान्नीक जीब दाखोवंक आनी भाजीकान्नीक पळोवन ताळयो मारपांतच गुल्ल जाला.

आतां थोड्याच दिसांनी बोरकारीचें रूपांतर खाजेकारींत जावपाचें आसा. आनी पयलें सदर आसतलें सखारामबापूचें ..' भेंडांत येवूं न देतां लाडू कसे वळावेत?'

आवयस्स् देवा हें वाचून म्हज्या भेंडांत आयलें!

.....

युगांकाचें आनीक एक

विटयलें

जनरेशन गॅप म्हण्टा तें सामकें फटीचें न्हय.तातूंत तथ्य आसा हें म्हाका आतां शेर्त समजलां.

हांवें पयर ह्या ग्रुपांत एका राजकीय विशया वयल्या कार्यवळीचो फोटू घातलो आनी दिलीपबाब चाळवलो. इतलें मेरेन बरें आसा, भाईन(मावजो) कमेंट केलो आनी प्रकरण सिरीयस जालें.

भाईच्या मतां प्रमाण हो ग्रुप विनोदी आनी बाकीचें नाका. भाईचो 'इनटोलरन्स' म्हाका खटकलो आनी भाई 'दक्षिणायन' सोडून 'दक्षिणपंथी' जालो काय कितें हो म्हाका हुस्को जालो.

हाचो राज्य-व्यापी इश्यु जावपाक जाय म्हण सतत राजकाराणांचेर बरोवपी, दक्षिणपंथी हल्ले सोंसपी लोकमताचे संपादक राजू नायकाक हांवें 'मजहब खतरे में है' म्हळें आनी फोन मारलो.

थंयूय म्हाका निराशाच पदराक पडली. दिलीपाबाब बोरकारा उपरांत ताणेंय एक स्कीम काडली. म्हणपाक लागलो

'जागा'चेर खंय तो 'बोरकारी' छापतलो आनी दादल्यांक 'रेड लेबल' आनी बायलांक 'रसना' वाट्टलो.

हरशीं समानतेचेर उलोवपी आनीक एकलो दक्षिणायनी दक्षिणपंथी जालो हें समजलें. हांवें ओग्गी ताणें दिल्ले रेड लेबल च्यायेचो घोंट मारलो आनी कंप्लेंट करी नासतना कडसलों.

जशो मुख्यमंत्र्याक मोदीचो आदार तसो म्हाका म्हाज्या गुरूचो आदार, म्हण हांव डायरेक्ट संदेशभाईक मेळ्ळों.

तो म्हाका केन्नाच डिसापॉयंट करी ना आनी आजूय ताणें म्हाका करूंक ना. ताणें असली स्कीम काडली सोमथी गेम रफ जाली.

म्हणूंक लागलो जर आमी प्रमाण भाशा बदल्ली जाल्यार म्हणपाक लागलो सगळें बेश्टा-बेश्ट जातलें. तुजो वाद दादल्यांक 'रेड लेबल' आनी बायलांक 'रसनां' दिवपाचेर आसा मरें?

म्हणूंक लागलो "आतां प्रमाण भाशेन आमी 'रसनांक' 'ग्रीन लेबल' करूया. तूं बरय. तुका रेड लेबल शुवर" आनी थंयच प्रशांतीचो मोबायल आशिल्लो "ह्या मोबायला वयल्यान आपूणय बरोवन धाडटां, ग्रीन लेबलूय शुवर.

बाकीचे वाद रेड आनी ग्रीन लेबलाचेर मिटोवया." कास्ताची आयडीया! आमी दोगांयनीय एका मेकाक 'रेड सॅल्युट' मारलो आनी नव्या प्रमाण भाशेंतली क्रांतीकारी बोरकारी बरोवपाक बसले.

मोर नाचता म्हूण किट्टुरान नाचपाक फावना म्हणत आपलीं मोरपाखां लिपोवन राविल्लें हर्षा आपलें एकेक पांख भायर काडूंक लागलें....

हर्षबिम्ब-3

" खेंखें खेंखें...खेंखें खेंखें..दिसभर मोबायल हातांत घेवन खुंखू खुंखू करीत आसता....आता न्हिदांनूय खेंखें.?"

गाढ न्हिदांतलें उठयत घोवान विचारलें.

"काकोडकारी..पिठ्या लाडू... किते बडबडता?

तूं पिठ्या लाडू करचें ना जाल्यार करूं नाका, पूण म्हज्या न्हिदेच्या आड येवं नाका."

" ना रे! आतां करतलें पिठ्या लाडू, भाईन ओर्द दिल्या."

घोवान बेगीबेगीन म्हज्या तोंडार हात दवरलो, आनी हेवटेन तेवटेन पळयत म्हळें, "पापया! वण्टीक लेगीत कान आसतात, फाल्यां आनी C.B.I. ची चवकशी बी सुरू जायत.

बोलीवूडांतल्या नट नटयांची सुत्रां दुबय सावन भाई हालयता म्हूण आयकल्लें. आतां कोंकणी लेखकांच्योय नाडयो ह्या दुबयच्या भाईच्या हातांत? कर्मभोग आमचो!"

"अं.. अं..सांगतां..हात काड पयलीं तोंडा वयलो.."

घुस्मटत घुस्मटत हांवें सांगलें.

घोवान तोंडा वयलो हात काडलो

" दुबयचो भाई न्हय रे,आमचो भाई मावजो..!"

हें आयकून घोवाक सामकें सूंऽऽ जालें

" न्हिद आतां ओग्गी."

" म्हजें दुख्ख भाईकूच समजपाचें. म्हजीय परिस्थिती तीच जाल्या...'लाडू खावं कांय जीव दिवं'.." न्हिदतां न्हिदतां घोवान म्हळें

अमेय नायक हो कवी आनी विनोदी नदर आशिल्लो तरनाटो.. तोय आपलो अभिप्राय लिपोवन दवरूंक शकलो ना...

'बोरकारी, सखाबोरकारी, हर्षबिम्ब, भगतायण, काकोडकारी, बांदेकारी, घाडपण, प्रेमविरी आनी विटयलें आनी कोण नदर चुकून उरला बी जाल्यार सॉरी... सगळें सगळें आनंदी आनंद 'गडें' टॉप गियर चल्ल्यात. सगळ्यांक ..आंगठे..

नयना आडारकार कडेन आमी सगले विनोदी सबाव आशिल्लें लेखक म्हूण पळयतात.तें आपल्या समस्यांनी घुस्पल्लें. विनोद हांकाच तातूंतल्यान भायर करपाचें काम करता..नयना भायर सरता अशें दिसलें..

- खाडयाच्या खाडान आनी सखारामाच्या बोडान एक नवी विनोद बरोवपाची चळवळ सुरू जाल्या. लॉकडावनान तकलेंत मुरिल्लें भायर सरता. नवे विनोदी बरोवपी तयार जातात. खोस भोगता.

आनी नयना अशें म्हणून ओग्गी बसलें ना. रोखडीच ताणें आडारकारी सुरू केली..

आडारकारी

मीनाताईन म्हज्या 'आंगांतूच विनोद आसा' म्हणटकच हांवें कच्च करून आंग काडलें. आतां मातशें हाल्ल्यारूच दुलूदुलू जाता थंय आंग काडलें म्हणून कोणाक कळना ही जाल वेगळी. दोतोर म्हणटा म्हज्या आंगांत वात, वाय, दियाबेटीज, थायरॉयड आनी प्रेसांव हीं पंचतत्वां मेळून हांव फुल्ल जालां. मागीर विनोद नांवाच्या ह्या सव्या तत्वाक खंय जागो मेळटलो? आतां नांवांत विनोद आसा म्हणल्यार एक समजूं येता. कारण पयर लेगीत नयनाचें इंग्लीश Nayana हें उतर वाचून पोस्टमेनान 'नारायण' आसा काय म्हणून विचारलें. आडनांवाचें पाड तर पयलींच पडलां. तें आडारकाराच्या बदला आराडकार, आड्डारकार, आड्डीकार, दाराडकार, आदारकार्ड जालें तें जालेंच. व्हॉवळीक पत्रिकेचेर हळडकार म्हणून नांव घालूनय हांव लग्नाक गेलें आनी अख्ख्या लग्नाच्या हॉलांत हांव हडळ आशिल्ल्याचो फील म्हाका आयलो. म्हणून नांवांत विनोद म्हणल्यार म्हाका व्हडलें अजाप दिसचें नासलें. पूण आंगांत???

आतां हो आंगांतलो विनोद सोदप कसो? अस्ताव्यस्त पडिल्लीं बल्लां कोणूय मानाय लावन काडून थंय कितें पडलां जाल्यार सोदूं येता. पूण अस्ताव्यस्त वाडिल्ल्या मासांच्या छल्ल्यांक? बरें म्हजो हात पावना म्हणून कोणा दुसऱ्याचो आदार घेवं येता? रोखडींच सांबर न्हय डांबर रकयत म्हणटलीं 'हाची साठी बुद्दी नाठी' ओगीच 'नयना बदनाम हुई विनोद तेरे लिए' अशें आनी जावंक नाका.

तरी म्हणलें, मीनाबाय म्हणटा, हेमाबाय आंगठो दाखयता आनी बबन सोळा वर्सा पिरायेचो उगडास करून दिता जाल्यार सोदपाचो यत्न करपाक कितें जालां! हांवें काळजांत विनोद लिपला बी काय सांसपून पळयलें. पळयल्यार थंय 'धाकधूक ध धधड ' अशी विचित्र धडधड जाता म्हणून भियेवन हात फाटीं घेतलो. म्हजें बुद्दींत बी आसा काय म्हणून पळयतलें जाल्यार घरांतल्या घोवदेवान आनी ऑफिसांतल्या बॉसदेवांनी म्हजी बुद्द धोपरांत म्हणून म्हाका सदांच हिणसायलां. बरें धोपरांतली बुद्द तपासून पळोवया, थंय बी विनोद आसुये म्हणून प्रयत्न करतलें



म्हणल्यार कितलीय बाग घेतली तरी म्हजीं धोपरां म्हाका दिसचनात.

हाचेर उपाय म्हणल्यार धोलारो उणो करप. फाटीं घाणेकार सांगतालो धोलारो उणो करपाक कपालभाती सामकें बरें. म्हणून हांवें कपालभाती करपाक सुरवात केली. पूण म्हज्या धोलाऱ्याचें भातें कशेंच फुकफुकूय जायना. वयल्यान फूं फूं करून नाकांतली सगळी थंडी मात व्हांवून गेली आनी तकली सामकी जड जाली. आतां विनोद गेलो एक्सांत म्हणून कपलाक बामाचें भातें चोपडून हांव पडलां.

आपले अवतिकायेचेर वा निजी गजालींचेर विनोद करपाक काळीज लागता..नयनाचें काळीज ताचे कुडी परस सुंदर.तातूंतल्यान ताची आडारकारी सुरू जाली...

भोशेच्यो जश्यो अनेक बोली तश्यो ह्यो बोरकारीच्यो अनेक पती... भगतायण, घाडपण, बुवाबाजी, काकोडकारी, असोल्डेकारी, सखाबोरकारी,हर्षबिम्ब, प्रेमविरी, बांदेकारी, विटयलें, आडारकारी अश्या खूबश्या कारींतल्यान ज्ञानेश्वरी जशी लोकांच्या काळजांत पावली तशी पावतली आनी फुडल्या दर अंकांतल्यान बोरकारीच्या मांडार दिसतली.



**आडवे:** १.नागाची पुजा करपाची श्रावण म्हयन्यांतली पयली पंचम, ५. उदकान भरप, उदकान वोलो जावप, ७. चोपदार. दांडो धरपी, काडयेकार, १०. तांतड, जाय जावप, ११. बारीक जोर आनी खांक येवपाचो रोग जाल्लो, १३. घर उबारपाक लागपी पारो, १४. देवळांतली देवाकूड, गाभारो, १५. अंडें, १६. वावराची पयली केल्ली येवजण, १७. इत्सा, रूच, १९. भलायकी, २०. झाडाचें मूळ, २१. ब्रेड, एक चतुर्थांश भाग, २२. वर्साचो पयलो रुतू, २४. तेलकट, २५. वांगडा, बराबर, २६. हिकमती खटपटी, २८. छत्रपती शिवाजी म्हाराजाचो जल्म ह्या किल्ल्याचेर जाल्लो, २९. टाळूंक येना अशें, ३०. भौस, सरभरस सगळो लोक, ३२. तांबडें, माणीक, ३३. लोखंड, ३५. दुसरी शक्यताय, विकल्प, ३७. लग्न जावंक नाशिल्लो चलो वा चली, ३९. येणावळ, संचय, ४०. किल्लो, ४१. श्रीरामाच्या एका पुताचें नांव, ४२. धुडी, बावटो, बंदेर, ४३. भारतांतलें एक फामादउद्दोजक घराणें, ४४. पयली तीथ, प्रतिपदा, ४५. वीख, ४६. जाणट्या मनशाक मारपाचो उलो, तरेकवार, विवीध, ४७. नोकरेंतल्यान वा पदावेल्यान काडिल्लें, ४८. धपडो, तडाखो, टवलो, ४९. एक तरेचो दक्षीण भारतीय (केरळ राज्यांतलो) नाच, ५०. श्रीकृष्णाचें एक नांव.

**उबे :** १. पयशांक फटोवपी, दुसऱ्याले पयशे खावपी, २. जेवंक बसतल्यांची रांग, ३. खळी, ४. मदीं, भितर, ५. भिरांत दिसपा सारकें, भिरांत घालपाचें, ६. पंद्रस, पांखटो, ७. घरा वण्टीचो एक भाग, ८. वाळवंट, रेंवट, मरुभूमी, ९. रगत व्हांवता अशें, रगतान भरिल्लें, १२. फावो तशें, योग्य तरेन, १५. प्रयळकाळा वयलो शीवाचो नाच, १६. रकाद, १७. माता, जननी, माय, १८. आमच्या माथ्यावयली पोकळसाण, २०. फारकेंत बसयल्ले चित्र, २१. एका देशांतल्यान दुसऱ्या देशांत वचपाची लेखी परवानगी, २३. वायट घडणूक, कठीण आनी त्रासांची परिस्थिती, २४. अजापाची गजाल, चमत्कार, २७. ध आनी वीस, २९. जाल्ले घडणुकेची खबर, ३१. जप करचेली माळ, ३३. मनशांचो जमो, जनता, ३४. मारुती, हनुमान, ३६. खरेंपण तपासप, अणभवप, अणभव घेवप, ३७. माटवें, ३८. गोंयच्या एका देवाचें नांव, ३९. जामीन, ४०. खळी, व्हाळ, ४४. साया उदकाची उथळ न्हंय, ४५. गणपती, गजानन, ४६. स्वास भायर भितर घेवपाचें इंद्रीय.

- **संतोष हळर्णकार,** बांदिवडे बंदर, फोर्णे - गोंय. मो. : ९७६२६४१६१५

World-class
homes
by design

Upscale 2 / 3 BHK Apartments
& Road-front Shops
at **Aquem-Margao**



Picasso
By RBB

MARKETED BY



Since 1993
COMMONWEALTH™
DEVELOPERS PVT. LTD.



QUALITY • CREDIBILITY • AESTHETICS

CD Fountainhead, Opp. CD Countryside, Fatorda
Tel. 0832-2742082 / 83 Email: kdnaik@cdhomes.com
**Mob: 9822386271 / 9225822063 / 9823159655**
**www.cdhomes.com**

RERA Registration No: PRGO09190839, RERA Registration No: PRGO09190864
RERA official website: https://rera.goa.gov.in/reraApp

## शाल्मली क्रिएशन्स लोकप्रिय पुस्तकां







### दवरणें
प्रा.डॉ.प्रकाश पर्येकार हांची
ललित निबंधांच्या माथाळ्यांतल्यान
आयकूंक आयिल्ली लोकधून.

### आमचे आमी
काव्यसंग्रह
प्रा.डॉ.प्रकाश पर्येकार हांच्यो
सामाजीक आशयाच्यो प्रभावी कविता.






### दुयेंसां आनी आयुर्वेदीक उपचार
डॉ.अर्चना गांवकार हांचें दरेक घरांत
आजीबायचो बोटवो कसो आसूंकच जाय
अशें आयुर्वेदीक वखदां आनी उपचारा वयलें
अभ्यासपूर्ण पुस्तक.

### ११० वखदी वनस्पती
डॉ.अर्चना गांवकार हांणी करून दिल्ली वनस्पतींची
सर्वसादारण म्हायती,तांचीं शास्त्रीय नांवां
आनी वेगवेगळ्या
दुयेंसांचेर केल्लो तांचो वापर हाची
बारीकसाणीन दिल्ली,सहज समजून येवपी म्हायती.

# HOUSE OF ZANTYES, GOA.



**Pravin Zantye**
MLA
Maem Constituency

Chairman
Goa State Horticultural Corporation Ltd.
(A Govt. of Goa Undertaking)

## Zantye Brother's
Bicholim- Goa

## Zantye Cashew Industries
Malvan- Maharashtra

## Z Cinemas
Panjim, Margao, Vasco, Bicholim, Cuncolim & Curchorem

## Hotel- Z Square
F. L. Gomes Road, Opp. Auto Service, Vasco-Da-Gama, Goa-403 802
Ph: 2519091 / 2519093

## Hotel Ashok Plaza
Samrat Ashok Theatre Complex, 18th June Road, Panjim-Goa-403 001.
Ph: 0832-2427875 / 2427876 / 2436979. Fax: 2436979

## Z Square Business Center
Panjim: Samrat Ashok Complex, 18th June Road, Panjim - Goa - 403001.
Margao: Vishant Theatre Complex, Aquem, Margao - Goa - 403601.
Vasco: F. L. Gomes Road, Opp. Auto Service, Vasco-Da-Gama, Goa - 403802.



जाणकार आनी बुदवंत वाचकांक
कितली संवेदनशिलताय जाय,
विचारांची व्याव कितली दवरूंक जाय
हाची सैमीक जाण आशिल्ले,
कवी मनाचे

# मुकेश थळी

हांचें
ललित साहित्य म्हळयार
जिणेचो तरल आस्वाद घेवंक
मेळिल्ली एक अप्रूप संद.
वळेसर, रंगतरंग, हंसध्वनी हें
ललित साहित्य जावं
वा हें नाटक जावं,
वाचकांक एके आगळेच
उंचायेर व्हरून
तांच्या काळजा- मनांत
संगिताची धून वाजयता...












# बिम्ब प्रकाशनाचीं

वाचकांनी चडांत चड पसंती दिल्लीं
कोंकणी विनोदी साहित्यांत
नवे संदर्भ आनी आयाम प्रस्थापीत करपी

## कृ.म.सुखठणकार



हांचीं हांसयतां हांसयतां अंतर्मुख जावन विचार
करपाक लावपी पांच दर्जेदार पुस्तकां.
















जिणे कडेन सकारात्मक नदरेन
पळोवपाचो हावेस बाळगुपी
जणएकल्यान वाचपाचीं आनी संग्रहाक दवरपाचीं
पांच दर्जेदार पुस्तकां.

बिम्ब
प्रकाशन

**गोदावरीदेवी केजरीवाल पुरस्कार (२००७)**
**रॉक बार्रेत साहित्य पुरस्कार-(२०१३)**
**बिम्ब पुरस्कार (२०१४)**

आनी हेर साबार पुरस्कारांनी सन्मानीत जाल्ल्या

# हर्षा सद्गुरू शेटये

हांच्या सिध्दहस्त लेखणेंतल्यान
तयार जाल्ल्या पुस्तकांचो संच आतां सवलतीच्या दरांत






**म्हजी माती म्हजें मळब** (काव्य संग्रह)
**कथारंग** (कथा संग्रह)
**मोतयांची माळ** (ललित निबंध)
**आनंदयात्रा** (प्रवासवर्णन)
**चंपू इन रांदचीकूड** (बालकथा)
**चला,भारत भोंवया** (बालसाहित्य)
**बोमाडे** (बालसाहित्य)
**जगमा** (बालसाहित्य)
**गोंयचीं सवणीं** (सवण्यांची वळख)

**फुडलीं प्रकशनां**

**सप्तपदी**
(सात देशांचें प्रवासवर्णन)

**एक आशिल्लें बायुल**
(बाल नवलिका)

नोंदणी वा अदीक म्हायती पासत संपर्क करात

मो.९८२२१३६८८५ | ई मेल-bimbkonkani@yahoo.co.in

POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2018-2020

RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

Published on 1st and posted on 5th & 10th day of every month

MARUTI SUZUKI

NEXA

# NEXA

THE DESTINATION FOR AN EXCLUSIVE EXPERIENCE




ASK FOR BEST OFFER

CREATE. INSPIRE.

Ciaz | BALENO | S-CROSS | IGNIS | XL6

WALK-IN AT THE NEXA PORVORIM TODAY FOR EXCITING OFFER

For any queries contact:

**NEXA PORVORIM**

**SAI SERVICE PVT LTD. NH-17, Opp to Pepperfry, Socorro,**

**Porvorim - Goa. Ph.: 7720028888 / 0832 - 2408888**







Offered separately as Genuine NEXA Accessory

Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim-Goa & Printed at Impression, Belgavi. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, Email : bimbkonkani@yahoo.co.in